

पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्ध भगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतले लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळयांत पुर्विल्ली नोंद आसुंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.
नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान.

# कोंकणी ललित निबंद


WORLD KONKANI CENTRE LIBRARY
विश्व कोंकणी ग्रंथालय
211
Acc. No:

संपादक

**श्याम वेरेंकार**

000234

234
Essay-Dev
SHY



साहित्य अकादेमी

KONKANI LALIT NIBANDH (कोंकणी ललित निबंद) :
An Anthology of Konkani Essays'
Edited by Shyam Verenkar
Sahitya Akademi, New Delhi (1997), Rs. One Hundred

© Sahitya Akademi
First Edition : 1997

JI, SYA C N97

*Published by :*
Sahitya Akademi

*Head Office :*
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi - 110 001

*Sales Department :*
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi - 110 001

*Regional Offices :*
172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Mumbai - 400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Calcutta - 700 053
Guna, 304-305, Anna Salai, Teynampet, Chennai - 600 018
ADA Rangamandira, 109, J. C. Road, Bangalore - 560 002




ISBN 81-7201-965-3

मोल : 100 रुपया

*Printed by :*
Omega Enterprises, Vidyanagar colony -3, Vidyanagar, Margao (Goa) 403 601.

# मांडावळ


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No: 000234


WORLD KONKANI
211

## कोंकणी ललित निबंद

# पनवार

आपलो अणभव, आपलीं चिंतनां, आपले उमाळे दुसऱ्यांक कळोवचे हो मनशालो सैम. मुळावो सभाव. हाका आप-उक्तावणी म्हणूं येता. हाजोच एक साहित्यीक आविश्कार म्हळयार निबंद.

आयचो निबंद ललित साहित्यांत आसपावता. ललित गद्याचें एक गोमटें रूप. ताका लघु-निबंद वा ललित निबंद म्हूण पाचारतात.

अणभव साक्षात उबो करुन खोसयाळे सोबितायेचो दिश्टावो घडोवप हो ताजो हेत.

**ललित निबंदाचो दिश्टावो**

ललित निबंद म्हळयार आत्मपर लिखाण. हांतल्यान बरोवपी आपणाल्या मनांतल्यो प्रतिक्रिया उक्तायता.

अशा ह्या आप-उक्तावणेच्या बरपांत "हांव" झळकता. हांतलो हांव अडेचो नासता, खरेलो आसता. हांव जो काळ जियेता, भोग भोगता, कितें तोखेता, चिंतता .... ताजो आपरोस उतरांनी चितारता. तातूंत ताजें पडबिंब पडटा. ताजें सभाव चित्र ताज्या उतरांनी उदेता. ह्या चिकित्सक हारशांतूच ताका निजाचें रुप गवसता.

निबंदाची व्याख्या करूंक जायतो यत्न जालो. पूण, एकमत ना. ताज्या आंवाठाची शीम-मेर थारावंक जमूंक ना. तें एक मेकळें बरप. ताका आकाराचो बांद ना. विशयाचें बंदन ना.

निबंद वळखूंक येवपी एकूच कुरू. बरोवप्याची निजाची नदर. - 'personal point of view' हो एक लिखाणांतल्यान जाल्लो आत्माविश्कार.

हेच आत्मपर अभिव्यक्तीच्या आधारान खंयचेंय लिखाण निबंद, लेख काय प्रबंध हें थारावंक येता.

निजाची पद्दत, मेकळेपण, सादें उतर, सरळ मन. ...... हेंच निबंदाचें खरें धन.

हांगा बरोवपी येता तशें सांगता. सुचता तशें कागदार रकयता. भीड-मुर्वत धरिनासतना आपलें व्यक्तित्व पुरायेन उक्तें करता. आपणाल्यो खबरो, अणभव, मांडून सांगता.

निबंदांत सांगूंक जाय तें सरळ सांगूंक येता. कवितेंत, कथेंत, एकूच विचार मांडूं येता. अशा लेखनांत लेखक दिसना. आपूण तटस्थ रावता. ललित निबंदांत आशय

आनी व्यक्तिमत्वा सयत लेखक प्रकट जाता. देखुनूच कथा, कादंबरी, नाटक, कविता बी साहित्य प्रकारां परस निबंदांतलें आत्मरुप मनभुलयणें जाता.

आपलो अणभव, आपलो प्राण, आपलें सगळें "आपलेपण" निबंदकार लिखाणांतल्यान ओतयता. निबंदांतलो आशय लेखकाच्या व्यक्तिमत्वा पासून वेगळो काडूंक जमना.

ललित निबंदाचो जनक फ्रान्सांतलो मिशेल द मोंताञ्य (Michel de Montaigne) म्हण, "Je suis moi-même la matière de mon livre" हांव म्हजे म्हाकाच चितारतां.

"जें हांवें बरयलां ते म्हजें. म्हज्यांतलें जें बऱ्यांतलें बरें आसा, तेंच हांवें उतरांच्या कुरवांनी तुमच्या मुखार दवरलां."

निबंदांत खरें म्हत्त्व आसता आत्मनिवेदनाक. ह्या आत्मनिवेदनाक कसलें तरी निमीत जाय. ह्या निमताक ललित निबंदाचो विशय म्हणूं येता.

निमीत किदेंय जांव; ताच्या आधारान बरोवप्याक आपल्या अणभवाची मनभुलयणी कूस उक्ती करूंक मेळटा. ललित निबंदांत विशयाक म्हत्त्व नासता. कुस्कुटाचो विशय चलता. पूण आत्मानुभवाक चड म्हत्त्व.

मीठ-मिरसांग लावन मांडून सांगिल्ल्यो खबरो, यादी, आयकतना वागरें पडटा.

दांत्यार बसतकच होंवयो येतात, तशो खबरांनी खबरी येतात. आयकतलो गुल्ल जाता. खबऱ्यांक नेट येता.

ललित निबंदाचेंय तशेंच आसता. लेखक आपणाले अणभव पातळावन सांगता. मदींच एकाद्री देख दिता, ओपार मारता. निबंदाक रंग भरता. निबंद घोंसार येता.

बरोवपी बरयत वता आनी निबंदाक एक रूप - आकार मेळटा. अचकीत गंवसल्लो सोबीत गोमटो आकार.

पूण, आकार हो कस म्हणूं नज. कांय वेळा परिणाम सादपा खातीर निबंदान व्हड आंवाठ घेतलो जाल्यारुय तो निबंद, आनी कांय वाक्यां भितर सांगून जालो जाल्यारुय निबंदूच.

अणभवाचें अर्क मागीर तें कांय वळींनीं लेगीत मांडल्यार उपकरता. एका अणभवांतल्यान दुसऱ्या अणभवाक आडफागूर फुट्टात. तांकां नवी आंकरी येता. मागीर तो अणभव नव्यानच फुलूंक, फळूंक लागता. तांतल्यान एक मनभुलयणें, खोसदिणें, उमेदी चित्र साकार जाता.

खोशी-उमेदीचें हें रसण खिरयतना प्रतिभावंत लेखकाचें कसब तोखणाय करी सारकें जाता. पूण, ही बरोवप्याची गुपीत खुबी. लेखनाचें कसब सट करून नदरेक भरूंक फावना. मुद्दाम ओडून, ताणून मांडणी केल्या अशें दिसूंक फावना.

ललित निबंद म्हळयार आपलेविशीं केल्ल्यो गजाली. पूण ह्यो गजाली पचपचीत जाल्यो जाल्यार निबंद इबाडटा.

निबंदांतल्या प्रामाणिकपणाचेर ताचें यश विसवन आसता. आपले आपणाकूच फटयल्यार निबंद पडटा. फटिंगपणा, कुत्थित्रीपणा निंबदांतलो आत्मो खेंचता.

बऱ्या निबंदांत लेखकाचें व्यक्तित्व, विशय, आशय, माध्यम [भास] आनी

अभिव्यक्ती हांचो एक मेळ जाता आनी साहित्याचें नवें रूप आकारा येता.

**प्रेरणा आनी आविश्कार**

आयच्या ललित निबंदाचीं पाळां-मुळां जाणकारांनी अळंग सोदून काडल्यांत.

''निबंध'' हें उतर संस्कृत साहित्यांत वापरांत आसलें. निबंन्ध = नि + बन्ध = बांदप, बांद घालप, थांबोवप, संग्रह ... बी.

आदीं खंय झाडाचे सालीर वा पानांर बरयताले. मागीर हीं सगळीं ''पानां'' एकठांय बांदून दवरताले. ताका ''निबंदन करप'' म्हण.

अणभव, विचार, उमाळे कोरांतिल्लीं विस्कळीत पानां राखून वा बांदून दवरप म्हळयार ''निबंद''.

11 व्या आनी 12 व्या शेकड्यांत खंयचेय ''मोलादीक'' रचने खातीर ''निबंध'' वा ''प्रबंध'' ह्या उतरांचो वापर जायी.

''निबन्ध'' आनी ''प्रबन्ध'' ही उतरां भारतीय भासांनी घोळणुकेंत आसलीं.

तरिकूय, भारतीय साहित्यांत निबंदाचो विकास फिरंगी साहित्य प्रेरणेंतल्यानूच जाला.

हो एकूच साहित्यप्रकार; जाचीं पाळां-मुळां, गोत्र, नामावळ आनी जल्मदीस, साहित्य अभ्यासकांनी सोदून काडला.

निबंदाचो पयलो वयलो आविश्कार फ्रान्सांत जालो. फ्रान्सांतले **मिशेल द मोंताञ्य** (1533-1592) हांणी, मार्च 1571 वर्सा ''आपउलोवपाचे'' धरतेर कांय बरप केलें. तांणी ताका Essais म्हळें. तांच्या मतान ''निबंद'' म्हळयार ''विचार, उमाळे, आनी खबरां-कथांची मिसळ'' तें एक आपउलोवप. उपरांत, **सर फ्रान्सिस बेकन** (Sir Francis Bacon) (1561-1626) हांणी ह्या निबंदाक एक वेगळें रुप दिवन इंग्लीश भाशेंत रुजयलो. साहित्याची एक नवी परंपरा सुरू केली. तांणी धर्म, नीत, वाचन, मरण .... बी गंभीर विशयांचेर निबंद रचले.

इंग्लीश साहित्यांत निबंदाचे सामान्यतायेन Expository [विवेचनात्मक] Personal [आत्मकथनपर] अशे दोन वर्ग केल्यात. ते भायर तांणी ''गंभीर'' आनी ''ल्हवपीक'' अशीय बी एक वर्गवारी केल्या.

फाटल्या चारशीं वर्सांत जायत्या इंग्लीश बरोवप्यांनी हातूंत खूब भर घाल्या. वेगळयो परंपरा तयार केल्यात.

पूण, आयचे टिकाकार चड करुन Personal Essay - ललित निबंद होच आयचो खरेलो निबंद [Essay Proper] म्हूण मानतात.

हो निबंद केळोवप्यां मजगतीं : **स्टील, ॲडिसन, गोल्डस्मिथ, लॅम्ब, हॅझलिट, डी क्विन्सी, ली हंट, बेलॉक, चेस्टर्टन, गर्डिनर .......** बी निबंदकारांची खूब नामना जाल्या.

निवळ विवेचन, चिंतना, तत्त्वांची विसकावणी करपी बरपाक ''निबंद'' म्हणी नासतना ''आर्टिकल'', ''प्रबंध,'' ''थिसीस'' ''मोनोग्राम'' ...... अशें कितें तरी म्हणचें हें मत टिकाकारांनी दिलां.

निबंद भारतांत अवतरूंक इल्लो कळाव लागलो. इंग्लीश शिक्षणाच्या प्रसारा वांगडा

ल्हवू ल्हवू ललित निबंद भारतीय भासांनी घोळूंक लागलो.

हिंदी, मराठी, गुजराथी, बंगाली बी भासांनी निबंद बरे तरेन केळयला. ताका गांवठी ओप चडोवन तांतल्यान भारतीय आत्मो फुलोवंक जायते शैलीदार बरोवपी जैतिवंत जाल्यात. भारतीय परंपरा, आनी प्रादेशीक अस्मितायेचें दायज सांबाळीत निबंदाचो विकास जाला.

**कोंकणी निबंदाचो सोद**

पुर्तुगेजाच्या शेकातळा चिड्डल्ल्या गोंयांत निबंदाची चळवळ साप उसरां सुरू जाली.

कोंकणी भाशेचेरुय हावळ हाडपी पुर्तुगेज सत्तेक लागून कोंकणी आत्मो अंदल्लो. तो मेकळो जावपाक खूब कळाव लागलो.

कोंकणी निबंदाचीं मुळां सुर्वेच्या गद्य बरपांत सोदूंक जाय. पूण, हें बरप रोमी, कानडी, मलयाळम आनी देवनागरी लिपयांनी फाफसलां.

पुर्विल्या साहित्याचो माग काडपी फावो तितलें संशोधनय जावंक ना.

एक मात मानचें पडटलें. इतिहास आनी लिपयांच्या आडमेळयांक लागून एकेच कोंकणी भाशेंत चार वेगळे साहित्यीक जुंवे जल्मा आयले. वेगळयो परंपरा तयार जाल्यो.

कांय आडवाद सोडले जाल्यार, कानडी लिपयेंतल्या कोंकणी साहित्याची वळख रोमींत बरयतल्यांक जाली ना, आनी देवनागरींतलें साहित्य जाल्यार सामकीच वेगळी परंपरा घेवन आकारा आयलें.

साहित्य एक दुसऱ्या पासून भारायल्लें, तेच वरी ताचे वाचपी पैसावल्ले.

एकामेकांच्या सामके लागसार आसून लेगीत अनवळखीच उरिल्ले.

तरिकूय, सगळयांक जोडपी एक समान तत्त्व म्हळयार कोंकणी आत्मो ..... ताजी कोंकणी भास. ह्याच म्हालवजार विसाव्या शतमानाच्या तिसऱ्या दसकांत - कोंकणी साहित्य परिशदेचे वेदीर, वेगवेगळया लिपयांतल्या म्हालगड्या साहित्यिकांक एकठांय हाडचो यत्न जालो.

कोंकणी अस्मिताय जागोवची चळवळ सुरू जाली.

साहित्याच्या इतिहासांत एक अजाप घडलें. नवे उमेदीचे बरोवपी देवनागरींतल्यान साहित्य निर्मणी करूंक लागले.

उपरांत, कोंकणीचें "मूळ पीठ गोंय" पुर्तुगेजांल्या साडेचारशीं वर्सांच्या जुलमी सत्तेंतल्यान मेकळें जालें. निर्मणेचो अंदल्लो घोगो नेटान व्हांवंक लागलो. साहित्याचो कस पारखून "साहित्य अकादमीन" कोंकणीक मान्यताय दिली.

गोंय सरकारान कोंकणी राजभास म्हूण मानून घेतली.

शाळा, कॉलेजां, विद्यापिठांनी कोंकणी विशय शिकोवंक लागले. ...

ह्या सगळया घडणुकांचो कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी निबंदाचेर सुमारा भायलो असर जाला.

कोंकणी निबंदाचो नियाळ करतना ह्यो सगळयो घडणुको दोळयांआड करूंक जमना.

कोंकणी निबंद परंपरेंत तीन मोडणां अळंग पारखूंक मेळटात.

अर्विल्या साहित्याची सुरवात शणै गोंयबाब [वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार [1877-1946] हांणी केली, अशें मानलें जाल्यार निबंदाच्या इतिहासाचे तीन वांटे थारावंक येतात.

अ] शणै गोंयबाबाचे आदींचो निबंद
आ] शणै गोंयबाब ते [गोंय] मुक्ती मेरेनचो निबंद
इ] मुक्ती उपरांतचो निबंद.

कोंकणी ललित-साहित्य विकासाचे पिराये नुसार वांटे घालचे पडले जाल्यार

अ] 1940 साला पयलींचो निबंद
आ] 1940 ते 1960 मेरेनचो निबंद
इ] 1960 साला उपरांतचो निबंद

**अ] 1940 साला पयलीचो निबंद**

कोंकणी ललित गद्याची सुरवात 19 व्या शतमानाच्या निमण्या दसकांत जाली.

रोमी आनी कानडी लिपयांनी उजवाडायल्ल्या सुरवेच्या कोंकणी नेमाळयांनी गद्याचें रूप पारखूंक येता.

रोमींतल्यान उजवाडा येवपी ''उदेन्तीचें साळक'' [1894], ''दर म्हयन्याची रोटी'' [1915], ''वावराड्यांचो इश्ट'' [1930] बी नेमाळयांनी गद्य रूप दिसता. तशेंच [मंगळुरांत] कानडी लिपयेंत : ''दिरवें'' [1912], ''राखणो'' [1938] आनी उपरांतच्या काळांत ''मित्र'' [1953], ''झेलो'' [1955], ''पोयणारी'' [1950], ''काणीक'' [1958], ''पंचकादय'', ''आमची माय'', ''कोंकण दायज'', ''मायगांव...'' बी नेमाळयांनी ललित गद्याच्यो किटी शिंपडल्यात. हांतलें चडशें ललित साहित्य अर्दशिक्षीत भौसा खातीर बरयल्लें. चडशें बरप मनोरंजन करपी, देखी सांगपी वा खबरी दिवपी (Informative) अशे तरेचें आसलें.

तातूंत : [1] धर्म विचार, [2] नितीचो उपदेस, [3] देखदिण्यो काणयो, [4] थळां, प्रसंगाचीं वर्णनां [5] गुडां, फालां [6] वेपार, वेवसाय, शेतकामां बी विशयांचेर जाणकारी दिवपी बरप आसपावता.

तांतल्या साहित्याचो पांवडो थारावंक खूब जड. तरिकूय, कोंकणी निबंदाचें मूळ रूप आमकां तातुंतूच तेळचें पडटलें.

आदल्या काळांत कांय फामाद जाल्ल्या निबंदां मजगती :- ''इंदियेच्यो जाती'', ''काजार आनी देवाची इश्टागत'', ''बरी देख'', ''गर्व आनी ल्हानविकाय'', ''घोव बायलांचो कायदो'', ''गोंयचें शेतकामतपण'', ''दुडवांचो सांबाळ'', ''आमचीं कर्तुबां,'' ''भांगराची चावी'', ''बलायकी आनी पिडा''..... बी तरेकतरा निबंद रोमी लिपयेंतल्यान उजवाडा आयल्यात.

हो वेळ मेरेन, कोंकणी निबंदाक ललित रूप गावंक नासलें. जाणकारी दिवपी, देखी सांगपी, प्रचारात्मक आनी गंभीर चिंतनानी भरिल्लें चडशें बरप निबंद वा लेख म्हूण वळखताले. हातूंत, कलात्मक आत्मप्रकटीकरणाचें बरप खूब उणें. निजाचे शैलीन निबंद रचना केल्ली दिसून येना. पुस्तक रुपानूय हे निबंद उजवाडा येवंक नात. ह्या

अडचण्यांक लागून असल्या लिखाणाचो नियाळ करपाचो यत्न करूंक ना.

**आ] 1940 ते 1960 मेरेनचोललित रुपी निबंद**

- - - - आर्विल्ल्या ललित निबंदाची बुन्याद शणै गोंयबाबान घाली म्हळ्यार अतिताय जावं नये. **शणै गोंयबाब म्हळ्यार वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार** [1877-1946]. ते कोंकणींतले म्हान साहित्यीक. तांणी गंभीर साहित्याचे प्रकार जितले समर्थपणान हाताळ्ळे, तितल्याच सोपेपणान ललित साहित्य रचलें. निबंद म्हळयार 'Lyric in prose' गद्य-काव्य म्हणटात. गोंयबाबाले निबंद हे तरेचे. घोंटीव, वेंचीक उतरां. नेटान येवपी अणभवाच्या उमाळयाचो झोत. घरावी, थळावी भाशा ..... हाका लागून तांच्या निबंदांतलें विश्व जिवें-तट्टटीत जावन सर्रकन नदरे मुखार येता.

गोंयचो सैम, गोंयकाराचीं सभाव-चित्रां, तांगेल्या निबंदांनी अजरंवर जाल्यांत. पूण, अशे तरेचे हाता-बोटांर मेजूंक येत इतलेच निबंद तांणी बरयले. ते पुस्तक रुपान उजवाडाक येवंक नात.

घडये तांच्या गद्याक आपसूक हें ललित निबंदाचें रुप मेळ्ळां जावंये. साहित्याचो एक प्रकार म्हूण मुजरत तांणी निबंद बरयल्लो दिसना.

तांच्या ललित निबंदाचें मोस्त्र म्हूण "मयेंच्या तळयार" हो गोमटो निबंद संग्रहात आसपायला.

हांतल्यान तांच्या अणभवाक मेळिल्ल्या आशयाच्या मनभुलयण्या रुपाचें दर्शन जाता.

- - - - - - - शणै गोंयबाबान ललित निबंदाची बुन्याद घाली; पूण खऱ्या अर्थान निबंद केळयलो तो मात ताचे फाटले पिळगेन.

सुरवेचे हे निबंद, गोंया भायल्यान उजवाडाक येवपी कोंकणी नेमाळीं, आनी मुंबय आकाशवाणीच्यो कोंकणी कार्यावळी, हातूंत पळोवंक मेळटात.

"नवें गोंय", "प्रजेचो आवाज", "मीर्ग", "साळीक", "साद", "विद्या" ..... बी नेमाळयांनी बरेच निबंद आयल्यात. तांतले तातूंत "प्रजेचो आवाज" आनी "मीर्ग" हांतलें बरप चड गंभीर तरेचें, जाल्यार हेरा नेमाळयांनी ललित बरपाक चड वाव दिला.

शणै गोंयबाबाच्या काळांत ललित साहित्य समर्थपणांन हाताळप्यां मजगतीं **आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, निकुबाब धुमे, निळकंठ साळकार, रामचंद्र नारायण नायक, दिनकर देसाय, बा. भ. बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार** बी हांचो आसपाव जाता.

तांणी व्हडा "गोस्तान" निबंद केळयले. थोडेंच बरप, पूण नकसूद. फाटलो काळ आपणाल्या बरपांतल्यान ते परत उबो करतात. "त्या काळांत, आतां भाशेन, गांवोनगांव कुरैचीं इश्तासावां" नाशिल्लीं, मोटारीय नाशिल्ल्यो आनी वाचपी - बरपीय साप्प थोडे आशिल्ले..." त्या काळांतलो एक कुर्रेकार "जाफरभाय" **रामचंद्र शंकर नायकांक** याद जाता. म्हणटा म्हणसर फिशाल चित्रकारान रेखाटचें तशें एक मनभुलयणें चित्र तांचे लिखणेंतल्यान आकारा येता. तायट मानेचो, उदार पूण मायेस्त, बाडां मारपी पूण भिडेस्त, मनशाळो जाफरभाय; आंगभर डगलो, माथ्याक गोंड्याची

तांबडी तोपी, चर्रचर्र करून व्हाणो वाजयत वाचप्याच्या मनांत सासणाची सुवात घेता.

तांणी चित्तारिल्ल्या समाजीक कॅनव्हासाचेर हें पात्र फिट्ट बरें बसलां. वाचतकच घट्ट मतींत उरता.

निबंदाची सुरवात आनी अखेर सट्ट कन चित्त ओडून घेता. लेखकाक निबंदाचो विशय कसो सुचता हें तो निबंद सोपयतना आपुणूच सांगता.

''गांवाभायर भोवंक गेलो तसो रस्त्याक लागून थोड्याच अंतरार आयज म्हाका जाफरभायची ''निमणी शेज'' दिश्टी पडटा. फातर निखळलेल्या, करड मातलेल्या ह्या कबरीच्या माथ्यावेले वाटेन तांबड्याच फुलांचो उबोच्च गेल्लो तुरो पळोवन म्हाका जाफरभायचे जिणेची याद जाती आनी मुसलमानांची आनी मराठ्यांची राजवट काबार जावन फिरंग्यांचो काळ चलतना ताणें कशे दीस काडले हें येवजून मनीस स्वभावाचें कौतूक दिसता.''

तांणी साकार केल्ल्यो व्यक्तिरेखा पारखितना तांतल्या लेखकाच्या समर्थ मनाच्या आविस्कारांतलें बळगें नदरेक येता.

**रामचंद्र नारायण नायक** हेय बी एक शैलीदार लेखक. तांचो ''पुस्पहास'', ''कृष्णाय वासुदेवाय'', ''विशाळतायेचीं दुखां''... बी निबंद बरे जाल्यात. तांच्या निबंदांचें भायलें रूप पारखुंचे परस आंतरीक रुप निरखुंचें.

''पुस्पहास'' हें श्री कृष्णाचें ओडलायणें बाळ-रुप. संप्तरंगी उतरांचो कुचो भोंवडावन अपरुपाचें भौरुपी दर्शन, ह्या भाव-चित्रांतल्यान ते आमकां घडयतात.

कोंकणी अस्मिताय जागोवच्या हावेसान ते बरयताले. तांतल्यानूच कोंकणींतले आयचे बरेच निबंदकार नांवालोकाक आयले.

ह्या काळांत **स. विष्णुबाब नायक** हांणी देवनागरींतलो पयलो वयलो निबंदसंग्रह ''स्वाती'' [1960] संपादीत केलो.

ह्या संग्रहांत सात बरोवप्यांचे तेरा निबंद आयल्यात.

''जाचे निबंद घेतल्यात ते एका परस एक विद्वान, आनी फकत भारती भासांचेच न्हय, तर विदेशी भासांचोय साइत्यीक नदरेन खोलायेन अभ्यास केल्ले बरपी आसात.''

तरेकवार शैलींचें दर्शन ह्या पुस्तकांतल्यान घडटा. ''जण एकल्यान, विशय-आशया प्रमाण आपआपल्या निबंदाक एक आगळोच घाट दिला.''

हो पयलो वयलो निबंदसंग्रह कोंकणींतलो प्रतिनिधीक संग्रह अशें मात म्हणूं नज. हांतले चडशे निबंद ''आकाशवाणी'' वयल्यान एकेच वळेरी खाला वितरायल्ले. देखून घडये हातूंत विविधताय येवंक ना. मेकळया बरपाचेर बंदनाची जडसाण जाणवता.

**निळकंठ साळकार** हांचे निबंद ''स्वाती'' ह्या निबंद संग्रहांत आसपायल्यात. तांगेली बरोवची शैली तांचे प्रादेशीक ओडी सयत खोस येवन येता. तांच्या बरपांत येवपी वाक्प्रचार आनी अणभव, एका काळांतली गोंयची संस्कृताय, रूच, सभाव, ज्युस्ता ज्यूस्त दोळयां मुखार हाडटा.

गोंय मुक्ती मेरेन उजवाडा आयिल्ल्या निबंदांनी घडये इंग्लीश, पोर्तुगेज, हिंदी, मराठी .... बी निवंदांतल्यान स्फूर्त घेतल्या जायत; पूण, कुड्डी नकल मात जावंक ना. ह्या बरपांतल्यान कोंकणीची शक्त जशी दिसून येता, तशीच कोंकणी मनशाची

प्रतिभाय दिसून येता.

जण एकल्याची निजाची खाशेली शैली आनी व्यक्तिमत्वाच्या आदारान निबंद वेगळे काडूंक येतात. तरिकूय ''हो ललित निबंद'' म्हूण सट् करून वळखूंक येवचो इतलें सारकेपण ह्या बरपांत आसपावता.

गोंय मेकळें जालें आनी कोंकणी ललित निबंद लसलसून वयर सरलो- आगळया नेटान, आगळया तेजान.

**इ] 1960 साला उपरान्त**

जायत्या जाणांनी निबंद हाताळ्ळा. पूण फकत कांय थोड्या जाणांक तो वळ्ळा. वळ्ळा.

ललित निबंद केळोवप्यां मजगतीं **लक्ष्मणराव सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार, रवीन्द्र केळेकार, दत्ताराम सुखठणकार, लुसियो रोड्रिग्स, वि. ज. उसगांवकार, अ. ना. म्हांबरो, चंद्रकांत केणी, रामकृष्ण जुवारकार, शंकर भांडारी, प्रकाश थळी, मीना काकोडकार,** .. बी मानेस्त लेखकांनी आपणाली एक खाशेली प्रतिमा निर्माण केल्या. ललित निबंदाची कळाशी तांकां गंवसल्या.

इतिहासीक आनी समाजीक गरजेक लागून तांणी साहित्याचे सगळे प्रकार हाताळ्ळयात.

दत्ताराम सुखठणकार आनी वि. ज. उसगांवकार हांणी फकत निबंदच केळयला. हेर सगळयांनी कथा, कविता, कादंबरी, नाटकां आनी गंभीर बरप खूब केलां. पूण ते पिंडान निबंदकार. देखून तांच्या हेर साहित्यार लेगीत निबंदाची फांक मारता.

**बाकीबाब बोरकार** आनी **लक्ष्मणराव सरदेसाय** हांणी मराठी साहित्यांत कांय अप्रूप निबंद बरयले. **बा. भ. बोरकार** हांचे ''गोल्ड फ्लेक'', ''काळोख'', ''मखमली ठिगळें'' बी निबंद 1940 च्या अदमासाक फामाद जाल्ले. तांचो ''कागदी होड्या'' हो मराठी निबंद संग्रह तांचे लिखणेचे तांकीची गवाय दिता. बाकीबाबान कोंकणींतूय खूब निबंद बरयल्यात. तांचे, ''म्हजो गांव बोरी'', ''कासवाचें कट्टें'', ''फुलां'', ''गांठी'', ''भांगराची करंदाय'' बी निबंद नेमाळयांच्या पानांनी दडल्यात. ते पुंजावन उजवाडायले जाल्यार एका आगळया निबंद-रुपाची नाडी गंवसतली.

**लक्ष्मणराव सरदेसाय** हांणी कोंकणींत ललित निबंद समर्थपणान हाताळ्ळो. तांच्या ''खबरी - कांय वर्माच्यो, कांय कर्माच्यो'' [1980] ह्या निबंद-संग्रहाक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. ह्या संग्रहांत सोळा निबंद आयल्यात.

एके वेगान मावळटले संस्कृतायेची गवाय दिवपी कांय व्यक्तिचित्रां, तांच्या जनमानसांतल्या रुपा सयत साक्षात जाल्यांत.

कामधंद्याचेर आदारीत जातींचे प्रतिनिधी ..... मास्तर, रेंदेर, पदेर, शेट, भगत, देमांदिस्त, .... बी आपणाल्या सुरबूस निबंदांनी चितारल्यात. कांय आत्मनिवेदनांय आसात. लक्ष्मणरावांल्या व्यक्तिचित्रांक रोमँटीक, रसीक व्यक्तिमत्व मेळ्ळां.

तांणी बरयल्ले आनीक बरेच निबंद संग्रहीत करी सारके आसात. तांतलोच एक ''थळांतल्यो खबरी.''

· पुण्यभूंय गोंय, देवभूंय म्हूण वळखतात. चडशा देव-देवळांचे पुंजे, न्हंयां-दोगरांचे कुशीक, कुळागारांचे सांवळेक, अंत्रूज म्हालांत आसात. भटा - म्हाजनांनीं हे देव, देवळां, लागीं केल्यांत. ते तांकां पोटलून बसल्यात.

भोग -भोगावळींनी सुखावपी हे देवळांतले देव आनी तांच्या प्राकारांतल्या घडणुकांच्यो गुपीत गजाली लक्ष्मणराव मार्मीक धाटणेन उक्त्यो करतात.

व्यक्तिचें अस्थीर, अतर्क्य मन कसो प्रवास करता हाचें दर्शन तांच्या बरपांतल्यान जाता.

लक्ष्मणरावांक बरोवची प्रेरणा भितरल्यान मेळटा. ते म्हणटात, ''म्हजे भितरुच म्हाका पळोवंक लागलों. तेन्ना थंय म्हाका जें दिसलें तेंच हांव सांगतां.''

''म्हज्यांतच म्हाका पळयतां, तेन्ना म्हाका भोंवतणचो संवसार जगपा खातीर केल्ले उपद्व्याप, जगचें म्हणून काडिल्ल्यो काडाओडी नदरेमुखार उब्यो रावतात.''

हेच आत्मानुभव आपल्या कलात्मक बरपांतल्यान ते वाचप्या मेरेन पावयतात.

बाकीबाब आनी लक्ष्मणराव हांच्यो निबंद विणपाच्यो तराच वेगळयो. बाकीबाबालो निबंद कवितेवरी एका आटापांत बसयल्लो. सोपे रचनेक लागून निबंद रेखीव जाता. खबरांच्या नेटार आयिल्ल्यो यादी आनी आख्यायिका, प्रसंग वा चिंतनाक जीवसाण दितात. भोंवतणच्या सैमाची सोबिताय, लोकां-जिणेंतले ''सत्यं शिवं'' सोदपांत गुल्ल आसतनाच तार्जी रुच वाचप्यांक दिवपाची कळाशी तांणी सादयल्या.

लक्ष्मणराव भोंवतणच्या समाजांतलें मनीसपण तोखेता. तांची बरोवची धाटणी सादी, सुटसुटीत. निबंदाची सुरवात, मध्य आनी अखेर भुलयणें करचें कसब तांकां बरें जमलां.

दोगांयचीय भास कमायस केल्ली, रेखीव, घोंटीव, मार्मिकसाणेन खिरयल्ली. तांच्या अणभवांत आनी विचारांत एक ''थ्रिल'', ''टच'', निर्माण करची तांक आसा. तांच्या निबंदाचे संस्कार काळजाक जाणवतात.

कोंकणी ललित निबंदाच्या मळार नवें बीं पेरपाचो मान बाकीबाब आनी लक्ष्मणरावाक फाव जाता.

**लुसियो रोड्रिक्स** हांचे ''रायवारी'', ''पदेर'', ''नागवणो'' .... बी ललित निबंद कोंकणी मनीस रुचीन वाचतात.

सोनार जसो गुंजीभर भांगर उज्यांत फुलोवन, धाडावन ताका नकसूद आकार दिता, तसो लुसियो दिसपट्टे जिणेंतले सादे विशय घेवन तांतल्यान देखदिणी गजाल जिवी करता.

सादी, सरळ भास. पूण टवटवीत फुलावरी, घमघमीत परमळ पसरावपी. प्रसन्न मार्मिकायेची.

तांचे वरी उमाळयाची हुनसाण, विचाराची खोलाय आनी उतरांची सुंदरकाय हांचो मेळ सादोवपी लेखक भोवच थोडे. जाका उतरांचो मोग आसा, कलेची नदर आसा, आनी मनशांचें सुखदुख कळपाचें काळीज आसा, असल्याच लेखकाचें कसलेंय बरप खोसयाळें जाता.

जाणकार सांगतात, बरपाचे प्रकार नासतात. प्रकार आसतात लेखकाचे व्यक्तिगत

अणभव घेवपाचे आनी उतरांनी जीव रकोवन अभिव्यक्त करपी लेखकाचे धाटणेच्चे प्रकार आसूं येतात. हाजी गवाय **मनोहरराय सरदेसायाले** ललित निबंद दितात. तांचे कवितेवरीच निबंद वाचतना एक वेगळो अणभव मेळटा.

तांणी बरयल्लो "ल्हानपणांतल्यो यादी" हो निबंद म्हळयार एक आप-उक्तावणेचें बरप. "खुल्लम खुल्ला" सांगपाची तांची धाटणी वाचप्याचें मन जिखता.

तशे तांणी तरेकवार निबंद बरयल्यात. देखीक, "साहित्य म्हळयार समाजाची घटसाण," "हांव कवी कसो जालों", "शणै गोंयबाब- एक म्हान साहित्यीक",... बी. हे निबंद एकठावन उजवाडावची गरज आसा.

**दत्ताराम सुखठणकार** हांणी कोंकणींत निबंदूच बरयल्यात. तांकां विनोदी आनी उपहासात्मक निबंदकार अशेंच लोक मानतात.

तांच्या "मान्नी पुनव" [1977] ह्या पयल्याच निबंद-संग्रहाक साहित्य अकादमी पुरस्कार (1978) फाव जाला.

तातूंत सतरा ललित निबंद आसपायल्यात. "माशेल", "गोंयचो देमांद", "आलमपेड्ड्यार आनी होंवळो", "निंदपी", "म्हालो", "मडवळ", .... "हांवें हें पैलींच सांगिल्लें", "आळशी आनी शिमरी" .... "भटाचे भेटेक", "घर चाकर" बी निबंद म्हळयार मनांतल्या खणींतलीं रत्नां. वाचतना तांचें अणभवाचें विश्व दोळयां सामकार सर्रर करून साकारता.

"जोंदऱ्यो गेल्यो, पुणून खिणां उरलीं" तेच वरी त्या काळांतले दीस गेले. उरल्यात, त्यो तांच्या मनाच्या कण्ड्यांत गच्च भरून दवरिल्ल्यो यादी.

भावसपनांतल्या म्होंव्या खिणाच्यो यादी, सभावचित्रां आनी हेर खबरी सांगतना वापरिल्ल्या उतरांनीं मुमुरख्या हांश्याचो शिंवर जाता.

"तरेतरेचीं संवगां आमच्या गोंयां" .... आनी त्याच आत्मकेंद्रीत संवगांचें दर्शन दत्तारामबाब आपल्या निबंदांनी सदांकाळ घडयता.

ते सांगतात : "गोंयकार मनीस उलयतना एक उतर तांच्या उलोवपांत परतें परतें येता. एक वचनी प्रथमपुरुष सर्वनाम "हांव" - - - "हांवें हें केलें आनी हांवें तें केलें ... हांव सांगता तें तूं आयक. हांवे हें पैलींच सांगिल्लें ..." ह्याच समाजांतलें हांवपण चितारतना लेखकांतलो 'हांव' प्रकट जाता. लेखकाची आवड निवड, अभिरुची, मनःसंस्कार वाचन-मनन आनी जिणे कडेन पळोवचेलो प्रसन्न दृष्टिकोन ... हाजें आपसूक दर्शन जाता.

लेखकाचो "फकाणेर सभाव पावला कणकणीं जाणवता. देखीक :

"गोंयां जेन्ना बाटाबाटी सुरु जाल्यो, तेन्ना आमगेले देव फाटींफुडें पळेनासतना जागो मेळटा थंय, वाट मेळटा तशे पळत सुटले, आमगेलेच देव ते"...

"देमांद गोंयचे जिणेचें एक आंग. देमांद करप हें उणेपणाचें मानिनासतना मोठेपणाचें समजताले" अशें लेखक "गोंयचो देमांद" ह्या निबंदांत सांगतात.

देमांद महात्म्य सांगतना तांचे शैलीक आयिल्ली शिटूकसाण पळयात :-

"देमांद म्हळयार कितें? खूब जाण सांगतात, देमांद म्हळयार न्याय म्हणून. देमांदाक न्याय म्हणप म्हळयार केदो अन्याय! देमांद म्हळयार देमांद. देमांदांत कितें आसता?

हांव म्हणटां, देमांदांत कितें नासता? सेलाद फोलीवैल्या रेक्रमेंतान सुरु जाल्ल्या ह्या यज्ञांत इस्क्रिवांव, ताबेलियांव, एजेकुसांव, इंतिमसांव, प्रोकुरसांव, खुस्तमुल्त, प्रेपार, देपोस्त, आरेस्त... देवा देवा, कितें ना म्हणून सांगू? देमांदांत एक वेळ न्याय नासत. नासत कित्याक, चड करून नासताच. पुणून आकसांव, एजेकुसांव, गुड्डुलसांव आसूंकच जाय'' [मान्नी पुनव]

तांचें बरप खास ''गोमंतकीय मनोवृत्तीचेर'' उजवाडाची पसय घालता.

म्हणी, उमाण्यांनी सजयल्ली घरावी भास, नर्म विनोद, संवेदनशील मनान तेळिल्ले बारकावे, हें तांचे अभिव्यक्तीचें खाशेलपण.

तांगेलो वेवसाय दैजकी. गोंयकाराची पिटपिटपी नाडी तांच्या हाताक ज्यूस्त लागता आनी नाडी-परिक्षा सुरू जाता. पूण ते प्रेसक्रिपशन दिनात. तांच्या निबंदांत उपदेश ना. प्रचार ना. वैजाक दुयेंस दिसचें, तशें ताका समाजाचें दुयेंस ..... धोंगा, पोंगा दिसतात. उजू बाजू मात दिसना. ''पोकळ भपक्याचेर बडी मारून वाचतल्याच्या मनांत पेटके हाडूंक तांका बरें सादता''. मान्नी पुनवेंतले निबंद वगळायले जाल्यार तांणी आनिकूय खूब निबंद बरयल्यात. ''जेवनूच वच रे'', हो गोंयचे संस्कृतायेर उजवाड घालपी एक निबंद ह्या संग्रहांत घेतला.

**रवीन्द्र केळेकाराले** निबंद म्हळयार सोबीत ललित लेखनाची गंगोत्री. तांगेले निबंद अनंत रुपां घेवन येतात. केन्ना प्रवासवर्णनां, तर केन्ना दिसपटी; केन्ना आप-उक्तावणेचीं बरपां, जाल्यार केन्ना चिंतनां.

वेळेवयल्यो घुलो [1971], उजवाडाचे सूर [1973], सांगाती [1977], ह्या तांच्या संग्रहांनी हे निबंद आयल्यात.

तांच्या ''हिमालयांत'' ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादमीचो [कोंकणी साहित्या खातीर पयलो] पुरस्कार (1977) फाव जाला.

तांची निबंद मांडपाची रीत सादी, सरळ : गजाली सुरू करप, सदांच कितें तरी नवें सांगप. गजालींच्या नेटार निबंद आकार घेता. तांची नदर पडना फुडें दोंगर, फातर, होंवऱ्यो, चिंतूंक लागतात. फातराळ संस्कारा पेल्यान मन धांवता. चित्र निर्मळ जाता. चांदऱ्याची पसय अमृताचो शिंवर करता. ते एक तपस्वी साहित्यकार. ''सत्यम्, शिवम्, सुंदरम्'' चो साक्षात्कार तांच्या लिखाणांतल्यान जाता.

खंयचोय आनी कसलोय विशय हाताळटना विचारांचो झेलो एके वावळेर गुंथपाची कळाशी रवींद्रबाबाक बेस बरी जमल्या. विशयांचो तांचे कडेन उणाव ना. खबरो करतना उलयतात, तशी तांची सादी घरावी भास. उतरां वेंचतना ते आडखळनात. जशें येता तशें सांगता. ताका लागून आशय फुलून येता. विशयाक गती येता, जिवो तट्टटीत जाता. वाचतल्याक दिसता, रवीन्द्रूच सामकार बसून खबरो करता. तांचे विचार मनाक भावतात. मनींत दसतात. देखीक : ''घारापुरी'', ''बेलूरमठ'', ''वाराणसी'', ''सैमाचें महाकाव्य जोग'', ''आयज पुनव ओतताली'' .... बी निबंदांतल्यान खोशी-उमेदीचो शिंवर करतात. तांची खंयचीय साहित्यीक देख पारखितना कोण तरी जाणकार, व्यास-वाल्मिकी सारको तपस्वी आमकां किदें तरी शिकयता असो भास जाता. तांतल्यो खुबशो गजाली आमी पयलीं शिकिल्ले आसतात.

अणभविल्ल्यो आसतात. त्योच गजाली... पूण रवीन्द्राची नदर वेगळी. "आपणाले विचार कोणाची पर्वा करिनासतना निर्भीडपणान मांडपी. फटकळपणा हो तांचे बरपावळीचो एक गूण, आनी तांकां तो सोबता."

तरिकूय, कांय वेळां हरदाशी सोंब्र तांच्या साहित्याक बसता. वाचप्याक आपल्या काळजा कडेन घेना. पयस, वयर रावन तांचे कडेन उलयता असो भास जाता. रवीन्द्राच्या निबंदाचें मूळ [गांधीजींची साधनाभूंय] वर्धासान तांणी संपादन केल्ल्या "मीर्ग" आनी उपरांत "गोमंत भारती" हातल्या संपादकीय वा हेर लेखांनी गंवसतलें. चिंतन, आत्मचिंतन, मुक्त चिंतन तांणी निबंदाच्या रुपान लोकांमुखार दवरलें. वर्धाच्या आश्रमांत आनी काका कालेलकरांच्या आश्रयांत जाल्ले हे संस्कार. मेकळेपणान, कलात्मक तरेन, दोस्तां वांगडा खबरो केल्ले वरी तांणी बरप केलें. ताकाच निबंदाचें रूप मेळळें. अशे तरेचो चिंतनशील निबंद कोंकणींत बरोवपाचो पयलो मान घडये तांकांच फाव जाता.

तांच्या निबंदांतल्यान साक्षात जावपी अणभव चड करून बौद्धिक. ते फक्त विचार मांडिनात. विचार करपाचो आपणालो अणभवूच वाचप्या मुखार दवरतात. ताका लागून वाचप्याक विचार बोचनात, जाल्यार खासा विचार करपाची खोशी-मजा, तांतलें "थ्रिल" तांकां जाणवता. तांचो विचार तोंपता थंय आमच्या मनांत विचारांचीं मोडां येवंक लागतात. त्याच मोडार वाचपी उफेतात, बुचकळटात.

तांचे विचार आमकां पटूं वा ना पटूं, विचारांचे फाटलें व्यक्तिमत्व आमकां ओड लायता.

रवीन्द्राचे निबंद म्हळयार "अणभवाचे वालीक आयिल्लीं चिंतनांचीं फुलां."

"साळकां" [1983] हो **नारायण वा. लाड** हांचो 20 पाकळयांचो निबंद संग्रह. मनोहरराय सरदेसाय हांची सुंदर प्रस्तावना हाका लाभल्या.

तांचे निबंद धार्मिक वृत्तीचे. पारंपारीक विचारांक पोसवण दिवपी. कांय वेळा अणभवाक प्रचारात्मक अशें अडेचें बंदन पडलां. ताका लागून निबंद सोबितायेन फुलचे बदला, बावन वता. तांच्या संग्रहांतली एक पत म्हूण "अणभव होच खरो शिक्षक" हो निबंद वेंचून काडला.

**शंकर भांडारी** हांचो "पावला कणकणी" हो निबंद संग्रह उजवाडा आयला. तांच्या जिवितांतले कांय घडिल्ले प्रसंग आनी एका कलाकाराल्या दृष्टिकोनाची वळख ह्या संग्रहांतल्यान जाता. तांचें मन खंयच्या विशयांत रमता म्हणपाचें तांच्या निबंदांचीं नांवां वाचल्यार कळून येता. तांचे कांय निबंद :- "पावलां आनी पायतणां", "फॅशनाचे जुलूम", "हातच्या कांकणाक हारसो नाका", "बंदिस्त देव", "बंडलां", "सुशिक्षीत न्हवरे पावणेर", "हांव आंकवारुच कित्याक उल्लों?", "आमचीं लग्ना काय विघ्नां", "भेड्डो घोव आनी ताजी मोनी बायल", "युगे अठ्ठाविस फेरिबोटीर उबो", "शोफेर" ... बी.

व्यासंगी, बहुश्रुत, पुरोगामी, प्रोग्रेसीव विचारांचो एक "तकलेचो मनीस" म्हूण तांची नामना आसा.

तांच्या विचारांचें, अणभवांचें रुपांतर संवादांत जाता. गजालींक नेट येता, पूण

खंय तरी एक दोश जाणवता. बरपांतल्या ललितकाक वेर येता. तांचो निबंद फुलता, म्हणटा म्हणसर फुस्स करुन वारें सुटिल्ले वरी बावता. घडये हांतलें चडशें बरप "ऐन वेळार" आकाशवाणी खातीर केलां म्हूण अशें जालां जावंये.

**विश्वंभर ज. उसगांवकार** हांचे खाशेले धाटणेन बरयल्ल्या निबंदांक लागून ललित गद्य बरोवप्यां मजगतीं मानाची सुवात जोडल्या.

पुराय बारकाव्यांसयत विशय जागोवची कळाशी तांकां गंवसल्या. मार्मिकायेन घडयल्ली भास मनाक खोस दिता. तांचे कांय निबंद : "उपासाचीं अर्थवणां", "आंगोस्तरां", "भेटोभंवारो", "कपयो आनी फकयो" बी गोंयचे अस्मितायेचेर उजवाड घालतात. हे निबंद एकठावन उजवाडायल्यार कोंकणी साहित्याक एक वेगळें रूप मेळटलें.

**चंद्रकांत केणी** एक पत्रकार. पूण तांचो पिंड ललित साहित्यकाराचो. एक बरो लघुकथा आनी ललित निबंद बरोवपी म्हूण तांची नामना जाल्या.

तांचे खूब ललित निबंद नेमाळयांनी आनी दिसाळयांनी आयल्यात. तांचो एक निबंद संग्रह 'बिम्बां-पडबिंम्बां' उजवाडाक आयला.

सुनापरान्तांत "ल्हारार ल्हार" आनी हेर नेमान येवपी बरपांतल्यान तांच्या निबंदाचो आविश्कार जाता.

तांच्या लेखनांत खूब नवी जाणकारी [Information] आसता. पूण, काळजाक आनी मतीक वांगडाच चालीक लावपी बरप, तांचे भोंवडेंत तांकां आयिल्ल्या अणभवांचेर आदारीत आसता.

गोंयकार, गोंयचो सैम, गोंयचे वेगळे अस्मितायेचो तांकां भारी अभिमान. तांच्या लिखाणांतल्यान प्रकट जावपी व्यक्तित्व एका भावार्थी जाणकाराचीं मनीसपणां, पवित्रताय आनी न्यायनितीची किरंगुळी धरपी. तांच्या लिखाणांतलो सभाव धर्मीक. संवेदनशील. काव्यात्म नदरेच्या जाळांत जे खीण झिरकले ते तांणी ललित गद्यांत चिरंजीव केल्यात.

"नैनिताल - - - जंय एक याद गोठेली" हो एक तांचो ललित निबंद. प्रवासवर्णन कशें आसचें हाची ही सोबीत देख.

**अ. ना. म्हांबरो**, हांचो "गोंयची अस्मिताय" [1978] हो निबंद संग्रह बरोच गाजलो.

अ. ना. चे निबंद म्हळयार तांचें झांकप. तांणी खूब बरयलां. तांची, पगळून खबरी सांगपाची धाटणी बऱ्याच जाणांक मानवता.

विनोदी, मार्मीक आनी "न्हिदिल्ल्याक चिमटे काडून, कुटल्यो मारून, खातखुतल्यो करुन जागोवपी भास, उतरा उतराक हास्याचे पेटके हाडटा."

गोंयकारांकूच गोंयकार कशे दिसतात तें "गोंयची अस्मिताय" ह्या पुस्तकांत पळोवंक मेळटा. गोंयचो मनीस, ताजे भोंवतणचो समाज, देव-देवस्पण, भार-प्रसाद, धर्म-जाती, जात्रा-उत्सव, लग्नां आनी स्राद्धां, राजकारण ... गोंयचे फुडारी, कोंकणी-मराठीवाद .... बी गोंयची संस्कृताय दाखोवपी बरपांनी तांचें मन रमता.

मनशांचो सुवार्थ, तांचीं पिशेपणां निरखिता, तांची टवाळी करता. फकाणां मारता.

"रात थोडी संवंगा चड" हो तांचो निबंद, संग्रहांत मुजरत घेतला. एक वेगळें तंत्र वापरुन बरयल्लो.

गोंयकारांक नाटकांचें भारी पिशें. नाटकां करप एक भोगावळ जाल्या. गांवच्या शिगम्या-काल्याक नाटकांत कसलेंय तरी सवंग घेवंक मेळचें म्हूण तो कितेंय करूंक तयार. म्हाड्डूक शिवाजीचें व्हडलें सवंग करीन दिसता, जाल्यार पेद्रूक नापोलीयन जायन दिसता. नाटक पळोवंक लोकांची खेट जाता. पूण खंयच ताळ-तंत्र नासता. अ. ना. आपले मिश्कील शैलीन ह्या भोगावळींच्यो, सभावाच्यो केवल्यो बावल्यो करता. पूण इतलेंय घालून तो देखाव जीवसाणी सयत निबंदांतल्यान प्रकट करता.

तांचे मार्मीक भाशेंतल्यानूच निबंदाक एक खाशेलें रूप गंवसता. तांच्या व्यक्तिमत्वाची ती एक गच्च दशिल्ली कूस. देखूनच तांच्या गजालींचो आशय फुलून येता, खबऱ्यांक नेट चडटा.

निबंद बरोवपी तांगेली अशीं खास फोर्मा आसात. तांचे लिखणेक मात्सो आयच्या इंग्लीश आनी अमेरिकन ललित बरपाचो वसो आयला. कांय वेळा तातूंत एकसुरपणा जाणवता. नवें वाचप आनी ताचो कोंकणींत प्रयोग करप हाका लागून तशें जालां जांवये. पूण, तांचे सांगपाचे पद्दतीक लागून ज्युस्त तीर मारून आंबो उडोवंक तांकां बरें जमता. तांचे निबंद फावो तो परिणाम करता.

**शांताराम हेदो** हांणी पोर्तुगीज आनी मराठी लिखाण करून बऱ्याच उसरां कोंकणींतल्यान कसदार बरप केलें. ताचें 'येरें नाशिल्लें व्हडें', 'आयक आयक दारांतल्या माडा'... बी निबंद एके वेगळे धाटणेची चुणूक दाखयतात.

**रामकृष्ण जुवारकार**, हांच्यो "आमच्यो खबरो" [1981-82] तीन वांट्यांनी उजवाडा आयल्यात. "ह्यो खबरो मनांत येवजिल्ल्यो मतींत कितें आयल्यो आनी मतींत आयिल्ल्यो सांगल्यो" अशें लेखक बरयतात. तांतलो "हांव" खूब अणभव घेता. ताचे भोंवतणच्या घराब्याचें, मनशांच्या सभावाचें बी, चित्रण करतना तांचें व्यक्तित्व फुलून येता.

तांणी हे संग्रह कथांच्या रुपान उजवाडायल्यात. पूण तांतल्या बऱ्याच कथांक ललित निबंदाची ओप चडल्या. तशें कित्याक, निबंदाक कथेची गिलेट काडल्या, म्हळयार अतिताय जांव नये.

तांची सादी, सोपी भास. हातूंत कथानका परस अणभवांक म्हत्त्व दिलां. "आमच्या गांवांतल्यो खबरो", "गुन्यांवकार", "सुखी परिवार", "मिराचो संवसार" "म्हजो बुकलो", "म्हजो वेवसाय", "धर्माचें पिशें", "मडको", "साधु", "रस्त्यावेलें केस्तांव" बी बरपां निबंदांत आसपावतात.

"दोळयांसुखां दोळयांदुखां" .. **दामोदर मावजो** हांची आपउक्तावणी. तांच्या दोळयांर जाल्ले "रेटिनल डिटेचमेंट" चें ऑपरेशन आनी ते निमतान तांच्या मनांत ल्हारेवपी सुखदुखाचीं मोडां; उतरांचो पारदर्शक पड्डो पिंजून वाचप्याच्या काळजाक तेंकतात.

ललित लेखनाची बुन्याद "स्वानुभवाचे" तांकीर उरता, हाजो पडताळो तांचो हो निबंद वाचतकत जाता. ललित लेखक आदीं अणभव घेता, जांतल्यान ताका लेखन सुचता. तो अणभव खरो आसता. मागीर तो भोंवतणच्या सैमांतलो आसूं, भोंवडेंतलो

आसूं, कोणाच्या प्रभावांतल्यान येवं, वा खासा भोगिल्लो जावं - - -तांतले फाव तितलेच खीण फिशालकायेन पितारता. ताज्या बरपांतल्यान मागीर ताजो सभाव, ताजी शैली, ताचे संस्कार आपसूक उक्ते जातात.

दामोदर मावज्याचें बरप काळजाचे खरीक हात घालता. ताजी रूच घेतना बरोवपी आनी वाचपी हांचे मदलो उतरांचो पड्डो केन्ना गळून पडटा हाजें भान उरना.

निबंद एक-तारी वरी आसता. तांतल्यान सप्तसुरांचें संगीत निर्माण करपाचें कसब थोड्यांकूच जमता. **मीना काकोडकारांक** वाचप्याच्या काळजांत सप्तसुरांचें संगीत जागोवची कळाशी बरी सादल्या. तांचो पिंड कथाकाराचो; पूण तांचें ललित बरपूय मनभुलयणें जाता. ''जोगूल'' ह्या टोपण नांवान तांणी बरयल्लें ''मेकळें मळब'' हें ललित-गद्य खूब गाजलें. तांतलोच एक निबंद ह्या संग्रहांत आसपायला.

**प्रकाश थळी** हांणी एक कवी आनी निबंदकार म्हूण नामना मेळयल्या.

तांचें बरप कोंकणी निबंदाक एक वेगळो झेत हाडटा. ते आपणाल्या स्वानुभवांतल्यान ललित शिल्प कोरायता.

फाटल्यो यादी, व्यक्तिप्रभाव, आनी वर्तमान अणभवांतले संस्कार लिखाणांतल्यान आकार घेतात.

कुळागर आनी सुनापरान्त [दिसाळें] हातूंत नेमान येवपी बरप, दुधारी तरसादीचें पातें कशें झगझगता. पूण हे साहित्यीक तरसादीच्या म्यानाक, खेबाडां-फकाणांची झालर सोबाय हाडटा.

तांणी खूब निबंद बरयल्यात : ''वासांनी जीव पिसो'', ''तानगो'' ''खतखतें'', ''फोगोट्यो'' ... ''जायरात'', ''सुताची पुनव'', ''असले आमी'', ''वृक्षवल्ली आम्हां सोयरे'', ''आतां तुज्या गोंयां कितें उल्लां'', ''गोंयचे टेंपो आनी प्रवास'' बी. तांणी बरेच निबंद टोपण नांवान उजवाडायल्यात. तांचेर मराठी निबंदकारांचो [चड करुन ना सी. फडके, पु. ल. देशपांडे बी] प्रभाव जाणवता.

' गोंयचे टेंपो आनी प्रवास'' हो ललित निबंद वाचतना टेंपोंतल्या प्रवासांतलें थ्रील आनी मजा वाचप्याक खोशी दिता. दर एका अणभवाचेर मार्मिकायेन उजवाडाची थरथरती पसय घालप ही तांच्या बरपाची खास नाट.

**तुकाराम रामा शेट** हांणी बरेच ललित निबंद बरयल्यात. तांचे ... ''आयब'', ''पेप्सीकार'', ''न्हंयतलो शिपो'' बी निबंद बेस बरे वठल्यात.

थोड्या उतरांनी खूब सांगपाची कळाशी तांकां गंवसल्या. देखीक ''न्हंयंतलो शिपो'' हातूंत अणभवांक कलात्मक रुप कशें गावता तें नकसूद उतरांनी मांडलां.

''न्हंयच्या कांठावयल्या सैमाची कलात्मक चित्रां पळयतना जिणेंतल्या अणभवांच्यो यादी घोळयतना त्या अणभवांक कलाकृतीचीं तासां येतात आनी मागीर तो कलात्मक अणभव म्हज्या मनांत गाब धरता, पोसवता. अणभव न्हंयतल्या शिप्यांतलो मोती कसो मनांत धरता. मनाच्या उदकाचें पानवळ मेळून तो अदीक चकचकीत जाता. आपल्या पुराय रुपाक येता.''

कविता, कथा, कादंबरी, नाटकां, निबंद बी साहित्य प्रकारांनी नवीं मोडां हाडपी बरोवप्यां मजगतीं **पुंडलीक नारायण नायक** हांचें नांव घेतात.

तांचे प्रतिभेचें बळ अजापाचें. जिणेंतली खंयचीय गजाल हुनसाणे सयत जिवी तट्टीत करची तांक तांच्या साहित्याक लाभल्या.

सुनापरान्त ह्या दिसाळयांत नेमान येवपी ''पाजण'' हें ललित गद्य वाचप्याचें मन जिखता. तांचो ''काळजाक गरी लावन.'' हो निबंद अप्रतीम जाला.

खंयचोय प्रसंग दोळयां सामखार दिक्टो उबो करची तांक तांचे शैलींत आसा.

गांवगिऱ्या वाठाराची ओड आनी यादी ताज्या ललित निबंदांतल्यान गोमटें रूप घेवन सरसरून वयर येतात.

''गुलमोहर'' ह्या निबंदांत बाय **लीना हेदे** ''सुध्द मोगाची भास उलयता. मनीस आनी सैमाचें नातें कशें जुळटा हें कुवाडें सोडोवंक बरोवपी गुल्ल जाता. रखरखीत मायाच्या दिसांनी चंवरून फुलिल्ल्या गुलमोहराचें गुपीत मनशाल्या संवसारांत गंवसता... आनी निबंदाचो आशय अभिव्यक्त जाता. तांचो निबंद म्हळयार सैमाच्या चैतन्याक साद घालपी लिखाण.

**निबंद आनी लेखनशैलीचे प्रकार**

निबंद हें ललित गद्यांतलें आत्मकेंद्रीत बरप. ताजे झरे अनंत. लेखकाचो अणभव, विशय फुलोवपाच्यो मोडी आनीं बांदावळीचे शैलीचें खाशेलपण तेळपाच्या हेतून कांय निबंद मुजरत आसपायल्यात.

विशय एकूच आसल्यार लेगीत जण एका लेखकाच्यो प्रतिक्रिया वेगवेगळयो. कितलेशेच विशय आयल्यात; पूण चडशे निबंद भुरगेपणांतल्यो यादी, व्यक्तिचित्रणां, प्रवासवर्णनां, आत्मकथनां, जात्रा, थळवर्णनां, प्रसंग वर्णनां, मूड ... बी विशयांनी, कोंकणी निबंद तरतराक व्हरूंक जायतो मसालो दिला.

देखीक : **भुरगेपणांतल्यो यादी** ह्या विशयाचेरूच कितलेशेच निबंद संग्रहांत आयल्यात.

**र. वि. पंडीत -** ''म्हजें भुरगेपण'';

**मनोहरराय सरदेसाय** - ''ल्हानपणांतल्यो यादी'';

**सोतेर आर. बार्रेत -** ''भुरगेपणांतल्यो यादी'' ... बी -हांतल्या तपशिलाक म्हत्त्व ना. पूण, तांतल्या आत्मनिवेदनांतल्यान जी संस्कृताय ललित रूप घेवन घोंसार येता आनी रसिकाक खोशी दिता, ती म्हत्त्वाची.

पंडिताक याद जाता आपले पालक भुरग्याक ल्हानाचो व्हड करतना कशे over protective आसताले ताची. ते मुस्तींतलो भयरोजोळप, अर्थी-लक्तुबाय, सनातनी गांवगिरें वातावरण आनी भुरगेपणाच्या जंवजाळयांतल्यान सुटका करून घेवंक कशें नाका पुरो जातालें हें सगळें पंडीत वाचप्यां सामखार उक्ताडा हाडटात.

मनोहरराय निबंदाच्या प्रेरणांतलें सत दाखोवन दितात. ते सागतात : ''काल-पयरच्यो यादी पुसून वेतात. पूण मनाचे ओले चिकण मातयेर भुरगेपणांतल्या मायेच्या हाताचे शाप वा दुश्टपणाच्या नाखटाचे भुरके तशेच उरतात. मेंदवाची खंयची तरी मळसूद मात्शी दामीत जाल्यार फाटले प्रसंग परतून दिसूंक लागतात - कालूच घडिल्लेवरी.''

सारिल्लो काळ कांय परतो येना. पूण ताच्यो यादी सदांकाळ उरतात. अशाच कांय उगडासांचीं सोबीत रंगयाळीं पिसोळीं चिमटेंत धरपाक, सोतेर बार्रेत मग्न आसात. तातूंत मागीर जिवीं जातात Forget me not चीं सोबीत निळीं फुलां, तांबडी दशीण, शेड्डे, गांजील आनी भोळेभाबडें मन!

**व्यक्तिचित्रणां.**

खूबश्या कोंकणी बरोवप्यांनी व्यक्तिचित्रणाचो प्रकार बरो केळयला. आपल्या मनार सासणाचो छाप मारून गेल्ल्या व्यक्तीचें चित्रण फिशालकायेन लळितांत बसयलां. ह्या संग्रहांत ''जाफरभाय'', ''वास्कीत'', ''मोर्तो'' बी व्यक्ती आयल्यात.

कांय बरोवप्यांनी रासवळ जिणेंतलीं पात्रां घेवन सभाव चित्रणां केल्यांत.

देखीक : ''नुसतें आनी नुस्तेकान्न'', ''नागवणो'', ''जांवय-हीच गोंयची संस्कृताय'', ''गोंयचो तारवटी,'' ''सोर्तिकार'' बी ....

हीं आसात लोकांचे जिणेंत मिसळून गेल्लीं पात्रां. तांणी शेकड्यांनी वरसां हांगची (गोंयची) जीण रंगोवन उडयल्या. तातूंत उमेद, खोस आनी सोबितायेचो शिंवर केला.

निबंद बरोवंक कारण जाल्यांत हीं 'तरेतरेचीं सवंगां' ... पात्रां! पूण हीं पात्रां फक्त निमित्त्याक कारण. घडये आमी तांकां निबंदाचे विशय म्हणूं येत. पूण, तांच्या माध्यमांतल्यान जण एकल्या बरोवप्यान आपणाले खाशेले अणभव, दिक्टो उक्ताडार हाडल्यात.

आपणाल्या नदरे-कोणांतल्यान ह्या दिसपट्ट्या पात्रांक नियाळटना तांच्या एकाद्र्या सभावाक ते भाळळे. तांकां आनंद मेळ्ळो. निर्मितीची प्रेरणा जाली; आनी ह्याच व्यक्तिचित्रांतल्यान लेखकाचें रोमँटीक, रसीक, व्यक्तिमत्व उजवाडाक आयलें.

**प्रवास वर्णनां :**

ह्या संग्रहांत म्हणसारखें अशें एकूच प्रवास वर्णन आयलां. तशीं कोंकणींत प्रवासवर्णनां कांय थोड्या जाणांनी बरयल्यांत. (रवीन्द्र केळेकारालीं प्रवास वर्णनां लोक 'गोस्तान' वाचतात.) पूण एकट्याचो एकूच निबंद घेवपाचें थारायल्ल्यान कांय बरीं प्रवासवर्णनां जड मनान कुशीक काडचीं पडलीं. बाब चंद्रकात केणी हाचें ''नैनीताल-जंय एक याद गोठेली'' हो निबंद म्हळयार प्रवासवर्णन कशें आसचें हाची एक सोबीत देख.

**प्रसंग वर्णनां.**

नीज-अणभव व्हडा रसिकतायेन फुलोवन सांगपी, साप्प उणे निबंद कोंकणी साहित्यांत गंवसतात.

असोच एक अप्रूप अणभव वेगळे तनरेंत, हरिश्चद्रबाब नागवकार हांणी ''गोंय सुटकेची फांतोड'' ह्या निबंदांत चित्रायला.

19 देझेंब्र 1961 वर्सा पोर्तुगेजांच्या 450 वर्सांच्या गुलामपणांतल्यान गोंय स्वतंत्र जाता; त्या अजरंवर खिणाचे सुखाळ-दुखाळ उमाळे तांगेल्या मनाच्या पड्ड्यार कोरांतिल्ले, ते उतरांच्या भिंगांनी वाचतल्याच्या दोळयां सामखार उबे करतात.

**थळ चित्रणां आनी उत्सव**

हांगचे सण- परबो, उमेदी, उत्सवी मनां ... हांगचे ओडलायणे सोबीत वाठार,... जायत्या बरप्यांनी चिरंजीव केल्यात. तांतले कांय दाखले म्हळयार ''मंगेशींची पुनव'', ''म्हजो गांव रायतूर'', ''पिरवोळ म्हजो गांव'', ''असो म्हजो गांव'' ... बी.

**सैमाचो उलो (निसर्ग चित्रणां)**

वाचप्याक आनंद दिवपी आनी विचार करूंक लावपी; संवेदनशील मनाक लागिल्लो सैमाचो ओडो :

''आयज पुनव ओतूताली''; ''श्रावणांतली सोबिताय''; ''गुल मोहर'' .... बी निबंदांनी नियाळूंक मेळटात.

ह्या निबंदांनी लेखक अणभव कशे घेता आनी ते उक्ताडार कशे हाडटा हें बेस बरें पारखूंक मेळटा.

**विनोदी बरपां**

विनोदी झालर खूबशा निबंदांनी झळकता. पूण रचनेंतल्या आटापान विनोदाच्यो उकळयो कोंगतावपाचें कसब कांय जाणांकूच जमलां. तांगेली फुलार येवपी भास निबंदाक गिरेस्तकाय जोडटा.

देखीक : ''देवण्णालें सवळें''; ''हांव आंकवारुच कित्याक उल्लों''; ''म्हाल्याच्या शापांत''; ''म्हज्या मिश्यांचो महिमा''; ''नकळ काळाच्यो गती; बेब्यान गिळ्ळो हती''; ''रात थोडी सवंगां चड'';

संग्रहांत आयिल्ल्या सगळयाच निबंदांचेर अशे तरेन छाप बी मारून तांचे वांटे घालप म्हळयार मेकळया बरपाक बेडयांनी बंदिस्त करपावरी जातलें. अशे तरेन मेकळेपणाचो आनंद भोगतना जडसाणीच्यो आडखळी घालप समा जावचें ना.

आयच्या निबंदाच्या अंतःप्रवाहाचो थाव घेतलो जाल्यार तातूंत वेगवेगळे रचनेच्यो कुशी नदरेक येतात. हेर भासांवरी कोंकणीतूय लघुनिबंद, ललितनिबंद, आनी ललित गद्य बी तरांचे वेगवेगळे झरांव घोगेतात, ताचो गाज कानार आयले बगर रावना.

जेन्ना ह्या बरपांतलो पनवार पुस्तकांनीं बंद जावन रसिकांक मेळटलो, तेन्नाच ह्या निबंद-बरपान घेतिल्लीं वळणां अळंग पारखूंक येतलीं.

**लेखकाच्या व्यक्तिमत्वाचो आविश्कार**

कोंकणी समाजाचो आटाप आनी लिपी-भेदाक लागून एकाद्र्या पुस्तकाच्या वाचप्यांच्या आंकड्याचेर मर्यादा पडटात. तातूंतय उंचयल्या पांवड्याचे निबंद आनी ताचो आस्वाद घेवपी साप्प उणे.

चडशे निबंद-बरप निवळ 'आत्मनिवेदन' कशें आसा. ज्या लेखकाचें व्यक्तिमत्व संपन्न, ताजो आत्माविश्कार मनभुलयणो जाला. दाखलो घेवचो जाल्यार : बा. भ. बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार, चंद्रकांत केणी, लुसियो रोड्रीग्स, दत्ताराम सुखटणकार, वि. ज. उजगांवकार, अ. ना. म्हांबरो .... बी. तांणी कोंकणी निबंदाक एक वळण लायलां.

हांकां, काव्यात्म चिंतनशील आनी विनोदी वृत्तीचो तोल सांबाळूंक बरो जमला.

ह्या संग्रहांत आसपायल्यात ताचेय परस बरे निबंद तांणी केळयल्यात. तांगेली 'जीवनदृष्टी', मनाची 'संवेदनशिलता' पारखितले जाल्यार जणेकल्याचें पुराय निबंद-बरप वाचून मुजरत पळोवचें.

तांगेल्या लिखाणांत व्यक्तिमत्वाच्या प्रकटीकरणाचें शास्त्र घडये दडलां आसत; पूण विसकळावन सांगप समा जावचें ना.

शास्त्राच्या बंदनांनी रेवडावंक येत इतलो आयचो निबंद हाताक गंवसना.

आयच्या कोंकणी लेखकांमदीं बुदवंतकायेची, विचारांची तांक आनी फांक आशिल्लें लिखाण करपी आसात; पूण ताचेय परस चड भावूक, मायाळ, मार्मीक, ल्हवपीक ललित गद्य हाताळपी आसात. ललित गद्य तांचे भावजिणेक पोसवण दिता.

हालीं, कोंकणी नेमाळयांनी आनी दिसाळयांनी जायते बरोवपी ललित गद्य हाताळूंक लागल्यात. देखीक : दत्ता दा. नायक, चित्रा कुडचडकार, नंदकुमार कामत, दिलीप बोरकार, दिपा मुरकुंडे, नरेंद्र कामत, दिपक लाड, फादर फ्रेडी, मुकेश थळी , सुमेधा कामत बी. तांगेल्या लिखाणांत उमेदी, विनोदी, ल्हवपीक कल्पनांचो आविश्कार जाल्लो दिसता. गालांत जीब घुंवडायत (Tongue in the cheeks) आपणाले वायट बरे अणभव खेळीमेळीन मांडूंक लागल्यात. कोंकणीतल्या फायच्या निबंदाचे दिकेचो अदमास तातूंत घडये मेळुंये. पूण, तांचें खाशेलेपण नदरेक भरूंक कळाव आसा.

ह्या संग्रहांत जांचे निबंद घेतल्यात, तांतल्या बऱ्याच जाणांनी हेर ललित साहित्याचे प्रकार समर्थपणान हाताळळयात. तरिकूय, निजाची "मुद्रा" घसघशीत उठून दिसुंये इतले ललित निबंद तांणी बरोवंक नात. पूण जें कितें बरयलां, तातूंत आपणाले अणुभुतीची खाशेली वुणूक दाखयल्या. लेखकाचें व्यक्तिमत्व आनी ताचें लेखन एकजीव कशें जाता हाची ही घणघणीत देख. ह्या लेखकांचे स्वतंत्र निबंद संग्रह जेदेवेळार उजवाडा येतीत, त्या वेळार तांची पुरायेन रूच घेवंक मेळटली.

ललित लेखनाचे कलात्मक नमुने पारखितना मनाक चिटमिटे आनी खंत जाणवता. पानांचे मर्यादिक लागून कितल्याश्याच निबंदकारांक वगळचे पडले. जांचे निबंद वेंचल्यात, ताचेपरस बरे अशेय कांय निबंद तांणीच बरयल्यात. पूण वेळाचें बंदन आनी नेमाळयांचे दुर्मिळतेक लागून मनांत आसूनय हें बरप आसपावंक मेळळें ना. कांय समर्थ लेखकांच्या निबंदांची नियाळणी करपाचेंय वगळचें पडलां.

ह्या संग्रहांतले निबंद वेगवेगळीं नेमाळीं आनी दिसाळयांतल्यान पुंजायल्यात.

गोंयचे सुटके उपरांतच्या फाटल्या तीस वर्सांत कितलींशींच नेमाळीं फुल्लीं आनी बावलीं. हांतलीं कांय आजून तग धरून आसात. "कोंकणी", "नवें गोंय", "पुनव", "आंकूर", "परमळ", "जाग", "जैत", "कोंकणभारती", "कोंकण टायम्स", "वांगडी", "कुळागर", "गुलाब" आनी हेर जायत्या नेमाळयांनी कोंकणी निबंदाक पोसवण दिल्या. "राष्ट्रमत" ह्या मराठी दिसाळयांतलें खास कोंकणी सदर (सोमार आतां आयतारचो अंक ) आनी "सुनापरान्त", "नवें गोंय" बी कोंकणी दिसाळीं.... हांतल्यान नवे तरेच्या निबंदाक पालवी फुटूंक लागल्या.

**उजू कुशी आनी धोंगां पोगां...**

भाशेचें बळगें निबंदांतल्यान ताडूंक येता. समर्थ लेखकाची प्रतिभा असल्या बरपांतल्यान घोंसार येता. दर एके व्यक्तीची आपणाली खाशेली सांगपाची शैली आसता, अभिव्यक्तीची तरा आसता. बऱ्या निबंदांतल्यान हांतले सफल प्रयोग नियाळूंक येतात.

कोंकणी निबंदाचें बळगें ताच्या कांय खाशेल्या गुणांचेर विसवन आसा.

सगळयांत पयलीं, लेखकाचो ''प्रामाणिकपणा'' [Sincerity]. वायट-बरें कितें अणभवलें, तातूंत दाखय लिपय करिनासतना, जाता तितले बरे तरेन, खऱ्या रुपान दुसऱ्यांक कळोवचो तळमळो वळखूंक वेळ लागना. ह्या संग्रहांतलो खंयचोय निबंद ताची गवाय दितलो.

हांगा मनीस मनशाक वळखता, आनी ह्याच मनशाच्या सोदांत चडशे बरोवपी गुल्ल जाल्ले दिसतात. मनशाचे संस्कृतायेची उजू कूस उक्ती करचो यत्न जाला.

''कोंकणी निबंदकारालीं पाळांमुळां जिणेंत खोल मुंगल्यांत. कला श्रेश्ठ काय जीण श्रेश्ठ, ह्या वितंडवादांत पडनासतना तांणी जिणेक कला-मुर्तीचें रूप दिलां. आपणाले कलेंत जीण ओतल्या.''

''कोंकणी जीण ही तांच्या निबंदाची स्फूर्त आनी तांचे निबंद हे कोंकणी लोकांची स्फूर्त''. तांणी आपल्या भोंवतणच्या समाजाकडेन, सैमाकडेन, सांस्कृतिक परंपरेकडेन एकरुप जावन निबंद मांडल्यात.

जिणेंतल्या रसणांतल्यान साक्षात जाल्ले हांतले बरे निबंद संवसारांतल्या खंयच्याय भासांतल्या साहित्यांत मानाची सुवात जोडूंक पावतले.

वेगान बदलते जिणेची सुलूस घेत हांगा निबंदाचे नवे प्रयोग जातात. देखून आयज मेरेन कोंकणी निबंदाचो एक सांचो जावंक ना.

हें लिखाण वेगवेगळया रुपांनी वाड घेता. ऋतुचक्रा प्रमाण निबंदाक चंवर फुलता. अशें जावप हें बऱ्याचें लक्षण. आयचो कोंकणी निबंद केन्ना प्रसंग, मूड, उमाळे, भोंवडेचित्रां व्यक्तिचित्रां, विनोदी बरपां; इतलेंच न्हय, जाल्यार काव्य, नाटकांतलीं स्वगतां, आनी कथेंतल्यान लेगीत तकली वयर काडटा.

सगळया लेखकांचें एके गजालीकडेन जुळटा. ते निबंदाच्या विशया इतलेच अभिव्यक्तीक म्हत्त्व दितात. निबंद खंयच्या विशयाचेर बरोवचो आनी कसो बरोवचो हें जाका गंवसलां, ताकाच बरो निबंदकार म्हूण नामना मेळया.

दुसऱ्या भासांनी निबंदाच्या विशयाक किंकोत लेखतात. आशय आनी अभिव्यक्ती, म्हत्त्वाची मानतात. तांच्या मतान निबंदाक कुस्कुटाचो विशय चलता. व्यक्तीची नदर पडनाफुडें त्या विशयाक तेज लाभता. जीवसाण येता. पूण आयज मेरेनच्या चडशा कोंकणी बरोवप्यांनी निबंदाचो विशय वेंचून काडटना, बारीकसाण आनी शिटूकसाण दवरल्या. आपणाली घरावी भास, रेखीव घोंटीव शैली वापरून विशय फुलयला.

देखूनच घडये कोंकणी निबंद पेजाद, घरंदाज, अनवाळो आनी समाजीक संतुळा राखपी असो जाला.

इंग्लिशींत जांका Polite literature (belles lettres) ''सभ्य निबंद'' म्हूण

वळखतात, त्या पांवड्याचे हे निबंद.

जिणेंत आनी साहित्यांत उजू चलणूक दवरपी वाचप्यांक असले निबंद भारी मानवतात.

हांगचो निबंद आदर्श, धवाड्या संवसारांत गुल्ल जाल्लो दिसता.

हुमऱ्या भितर रावन शिगमो तोखेवपी. रेंदेर, पदेर, फेस्तां-जात्रा, गांव-देवळां, भुरगेपण, झिजूंक लागिल्लीं पोरणीं सांस्कृतिक मुल्यां .... हाजे गोडवे गायत आपले भितर मुरगुटपी. आपल्या आपणाक पोशेवपी. पैस रावन काकुळट करपी.

ह्या निबंदांनी तळागाळाच्या बांबराची घाण ना. चिड्डल्ल्या, माड्डिल्ल्यांच्यो बोबो हुयेली आनी आंतकड्यांक पीळ घालपी हुस्कारे जाल्यार कानारुच पडनात.

तारवां, गोरवां, सवणीं, सावदां, किड्यामुयांचो अप्रूप संवसार, तारे-गिरे, विज्ञानीक अजापां हाजेर फक्त लेखच बरयल्यात; ललित निबंदांत तांकां आजून सुवात मेळूंक ना.

घडये बरोवप्याचे अणभुतीचो आंवाठ मर्यादित जाल्ल्यान अशें जालां जावंये. जेदेवेळार शिक्षीत तशेच तळागाळांतल्या लोकांक दिश्टावो जावन ते निबंद विणटले, तेन्नाच आत्माविश्काराचो वेगळो साक्षात्कार जावंये.

आयज जण एकलो आपले कुवती प्रमाण बरयता. आपणाले ग्रह, पूर्वग्रह, आवडनिवड कुशीक सारिनासतना वेल्यान ताजेर पुराय भावार्थ दवरून बरयतात. ताका लागून खूप फावट [एकाच निबंदकाराले लेगीत] कांय निबंद वाचतना गोळाक लागिल्लेवरी भास जाता. जाल्यार दुसरे निबंद मेकळेपणाची खोस दिता.

गोंयमुक्ती काळांतल्या धारेवयल्यान जे बरोवंक लागिल्ले, तांच्या बरपांत बुदवंत कायेची फांक आसा. भास, म्हणी-ओपाऱ्यांनी रेखीव केल्या. नव्या बरोवप्यां मजगतीं भाशेचें वेव्हारी रूप आनी अणभवाचें हिमटेपण पळोवन संवेदनशील मन कचरता.

खंय उतर 'फाल्स' पडलां, खंय कल्पना थोटी जाल्या, खंय उमाळो शेळो जाला, खंय रचना विसकटल्या, हाजें भान जायते बरोवपी दवरिनात म्हूण खंत जाता.तरिकूय जण एकल्याचो वाचपी गट आसा. ते हे निबंद तोखेतात. ताजें मोल थारायतात.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय बऱ्या साहित्याची गूम ज्युस्त वळखतात, ते सांगतात, ''खऱ्या साहित्याचें मोल जिविताचे तागडेंतूच थारावंक जाय. जें मनाक खोस दिता, काळजाक उमेद दिता, बुद्दीक धार काडटा, चिंतना जागयता, गिन्यानाची तान भागयता, मनीसपण फुलयता, तें बरें साहित्य. ताका हेर मापां-जोखांची गरज ना.''

ह्या संग्रहांत प्रतिनिधीत्व करपी सगळयाच लेखकांनी ''निबंदकार'' म्हूण नामना जोडूंक ना.

हालीं वर्सांनी नेमाळीं, दिसाळीं, संमेलना, रेडियो बी प्रसार माध्यमांक लागून जायते नवे बरोवपी मुखार आयल्यात. तांचें बरप संग्रहाच्या रुपान येवंक ना. पूण, तांचेय अणभुतीची झलक तोखणाय करी सारकी. ह्या संग्रहांत नामनेच्या निबंदकारां वांगडा, अशा कांय नवोदितांचेय निबंद आसपायल्यात.

खरें म्हळयार संग्रह 1988 वर्सा पुराय जाल्लो. पूण, तातूंत कानडी, मलयाळी बी लिपींनी कोंकणी बरयतल्यांक फाव तशें प्रतिनिधित्व मेळूंक नासलें. जिवाक

चिटमिटे पडिल्ले. निमाणें साहित्य अकादमीक म्हजी अडचण कळयली. तांणी वेगवेगळया लिपींतले निबंद वेंचूंक आदार दिवपा खातीर जाणकार नेमले. कानडीलिपी खातीर बाब दोल्फी लोबो (मंगळूर); रोमी लिपी खातीर बाब तोमाझीन कार्दोज आनी मलबारी खातीर प्रो. आनन्दन (केरळ).

व्हडा आशेन तांचेकडेन पत्रवेव्हार केलो. भेट जाली तेन्ना विनयलें. पूण एकट्यानूच साहित्याचो सोद घेतलो. प्रो. आनन्दन हांणी मुजरत पत्र बरोवन कळयलें : ''केरळांत ललित निबंदाचो फॉर्म केळयल्लो दिसना.''

बाब दोल्फी लोबो आनी बाब तोमाझीन कार्दोज- हेर वावराचो व्याप वाडिल्ल्यान जांवये- मोन्यानी अळंग रावले. खूब कळाव जाल्लो. मन खंती जालें. 'खांदार घेतिल्ल्या खुर्साचें वजें जाचे ताणेंच सोसूंक जाय.' निमाणें म्हजे कुवती प्रमाण गोंय, कारवार, मंगळूर, ... बी बोलींतले कांय निबंद वेंचून काडले. पूण आनिकूय निबंद आसपायल्यार फाव तें प्रतिनिधीत्व दिल्ल्याची खोस भोगतली आसली!

कोंकणी भाशेंत हाताबोटार मेजपाइतलेच निबंद संग्रह उजवाडा आयल्यात. चडशे निबंद नेमाळयांनी आनी दिसाळयांनी दडल्यात. कांय बरपां मेळपाक भारी 'कुस्तार'. अशे अवस्थेंत समिक्षात्मक नियाळ करप समा जावचें ना अशें म्हाका जाणवलें आनी एक प्रयोग म्हूण; निबंदांतल्या लालित्यांत बुडी मारुन निबंदाची काणी बरयल्या. हें एक, ललित निबंदाचें आस्वादन. घडये समिक्षक हे पद्दती कडेन पोले फुगोवन गुरगुरून पळोवं येत. बुचकें काडूंक दावखूलां उबारुं येत, पूण तशें करचे बदला तांणी पनवरांतल्या दर एका निबंदाची खास रूच चोखून अणभवची म्हूण म्हजें नमळायेचें मागणें.

निबंद वेंचून काडटना हेर भासांतल्या वाचप्यांक ह्या निबंदावरवीं कोंकणी भाशेंतल्या निबंदाचो पांवडो आनी वाठाराचे अस्मितायेची वळख जावची हाचें भान दवरलां. हांतल्यान कोंकणी भाशेच्या कांय बोलयांचेंय दर्शन जातलें.

निबंदाची क्रमवारी थारायतना लेखकाची जल्मतारीख आनी बरोवपाचो काळ मतींत दवरला. जांची जल्मतारीख वेळार मेळ्ळी ना अशे तीन चार निबंद वळेरत घुसपायल्यात. कलात्मक आत्म-प्रकटीकरण जांतल्यान जालां अशें म्हाका जाणवलां, तसलेंच बरप वेंचलां. ह्या निबंदाच्या भायल्या रुपाक भुलचे परस अंतःप्रवाहाचो थाव घेवंक चड उमेद येतली, खोशी जातली. उदेते निबंदकार हांतल्यान स्फूर्त घेतले. आयच्या युगांत जंय मनीसपण सांडत चल्लां, जिणेच्या मुल्यांचो पांवडो देंवत चल्ला, मेकळो वेळ [Leisure hours] भोगूंक फुरसत ना, अशा काळांत ललित निबंदूच आमकां तारतलो.

निबंदाक जरी बंदन नासलें तरी, प्रस्तावनेक पानांचें बंदन लागताच. ना जाल्यार निबंदाचेर बरयल्लो हो निबंद तुमकां प्रबंध कसो दिसतलो.

हे निबंद वाचून कोंकणी साहित्याच्या भांडाराचें एक बंद आशिल्लें दार उक्तें जातलें अशी आस्त धरतां.

**प्रा. श्याम वेरेंकार**

1

**शणै गोंयबाब**

# मयेंच्या तळ्यार

सूर्या उदेवपाचो वेळ. तळयाचे तीन कुशींनी दोंगर आनी चौथे कुशीन नारव्यां वच्चो मार्ग आनी शेतां. काजी, कुंबये, कुडे, कुसरी, दिंडे, भेडस, पोटकळी असल्या तरेकतरा कुचकुचीत पानांनी भल्लेल्या झाडांनी डोंगर न्हेसल्यात. तांच्या मुळसांत आंबे, पणस, उणगी, भिंडी, माड, फोपळी हीं फळझाडां आपापल्या फळांनी सामकीं भारावल्यांत. पोरण्या काळसार पांचव्या पानांतसून कुचकुचीत चारीच्या रंगाचीं तरणीं पानां वैर सल्ल्यांत. आंब्या-काजींचीं तंवरां आनी पणसाचीं दाबणां हांचो पर्मळ कुसडीच्या आनी कुड्याच्या फुलांनी मिसळून एकतरेचो जो मधुर वास सुटला तसलो यंत्रांनीं अर्का काडूनूय केन्ना मेळचो ना. ह्या वासाची वर्णना करूं नज असो हो वास. सगळीं ल्हानव्हड झाडां मदींच पातळ्ळेल्या तळयाच्या हारशांत आपापलें रूप पळौन ओखेतात. हें तळें म्हणचे दिंवचल, मयें, नारवें आनी पिळगंव हांगाचे वनदेवतेच्या हातांतलो हारसोच म्हळयार कामायता. पिक् पिक् पिक् पिकांव अशें कुचेकारीण बोचुड्डी भौनभौन म्हण्टा. पी पीऽ पिपिपि पीपिपीअ अशें काळी चंद्रकळा न्हेशिल्ली तुट्टुतीत मडवळीण म्हणटा. उठ, उठ, उठ. उठ येतांहो, येतांहो, येतांहो अशें एकलें सवणें (कोगूळ) म्हण्टा. कडकडकडकड- कडडडडडड कुटुरुक, कुटुरुक, कटुरुक, कटुरुक, कटुरुक अशें दुसरें एकलें (कुटुरो) मोट्या ताळयान म्हण्टा. उंक, उंक, उंक; उंक, उंक, उंक; उंक, उंक, उंक अशें एकलें म्हणटा. तुतोंतोंतों, तुतोंतोंतों, तुतोंतोंतों, तुतोंतोंतों अशें दुसरें एकलें म्हणटा. कुट कुट्रुरु, कुर्रु! अशें कवडुलो पोर खोल घोगऱ्या ताळयान म्हणटा. पीं पीं पीं पीं पीं पीं अशें एक सवणें म्हणटा.

मयेंच्या तळयाभोंवतणचे दोंगर कुचकुचीत झाडकांनी मुळसांतसून तेमकांमेरेन गच्च पांगुल्लेले दिसतात. तळयांत तांचें सुंदर बरें पडबिंब दिसता. तळयांतलें उदक शांत आनी थीर. जिंत्रूप मोटो व्हडलो हारसोच पातळायल्ल्यावरी दिसता. तातूंत झाडांचें आनी दोंगराचें पडबिंब निर्मळ बरें हालधोलनाशिल्लें, चित्रासारकें जैचें थैं थीर दिसता.

कुट कुटुर्स कुर्स!

कुट कुटूऽऽऽऽऽऽऽऽऽर्स कू ऽऽऽऽऽऽऽऽ र्स!

रुख्मिणी, दांतली हाड गे पोपली व्हर, शेर भर नासणे पीठ पीठ पीठ.

ऊठ गे सीते, कवडुलो पोर, सीतेचे हातचे फोव गोड.

मदींच कावळे काव् काव् काव् करतात. आंब्या-पणसांच्या आनी काजींच्या

एकमेकांभितर घुसपल्ल्या दाट खांद्यांतसून किडी एकसारख्यो सूऽऽऽऽऽऽऽऽ असलो नाद करतात. तो वनदेवतेच्या उलौपाक सूर धल्लेल्यावरी दिसता. मदसून मदसून आंब्या-पणसांच्या खांद्यांवैल्यान वानरी आपल्या इल्ल्याशा माणकुल्या पोराक पोटावशीन धरून हुप हुप करून उडक्यो मारतात. तळयांतलें उदक चुळुक बुळुक नाद करीत शेतावशीनच्या कुळागरांनी व्हांवत वेता. तळयांत मदींच खैं खैं तांबडीं साळकां वैर सल्लेलीं दिसतात. भोंवतणच्या कुशींनी धवीं साळकां दिसतात.

(कुळागर - 1982) 

# 2

## रामचंद्र शंकर नायक

# जाफरभाय

"सोमाराचो आनी बिरेस्ताराचो जावंये, आठ दिसांक दोन फावटी जाफरभाय कार्तेर फोण्यांसाकून कागदां घेवन तीं आमच्या गांवात वांटूंक हाडटालो. जाय तीं वर्सां जालीं हे खबरेक. ते काळांत, आतां भाशेन, गांवोनगांव कुन्हैचीं इश्तासावां' नाशिल्लीं, मोटारीय नाशिल्यो आनी वाचपी-बरपीय साप्प थोडे आशिल्ले.

ते मुस्तींत कुन्हैतल्यान कागदां घेवपी ते कोण? आनी कागदां तरी कितलीं -शीं? खाकयेच्या जुदयेच्या भितल्ल्या बोलसांत घालून पांच गांवचीं कागदां तो हाडी! हाचे वेल्यान समजना? वर्तमानपत्रां म्हण्टात ती एक 'बुलेत'! ती ताणें लेंसाक बांदून हाडचो! पुण एका बोलसांत कागदां आनी दुसऱ्या बोलसांत तिकेटींची पटी. ताणें बुतांव घाले म्हणटर ताची छाती दोन अर्थांनी फुलताली. एक बोलसाच्या दाटायेन. आनी पांच गांवच्या मोट्या मोट्या मनशांचीं कामां "म्हज्या वांचून जायनात" ह्या समजान!

खरेंच, बारीक येवजून पळेल्यार ताज्या इतल्या म्हत्वाचो सरकारी कामदार ताज्या काळांत तोच!

साधारण मनशाचे साडेचार हात उंची आशिल्ली ताची. त्यावैर ती काळया गोंड्यांची, उमथी ओल्ली कशी, तांबड्या गाड रङ्गाची तोपी आनी पायांक तीनआंगळां दाटायेचें, काळया पट्यांचें जोतें! चर्र चर्र करून पावलां घालीत, काळया देगेच्या मुणाचो कासाटो मारिल्लो तो शेकान शेक जाफरभाय, धव्या-काळया खतांचो, बेताचो दांडो वाजयत आनी खाडाची धवी फुल्ल चंवर हालयत गांवांत आयलो, तसो तेदिसा भुरगीं घराभायर पावल घालूंक कचरतालीं आनी रडनासतना जेवतालीं!

जाफरभाय कार्तेरपणाचो एकच उद्योग करतालो अशें मात कोणें समजूं नये. फाविल्ल्या वेळांत ताणें लोकांल्यो वसुल्यो करच्यो. का-ब-दे- पुलिसाचें काम करचें, झगडीं-वांदे तोडचे, लग्ना-मुजींत बोवाळचें, नुस्त्याच्या तिट्यार बन्दोबस्त दवरचो, जात्रा-काल्यांत न्हिदो खळच्यो...एकाच उतरान सांगप म्हणचे गांवांत जाफरभाय बगर एक पान हालनासलें. सटी आसूं, बारावो आसूं, स्राद्द आसूं, देवकारें आसूं, शाकींती आसूं वा संकष्टी आसूं; गांवांत कोणागेरय कायलींत वडो पडलो कि जाफरभायचें पान भायर मांडुंकच जाय आशिल्लें. तो गांवांत नासलो वा धाळून उल्लो जाल्यार-अशें भोव करून घडच नाशिल्लें; लोकांक चुकिल्ल्या-खाल्ल्याभाशेन जातालें. आनीक

खुद्द ताकाय मोटोच अपमान जातालो.

"-आगा, जाफरभाय कितें मेलो म्हुण समजलो तो? मनशाक वळखना कितें? हांव कितें अन्नाक पडलां लोकांच्या दारांत? आगा, तो एक मनशाचो भौमान!..."

त्या अपमान करतल्याच्या कानार वचत अशा धोर्णान ताच्या शेजाऱ्या सामाऱ्या कडेन ताणें हीं उतरां उलवचीं!

पुण मनान कितलो उदार! कसलेंय निमीत काडुन मागीर जर ताणें ताका आपणागेर आपयलो तर, तोंडभर हांसून, फाटली खबर लेगीत काडीनासतना, चड जाल्यार "आगा, मोग आसा थंय शीण आसतलो न्हंय?" इतलींच उतरां उलवन कळंतरान तो अपमान भरून घेतालो! गांवचो पुरैत घाळत, पुण तितल्याय आसमंताक कोणागेर खंयच्या तिथीक स्राद्द, कोणागेर खंयच्या म्हैन्यांत आंब्यां समराधना तें जाफरभायक विचारचें. पाठ आसतालें ताका!

नुस्त्याच्या तिट्यार ताणें अर्द पैशांचीं सुंगटां नासल्यार साडेबारांच्यो वेल्ल्यो मोलांवच्यो- तेन्ना तितल्याचें नुस्तें चार मनशांच्या कुटुंबाक सांजसकाळ पावतालें-आनी "दुडू दुसऱ्या दिसा दितां, बोलसांत घालूंक विसल्लों" अशें सगळें आंग सांसपीत पुना पुना सांगून, तें घेवन वचचें. पुण व्यार्नी जावं, पागी जावं, मानशेकार जावं ताजे कडेन दुडूच घेनाशिल्ले!

हें ताचे रितीभायलें कर्तुप तो लोकांक नवख्या नुस्तेंकारां हुजीर मोट्या मोट्यान सांग आनी हे फावटीचे तरी आपुण दितलोंच म्हणून बडाय मारून ते घेता म्हणून कबुल केल्या बगर दुसऱ्या खेपो तागेल्या नुस्त्याक हातच लायनासलो!

अनवळखी खार्व्याच्या एखाद्र्या चेडयान तागेल्या नुस्त्याचे दुडू घेवचे. अशा वेळार ताणें जाफरभायक जाय जाल्यार म्हैन्याक कितल्यो पाटल्यो नुस्तें मोव म्हणून व्हाळांत पावतलें आशिल्लें ताजो हिशोब सांगचो. आनी ताका आपली वळख दिंवची!

काटुबाब भायर पडून शिनुबाब रजिदोर जालो तेन्ना गांवांतलो एक गावडो, जाफरभायच्या हुजीर "तेजी आमकां आतां पांग जाली" अशें उलयलो खंय! जाफरभाय ते आयकून खाडांतल्या खाडांत हांसलो आनी ताणें ताका उतरां मेजून मेकळावन म्हळें -

"- आरे पुण ओफीस कोणें हाडलो? आं? ओफीस हाडटल्याक विसल्लो तूं? त्या आदीं तुज्या शिनुबाबाक कोण विचारतालो?" अशें म्हणून तो त्या गावड्याल्या चिबडांच्या ओज्याक फाट करून बसलो.

कांय वेळान त्या गावड्यान एक माजवळशें चिबड नाका नाका म्हणटा आसतना जाफरभायल्या तांबड्या लेंसाक बांदलेंच! मागीर ताणें कितें करचें? भंगुं म्हणून ताका तें व्हरचें पडलें.

"-म्हाका मनश्याची भीड गा! कितें करतलो?"

कांय कलवंतांक, भटांक बि भाग्यां आयल्यांत तीं आपणाक लागून, आपुण रजिश्टरां हाडून दितां म्हणून, अशी ताणें मनांत गांठ माल्लेली! बऱ्या भल्याच्या वेळार ताणीं आपली यांद करूंकच जाय अशें ताका मनस्पुर्वक दिसतालें! आनी तांकांय ती जाताली. एक दीस सत्यनारायणाचो प्रसाद ताका चुकलो म्हणून अनंद्याक अशें मनांत

खाल्लें कि ताणें दुसऱ्या दिसा मुद्दाम ताका आपवन दोणोभर ताजो शिरो भरून दिलो! आनी "दोळ्यांत दुखां काडून रागार जावं नाकात" म्हणून पराथून पराथून मागलें! तोच सांगतालो.

आपुण कितें पर्यंत करीन ते सांगपाचे प्रसङ्ग ताका पावला कणकणीं येताले. तांतुंतलो एक हो.

-किर्मीक न्हय गा पडचो तो! बरो देवळाचो कमाविसदार जालो तरी जाफरभायन ओफीस हाडून दिलो तसो कितें करता? सुक्रारा दिसा इकरा वरांचेर फोण्यां इतिमासांव! विसर पडली गा तेका! गेलो ना! कमविसदार केदो मनीस? पूण जाफरभायन ओफीस हाडून दिलो तसो कितें करता? धाडलो मनीस व्हेलो म्हाका आपवन! "-जाफरभाय, आतां एक तुवें सोडलो तर सुटलों! दुसरो उपाय ना!" भिंवची बात ना, सांगलें. आगा, मनशाक मनीस पावचो ना तर कोण? देव तरी पावता? सांगा, विचार म्हणून जाफरभायक, कितें जालां? आल्मिस्त्रादोर पुर्तुगाली पाखलो! म्हाका विचारता, कमाविसदार कसो पावलो ना? - केरी, कुंकळयें, भोम, कुंड्य, मडकय आनी माड्डोळ! हांवें सांगलें - बिरेस्तार, सुक्रार, शेनवार, आयतार, शियोर! आयनार ओफीस दिलो. सुक्रारा कसो पावता?..." .... व्हा, व्हा- म्हणून दुसरो दीस नेमलो ! ! !

आयज ॲटम बॉंब म्हळयार जपान्यांची जी गत्त जावंये ती त्या काळांत फोणेंचो ओफीस म्हळयार जायत्या लोकांची जाताली. तो ओफीस बोल्सांत घालून हाडपी जाफर भाय! म्हळळे भाशेक ताचो दरकार गांवांत केदो चलतालो आसूं ये, हाची कल्पना वाचप्यांक जातली ! आयच्या बॉंबर्सांच्या घरघरा परस जाफरभायच्या जोत्याचो चरचर त्या वेळार अदीक गाजतालो!

गांवाभायर भोवंक गेलों तसो रस्त्याक लागून थोड्याच अंतरार आयज म्हाका जाफरभायची "निमाणी शेज" दिश्टी पडटा. फातर निखळलेले, करड मातलेले ते कबरीच्या माथ्यावेले वाटेन तांबड्याच्च फुलांचो उबोच्च गेल्लो तुरो पळोवन म्हाका जाफरभायचे जिणेची याद जाता आनी मुसलमानांची आनी मराठ्यांची राजवट कावार जावन फिरंग्यांचो काळ चलतना ताणें कशे दीस काडले हें येवजून मनीस सभावाचें कवतूक दिसता."

(कोंकण भारती 1968) ☆


Konkani ... Foundation (R.) ★ ... Cultural Foundation Mangaluru

3

रामचंद्र नारायण नायक

# पुष्पहास

गोकुळअष्टमीचे रातीं विष्णुच्या सहस्र नावावळींतलें एक एक नांव घेवन जांबळया-पाचव्या तुळशीच्या आंदऱ्यांची ओंपण, काळे पडिल्ले, तांब्याचे, धोंपऱ्यां चलतल्या बाळकृष्णाचे म्हुर्तीचेर चडून कांय वेळान ती म्हूर्त तुळशीपानाचे सुवी धरिल्ले राशीपोंदा जेन्ना लिप, तेन्ना म्हज्या भुरग्या भावीक मनाक ते म्हुर्तीची लक्तुबाय दिस, तिची ओड लाग आनी ती म्हजे लागसार आसची अशें म्हज्या मनाक दिस. पुजेक लायल्ली सांवळी म्हूर्त पर्थून जेन्ना देवाऱ्यांत वचून बस, तेन्ना कोणाक कळनासतना हांव ती उखलून घेय आनी म्हज्या आंगाच्याच्या खिशां दवरी. संवळया-ओवळयाची वा भष्टाकाराची म्हज्या भुरग्या मनाक खंत नासली. म्हूर्त म्हाका खेळपाक म्हणून नाका आसली; ते म्हुर्तीच्या स्पर्साचो, तिच्या लागशिलेपणाचो गोड अणभव म्हाका जाय आसतालो, आनी हे तरेन हांव तो घेतालों. त्या म्हज्या भुरगेपणांत गोकुळांतल्या बाळकृष्णाबरोबर हांव भोंव, आनी गोकुळांतलो बाळकृष्ण म्हज्या वागडा भोंव.

आनी आतां भुरगेपणांतली ती भुरगी म्हूर्त पुष्पहासाच्या रुपान म्हजो भुरगो-देव जावन म्हज्या उतार वयांत म्हज्या म्हऱ्यांत आयल्या. हिचीय म्हाका तशीच लक्तुबाय, तशीच ओड आनी तशीच गोड जायणी अणभवता. वर्डस्वर्थ कवीन मळबांतलें इंद्राचें धोणू पळेतकूच ताचें काळीज नाचतालें. जाण्टेपणांतूय ताका तशेंच अणभवतालें. आनी तें तशेंच अणभवूंक जाय अशें ताका दिस, कित्याक तर भुरगेपण, तरणेपण आनी म्हातारपण ह्यो तिनूय अवस्ता एकामेकाक बांदिल्ल्यो उरच्यो, आनी चैतन्याचो एकूच निर्मळ रोस ताचेभितल्ल्यान व्हांवत रावचो हें जितेपणाचें लक्षण अशें तो समज; न्हयपरस ती विस्कळ दशा म्हळयार मर्ण अशें ताचें म्हणणें. आतां म्हातारपण म्हळयार दुसरें भुरगेपण- अशें चड वांट्यान जरी निंदुचे खातीर म्हण्टात आसले- आसता. देखून म्हाताऱ्यांक भुरग्यांचो आनी भुरग्यांक आजे-आजयांची सभावीक ओड जाल्यारूय वंदुचे खातीरूय तशें म्हणूं येत. मनशा जिणेचीं हीं दोन तोंकां सोरपा-आकाराचे मुदयेच्या दोन तोंकांभाशेन एकामेकांत घुसपल्लीं आसतात. देखून म्हाताऱ्याक भुरग्यांची आनी भुरग्यांक आजे-आजयांची सभावीक ओड आसता.

कांय म्हैन्यांचो आसतना एका चित्रांतल्या रंगांकडे पळोवन पुष्पहासाऱ्या तोंडार सदांच हांशें फुलतालें. वेळार फूल फुलता तशें ताज्या तोंडार तें हाशें खेळ. देखून ताजें नांवच पुष्पहास दवल्लें. गालां-ओंठावैलें तेन्नाचें ताजें तें मुमुरखें नीरव हांशें

आतां ताज्या कुंदांच्या कळयांवरी धव्याफुल्ल दांतांतल्यान चमकता आनी कंठांतल्यान मंजूळ नाद करता- 'आलक्ष दन्त मुकुलान् आनिमित्त हासैः' अशें म्हणून बालभरताचें गोड वर्णन करतल्या कवीची वत्सल अणभूती काळजाक चाटून वता. ह्या पुष्पहासाच्या उत्कटतायेच्या हांशाच्या दिव्य रोसान ताजे भोंवतणचें दरेकलें चित्र जेन्ना न्हाता आनी ताज्या हांशाक आपलो निर्मळ पडकार दिता, तेन्ना 'उत्कटतायचे खरे भावनेन भरिल्लें आमचें-मनशाचें-हांशें कांय पुण वांट्यान दर्दभरीत आसता.' हे शेली कवीच्या म्हणणेचो दुबाव येता. सामान्यपणान शेलीचें तें उलोवप खरें दिसता, आनी आसूंय खरें. मनशाचें मन निर्मळ नासत जाल्यार ताका स्वताच्या सुखान जावं वा दुसऱ्याचें बरें पळोवन जावं जो आनंद जाता, तो निर्मळ आसूं नज; तातूंत कितेंय पुण किलमीस उरताच उरता. हेंच शेलीक सांगपाचें आसलें. हेवे आनी मत्सर हाचेपासून कोणा मनशाचें काळीज नितळ उल्लां? मागीर आमी घडये कितलेय मनस्पुर्वेक हांसले तरी तातूंत दुःखाची मिठाकणी आसलेबगर रावत? पुण शेली, भुरग्याच्या स्वच्छ, निर्मळ, धव्याफुल्ल हांशाचो तुवें केन्नातरी अणभव घेतिल्लो? त्या तसल्या हांशाक तुवें केन्नातरी आपलो पडकार दिल्लो? तुजी अणभवाची काव्योक्ति इतलेच खातीर उणी पडटाशी म्हाका दिसता. ओंटां आडोशाक लिपिल्ल्यो ताज्यो दांताकळयो ताचेभाशेनूच 'कूऽक्' करून उक्त्यो जातात आनी तो खडखडाट हांसता तेन्ना ताचे भोंवतणचें मानवी जगूय निर्मळपणान हांसता आनी त्या खिणाक तरी आमच्या चित्ताक चिदानंदाचो स्पर्श आनी साक्षात्कार घडटा काय म्हाका दिसता. भुरग्यांच्या रूपान चैतन्य आमच्या घरादारांत वोसणता आसतना जिवा-शिवाची भेट ना जावन आमी दुखी-कश्टी करंटे कित्याक उरचे! कुड्ड्या सुरदासाच्या आनी ताचीं कृष्णाचे बालक्रीडेचीं गितां वाचतल्यांच्या दोळयांत प्रेमाश्रू उबे करपी कृष्णाचें तें दिव्य - पार्थिव - धर्तरिवैलें बाळपण; त्याच धर्तरिवैल्या बाळपणाचे निर्व्याजतायेन येशू क्रिस्ताक जाल्लो सर्गांतल्या बापायचो साक्षात्कार, आनी त्याच पार्थिव बाळपणांतल्यान गाधीजींक मेळिल्लो सच्चिदानंदाचो स्नेहमय स्पर्श म्हज्या, म्हातारपण येवन तेकिल्ल्यान देव सोदूंक लागिल्ल्या मनाक पुष्पहासाच्या रुपान अवतरिल्ल्या भुरग्या-देवाची, वा बाळ-चैतन्याची मानसपुजा करूंक लायता, आनी त्या ध्यानांतल्यान पळेतल्या म्हज्या दोळयांक सगळयाच भुरग्यांत पुष्पहासाचीं पडबिम्बां दिसतात. दुडुदुडू धोंपऱ्यां चलतल्या, तोंडांत बचकभर माती घेवन तें तोंड उगडून आवैक विश्वरुप दाखैतल्या, धंयां-दुदाचे रचिल्ले गाडगे गडगडावन, 'हें आनी किते जालें' म्हणून तांचेकडेन निर्भय, चकित मुद्रेन पळेतल्या, गोप-ललनांच्यो केंश्ट्यो आनी पदर ओडून तांच्या मातृ-वत्सल थानांक पानो फोडटल्या, गोरवां बरोबर आनी बलरामदादा बरोबर रानांत वचचो हट्ट धरतल्या बाळकृष्णाचीं पुष्पहासासैत संवसारांनलीं अगणीत रुपां पळोवन भक्ती, प्रीत, स्नेह वत्सलताय, आनंद बी सगळे कोमल भाव हृदयां जागून आनी चित्ताभितर शांत जावन थैं धर्तरिवैलो सर्ग निर्मितात. ह्या सर्गात जर म्हाका हांव सोदतां तो देव मेळळोना, जाल्यार मर्णाचे पेले तडीक तरी तो म्हाका गावत म्हणून कोण निर्वाळो दीत?

हो पळे, पुष्पहास आतां थैं मातयेंत देंवन हातांनी माती चिवडायता आनी आपले आंगपाग धुळीन माखून घेता. ताची आवै, नाजाल्यार कोणूय तरी शी शी करून

मातयेंतल्यान उखलून घेवंक पळेता आनी तो बंट ल्हवूच आंग सदळ करून पर्थून मातयेंत फतकल मारता. हांव म्हण्टां, आसूं दी गे, धर्तरेचो आरोग्याताय दितो स्पर्स ताका घडूं दी, ताका तिची वळख जावं दी! धुळीन माखलेले हातपांय घेवन तो धांवन येता आनी म्हाका बिलगता, आनी बद्द माकड झाडार चडिल्लेवरी तो म्हज्या खांदार चडून आनिकूय वैर सरूंक सोदता. हें पळोवन विष्णु सहस्रनामांतल्या पुष्पहासाच्या 'ऊर्ध्वगः' ह्या सहस्रनावाची म्हाका अचूक याद जाता, आनी आतांमेरेन अर्थान आनी अर्थीन भरिल्लें तुजें गोड नांव तुका आशीर्वादरुप जावं अशें म्हणून काळजाच्या तळाक सावन वैर सरिल्लें एक अरमान धुपारती भाशेन तरळून तरवळून वायेंत विलीन जाता. खांदार धोंपरां तेंकोवन तो जेन्ना मुसुंडी मारता आनी 'उंक-उंक करून म्हाका भायर भोंवच्याक व्हर म्हणून सांगता तेन्ना ताच्या त्या 'अव्यक्त-वर्ण रमणीय वचःप्रवृत्ती'' न म्हज्या अंतस्कर्णाक शिरशिऱ्यो येतात आनी ताज्या आंगाचे धुळीन म्हेळिल्ल्या म्हज्या कपड्यांक पळोवन 'धन्या स्तदंगरजसा मलिनी भवन्ति' अशे भितल्ले उद्गार काडून ताका घेवन हांव तडक तसोच मागीर वतां!

म्होंवापरसूय गोड, जाय-जाय दिसणें आनी घट आलिंगिल्यारूय पुरो जायना तसलें हें भुरगेपण खंयच्या दिव्य लोकांतल्यान धर्तरेर आयलां जावंये? पुण धर्तरेक दिव्य कोण न्हय म्हणटा, वा कित्याक म्हणून न्हय म्हणचें? ज्या आनंदांतल्यान सृष्टिची निर्मणी जाली तो दिव्य न्हय? अव्यक्त जाली ती कितें दिव्य न्हय? अव्यक्त प्रकृति मायेच्या उदरांत चैतन्य बीजाचें अब्जानी वर्सां संगोपन जावन जी भौतिकताय व्यक्त जाली ती कितें दिव्य न्हय? भौतीक आनी आत्मीक असो भेद खुद्द परमात्म्यान केलो ना, तर मागीर दिव्य आनी पार्थिव हो भेद मनशान तरी कित्याक माजोवचो? जगांत क्रिस्ताचो वा ताजेसारके अवतारी व्यक्तीचेच गर्मसंभव आत्मीक आनी दैवी कित्याक आसचे? दरएकलें भुरगें हें व्यक्त जाल्लें चैतन्य बीजूच आसा. भुरगेपण हे धर्तरेभायल्या 'दिव्य' लोकातल्यान धर्तरेर येवंक ना. धर्तरेच्या दिव्यत्वांतल्यान तें परगटलां आनी त्या दिव्यत्वांतूच जाण्टेपणाचे अवस्तेंत ताचो विकास जावंक जाय. न्हयपरस वर्डस्वर्थ म्हण्टा तशें ते विस्कळीत दशेक मर्ण हेंच नांव फाव.

म्हजो पुष्पहास आनी संसारांतले दरएकले आवैचो पुष्पहास, मानवतेचे वेलीचेर आयिल्लें चैतन्याचें प्रेमपुश्प!

(नवें गोंय) दिवाळी - 1962 ☆

4

## लक्ष्मणराव सरदेसाय

# थळांतल्यो खबरी

'मागे वळूनिया पाहे' या सदराखाल कांय जाणांनी बरैलें हांवें पळेलां. ते फुडलें पळोवन थकले. तेन्ना फाटलें पळयलेबगर तांणी तरी कितें करचें? पूण फाटलें पळोवपांतच ते इतले गुल्ल जाल्ले दिसतात कि विचारूं नाका! हांव ते भानगडींत पडना, कारण फाटल्यान पळयतकच मान वळटा आनी दोळे वळना जाल्यार चुरचुरतात. तेन्ना हांवें थारायलें कि ह्या लोकांचो वसो लागून फाटल्यान पळोवचेंशें दिसचे पैलीं दुसरेकडेन पळोवचें. अशें येवजून म्हजे भितरूच म्हाका पळोवंक लागलों, तेन्ना थंय म्हाका जें दिसलें तेंच हांव आतां सांगतां.

कालच गाडगीळ भटजीगेर म्हाका सोमार करतल्या एका जाणट्या मनशान म्हळें 'तुमी तुर्ताक वानप्रस्थाश्रम घेतला काय कितें?''

ताका अशें विचारपाक रजांव आसा. कारण जोडकार पुतांचें वैभव तोखेत, असुदाय भुसकें मारून, लोकांचें किसयत, जाणटेपण भोगपाचें सोडून, हो मनीस - म्हळयार हांव - एका भटागेर येवन रावता. तो रावता, वेल्यान शिवराक जेवण पिरंगनासतना जेवता म्हळयार कितें? आपले घरची ऊब सोडून, उकते माळयेर, स्वेटर घाली नासतना, कुडकुडत रावता, हो वानप्रस्थाश्रमच न्हय तर कितें? परक्याचें घर म्हळयार म्हाका रानच न्हय? जंय नुस्त्याचो वास नाकांत पडना, जंय नातरांचो मोगाळ कुलकुलाट कानार पडना, असो वाटार म्हळयार रानच न्हय तर कितें?

श्री सिद्धेश्वराच्या त्या कुळाव्याचो प्रस्न आयकून हांव हांसलों. पुण उत्तर केलें ना. मनांत म्हळें, वानप्रस्थाश्रमाचीं पथां हांव खंय पाळटां? अलिप्तताय म्हज्या आंगांत खंय आयल्या? 'तृप्त हांव, फकीर हांव' - अशें हांव कवितेंत म्हणटां. पुण म्हजे वृत्तींत फकिरी बाणल्या काय कितें? फकिरांचीं कांय लक्षणां दिसतात हें खरें आसत. हांव म्हजे बायले-भुरग्यांक चिटी बरयना. देखून, तींय म्हाका बरयनात. ओगीच चिटी बरोवप, भुरग्यांक त्यो वाचपाचो शीण दिवप, तांचो आनी म्हजो वेळ वगडावप, तिकेटींक पैसो वगडावप, उत्तरांची वाट पळयत रावप, मुंबयच्या नातरांक थंडी भारकूण जाल्या अशें कळटकच जीव कासावीस जावप ही यातायात कित्यात? अशें येवजून हांव असल्यो भानगडी करिना. म्हजे कांय बरें मागते मुजरत म्हज्या पुतांक मेळून विचारतात, 'तुमचो बापूय ह्या वयार वनवास काडटा? तुजें ताजें किसुळलां काय कितें?''

म्हाका कांय जाण मेळून म्हणटात, 'भांगरा सारख्या पुतांक सोडून तूं असो वणवणटा कित्याक?' त्या बरें मागण्यांक म्हजो पूत कितें उत्तर दिता तें हांव नकळ. पूण हांव म्हज्या चिकित्सक इश्टांक कितें सांगतां ते तुमकां सांगूंक जाय. हांव तांकां सांगतां, फाटल्या साठ वर्सांत हांव प्रपंचांत वावुरलों, पुण संवसार करप म्हाका जमलें ना. आनी साहित्याचोय संसार करूंक जमलें ना. देखून कसलोच संवसार न करपांत कसली मजा आसा तें पळोवपाचें आसा. सगळया बंधनांपासून मुक्त जावपाचो हो प्रयत्न. मुक्त जालो अशें न्हय, पुण भौतेक मुक्त आसतां. सुनांनी रांदिल्लें जेवण जेवप, 'आयकलें मू?' अशें म्हणत बायलेन दिल्ल्यो टॉनिकाच्यो गुळयो घेवप, नातरांकडसून पांय, फाट चेपून घेवप, जोडकार पुतांचो बापूय म्हणून तांची व्हडवीक गायत रस्त्यावयल्यान पावलां मेजीत चलप, म्हऱ्यांत आयिल्ल्यांक, वाळू पेंचून आपल्या चल्यांच्या करतुपांच्यो, आनी नातरांचे तल्लख बुद्धीच्यो खबरी सांगप, असल्या गजालींत सुख ना अशें हांव म्हणना. पुण म्हज्यान तें जायना. देखून म्हज्या आश्रमांत म्हजीं कामां हांव करतां, लोकांचींय करतां. आयिल्ल्यांक 'च्या' करून दितां, केन्ना केन्ना जेवण करून वाडटां, साहित्याची आवड आशिल्ल्या चले-चलयांक कथा लेखनाचे चार धडे सांगतां, तांणी बरयल्ल्यो कथा तांच्या तोंडसून आयकतां आनी ह्या बोवाळांत दोतोरान वातविकाराचेर दिल्लीं वखदां घेवंकच विसरतां. इतलीं विसरतां कीं, नेव्राल्जीतची वीस गुळयांची बाटली स म्हयने जाले तरी सोंपच ना. शंबर गुळयांची 50 Liv बाटली वर्स जालें तरी सोंपच ना. मागीर त्यो तांबड्यो गुळयो भातशेवन धव्यो जातात तेन्ना त्यो म्हाका भायर उडोवंच्यो पडटात. दोतोरान होमियोपाथिच्यो शाबूदाण्यासारक्यो धव्योफुल्ल गुळयो दिल्ल्यो, त्यो अजून तश्श्यो पडल्यात. दोतोर मेळत जाल्यार सांगतां, 'तुज्या वखदान म्हजो वात आळाबंदा आयला.' आनी कितें करतलों? सांगपाचो मुद्दो असो की हांव करतां तो वानप्रस्थाश्रमूच न्हय?

आतां तुमी विचारतले, 'ह्या वानप्रस्थांत तुमी प्रपंच साप विसरून गेल्यात काय कितें?' आज म्हजो असो प्रपंच उरूंक ना. बायल-भुरगीं आसात. पुण तांचीं बंधनां नात. पुतांचे जोडीचो हांव हिशेब दवरिना. तांचे मोडीच्यो चवकशी करिना. पुण तांचो विचार म्हाका आफुडना शें न्हय. हांव फाटल्या भूतकाळांत पळयना, पुण हांव म्हज्यांतच म्हाका पळयतां, तेन्ना म्हाका बायले-भुरग्यांचो विचार येता, म्हजी फाटली जीण आकार घेता. म्हाका जिणेचीं व्हडलीं मोडणां दिसतात. जगपाखातीर हांवें केल्ले उपद्व्याप म्हाका दिसतात. लोकांनी जगचें म्हणून काडिल्ल्यो काडाओडी नदरे मुखार उब्यो रावतात. म्हज्या बिनहिशेबी कारभाराचें चित्र दिसूंक लागता. कसलेंच धोरण ना, कसलीच येवजण ना, असो म्हजो प्रपंच. साहित्यांत लोकांचें बारीक किसवपी हांव, प्रपंचांत - वेव्हारांत इतलो अनुभग्न कसो जावचो म्हाका कळना. शिटुकसाणेन लोकांच्यो करण्यो नियाळपी, तपासपी हांव म्हज्याच प्रपंचांतल्या काय गजालींत इतलो भाबडो कसो उरचों तें म्हाका कळना.

पोरूं वर्सा मुंबैच्या एका नामनेच्या साहित्यिकान चीट धाडून विचारलें - 'तुम्ही देवळात का राहता ते कळवावे.' तो साहित्यीक म्हजो इश्ट; ताणें हो प्रस्न आपुलकेन

केला हें हांव जाणां. थंय कुत्छितपण ना. म्हजे विशीं आस्था, मोग आसा. म्हज्या ललित साहित्याचो तो चहातो. पुण त्या बाबड्याक खबर ना की हांव देवळांत रावना. देव देवळांत रावता. ताच्या सांगाताक भट रावता. हांव थळांत रावतां. थळ कितें तुमी जाणात, आज ताका देऊळवाडो म्हणूं येत. एका वक्तार ताका थळ म्हणटाले आनी थंय 'इह' लोकांतल्यो रंभा रावताल्यो. नृत्य, गायन बी कलागुणांनी तांणी भुंयेक सोबा हाडिल्ली. कांय म्हाजन हांगा येवन म्हयन्याचे म्हयने रावताले. तांणी दिसाची देवाची सेवा करची अ ं रातची त्या अप्सरांकडसून आपली सेवा करून घेवची. तांचें कोणाकच वांकडें दिसनाशिल्लें. देवाक लेगीत. कारण देवस्थान मंडळांचेर हेच लोक देवाक जाय आशिल्ले. त्यो अप्सरा आज हांगा दिसनात, त्यो एक दीस दुसऱ्या सर्गार उडून गेल्यो. तेन्ना पसून हीं थळां पडंग पडलीं, रसिक भक्त हांगा लोट्टाले, ते गडप जाले! मागीर थळ हें नांवय कानार पडना जालें. भक्तीक सुकती लागली. अशा शुकशुकाट जाल्ल्या थळांत हांव रावतां. देवळांत रावना. हें हांवें त्या साहित्यिकाक कळयलें. आज थळां वशाड पडल्यांत हें मात ताका कळयलें ना. आमचे भितल्ल्यो खबरी त्या साहित्यिकाक कित्याक कळय? एखाद्रो ताजेर नाटक बरोवंक फाटीं रावचो ना. बरो विशय मेळ्ळो म्हणटलो. बाकी देवळांतल्या थळांची आनी थंयच्या अप्सरांची म्हजेपरस ह्या मराठी लोकांक अदीक वळख आसतली.

पन्नास वर्सां पैलीं असल्या थळांत रावपाची म्हाका बुद्ध जाली ना. म्हजे जुवानीच्या वक्तार हांवें कलवंतांचेर कांय कथा बरैल्ल्यो, त्यो मिटक्यो मारून महाराष्ट्रीय वाचपी वाचताले. पुण हांवें बावड्यान तांगेर केन्नाच पांय दवरूंक नाशिल्लो. निखटे कल्पनेचेर आदारून बरैतालों. कोणें म्हाजनान जर म्हाका किशोरी, सुरेखाकडेन व्हेल्लो, तर हांव कथा वास्तव बरैतलों आशिल्लों. भोंगूं त्यो खबरी.

आज हांव थळांत आसतां, पुण देवळांत नासतां. हांव म्हणटां, देवळांत देव आसा. ताका खेळोवपी, न्हाणोवपी, न्हेसोवपी, सजगावपी, न्हिदोवपी भट आसा. भटाक राखपाक कमाविसदार आसा. आनी कमाविसदाराक चिपचिपावपाक अध्यक्ष आसा. आनी अध्यक्षाचे वयर वो मकयल देवळाचे म्हाजन आसात.

आज श्रद्धेक पीक आयलां. ताका लागून देवाचें आनी भटाचें फावलां अशें पयरुच म्हजेकडेन एक म्हाजन म्हणटालो. मेज-मंडळाचें फावलां काय कितें तें हांव बरें सांगूंक नकळ. तें म्हाका त्या दिसा एका म्हाजनानच मांगलें. हांव ताचेर विश्वास दवरिना. आपलें घरदार सोडून देवळाचे खाणावळींत वो भटागेर शिवराक जेवन आपलो जीव आटोवपी मेज-मंडळाचे वांगडी सेवापरायण, प्रामाणिक आसलेवगर कशे रावत? इतलें खरें की मेज-मंडळाचेर वेंचून येवपाक कांय म्हाजन आपलो जीव आनी पांय झरयतात अशें खूब जाण सांगतात; तांच्या मत्सरानय ते अशें सांगतात जावंये. वेंचणुकांत ते पडले देखून ते अशे चावरे जाल्यात जायत. खरें कितें तें देव जाणा, आनी देवाचो राखणदार भट जाणा. हांव इतलेंच जाणां की, सामान्य म्हाजन लेगीत मेज-मंडळाचेर वेंचून येतकच साप्प बदलून वता. हांव खूब देवळां भोंवलां. जंय-थंय म्हाका होच अणभव आयला. म्हाजन मेज-मंडळांत रिगलो रे रिगलो, ताजी चालचलणूक मंत्र्याची जाता!

भाऊन धरून व्हेल्ले कितलेशेच आलमपिड्डेर, आमदार जातकच कशे बदल्ले ते कोण नकळ? तांचो भेस बदल्लो, झेत बदल्लो. ज्ञानाचें भांडवल मात वाडलें ना. भर पडली ती अवगुणांची. आमदारकी सोंपली तेन्ना बाबडे उबंत पडले. कांय जाण भाऊक सोडून गेले, कांय जाणांक भाऊन सोडले. पूण सगळे भाऊचे भाशेंत 'पेजेक लागले.' सर्गार गेले ते वाटावले. तीच गत भौतेक देवस्थानच्या मेजाच्या वांगड्यांची जाता. एरवीं सामान्यांतले मनीस कमिटीचेर आयले म्हणटकच एकदम असामान्य जाल्ले भशेन वागतात. हेर लोकांपरस आमी वेले, वेगळे, असो तांचो समज जाता. म्हाका भुरगेपणांतली एक याद जाता. कमिटीचो एक वांगडी बाजारांत खाकनवाळ सो फिरपी देवळाच्या चौकार बसलो म्हणटकच ताचे मुखार आयचो मंत्री भंगलो! तो मागीर ऑर्दी दिता, 'आगो भाग्या, ती दिवली घांसल्यार कितले दीस जाले गो? ए रगल्या, चौगुडो वाजोवपाक उशीर कित्याक जालो रे तुका काल?' भागें आनी रगलो खावन जेवन ताचेपरस सुखी आसतात हां! पूण आपूण म्हांजन म्हणपाची जाणीव एकदम ताचे तकलेक चडटा. हेर लोक सामान्यजन; आपूण म्हाजन, म्हळयार व्हडलो मनास बरोवंक, वाचूंक येनाशिल्लो मनीस हां हो. सामकोच अक्षरशत्रू. पूण देवळांत मरलो रे सरलो, ताचें अवसान एकदम वाडटा आनी ताची मुद्रा, आवाज, भेस सगळेंच कशें बदलता! आनी हो म्हाजन चार पांवडे वयर चडून कमिटीच्या उंच मेजार बसता तेन्ना तर विचारूंच नाका! कमिटीचेर तो कसो वता हें आतांच सांगना. देवाच्या मोगान तो इतलो पिसो जाल्लो आसता, देवाचे सेवेचो ताका येदो उमाळो येता की, नाना लटपटी-खटपटी करून तो खरशेता. ताका पासो लागलो तर ताची खरस रोखडी वेता. तो पडलो जाल्यार देवाक लेगीत ताची काकुळट येना. गिरेस्त देवळांच्या कमिटींचेर खाकनवाळ थोडेच वेंचून येतात म्हणा! खाडामिशांचे व्हडले व्हडले धाकट्यांक खंय संद दितात!

गोंयच्या राजकारणांत, अर्थकारणांत, समाजकारणांत जे प्रतिष्ठीत थल्ल्यात, तेच भाग्यवंत अधिकारान कमिटीचेर येतात! आमी व्हड, हेरांपरस वेगळे ही मूळची व्हडविकेची भावना आसताच. तातूंत म्हाजन, तातूंत मेज-मंडळाचो अध्यक्ष, ना जाल्यार कमाविसदार- मागीर ताका सर्ग दोन बोटां उरता! देवाचे सगळे इश्टेटीचो मालक जाल्लेभशेन तो वागता. तो मुद्दाम असो वागता अशें न्हय, आपाप तशें घडटा. कितलोय प्रामाणिक मनीस आसलो तरी ताका असलो मोह पडटाच न्हय? म्हजो एक अणभव हांगा सांगतां. एका देवळाचे अगरसाळेंत हांव कांय म्हयने उरलों. म्हजो एक शिष्य - म्हजेकडेन लिसेवाचीं तीन वर्सां शिकिल्लो- देवस्थानचे कमिटीचेर आयलो. तो थंय येवचेपयलीं म्हाका चड मानतालो; हांव रस्त्यांत दिश्टी पडल्यार, थामून नमळायेन म्हजी चवकशी करतालो. आपल्या गांवांत हांव दिसलों जाल्यार, म्हाका आग्रो करून घरा व्हरतालो. आपले गाडयेन म्हाका भोंवडायतालो. तोच हो म्हजो विद्यार्थी कमिटीचेर वेंचून आयलो आनी कितें सांगूं? मेळळयार तो म्हाका हटकिना, म्हज्या म्हऱ्यांत येना, म्हजी नदर चुकयता. कितलेशेच फावटीं अशें जालें. हांव गंदळांत पडलों. म्हळें, अशें कशें जावचें? हो मोगाळ भुरगो असो कसो बदलचो? दोळ्यांत फुलां पडल्यांत काय ताच्या? असो दुबाव आयलो. पूण पयस साकून पळय

जाल्यार तो पेपर वाचता. कांय दिसांनी कळळें की म्हयन्यापयलीं तो नवे कमिटीचेर वेंचून आयला! तेन्ना उलगडो जालो. येदें पुराण सांगपाचो हेत इतलोच की मेज-मंडळाचो अधिकारूच ह्या म्हाजनांक बादिकार जाता. अपवाद आसात ते थोडे.

हे लोक देवाची सेवा कशी करतात तीय हांवें पळयल्या. हिशेब बिशेब कायद्याचे नदरेन कशे चोख दवरचे हातूंत ते इतले घुसपल्ले आसतात की प्राकारांतली घाण, अगरसाळेंतली अव्यवस्था बी गजालींकडेन लक्ष दिवपाक तांकां फुरसद नासता! पालखे वेळार मात ते चुकनासतना आपलीं बिरुदां घेवन हाजीर! कोणाच्या हातांत चंवरी, कोणाच्या हातांत म्हालदार काठी; आनी तांचो भेस? तो देवाच्या ऐश्वर्याक सोब सारकोच! आनी तांचो डौल? तो तर फाटल्या संस्थानिकाचो! तांकां पळोवन म्हाका प्रश्न पडटा तो असो: हे लोक देवाचे सेवक काय मालक? सेवक म्हळयार राजाचो नूर. मालक म्हळयार पालखेक खांद लायतात. चौकांत देवामुखार नमळ जावन नाक घांसनात. तुकाराम, नामदेव, इतले नमळ जाले नात जावंक जाय. देवानच ह्या लोकांक सांगलां जायत, 'तुमकां सगळें माफ! तुमी सेवेचें, भक्तीचें नाटक केल्यार पुरो! सेवा, भक्ती त्या कर्म-दळिद्र्यांक करूंदी. तुमकां समाजांत मान आसा कारण तुमच्या पदराक पैसो आसा. तो तुमी व्याजाक दितात. तुमचो गोतावळो मोटो. तुमच्यो वयर सकयल वळखी. देखून तुमचे बगर म्हजें जायना. दळिद्री लोक हांगा आयले जाल्यार संस्थानाची प्रतिश्ठा कशी उरतली? वाडटली? हांव जाणां, तुमी देवस्थानचे कमिटीर येवन, जळवेभाशेन, म्हजें रक्तशोषण करतात; पूण ते दळिद्री म्हाजन म्हाका नाकात. तुमचीं पोटां भल्ल्यांत, देखून तुमी थोडें खातले. ते उपाशी जाल्ल्यान म्हाका सगळोच गिळटले, हो तुमचो तर्क बरावर आसा. तुमी केला तो नेम भोव शाणेपणाचो दिसता. ताच्या पदराक हजारांनी रुपये नात, ताका कमिटीचेर घेवं नये हो तुमी कायदो केल्ल्यान हांव सज्जनांक पैसावतां हें हांव जाणां. गरीब पोटाखातीर खावन खावन कितलें खातलो! शेकड्यांनी खायत. तुमी बँकेंत पैसो दवरपी. भाटां-बेसां विकतीं घेवपी. व्हडले व्हडले धंदे करपी. तुमकां लाखांची गरज आसा हें हांव जाणां. पूण हांव तुमकां कुस्कुटायना, तुमकां फापरायना. कारण हीं देवस्थानां चलतलीं जाल्यार तुमचेसारके नाटकी लोक जाय. सातय दिस सोरो पियेवन तर्र जावपी कांय लोक कमिटीचेर येतात. आनी सोमारा दिसा, न्हावन धुवन, गंधाचे तिवे लावन आनी गोपीचंदनाच्यो मुद्रा धारण करून, गर्भकुडींत येवन अभिशेक करतात. ते जुगडी खेळटात आनी आंगवस्तरां वाळगितात, हें हांव कसो नकळं जायत? तुमी आसात देखूनूच ह्यो अगरसाळो उब्यो जातात. भांगराची पालखी जाता. ते दळिद्री सज्जन कमिटीर आयले जाल्यार म्हज्यो वाड्यो लागतल्यो. म्हजें ऐश्वर्य वतलें. अगरसाळांचे अनाथाश्रम जातले, वृद्धाश्रम जातले, हास्पिटलां जातलीं आनी तवनास लोक हांगा भरतले. गोंयाभायले श्रीमंत म्हाजन, हांगा येवन आनी ह्यो अगरसाळो आनी भांगरा-पालखी पळोवन म्हाका पैसो ओततात, तो बंद जातलो. आयची प्रतिष्ठाय वचून देवळाक विनोबाच्या आश्रमाचें भिकाडें रूप येतलें. तशें जावं नये म्हणून म्हाका तुमी जाय. म्हाका ह्या ऐश्वर्यांत लोळूंक जाय जाल्यार तुमकां भिरकावन मारपांत शाणेपण ना. आयच्या जगांत, आयच्या समाजांत म्हाका रावंक जाय देखूनच कैलास

सोडून सिद्धेश्वर जावन हांव हांगा येवन रावतां न्हय? आयच्या नष्ट्या युगाचे तुमी खरेले प्रतिनिधी. तांकां लागीं ओडुनूच म्हाका हांगा दीस काडूंक जाय. कारण हांवें तुमकां वाऱ्यार उडयले जाल्यार फाल्यां तुमी पैशेकार म्हाजन 'गूट' करतले आनी देंवचाराचीं देवळां बांदतले. मागीर हांव उबंत पडटलों. देखून म्हजो आब हांवें राखूंक जाय.'

वयर देवान आपल्या म्हाजनांक जें सांगलां जावंये अशें हांवे म्हळां तें भांगरा पालखेंतल्या देवान. नवरात्रांतल्या मखरांतल्या देवान. वज्रजडीत शिंवासनाचेर बशिल्ल्या देवान. म्हाजनांनीच आपले इच्छेप्रमाण घडयल्ल्या देवान. खरेल्या देवान - सिध्देश्वरान कितें सागलां तें हांव जाणां. कारण ताणेंच एक दीस आपोवन व्हरून म्हाका गुपीत सागलें तें हांव जशाचें तशें हांगा दितां, 'तुमच्यो पाड्यो करण्यो हांव जाणां. त्यो हांव कसो विसरन? एक दीस तुमच्या पापांचे घडे भरतकच म्हजो यम तुमकां व्हरूंक येतलो, आनी चित्रगुप्त तुमच्या पाप-पुण्याचे हिशेब पळोवन तुमचो निवाडो करतलो. तुमच्या पापाचें शासन तुमकां चुकचें ना. तुमच्या वांगडा तुमचें धन येवचें ना. तुमची सत्ता, वैभव येवचें ना. तुमी हजारांनी रुपये खर्चून निष्ठेबगर केल्ले महारुद्र, शतचंडी बी तुमकां पावचेनात. पावतलें तें पुण्य. मनस्पुर्वेक केल्ली लोकसेवा, म्हळयार म्हजी सेवा.

म्हजी सेवा तीच लोकांची सेवा हें तुमकां कळना. तुमी समजतात, म्हजी सेवा केल्यार पुरो. लोकाची सेवा कित्याक करूंक जाय? हांगाच तुमी चुकतात. तुमी म्हजी सेवा करतात, ती वयलेचाराची. देवकृत्यांफाटल्यान सुद्ध भावना ना जाल्यार, ती करून न केल्लेसारकी. ते सेवेन तुमी म्हाका आनी लोकांक फटोवंक सोदतात. एक ध्यानांत दवरात, अशे भाशेन हांव फटवना आनी लोकय फटवनात. तुमी पांच हजारांच्या उत्पन्नाची अट घालून कांय पाड्या पैशेकारांची सोय केल्या. दुष्कर्मा करता तो मनीस कमिटींत येवं नज, अशें कलम तुमच्या कायद्यांत कित्याक घालिना? जो मनाचो निर्मळ आसा, जाका लोकांचो कळवळो आसा, जो दुसऱ्याच्या पैशांची वान्सा करिना, जो कमिटीचेर येवपाची यातायात करिना असो मनीसच कमिटीचेर येवचो अशें तुमी कित्याक थारायनात? मागीर देवान म्हजेकडेन पळोवन म्हळें -

'तूं देवळाच्या थळांत रावनय बी देवळांत येना, म्हज्या कांय म्हाजनां भाशेन म्हजेमुखार नाक घांशिना, आडवो-उदारो लोळना, पोले फोडून घेना, पालखेक खांदो दिना, चंवरी घेवन नाचना, म्हणून हे लोक तुजी अखटाय करतात हें हांव जाणां. तांचे भशेन तूं करिना, हेंच बरें. तांचीं भायलीं कवचां फोडून म्हजी नदर तांच्या अंतरंगाचो थाव घेता, तेन्ना म्हाका जो देखाव दिसता तो कितलो भयांकृत आसा म्हणून सांगूं? किडे जशे खातोणांत लोळटात, तशे हे लोक म्हजे भक्त, म्हजे म्हाजन सुवार्थाच्या नरकांत लोळटात. म्हज्या भांडाराचे डबयेंत कितलो पैसो पडटा तो हांव पळयतां, मेजतां. म्हाका कोणाच्यान फटोवं नज. तो सगळो पैसो जशाक तसो म्हाका पावता अशें तुमी समजतात? ताचो कांय भाग मदले मदीं नाच जाता. हें कर्म देवभक्त म्हणयतले तुमीच करतात न्हय? केन्ना केन्नाय म्हज्यो कांय मोलादीक वस्तू- पालखेंचे गोंडे बी - नाच जातात. ते खंय पावतात तांचो हिशेब कोण दिता?

सेवेकऱ्यांनी तांबें-पितळेची वस्त शेणयली जाल्यार तुमी ती तांचेकडसून फारीक करून घेतात. पूण तुमी सजगयल्ली भांगराची वस्त मात फारीक करिनात. देवळांत पाय दवरतकच ते साव, बाबडे, साळसूद! हो तांचो धर्म रे? धर्माक तांणी केन्ना मस्णांत धाडला! ते करतात तो अधर्म, धर्माच्या नांवाखाल! तुजो धर्म हो न्हय! तुजो धर्म, तुज्या उतरांनी, लोकांक नीट धीट करपाचो, दुबळयांक समर्थ करपाचो, दुष्टांक सुष्ट करपाचो. तोंडाक म्होंवाळीं, कवचां, चिलखतां, मुखवटे घालून मिरोवपी ह्या ढोंगी लोकांचेर बडी मारपाचो, तांचें खरेलें रूप उकतडार हाडपाचो. संतांक हांणी छळले नात ? अवगुण दाखययतल्यांचे, हे दुस्मान. ते पैशांच्या बळार तुजे पांय फाटीं ओडटले. म्हजीं स्तोत्रां म्हणपांत धर्म आसा अशें तुका दिसता? हांचे भक्तीचें म्हाका अर्जीर्ण जालां मरे! हांच्या धर्माक हांव विटलां मरे! केन्ना केन्ना म्हगेल्या लौकीक रुपाक गर्भकुडींत बशिल्ले साकार म्हुर्तीक मोह पडटा! हे भांगराचे पालखेचो, पोवनांच्या माळांचो, भांगराच्या ह्या शिंवासनाचो! अशा मोहाच्या वगतार तुवें कठोर जावन म्हजेर बडी मारूंक जाय, जशी संतांनी एका काळार म्हजेर मारिल्ली. ह्या अवचिन्नपणाक हांव जाप करिना, कारण म्हाका उलोवंक येना, हातपांय हालोवंक येनात. हांव शामन करतां तें एकदांच आनी तें भयांकृत आसता. सांगपाक कारण, तुजो धर्म तूं पाळ. लोकांक तांच्या कल्याणाच्यो खबरी सांगप हे तुजें काम. तें तुवें बरे भाशेन केलें जाल्यार म्हाका भियेवपाचें कारण ना.'

एकदां एक मनीस म्हजेकडेन आयलो आनी ताणें म्हाका विचारलें, 'देवा, धर्म म्हळयार कितें तें म्हाका सांग.' हांवें नारदाक आपोवन हाडून सांगलें, 'हाका धर्म दाखय.'

नारदान ताका मृत्युलोकार व्हेलो. एका नगरांत तो गेलो आनी बाजारांत एका खाटकाच्या दुकानामुखार थांबलो. तो मनीस ताच्या वांगडा आशिल्लोच. तो सगळें पळयतालो. खाटीक मास विकपाच्या कामांत गुल्ल आशिल्लो. मास कापप, तागडेच्या दाल्यांत घालून तें जोखप आनी गिरायकाक दिवन पैशे घेवप. सगळो कारभार चोख. गिरायक गरीब जावं, गिरेस्त जावं, खाटीक सगल्यांक सारको.

नारदान त्या मनशाक विचारलें, 'पळयलो मूं ह्या खाटकाक? हो धर्मान वागपी. देखून तो करता तो धर्म.'

'तर हांव सांगूंक वतालों, तूं तुजो धंदो कितले निष्ठेन, कितले नितीन करता हाजेर तुजो धर्म अवलंबून आसता. धर्म म्हळयार सत्य, धर्म म्हळयार निष्ठा. दुसऱ्यांचें वांकडें करता आनी येवजिता तो मनीस धार्मिक जावं नज. तो धार्मिक दिसलो तरी तो धार्मिक न्हय. मास विकपी खाटीक हो खरो धार्मिक. ताका मनापासून दिसता की आपूण करता तें काम पवित्र, तें एक धर्मकृत्य! हो कस लायलो जाल्यार कितले म्हजे भक्त, म्हजे म्हाजन तिगतले? आरे, जांच्या मनांत देव आसा, तांकां कर्मकांडाच्या लटपटीची गरज ना. असल्याच लोकांचें कल्याण हांव सादतां. भक्तालीं लफडीं जितलीं चड, तितलो तो म्हाका पैसावता. एके भशेन ताचो गडगड चल्ला जायत, तो तरतरता जायत, दुसरे वशेन तो घडघडत सकयल येता. एक दीस सामको सकयल येतलो हें तू विसरूं नाका.

धा जालीं. म्हजें पालखेचो वेळ जालो. आतां तूं न्हिदूंक चल. कांय दिसांनी यो. आनीक खूप सांगपाचें आसा.-'

[कोंकणी - दिवाळी 1980]



# 5

## दिनकर देसाय

# देवण्णालें सवळें

देवण्णालें सवळें देवण्णाइतलेंच म्हातारें म्हळयार साबार चूक जावचो संभव ना. देवण्णा म्हळयार मगेले आवयलो बापोल भाव. हांव ताका देवमाम म्हणटां. पूण गांवचे सगळे लोक ताका देवण्णा म्हणटात. तो मगेलो माम खरो, पूण जगाचो देवण्णा.

देवण्णालें सवळें म्हळयार तुमकां ताजें होड महत्त्व दिसचें ना. पूण माका तें तशें न्हय. तें हांवें पळोवच्या लागून कम्यांत कमी धा पंदरा वर्सां पुणि जालीं. आनी तें हांवें दोळयान पळयलां, इतलें न्हय तर एक पटीं वास सुद्धां घेतला. आबाबा! ताजो तो वास लक्षांत आयलो म्हळयार, आज सुद्धां माका जेवण चलना. आनी तसलें तें सवळें न्हेसून देवण्णाक कशी उंडी चलता हें देवाकच खबर! हिंवळाण म्हळी तर हिंवळाण न्हय! बुकटोल्लो वास म्हळो तो बी न्हय! खंवटाण म्हळी तर खंवटाण तशी येना! हुमे घाण म्हळी तर हुमेंक हांव वळखतां. माका दिसता, जगांत कितल्या नमुन्याचे म्हण दुर्गंध आसात, ते सगळे देवण्णाल्या सवळयांत एक जाल्यात.

म्हणच्या गेल्यार देवण्णागेर चांड्र आसा. होडांगेरचो दरबार! पूण करता कितें? मनशाक बुरशेपण म्हण उरच्या नजो पळय. देवण्णा तर दादलो, भायर आपणाल्या धंद्या गेलो. बायलेन तरी तें उंबळूण घेवका मू? स्वता उंबळचें पाड पडूं, चोडवाकडेन पुणि काण्ण उडोवचें? तिका तें बुरशेपण कशें पुरी पडता देवा खबर. देवण्णालें तें बुरशें सवळें आणि ती पोजडी बायल ह्या जगांत ना जाल्यार किते जायत? तिगेलो मुकटोय बी तसोच हां. भोजा अनवाळपण करतात! पाड घाल रे तो जल्म!

देवण्णालें सवळं म्हळयार फक्त बुरशें म्हण मात्र तुमी समजूच्या नजो. तें जितलें गलीज आसा, तितलेंच बोंदरय बी जालां. देवण्णा म्हणच तें न्हेसता. मजान जाल्यार जायना आशिल्लें. तें सवळें न्हेसचें म्हळयार सर्कसांत काम केल्ल्या म्हणकीच. ताका जालें तरी युक्ती जाय. सगळयांच्यान तें काम जाल्ले न्हय. देवण्णा सवळें कशें न्हेसता म्हण हांवें एक दीस मुद्दाम लिपून रावन पळयलें. तो कितें करता कळळें तुका? सवळें अशें धरता कीं मुकार पिंदिल्लें जांगेर येना अशें तें मिऱ्यांत लिपयता. आनी फाटल्यान पिंदिल्लो भाग कुल्यार येना अशें कन्न, काशींभितर खोयता. तें पळोवन माका जो हांसो आयलो, कीं हांवें रांदच्या कुडांतल्यान पळकुटी काडली आनी माळेर वचून पोटभर हांसलों.

सवळें पोरणें जालें कीं तें पिंदून अनवाळयान लोणच्या बुयांवांक बांदची पद्धत आमगेल्यांगेर आसा. पूण देवण्णालें सवळें मात्र ह्या कामात कोणेच उपयोग करच्या नजो. कित्या? तर देवण्णालें सवळें तुलें शंबर पटीं जरी उंबळळें, आनी अष्टोत्तर पटी तरी मडवळागेर घालें, तरी तें स्वच्छ जावचें ना. तसल्यो त्यो अनवाळयो आंगट्यो बुयांवांक बांदल्यार कितें विचारशी? लोणच्याचो इबाडच जावचो. लोणच्याक एकच दिसांत भट पडतले ही खात्री. एकादीं भट पण्णा जालें तरी तसलें तें लोणचें खातलो कोण? काम करतल्या चोडवाक दिलें तरी तें घरकान्नीले भिडेक आपणाल्या घरा व्हन्न, तशाचें तशेंच शेणा गायरींत उडोवन दितलें!

सवळें पोरणें जालें तशे ताजे ल्हान ल्हान तुकडे कन्न नव्या मूंज बांदिल्ल्या चोरडांक अणवाळी काष्टी मारपाक दितात, हें आमकां खबर आसा. पूण देवण्णालें सवळें पिंदून- तें पयलींच पिंदलां आनी वेगळें पिदचें लागना! - चोरडांनी जर काष्ट्यो मारल्यो, तर तांकां रवते जातलीं ही खात्री. जाय थंच्या डाक्टराक जाल्यार विचान्न पळया, हांवें सांगचें फाल्स कीं म्हण.

देवण्णाल्या सवळयाची काणी आयकून तुमी पोट भन्न हांसका ह्या इराद्यान हांवें तुमकां सांगली ना. देवण्णालें सवळें मात्र एक बुरशें आनी बाकीच्यांलीं सवळीं भारी स्वच्छ अशी बी मगेली म्हण्णी न्हय. अथवा देवण्णाली टिका करका हो हेतू बी माका ना. हांवें म्हणचें इतलेंच की, आमी जे आंता कालांतले चले सवळें न्हेसनात म्हण, आमी धर्मभ्रष्ट, क्रियाभ्रष्ट म्हण थोडे म्हातारे आमकां सवतात ही चूक. थोडे जाण तोंडा मुकार सवतात, कांय थोडे जाण फाटल्यान टिका करतात. आमगेल्या पूर्वजांनीं हें सगळें कित्याक केल्लें हें सांगचें कठीन न्हय. धंदे उद्येग करच्या वेळार न्हेशिल्लें धोतर घाण जावचो संभव आसा, अशें म्हण जेवच्या वेळार तरी स्वच्छ वस्त्र न्हेसून जेव्या, म्हळयार आरोग्याक बरें. ह्या इराद्यान सवळें जल्मा आयलें. पूण आज आमी सदां उंबळिल्लीं पुडवीं जेन्ना न्हेसतात, तेन्ना आमकां सवळयाची गरज ना, इतलें न्हय, तर जेवच्या वेळारच सवळें न्हेशिल्ल्यान सवळें म्हळयार आमकां इतलें विसन्न वता, की तें आठवड्याक एक पटीं सुद्धां उंबळच्याक आमी विसरतांत. उदाहरणाक देवण्णाली सवळयाची खबर वयर सांगल्याच.

परिस्थिती अशी आसतना, देवण्णालें सवळें खरें अणवाळें की आमगेलें धोतर खरें अणवाळे? तुमीच सांगा. आनी आमकां सवतल्या म्हाताऱ्यांनो तुमी तोंड धांपात.

☆

# 6

## बाकीबाब बोरकार

# गांठ

जे गांठीसंबंदान म्हाका आतां सांगचेलें आसा, ती जीव मारून केल्ली किरपिणाचो गांठ न्हय, ब्रह्मदेवान घाल्ली लग्न-गांठ न्हय, फंडगुंडानी पुंजायल्ली वर्स-गांठ न्हय, जानवें करपी भटान चरांटिल्ली ब्रह्मगांठ न्हय आनी शिकंदरान कापिल्ली वोर्डन गांठय न्हय. ही गांठ बोंबलेंतली - मनीस जल्माक येतनाच घेवन येता ती. ती कोणाक केन्ना लागत आनी कोणाची केन्ना विटत हें ब्रह्मदेवाक पसून अचूक सांगूंक येवपाचें ना.

'भागल्याक धुवाळयांचें आसतना शागोतेची गांठ लागली', वा 'आमगेले शेजान्नीच्यो नष्ट्यो करण्यो आयकून म्हजी गांठ पसून विटली' असलीं वाक्यां केन्नाय पुण तुमच्या कानावयल्यान गेल्यांत जातलीं. तितलें कित्याक? गांठ लागप वा विटप हाजो अणभव खास तुमकां केन्नाय पुण आयला जातलो. हांव देशांत आनी विदेशांत थोडो भोंवंक ना पूण गांठ लागिल्ल्याची वा विटिल्ल्याची खबर गोंयाभायर हांवें खंयच आयकूंक ना. हाजेवयल्यान म्हजो समज जाला की खरेली गांठ फक्त गोंयकारांकच आसता. हांव गोंयकार आनी तातूंत कवी. देखून म्हगेली गांठ सुमाराभायर नाजूक घडल्या जावंये. म्हज्या भुरगेपणांत तर म्हाका ती भौन भौन लागताली.

पिकेचे दीस आशिल्ले. तेन्ना घांटावयलीं भिरीं गोंयां देंवतात. तातूंत भैरुपी, वासुदेव, भुते, वारकरी, माकडवाले, गणसा-बैलकार अशे तरेकतरांचे लोक दारार येतात. इतलेंच न्हय, तर केन्ना केन्ना पन्नास साठ लोकांचे लमाण गांवांत तळ दियी. ह्या लमाणांत खांबे कशे दादले, पाटयो कशो बायलो, फुटून पडटात अशीं चेडवां, चोरून व्हरचीं अशीं देखणी गुटगुटीत भुरगीं, गाढवां, कुत्रे, तट्टां, कोंबयो, हांयसां, किरांचे पांजरे, मडकीं, गाडगीं असो चित्रविचित्र संवसार आसतालो. तांचेकडेन कात्री, सुरयो, सुरमो, शिलाजीत, कस्तुरी, केशर, मणी, बाण असल्यो अप्रूप वस्ती विकूंक आसताल्यो. म्हज्या वडलांक असल्या जिनसांचें आनी मनशांचें विलक्षण आकर्षण. ताका लागून असल्या लमाणाचो तळ आमच्याच भाटांत पड. लमाणांतलीं चेडवां तरेकतरांच्यो फुगड्यो घालपांत प्रवीण आसताल्यो. घरच्या देवा सालात तांकां त्यो घालूंक लावप हो म्हज्या वडलांचो मोटो षौक आशिल्लो. तांकां घरचें खारें, दोणांतल्यो आंबल्यो, क्वचीत पापड बी दिवन ते धादोस करीत. तांचो तळ घरा शेजारच्याच भाटांत पडिल्ल्यान हांव तर दीस भर तांच्यांतच पडिल्लों आसतालों. तांगेल्यो काणयो

आनी गितां आयकुपांत गुल्ल जातालों.

भायर वैशाखाचें भर दनपारचें वत रणरणटालें. आमगेल्या त्या भाटा मुखारच रस्त्याचे दुसऱ्या आंगाक आमगेलें मरड आसा. त्या मड्डाच्या आड्याशेजराच एक आंबली आशिल्ली. तिच्या मुळाक मातशी सांवळी आशिल्ली. लमाणांतलो एक धटींगण कांश्याचे चकचकीत वाटलेंतल्यान उकड्या तांदळांचें शीत जेवतालो. ताजेर तांबडें भडंग सांबारें घाल्लें आशिल्लें. प्रत्येक उंडयेबरोबर तो भाजिल्ल्या बांगड्याचो पास तोडटालो, तर केन्ना दोणांतली दिकाळ आंबली चाबडायतालो. अदिंमदीं कपळावयली चळचळीत हूम दाव्या हाताच्या बोटान पुसून उडयतालो. तें चित्र एक नदर करून हांव पळोवंक लागलों आनी सांगल्यार तुमी हांसतले, खऱ्यांनीच ताज्या अन्नार म्हजी रूच गेली, तोंडाक उदक सुटलें, ताजो आवंडो गिळ्ळो, आनी तसोच घरा परतलों. अशें जेवण जेवचें अशें म्हाका खूब दिसलें. पूण हें सांगतलो कोणाक आनी कशें? पोराक भिकेचे धुवाळे जाल्यात अशें घरांतलीं म्हणचीं नात?

हे धास्तीक लागून हांवें ही खबर गुम्म कोणाक कळूंक दिली ना. जेवणाच्या वेळार हांव पंगतीक बसलों खरो, पूण म्हाका उंडी कशीच गेली ना. सामको नायटो पडिल्ले वरी जालें. मागीर तर सारके धाळार धाळ जावंक लागले. 'तुका पुता कितें खायन दिसलें?' अशें आजी खोदुखोदून विचारताली, पूण लजेक लागून हांवें तिका कसोच थांग लागूंक दिलो ना. धाळांनी जीव जेन्ना सामकोच तंग जालो तेन्ना म्हजो निरुपाय जालो आनी जाल्लो प्रकार म्हाका साग्रसंगीत तिका सांगचो पडलो. रोखडीच तिणें खंयच्यान तरी वागी फैदासून हाडली. ती तळ्ळी. नाल्लेन बोंबलेर घालून वयर ती बांदली. पूण धाळ कशेच थांबना जाले. अखेर म्हाका जेवीन दिशिल्लें तसलें जेवण करून वाडले बगर म्हगेली गांठ थाऱ्यार येवची ना हे विशीं तिजी खात्री जाली जावंये. तिणें भाटांतल्या गोकळाक आपोवन हाडून ताका तागेले पद्धतीचें, तसलेंच जेवण करूंक लायलें आनी सांजच्या साडेचारांच्या अदमासाक म्हाका तें वाडलें. पूण सदांच्या म्हगेल्या ताटांत. हांवें म्हळें, अशें कोंता येना. म्हाका कांश्याची वाटली जाय आनी चौखेर न्हय, तर आंगणांत जेवंक जाय. आजयेन तीय सोय केली. भाजिल्लो बांगडो, दोणांतलें तोर, उकड्या शिताचेर तांबडें गुंज सांबारें अशी सगळी वेवस्था केली. पूण दनपारच्या कडावयलें वोत ती तेन्ना खंयच्यान हाडटली आशिल्ली? अदीक आडेवेडे घे नासतना हांव उकडयां जेवंक बसलों. जिस्त लमाणांतल्या दादल्याभाशेन. भूक तर भयंकरच लागिल्ली. पूण पयली उंडी हांवें तोंडात घाल्या मात, सांबाऱ्याच्या तीख उज्यान म्हजें तोंड हुलपल्लेवरी जालें. घटाघटा उदक पियेवन हांव उठलों. भायर वचून कोण लागसार ना ही खात्री करून घेवन हांवें बोंबलेर बांदिल्ली वागी मोठ्या गोस्तान खाली. आनी कितें सांगतलो? धाळ जाताले ते थप्प करून थांबले!

म्हाका अशी लागिल्ली ती गांठ म्हजे यादस्तींत कायमची उरली. लमाणांतलो 'जिप्सी' असो जणेकल्याच्या रगतांतच आसता जावंये.

[कुळागर, दिवाळी 1982] ☆

7

फादर एच्. ओ. माश्कारेञ्यस

# म्हाका आदीं म्हजीच भास सारकी शिकची आसा

देवनागरी लिपी कोंकणी भाशेक कित्याक घेवची हें म्हाका एक फावट सगळया वाटांनी सारकें कळून आयलें. 1929 वर्साची गजाल. हांव तेन्ना पाद्रीपण शिकपाक रोमाक आसलों. ज्या धर्मकुळांत हांव रावतालों थंय वेगवेगळया पंचेचाळीस राष्ट्रांचे विद्यार्थी आसताले. तांचे चाली भाशेन वर्साक एक फावट ते पापसायबांचें दर्शन घेताले आनी हे खातीर युरोप खंडांतलीं राष्ट्रां कुशीक दवरून उरिल्ल्या संवसाराच्या राष्ट्रांचे धा-बारा प्रतिनिधी ते वेंचून काडटाले. आपल्या देशांतल्यान हे नवेच आयिल्ल्या कारणान, आपापणाल्या भासांनी तीन चार मिनटां सुपुल्लेंशे मानपत्र तांकां वाचचें पडटालें. हिंदुस्तानाचो प्रतिनिथी म्हणून म्हाका वेंचून काडलो. म्हाका खूब खोस जाली आनी छाती फुलोवन हांव दोन दीस भोंवंक लागलों. पूण तें मानपत्र आपापणाल्या भासांनी वाचचे आसता, हें आयकनाफुडें, माथ्यार तोणको मारिल्लेवरी जालें. म्हाका लातीं भास येताली आनी इतालियन भाशेंतूय हांव बरोच फुडें गेल्लों. पूण हिंदुस्तानाच्या प्रतिनिधिचो अधिकार म्हाका हिंदी भाशेंत सांबाळचो पडटलो अशें हांवें सपनांत लेगीत चिंतूंक नासलें. देखून, आतां कितें करचें, तेंच म्हाका कळना जालें. म्हाका हिंदी येताली, पूण तिका तकलीय नासली आनी धडूय नासलें, असली, मुंबयतली, पचकी. मागीर मराठीचें चिंतलें. हे भाशेचीं दोन पुस्तकां (सरकारी) वाचून जाल्लीं, असले **अवस्तेंत ते भाशेंत** कितें बरयतलो मानपत्र?

गुजराती समजताली खरी, आनी उलयतालोंय बी. पूण पारशांवरी. ती म्हात्मा गांधीची भास. तिचो मान राखूंक आमकां कळूंक नाका? म्हणटकच अखेरेक घरचे कोंकणी भाशेंतूच बरोवचें अशें थारायलें. थंय एक मंगळूरकार आसलो. ताजेकडेन हांव गेलों नी म्हळें: "बाबा रे, हें संकष्ट तुवें निवारूंक जाय." ताणें म्हळें : "म्हज्यान बाबा तें जावंचें ना. म्हाका हिंदुस्तानांतली खंयचीच भास येना. तें तूंच कर. भियेता कित्याक? हांव बसून ताळयो पेट्टां!"

ताणें म्हज्या गळयांतलो हार म्हज्याच गळयांत दवरलो!

उलोवप कोंकणींतूच करपाचें हांवें थारायलें. आनी मनांत जे कितें विचार आयले ते सगळे बरोवन काडले. दुसऱ्या दिसा तें बरोवप बारीक नदरेन पर्थून वाचलें आनी तातुंतलीं सगळीं पुर्तुगेज आनी इंग्लेज उतरां काडून उडोवन निजाचीं कोंकणी उतरां घालचो येत्न केलो. दोन फावटीं तें मोट्यान वाचून पळयलें. वाक्यांची रचणूक,

उतरांची मोडणी, उलोवपाची धाटणी बी जाता तितली कोंकणी भाशेक जमता तशी केली.

मानपत्र वाचून दाखोवचो वेळ आयलो. हांव रांगेंत उबो रावल्लों. म्हजी पाळी येतकूच सवकास आनी मेकळया उतरांनी हांवें सुपुल्लेंशें उलोवप केलें. तें आयकून बशिल्ल्या लोकांनी तकली हालयली आनी म्हाका शाबासकी दिली. पूण म्हजें पत्र हातांत घेवन मुखेल सेक्रेटरी म्हाका म्हणूंक लागलो, ''तूं हिंदुस्थानाचो प्रतिनिधी न्हय? तर असल्या अक्षरांनीं हें कितें बरयलां?''

हें आयकून थंयचे थंय हांवें ताका सांगलें : ''हांव हिंदुस्तानांतलो खरो. पूण म्हजें बरोवप तुमकां समजुंचें म्हणून हांवें तें रोमी लिपींत बरयलां.''

ताणें म्हजें पत्र म्हाका पर्थून दिलें आनी सगळयां मुखार सांगलें. ''हें बरयलां तें बरें आसा, पूण तुगेल्या संस्कृत (देवनागरी) अक्षरांनी तें बरय.''

पत्र बरोवन आयज सांजे दितां म्हणून सांगून हांव ल्हवूच पर्थून आयलों आनी म्हज्या मंगळूरकार इश्टाक मेळ्ळों. तो तरी बरोवन काडीत अशी म्हाका आस्त आसली. पूण ताका बाबड्याक संस्कृत अक्षरांचो गंध लेगीत नासलो. कानडी अक्षरांनी बरयल्यार जायत, अशेंय ताका सांगलें. पूण त्या अक्षरांचो लेगीत ताका चडसो उगडास उरूंक नासलो आनी ताणें तें कानडींत बरयल्लें जाल्यार म्हाका खंय वाचूंक येतालें? आसूं. म्हणटकूच हांवें देवाक उलो मारलो आनी म्हजे कुडींत पर्थून गेलों. सगळीं देवनागरी अक्षरां घोळोवन काडून हांव पळोवंक लागलों. कोंकणी भाशेक संस्कृताची वर्णमाळ पावना जाली. ती कोंकणी भाशेक लागू करची आसल्यार वाडोवंक जाय आसली. ''ए'' आसा पूण ''ऍ'' ना, ''ओ'' आसा पूण ''ऑ'' ना. म्हणटकच मात्रा आडवी काडून ''ऍ'' आनी ''ऑ'' बरोवपाचो येत्न केलो. आनी हे भाशेन ल्हवू ल्हवू सगळें मानपत्र नागरी अक्षरांनी बरोवन काडलें! ते रातीं हांव दोन वरांचेर न्हिदूंक गेलों.

दुसऱ्या दिसा साडेचारांक उठलों आनी स वरां म्हणसर तें पत्र निवळ अक्षरानी पर्थून बरोवन काडलें. सेक्रेटरी म्हजी वाट पळयतालोच. संस्कृत अक्षरांनी बरयल्लें मानपत्र ताच्या हातांत पडटकूच तो खोशी जालो. आनी तुमगेलीं अक्षरां इतलीं सुंदर आसून तुमी आमगेल्या रोमी अक्षरांनी कित्याक बरयतात म्हणून म्हाका शिणूंक लागलो! फुडें तो म्हाका विचारूंक लागलो, ''तुमी म्हाका संस्कृत भास शिकयश्यात?'' हांवें म्हळें: ''हय गा सायबा. संवसारांतल्यो सगळयो भासो हांव तुमकां शिकयन, पूण म्हाका आदीं म्हजीच भास सारकी शिकची आसा!''

(साद) ☆

# 8

## शांताराम हेदो

# खेळगडो

कोणूय कितेंय सांगूं, पूण गोंयचें निजाचें वेगळेपण दाखयणाऱ्यो गजाली गोंयांत वचत थंय दिश्टी पडटात. फकत त्यो पळोवपाची वान्सा आनी नदर मात आसूंक जाय. फेर्नांद पेस्सोअ नांवाचो एक नामनेचो फिरंगी कवी आपणाले एके कवितेंत म्हणटा:- ''Tudo tem a pena quando alma nao e pequena'' म्हळयार, सगल्या वस्तूंत कितेंय म्हत्त्वाचें दिश्टी पडटा, जेन्ना पळयतल्याचें मन व्हड आसता. गोंयच्या जमीन-मळबाची आनी झाडां-पेडांची सुंदरताय; लोकाचे कुडीची आनी मनाची एक वेगळीच बांदावळ ह्यो खाशेल्यो गजाली थोडो वेळ कुशीन दवरल्यो तरी पासून हांगाच्या धालांत आनी काल्यांत, रेंदरांत आनी पदेरांत, धुमटांत आनी तांबोरांत, शिगम्यांत आनी इंत्रुजांत आशिल्लें वेगळेपण कोणाच्याय दोळयांत भरले बगर रावचें ना.

आज संवसार दिसान दीस ल्हान जायत चल्ला. आयच्या मनशाच्या हावेसाक आयचो संवसार मोटवो दिसूंक लागला आनी ताची नदर दुसऱ्या संवसाराचेर लागल्या. पांच पन्नास वर्सां फाटल्यान रायतूरच्यान सकाळीं आठ वरांचेर वाफोरान भायर सरिल्लो म्हजेसारको मनीस सू करून सांजवेळच्या पांच वरांचेर पणजे पावतालो. तो वाफोर कुंभारजुव्यां चिखलाक लागलो जाल्यार पणजेचे इगर्जेच्यो आमोरेच्यो घांटो ताका येवकार दिताल्यो. पूण आयचो गोंयकार दनपारचें जेवण हांगा जेवता, विमानांत लकणी काडटा आनी सांजची च्या मुंबय घेता. गळयांत गांठलें, नाकांत सोकलें आनी आरांटून चरांटून बांदिल्ल्या केंसांचेर माथेंभर सुरंगा वळसर, मोगऱ्यां पट्यो, शेंवत्यां फांतयो, आबोल्यां झेले माळिल्ल्या बायलांनीं गच्च भरिल्लें धालां मांड आज वशाड जाल्ले दिश्टी पडटात.

खयं गेल्यो त्यो बायलो? खंयच्याय दोंगरां मुळांत बांदिल्ल्या माटवांत दीसभर मिना फातर फोडून वळिल्लें आपणालें आंग धुल्लान भरिल्ले जमनीर पातळावन न्हिदेंत पैशां-सपनां पळयतात काय? कोण जाणा! आनी जागरांतली ती मोरार बशिल्ली शारदा? तो तांबड्या मुखवट्याचो गणपती? ती धव्या फुल्ल गरगरीत वाटकुळया तोंडाची म्हातारी? न्हवऱ्या-व्हंकलेच्यो आनी मुंज्या-यजमान्न्याच्यो व्होंवयो गायत वड्यां पीठ दळपी पां-पांच बायलां जोडयो? तें शिगम्या म्हयन्यांतलें सुवारिचें वाजप?

ते पालखेफुडल्या पेण्यांतलें चंवऱ्या भोवर? तो मुरदंगांतल्यान काल्याचो झऱ्यासारको

बोल काडपी मुरदंगी? तो गांवार आयिल्लें अरिश्ट ना करूंक कुदपी घाडी? भुरगें जेवना-खायना जाल्यार तें नडीन काय बडीन हें म्हाणायेर तांदळां आंशे हालोवन सांगपी वाड्यावयल्यो त्यो देवी? तो कंबराक पुडवें खोवन आनी खांदार आंगवस्तर-वाल्याची पोती लावन जात्रा-काल्यांक वचूंक भायर सरपी खेळगडो? खंय गेलो हो लोक? पयर पंचवीस तीस वर्सां उपरान्त खेळाक लागून बरीच कीर्त जाल्ल्या एका काल्याक हांव पावलों. पूण ते पयलींच्या काल्यांत आनी आयच्या काल्यांत कितलो बदल जाल्लो म्हाका दिश्टी पडलो! ल्हान-व्हड बारीक-मोट्या लोकांच्या भेसांत तर बदल जाला हें म्हजे नदरेंत आयलेंच, पूण लोकांचे रुचींत, उमेदींत दुसरी तरा जाल्या हेंय म्हज्या ध्यानांत आयलें. हांव देवळाकुशीनचे पायवाटेन खेळा-माटवाकडेन गेलों, तर पयलींपरस अदीक न्हय, तर चौथ्या वाट्यानूय ना अशें म्हाका दिसून आयलें. कितें तो पयलींचो शेकानशेक, आयसपयस पातळिल्लो लांबरूंद माटोव, तातूंत जळीमळीं लायिल्ले किटसन दिवे, आनी ते खेळगड्यांचे हांगा थंय पडिल्ले वांटकुळे मांड! तन्ने-धाटे, म्हाल-म्हातारे, किरिस्तांव-कोंकणे, सगल्या धर्माचे, जातींचे, सगल्या पिरायेचे. कोण काल्सांव जुदी घाल्लो, तर कोण पुडवें कुतांव न्हेशिल्लो, अशे तरेतरेचे खेळगडे थंय दिश्टी पडटाले. कोण उकडयां, तर कोण मांडी घालून; कोण न्हिदून तर कोण उब्यांनीं आपल्याक रुचत आनी मानत ते भाशेन खेळांत वांटो घेताले. कोणाकूच वेळाचें वा पोट-पाण्याचें कसलेंच भान नाशिल्लें. पेदिदाचो खेळ आसलो जाल्यार तोडांतल्यान 'भायर, भितर, तोप, कोमदेल' अशीं उतरां बडबडत तांचें लक्ष एकेच वस्तूचेर थीर जाल्लें दिश्टी पडटालें आनी ती म्हळयार जिका ते फकाणांनी बावन्न पानी गीता अशें नांव दिताले ती इस्पीक. आयकून म्हज्या सारक्या मनशाच्या तोंडांतल्यान ''थू-थू-थुमेकाल' अशीं उतरां येतालीं, पूण तांची ती इस्पिकेवयली शिमे भायली भक्ती पळोवन तांणी दिल्ल्या नांवांत कितेंय तांळतंत्र आसुंये अशें म्हज्या मनांत येतालें. कांय देवळांनी जशे एका दिसाचे, तीन दिसांचे, सात दिसांचे सप्ताह जातात, तशेच फाटल्या तेंपार खेळाचेय बी सप्ताह जाताले. देवाचे सप्ताह देवळांत, तर खेळाचे सप्ताह देवळाचे कुशीक. सप्ताहाक जशे बरे बरे गावपी, वाजोवपी येतात, तशेच खेळाकूय पेगू शेट, कुश्ट परोब, फिल्सू कोस्ता सारके नांवाजते खेळगडे येताले. वारकरी लोकाक आनी तांच्या पंथाक लागून बामण, वाणी, कुमार, म्हार ह्या जिनसांवार जातींतलें दायजी-दुस्मानपण बरेंच उणें जावंक पावलें अशें कांय लोक सांगतात. घडये होच अभिमान हे खेळगडे मानतात काय? आनी म्हणुनूच तांकां ह्या आपल्या कामांत कांयच उणेंपण दिसना काय? कशेंय जावं, पूण इतलें खरें की सावळी पडल्यार भश्टतात असले लोक खेळामांडार एकामेकाक घश्टून बशिल्ले दिश्टी पडटाले.

वतांत करपून कितलोय तानसोक उठलो जाल्यारुय दुसरे जातीचो उदका थेंबो ताळयार घालपाक फाटीं फुडें येवपी मनीस खेळा-मांडार एकाच कपांत च्याचें उदक वा माडा-तीर्थ घेवंक मात्त गणमण ना. इतलेंच कित्याक? भाटकाराचें सात असुर्प्यो आनी तीन तांगांचें खूब दिसांचें देणें कशेंच फारीक करूंक जायनाम्हणून काकुळटेक येवपी तागेलो भागेली वा मुंडकार त्याच दिसा रातचो खेळा-मांडार ताका 'मायज,

तोप, कोमदेल' करून हां हां म्हणटां शेणार काडटा आनी दिसाचो गाळी-फस्ती करपी भाटकार ताच्या नशिबाची आनी खेळाची तुस्त-तोखणाय करीत आनी मनांतल्या मनांत आपणाचेर चिड्डुत तोंडांतल्यान कांयच जाप काडिना.

इतलेंय आसून खेळगड्याकडेन पळोवपाची कांय जाणांची नदर मात निखड्डायेची आसता. अशें कित्याक जावचें हें म्हाका समजना. खेळगडो ही वस्त आयची वा कालची न्हय. तिका हजारांनीं वर्सांचो इतिहास आसा. तो अतिशय पुण्यवान, न्यायनीत वळखणारो म्हणून जाका सर्गाचीं दारां उकतीं करून देवान बरो येवकार दिलो, त्या धर्मराजापासून जावंये आमकां आयलां हें येरांस? धर्मराजान तर आपणालो सगलो पैसो-आडको, घरदार, आनी निमाणें आपणाले बायलेक पासून भाटां-बेसां सारकी लेखून खेळाक लावन ती वगडायली. पूण इतलेंय आसून आमी ताचो इल्लोय गुन्यांव करिनात. मात अडचणींत वा आडकाटेंत सांपडलेल्या एकाद्र्या मनशान पैशे जोडपाखातीर कांय पैशे वगडायले जाल्यार ताका सगलो लोक उणो लेखतात.

खेळप हें पयलीं तेंपांतलें जोडी-सादन जाल्ल्यान ताका धंद्याचें रुप आयलें खरें. कांय खेळगड्यांनीं ह्या धंद्यार अपरंपार पैसो मेळोवन आपली घर-घरवत खूब वयर काडली आनी देवळां उत्सवूय दवरलें. पूण सगले खेळगडे पैशे जोडपाक खेळटाले अशें मात कोणें समजूं नये. कांय खेळगडे जशें पुडवें कवळून आनी खांदाक मुस्तायकेची पोती लावन पांयां तळवे झरोवन येताले म्हणून हांवें आतांच सांगलें, तेचभशेन माचुलांत बसून बराबर मानाय चेले घेवनूय व्हडले व्हडले भाटकार येताले. हांचेबरोबर खेळपी खेळगडेय तशेच तोलामोलाचे आशिल्ले. कोण देवळाचो कमाविसदार, तर कोण जुविजाचो इस्क्रीवांव; कोण भंगसाळकार, तर कोण मिठाचो आगरकार. हे कितें पैशांखातीर खेळटाले? न्हय, तर खेळप हें त्या वेळार मोटेपणाचें लक्षण मानताले.

खेळगड्यांची आनीक एक जात आशिल्ली. तांकां पैशे मेळोवपाचे नाशिल्ले, तेच भशेन मोटेपणाचीय पर्वा नाशिल्ली. ते खेळटाले फकत मौज करपाक, आनंद मेळोवपाक. शिकाऱ्याक जशें सावद मारपांत सूख, पूण मासाची आस्त ना; गवयाक जसो गावपांत आनंद, पूण बिदागेची पर्वा ना; कवीक जशें कवीत रचपांत सूख, पूण किरकोळ कसलीच वानसा ना, तशे तरेन हे खेळगडे खेळाचे करामतींत गुल्ल आसताले. खेळगडी जरी कसलेय आसले, तरी पयलींचे लोक भुरग्यांक मात खेळामांडार पांय दवरूंक दिनाशिल्ले. एक दीस अशाच एका खेळगड्याचो भुरगो खेळ्ळो आनी ताणें कांय पैशे वगडायले. शेजारच्या एका संवळया मनशान बापायच्या कानार ही खबर घाली. बापायन शेजाऱ्याक विचारलें -

"कशें कितें जालें रे?"

"ताणें न्हय त्याच वेळार 'कोमदेल' म्हळें आनी संबंद रुपया वगडायलो," शेजाऱ्यान सांगलें.

"अशें?" बापूय ओगीच रावलो, पूण ताचें तोंड मात त्राशीक जाल्लें दिसलें. "जावं गा, तो पैशांनी खेळो म्हणून इतलो कित्याक त्रासता तूं?"

"आरे, तो खेळो आनी ताणें पैशे वगडायले म्हूण म्हाका पेन ना. पूण म्हजो पूत

नसत्याच वेळार 'कोमडेल' करून फाल्स कसो खेळो, हाचेच म्हाका त्रास जातात...''

(आकाशवाणी गोंय, हांच्या बरेपणान) नवें गोंय ☆

# 9

## पुरुषोत्तम काकोडकार

# म्हाका पांखां फुटलीं तेन्ना....

हांव आतां सांगूंक वतां ते गजालीक बरींच वर्सां जालीं. बनारसाक शिकतालों तेन्नाची ती. पूण आयज तिजी याद ताज्री कशी आसा.

रावतालों तिसरे माळयेर. ते माळयेचे गच्चे वयल्यान सकयल गंगेचो प्रवाह दिसतालो. आनी गंगेकडेन वचपाक बांदिल्लो घाट दिसतालो. घाट म्हळयार गंगेकडेन वचपाचीं सपणां. गंगेच्या रूंद पात्राचे पलतडीन व्हडलें, लांब-रूंद वाळवंट दिसतालें. आनी ताजेय पेल्यान दाट झाडी आनी अदिंमदीं वस्ती. तिसरे माळये वयल्यान उदका परस आनी जमनी परसय चड दिसतालें तें अंतराळ आनी मळब.

ते तिसरे माळयेवयल्या गच्चेर हांव उबो आशिल्लों. आनी तें व्यापक दृश्य ''आश्चर्यवत्'' पळयतालों. न्हंयचेर बरेच लोक आशिल्ले. थोडे गंगेंत बुडयो मारीत न्हाताले आनी अर्गा दिताले, थोडे वयर सरून आंग पुसताले, थोडे न्हेसून बिसून संध्या, पुजा करताले... पूण तांचेर म्हजें मन थीर जालें ना. म्हजेंमन गेलें ल्हान-व्हड सवण्यांचेर आनी घारां-घोणींचेर. ह्यो घारो-घोणी गंगा प्रवाहा वयल्यान आनी गंगा प्रवाहाचे दिशेन भराऱ्यो मारताल्यो.

हांव इतलों तन्मय जालों की, म्हजो म्हाकाच विसल्लों. इच्छा आसल्यार मार्ग मेळटा, अशें इंग्लेज म्हणटात. आनी जीव जाचें ध्यान करता, तसो तो जाता अशें आमचें तत्त्वज्ञान शिकयता. त्या दिसा, त्याच वेळार, ह्यो दोनी गजाली म्हज्या ध्यानांत-मनांत नाशिल्ल्यो. त्या घारां-घोणींच्यो स्वैर भराऱ्यो पळोवन हांवय तांचेबरोबर भराऱ्यो मारतां अशें म्हजें म्हाकाच दिसूंक लागलें आनी अजाप अशें की, मानवी शरीराच्या रूपान चितारिल्ल्या गरुडाक आशिल्लीं पांखां आमी चित्रांत पळयतात, तश्शीं पांखां म्हाका केन्ना कोणें लायलीं तें म्हाका कळळें लेगीत ना. मागीर कितें विचारता? रुखाच्या वयल्या तोंका, बशिल्ली घार पाखां उक्तीं करून, पूण तीं फडफडाय नासताना, उडी घेता, तश्शी हांवें तिसरे माळयेचे गच्चेवयल्यान उडी घेतली.

गरूड हो विष्णु भगवानाचें वाहन. तो सगले कडेन उडटा, हें हांवें आयकल्लें-वाचिल्लें. त्या दिसा तो अणभव म्हजोच म्हाका आयलो. विष्णु भगवानाचो संबंद मात नाशिल्लो. हांवें भरारी मारली ती पांखां फडफडाय नासतना आनी विमानांच्या पांखांभाशेन थीर दवरूनच. गंगेचो प्रवाह सकयल व्हांवतालो आनी हांव वाऱ्याच्या प्रवाहाचेर पेंवन वतालों. त्या वेळार जो आनंद म्हाका जालो, ताजी याद

केल्यार हांव आनंदान फुलून वतां.

मळबाचेर उडपाचो म्हणात, ना जाल्यार वाऱ्याच्या प्रवाहाचेर पेंवपाचो म्हणात, अणभव म्हाका आयलो. ताका लागून हांव धादोस जालों. पूण मुखार कितें? खंय वतलों? पूण तो प्रस्नच आयलो ना. म्हाका म्हज्या पुर्तुगेज लिसेवावयल्या सहाध्यायाची याद जाली. हो सहाध्यायी म्हळयार डॉ. विनायक मयेंकार. दोगूय आमी फोंडेच्या दोतोर आंतोनियु जुझे द आल्मैदा विद्यालयांत लिसेवाच्या तिसऱ्या वर्सांत शिकिल्ले. आमचो अभ्यास एकठांय, आमचो खेळ एकठांय आनी पुर्तुगेजांक धांवडावपाक आमचो लाठयेचो डाव एकठांय. तोच म्हजे लाठयेचो गुरू आशिल्लो. आमचें दोगांयचें एकामेकांबगर जायना आशिल्लें म्हळयार जाता. उपरांत हांवें लिसेव सोडलो आनी बनारसाक गेलों. बरेच दीस आमी एकामेकांक मेळूंक नाशिल्ले. तो रावतालो फोंड्यां काम्राच्या शेजारा आपल्या घरांत.

विनायकाची याद जाली मात, आपशींच हांव ते दिशेन पेंवक लागलों. कितलो वेळ लागलो ताजी याद आज म्हाका जायना आनी त्याय वेळार तें म्हाका कळ्ळें ना.

हेलिकॉप्टर देंवता तसो हांव ताच्या घरामुखार मार्गाचेरच देंवलों. घरा भोंवतणच्या दुर्गाच्या दारांत आनी उबो रावलों. विनायकाक कशें कळ्ळें तें म्हाका त्यावेळारय समजलें ना, आज ताजी याद कशी जातली? तो ताकतिकेन म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. पूण हांव खंयच्यान आयलों, कसो आयलों, कसो आसा हें कांय एक विचारी नासतना म्हाका पळयतच रावलो. आनी पळयत रावलो चड करून म्हज्या पांखांक. सगलें अजाप ताज्या दोळयांनीं दिसतालें. हांवय, थोडो वेळ तें अजाप पळयत रावलों. उपरांत थोड्यो भोव गजाली जाल्यो. घनघोर युद्धाच्या वेळार जातात तांच्याय परस बेगीन. तो घरांत आपैतालो, पुण म्हाका आशिल्ली ताकतीक, परतो बनारसाक पावपाची. दुर्भटाय वचूंक जाय आशिल्लें. म्हज्या खूब वर्सां पयलींच्या प्रुस्सोराक (शिक्षकाक) मेळूंक. पांखांचे अवडंबर तर आशिल्लेंच. तेंय थोडेंभोव आड येतालें.

विनायकाची परवानगी घेतली आनी पांखां फडफडायत उब्याचो उबो मळबांत गेलों.

फोंडेच्यान दुर्भाट लागीं, आनी हांव तर मारुती भाशेन "मनोजव" जाल्लों. जे पुर्तुगेज मुळावे शाळेंत हांव शिकिल्लों ताजो प्रुस्सोर कामिलु द नॉरॉञ्ज आशिल्लो. म्हज्या पुर्तुगेज बरपाची खरी बुन्याद घाली ताणें. ते बुन्यादीचेर मागीर घट्ट वणटी उबारल्यो नामदार प्राध्यापक नारायण बांदोडकार हांणी. प्रुस्सोराची बदली जाल्या काय ना, म्हाका लागनाशिल्लें. म्हाका तो मेळपाचो आशिल्लो त्याच इश्कोलांत.

हांव त्या इश्कोलाच्या बरोब्बर दारांत देंवलों. प्रुस्सोर दारांतच आशिल्लो. हांसून ताणें म्हजें स्वागत केलें, म्हजी सगली खबर घेतली, आपुलकायेन म्हऱ्यांत काडलो आनी पांखांचेंय कवतूक केलें. म्हाका खोस भोगली. इतले भितर म्हाका याद जाली, बेगीन वचपाची. प्रुस्सोराक हांवें हात दिलो आनी परत पांखां फडफडायत रॉकेटा भशेन मळबांत गेलों.

बनारसाक परतो वचपाची ताकतीक आशिल्लीच, पूण इतलो लागीं पावलां

आसतना म्हजे आईक मेळनासतना वतलों कसो? खीणय लागलें ना. आनी काकोडेची-घाडयांवाड्याची दिशा हांवें धरली.

घाडयांवाड्याचेर केन्ना पावलो, म्हजें म्हाकाच कळ्ळें ना. म्हजी आई म्हाका मेळटली ह्या आनंदान हांव फुलून गेलों. परतो बनारसाक बेगीन पावंक जाय म्हणपाचेंय विसरलों.

नारदमुनी सर्गावयल्यान सकयल देंविल्ल्याची पुराणांतलीं वर्णनां हांवें वाचिल्लीं, आयकल्लीं. तस्सो हांव घराच्या भायल्या आंगणांतच सरळ देंवलों. घरांतले सगले लोक, ल्हान आनी व्हड, धांव-धांवत म्हजे म्हऱ्यांत येतले, म्हाका वेंगांत घेतले आनी अजापान म्हजी खबर घेतले; तांची सगल्यांची हांव उत्सुकतायेन वाटच पळयतालों. म्हजे दोळे आनी कान एकाग्र जावन आशिल्ले, पळोवंक आनी आयकूंक. पूण निमाणे कडेन अजाप जालें तें म्हाकाच. सगळे जाण पळयताले म्हजेकडेन, पूण ना हालताले, ना धोलताले. सगले जंयचे थंय. पाषाणाच्यो मुर्ती कशे! फोंड्या विनायक वळखलो, दुर्भाटा प्रुस्सोर वळखलो, पूण घाडयां वाड्यावयल्या म्हज्याच घरांतले म्हजे लोक म्हाका वळखले नात! म्हाका खूब वायट दिसलें. जगांतल्या सगल्या दुःखान आपलें वजें म्हजेर एकल्याचेर घालें. हांवें येवजिलें, हांव तोच जाल्ल्यान म्हाका ते वळखले बगर रावले नात जातले, पूण पांखांनी वाट लायली, घात मारलो. पूण करप कितें? हांवें काय तीं लायलीं नात, लावनय घेतलीं नात. म्हणटकूच तीं काडप तरी म्हज्या हातांत खंय आसा! म्हजो अपराध कसलो? आं?

पूण ते सगले गजालीचो चड विचार करपाक वेळच नाशिल्लो. मन तर नाशिल्लेंच नाशिल्लें. म्हाका एकच उपाय दिसतालो, तो म्हळयार म्हजी आई. 'कुपुत्रो जायेत क्वचिदपि कुमाता न भवति!' म्हाका पांखां आसूं ना जाल्यार आनिकूय कितें आसूं, म्हजी आई म्हाका वळखतलीच वळखतली. उपरांत घरांतले सगळेच वळखतले.

हांव घरांत भितर सरलों. घर चौपेटीचें. भितर सरनाफुडें, पडवेच्या दुसऱ्या तोंकार म्हजी आई म्हाका दिश्टी पडली. तिणेंय म्हाका पळयलो, पूण.... पूण ती कांय एक उलयली ना. परक्याक पळयतात तशें तिणें पळयलें आनी जयंची थंय रावली. हांव इल्लो इल्लो करून तिच्या म्हऱ्यांत गेलो तरी ती म्हाका वळखली ना. सटकरून मुखार येवन म्हाका वेंगांत घेवपाचें सोडून, गंभीर तोंड करून ती फाटीं सरली. म्हजी आईच फाटीं सरता? हें इतलें सोसप तरी कशें? पोटांतल्यान दुःखान हांव फुटून वतां अशें म्हाका जालें आनी त्या वेगान हांवें "आईऽऽऽ" अशी किंळच मारून तिच्या पांयांक घट्ट वेंग मारली.

म्हजे दोळे उकते जाले. आजून हांव रडटालों. उशें दुकांनी चिप्प भिजिल्लें. तिसरे माळयेवयल्या घरांत म्हजेबरोबर रावतालो तो विद्यार्थी संस्कृत 'साहित्य दर्पणां'तले श्लोक मोठ्यामोठ्यान पाठ करतालो.

[कोंकणी : दिवाळी : 76] ☆

10

## लुसियो रोड्रिग्स

# नागवणो

आस म्हणटात ती सगल्या मनशांक आसता. ती नासली जाल्यार मनशाची प्रगती जायना. कोणाक शिकपाची आस आसता, कारण शिकपा वरवीं मनीस नांवाजतो जावंक पावता. कोणाक खेळाची आवड आसता, कारण खेळाच्या मळार हुशारकी दाखयल्यार मनशाचें अख्ख्या संवसारांत नांव गाजता. एकाद्रे बायलेक दिसता, सगल्या बायलांमदीं आपणें हेलन वा क्लिओपात्रापरी सुंदर दिसचें. एकाद्याक व्हड कवी, पाल्किस्त वा रेबेकिस्त जावंचेली रूच आसता. आपल्या देशाचो मंत्री जावंचो अशी एकाद्याक खोशी आसता; जाल्यार दुसऱ्या कोणाक पैशे एकठांय करून आपूण रॉकफेलर वा हेन्री फोर्डावरी व्हड गिरेस्त जावंचो असो हावेस आसता. ह्यो सगल्यो आसो आपणाल्या वा संवसाराच्या बऱ्या खातीर आसतात, कारण हांचे वरवीं मनशाची शक्त आनी पदवी दिसून येता. तुमी जाणा जातले की आळशाक भिकणां चलतात. पूण ताका तीं दुसऱ्यान आपल्या तोंडांत घाल्लीं जाय. आनी ताका लागून आळशी मनीस केन्नाच वयर सरूंक पावना. आनी असल्या मनशांचो संवसाराक केन्नाच फायदो जायना. कारण मनीस स्वता सुदरना जाल्यार तो संवसार कसो सुदरायतलो?

आस आसप बरी खरी, पूण ती भागयता ते प्रमाण मनशाक अब्रू आनी मान आसता. आमच्यो आसो भागोवंक रिती-मेरेचो रस्तो आसा. त्या रस्त्यानूच आमी सदां वचूंक जाय.

आतां हेंच पळययात, दुडवांची आमकां सगल्यांक आस आसता. एक फावट कुड्ड्यान लेगीत खंय दुडवांक तोंड उगडलेलें. दुडू आसल्यार आमकां नामना मेळटा आनी ताका लागून आमच्यांनी जायतें करूं येता. भाटां-बेसां, जेवंक-खावंक, न्हेसूंक-पांगरूंक आनी हेर वस्ती आमच्यांनी विकत्यो घेवं येतात. पूण गिरेस्त जावपाक दोन मार्ग आसातः एक नितीचो आनी दुसरो फटींगपणाचो; एक सरळ आनी दुसरो वांकडो; एक मनीसपणाचो आनी दुसरो देंवचाराचो. आमी भोंवतणी एक नदर मारीत जाल्यार आमकां अशें दिसून येता की ज्या मनशांनी पयलो मार्ग आपणायला, तांकां आमी मान दितांत; जांणी दुसरो मार्ग आपणायला तांकां आमी चोर वा फटींग म्हणटांत. व्हडांत व्हड फटिंगाक लोक नागवणो म्हणटात.

जेन्ना मोझीस, शिनाय म्हणटात त्या दोंगरावयल्यान देंवन सकयल आयलो, तेन्ना ताच्या हातांत दोन फातराचे तिजुले आसले. त्या तिजुल्यांचेर धा नेम कांतायल्ले

आसले. तातुंतलो एक म्हळयार : 'चोरचे न्हय.' आस बरी खरी, पूण दुसऱ्याचे वस्तीची आस धरीत जाल्यार आमी हो नेम मोडटांत आनी ताका लागून वांकडे वाटेंतल्यान चोरूंक पावतांत. आनी एक फावट हे वांकडे वाटेंतल्यान गेलो म्हणटकूच मनशाक तेच वाटेची गोडी लागता. देखून अशें म्हणटात, 'एकदा चोर, तो सदांच चोर.' एक फावट मनशाक हात लावचेली रूच लागली म्हणटकूच ती गजाल संवयेर पडटा. मागीर ल्हान चोरयां वयल्यान तो व्हडल्यो चोरयो करूंक लागता. अशे तरेन सुर्वेक जो ल्हान चोर आसता तोच फुडें नागवणो जाता.

असल्या ह्या मनशाचो भेस तरी कसलो आसता? खंयच्याय मनशाच्या तोंडाक वा भेसाक पळोवन तो नागवणो काय न्हय हें आमच्यांनी पारखूं येता व्हय? हें काम मोटें कठीण. बारीक चोरांची वळख जाय जाली जाल्यार आमच्यांनी पोलीस स्टेशनाचेर वचून ती घेवं येता. कारण थंय खुबशा बारीक चोरांचे फोटे आसतात. ते पळोवन आमच्यांनी त्या चोरांचो उगडास दवरूं येता. पूण नागवण्याचो फोटे आमकां केन्नाच पुलिसेंत मेळचो ना. पोलिसांक केन्नाच ताची खबर लागना. कारण ल्हान चोरांवरी नागवणो केन्नाच आपलें फटींगपण उकत्यार उडयना. चोराक तोंड व्हडलें म्हणटात. तशे जाल्यार नागवण्याक तोंड ताचे दोब्राद.

नागव्रण्याची हुशारी ही ताची निजाची हुशारी. तिचें शिक्षण ताका खंयचेच शाळेंतल्यान मेळना. शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या मनशा कडेन मेळची ना अशी बुद्द आनी हिकमत ताचे कडेन आसता. पूण बुद्द कसली? नाडपणाची; हिकमत कसली? दुसऱ्याच्या माथ्यार बसपाची. हाका नागय, ताका नागय, आपली परब गाजय, असो ताचो धंदो. भेस संताचो, पूण करण्यो देंवचाराच्यो.

नागवणो न्हेसता झेतार. पूण तो दुसऱ्यांच्या खुस्तार. हो मनीस सदांच जेवन खावन आंगलोटान बरो, हांसत्या तोंडाचो, गोड जिबेचो, फुलां माळूंक हुशार असो आसता. ताचें चलप आनी बोलप चडशें मोट्या लोकांमदीं आसता. आपले जिबेक हाड ना हें ताका बेस बरें खबर आसता. देखून धव्याचें काळें करून, वांकड्याचें उबें करून तो आपले दीस काडटा. तुका कसलीय आडखळ आसा वा तूं कसल्याय गोंदळांत सांपडला जाल्यार रोखडोच तो तुजेसरीं येता आनी तुजें सगलें आशिल्लें नाशिल्लें काबार जायसर तुजे फाटल्यान शेंपडे सारको भोंवता. एक फावट तुज्या तोंडाक पानां पुसलीं म्हणटकूच तो जो कडसरता, तो तुका परतून आपलें तोंड लेगीत दाखयना. आपलें काम जायसर रामराम मागीर पोंगेराम! व्हडलीं उब्छमां सांगून तो तुका पयलीं भुलयता, मागीर आपलें शींग लावन तुका मेकळो करता आनी आपलें बोल्स भरता.

माजराचो आनी नागवण्याचो गूण सारको. हुंदराक धरलो म्हणटकूच माजर ताका खेळयता. चपक्यांतल्यान माल्सो सोडटा आनी ताका पळोवंक नाशिल्ले भशेन करता. हुंदीर बाबडो आपूण सुटलो म्हणून धांवत सुट्टा; तितल्यांत तो परतून माजराच्या दावकुलांत सांपडटा. नागवण्याच्या हातांत पडिल्ल्या मनशाचो फुडार ह्या हुंदरा भशेन आसता.

आदल्या तेंपार चडसो लोक शिकिल्लो नासतालो; व्हडलेंशें वाचूंक बरोवंक नकळ

आसतालो. त्या काळार सगल्या संवसाराचेर नागवण्याचें राज्य चलतालें. ताका जाय तशें सगलें जातालें. हांगासल्लो नीस थंय पावोवन लोकांचीं भाटां तो पोखरून खातालो. लोकांचीं कागदां आपल्या नांवार करून, तांकां देमांदांत घालून आपूण मिशांक तूप लावन भोंवतालो. इगर्जो, देवळां, कपेलां, फाजेंदां, कुमुनिदादी- जंय जंय म्हणून पैशांच्यो कोठ्यो आसताल्यो, थंय थंय तो आसतालो. ह्यो कोठ्यो पुसले उपरांत तो चड करून पलतड मारतालो.

असले मनीस आमचे मदीं आतां नात अशें म्हणूं नज. आयज ते हडूडें फुलोवन, नाक वयर काडून आमचे मदीं वावुरतात. आनी आपले हिकमती वरवीं व्हडले व्हडले जागे घेवन बसतात. ह्या मनशांचें एक बरें. लज म्हणटात ती ते वळखनात. देवान ती ज्या गांवांनी वांटल्या, त्या गांवांनी ते आजून पावंक नात. चत्राय मनशा! नागवण्याची सावळी लेगीत दिसल्यार ताका वांवभर पयस दवर.

[कोंकणी : दिवाळी 1962]



## 11

### नीळकंठ साळकार

# "हातूंत कांय अर्थ ना!"

म्हजे संवकळीच्या एका-दोगा मनशांनी म्हळें लेगीत - "तुजें हें 'हातूंत कांय अर्थ ना, तातूंत कांय अर्थ ना' अशें जें पळय चल्लां, ताका लागून तूं फस्तीक मात् पडटलो!" आनी म्हाका खातरी आसा की ह्याच मनशांनी म्हज्या संबंदान दुसऱ्या कडेन उलयतना "हँ, ताच्यांत कांय अर्थ ना" अशेंच म्हळां जातलें!

तुमी केन्ना दोग जाण झगडटना बरे करून पळयल्यात? "मार मोटयान सो उलयता मरे! तापता कित्याक रे इतलो?" अशें दुसऱ्याक म्हणपीच पयलीं आपलो आवाज चडयता आनी तापिल्लो आसता!

मनशाचो सभावूच असो. आपले दोश दुसऱ्या मनशांत पळोवपांत - अर्थात् आपणाक कळ नासतना - ताका एके तरेचें समाधान मेळटा.

"हातूंत कांय अर्थ ना" अशें हांवें केन्ना म्हणूंक ना, वा अशें हांव म्हणिना वा म्हणचों ना असो हाचो अर्थ न्हय. जण एकल्या मनशाचेर केन्ना ना केन्ना "हातूंत कांय अर्थ ना" अशें म्हणपाचो प्रसंग येताच. हांव तर अशें म्हणटां की ज्या मनशांची "हातूंत कांय अर्थ ना" अशें म्हणपाची बड सबंद आयुष्यभर तिगून उरता, ते खरेले मोटे मनीस आनी जांची फक्त तात्पुरती तिगता, ते आमचे सारके सर्वसाधारण मनीस. ह्या संवसारांत कांय अर्थ ना अशें बुद्धाक दिसलें म्हुण्णूच तो सत्याचो सोद लावपाक घर सोडून गेल्लो काय न्हय?

एकाद्र्या मनशाविशीं आपणाक खूब आब आसता, खूब आदर दिसता. पूण केन्ना केन्ना एकाद्रो मजेचो प्रसंग येता की त्या मनशाविशीं आदर दिसपा सारकें ताच्यांत कांय नाशिल्लें अशें आपणाक कळून येता आनी मागीर आमी म्हणटात : "हॅं, ताच्यांत कांय अर्थ ना!"

हांव पणजे लिसेवार शिकतना "बिब्लियोतॅक नासियोनालां" त वाचूंक वतालों. तेन्ना सद्दां एक मनीस - खूब मोटवो, मदले पिरायेचो, आंगान सदळसो, आल्पाकाचो कोट आनी दोळयांक दाट भिंगांचें वक्ल - त्या वाचनालयांत वाचूंक येतालो. आनी भितल्ले कुडींत (जी मोट्या लोकां खातीर राखून दवरिल्ली आशिल्ली, ते कुडींत) वचून वाचूंक बसतालो. पूण तो सदां पुस्तकां मागयतकूच मोट्या सालांतले एके आरमारींत आशिल्ल्या कोशां भितल्ले लातीं आनी ग्रेग भाशेचे व्हडले दोन कोश व्हरतालो. फक्त पाद्री लातीं वाचतात अशें हांव समजतालों. पूण हो मनीस पाद्री नासून, लातींच न्हय, तर ग्रेगूय वाचता हें पळोवन ताचेविशीं म्हाका खूब आदर

दिसूंक लागलो. पूण एक दीस ते मोटे कोश घेवन तो वाचता तरी कितें हें पळोवपाक हांवें ल्हवूच ते कुडींत पळयलें आनी मनांत म्हळें, "हॅं, ह्या मनशांत कांयच अर्थ ना!" तो मनीस ते दोन कोश कदेलार दवरून आपलें आसन ऊंच करपाक तांचो उपयोग करतालो!

"हातूंत कांय अर्थ ना" ही बड आनी "हातूंत कितें आसा तें तरी पळोवंया" ही कुतुहलाची बड, ह्यो मनशांतल्यो दोन बडी ह्या संवसाराचे भरभराटीक कारण जाल्यात. हे दुसरे बडीच्या वावरा विशीं लोकांक कसलोच दुबाव ना. झाडावयल्यान पडपी फळ मदींच कित्याक थांबना! तें सकयल कित्याक पडटा? वयर कित्याक वचना? असले प्रस्न पिशेपणाचे दिसतात. पूण ते विचारपाची बुद्द एकट्या न्यूटनाकच आशिल्ली आनी असल्या प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडपाच्या यत्नांचो इतिहास म्हळयारच संवसाराचे उदरगतीचो इतिहास. पूण "हातूंत कांय अर्थ ना" अशें हांव जे बडीक म्हणटां, ते बडीन पळयतल्या मनशाक संवसाराचो कांयच आदाव जाल्लो दिसना. देवान स दिसांत सगळो संवसार निर्माण केलो आनी मागीर सातव्या दिसा विसव घेतलो, अशी एक खबर बायबलांत सांगल्या. स दिसांच्या कश्टां उपरांत निर्माण केल्ल्या संवसारांत कांयच अर्थ ना अशेंच देवाक दिसलें जातलें! कित्याक, घेतिल्ल्या विसवांतल्यान देव जागो जावपाचीं आजून तरी कांयच चिन्नां दिसनात!

खर्शेल्ले आनी पुरो जाल्ले कुडीक जशी न्हिदेची गरज, वा मोटारीक जितली ब्रेकाची गरज, तितलीच वा तिच्याकूय चड गरज मनशाक "हातूंत कांय अर्थ ना" हे बडीची आसा. न्हिदेची फ्रॉयडान केल्ली फोडणिशी तुमकां खबर आसतलीच. मनशाची कूड आनी मन हांकां पुरो जालें, संवसाराक तें विटलें वा वाजेलें, म्हणटकच मनशाक जल्माक येवचे पयले अवस्तेंत परतून वचचें अशी इत्सा जाता. म्हुण्णूच तुमी पळयलां जातलें की मनीस न्हिदतना, गर्भावस्तेंत आसतना भोंवतणी जी परिस्थिती आशिल्ली, तिची नक्कल निर्माण करपाचो यत्न करता. भोंवतणी काळोख करता, पांय दोडून पोटाकडेन घेता आनी मान सकयल करुन एके कुशीर न्हिदता. हांव जी "हातूंत कांय अर्थ ना" बड म्हणटां ती हेच जल्माक येवचे पयले अवस्तेंत वचपाचे इत्सेची - स्पश्ट जाणवीक.

आंद्रे जीद हाणें जी आपली 'डायरी' उजवाडायल्या तातूंत, तो जेन्ना आपल्या निमाण्या वायटांत हांतुणार मरणाची वाट पळयत पडून आशिल्लो, त्या वेळार बरयलां की जशें जशें मरण लागीं येतालें, तशें तशें मरण म्हळयार कितें हें समजून घेवपाचें ताचें कुतुहल वाडत वतालें. मरण म्हळयार कितें हें अखेरेक ताका समजलें काय ना हाची नोंद ताचे डायरींत ना. घडये "तातूंत कांय अर्थ ना" अशेंच ताका दिसलें आसुंये.

हांव जें "हातूंत कांय अर्थ ना" हे बडीविशीं उलयतां, ते बडींत आनी ह्याच उतरान खूब खेपो जी व्यक्त जाता अशे दुसरे एके बडींतलो फरक हांगा स्पश्ट करपाक जाय. हातूंत कांय अर्थ ना हाचो अर्थ, अर्थ आसा तरी कित्यांत? ह्या सोदाचें पयलें सपण अशें समजुपाक आडखळ ना. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जालें जाल्यार, सत्य सोदपाची कुतुहलबुद्धी आसता तिचेंच हें दुसरें आंग. कोणाक कित्यांत





अर्थ सांपडत हें सांगूं नज. घरदार, बायल-भुरगीं सोडून हिमालयांत तपश्चर्या करूंक वचपी लोकांची हीच वृत्ती. खरो अर्थ आसा तरी कित्यांत, ह्या सोदांत ते आसतात. आपले शारांतले भरभराटीचे जिणेचेर खोंट मारून रानटी जुंव्यार वचून थंयचीं चित्रां काडपी फ्रेंच चित्रकार गोगां हाचें आयुष्यय हेच बडीची पत. हेच बडीची आनीक एक पत म्हळयार फ्रेंच नवलकाणयांकार प्रुस्त. श्रीमंत आनी विलासी जिणेंत भोव करून सगळें आयुश्य घालून अखेरेक ताका दिसलें की जिणेचो खरो अर्थ ती जियेवपांत ना, तर ते जिणेंतले अणभव कलेच्या रुपान बरोवन दवरपांत आसा. आनी निमाणें-निमाणें ताणें आपणाक एके कुडींत धांपून घेवन, दम्याचो भयंकर त्रास जाता आसतना आपली A la recherche du Temps perdu ही नवलकाणी बरयली. आनी अशें सांगतात की प्रुस्त जेन्ना मरणाचो घरघर लागून वळवळटालो, तेन्ना ताणें आपले नवलकाणयेचें हस्तलिखीत हाडूंक लावन तातूंत मरणाच्या वेळार जे त्रास जातात हाचें जें वर्णन आशिल्लें त्या वर्णनांत, आपणाक त्या त्रासांचो अणभव येतकूच जे बदल करूंक जाय आशिल्ले ते केले!

वयर हांवें म्हळळेंच की पुरो जाल्ले कुडीक जशी न्हिदेची गरज, तशीच मनाक ‘हातूंत कांय अर्थ ना’ हे बडीची गरज आसता. चड करून जांकां ह्या संवसारांत नाजूक काळीज घेवन जल्माक येवपाचें भाग्य वा दुर्भाग्य लाभलां, तांकां तर तिची चड गरज आसा. ही बड आंगांत हाडपाचो यत्न केलो जाल्यार जिणेंत येतात त्या कोडू अणभवांची कोडसाण आनी ल्हान-सान दुःखांची खरसाण बरीचशी उणी जावंक पावता. तुमकां तसो केन्ना अणभव आयला काय ना हें म्हाका खबर ना. पूण म्हाका जेन्ना एकाद्रें भंयाचें सपन पडटा तेन्ना सपनांतच हांव म्हणटां, “हॅ, हें सपन मरे! हातूंत कांय अर्थ ना.” आनी हांव जागो जातां.

राग येतासो जालो जाल्यार तो जिरोवंक मनांतल्या मनांत धा आंक मेजचे अशें म्हणटात. तशेंच ल्हान-सान वायट अणभवाची खरसाण उणी करची आसल्यार मनांतल्या मनांत “हातूंत कांय अर्थ ना” अशें धा खेपो म्हणून पळयात.

म्हाका जाल्यार केन्ना केन्ना अशें दिसता की थोड्याश्या लांबच्या प्रवासाक वतना आमी प्रथमोपचाराची पेटी जशी वांगडा घेतांव, तशी आयुष्याच्या प्रवासाक जी पेटी वांगडा घेवची पडटा, तातुंतलें “हातूंत कांय अर्थ ना” हें एक बरें वखद. मात्शें लागलें, आंग मात्शें भाजलें जाल्यार असल्या ल्हान-सान अणभवांचेर हाचो उपयोग जाता. म्हज्या मेजार असलींच तुमकां आनिकूय वखदां मेळटलीं. ज्या वेळार ज्या मनशाचेर तुमी पातयेले, तोच तुमचो घात करता; ज्या मनशाचेर तुमी मनस्पुर्वेक मोग केलो, तोच तुमचो जीव घेवपाक पळयता, तेन्ना ह्या दुसऱ्या वखदाचो हांव उपयोग करतां. स्टँडालची La Chartreuse de Parme ही नवलकाणी वा शेक्सपीयरचीं नाटकां, वा म्हज्या इश्टांचीं पोरणीं कागदां. पूण असल्या वखदांचो सोद जण एकल्यान लावचो पडटा. कित्याक, हातूंत जितल्यो प्रकृती तितलीं वखदां हेंच खरें; ना जाल्यार हांवें सांगलां म्हूण तुमी हीं वखदां वापरूंक वतले आनी म्हणटले - “हॅ, हातूंत कांय अर्थ ना.”

(स्वाती)

☆

## 12

### र. वि पंडित

# म्हजें भुरगेपण

भुरगेपणांतल्या गजालींची म्हाका व्हडलीशी याद ना. हांव पयलोच भुरगो जाल्ल्यान म्हजे खूप लाड जाल्ले आसतलेच. हांव जल्मलों आजोळा. रायबंदरा फोंडव्यांत श्रीधर म्हांबऱ्याच्या घरांत. पणजेसून गोंया वतना फोंडव्यांतली इगर्ज काडली की दोन रस्ते मेळटात. तांचेपसून शंबरेक मेत्रांचेर रस्त्याक लागून उजव्या हाताक हें घर. घरांत भितर सरलो की एक ल्हान कूड. दाव्या हाताक माळयेर वचपाचीं सपणां. येंत्रादा भितर एक साल. आनी सालाकूच लागून दाव्या हाताक दोन त्रीन कुडी. हातुंतले पयले कुडींत हांव जल्मलों. म्हाका नांव दवरलें रघुनाथ. पूण रघुनाथ हें म्हजेपरस स वर्सांनी व्हड आशिल्ल्या म्हज्या सगळयांत ल्हान मामाचें नांव. हो मामा भुरगेपणांत चड मस्तो आशिल्लो. ताका जेन्ना म्हजें नांव कळळें, तेन्ना तो कसोच आयकना. आपलें नांव शें ताका कित्याक तुमी घालतलीं? हांव दिंवचो ना असो ताणें हट्ट धरलो. हो मस्तो भुरगो रागान म्हाका कितेंय करीत ह्या भयान सगळयांनी म्हाका दुसरें नांव दवरतलीं अशें सांगून रघुनाथ मामाची समजूत घाली. आनी म्हाका दुसरें कसलें नांव दवरचें ह्या विचारांत घरचीं आसतना म्हज्या पाळयांतल्या, आज्याकडल्यान निरोप आयलो की म्हाका रघुवीर हें नांव घालचें. कित्याक, 'राघू' नावाचो म्हज्या आज्याचो एक कर्तबगार असो भाव वास्को स्थायीक जाल्लो आनी वेपारी म्हूण बरो वयर सरिल्लो. तो कांय वर्सांपयलीं भुरगें नासतना मेल्लो. त्या राघूचो उगडास म्हूण म्हाका रघुवीर हें नांव दवरपाचो बेत पंडित आज्यान म्हांबऱ्याक कळयल्लो. देखून म्हजें नांव रघुवीर दवरलें. रघुवीर म्हणपाचें. रघुनाथ कामकाजाचें रजिष्टर केल्लें.

भुरगेपणांत हांव बरो गुटगुटीत आनी सुंदर दिसतालों अशें म्हणटात. पळयल्ली बायल मनीस म्हाका उखलून घेताली. एक आफ्रिकन बायल कुडकांत रावताली. तिका उपाट दूद येतालें. दूद तिच्या भुरग्यान घेयनासतना उरलें की तिका त्रास जातालो. ती बायल आमगेर येताली आनी काकुळटेक येवन म्हजे आज्जेक सांगताली, 'हांव तुमच्या भुरग्याक दूद दितां म्हूण' आनी आज्जेन बरें म्हळें की म्हाका घेवन वरभर बसताली. खांप्रिणीचें दूद वायट पडत म्हूण सुरवेक म्हजे आवयक भिरांत दिंस, पूण तिचें दूद म्हाका बरें पडून हांव बरो गुबगुबीत जाता सो कळळे बराबर म्हजे आवयनूय तिका दूद दिवपाक आडायली ना.

केन्नाय तरी म्हज्या केंसांचें जावळ करून आनी शेजारच्या गावड्यांच्या पोरांक

आपोवन म्हज्या माथ्यावयल्यान मुगाचीं पांटुलोभर मुठलीं रकयल्याची म्हाका याद जाता. कित्याक, मुठलीं पुंजायतल्या भुरग्यांक जरी मज्जा दिसली जाल्यारूय जाच्या माथ्यावयल्यान तीं रकयतात, ताच्या माथ्याचेर व्हडान कुटी मारिल्लेवरी जावन तो भुरगो सामको मिडमिडटा. ताका दुःख जाता.

म्हाका पाळण्यांत घालो की धुपाचो वास दिताले. कुटीकुर पावडर लायताले. हे सगळे वास आजुनूय म्हज्या नाकांत परमळटात. केन्ना केन्नाय लसणीची बोय मुड्डून ब्रांका (सोरो) दिताले. दंतांक सोरो बरो पडटालो खंय.

हांव घरचो सगळयांचे अपुरबायेचो आशिल्ल्यान म्हजी सगळे तरेन भोव जतनाय घेतालीं, थंडी-भारकूण जायत म्हूण तीं घांटी लोकांचे वरी फाटीर लांब सोडिल्लें तोपरें घालतालीं. दिश्ट काडप तर आत्रे-पैन्यान जातालेंच. दोळयांत काजळ, आंगाक पिठी आनी खोबरेल तेल लायताले. घटायेक नाचण्यांचें पातळ सत्व, पोल्याक काजळाचो तीळ. सगळे सोपस्कार. भांगराचे सरयेन योग्य वेळार आनी म्हुर्तार कान तोपप. मात्सो व्हड जाले उपरांत आयतार-बुधवारा कोडू वखद, बडिशेपेचें उदक; थंडी जाल्यार कांद्याचो रोस. दोळे दसल्यार उपरसाळ झरोवन लावप बी असले घरगुती उपचार. खोरोज, जानवाळ जाल्यार जुझे मानुवेल ह्या गांवठी गावड्या वैजाचीं वखदां. फुटाणू आयल्यार ताचेच कडल्यान लासेतान तें कापून घेवप.

गावड्यांच्या गांवांत आनी संसर्गान कशें कोण जाणा, म्हाका खोरोज, जानवाळ आनी दंत मात सारके परते परते जाताले. कोले खोकली, हुरहुरें, फुगांव ह्यो सगळयो गजाली खंयच्याच भुरग्याक चुकनासल्यो. चड थंडी जावन हड्डें भल्ल्यार वेंतोज काडप, आज्यूत दिवप, सणिबियांचीं पापां घालप, कांद्याचो रोस आंगाक काडप. दंत जाल्यार हींग लुगटाक बांदून तो बोंबलेक बांदप. माथ्याक सूंठ झरोवन लावप. कान दुखल्यार ग्लिसिरीन घालप. काना - माथ्याक न्हांवचे पयलीं सद्दां तेल घालप. खावपा कांकणाचो काल्द दिवप. पोटांत चाबल्यार पेनकीलर. पडल्यार, आपटल्यार - धपटल्यार, आंग किणेल्यार चुनो -हळद लावप. खोकली आयल्यार वट्टेलांवा रोस, कोरांटेचो बोळ, खडीसाकरे बराबर दिवप. ना जाल्यार कांद्याचीं कापां साकरे बराबर. दोळे जळ्ळयार कान्फरिचें उदक उपरसाळ झरोवन लावप.

मोड्शी जाल्यार ताकांतल्यान बोरी-आंकन्यो दिवप, मुतूंक सळसळीत जावपाक सवादांचें उदक, पुनर्नवेचें उदक; थंडेचेर अडुळशाचो, गोडेकाष्टाचो कसाय; सगळे उपाय चडशे घरचे घरा. आनी भुरगें मात्तशें बरें ना जालें की, घरचे घरा जो तो वैज. बापूय वैज; ताचे फुडें आजी. आनी सगळयां फुडें आजो वैजराज. आनी तरीय वायट उणें जालेंना जाल्यार गांवचो जो जो गावडो वा गावडी वा खारवी सांगत त्या सगळया पाळांमुळांच्या वखदांचे प्रयोग करून भुरग्याक जीव नाका अशें करून सोडप. (घरचो एकलो एकसुरो भुरगो आसलों तरीय) ह्या सगळया जवंदळयांतल्यान हांव गेलां. मोडशी, रगता थेंबाची म्हयन्याचे म्हयने चलपी मोडशी, बोरी आंकन्यो ताकांत वांटून म्हयन्याचे म्हयने घेतल्यात. पोटांत खडी धरून भायल्यान साफ जायना जाल्यान म्होंवा वांगडा अव्रश्चूर्ण चाखलां तरेक तरेच्या पाल्या, पाळांचे कुजुमेंत पचयल्यात. (आनी तरीय जिवो उरलां.)

म्हज्या बापायक वैजकीचो खूब नाद. खंयचीं खंयचीं आयुर्वेदावयलीं व्हड व्हड पुस्तकां तो हाडी. चड करून भुरग्यांच्या विकारांची आनी तांचेवयल्या उपचारांची माहिती करून घेय. आनी आपल्या ह्या गिन्यानाचे सगळे प्रयोग आमचेर - आपल्या भुरग्यांचेर करी. पयले प्रयोग अर्थात म्हजेर. आज्याचें आनी म्हज्या बापायचें केन्ना कसलेच बाबतींत पटलें ना. म्हज्या बापोलयागेर भुरगें ना. हांव एकलो एकसुरो घराण्याचो लामणदिवो म्हणटात तसो. म्हूण आजो बापायचेर उजो पाखडी. ताका सांग, तुजी वैजकी गावड्यांचेर कर. त्या पोराचेर (म्हजेर) करूं नाका. ताका तूं मारून उडयतलो. गोंयांत जायते वैज आसात; व्हड व्हड! पैशे लागल्यार लागूं. ते सारपाक हांव समर्थ आसां. तुजेर ह्यो गजाली कोणें सोपोंवंक नात. म्हजी आजी, आवय, म्हांबरे मंडळी ताका तेंच म्हण. पूण बापूय कशेच रितीन कोणाचें मानपी न्हय. घरांत म्हजेवयल्यान झगडीं जायत- बापायकडेन. म्हजे आवयचीं लेगीत. म्हाका थंडी जोर आयला, मोडशी पडटा, छाती भरल्या वा आनीक कसलेंय दुयेंस जाला शें पळोवन कुजुमेंत (कोडे) करपाचे तयारेक बापूय लागलो कि तो भायर गेला सो पळोवन आनी म्हाका कितेंय जायत ह्या भयान केन्ना केन्नाय बापायन बरे तरेन उकडून न्हिवत दवल्लेले दोन तीन कसाय आनी ताचें सगळें साहित्य म्हजी आवय गुपचूप घरा शेजारच्या तळयांत व्हरून उडयी आनी ओग्गी न्हिदून दियी. बापूय घरा यो आनी ताका ही गजाल कळ्ळी मागीर घे हीं झगडीं की हो उच्छाद! गाळीफस्ती. आवयच्या कानसुलार दोन चार थापटांय पड गरज पडल्यार. पूण तशें करपाक आजो घरांत आसलो की मात्तशी अडचण. कित्याक, हे बाबतींत आज्या- आज्रेचें म्हजे आवयक सगळें फाटबळ.

वखदांचे बाबतींत बापायची उमेद आनी आत्मविस्वास दांडगो. पूण कितें करतलो! तो हतबल जायी. आनी निरशेवन अशा वेळार सांगी, ओग्गी बस. तेन्ना आवय ताका समजायताली. हें पळयात, तुमी भुरग्याक पोटांत वखदां दिवं नाकात. तुमी वैज न्हय. तुमी आपल्याक वैज समजतात आसले तरी तुमचें गिन्यान पुस्तकी. ताचे प्रयोग घरा भायर करात. गांवांत गावडे तुमी दिल्लीं कसलींय वखदां घेवपाक तयार आसात. गांवांत वैज ना. आनी गावडो लोकाक मेल्यार पत्करता. वैजाकडेन वचपाची संवय ना. पाळा-मुळांची वखदां कोणूय तुमचे सारको फुकट दिता म्हळयार घराकडेन- आमच्या दारामुखार वखदां खातीर पंचक्रोशींतल्या लोकांची रीग लागतली. तांकां दियात वखदां. तुमचेंय नांव जातलें. लोकूय उपकार मानतले. तें सोडून घरच्या भुरग्याचेर असलो प्रयोग तुमी कित्याक करूंक सोदतात?

म्हज्या बापायक अखेर शेवटाक हो विचार पटलो जावंये. कित्याक, तेन्नापसून ताणें म्हजेर भायले उपचारूच तितले चालू दवरले. खरोज, माथ्याची जानवाळ जाली वा म्हजें कपळ उसळूंक लागलें, आंगार हून उदक चुकून पडलें, फोड आयलो मात्सो, उजा इंगळो पांयाक लागून पाय हुलपलो वा पडून तशेंच आपटून धपटून धोंग आयलें, आंग किणेलें की बापूय वैजकी पुस्तकां चाळूंक बस. आनी म्हाका उपचार करी.

आमचे घरचें वातावरण सनातनी हिंदूंचें. जप-तप, स्नान-संध्या, स्तोत्रां-मुकटे, पूजा-अर्चा, गंधा-तिळे, आंगारे, प्रसाद-मुद्रा, सांगणी-आंगवण्यो अशे तरेचें. मुख्य म्हणचे

आजो, बापूय बापोलयाच्या माथ्याक शेंड्यो आनी तबलें छाप केंसाचे भोंवरे. म्हजे-भुरग्यांचे माथेंभर वाडिल्ले केंस बापायक सोसनाशिल्ले. ते मात्तशे वाडले की कितेंय निमित्त्य करून वाडिल्ले केंस आपुणूच कापून तो म्हाका बोडको करून उडयी. विद्रूप! घरांत कोणाकूच हीय ताची गजाल मना येय नासली. ताचे हेय गजालीक सगळयांचो विरोध जातासो ताका कळ्ळें तेन्ना केंसांच्या कालोरान माथ्याक जानवाळ जाता अशें निमित्त्य करून खंयूय चुकून माथ्याक एखाद्रो फोड दिश्टी पडलो की तो म्हज्या माथ्याचे केंस कातरी.

ना म्हळयार पोटांतल्या एका वखदाचो म्हजो बापूय खरोच स्पेशालिस्ट आशिल्लो. तें म्हणचे कोडू वखद. आनी एकेच बाबतींत कोणाचेंच दुमत नाशिल्लें तें हे बाबतींत. आजाचें लेगीत. किंबहुना म्हज्या बापायचें आनी आज्याचें फक्त एकेच बाबतींत जल्मांत पट्टालें, तें ह्या कोडू वखदा बाबतींत, अशें म्हणप अतिशयोक्तीचें जावंचें ना.

दर शेनवारा रातीचो म्हजो बापूय कलमा कापां, बाळहड्डी, किरायतें, दगडफूल अशे तरेक तरेचे पांच पंचवीस वनस्पती मसाले घालून घरच्या सगळया मनशांखातीर (राबयल्ले नोकर लेगीत) एक व्हड मातयेचो बुडकुलो भर अस्सल विष्णुपंडितछाप कोडू वखद शिजोवन तयार करून दवरी. आनी आयतारा दिसा सकाळीं उठले बराबर घरच्या सगळया बायलां दादल्यांचो पयलो सामुदायीक उपक्रम म्हणचे हो कोडू वखदाचो. आज्याक लेगीत एक व्हड वाडगोभर हें वीख घेवप चुकनासलें. आमचीं भुरग्यांचीं तोंडां मात चिक्रार चिक्रभर हें वीख गळया सकयल घालता मेरेन रडकुळीं जातालीं. पूण हें अरिश्ट कशेच रितीन चुकपाचें नाशिल्ल्यान आयतारच्या विषप्राशनाचो हो कार्यक्रम सुरवेक बोवाळ घालून आनी हळुहळू सरावान आमी मनयताले!

मातशी थंडी जाली वा हड्डयांत भरलें की आमकां भुरग्यांक बापायच्या आनीक कांय प्रयोगांपासून सुटका नासताली- ते म्हणचे वेंतोज, सगबियां पापा, सांग्रिशेक, आज्यूद आनी दर दोनचार म्हयन्यांनी येंडेल. पूण तशे प्रसंग त्या मानान खूब थोडे!!

(कुळागर : दिवाळी अंक 1991) ☆

# 13

**वि. ज. उसगांवकार**

## मंगेशीची पुनव

मंगेशीची पुनव म्हळें की ती माघांतली म्हणून वेगळें सांगचेली गरज ना, तशीच माघांतली पुनव आयली की मंगेशीचे जात्रेची याद जालेबगर रावना. माघी पुनव हो मंगेशीचो सगळयांत व्हडलो उत्सव आशिल्ल्यान ताका महापर्वणी महोत्सव म्हणटात. खरें म्हळयार हो उत्सव रथसप्तमीचे रंगपुजेन आनी विजयरथान सुरू जाता. तो वाडट्या चंद्राभाशेन वाडत वचून पुनवे मेरन चलता. कितल्योशोच रंगपूजा जातात. ते भायर अंबारी, खांद्यावयलो रथ, पंचमूर्ति दर्शन, सांगोड, सुखासन, धाकटो रथ, रुप्याची पालखी, भांगराची पालखी, तेर, अशे तरेकतरा उत्सव ह्या दिसांनीं जातात. गुरुपाडव्या दिसा व्हड समरादना आसता. दिशिंदिशीं वाडट्या ह्या उत्सवाची पुनव म्हळयार माघी पुनव. ह्या दिसा व्हडल्या रथाची मिरवणूक आसता. कितें सांगतलो त्या तेराचो आटोपाटो! फांतोडेर त्या रथांत बसून देव भायर सरलो, कीं त्या उत्सवाक आनी सगळ्या मंगेश थळाक जी रसणाय येता, ती वेगळी आनी आगळी! त्या वेळार वाजपां वाजतात, दर पेण्याच्या वेळार रथांतल्या उत्सवमुर्तीची आरत जाता. पुजाऱ्यांचो वेदघोष, कलवंतांचें गावप, नाचप, नित्यकिर्तन्यालें किर्तन पळोवन दोळयांची आनी मनाची तानभूक न्हिवता. सुमारा भायर जाल्ले चिर्गडींतल्यान एकामेकांक बाखांद्यो मारीत जेन्ना भक्त घसाघस फुडें सरून रथाचेर कचाकच नाल्ल फोडटात, तेन्ना जाल्यार नाल्ल म्हारग जाल्यात हे खरेंच दिसना. ती सबंद रात वचत थंय दीपरादना केल्ली आसता! दीपरादनेच्या खांब्यांचेर विजेचे दिवे पेट्टात. हेरकडेन थळांत पणट्यो पेटयतात! सगळें थळ तांच्या हालत्या धोलत्या जोतींच्या मंद उजवाडांत रसरसता. गर्णेल, बाण, चक्रां, चंद्रज्योती, नारगां, शिंगां असल्या तरेकतरा फोगाचो फारपेट जायतो जाता. फांतोडेच्या थंड वेळार हो फोग सगळे अंत्रुजेंत आयकूंक येता. तो कानांत पडनाफुडें मंगेशी पुनवेक पावंक नाशिल्ले शिवभक्त आसात थंयच्यानूच मंगेशाक हात जोडटात.

रथांत बशिल्ल्या देवाक पेण्या कणकणी आरत दाखोवपाक पैरेकार पुजारी, शास्त्र्याक सोवत अशे तरेचो भेस करून रथांत देवाच्या पांयांकडेन रंगी पाटाचेर बशिल्लो आसता. रथांतली देवाची बसका बरीच ऊंच आशिल्ल्यान पुजाऱ्याक जमनीर रावन देवाक आरत दाखोवंक मेळना; देखून पुजारी रथांत बसता. आयचो हो दीस पुजाऱ्यानूय रथांतल्यान मिरोवपाचो आसता. वर्सभर केल्ले देवाचे सेवेची तसरीप कसो

पुजाऱ्याक हो भौमान मेळटा म्हळयार जाता. ताका खोशयेच्यो खातकुतल्यो जातात आसुंये.

दुसरे वाटेन, शेकानशेक देऊळ दीपरादनेच्या उजवाडान उपाट भरिल्लें आसता. भितर मंगेशासरीं सरमाळी, भायर प्रदक्षणेंत नंदादीपाचे लामणदिवे, चौखार आनी सोंडयार झुंबर, सरमळयांनी गोलाफ आनी सगळया दारांत कोप, अशेतरेची पूर्वी पुरातन काळाकसून चलत आयिल्ली दीपरादनेची मांडावळ आसताच. ह्या भायर हालींच्या वर्सांनी विजेच्या चकचकीत दिव्यांचो लखलख सबंद देऊळभर आसता. पुर्विल्या आनी आर्विल्या अशा दोनूय तरांच्या दिव्या उजवाडाचो हो मेळ फकत देवस्थानांनीच पळोवंक मेळटा. तो पळयतल्यांक दोन दोळे पावनात. आनीक दोन दोळे आसल्यार भोव बरें जातलें आसलें अशें तांकां दिसता. 'कुड्डो देवाकडेन एकूच दोळो मागता' अशी एक म्हणणी आसा. पूण ही अपरूप दीपरादना पळयणारीं, देवान चड दोळे दिल्यारूय नाका म्हणचीं नात, हातूंत दुबाव ना.

माघी पुनव हो मंगेशीं मुक्तद्वाराचो दीस. मुक्तद्वार म्हळयार मेकळें दार. आयज सबंद रात देऊळ उकतें आसता. कोणेंय येवन देवाची सेवा करची. असल्या सेवकांक संस्थानांतल्यान बिदागी मेळटा. सेवा करणाऱ्यांक पुराणीक आनी हरदास हांचो आंकडो मोटो आसता. तांकां चड वेळ सेवा करची पडना. आपली पाळी येवपाक तांकां रस्तीक (क्यू क) उबे रावचें पडना. सगळयांक सेवेचो लाभ घेवंक मेळटा. चौखार रुप्याच्या फुलयांचो पाट, रुप्या फोराची चवाय आनी दोशीं दोन रुप्याच्यो सोबीत दिवल्यो पेटत आसतात, त्यो आपल्या परजळळया वातींनीं तुकुतुकू करून पुराणाचें कवतूक करतात. असल्या पुराणाचो योग तांकां वर्सांतल्यान एकदांच येता. पुराणाक मांडिल्ले चवायेचेर देवस्थानची एक पोथी आसता. पुराणिकांनी आपलें पोथीपुस्तक हाडचेली गरज आसना. पूण मौज अशी कीं चवायेवयले पोथयेक एकलोय पुराणीक हात लायना. एक पुराणीक पाटाचेर बसून अर्दुकुटो चाबडावन एक शिलोक म्हणटा न म्हणटा इतल्यांत दुसरो पुराणीक पाटासरीं येता. दुसऱ्याचे ओंठ सारके हालचेपयलींच तो केन्ना उट्टा काय म्हणून तिसरो वाट पळयता. हे सगळे खरे पुराणीक आसतात, काय संस्थानची दक्षणा सावोवपाक आयिल्ले संदसाधू आसतात हाची चवकशी कोण करिनात. तांच्या गिन्यानाची झट्टी कोण घेनात. पाटार बसून ओंठ हालयले, की तांकां बिदागी घेवचेलो अधिकार येता.

हरदास किर्तनाक उबो रावता. दोशीं दोन रिद्धी-सिद्धी कशो दिवल्यो पेटत आसतात. आमवे वाडवडील अलाजरी म्हाल घेना आशिल्ले, हाजी गवाय तांच्यो बिटी बिटी करपी वाती दितात. केद्यो गडगंज दिवल्यो त्यो! पुराणिकांक फावोशेच आयचे हरदास आसतात. मंगळ चरणाचो एक चरण म्हणटासर एकलो देवाक लोटांगण घालता; जाल्यार दुसरो पैलींच्यांतल्या शिलोकांतलो उरिल्लो चरण म्हणून दक्षणेचो अधिकारी जाता. हरदासांक साथ करपाक संस्थानचो पेटीवालो आनी मुरदंगी तयार आसतात, परंत तांकां साथ करचेली संदूच येना म्हळयार जाता. ''जय जय रामकृष्ण हरी' म्हणचे पयलींच 'हेंचि दान देगा देवा' म्हणून कथा सोंपयणाऱ्या लटक्या हरदासांक मुरदंगी साथ कशी करतलो? अभंग पयले समेचेर येवचे पैलीं कथा सोंपता आनी

मुरदंग्याले उबारिल्ले हात हवेंतच उरतात. पूण असल्या हरदासांक संस्थानांतल्यान विदागी मेळूंक कांयच आडखळ येना. आनी तशी आयली आनी पुराणिकांचेर, हरदासांचेर बंधनांचे तडकबंद आसले, जाल्यार तें मुक्तद्वार कसलें?

ह्या मुक्तद्वारांत वांटो घेवचे खातीर कांय जाणकार पुराणीक आनी हरदासूय येतात. पूण ते आपले विद्वत्तेचो मुदगो भायर काडिनात. तेय लटक्या पुराणिका-हरदासां भाशेनूच एकेक शिलोक, अभंग म्हणून मेकळे जातात. ते हजिरी लावचे खातीरूच येतात. तांकां दक्षणेची आशा आसना. परंत देवाचो प्रसाद म्हणून ते तो घेतात.

अशे तरेन भितर कथा-किर्तनां चलता आसतना देवळा भायल्यान जात्रेक भरती आयिल्ली आसता. खाज्यांचे मांड, च्याचीं दुकानां, आनी खेळांचे मांड हांचेर गिरायकांची खूबच गर्दी आसता. खाजक्याच्या मांडांचेर जाल्यार म्हाताऱ्या दोडाऱ्यांपासून दुदाच्या भुरग्यांमेरेन उपकरत अशें सगळे तरेचें खाण आसता. हे जिनस पळयल्यार तोंडाक उदक सुट्टा. पळयनाफुडें तानभूक न्हिवयणारे हे जिनस खावंक आरंब करतकच तान आनी भूक वाट्टा. ह्या जिनसां भोंवतणीं हेर मेवामिठाय उंवाळून उडोवची! मुंबयच्यान गोंयांत वचपी लोक 'आमांची भामां' करून तीं ओगीच गोंयां व्हरतात काय दिसता. पूण हाचेर वाद घालूंक फावना. 'तुंडे तुंडे रुचिर्भिन्ना' ही शिकवण आमकां सुभाशितांत दिवन दवरिल्ली आसा. जात्रेक येवपी च्याच्या दुकानाचेर आजुनूय 'सोंऽक-ठो' करून उकत्यो करपाच्यो गुड्ड्यांच्यो सोदाच्यो बाटल्यो आसतात. तो आवाज आयकुपाखातीरूय कांय लोक थंडेच्या कुडकुड्यांतूय सोद पियेतात. नाका जायसर भजीं आनी बटाटवडे खातल्यांक हाचे बगर दुसरें वखद आसना, ही गजाल वेगळी.

हे भायर, तांबाणू, पितुळवंत आनी प्लस्टिकचो म्हालूय जात्रांनी मेळटा. गडगडो गिरगिरीं, 'लाया खाया' हेंय जात्रेंत चालू आसता. पेपारीं वाजोवपांत आनी बोंबाडे (फुगे) फुगोवपांत आनी फोडपांत भुरग्यांची सर्त लागता म्हळयार कामा येता. तांकत तितल्यो बेगीन म्होट्टीत अशो सामक्यो नवे तरेच्यो वस्ती भुरग्यांच्या हातांत दिश्टी पडटात. सिगारेटी, विड्यो, विडे हांच्या गाद्यांबगर जात्रा जायच ना. सणंगाचेय कांय मांड पडिल्ले आसतात! पूण तांचेर आनी आयदनांच्या दुकानांचेर रातच्या वेळार चड गर्दी आसना.

अशी ही जात्रा चालू आसतना रात सोंपत आयली म्हणपाचें सटकरून ध्यानांत येना. पूण सबंद रात जागरण करून चिके धवबाण पिल्लो चंद्र जात्रेचो निरोप घेवन अस्तंते वाटेन देंवत आसता. रथाचीं पेणीं पळयले बगर तो अस्तमना.

पूर्वे वाटेन, सूर्यनारायण फांतोडेरूच अरुणाक रथ ताकतिकेन भायर काडूंक लायता. मंगेशच्या रथाचेर आपलीं किर्णां पडल्यारूच आनी ताचें दर्शन घेतल्यारूच आपलो दीस बरो वतलो, कुपां आपल्या किर्णां आड येवचीं नात असो ताचो भावराथ आसता.

रथसप्तमीच्यान सूर्याचो रथ बेगीन धांवंक लागता असो समज आसा, तो ओगी न्हय. पुनवेच्या रथाक मंगेशी वेळार पावचो म्हणून, पयलीं ''आठवण'' दीत रथाची ही येसाय चालू आसता. पाडवो उदेतां उदेतां मंगेशीं पावंक जाय हे खातीर अरुण सूर्याचो रथ नेटान सोड्टा. चड वेगान रथ चलोवन तो तांबडोगुंज जाता. रथाचेर

सूर्याफुडें आपूण बशिल्लो आशिल्ल्यान आपल्याक मंगेशाचें पयलीं दर्शन जातलें हे उर्बेफुडें तो स्रमांची पर्वा करिना. आनी खऱ्यानीच तर ताका रथाचें एक पेणें तरी पळोवंक मेळटाच. सूर्याक पेणें पळोवंक मेळटाच अशें ना, पूण देव रथांतल्यान पालखेंत बसता आनी भितर वता तेन्ना सूर्यनारायणाक मंगेशाचें दर्शन घडटाच. पेणीं मेळूं वा निखटें दर्शन जावं, सूर्याक धन्यताय दिसता. मागीर तांकत तितली चड सेवा करचे खातीर तो वावुरता. रथा उपरान्त देवळांत वाजत गाजत आरत जातात. त्यो चालू आसतना आनी मागीर प्रसाद वांटून जायसर सूर्य आपलीं भांगराचीं किरणां देवळाच्या सोंडयार आनी चौकार घालीत रावता. प्रसाद मेळिल्लो लोक घरा वचूंक लागतकच सूर्य आपलीं किरणां फाटीं काडून घेता आनी आपल्या दिसपट्ट्या कामाक लागता.

गोंयच्यान आनी गोंया भायल्यानूय ह्या उत्सवाक मंगेशाचे कुळावे आनी हेर भक्त येतात. मंगेशाचे गण जशे खूब आसात, तशेच ताचे म्हाजन आनी भक्त! तांचो आंकडो लक्ष संख्येन आसा म्हळयार अतिताय जावची ना. हे भक्तगण भारतांतल्या सगळ्या शारांनी आसात, पूण मुंबयंत तांचें प्रमाण सगळयांत चड आसा. मंगेशचे हे जात्रेक सगळयांकूच येवंक मेळटा अशें ना. पूण ह्या महापर्वणी दिसा मंगेशाचे कुळावे देवकारें वाडूंक निखालूस विसरनात.

मंगेश हें म्हादेवाचें एक रूप. संस्कृतांत म्हादेवाक महादेव म्हणटात. महादेव म्हळयार मोटो देव. ताजी गिरेस्तकायूय व्हड आनी कृपाय व्हड! परंत ही कृपा जोडपाक भक्तीय तशीच व्हड करची पडटा! असो हो व्हड देव आपुणूय भांगराचे पालखेंत बसतलो आनी प्रसन्न जाल्यार भक्ताकूय भांगराचे राशीर बसयतलो. तो आपल्या कुळाव्यांकूच पावतलो आनी हेरांक पावचो ना असो ताचो नेम आसना. तो भक्तांक पावता. जातपात, धर्म हांचो भेदभाव तो पाळिना. मुळकेश्वर जातीन गावडो; पूण मंगेशान आपले कृपेन ताका देव केलो. मंगेशकारांगेर देवकाऱ्याच्या दिसा मुळकेश्वराच्या नांवान गावडो वाडून, ताच्या माथ्यार पोसोभर तेल घालचें पडटा, ते भायर शेनाय कशी विडी दिवची पडटा, तेन्नाच देवकाऱ्याचें काम पूर्ण जाता.

मंगेश हो मूळचो कुट्ठाळ गांवचो. धर्मकोल्ली पुर्तुगेजांनी हिंदूंक बाटोवणेच्या आनी पिडणुकेच्या खेत्राक आरंभ केलो, तेन्ना हेर म्हालांतले जायते देव सुमंगी अशा अंत्रूज म्हालांत हाडले. तातुंतलोच एक देव मंगेश! कुट्ठाळे मंगेशाक सगळे जातीचो लोक भजतालो. तातूंत गावड्यांचो भावराथ सुमारा भायर मोटो आसलो. त्या गावड्यांक हेरांभरशी पुर्तुगेजांनी बाटयले. पूण त्या किरिस्तांव-गावड्यांनी मंगेशाची भक्ती सोडली ना. ती तांणी चारशीं वर्सां उपरान्तूय तशीच चालू दवरल्या. वेळाप्रसंगार कुट्ठाळचे किरिस्तांव गावडे प्रसादपाकळी घेवंक आजून मंगेशीं येतात आनी ताका गाराणें घालून होरायतात. हे गावडे किरिस्तांव जाले उपरान्तय वंशपिळग्यांनी तांकां मंगेश कसो पावता, हें तांचेकडल्यान आयकूंक मेळटकच कोणाच्या काळजाक पाझर फुटनासतना रावत?

मंगेश हो भोळो शंकर आसा. शंकर म्हळयार कल्याण करणारो. ताच्या भोळेपणाक लागून तो रोखडोच भाळटा. पूण ताच्या भोळेपणाचो नसतो लाव घेवंक फावना. तशें

करतल्याचो ताका राग येता आनी मागीर आपलें महारुद्र हें नांव तो खरें करता. देखून मंगेशाची भक्ती चड जतनायेन करची पडटा. ताची आंगवण जोगवण वेळोवेळ पावोवंक जाय. मंगेशाचें कसलेंय व्रत धरलें जाल्यार तें सगळया इंद्रियांचेर ताबो दवरून नेमनिश्ठेन तडीक व्हरूंक जाय! व्रत धरपाचे बाबतींत 'उखल्ली जीब, लायली ताळयाक' अशें करूंक उपकरना. मनाचेर ताबो नाशिल्ल्यांनी नामस्मरण केल्यार बरें. ताका सवळया-अनवाळयाचे खरे नेम पाळिना जाल्यार चलता. देवाचें नांव घेवंक काळवेळ, म्हूर्त लागना. ताणें केन्नाच वायट जायना.

माघे पुनवेच्या निमतान मंगेशाचे जात्रेची खबर हांवें देवधर्मिष्ट वाचप्यांखातीर बरयल्या. पूण इतल्यान ती खबर पूर्ण जावंक ना. शिवमहिम्नस्तोत्र बरोवपी पुष्पदंतान आरंबाकूच 'महिम्नःपारं ते' म्हणून ज्या जाग्यार हात तेकले, थंय त्या देवाची वर्णना करपी हांव खंयच्या कोयरांतलें कुंडेकुस्कूट? म्हज्यान इतलेंच म्हणूं येता, की जल्माक येवन एक फावट तरी माघी पुनवेचो रथाचो उत्सव पळोवचो!

[पुनव : फेब्रु. 1973] ☆

14

### दत्ताराम सुखठणकार

## जेवनूच वच रे

मनशाची संस्कृताय थारावपाचीं तरेकतरांचीं प्रमाणां आसात. वेरूळ अजंठ्याच्या कलाकृतींनीं ती जशी थारावं येता, तशी हिरोशिमाचेर घाल्ल्या ॲटोम बाँबांनींय वळखूं येता. ल्हान भुरग्यांच्या शिक्षणाचेर जाल्ल्या प्रयत्नांनी ती जशी मेजूं येता तशी जाणट्यांनी केल्ल्या खुनांवयल्यानय ती अदमासूं येता. अतिथिसत्कार हीय एक गजाल अशी आसा की जी खंयच्याय समाजाचे संस्कृतीचें प्रमाण मानूं येत. एकादलो मनीस दनपारच्या वा तिनसांजच्या वेळार आगंतूक घरांत आयलो म्हणटकूच ताका जी वागणूक मेळटा, तिचेवयल्यान तें घर संस्कृतीच्या खंयच्या पांवड्यार आसा तें कळून येता. अतिथिसत्काराचे दृष्टीन आमचें गोंय खूब वयर आसा, ही मोटे खोशयेची गजाल.

गोंयकाराच्या आंगांत हो अतिथिसत्काराचो गूण कसो आनी केन्ना आयलो हें थारावप मातशें कठीण. गौतम बुद्धाचो सत्‌शिष्य पुण्ण हो जेन्ना सुनापरान्तांत, म्हळयार कोंकणांत, बुद्ध धर्माचो प्रसार करपाक भायर सरलो तेन्ना खासा बुद्धान खंय ताका थंयचे लोक कशे तें सांगलें. ताणें म्हळें, ''थंयचे लोक भयांकृत, क्रूर आनी रितीभायरे आसात. तुका ते नष्ट्यो आनी नाका जाल्ल्यो गाळी सांगतले; ते तुका मुठके आनी गुंडे मारतले; ते तुका तोंडक्यांनीं आनी तरसादीनी घाय करतले. इतलेंच न्हय, तर ते तुका जिवानशींय मारतले.'' पुण्ण खांपो आशिल्लो. ताणें आपली ह्या सगळ्या गजालींक तयारी आसा अशें दाखयतकीर बुद्ध ताचेर खूश जालो आनी ताणें ताका ''तूं वच आनी नश्टेपणांतसून तूं खासा मेकळो जावन दुसऱ्यांकूय मेकळे कर,'' असो निरोप दिलो.

आज गोंयकारांचो सभाव बुद्धान वर्णन केल्लो तसो ना हातूंत निखालूस दुबाव ना. म्हज्या मतान गोंयकाराच्या सभावांत हो जो बदल जाला, ताका कांय अंशीं खासा बुद्ध धर्मूच कारण आसुंये. सहिष्णुता हें बुद्ध धर्माचें प्रमुख आंग. बुद्ध धर्मांत भिक्कूक चड व्हडलें स्थान आसा. दनपार जातकीर हे भिक्कू सरणगमन करीत घरान घर फिरताले. भिक्कूक कांय दिनासतना परतो धाडप हें वायट मानताले आनी हाकाच लागून गोंयकाराच्या रक्तांत अतिथिसत्कार भिनला जावंये. कोंकणींतलें शिवराक हें उतर श्रावक ह्या उतरावयल्यान आयलां हें पळयल्यार म्हज्या म्हणपाचो अर्थ तुमकां कळटलो.

गोंयच्या भोंवतणच्या प्रदेशांत अतिथिसत्कार तितलो सो तीव्र ना. 'जेवतत मां?' हो पयलो प्रस्न येताच; पूण ताचेच बरोबर 'हंसतात शे? जेवनूच इलेतशे दिसतात!' अशी मखलाशी जाता आनी "अगे हे पावणे जेवनूच इलेत हां" असो संदेश भितर पावता. पूण गोंयां अशें जायना. निजाचो गोंयकार, तुमी केन्नाय पावात, तुमकां मनापसून 'जेवनूच वच रे' अशें म्हणून आपले तांकीप्रमाण वाडलेबगर रावचो ना. घरची परिस्थिती कशीय आसूं, गोंयकाराची दानत व्हडली. तो मनापसून आग्रो करता आनी कांय वेळा तर हो आग्रो पिशेपणाचो आसता. म्हजो एक मुंबयचो इष्ट कांय वर्सांपयलीं गोंयां गेल्लो. जेवणार आग्रो आसता हें बाबड्याक खबरूच नाशिल्लें. गोंयकाराक आग्रो करता आसतना 'म्हाका खाशी' असो सपूत घालपाची संवय आसता. म्हज्या इश्टाक 'धबधबीत बरें झालें आहे. आणखी थोडें घ्या, नाहींतर मला खाल' हें बाळबोध मराठी आयकून 'त्रांय त्रांय आठवलें.' गोंयच्या आपल्या प्रवासाक ताणें 'आगऱ्यांतून सुटका' अशें ऐतिहासिक नांव दवरलां. गोंयकाराची दानत व्हड जावपाक ताचे भोंवतणचो सैमय कारण आसा जावंये. अफाट अरबी म्हासागर ताच्या दोळयांफुडें आसता. माड आनी माडयो हांच्यांत तो घोळटा. संवसार-बुट्टी आयली काय कितें अशें भासोवपी शंबर देडशें इंचांच्या पावसांत तो न्हाता. गोंयचें सैमूच उदार. गोंयचीं फळझाडां म्हळयार माड, माडयो, आंबे, काजू, पणस आनी भिरणी. गोंयचीं फुलां म्हळयार सुंरगां, मोगरीं, जायो, चांफो आनी ओंवळां. ह्या सैमाच्या औदार्याचो गोंयकाराच्या मनाचेरूय परिणाम जाला म्हळयार चूक जावची ना. आतां सैम उदार जालें तरी लक्ष्मी कृपाच उरली. मन मोटें जालें, दानत व्हडली जाली म्हणून गरिबी उणी जाली ना. पूण निजाचो गोंयकार घरचे परिस्थितीक भियेना. घरांत आयिल्लो मनीस जेविनासतना परतो वचप म्हळयार घराची अब्रूच वचप. पैशे केन्नाय मेळत, पूण गेल्ली अब्रू परती मेळटा? आनी म्हणुनूच गोंयकार 'जेवनूच वच रे' म्हणून आग्रो करता. घरची परिस्थिती जितली बिकट, तितलो हो आग्रो चड हें सांगपाक नाका.

कांय वेळार अतिथि सगळयांचीं जेवणां जातकर पावता. घरकार फाटींफुडें पळय नासतना जेवपाचो आग्रो करता. अतिथी नाका-नाका म्हणटा तितलो तितलो हो आग्रो वाडत वता आनी निमाणें अतिथी जेवपाक तयार जाता. घरांत मागीर एकूच बोवाळ. घरकान्नीक वायट दिसता, पूण तें अतिथि आयलो म्हूण न्हय, तर 'ताच्या पानार आतां कितें घालूं?' ह्या विचारान. इतल्यांत तिका शेजान्नीची याद येता. "आगो शशी, हो तो वाडगो घेवन मावशीबाय कडे वच आनी हांवें इल्ली शाक आसल्यार मागल्या म्हूण सांग. नुलयत मागीलदाराच्यान वच हां, बाय म्हजें तें.' शशी मागीलदाराच्यान वाडगो आंगाच्या पोंदा लिपयत-लिपयत भायर सरता तें दिस्त बापायक दिश्टी पडटा. बापायक पोंच उरना. तो तापता. भितरल्यान 'शूः शूः' जाता. पूण तो ओगी रावना. 'हें तें पोर पळय, दनपारच्या कडार खंय चल्लें तें? चल पयलीं घरांत. आंगाच्या पोंदा आनी कितें लिपयलां पळय ताणें!' अतिथिसत्कार पार पडटना आपली जापसालदारकी कितें आनी केदी हें शशीक भुरगेपणांतच समजूंक लागता.

अतिथिसत्काराची गजाल आयली म्हणटकूच म्हाका म्हज्या आजोळचे आजयेची याद येता. आमगेली आई म्हळयार अतिथिसत्काराची म्हूर्त आशिल्ली. घरांत लाकडाचो वेपार चलिल्ल्यान व्हडेकार, गाडयेकार, खग्वतकार आनी हेर मानाय हांची यो-वच चलताली. ह्या लोकांचे बोलयेंत जेवण दिवचें अशें खयंच नाशिल्लें, पूण आईच्या कोशांत बोली हें उतरच नाशिल्लें. घरांत आयिल्लो मनीस जेविनासतना वचूंक जायना, हो एकूच कायदो तिका खबर आशिल्लो. जे लोक फांतोडेर कामाक वचपाक भायर सरताले, तांकां ती रातचे इल्ले गोटे उरल्यात ते जेवन वच म्हणून सांगताली. रातचे गोटे उरप हें फक्त निमित्त आसतालें. फांतोडेर वचपी मानाय आसले म्हणटकूच आई मुद्दामूच रातचें शीत चड करताली हें सगळयांक खबर आशिल्लें. फांतोडेवयले मानाय जेवन गेले म्हणटकूच पेजेचे मानाय तयार जावंचे. पेज सोंपता म्हणसर दनपारचें जेवण सुरू जावंचें. दनपारच्यो पंगती म्हळयार लग्नाच्योच. फक्त न्हवरो-व्हंकल उणीं! आमोरेचेर रातचीं आदनां रान्नीचेर चडचीं. रातच्या आदनांनी फांतोडे वयल्या 'गोट्यां' चें बीज आसतालें आनी हें सत्र तिनूय त्रिकाळ आनी बाराय म्हयने चालू आसतालें. भायर कोणूय येवप, 'जेवनच वच मरे' अशें ताका आईन म्हणप आनी भितर सुनांनीं हांहूं करिनासतना रान्नीर थाली चडोवप ही सदांचीच गजाल. आईन देवधर्म केले नात, उपासतापास केले नात; पूण अन्नदान मात खूब केलें. आई गेली, तरी पुण्य मात उरलें.

तशें पळयल्यार गोंयकाराची जेवणाचेर चड भक्ती. 'जेवण हेंच जीवन' ही व्याख्या खंयच्याय गोंयकारानूच केल्या जावंये. 'सगळें करप पोटाखातीर, मागीर पोटभर जेवं या तरी' हें मूळ तत्त्वज्ञान. मरणाचो प्रस्न आयलो तरी 'खावन-जेवन मरचें' ही ध्येयनिष्ठा आनी शेंवट्यांच्या गांथनीं खातीर भाटांबेंसां पावणेर गेल्लीं आसप, ही परंपरा. शीत आनी नुस्तें खावपी लोक रसीक आनी जिबेचे दास जातात अशें म्हणटात. गोंयकाराक तर शीत आनी नुस्तें हांच्या वांगडा नाल्ल, आनी हें सगळें भोगपाक थोडेंशें स्वास्थ्य आशिल्ल्यान तो जिबेचो दासानुदास जाल्यार अजाप ना. जे लोक खावपी आनी पियेवपी आसतात, तांची एक मजा म्हळयार तांकां एकट्यान खावपांत, पियेवपांत सूख नासता. सगळया लोकांवांगडा खावप, पियेवप हांतुंतूच तांकां आनंद आसता. घरांतले अन्नपुर्णेकूय आपणें रांदिल्लें जेवण दुसऱ्यान जेवचें आनी ताणें ताका तोखेवचें अशें दिसता. अतिथी पानार बसतकूच घरकान्नीचे कान ताच्या अभिप्राया कडेन लागिल्ले आसतात. 'पापड घरा केल्ले काय कितें?' 'असली उडुमेथी कोणागेरूच जायना हां!' अभिप्राय दिवपी अतिथी कितलेय दीस रावलो तरी तांचें वायट दिसना. आमगेलो विठुबाब तर हून उदकाची आनी मिठाची लेगीत तोखणाय करता.

आनीक एक म्हत्त्वाची गजाल म्हळयार गोंयकाराक जशें रुचीचें जेवण लागता तशें ताका ठोक गजालीय उलयन आनी आयकन दिसता. आनी हें सगळें करपाक जेवणाभशेन दुसरी संद ना. दांत्यार बसतकूच होवयो सुचतात आनी पानार बसतकूच गजाली सुचतात. गजाली सांगपी अतिथीचें स्वागत चड मोगान जाता, हें सांगपाक नाका. जेवप आनी उलोवप ह्या दिष्टींनीं जिव्हा-लोलूप आशिल्लो गोंयकार जेन्ना

दुसऱ्याक जेवनूच वचपाचो आग्रो करता, तेन्ना तो एकाच गुंड्यान कितलिंशींच शेवणीं मारता.

[नवें गोंय : आ. 1963] 

15

## मनोहरराय सरदेसाय

# ल्हानपणांतल्यो यादी

भुरगेपण केन्ना सुरू जाता सांगूं येत, पूण तें केन्ना सोंपता तें सांगूंक कठीण. हांव म्हज्या भुरग्यां वांगडा खेळटां, लोळटां, तेन्ना म्हजी घरकान्न म्हणटाः तुमचीं भुरगेपणां अजून सोंपना? भुरगेपण आनी भुरगेपणां हांचो लागचो संबंध आसलो तरी भुरगेपण सोंपलें तरी भुरगेपणां सोंपनात.

मनशाच्यो चडश्यो यादी भुरगेपणांतल्योच आसतात. कालपयरच्यो यादी पुसून वतात, पूण मनाचे ओले चिकण मातयेर भुरगेपणांतल्या मायेच्या हातांचे छाप वा दुश्टपणाच्या नाखटाचे भुरके तशेच उरतात. मेंदवाची खंयची तरी मळसूद मात्शी दामीत जाल्यार फाटले प्रसंग परतून दिसूंक लागतात - कालूच घडिल्लेवरी.

रँगलर परांजपेचें एकदां रेडियो उलोवप आयकल्लें. तो म्हणटालो, 'काल कितें घडिल्लें म्हाका याद उरना; पूण भुरगेपणांतल्यो यादी आजून जित्यो तट्टीत आसात.'

मनाचे वासरेंत फाटीं, फाटीं वतकूच मागीर सगलो काळोखूच दिसता. म्हजी पयली याद खंयची काय? सांगूक कठीण! एक याद जाता... हांव बाज्जेवयल्यान जमनीर पडलां आनी रडटां. दुसरी याद म्हळयार म्हाका बुकल्यान भुरको काडला आनी म्हाका दुखता. ह्यो दोनूय यादी, म्हापशेंच्या खोल्ले वाड्यांतल्यो जावंक जाय. हांव त्या वेळार चार पांच वर्सांचो आसन. माळयेचें एक घर दिसता, भोंवतणी झाडां, एक भुरगो आनी एक म्हातारी इतलें अंधूक शें दिसता.

भुरगेपणाचे यादींत तीन घरां दिसतात. एक पणजेचें घर- वागळयाचें, म्हालक्ष्मीच्या देवळाक तेंकून. दुसरें घर आमचें सावय-वेरेचें आनी तिसरें घर तिसें ह्या गांवांतलें- आमच्या भाटांतलें. आनी कांय चेरे दिसतात. आवय, बापूय, आजो, आवयची आवय आनी आवयची आजी.

आमचें सावय-वेरेचें घर आनी सावयवेरें हो गांव - हीं दोनूय म्हजे यादस्तेंत त्या वेळार आसात तशीं आसात. गोंयांत दोन वेरीं आसात. एक बेतीं-वेरें- पणजेचे पलतडी, आनी दुसरें सावय-वेरें- वळवय गांवाक तेंकून. आमचो गांव मांडवी देगेवयल्या दोंगुल्ल्यांचेर वसला. गांवांतल्यो वाटो फातराच्यो वांकड्यो तिकड्यो. च्याचीं दुकानां, नुस्त्या बाजार बी आसात ताका चांफ्याभाट म्हणटात. ताका तेंकूनूच पोर्तुगेजांनी बादिल्लें प्रिमारियु इश्कोल आसा. थंयच्यान एक व्हाळ व्हांवता, तो आमच्या घराकडल्यान वता. व्हाळाचेर एक सांकव आसा. ह्या सांकवावयल्यान,

दोंगरांतले वाटेंतल्यान तीन वरां चलतकूच फोंडें गांव लागता. देगेवयल्या गांवांतल्यान वतकूच एक ल्हानसो चिरेबंदी धको लागता, ताका पेठ म्हणटात. हांगा भरते वेळार व्हडीं लागतात. पणजेच्यान येवपी वाफोर हांगाच लागतालो. वेरेंच्या लोकांक लागपी सगलो म्हाल व्हड्यांतल्यान हेच पेठेर येतालो. आमी भुरगे सांजचे भोंवंक म्हणून हेच पेठेर येताले.

आमचें घर खूब पोरणें. एके दोंगुल्लेचेर वसलां. न्हय, अर्दे दोंगुल्लेचेर वसलां. आमगेल्या घराची मदली वणत म्हळयार दोंगुल्लेक मारिल्ली एक कोर्त, म्हणटकूच घराचो एक भाग वयर आनी एक भाग सकयल. इस्कादी दोंगुल्ली कापूनच केल्या. आमगेलें घर अशे तरेन अर्दी गुंफा, अर्दें घर अशाच रुपाचें. आमचें घर शेकान शेक पातळलां. ताजो आकार कितें तो सांगप कठीणच. चार आंगणां, आठ माळयो, तीन व्हडल्यो वासऱ्यो, तीशेक कुडी, तीन बांयो. म्हज्या भुरगेपणांत धाएक बिराडां आसलीं आनी शंबरेक मनशां.

आमकां भुरग्यांक धुडगूस घालपाक हें घर भोवच बरें. हे चौखेवयल्यान ते चौखेर; हे माळयेवयल्यान ते माळयेर; आंगणांतल्यान पोरसांत, पोरसांतल्यान बांयकडेन. घर येदें व्हड की, भुरग्यांक खेळपाक घराभायर वचचें पडनासलें. धांवपाचे, पळपाचे सगळे खेळ घरांतूच. एक शेकान शेक वासरी आसली. तिका आमी वरन म्हणटाले. थंय आमी फोणकुलां खणून मिलां केल्लीं आनी थंयच आमी गड्यांनी खेळटाले. खोडवान थंय चौखण काडटकच थंय लंगडी खेळप.

आमची ल्हानशी कूड आसली. पूण दीसभर आमी भायरूच. कोणाचेय रांदचे कुडींत गेल्यार भाकरे कुडको आनी काफये घोंट आसतालो. आमकां कोणागेरय वचूंक मेकळीक. सगलीं भुरगीं सगल्यांचीच शीं. सगल्यांचीच आमचेर नदर. खंयचोय जाणटो कोणाच्याय भुरग्याक दटायतालो.

घरांत इतलीं बिराडां म्हणटकूच, खबरी, बोवाळ आनी झगडीं हीं आसलींच. झगडीं चड करून ल्हान गजाली वयल्यान उप्रासतालीं. मागीर तातूंत दादलेय बी वांटो घेताले आनी मागीर सगलें घर बोवाळान धुंवतालें. ह्या झगड्यांचोच पयलीं पयलीं म्हाका भंय दिसतालो. पूण दुसऱ्या दिसा पळयल्यार झगडप्यांचो गळयार गळो. मागीर कळ्ळें, ह्या झगड्यांक कांय अर्थ ना.

आमच्या घराची मांडणीच अशी की फुडल्या दारांतल्यान आयिल्ल्या मनशाक, कोणाचेय कुडींतल्यान गेलेबगर मागीलदारच्यान भायर सरूंक मेळटा. बाजारांतल्यान देवळाकडेन वचपी मनीस आमच्या घराक भोंवताडो दिवन वचचे बदला आमच्या घरांतल्यानूच वतालो. वळख देख नाशिल्ले लेगीत हातांत जोतें घेवन मागील दारांतल्यान घरांत रिगताले आनी फुडल्या दारांतल्यान भायर सरताले. आमच्या घरांतली वाट म्हळयार एक पब्लीक शॉर्ट कटूच म्हळयार जाता.

आमच्या घराचो फुडलो भाग म्हळयार बल्कांव. जाणटे नेणटे थंय बसतात आनी गांवच्योच न्हय तर संवसारांतल्यो सगल्यो गजाली थंय करतात, भायल्यांचें, घरच्यांचें, सगल्यांचें तासतात. भुरग्यांचें खरें शिकप ह्या बल्कांवाचेर जातालें. खंय कितें घडटा, कोण कसो आसा, तें आमकां थंयच कळटालें. ह्या बल्कांवार जाणटे-नेणटे हो भेदभाव

नाशिल्लोच. भुरगे जाणट्यांचींय फकाणां मारताले. कांय जाणटेले उलोवंक फकूड. तांचें उतर म्होंवाळ. उलयतना ते अभिनय करून दाखयताले, तेन्ना पड्डो आनी माचय नासतना जितें-जिवें नाटक पळोवंक मेळटालें.

आमच्या बल्कांवा मुखार व्हडलें आंगण, ताका सोबीत दुरीग- कलवंतांच्या कुकुल्या गुलाबी फुलांनी भरिल्लें. ताका तेंकून चिरेबंदी पाज. पाज देंवन वतकच व्हाळावयल्यान गेल्लो सांकव मुखार पाचवेंचार शेत आनी ताजे मुखार शेषशायी अनंताचें देवूळ. तळयेंत बांदिल्लें. अनंताची मूर्त काळया किट्ट पाशाणाची. देवळांतली जमिनूय पाशाणाची- बसल्यार थंडगार. भोंवतणी लाकडाच्यो मुर्ती कोरांतिल्ले सोबीत खांबे, देवळाक तेंकून दोन तळयो. ह्या तळयांतलें उदक सदांच थंडगार, निवळ - तेंकून पिंपळाचें पेड. पिंपळाच्या हजारांनी पानांची सांवळी उदकांत पडून थरथरतात तेन्ना सर्गूच तळयेंत देंविल्लेवरी दिसता. तळी ल्हानूच पूण सोबीत चिऱ्यांनी बांदून काडिल्ल्या सोपणांची. सगळीं सोपणां उदकांतल्यान दिसतात. आनी खरवो, पिट्टोळ हीं नुस्तीं शेंपाटे हालयत हांगा-थंय भोंवतात, तांकां पळयत रावपांतूच सगलो दीस वचपाचो. हे तळयेक लागुनूच सावय-वेरेंचो तांती-पिलो पेंवंक जाणा. एकदां एका तरणाट्यान तळयेच्या पारार आपल्या दोन वर्साच्या भावाक दवरलो आनी ताणें तळयेंत उडकी मारली. तो पेवंक लागलो. व्हडल्या भावाक पेंवतना पळोवन धाकटुल्या भुरग्याक आपणेंय पेंवपाची स्फूर्त आयली आनी ताणें फाटींफुडें पळय नासतना तळयेंत उडकी मारली. अशे तरेन पेंवपाचो पयलो धडो तो शिकलो.

हेच तळयेंत गांवचे गणपती बुडयतात. गणपतीचो सण चवथ. हो आमच्या भुरग्यांचो उमेदीचो दीस. त्या वेळार फुगेट्यो सवाय आसल्यो. रुपयाक तेवीस चोवीस मारांद- माकावचे. धा पैशांनी चंदरजोतीची व्हडली कास. चवथीक भायल्या गावांतले, पणजेचे, मुंबयचे सगले दायजी येताले आनी आंमकां भुरग्यांक मारांद, चंदरजोती दिताले. मागीर आमी आमचें तें मारांदाचें धन मेजप. म्हाका इतले मेळळे, तुका इतले मेळळे. संबंद दीस भर फुगेट्यांचो गडगड, चंदरजोतींचो सरसर, रातच्या वेळार उजवाडाच्या रंगीत बाणांनी मळब रंगून वतालें. आमचें घर गांवांतलें सगल्यांत व्हडलें घर. तसोच आमचो गणपती सगल्यांत व्हडलो. मनशापरस व्हडल्या आकाराचो तांबडोगुंज. पेट्रोमाक्साच्या उजवाडांत सामको लकलकतालो. रातचो भोंवतणचो सगलो लोक आमगेर जमतालो. मागीर पेटी, तबलो, पखवाज, झांज हांचे साथींत आरती रंगताल्यो - 'सुख कर्ता दुख हर्ता वार्ता विघ्नाची' -

आनी एका कारणा खातीर चवथीची याद जाता. गणपतीक पावयतकच सदरेर सगळे जमून गाराणें घालताले आनी मागीर कांय जाणांचेर देवदेवतांचो भार येतालो. म्हज्या आज्याचेर पुरसाचो भार येतालो. तो लागो मारतालो, हातांतलो नाल्ल हड्ड्यार पेट्टालो आनी व्हडान आड्डतालो. तटास जावन आमी तो भार पळयताले. दुसऱ्या दिसा आमी भयभीत जावन, आज्या कडेन वचून ताका पळयतालीं. कालचो आजो वेगळोच. आमचो आजो कातीन काळसो, आंगान शिडशिडीत. म्हणूनच ताका शेड्डोराव म्हणटाले जायत. थोडेंच उलोवपी, पूण बुदवंत. ताचो सगळयाक दरारो. हांव पयलोच नातू. म्हजी तो खूब अपुर्बाय करी. म्हाका पुराणांतल्यो कथा सांगी, लोकांकाणयो

सांगी. त्यो काणयो आजून हांव म्हज्या भुरग्यांक सांगतां.

भुरगेपणांतल्यो यादी म्हणटकूच त्या वेळच्या आवय बापायच्यो यादी आयल्योच. म्हजी आवय गोरी धवी, सुंदर. खूब मोगाळ. तिचो ताळो म्हों‌वाळ. तिच्याच तोंडांतल्यान हांवें पयलीं पदां आयकलीं. म्हजो बापूय आंगापांगान बरो, दिसूंक शिरवन्त; पूण सदांच रागीट सो. आमचे कडेन खेळिल्लो, हांशिल्ल्याची, अपुर्बाय केल्ल्याची याद जायना. आवय-बापायचीं सदांच झगडीं चलतालीं. बापूय केन्ना कितें करीत सांगू येनासलें. केन्ना कोणाक मारीत, कितें मोखून मारीत, नेम नासलो. म्हणटकच बापूय घरा आयलो रे आयलो, भुरग्यांची सामकी गुळी जाताली. ताका भुरग्यांनी खेळूंक जायनासलें. रडूंक तर जायच नासलें. बाबडी आवय कलकलत्या धडधड्ड्यान दीस काडटाली. बापूय घरांतल्यान भायर सरलो की परतून आमी हांसतालीं, खेळटालीं. मारपी बापूय आनी रडपी आवय हांचे मजगतीं खूबशें म्हजें भुरगेपण करपून गेल्लें.

केन्ना केन्ना मुंबयच्यान म्हजे आवयची आवय येताली आनी म्हजी पणजीय येताली. दोगांयकूय म्हजी चड माया. पणजी माथ्यावयल्या पदराची. ती म्हाका घरांतल्या पुरसाच्या देवाऱ्या मुखार घेवन बसताली आनी भजन म्हणटाली. 'मोरेश्वरा बा मी बाळ तान्हे, सेवा तुझी मी करू काय जाणे । अन्याय माझे कोट्यान कोटी, मोरेश्वरा बा तूं घाल पोटी'।।

त्या वेळार हांव तो अभंग कसो म्हणटालों एकटो मोरेश्वरच जाणा. केन्ना, केन्ना म्हजी पणजी म्हज्या पोल्याक चिमटो काडटाली. पोल्याक चिमटो काडून हळूच तोंडांत दूदफेणो कोंबताली. इतलो गोड चिमटो कोणाकूच मेळळो ना जायत.

आजयेक लोकां-काणयो बऱ्यो येताल्यो. काणयांत पदां आसतालीं. जेन्ना ती सुरार म्हणटाली, 'घाटीचा गावुडा रे गावड्यान घरशें बांदिला रे गावड्यान तळशें बांदलां' तेन्ना हांव तल्लीन जावन आयकतालों. आतां इतलीं वरसां हुपून ते स्वर म्हज्या मनांत परतून घोळटात.

[कोंकणी : दिवाळी 1981.] ☆

16

रवीन्द्र केळेकार

# आयज पुनव ओतताली

रातीं हांव न्हिदूंक ना. न्हिदचो ना अशें हांवें थारायल्लें; कित्याक, कोजागिरी आशिल्ली. कोजागिरीक मनशान न्हिदूंक जायना. हांवें ह्या नेमाक पाळो दिवन सबन् रात जागून काडली. पावसाळो सोंपले उपरांतची ही पयलीच पुनव. खतां नाशिल्ली, कुपां नाशिल्ली-निर्मळ आनी निरभ्र.

चातुर्मासांत न्हिदिल्ले मळबांतले देव खंय हे पुनवेक जागे जातात आनी पीठ कशें ओतता तें चान्नें पळोवन आनंदान गावंक लागतात. तांगेल्या ह्या आनंदांत धर्तरीवयलो मनीस वांटो घेता काय ना हें पळोवपाक खंय आकाश-लक्ष्मी हे पुनवेक दर एकल्यागेर वचून 'कोण जागे आसात?' 'कोण जागे आसात?' 'को जागर्ती' म्हूण विचारता आनी जो जागो आसता तांच्या कपळाक भाग्याचो तिळो लायता.

हे पुनवेक जो न्हिदता तो कपळ फुटको.

हांव जेवन म्हाड्डोळा म्हाळशेच्या देवळा कडेन गेलों. अख्खें गोंय थंय लोटिल्लें. विजेच्या दिव्यांच्या लखलखाटांत देवळा भोंवतणी भोंवताले. म्हजी नदर भिरभिरूंक लागली. 'पुनवेचें काव्य खंय' 'कोजागिरीचें काव्य खंय' अशें मनाक विचारीत विचारीत हांवें थंयच्यान कूस मारली आनी तडक शिमे पाळणेचे वाटेन चलूंक लागलों.

थंय पुनव ओतताली.

मळब न्हावन, धुवन निर्मळ जाल्ले व्हंकलेवरी दिसलें. चान्न्यात मळबाचे निळसाणेक एक आगळीच कांत मारता. तेन्ना चान्नेंय सोबता. हांवें ते निळसाणेंत आश्विनीक सोदली. दिसली ना. दिसपाची आस्त ना. भाद्रपदेचोच कोन दिश्टी पडलो; पूण दोळयांक बरोच ताण दिवचो पडलो. देवयानी ओल्तेरार बसून धोलताली. शर्मिष्ठेतलें केण मात दिसलें ना. दोळयांनी दिसता तेदोच हो संवसार न्हय, ह्या संवसाराच्या आवांठाक अंत आनी पार ना, हें दाखोवन दिवपाखातीर चान्न्यान तें केण लिपयल्लें जाल्यार कोण जाणा! संवसाराचो अंत आनी पार नाशिल्लें 'आनंत्य' कल्पनेत रिगतकूच तिका प्रो जालें. ती धांपेत धांपेत परतली आनी दोळे तेरा लाख धर्तऱ्यां परस व्हड अशा सूर्या येद्या णव कोटी सुर्याक पोटांत घेवपी पारिजातक सोदपाक लागली. पूण वृश्चिक रास मडकयच्या दोंगरा फाटल्यान लिपिल्ली. धनुच्या चार नखेत्रांनी तिची दिशा दाखयतकूच हांवें पारिजाताचें तोंड फकत कल्पनेनूच पळयलें.

चान्नें पीठ कशें ओततालें आनी रातीचो काळोख भयान जावं भिडेन दोगरांच्या

मुळसांत जावं झाडांच्या पोटांत लिपिल्लो. मोटो चित्रकार जेन्ना चित्र काडटा तेन्ना एक-दोन रेगो काडुनूच सगळें सुचयता; बारीक सारीक गजाली आमकां मागीर कल्पनेनूच भरून काडच्यो पडटात. तशें चंद्रान आयज केल्लें. जें दाखोवंक जाय, जें सुचोवंक जाय, तितलेंच दाखयल्लें. बाकीचें लिपयल्लें. चंद्राक पळयतकूच भुरगीं आनी पिशे कित्याक बुल्लुसतात तें हें चान्नें पळयतकूच म्हाका समजलें.

हांवें झाडां कडेन पळयलें. पुनवेच्या चान्न्यांत तींय बुल्लुसलेलीं. जमनीचेर मन लावन तरेतरेच्यो रांगोळयो काडून' कशो जाल्यो?' 'कशो लागल्यो?' म्हूण तीं चंद्राक विचारतालीं. तांगेल्यो त्यो रांगोळयो पळोवपाक चंद्र धर्तरे लागीं आयिल्लो आनी स्तब्ध जावन त्यो पळयतालो.

आयज कुपां खंय गेलीं? कशीं आयलीं नात? एका तरी कुपान आयज ह्या उत्सवांत वांटो घेवपाक येवंकच जाय आशिल्लें. कुपां नासत जाल्यार चंद्राक गती मेळना. कुपां नाशिल्लें मळब बायल मनशेच्या तिळो नाशिल्ल्या कपळा भशेन उकतें उकतें दिसता. हांवें उदेन्ते कडेन पळयलें, अस्तन्ते कडेन पळयलें. चारूय दिकांनी कूप सोदपाक म्हजी नदर भोंवंक लागली. उत्तरे दिकेन ध्रुव दिश्टी पडलो. जावं, तपस्वी जरूय जालो, तरूय रसिकता ताणें सोडूंक ना. तोय जागो आसा. दोळे धापून तप करिना. देवाचें ध्यान दोळे धापुनूच करूंक जाय अशें ना म्हणपाचें तो जाणा. 'जागरितस्थानो बहिष्प्रज्ञः सप्ताङ्ग एकोनविंशतिमुखः' हें तो नकळ आसुंये अशे हांवें ओगीच मानिल्लें.

ध्रुवा सरींच एक बारीक पातळ कूप दिश्टी पडलें. हांवें मनांत म्हळें, चंद्रा वांगडा खेळपाचें सोडून ध्रुवा वांगडा शें खेळूंक लागलां? म्हजी टीका ताणें आयकली जातली. एका खिणांत तें चंद्राक मेळूंक धांवत सुटलें. ताका पळयना फुडें चंद्रूय धांवंक लागलो. हावें मनांत म्हळें, ''आतां पुनव सोबली! शरद पूर्णिमा जाली म्हूण कितें जाली? कोजागिरीच्या उत्सवांत कुपांनी वांटो घेवक जायना अशें थोडेंच आसा!'

कुपांचें लावण्यूच आगळें. तरुणिचें लावण्य एके तेरेचें, मोतयांचें दुसरे तरेचें पूण 'तरल' लावण्य पळयतले जाल्यार कुपांच पळोवंक जाय. तींय पुनवेचे रातीक.

आयज पुनव ओतताली.

पूण -

हें काव्य पियेवपी रसिक खंय आशिल्ले?

देवळाकडेन विजेच्या लखलखाटांत, थंय जमिल्ले भुरावळीच्या गजबजाटांत सगळयांक भोंवतना पळोवन आकाश-लक्ष्मी निर्शेवन कोणाच्याच कपळाक तिळो लायनासतना तीं धांवत परती गेली जावंक जाय.

☆

# 17

## शंकर भांडारी

# हांव आंकवारुच कित्याक उरलों!

आतां हांव आंकवारुच कित्याक उरलों? ह्या प्रस्नाची जाप दिवप, दिसता तितली सोपी न्हय. इतले मेरेन की हांव आंकवार रावलां काय उरलां हें सांगप लेगीत मातशें अवघड. पूण विनोदान हांव केन्नाय म्हणटां, "म्हजे घरकान्नीचें लग्न आजून मेरेन जावंक ना." अशा वेळार तुमी म्हणटले - आं - आजुनूय ह्या म्हाल म्हाताऱ्याक लग्नाची उमेद आसा काय कितें? खरें म्हळयार, आसल्यार कांयच अजाप ना. विधात्यान सृष्ट निर्मितनाच पुरुष आनी स्त्री वा बायल आनी दादलो, चलो आनी चली अशी कितें तरी वेवस्ता केल्या. बरें आसा; सृष्टीचे नेम सुसंगतीन चलचे म्हूण ही वेवस्ता बरी आसा. आनी हे वेवस्तेचेर कोण आड आसत अशें आमकांय दिसना. पूण प्रस्न येता तो लग्न संस्थेचो. वयार येतकच चल्यान वा चलयेन हे संस्थेंत आपणाक गुरफटावन घेवन चुकनाशिल्लीं कर्मां सारादोराक करीत रावचीं काय कितें?

नामनेचो बरपी बॅकन् आपल्या 'लग्न आनी एकोडें जिवीत' हांचेर बरयल्ल्या निबंदांत म्हणटा, 'जाणे बायल आनी भुरगीं केलीं, ताणें आपल्या नशिबाकूच उतर दिलें. कारण हीं दोनूय प्रकरणां म्हळयार, तो पळय आपल्या आयुष्यांत कितेंय हटमटवाळे करतलो आशिल्लो- बरे जावं, वायट, तांकां ह्यो दोनूय गजाली म्हळयार आडमेळीं. बरें, आमी खीण भर बॅकन कितें म्हणटा तें सोडून दिवंया.

बर्टन आपल्या एकसुरेपणाचो जो विच्छेद करता वा चिरफाड करता, तेन्ना ताका 'लग्न-फांसार वचप हें मनशाच्या प्राक्तनांत बरयल्लें आसता' अशे उद्‌गार येतात. तें वाचतकच म्हजे सारकिल्लो साडो-सुडो कितलो बरो आसा हें येवजुनूच सू जाता. तशें पळोवंक गेल्यार हांव आंकवार रावलां म्हणप तितलें शें योग्य जावचें ना. तुमकां म्हज्यान एकवेळ फटोवंक येत. पूण म्हजे म्हाकाच हांव कसो फटोवं? म्हजो जल्म ज्या एका गांवांत बामणाच्या रासवळ कुटुंबांत जाला, थंय मुंजी फाटोफाट लग्न, लग्ना उपरांत गर्भादान, आनी उपरान्त कितें आनी कितें - सगळें एका फाटल्यान एक साग्र संगीत! .... हरदासान किर्तन बंद केले उपरांत, देवाक निवेद्य दाखयले बराबर प्रसादाचो दोणो हातांत पडिल्लेवरी जिस्ताजिस्त. पूण म्हजेकडेन पावतनाच हो नेम एक तर चुकलो, वा हांवें चुकयलो.

म्हज्या घरांत वाडवडलांचो पसरो. ते भायर शेत-भाट. कितलेय सोयरे आयल्यार पेजे-निवळाक मरण ना. दुसऱ्या संवसारीक गेर्रांत लेगीत आमी साब्राभरीन साकर

खाल्या आनी पेत्रेल (केरोसीन) जळ्ळां. त्या वेळार हें भाग्य फकत पोर्तुगीज अधिकाऱ्यांक लाभिल्लें. हें बरोवपाचें कारण इतलेंच की गोंयचे खंयचेय आमचे जातींतले वाडिल्ले चलयेच्या बापायची नदर म्हजे सारकिल्ल्या 'मॅट्रिक' जाल्ल्या - (तेदे वेळची मॅट्रिक ती आं, आनी तीय निमाणी! उप्रांत S.S.C.E. आनी एंट्रन्स) तरण्या भुरग्याचेर गेली जाल्यार अजाप कसलें!

पूण म्हज्या भावांच्या मनांत म्हजेविशीं वेगळयोच अपेक्षा आशिल्ल्यो. तांचें सगळयांचें शिकप पोर्तुगेजींत जाल्लें. ते सगळे खरें म्हळयार Empregados जावपाचे. पूण पोर्तुगेज येंप्रेगादाचो तेदे वेळचो पगार तेन्नाचे सवायेचे मुस्तींत लेगीत दिसपट्टे चार नाल्ल फोडून पावपाचे नाशिल्ले. देखून तांणी 'पसरोच' सांबाळ्ळो. आनी आपलो वेपार हिसपाभायर वाडयलो. (हिसपाभायर म्हणपाचें कारण म्हळयार हिशेबूच सांबाळ्ळो ना.) देखून तांचे मतींत आपल्या हुशार भावाक विदेशांत धाडून वेपारविशयक पदवी घेवन हाडचो. आनी थारायल्ले प्रमाण तांणी म्हाका मुंबयंत 'पोदार कॉलेज ऑफ कॉमर्स' हे कॉलेजींत धाडलो. हांव पसरकाराल्या घरांत जल्माक आयिल्लों खरो- पूण म्हजो पिंड वेपारी न्हय. निमाणें म्हजे कॉलेजीचें जशें खोबरें जावपाचें तशेंच जालें ही वेगळी गजाल. ते भायर कॉमर्स कॉलेज. आतां चडशो चलयो कॉमर्साक वतात. तेन्ना पारशी सोडून कोण वचनाशिल्लीं. आमी सात आठ गोंयकार आशिल्ले. आनी वाळवंटांत जशें एक ल्हानशें उदकाचें तळें दिसचें, तशें आमचे नदरेक एक रूपेस्त चली भरलें. तिचें नांव-गांव, पत्तो काडपाक आमच्यांत चडाओड सुरू जाली. हांवें विडो उबाल्लो आनी म्हज्या सगळया गोंयकार इष्टांक एक गोड धक्को दिलो. तेच सांजे वेळार कॉलेजा लागीं आशिल्ल्या रेस्टॉरेन्टांत, आमी 'मसाला दोसा' उडयलो. चली आशिल्ली मंगळुरी; देखणी आनी पयल्याच फाराक फारावपाची. पूण तिणें आपली घरची काणी सांगतकच तिका, धाकुटपणांत लग्न केल्ल्या तिगेल्याच बापायच्या बचक्यांतल्यान कशी सोडोवप होच उद्योग हांवें 'कॉमर्स' च्या पयल्या वर्साक केलो. आजुनूय बावडी याद काडल्यार सद्गदीत जाता, आनी हांव एकोडो उरिल्ल्याचें म्हाका समाधान भोगता.

पयलेच फावट हांव म्हज्या धाडसाक लागून जैतवंत जाल्लों, ताचें कारण 'Don Luan' ह्या नाटकांत Byron कितें म्हणटा हाची म्हाका घट्ट याद आशिल्ली. 'For talk six times with the same single lady, and you may get the wedding dresses ready.' म्हळयार एकेच चलयेकडेन परत परत स पावट तूं उलोवशी, जाल्यार तुज्यान लग्नाचो सूट शिवंक दिवं येता. ही जाली एक गजाल. दुसरी म्हळयार हांवें येदोळ सांगलां तशें रासवळ कुटुंबांत हांव वाडिल्ल्यान आमचीं सोयरीं-दायरीं हांचें येवप-वचप आसतालें. आमच्यो कांय नात्यांतल्यो चलयो तर मराठी शाळा शिकपाक आमगेरच रावताल्यो. देखून वाडिल्ल्या चलयां कडेन पळोवपाची म्हजी नदरूय वखवखिल्ली नासताली. चलयांक म्हजे नदरेंत जाय आशिल्ली Transparency वा पारदर्शकता दिसताली. कॉलेजीचें खोबरें जातकच हांवें वेगवेगळयो नोकऱ्यो धरल्यो. मुंबयंत नोकऱ्यो त्या वेळार इतल्यो म्हाका सहज मेळटाल्यो, तितलेच सहजतायेन हांव त्यो सोडटालों वा म्हाका गोंयांत येन शें दिसलें जाल्यार हांव सरळ नोकरी सोडून

हांगा येवन एक-दोन म्हयने रावन परतो वतकच दुसरी नोकरी आपूण जावन म्हजेच खातीर रावताली, अशें सांगल्यार घडी भर तुमकां अतिताय दिसूं येता. 1948 ते 1961 मेरेन कांय ना म्हळयार हांवें स-सात नोकऱ्यो केल्यो. आनी ऑफिसच्या कामापरस जगावयल्यो सगळयो राटी म्हका लागताल्यो. तातूंत मागीर कोंकणी भास, गोंयची सुटका आनी ह्या मळार वावुरपी गोंयकारांच्यो इश्टागती, हातूंत वेळ कसो वतालो तेंच समजनाशिल्लें. हांवें जरी नियमीत कॉलेजीक वचचेलें सोडिल्लें, तरी भारतांतल्या सगळया युनिव्हर्सिटीच्या External Degree विशीं सगळी माहिती मेळयल्ली. हाका लागून इंटर आर्टसूची परिक्षा हांवें बनारसाक दिली, जाल्यार बी. ए. ची परिक्षा पुण्याक दिली. मदीं Aliance Francaise धरून राष्ट्रभाषा प्रचार समितीचे किरकोळ कोर्स वा रवीन्द्र संगीत धरून Journalismच्या कोर्साक म्हजी नांव नोंदणी घालूंक हांवें फाटीं फुडें पळयलें ना. तशेंच, सगळयाच गजालींनी म्हजें कुतुहल जबरदस्त आशिल्ल्यान सकाळीं 'खारेवाट मेमोरियल' हॉलांत हांव J. Krishnamurti हाचे लागीं म्हजी जिज्ञासा सोडोवंक गेलों, जाल्यार सांजच्या आदेसाक व्ही. के. कृष्ण मेनन गोंयचेर कितें उलयता जाल्यार आयकुपाक सुंदरबाय हॉलांक गेलां. हें सांगपाचो प्रपंच म्हळयार, ह्यो सगळयो गजाली करता आसतना म्हजे सन्निध कितल्यो चलयो आनी बायलो आयल्यो जातल्यो हाचें कोंत हिशेब ना. म्हजें धार्जणेच अशें की मुंबयच्या पोर्ट ट्रस्टांत तर सुमार 150 चलयांचो म्हजे भोंवतणी दिसपट्टो गराडो आसतालो, वा तांच्या सुख-दुःखांत हांव भागीदार जातालों तें पळोवन म्हजे रुममेट्स म्हजो दुस्वास करताले. ते सगळे आयज लग्न करून तांगेल्या भुरग्या-बाळांच्या लग्नाचे तयारेक लागल्यात. आजुनूय तांकां म्हजी असुया आनी म्हाका तांची अपुरबाय. तांतल्या कांय जाणांची दिसपट्टी पिरंगण आयकतकच चर्चिलच्या वाक्याची याद जाता. 'Man and wife coupled together for the sake of strife.' म्हळयार 'दगदग काडपाकूच दादल्या-बायलेची जोडी बांदल्या'. हीं चर्चिलचीं उतरां.

खंयचेय परिस्थितीक लागून जावं, आंकवार उरिल्ल्या चलयांची परिस्थिती कितें जाता काय, हाची कल्पनाच म्हज्यान करूं नज. ताका लागून म्हज्यो आंकवार भयणी, धुवड्यो, नात्यांतलीं, तशेंच नात्याभायलीं - जीं जीं आंकवार म्हजे लागीं आयलीं, तांचीं तांचीं लग्नां जुळोवपाचो प्रांजळ प्रयत्न हांवें केला. आनी तो खूबशे अंशीं फळादीक जाला. कांय खेपे आंगलटय आयला. पूण ह्या सगळया भानगडींत म्हजें एक मत जालां, तें म्हळयार- Woman Should Marry and not a man. बायलेन लग्न करूंकच जाय, दादल्यान साडोसुडो रावचो, आनी म्हज्या ह्या मताक बेंजामिन डेराली पुष्टी दिता. एक स्पॅनिश बरपी हे गजालीचें स्पष्टिकरण करता; तो म्हणटा, "बायल मनशेक तिचे परस सुपीक तकलेची गरज आसता- वेळा-प्रसंगार बुद्द घेवपाक. देखून तिका आनीक एक तकली जाय. दादल्याची गजाल वेगळी. 'लग्नाचे येदेशे मुदयेंत कितले हाल उपाद्रे आसतात हाची जाणविकाय ताका लग्न जाले उपरान्त जाता. मागीर ताका Old Bachelor हातूंत Congreve कितें म्हणटा हाचो प्रत्यय येता. 'ताकतिकेन लग्न जा आनी फाविल्ल्या वेळार पश्चाताप कर.' इतलेंय आसून



म्हजेर तुमचो एक आक्षेप आसतलो, तो म्हळयार इतल्यो खोंटल्यानी चलयो तुजे सवंकळीच्यो जावनूय तूं प्रेमांत कसो पडलो ना? ह्या तुमच्या प्रस्नांक हांव जाप दितां. हांव पडलों ना अशें म्हणूं नज. पडलों, पूण बुडलों ना. हांव मुंबयंत जे चाळींत रावतालों, थंय सगळे तरेचे चाळे आनी धवळे चलताले. म्हज्या मजल्यावयलीं सगळीं बिराडां एकेच चलयेची खबर करतालीं. तें चली एक खबरेपत्रांत काम करतालें. ताका वाचनाचोय नाद आशिल्लो. ताका वश करपाखातीर म्हजो एक रुममेट विनाकारण एका वाचन मंदिराचो मेंबर जालो आनी ताचे भयणी कडसून ताका पुस्तकां धाडूंक लागलो. पूण हाचो परिणाम वेगळोच जालो. त्या इष्टा कडेन पुस्तक परतें दिवचें सोडून हांव म्हजे कुडींत एकोडो आसा सो पळोवन पुस्तक परत करपाक ही चली म्हजे कडेन येवंक लागली. दिसान दीस परिचय वाडत गेलो; आवय बापायच्याय ही गजाल लक्षांत गेली. तांणी दोळेझांक केली. आमी दिसपट्टीं मलबार हील, चौपाटी, केन्नाय तागेले फॅमिली सैत पिक्चराक बी सगळे प्रेमोत्तर 'शोडषोपचार' जावंक लागले. आनी त्याच वर्सा म्हज्या जीवितांत, गांधी, विनोबा, काकासायब, दादा धर्माधिकारी बी सगळे अनवाळे लोक येवन गेले. हांवें आदर्श प्रेम केळयलें. आनी ताका वा तागेल्या आवय बापायक वेव्हार जाय आशिल्लो. तांच्या सुदैवान तांगेल्याच शेजारचे वाडींतलो एक भुरगो कलकत्त्याक ऑफिसर आशिल्लो. आवय बापायन पद्धतशीर सोयरीक व्हेली, न्हवऱ्यान हयकार दिलो. चलयेन म्हाका बी वायट दिसत म्हूण म्हजी सम्मती घेवपाक तें म्हजेसरीं आयलें. हांवें व्हडा खोशयेन हयकार दिलो. इतलेंच न्हय, तर तागेल्या लग्नाक बरेंश प्रेझेंट व्हरून हांवें खासा म्हजी उपस्थिती लायली. आजुनूय आमचो स्नेह पयलींचोच आसा. हांव आजून कलकत्ता पावंक ना. पूण गोंयांत आयल्यार तीं जोडप्यान म्हगेर रावतात.

तात्पर्य :- लग्न संस्था ही अशी एक संस्था, जातूंत भितर आशिल्ल्यांक केन्ना काय भायर सरन शें दिसता आनी भायर आशिल्ल्यांक भितर सरचें शें दिसता. हाचो म्हाका पुराय अणभव आशिल्ल्यान हांव हे संस्थेच्या हुमऱ्यारुच रावलां.

[पावला कणकणी] ☆

# 18

## वसंत नेवरेकार

# म्हाल्याच्या शापांत

म्हाल्याच्या शापार जो कोण नदर मारीत, ताच्यान हालींच्या ह्या लोकांच्या विपरीतपणाची तोखणाय केले बगर कशी रावं येता?

आतां तुमीच पळयात, जो मनीस आपल्या जिवाक इतलो भियेता की दिसांतल्यान एका फाटोफाट दोन-चार शिंको आयल्यारूच पुरो, घरकान्नीक कसाय करूंक लायता, आनी पावसाक कांय ना म्हळयार तीन चार म्हयने आसतना मुंबय आशिल्ल्या आपल्या चल्याक 'हरण' छाप सत्री जाता तितले बेगीन धाडून दी म्हूण ताकतीक करता, तो तारीवयल्या हॉटेलांत 'सिंगल' पियेवंक बशिल्ले वरी सुसेगाद 'येराल्द' वाचीत आपली तकली, धारेचो वाखर हातांत घेतिल्ल्या म्हाल्याकडेन दिता न्हय! म्हाका दिसता, बायलांक 'अबला' म्हणटात ताचें कारण त्यो दादल्या भशेन म्हाल्याच्या शापार वचपाचें धाडस करिनात हेंच आसूंक जाय.

फुक्याचो 'ज्योर्नाल' वाचूंक मेळटा म्हूण वा गांवा वयल्या लोकांची तासंपट्टी आयकूंक मेळटा म्हूण काय कितें? म्हाल्याच्या शापार ह्यो दोनूय गजाली आसतातूच. देखून हो सभागी हें येदें व्हडलें धाडस करता काय, कोणाक खबर!

पूण तें कितेंय आसना, म्हालो हो आमचे जिणेंतलें एक म्हत्त्वाचें आंग जावन पडला. दोतोराक आदवोगादाक आनी भटाक कितलेंय केलें म्हूण जशें आमकां चुकोवंक जायना, तशें म्हाल्याकूय चुकयतलो म्हळयार जमना.

म्हालो नकळ अशें संवसारांत कितें आसा? अमकी तमकी नटी अमक्या अमक्या नटाकडेन लग्न जावपाची, पूण ती कित्याक जाली ना, हें ताका खबर आसा. वेंकटेश बाबालो चलो मुम्बय बांकांत कितलो पागामेंत घेता, हें तो जाणा. विसुबाबान मिनांत कितले पयशे केल्यात आनी कोणाकोणाचे आनी कितलें रीण तागें आजून लेगीत फारीक करूंक ना, हाचो हिशोब जाय तुमकां? म्हाल्याक विचारात. तो धडधडीत सांगतलो तुमकां. इतलेंच न्हय, तर घारुबाबान आपल चलयेक अमकें अमकें 'वालप' घालां, हें तो अशे धाटणेन सांगतलो की खात्री पटोवन दिवचे खातीर शापावयल्या मेजांतल्यान घारुबाबाल्या वेयान ताका दिल्ली रिसिबूच हो काडून दाखयता काय कितें अशें आयकतल्याक दिसता. थोडे भितर सांगपाचें म्हळयार म्हालो जें नकळ, तें जाणा जावन घेवपांत अर्थ ना.

एका बुदवंत मनशान म्हळां की जल्म आनी मरण हांचे मजगतीं म्हत्त्वाच्यो अशो

दोनच गजाली आसात, त्यो म्हळयार कापणी आनी खाड.

म्हाका दिसता, हाणें कापणी ह्या उतरावांगडा जाणा जावनच कानकापणी उतर घालूंक ना. घडये ही वळ बरोवन जायना फुडें ताका म्हाल्यांल्या शापार वचपाचें आशिल्लें जावंये! चोरालें मन घेवन म्हाल्याचे 'घोलीं'त वचपाचें धाडस कोण करीत? उदकांत रावन जर नुसत्याकडेन दुस्मानपण करूंक फावना, जाल्यार धर्तरेर रावन म्हाल्याची दुस्मानकाय कशी करूं येत?

म्हालो केन्ना केन्ना खाडावांगडाच कानाचोय कुडको काडटा, हें खरें. पूण ताकाय बाबड्याक म्हूण खाड करचेली संवय जावंक नाका? तुमी जे बी. ए., एम. ए. जाल्यात ते कितें आवयच्या पोटांतल्यान भायर सरनाफुडेंच? तुमचे हस्तुकीं कसलीच चूक घडूंक ना?

जेन्ना म्हाल्याचो वाखर आनी जीब वांगडाच तुमचेर चलता, तेन्ना तुमचो जीव वाटायतले जाल्यार तो म्हणत त्या उतराक 'हय सायबा' म्हणिल्लें बरें. पूण तुमकां जर बळयांच तागेली उमेद विरजावचेली आसत, जाल्यार तुमच्या गळयाभोंवतणी तुवालो बांदून जाले उपरान्त तो जेन्ना तुमकां विचारतलो, 'भाटकारा, कशे मारूं या?' तेन्ना तुमी हाणा थंय पळय नासतना चिके आवाज उंचावन म्हणात, 'तोंड धांपून मार पळोवया!'

(साळीक)



19

मो. कार्मु द सिल्व

# म्हजो गांव रायतूर

राशोल वो रायतूर हें नांव काडटच आमच्या मनांत एक गोड भावना येता. आमच्या भुरगेपणांतल्या जायत्या घडणुकांचो उगडास येता.

एक तीस वर्सां आदीं पाद्रीपणाचें शिकप करचे खातीर आमच्या बापायच्या हातींत आमी हांगा आयिल्ले. तेदनाचे चित्र आजुनूय आमच्या दोळयां सामकार झळकता.

मडगांव थावन रायतूर येतना दोनूय वाटांनी पाचव्याचार दोंगरांचेर माड आनी हेर झाडां आमकां येवकार दितात तीं दिसतालीं. लांब-रुंद शेतां, पातळायलेल्या पाचव्या रंगाच्या हातऱ्यापरी दिसतालीं. तातूंत कंडे घेवन काम करतल्यो बायलो अरीश्ट कोंगे कशे शेतांत चरतातशे दिसताले. सुंदर सुकणीं हिणयां-तिणयां उडून मधुर गायतालीं.

हें सगलें पळयता म्हटल्यार आमी कोटांत पावले. त्या वेळार ल्हान-सान भुरगे उर्बेन आनी उमेदीन खेळटाले. थोडे आमचे भाशेन मोटोरांनी आनी कांय जाण पांयगाड्यांनी आपापलें सामान घेवन येताले.

रायतूर! रायतूरचो सगलो मान आनी आनंद ते इतिहासीक सेमिनारीचेर आटापलेलो आसा. रायतूरचे सेमिनारीचें नांव आज आमच्याच देशांत न्हय, पूण येवरोपांत, अमेरिकेंत मेरेन गाजता.

हे सेमिनारींत शिकून पाद्री जाल्ले गोंयचे पूत संवसाराच्या चारूय कोनशांनी शिंपडलेले आसात. हेच सेमिनारीन संवसाराक तीन बिश्मसायबूय दिल्यात.

रायतूर आयचें वो कालचें न्हय. ताचो इतिहास लांब आसा. कांय इतिहासाचो सोद लावपी मनीस अशें मानतात की विजापूरचो पातशाय कृष्णदेवराय हाणें 1520 त रातूर म्हूण एक शार जिकून घेतल्लें, तेंच गोंयांत, साश्टींत आशिल्लें आमचें रायतूर. पूण बारकायेन हेर इतिहासकारांचीं, चड करून फेर्नाव नूनिश आनी दुमिंगुश पाईश ह्या पोर्तुगेज इतिहासकारांचीं बरोवपां वाचीत जाल्यार कृष्णदेवरायान जिकून घेतिल्लें तें रायतूर, गोंयचें न्हय शें दिसता.

ते दोगूय पुर्तुगेज इतिहासकार विजयनगरांत जायते फावटीं रावन आयिल्ले आनी तांणी जायतो सोद लावन दवरला.

ते सांगतात की विजयनगरच्या कृष्णदेवराय पातशायान जें 1520 वर्सा रायतूर शार जिकून घेतिल्लें, तें कोटाचें शार म्हूण. पूण दुसरे एक पुर्तुगेज इतिहासकार

गाशपार कुर्रेय आपल्या Lendas da India ह्या पुस्तकांत सांगता की गोंयच्या रायतूरचें कोट 1537 वर्सा उबारिल्लें म्हूण, तसोच जुआंव द बारुश हो फिरंगी इतिहासकार हो आपल्या Decadas III, Livro IV, Cap. V ह्या पुस्तकार म्हणटा की कृष्णदेवरायान जिकून घेतिल्ल्या त्या रायतूर शाराच्या देड कोस लागीं ह्या नांवाचें शार ना. तशेंच विजयनगरच्या पात्शायान घेतिल्लें तें रायतूर दोन न्हंयांच्या मदीं आसा म्हूण तेच इतिहासकार सांगतात. आमचें रायतूर दोन न्हंयांचे मदीं नासून फकत जुवारी न्हंयचे देगेर आसा.

आमी बारीक पळयल्यार रायतूर म्हूण कृष्णदेवरायान घेतिल्लें तें आमचें रायतूर नासून तेदनाच्या निजामाच्या ताब्यांत आशिल्लें रायचूर म्हूण कळून येता. रॉबर्ट सॅर्वेल आपणाल्या Forgotten Empire ह्या पुस्तकाचेर म्हणटा. ह्याच मताचे रामचंद्रय्या आनी पांडुरंग पिसुर्लेकार हे आसात. काशतानेद तसोच दामियांव द गोइश हे फिरंगी इतिहासकार म्हणटात, कृष्णदेवरायान साश्टी, बारदेस आनी फोंडें प्रांत घेनासतना पुर्तुगालच्या पात्शायाक सदांकाळ दान कशें दिल्लें.

आमच्या रायतुरांत जायत्यो यादगिऱ्यो आसात. मडगांव सावन कोणूय भितर सरतलो जाल्यार ताणे कोटांतल्यानूच भितर सरूंक जाय. तें कोट आयचें वा कालचें न्हय. 1633 व्या वर्सा तेदना राज्य चलयतल्या पुर्तुगेजांनी तें बांदिल्लें.

तिसवाडी घेतकूच पुर्तुगेज साश्टींत भितर सल्ले तेन्ना म्हाड्डोळा (वेर्ण्या) रावलें. थंयच तांणी आपल्या लस्कराचें थाणें केलें. गाशपार कुर्रेयाच्या सांगण्याप्रमाणें त्या शिपायांक थाण्याची बरी खातरी नासली, देखून दो. जुआंव राजान एक खातरी आशिल्ली सुवात सोदून काडूंक लायली. देखुनूच तांणीं रायतूरची सुवात मानून घेतली. कित्याक तर हांगा थावन तिसवाडी फकत णव कोस पयस आसा आनी बोरी देड कोस. ह्या कोटांत शंबर नाळी आसल्यो. ह्या कोटाक दोन दरवटे आसले. एका दरवट्याक तोंकदार खिळे मारिल्ले आसले. हे वरवीं हतयांनी आपल्या मस्तकान तो दरवटो सोपेपणी उगडूंक जायनासलो.

1684 व्या वर्सा ह्या कोटाक संभाजीच्या लस्करान कडक वेडो घाल्लो. 1739 वर्सा व्यंकटरावानूय तशेंच केल्लें. 1749 वर्सा मार्किश द आलोर्न हाणें ह्या कोटाचे सभोंवतीं खंदक मारूंक लायिल्लें. अखेरेक कसलीच गडबड नासलीदेखून हांगाचें लस्कर रेईश मागुशच्या कोटांत व्हरून दवरलें. ह्या कोटाचेर अशें बरयल्लें आसा- "1684 वर्सा आब्रिलचे बाविसावेर संभाजीन वेडो घाल्लो तेन्ना कोंद द आलवोर व्हाईस रायान त्या कोटाची राखण केली आनी उपरान्त तें सुदारूंक लागलें."

कोटांत भितर सरतकूच पयलीं सेमिनार मेळटा आनी उपरान्त इगर्ज. तरी आसतना इगर्जेची गजाल पयलीं करूंया. रायतूरची इगर्ज साश्टीच्या सगल्या इगर्जांची आवय म्हणल्यार जाता, कित्याक ती सास्टींत पयलीं बांदिल्ली. जेजुईत पाद्री 1565 वर्सा सास्टींत येतकूच रायतूरा, आतां इगर्ज आसा थयं, आपलें ठिकाण करून रावले. मीसां आनी हेर धर्माच्यो वस्तू करचे पासत तांणी कोटांत एक धाकटुलेंच कपेल उबारिल्लें.

धा वर्सां उप्रांत भायर एक धाकटुलीच मातयेची इगर्ज बांदली. उपरान्त ती तितली

घट न्हय म्हणून एक बरी फातरांची इगर्ज 1584 वर्सा बांदूंक सुरू केली. तिचें काम बारा वर्सांनीं सोपलें. ती इगर्ज आतां पर्यंत आपल्या ठिकाणार आसा. ह्या जेजुईत पाद्रींनीं रायतूरच्यान साश्टीच्या हेर गांवांनीं धर्म परगटूंक सुरवात केली. तातुंतलेच स्वामी रोदोल्फ आक्वाव्हिब आनी सांगाती कुंकळ्ळे क्रिस्तांव धर्म परगटूंक गेल्ले तेन्ना तांकां सुमुर्तीपासून आपलो जीव पर्यंत दिवचो पडलो. तांच्या उगडासाक आमी जुल्याचे 27 वेर परब करतांव.

ही इगर्ज साश्टींत पयली इगर्ज, देखून तिका खेरीत इतिहासीक म्हत्त्व आसा.

रायतूरची दुसरी म्हत्त्वाची वस्त सेमिनार. पाद्रींनी देव-विद्या शिकोवंक गोंयांत 9 होडलीं विद्यालयां बांदलीं. ह्या विद्यालयांनी इंदियेचेच न्हय, पूण चीनाचे, जपानाचे, मोलूकसचे आनी आफ्रिकेचे पर्यंत भुरगे देव-विद्या शिकूंक येताले. क्रिस्ती धर्माचें शास्त्र शिकून उपरान्त ते वेगवेगळया देसांनीं सुमुर्त शिकोवंक वताले. त्या णव घरांतलें आतां एकूच घर उरलां. जें आजुनूय आपलें काम चलयता.

हेच सेमिनारींत शिकून आमचे जायते गोयकार भाव - बरे वैज, वकील, बरयणार, पाद्री बी जाले आनी ते संवसाराच्या पांचूय खंडांनीं शिंपडून बरेपणाचीं कामां करतात.

हेच सेमिनारींत पयलो छापखानो बसयलो. तो अख्याच भारतांत पयलो. हातुंतल्यान स्वामी थॉमस स्टिवन्स हाचें कोंकणी ग्रामर, क्रिस्ती-पुराण आनी कोंकणींत दोवत्रिन क्रिस्तां हीं पयलीं पुस्तकां उजवाडायलीं.

हे परीं रायतूरची सेमिनार एक जाणवायेचो फोलेर आनी देवस्पणाचें, पेल्याच्या मोगाचें आगटें म्हणल्यार जाता.

तर रायतूरची सेमिनार कशी स्थापली? कोणें ती बांदली?

जेझुईत पाद्री जेन्ना साश्टींत आयले, तेन्ना तांणी मडगांवांत देव इस्पिरित सांताची इगर्ज बांदली आनी तिका तेंकून एक विद्यालय उगडलें. 1579 वर्सा मुसलमानांनी घुरी घाली आनी तें विद्यालय आनी ताचीं घरां लासून उडयलीं. हे खातीर ते रायतूरच्या कोटांत आयले आनी तसलेंच विद्यालय हांगा उगडलें. तांच्या वडिलांनी तांकां परतून मडगांवांत वचूंक फर्मायलें. पूण मडगांवांत तांच्यांनी चड काळ रावंक जालेंना. कित्याक, मराठ्यांच्या आनी मुसलमानांच्या झगड्यांक लागून थयंसर तें विद्यालय सवस्तकायेन चलोवंक अवगड जातालें. हे खातीर वडील स्वामी गाशपार सोआरीश त्या जेझुईत पाद्रींक नव्यान रायतूरा घेवन आयलो. 1606 त इगर्जेचो आनी विद्यालयाचो बुनयादी फातर घालो आनी 1610 त तें विद्यालय रायतुरांत स्थीर रुपांत हाडलें. तेंच विद्यालय आयज 500 वर्सां अदिकूच सेमिनारीच्या रुपांत लकलकता.

हे सेमिनारीची बांदावळ खेरीत. वणटी सुमार अडेच हात रुंद. जावं गिमांत वा पावसांत, शिंयांत वा गरमेंत हे सेमिनारींत तापमान शितळ.

त्या काळार, सेमिनारींत तेंकून आशिल्ल्या एका घरांत एक ओश्पिताल उगडिल्लें. गरीब भुरग्यांक शिकोवंक शाळा, धर्माचो उपदेश शिकोवपाची आनी मुळावें शिकप दिवपाची शाळाय उगडिल्ली. तशेंच हांगासर कोंकणी भास आनी देव-विद्या शिकयताले.

18 व्या शेंकड्यांत जेन्ना मार्केश द पोंबालान जेजुइतांक धांवडायल्ले, तेन्नाच्या

दो. आंतोन तावैर द नोयव ब्रुन इ सिल्वैर आर्सेबिश्प सायबान 1762 वर्सा जानैराचे 4 थेर एक हुकूमपत्र काडून बिश्पराजाची सेमिनार केली आनी तिका बों पाश्तोर वा बरो गवळी हें नांव दिलें. तेन्नाथावन, जेजुइतां सुवातेर आमचेच गांवचे ओरातोरियान पाद्री सेमिनारींत शिक्षण दिवपाचो वावर करूंक लागले. ह्या पाद्रींनी जायतो बरो वावर केलो. हाची गवाय दिवन जायत्या साश्टीकारांनी तेन्नाच्या दों. जुझे पात्शायक चिटी पर्यंत धाडल्यो.

1774 वर्सा ही सेमिनार सरकार आदार दितालो तो मेळना जावन बंद पडली. उपरान्त पांच स वर्सांनी ती नव्यान उगडली. आनी सांव विसेंती द पावलाचे संस्थेतले इतालियान पाद्री सेमिनार चलोवंक लागले.

1790 वर्सा ते पाद्री गोंय सोडून वतकूच ओरातोरियान पाद्रींनी ती सेमिनार नव्यान हातांत घेतली. त्या इतालियान पाद्रींचो उगडास आमकां आजुनूय दिश्टी पडटा. सेमिनारीच्या ओसऱ्यांत त्या पाद्रींनी काडिल्लें सुंदर चित्र आसा.

1833 वर्सा पुर्तुगालाक नव्यान धर्माचेर झोडमोड उप्रासतकूच सगल्यो धर्मीक ओर्दी काडून उडयल्यो. तेन्ना सेमिनार चलयतल्या त्या पाद्र्यांक सोडून वचचें पडलें आनी 1835 वर्साथान गोंयच्या बिश्पराजाच्या हातांत आयली.

आख्खे इंदियेंत ही एकूच सेमिनार जावन आसा, जी बिश्पराजाच्या पाद्रीं हातांत आसून आज पर्यंत चलता. हालीं पाद्रीपणाचें पयलें शिकप साळगांवचे सेमिनारींत चलता आनी फुडलें शिकप हे रायतूरचे सेमिनारींत करतात.

हे सेमिनारींत जायते भुरगे पाद्रीपणाचें फुडलें शिकप घेतात. तांकां तज्ञ गुरू तरेतरेच्या विशयांचेर शिक्षण दितात.

रायतूरचें म्हत्त्व खेरीत. इतिहासीक तशेंच धर्मीक. शेंकडे आदीं ताचो प्रभाव पडटालो तेच परी आतांय सगल्या संवसाराक पडटा.

[नवें गोंय : 15 जा. 1964] ☆

20

## सुमन्त केळेकार

# नांवांचो खेळ

लग्ना उपरान्त व्हंकलेचें आडनांव बदलुपाची चाल संवसारांत जायते कडेन आसा. भारतांत जाल्यार ती तमाम कडेन आसा म्हळयार जाता. लग्न जालें की ना, ती घोवाचें आडनांव लावंक लागता. येसो पोरोबाली धूव गुणें हिका गोंदो नायकाल्या शाण्याक दिनाफुडें तिचें नांव आतां रुक्मिणबाय शाणो नायक. 'गुण्या'चें 'रुक्मिणबाय' करप शाण्याले मर्जीचेर. पूण 'पोरोबा'चें 'नायक' जाता तें मात चालीकच लागून.

दादल्यां भितर आडनांवां बदलतात तीं खंयच्याय एका ल्हान भुरग्याक कोणेंय पोसको घेवचो तेन्ना. पोसक्या आवयबापायलें आडनांव तो भुरगो पोसको जायना फुडें लावंक लागता.

आडनांव बदलुपाच्यो ह्यो दोन चाली सोडल्यो जाल्यार हेर तिसरी चाल भारतांतले खंयचेय सुवातेर संस्कारी जमातींनी आसा म्हणपाचें कोणाच्यानूच खातरीन सांगूंक जावचें ना. आनी देखून साडेचारशें वर्सां उपरांत पुर्तुगेजांल्या कचाट्यांतल्यान पोरूं वर्सा सोडणूक जाल्ल्या गोंयांत हिंदू सारक्या संस्कारी जमातींत ही तिसरी चाल आसा म्हणपाचें आयकना फुडें कोणाकूय अजापाचो धसको बसलो ना जाल्यारूच तातूंत अजाप करपाचें!

गोंयच्या हिंदूलीं भुरगीं मराठी मुळाव्या शाळांनी पयल्याच दिसा पावल घालतात आनी थंयचो मराठी मास्तर तांच्या आडनांवाचेर करामत करता. ही करामत तो एका दर्ज्या वरी करता. सरत्या कुडक्याक कातर लावन, ताचे कुडके करून आनी मागीर गांठावन, काजां करून -बुतांव लावन, कितें तरी करून ताचें ताणें आंगलें शिंवचें ते भशेन हो मास्तर केन्ना केन्ना कान कातरून वा अदीकचाराचे जोडून, केन्ना केन्ना मात्रा लावन, ना जाल्यार खावन, तोपयो घालून, अक्षता लावन, अशें कितें तरी करून त्या सरत्या आडनांवाच्यो शिरत्यो करून भोयो भोयो करता. दर्जी कुडके कापून दशा राखता; मास्तर नांवां कापून दशा काडटा; होच तांतलो फरक.

माशेलांतलो 'सातोस्का र' पयल्याच दिसा मराठी शाळेंत वता आनी घरा येना फुडें शेंबूड पुशीत पुशीत घरावशींतल्यान वोंवळयाक जावं आवडूक आपणालें नांव 'सातोस्कर' अशें नेटान सांगून भेश्टायता. बामणालो चलो मराठी शाळेंत वचना फुडें कितेंय तरी 'कर' जाता हें तीं जाणा जातात. पूण त्या 'कारा' चें 'कर' कित्याक जावंचें हें जितलें वोंवळयाक, आवडूक समजना, तितलेंच त्या बावड्या बामणाकूय

समजल्लें नासता. मराठी शाळेंत गेल्ल्यान एक कान वगडावन बामणालो चलो अर्दो भेड्डो जाला हें तांकां बावड्यांक कोण सांगतलो आनी समजायतलो?

'सुकेरकारा'क वळखनाशिल्लो कोणूच ना. सकाळीं उठना फुडें नो दिसत आनी दीस वायट वचत ह्या भिरांतेन त्या नांवाची सगल्यांक घट्ट याद. पूण सांजचो माचयेर रावन मोट्यामोट्यान उलोवपी 'सुकेरकर' म्हळयार कारवारांत एकिकरण समितिच्या नांवान धुमशण कांडपी देशावयलो कोणूय जायत, हाची खातरी करपाक ताचेर नदर घालची पडटा. आनी कितें काय म्हळयार, मराठी उलयतलो जाल्यार सुकेरकाराक मराठी शाळेंत मास्तरान एक कान कापला म्हणपाची गवाय दिलेबगर सुटका ना. 'केळेकार,' 'भाटकार,' 'गांवकार', 'नुसतेंकार', 'पसरकार' आनी तो 'दुडवांकार' आसूं वा नासूं, ताका मराठी शाळेंत वतलो जाल्यार मास्तराखातीर एका कानाचो शिदो घेवन वचचेंच पडटा. तो एक कान निखळायलो ना जाल्यार मराठी विद्या कशी प्राप्त जायत?

हेर कांय दुसऱ्या भुरग्यांकडेन पळयल्यार हीं कान वगडावपी भुरगीं खऱ्यानीच कर्मकट्टीं. एकाक धा करपी गडगड्या भशेन मराठी शाळेंत वता आसतना एक आनी येता आसतना धा, धा कित्याक-जाय तितले, करपाचीय करामत मराठी मास्तरा कडेन आसा. आंब्यालो एक 'आंबो' मराठी शाळेंत वता आनी घरा येवन आंबो न्हय 'आंबे' म्हूण उफाट्टीं बापायकच शाणेपणां सांगता. शाळेंत वता आसतना गेल्लो 'बुडकुलो' एक, पूण मास्तराल्या पटाचेर पडटा 'बुडकुल्यां'ची रास; आनी एका 'बुडबुड्या'चे कितलेशेच 'बुडबुडे' वयर सरतात. आवयन सकाळीं शाळेंत धाडिल्लो एक भोबो', पूण दनपारचीं भुरगीं तिचे कडेन चवकशी करतात 'भोब्यां' ची.

मराठी शाळांनी वचून जोड जावं मोड करतल्या भुरग्यांचें एक जालें. पूण जोड म्हणचे परस कितें म्हळयार 'हात दाखोवन अपशकून' म्हणटात तेभशेन 'कोसम्या' चें बावड्याचें जाता. बरें तोंड धुवन सवरून, बरे भशेन शाळेक गेल्ल्या ह्या भुरग्याक तिब्याचो प्रसाद आनी तोपयेचो अहेर कित्याक, तेंच समजना. 'कोसमो'चो 'कोसंबी' जावचोच कित्याक? किसमूर तंथा कोंशंबिरिचे धाटणेर ह्या कोसम्याक त्या मास्तरांनी व्हरचो म्हळयार कितें? 'भांडारी'चीय तीच गत. ताजी वाटकुळी तोपी शेंवटावन ताका मात्रेची शेंडी लावपाचो हे मास्तर उपद्व्याप करतात आनी देसायाक नाका नाका म्हणटा आसतनाय तोपी घालतात. अशे तरेन आजवेर हो तोपी घालपाचो, शेंडी लावपाचो, अक्षता वांटपाचो आनी कान कापपाचो धंदो मराठी शाळांचे मास्तर करीत आयल्यात हें कोणाकूय खबर ना शें ना.

म्हणपाक काकुळट दिसता ती भेंब्रो, खंवटो जावं बोडको हांची. तांचेर हात घालून हे मास्तर कित्याक तांच्या दुखाण्याक मीठ चोळटात तें कळना.

पूण अशें आसुनूय हे मास्तर अडटात ते राजाध्यक्ष, संझगिरी जावं कामत हांचे सारकेल्यांकडेन पावतकच. तांचेर करामत करपाइतलें तारतम्य जावं बुद्द आशिल्ली जाल्यार ते मास्तर जावंकूच पावचे नासले. आनी जाल्लेय जाल्यार वाडी-वेंगुर्ल्यासावन गोंयांत मास्तर म्हूण केन्नाच येवचे नासले.

अशी ही आडनांवां बदलुपाची विपरितांची चाल आमगेल्या गोंयांत आसा. हे

चालीक अर्थ ना आनी समर्थनूय ना. नाक कातरून हड्डें फुलोवपी गोंयकार हे चालीचें समर्थनूय करूंक फाटीं रावपाचे नात. मूळ सोबीत नांवाचें मराठीकरण करपाची ही चाल जितली बेगीन बंद जातली तितले रोखडे गोंयकार बुद्दीन सरळ जायत वतले हातूंत इल्लोय दुबाव ना. पूण अशें आसुनूय आज ताचें कांयच सांगूं नज. सुटके उपरान्त मराठी भस्मासूर गोंयांत घुसळ घासपाक लागला. आनी त्या निमतान भायल्या आनी भितल्ल्या गांवठी मास्तरांनी करामती करून सगल्यांक दिपकायतले म्हणपाची प्रतिज्ञा केल्या. तांच्या कार्याक नेट दिवपाक मोट्यामोट्या थेलयांचे भाड्याचे जिपींनी भोंवड्यो काडीत आसात. अशा वेळार मास्तरांनी मनार घेतलें जाल्यार 'कुराडो' ची 'कुऱ्हाड' आनी 'आंबो' चो 'आंबा' करपाक ते इल्लेय अनमनपाचे नात. इतलेंच कित्याक, आडनांवां वांगडा नांवांचेरूय गदा येतली. आजमेरेन केंसराचें 'केशर' आनी मोगुचें 'मोघु' इतलेंच जालां. पूण फुडें पुणेच्या म्हादेव जोयशाल्या कोशाच्या आधारान 'कस्तुरे' ची 'कस्तुरी' 'आबोली' ची 'अबोली' 'शेंवतें' ची 'शेवन्ती' 'बाबना' चो 'बबन' दा 'शाणू' चो 'शहाण्या' तांणी केलो ना जाल्यार ते मास्तर कसले? 'मोगरें' चो 'मोगरा' करून ब्रह्मदेवाचेर लेगीत ते संकश्ट हाडपाचे आसात.

भारतांतल्या म्हगेल्या सगल्या भावां-भयणींनो, हो असो नांवांचो खेळ म्हगेल्या गोंयांत चल्ला. तुमी हीं पिशेपणां पळोवन पोट फुटसर हांसतले. पूण उपकार करून हांसूं नाकात. हीं चल्ल्यांत तीं सगलीं भुरगेपणां. 'दांगांनी वाडल्यात, पूण कुस्कूट अक्कल ना' अशें आपणाल्या भुरग्यांक आवयो म्हणिनात? तींच तीं - तश्शी!

(10-2-1963) 

# 21

## मनोहर पै. धुंगट

# श्रावणांतली सोबीतकाय

वर्साचे बाराय म्हयने सैमाची वेग वेगळीं रूपां आमकां दिसतात. सगळे सृष्टीक केन्ना हांसयणारो, केन्ना रडयणारो, परिपरीनी तिचो साजशिणगार करणारो असो काळाचो एक भाग म्हळयार ऋतु. साजशिणगार काडून उडोवपी ऋतु आनी गिमाच्या तळतळाटा उपरांत पावसाचें थंड किरांव उदक घालपीय तोच.

ज्येष्ठ-आषाढांत गडगडाट करून येवन श्रावणात मोगान भिजोवन, भाद्रपद-आश्विन मेरेन धरतरेक न्हाण घालता तो पावसाळयाचो ऋतु. ह्या पावसाळया म्हैन्याच्या माळेंतलो म्हूर्तमणी म्हळयार श्रावण. ताची सोबीतकाय चोंयदिकानी फांकिल्ली आसता. सगळी सृष्ट नटून-थटून राविल्ले वरी दिसता. तिचे रंग आनी रूप पळोवपाची वान्सा जाय आनी जागें मन जाय. श्रावण म्हयनो सगळया कवींचो चड आवडीचो. ताचे सोबीतकायेन बुल्लुसून कवी शंकर रामाणी आपल्या म्होंव्या आनी मेजिल्ल्या उतरांनी सांगता,

> पाचवी शेतां,
> पाचवो वारो,
> जळटे जिणेक
> फुटला झरो....

खऱ्यांनीच श्रावण म्हळयार पाचवेचार रंगाचें व्हड थाटान मांडिल्लें प्रदर्शनूच! आषाढांतल्या उटंगाराच्या पावसांत जमनींत जंय जंय बीं पडलें आसत थंय थंय तें लसलसून रुजून वयर येता. ह्या रुजवणान आनी पाचवे हरयाळीन आनी चरवान धतरिचो इल्लोय जागो उरनासतना लिपून वता. तळयेचेर आनी जंय उदक सांचलां आसत थंय, कोंडाचेर विलोदासारको शेळो येता. दोंगुल्ल्यो सुद्दां आतां उगड्यो दिसनात. गिमांत कुपां नाशिल्ल्यान मळब वयर वयर गेलां शें दिसता आनी दोंगुल्ल्यो सकयल दिसतात. श्रावणान मळब दोंगुल्ल्याक सामकें हुंगूक येता शें दिसता.

श्रावणांत कितले तरेच्यो वनस्पती बी किल्लून येतात हाचो सुमार ना. ह्या पाचव्याचार पानांच्या मंडळांत शेरवडाचें धवें पान मात आपणालें वेगळेपण दाखोवन रावता. कांय कडेन ही तरेतरेची पत्री पुंजावन आयतारा सूर्यनारायणाची पुजा करपाची पद्दत आसा. हे पत्रेंत शेरवडाचें पान मुद्दाम पुंजावन हाडटाले अशी म्हाका याद आसा. पुराणांत श्रावणांतल्या सूर्याकच 'पर्जन्य' अशें नांव आसा. पर्जन्यांत दिल्ली

पत्री घेवन तीच ताका ओंपून ताची पूजा करप हातूंत उपार अर्थाचें रूपक दिसता.

वसंत ऋतु हो फुलांचो राजा अशें समजतात. पूण श्रावणांत येतात तीं फुलां सोबीतकायेन मन धादोस करतात. हळडुवीं सोनचाफीं, धव्यो फुल्ल जायो-जुयो, सायली, सोनटाके बी फुलां येवंक लागतात. पावसान मळबांतल्यान नाच जाल्लो हळडुवो भांगराचो रंग सोनचांफ्याच्या रूपान पृथ्वीर येता अशें कोणें म्हळां तें सामकें खरें. 'शून्य शृंगारतें होऊनीया हळडुवें' हें सोनचांफ्याचे राशीक आनी श्रावणांतल्या वताकूय लागता अशें म्हाका दिसता. धव्योफुल्ल जायो तर श्रावणांतलीं खाशेलीं फुलां. कवी शंकर रामाणी म्हणटा

सगळयाच<br>
श्रावण म्हयन्याक<br>
म्हाड्डोळच्या<br>
जायांचो वास आसा.

कवीन केल्लें हें श्रावणाचें मुर्तावण म्हाका खऱ्यांनीच रूपाळें दिसता. ह्या जायांच्या वासाक लागून ज्ञानेश्वराच्या नेवाश्यांतली म्हाळसासुद्दां म्हाड्डोळा येवन रावल्या. हीं आनंद दिवपी फुलां निर्माण केल्ले बद्दल देवाचे उपकार मानपा खातीर गोंयच्या देवळांनी जायांची पुजा बांदपाची चाल पडल्या आसूं ये. सगळी गर्भकूड आनी मंडप जायांच्या घमघमान भरून वता आनी कृतार्थ अंतस्करणांत देवाची आरती करतात.

पारजताचीं दोन चार म्हयने फुलां येनात, त्या तेंपार तो काशीयात्रेक गेला अशें आमची आजी म्हणटाली. पूण सोंपत्या श्रावणान काशीयात्रेक गेल्लो पारजत मोतयां पोंवळयाची रास घेवन येता. आनी पोरसांत सकाळीं फुडें ती शिंपडून दवरता. ते राशी वयल्यानूच भाद्रपद भितर सरता म्हळयार जाता.

अश्या ह्या श्रावणांतल्या पावसाचीय वेगळीच मजा आसता. आषाढांतल्या पावसाक, आषाढ पांवळी अशें म्हणटात. कित्याक कोण जाणा, नवे व्हंकलेक आषाढ पांवळी कुळारा काडची पडटाली. आषाढ पांवळेन मांवाचें तोंड तिणें पळोवचें न्हय, असो समज आशिल्लो! आषाढांतली आषाढ पांवळी जाल्यार श्रावणांतल्यो त्यो श्रावणसरी; रेसमा सारख्यो. येता आनी वता. दडक आयलीच जाल्यार थोडो वेळ.

मळबांतल्या कुपांचींय ह्या वेळार बरींच वेगवेगळीं रंगरूपां पळोवंक मेळटात. जांभळो, किरमुजी, तांबडोसार अशे रंग मळबांत दिसतात. ह्या मळबाच्या रंगांचो आनी दरयांतल्या नुस्त्याचो कितें संबद आसता तें हांव नकळ, पूण मळबाचो रंग पळोवन खंयचें नुस्तें रांपणीक पडटलें तें ज्यूस्त सांगणारे लोक आसात.

श्रावणांतल्या कुपांचे आनी आपले प्रियतमेच्या केंसांचें नातें आसा अशें शायराक दिसता. तो म्हणटा,

सावन तेरे जुल्फोंसे घटा माँगके लाया<br>
बिजली ने चुराई है तडप तेरी नजर से

रातच्या मळबाचें बारकायेन निरिक्षण करपी लोक सांगतात, गरूडाच्या आकृतीचो एक नकेत्रांचो जमो दिसता, तातूंत 'श्रवण' नांवाचो एक तारो आसता. ताकाच लागून श्रावण हें म्हयन्याचें नांव पडलें, कोण जाणा!

दरयाय ह्या म्हयन्यांत आपणालें काळें रूप सोडून दिवन पाचव्या रंगाच्या प्रदर्शनांत येवन मेळटा. दरयाच्या फेणेराक एक सुक्षीम असो पाचवो रंग येता. सुता पुनवे उपरांत दरया मात्सो शांत जाता. समुद्राची पुजा करून ताका नाल्ल अर्पण करपाची चाल आसा. असो हो सोबीत म्हयनो हिंदू धर्मांत अत्यंत पवित्र मानतात. ह्या म्हयन्याच्या दर दिसा कांय ना कांय धर्मकृत्य करतात. श्रीकृष्णाचो जल्म ह्याच म्हयन्याचे वद्य अष्टमीक व्हड प्रेमान सगळे कडेन मनयतात. नागपंचम, सुता पुनव, जन्माष्टमी बी सणासुदीक ़लागून ह्या म्हयन्याचे सोबीतकायेंत आनिकूय भर पडल्या म्हळयार जाता.

श्रावणाचे सोबीतकायेची कथा सांगत तितली थोडी. पूण मुंबयसारख्या शारांत पोटा फाटल्यान येवन पडिल्ल्यांक ही कथा म्हळयार गेल्ल्या दिसांची याद अशें दिसूंक फाव. शारांतली जीण दगदगीची जाल्या. हांगाचे जिणेचीं उद्दिष्टांच बदलल्यांत हें खरें. दगदगीचे आनी माकनासारखे चलिल्ले जिणेंतूय ऋतूचे बदल सुखदिणे जातात. शारांतल्या मनशाक लेगीत श्रावणाचें येवप धादोसकाय दिलेबगर रावना. केन्ना काँक्रीटच्या जंगलांत रस्त्याचे देगेक आशिल्ल्या पिंपळासारख्या झाडाच्या पानांतल्यान श्रावणाची गुढी दिसता, केन्ना बिल्डिंगेच्या वणटींतल्या अचळय भायर आयिल्ल्या वडाच्या रोपट्याचेर नदर वता. सकाळच्या पारा शिवाजी पार्क सारख्या मैदानाचेर पाचवोचार तणाचो गालिचो दिसता. सांजे वेळार ऑफिसांतल्यान घरा परततना मळबाचे रंग दोळे न्हिवयता. सदांच्या कामांत आसतना, श्रावणांतल्यो सरी ताच्या कानांत काळाच्या गूढ कवनाचे सूर भरून सोडटा. फाटल्या काळांतल्यो काणयो ताका नुलयत सांगता.

शारांतलो मनीस निर्सगापसून पयस गेलो जाल्यारय निसर्ग ताची फाट सोडिना.

सांजे वेळाचेर भोंवंक गेल्ल्या वेळार ओल्या निळया मळबाचेर सुर्याच्या सात रंगांनी रंगयल्लो रामाचो बाण पळोवपाची ओड मनाक लागता. आनी रात लागीं येता तशी पैशिल्ल्या झाडांझुडपांनी काजुल्याची जोत दिसता. आनी ते जोतीच्या उजवाडान भाद्रपद धतरेर पावली मारता.

(आकाशवाणी - मुंबयच्या बरेपणान) (कुळागर) ☆

22

भालचंद्र उमानाथ खंबदकोण

# हांवें पळयल्लें गोंय

चार वर्सां जालीं हांवें गोंयाक येवनु, आनी ह्या चार वर्सातु माका गोंयकारांगेले इतलें वारे लागलां की हें पेन घेवनु बरोवचे सुर्वेकचि माका न्हीद पडटा की म्हणु चिके भंय दिसता.

मगेलीं चार वर्सां हांगा सादारण खुशालेरी गेलीं. हांव पुण्यांत आशिल्ले तावळी मगेले बापसुने मस्त फंता गोंयाक वचुनु कुळदेवते म्हाळशेलें दर्शन घेवनु यो म्हण बरयिल्लें. जाल्यारि हांवें भारि उमेद घेनि.

तशी वर्सां गेलीं. गोंय स्वतंत्र जालें. आमी तावळळी सगळो दिवसु रेडियोक कान लावनु बशिल्लीं. रेडियो ल्युक्सेंबर्ग सुद्दां सोडनी.

थोड्याच म्हयन्यांनी गोंया येवनु एक कॉलेजांत काम करूंक लागलों. पुण्यांत हांव गंमतेरि आशिल्लों आनी पुणें सोडचें खंडित करतना मन मगेलें माक्शेलें. एका म्हयन्यानि हांव मडगांव स्टेशनारि ट्रेनारि थावनु देंवलों, पळयल्यारि गांव मगेल्या मंगळुरा म्हणकेचि दिसलो.

हांगाचि कोंकणि चिकेचि दुसऱ्या नमुन्याचि. राग आनी उच्चार वेगळे, जाल्यारि माक्का गोंयकारानि उलयल्लें कळटालें. कशिकि हांव नव्या जागेरी आयलां म्हणु माका दिसनि. सुरवेक एक फंता हांगा आयिल्लो अशिच एक भावना मनांतु. एके दृश्टीन तेंवय खरें, इत्याक म्हळयारि शंबर वर्सां फुडें आमगेले पूर्वज गोंय सोडणु दक्षिणेक धांवनु गेल्ले.

आंब्या-काजूचे रूख, माड्डे, मातये रस्ते चोयना फुडें आनी भास आयकना फुडें, बार गांवचें उदक पिल्ललो माका, कडेर सरी घारा आयिल्ले म्हणके दिसलें.

गोंयाविशीं हांवें मस्त शिफारस आयकलेलि, तेंवूय गोंयकार लागीं हांवें गोंयकाराले दयादक्षिण, खेळी मेळी स्वभावाचे केन्नाय कोतुकचि केलां आनी हांवें गोंयांतु येना फुडें हे सगळे गूण हांगाच्या लोकांत पळयले.

इंदियान येतलगिन, नारलाचे, तांदळाचे, पेत्रोलाचे आनि झळक्याचे मोल चडलें हे विशीं फडफडटले टॅक्सी ड्रायव्हर, तर्क करतले पोलिटिकल लीडर. (गोंयांतु राजकारणांतु भाग घेतिल्ले सगळे लीडरचि म्हणु घेताति. एकेक फंता दिसता, ह्या लीडरसां माकशि वत्तले खंय आसति म्हणु.) तर्क करतले लीडर होड होड शब्द उपयोग करनु ज्ञान उलयतले तसले आनी मागिरि थोडे वेळाने ''हागे'' ''बायल''

ताजो वटटु वत्ता आनी अमक्याली धूव तमक्याचे बीचे वटटु पळनु धांवल्या म्हणु खबरि करतले. स्वताचे बुदवंतकिचे कौतुक करनु बसतले बुदवंत; माक्का मेळिल्ल्या मस्त जनांतु हे गुण आशिल्ले. हांगाचे कवीनि रेंवेरि येंवचें समुद्रा-पाळ, सूर्यकिरणांतु हालचे भांगरा आंबे, मोगरे-कळे, म्होंवा मूस, मांडूक इत्यादि विशयारि कविता केल्ल्यो वाचून माक्का भोव खुशी जालि.

वाटेरि मेळळल्या परके मनिश्यानि हासमुख तोंड कोरनु नमस्कार केल्लले पोळोनुइ माक्का खुशि दिसलि.

एक वार भरि·माक्का खांकि जाल्ली तावळिळ, गुरता चानि दाखयिल्लि काळजि पोळोनु माक्का आश्चर्य जाल्लें.

ह्या सर्व लोकांतु म्हज्यांतु नाशिल्लें कसलेंकिचि आशिल्लें. गोंयचे गोंयकार, आकर्षक, अतिथी सत्कार करतले, गायना-ज्ञान आशिल्ले कलावंत म्हणु तांकां मस्त गर्व आस्सा. माक्का मात्र तांनी ओट्टायेरि चांग, विश्वासु आणि भोळे दिसले!

गोंयकारांलागेले गायनाचे ज्ञान विशयीं मस्त शिफारस आयकलेलि, हांगाचे चले, चलयो हिंदुस्तानाच्या दुसरे कडचे चले चलिया म्हणके चांग कोरनु पद म्हणतातिं. हांगाचि कोंकणी ''कांतार'' मात्र भारी गोमटी दिसतातिं. प्रत्येक पदांतु ''मोग'' आनी ''काजार'' मोग काजाराचे सुर्वेक आयलो न्हय जाल्यारि मागिरी मोग आनी काजार करकर नाशिल्ले करयेत खंय म्हळयारि मुंबय. अशि ह्या पदांत दिसतालें. हीं पदां सोडल्यार गोंयकारांगेले गायना ज्ञान चडशें माक्का दिसनि.

गोंयकार भारी रीति-रिवाज कळळेले म्हणू माक्का मस्त जणानि सांगिल्ले आनी हांवें कबूल केल्लेलें जाल्यारि हांगा येतचि एक फरक दिसलो. एकंदर कोन्वेंटाक, कॉलेजाक वचगेलेले जनांक विनयशील म्हणूं येत, बाकी तांगेलें मन चांगलें आसलें तरी, एकय लजेन न्हय जाल्यार आळशिपणान, विनय म्हळळेले दिकान डोंकुनु चोयनातिं.

गोंयकार भरपूर अतिथि सत्कार करतले, जाल्यारि चडावत अतिथि गोंयकार मात्र ह्या नांव पाविल्या अतिथि सत्काराचि खुशालि घेनि हांवें मस्त फंता दोनपारा वतांतु रस्त्यारि वता आसताना होड, होड खालि कारवाले मगले गुरताचे दुसरे दिकानु चोवनु गेल्यातिं. हांगा हें मात्र सांगूंक विसर नज्ञ हावें; मस्त टेक्सीवाल्यानि तांगेलि कार राव्वोनु माक्का व्हेल्ला. पैशे दितना थोड्या जाणांनि नाका सुद्दां म्हळां.

गोंयांत राजकारण म्हळयारि एक खेळु - तमाशा. भायर गांवांक फुटी सुद्दां दिसुंक पुरो. तागेले तर्क आलोचन करनाथिल्लीं उतरां आनी दुसऱ्यांगेल्यो नाका जालेल्यो खबऱ्यो आयकल्यारि गंमत दिसता. सान विशयाक भोव चड म्हत्त्व दिवनु निज जावनु होडु विशयाक गुमानसुद्दां करनातिं. हें पोळोनु कोणाकय आश्चर्य दिसचेंचि.

तांगेल्या जीवनाचें मुख्य ध्येय म्हळयारि झळकें (मासाळि). ताजेखातिर ते आसतात. शिकिल्ले दादलेसुद्दां एकमेकांक मेळळयारि ''आज नुस्त्याक कितें?'' म्हणु निमगितातिं. तें नुस्तें शिजोवुनु, भाजुनु, तळुणु, तें इत्याक, हरवें सुद्दां खातातिं. दोन पारांचें जेवण एक नुस्त्यारांदय खातीर चार घंट्यारि थाइ जेवतातिं! नुस्त्यावास ना जाल्ल्यारि तांकां श्वास काडूंक थांइ कश्ट जातात म्हणु दिसता.

गोंयकार निसर्गप्रेमी खंय! मात्र तांगेले सुंदर पार्क आनी समुद्रा वेळ चडावत

खालिचि आसताति. थोडीं चेरडवां आनी थोडी पिराय जालेले मात्र दिसताति. तांणी भायर वतना तांगेल्या ''फोरेन मेका''चे कारांतु जोरायेरि एक सानु राउंड मारून येताति. कार नाशिल्लीं भायरचे जगलेर बसून रस्त्यार वतल्यांक पिळी, पिळी चोयताति.

गोंयकार पोर्तुगेजांच्या मुळा चारशें वर्सां थंड-शांत रितीत कशे राबले म्हणून कळपा जाल्यारि तांकां काम करताना पळोवंचे. खंयच्याय गांवांतलें घर बांदतना पळोवपाक गंमत दिसता. मात्र हांगा तो एक दुसरो नमुनो, -पळयिल्यारीच हांसो येता. हें पळयतलो कितलोय आळशी जालोतकी हांगाचे कामांच्यागेले तितलो आळशी जांवच्याक साध्य ना. आनी कोणी त्रास घेनातिल्ले काम करनायिल्ले जांवचे पळोवनु मनाक खुशालि जाता. वणतीरी एक फातर दवल्लो, एक बिडी; थोडी माती थापली एक सान न्हीद; आनी एक फातर दवल्लो, आनी एक बिडी आनी थोडी माती आनी चिके होड न्हीद. एक सान भोंवडी, दोन तीन जांभयो आनी कामाक परत लागलो. हें पळयल्यारि एक स्पॅनिश म्हणणें ''कांय काम करनाथिल्लें विश्रांति घेंवची भारी सुखदायक'' प्रकार गोंयकार तांगेलें जीवन चलयतात म्हण दिसतात.

सद्याक हें पुरो. माका मस्त फंता हांगेले हे गूण पळोवनु, कोप आयला. बेजार जाला, मस्त फंता हांसोय आयला. जाल्यारि ह्यो चुक्यो गोंयकारांगेल्यो मात्र म्हणूंक जायनाति. हे विशय हांवें बरयलें कारण कसलें म्हळयारि मगेल्या हांगाच्या मित्रांनीं तांगेल्या चांग गुणांची मात्र शिफारस करून घेतिल्ली.

बंद करचे फुडें हें एक सांगतां - तीन वर्सां फुडें रजेंतु गोंयथावनु भायर गांवांत वच्चें बरें दिसतालें. वापस येंवचे पशी जाल्यारि माका गंबुयेत जाल्यारि नंबुयाति आतां दोन वर्सां जालीं. हांवें गोंयचे भायर वचनाथिल्ले हाजो अर्थु कळुंक कश्ट जायते नाति न्हय वे?

(साळीक : जाने. 1966) ☆

## 23

### अच्युत तोटेकार

# म्हज्या मिशांचो महिमा

काळाचो महिमा अगाध आसा; ताचेफुडें कोणाचें चलना; अशें आमचे पुर्विल्ले म्हणटाले. तो केन्ना रावाचो रंक करीत आनी केन्ना रंकाचो राव करीत तें कोणाच्यान सांगूंक जावचें ना. थोडक्यांत सांगपाचें म्हळयार काळ केन्ना कोणाचें कितें करीत कळपाचें ना.

पूण म्हज्या संबंदान तरी काळाच्या महिमा परस म्हज्या मिशांचोच महिमा अगाध थरला. म्हज्यो मिशो जें कितें मनांत हाडीत तें काळाच्यानूय फाटीं घेवप जावचें ना. मिशो म्हजे जिणेंत इतली क्रांती करीत हें हांवें सपनांत लेगीत खरें मानूंक नाशिल्लें, जें काळ करूंक शकचो नाशिल्लो, तें मिशांनी म्हज्या जिवितांत करून दाखयलें. रंकाचो राव करपाची शक्त म्हाका मिशांनी सांपडली. मिशो हें पुरुशार्थाचें लक्षण न्हय, तर सर्वार्थाचें साधन जावन आसा, हो सिद्धांत हांव मिशांपसून शिकलों. म्हजो हो सिध्दांत खोडून काडपी एकाद्रो जाणकार मेळत जाल्यार थंयचे थंय म्हज्यो मिशो काडून हातार दिवपाची तयारी आसा.

आज जरी म्हज्या ओठांचेर मिशांचो चोंबो दिसलो, तरी एका वेळार हांव मिशांक थर्त भितालों, हें तुमकां सांगल्यार खरें दिसचें ना. अर्थात तो काळ म्हज्या भुरगेपणांतलो आशिल्लो.

आमच्या गोंयांत त्या वेळार मिशेकार चडशे दिसच नाशिल्ले. गोव्हेर्नादोरापासून सोलदादामेरेन सगल्यांचीं तोंडां कशीं गुळगुळीत, बायलां भाशेन. मिशेकार खंयतरी आडखेड्यांत आडखळपाचो. आणि ताचो उपेग चड करून भिष्टावपाक जावपाचो.

हांव तेन्ना शाळेंत वतालों. पूण एकाद्र्या दिसा हावें शाळेंत वचपाक कुंय-कुंय केलें जाल्यार आईन विचारपाचें -

'तूं मोन्यानी शाळेंत वता काय हाडूं आपोवन मिशेकाराक?'

हांव मोन्यानी पाटी-पुस्तक गळयाक हुमकळावन घेवन शाळेची वाट धरतालों; इतली हांवें तेन्ना मिशांची धास्त घेतिल्ली.

म्हाका दिसता, हांव तिसरे यत्तेंत काय केन्ना तरी आसतनाची गजाल; इतिहासाचें पुस्तक शिकतां शिकतां एक दीस एका मिशेकाराकडेन गांठ पडली. तो तानाजी काय शेलारमामा असो कोण तरी आशिल्लो; तो दिसना फुडें हांवें पुस्तक धांपून घेतलें. दुसऱ्या दिसा शाळेंत मास्तरान म्हाका इतिहासाच्या धड्यांतले प्रस्न विचारपाक सुरवात

केली. हांवें भीत भीत म्हळें....

'गुरुजी माझा धडा झाला नाहीं.'

मास्तर बडी मेजार आपटून गर्जलो - 'कां झाला नाही?'

म्हजो गळो भितल्ल्यान सुकून आयलो. हांवें चांचरत जाप दिली. 'गु... गु...गुरुजी, म...म...मला त्या धड्यांत तलवार घेऊन उब्या असलेल्या मिशेकाराचा भंय दिसतो.'

सगलो वर्ग हांसलो. हांसतां हांसतां मास्तराच्याय हातांतली बडी गळून जमनीर पडली.

मागीर मास्तरान म्हज्या हातांतलें पुस्तक घेवन सारकें त्या मिशेकाराक पळोवन घेतलें आनी त्या मिशेकाराचेर गोम लावन कागदाचो कुडको दसयलो; आनी विजयी तोंड करून म्हळें -

'त्या मिशेकाराला मी धांवडवला पुस्तकांतून बाहेर!... काय? आतां न भितां करशील का नाही धडा?'

हांवें मान हालोवन हयकार दिलो.

मास्तरान जमनी वयली बडी काडून मेजार आपटीत म्हळें - 'नंदिबैल कुठचा!'

हांवें आनीक एकदां तकली हालयली. मास्तरान नंदिबैल कोणाक म्हळो, म्हाका काय त्या मिशेकाराक तें म्हजे तकलेंत वचपाक बरोच वेळ लागलो.

दुसऱ्या दिसा हांवें धडो तयार केलो आनी मास्तराच्या प्रस्नांक धडाधड उत्तरां दिलीं. तीं आयकून मास्तरान म्हजी फाट सांसपीत म्हळें - 'वेडा रेऽऽऽ वेडा!' म्हजें काळीज अभिमानान भरून आयलें.

अशे तरेन मिशांक भियेवन दीस काडटां काडटां खुद्द म्हज्या ओंठांरूच मिशो उदेल्यो. आरे म्हज्या बाबा! त्यो मिशो पळोवन म्हजी अशी तिरपीट उडली विचारूं नाका. बद्द म्हाळू म्हाल्यागेर गेलों आनी भीमगर्जनेंत म्हळें, 'म्हाळूमाम, आतां वेळ काडूं नाका; काड तुजी तलवार.. वाखोर भायर; आनी मुळासकट तासून काड; परती तकली वयर काडची ना!' म्हाल्यान जुस्त म्हाका जाय तशें केलें. आनी हांव हटणीचो एको कसो गुळगुळीत चेहरो घेवन घरा आयलों.

हांवें घरांत पावल उडयलें मात, चुलत्यान म्हजेर तोफ रोखली- 'आरे अक्कलकाढ्या, तुवें आवय बापूय जितीं आसतना मिशो तासल्यो?

जणूं कितें हांवें मिशो काडल्यो म्हणचे म्हज्या हातान आवय बापायचो खून जालो अशें ताका म्हणपाचें आशिल्लें.

हांवें परतें विचारलें - 'मिशो काडल्यो म्हणून कितें जालें?'

'आरे, आवय बापूय जितीं आसतना मिशो काडूंक जायना, अशें शास्त्र आसा. गोदूभटाक विचार.'

'तो काळ गेलो आतां', अशें म्हणून हांवें चुलत्याक फाफुडलो. आनी नित्यनेमान म्हाल्याफुड्यांत बसून मिशांची कत्तल चालूच दवरली. कितें कोण जाणा, मिशांक यमसदनाक धाडपी कोणी तरी म्हालो नांवाचो काळ आसता, हें कळत पसून म्हजें मिशांसंबदींचें भंय इल्लें इल्लें उणें जायत गेलें.

आनी एक दीस काळान पान परतिलें आनी खुद्द गोंयांत खाडा-मिशांचें यूग सुरू

जालें. गुळगुळीत तोंडाचे पाखले गेले आनी भारतीय लष्करा वांगडाच हांगा गोंयांत तरेतरेच्या खाडा-मिशांची येरादारी सुरू जाली. आनी थोड्याच तेपांत मिशांक व्हडपण आनी प्रतिष्ठीतपण आयलें. मिशांक सरकार दरबारांतूय वजन आयलें. म्हाकाय मिशांसंबंदान पयली वयली ओडशी दिसूंक लागली, ते उपरान्त मिशी पळयली म्हणचे मन चलबिचल जावंक लागलें; आनी एक दीस हांव खरेलोच तिच्या ... म्हणजे मिशेच्या मोगांत पडलों. हांवें म्हाल्याक मिशांक हात न लावपाची सक्त ताकीद दिली. आनी थोड्याच दिसांत म्हज्या ओठांचेर बोटभर जाडायेच्यो काळयो कुळकुळीत मिशो विराजमान जाल्यो.

सुरवातेक म्हजी घरकान्न म्हज्या मिशांलागीं ओगीच दुस्मानकाय करपाची; आनी म्हणपाची, 'काय बरे दिसताले तुमी - आतां तोंडार नदर घालूं नज तुमच्या. शी, सुतकिल्ले कशे दिसतात.'

पूण तिचो विरोध चड दीस तिगलो ना... थोड्याच दिसांत मिशांचें आनी तिचें जमलें आनी दोन सवती जशो एका घरांत मायेमोगान चलतात, तशो त्यो रावंक लागल्यो.

म्हाका मात सुरवातेक मिशांची आडखळ शी जावंक लागली. म्हज्या नाकासकयल दोन जल्ले घांस मारून रावल्यात अशें म्हाका परतुपरतून दिस. न्हिदेंत तर ह्या जल्ल्यांक धांवडावपा खातीर तोंडारूय मारून घेतालों. आनी जागो जायना फुडें ल्हवूच मिशांची सांसपून अपुर्बाय करतालों.

आनीक थोड्याच दिसांत माजराचे वयर उबारिल्ले शेपडे भशेन म्हज्यो मिशो मातल्यो. आनी हांव थेट पुलीस कसो दिसूंक लागलों. एक दीस हांव खाकी पॅन्ट-बुशकोट, बूट बी घालून पासयेक गेल्लों. तेन्ना खूब शे अनवळखी मनीस हांव एक व्हडलो पुलीस समजून मान बागोवंक लागले. इतलेंच न्हय, आनीक चार पावलां फुडें वतकूच खुद्द एक पुलीस फुडें आयलो. ताणें तर रस्त्याचे देगेक उबो रावन 'कडाड् ठाक्' करून सॅल्यूट मारलो. हांव मनांतल्यान हांसलों. हांवें म्हाकाच विचारलें, हो सॅल्यूट म्हाका काय म्हज्या मिशांक?

मिशांपसून व्हडपण मेळटां मेळटां म्हाका खूब शे फायदेय जावंक लागले. बसींचे भोंवडेक तर म्हाका सहसा पानदुडूय खर्च येना. म्हजो खाकी ड्रेस आनी मिशो पळयल्यो म्हणचे सहसा कंडक्टराक म्हजेलागीं येवन तिकेट फुडें काडपाचें धाडस जायना. इतलेंच न्हय, तर बसींत बसपाक सीट नासलो जाल्यार तो एकाद्र्या पॅसेंजराक उठोवन म्हाका बसपाक जागो दिता.

एक दीस भोंवडेक गेल्लो आसतना अशीच बसींत गर्दी आशिल्ली. कंडक्टर आनीक पॅसेंजर भरता तें पळोवन हांव उबगलों आनी ताका नेटान विचारलें 'कितें रे, आंबल्यो दोणांत भरता?' कंडक्टर वें वें करीत म्हजे फुड्यांत आयलो आनी एक पांचांची नोट ताणें म्हज्या बोल्सांत दामून दिली. त्या दिसा त्या पांचाचे नोटेन म्हज्या मिशांतली सुप्त शक्ती म्हाका दाखोवन दिली.

खूब वेळा कंडक्टर म्हाका विचारतात, 'हालीं तुमची बदली खंय?' हांव पेडण्यां आसल्यार सांगतां, काणकोणा म्हणून, आनी काणकोणाक आसल्यार सांगतां, पेडण्या

म्हणून. पूण हांव कसलीच शिर्वीस करी ना.

खरें म्हणचे हांव काजू दिसांनी काजू राखतां आनी फोपळां दिसांनीं फोपळां राखतां. पूण खरें म्हणचे राखण करतात म्हज्यो मिशो. मिशांच्या अक्राळ विक्राळ रूपाक लागून तारांपोरां सहसा आमचे व्याप्तींत शिरकनात, हो फायदो उणो न्हय!

पूण हाचे परस मोठो फायदो आनी प्रसिद्दी आजून फुडेंच आसा.

एक दीस एक सिनेमाचें युनिट शुटींग करपाक आमच्या कुळागरांत आयलें.

तांचेकडेन उलयतां, उलयतां हांवें म्हज्या मिशांचो महिमा सांगलो. आनी योगायोग असो की तांकांय पिक्चरांत पुलिसाचें काम करपाक एका मनशाची गरज आशिल्ली. तांची मागणी आयली तशें कॉन्ट्रक्ट थरलें... ओगीच तुमकां लिपय कित्याक... कॉन्ट्रक्ट लाखाच्या घरांत आसा... तुमी काय म्हजे कडेन मागचे नात म्हणात... आनी मागले तरी आमगेले, तिचो शब्द नाका?

म्हजें कॉन्ट्रक्ट फिक्स जायत पसून ती तर फाटीक लागल्या... आमचें घर आतां पोरनें जालां, तें मोडून आतां एक ब्लॉक सिस्टीम बंगलो बांदुया.. एक अँबासॅडर घेंवया... शिवाय फर्निचर, शिंवपाचें मशीन, रेडियोग्राम, कुकर, गॅस.. शिवाय आंगार भांगराचीं कांकणां, पाटली, हिऱ्याचीं कुडां... पळयात. एका लाखांत आतां कितें कितें येतलें? तरी पूण हांव हय म्हणटां, कित्याक? म्हज्यो मिशो म्हाका कितले जोडून दीत कोणच्यान सांगूं नज.

सिनेमाचें कॉन्ट्रक्ट हांवें मानून घेतलां अशें जेन्ना पेपरांत म्हज्या फोटोसैत छापून आयलें, त्या दिसा म्हजेर अभिनंदनाचो पावस पडलो. म्हजे घरकान्नीक म्हाका खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें जालें. आमच्या घरांतल्यान लोकांची गर्दी सोंपले उपरांत तिणें म्हाका ल्हवूच रांदचे कुडींत व्हेलो आनी मीठ मिर्सांग घेवन म्हजी दिष्ट काडली.

आनी एक दीस म्हज्या दोस्तांनी हांवें सिने संवसारांत पावल दवरले बद्दल सत्कार दबाजो घडोवन हाडलो. खूबशा उलोवप्यांचीं म्हजे तोखणाये संबंदान उलोवपां जालीं. तातूंत व्हडपणाचे सगले गूण म्हाका चिकटले. पूण... पूण... म्हज्या मिशांचो उल्लेख मात कोणेंच केलो ना. ना करूं... म्हज्या मिशांचो महिमा आतां हांव कोणाकूच सांगचो ना. कारण मागीर सगल्यांनीच म्हज्या मिशांची कार्बन कॉपी करपाची आनी म्हजे फायदे आपल्या बोल्सांत उडोवपाचे!

(कुळागर) ☆

# 24

## फेलीसियु कार्दोज

# गोंयकार तारवटी

म्हज्या भुरगेपणांतले वळखीचे गांवचे तारवटी आयज नात. पूण तांचो गोड उगडास मात जायते फावटी येता. जाकजुजे, जाबोसत्यांव, पोगडो फ्रांसीस, फ्रांस ओंतोन, भयरो जाकी आदी, म्हज्या सुरावली गांवचे त्या काळाचे फांकिवंत तारवटी वर्सान वा दोन वर्सांनी तारूं सोडून जेन्ना ते मुंबयच्यान गांव-घरा येताले, तेन्ना ते पळोवपाक पुनवे रातीचे चंद्रीम कशे दिसताले. म्हयनो भर ते गांवांत सामको गडगड घालताले. सूट-बूट-टाय मारले बगर आनी माथ्यार चेपें चडयले बगर ते भायर सरनासले. तांणी घाल्ल्या परमळाचो वास बरोच पयस लेगून लोकांच्या नाकांत रिगतालो. घरांत दिसाचीं चोवीसय वरां ते लांब पाटांचीं पिजामां न्हेसताले. तांच्या गळयांत भांगराच्यो मोट्यो सरपळयो चकचकताल्यो, हाता-बोटांक थिकां-मुदयो लकलकताल्यो. एका-दुकल्याच्या तोंडांत दोन-तीन भांगरा-दांतय आसले. ते हांसतना तांच्या तोंडांत जोगलां जिगजिगतालीं. घरा आयले बराबर ते आपल्या शेजाऱ्याची खबर घेवंक येताले. च्याये-पिठो आनी भुरग्यांखातीर चॉकलेटी, चणे, मुस्मी-भिकणां, आनी पिपिरमिटां हाडूंक ते विसरनासले. गोंयांत बोरींक झड मारून बोरां झडयतात, तेच परी मुंबय पिपिरमिटांचीं झाडां आसात आनी तारवटी तांकां झड घालून पिपिरमिटां हाडटात म्हण आमची कल्पना आसली.

"तारवटी-इरमांव" घरा पावना फुडें दुसऱ्या दिसा रातची घणघणीत लादीन करतालो. लादिनीक आयिल्ल्या भुरग्यांचीं तोंडां बरींच गोड जातालीं, जाल्यार जाणट्यांचीं फेणयेन आनी कोंसेंरवान मिळमिळीत जातालीं. सदां न्हय जाल्यार शेनवारा-आयतारा पूण तागेर कार्ताचो "त्रूक" खेळ जातालो. खेळ जिखिल्ले फावटी खुशालकाय परगटावपाक सोऱ्याची बोत्ल रिती जातालीच. पावसाचे दीस जाल्यार तांगेर भितर ताबलांचो खेळ, आनी आसर पडल्यार गड्ड्यांचो खेळ आसतालो. इंत्रुजाक, पास्कांक, नातलांक तो आपल्या घरा मुखार 'फेळ' नाचोवन लोकांक खुशाल करतालो.

तारवटी-इरमांव बायलेक घेवन मडगांवां बाजार करूंक वतना विचित्र दिस. घोव काल्सांव-ज्युदी न्हेसून, गळयाक ग्रावात बांदून, पांयांक ऊंच खोटांचे मोचे घालून माथ्यार सवण्या-पाक आशिल्लें चेपें बसोवन, तोंडांत सिगरेट ना जाल्यार रोत हालयत चलतालो. बायल बाबडी झगझगीत कापड न्हेसून, पूण उगत्या पांयांनी, खांक्यांत

पांटें धरून वताली. दोगांय मात सांगातान, मोगान उलयत वतालीं. पूण दनपारच्या वेळार तारवटी-इरमांव आनी ताची बायल परत येतना मजा दिसताली. बायल वस्तूंनी भरिल्लें ओजें माथ्यार मारून तळमळत चलताली आनी तिचो घोव एका हातांत मोचे धरून, वाल्स नाचतले परी वांकडीं-तिकडीं पावलां मारीत, गितां गायत, ना जाल्यार गाळयांचो पावस घालीत येतालो.

कांय दीस तांगेर खेळ, मजा जाताली. आनी उपरांत पुनवेचो चंद्रीम मावळून ल्हान ल्हान जायत वता तसो तारवटी भावाचो नेटूय देंवत वतालो. पयलीं ताचो टाय झडटालो. मागीर सुटाचो कोट, आनी पिजामाची ज्युदी निखळून पडटाली. मोच्यां सुवातेर व्हाणो येताल्यो. हळू हळू लांब काल्सांव पतण्याचें (काश्टेचें) आकार घेतालें. तेन्ना तो उमाशेचो चंद्रीम जावंक पावतालो. आतां गादयेर थावन सोरो उधार, पसऱ्यार थावन वस्तू उधार हाडच्यो पडटाल्यो. फाटल्या दिसांनी येताले ते सोयरे-धायरे, इश्ट-मित्र आतां पातळ जाताले, पयस वताले. तारवटी इरमांवाची सुटी सोंपतां-सोंपतां ताचें जिवीत त्रासांच्या कोंडाळयांत घुसपूंक लागतालें. तेन्ना दुसरो उपाय नासून बायलेच्यो वस्तू घाण दवरून दुडू हाडटालो. देवान आनी संत-भक्तांनी आपणाक वेगीं सिरवीस दिवंक लादीन करतालो आनी मुंबय वचपाची तिकेट काडून गाडयेर चडटालो. मुंबय पावतकूच तो पेट धरतालो. आगबोटीर केन्ना चडूंक मेळटलें? - होच विचार परत परत ताच्या मनांत येतालो. आतां तो परत वियाज मारून येवचो ना, आनी परतून ताचो नेट-थाट तूं देखचो ना.

**भयऱ्याची हिकमत**

दुसरें संवसारीक -झूज जालें तेन्ना जायत्या जाणांक तारवार वचपाची संद मेळ्ळी. हो आनी तो वता म्हण म्हज्या गांवचो जाकीय तारवार गेलो. तो मुदलाचो भेरो, देखून लोक ताका भयरो जाकी म्हणटाले. झूज सोंपले उपरांत ताका कोणें बुद्द दिली, नाळींच्या, बोंबांच्या आवाजाक लागून आपले कान भेरे जाले अशें अधिकाऱ्यांक सांग म्हण. जाकीन तशेंच केलें. तो आगबोटीर चडटना ताचे कान कोणेंच तपासून पळोवंक नासले. अधिकाऱ्यांक तो सांगता तें सत दिसलें आनी ताका दर म्हयन्याक बसपागार फाव केलें.

**भपके**

झुजा काळांतल्यो खबरो कांय तारवटी कितले आवडीन आनी रुचीन सांगताले जाणात तुमी? त्यो तांच्यो खबरो आमी ल्हान आसतना तोंड आं करून अजापान आयकताले. एकलो सांगतालोः "दर्याक तुफान जातालें तेन्ना, वा झुजाच्या दिसांनी आवयच्या दुदाचो उगडास येतालो...." दुसरो सांगतालो : "जापान आनी इंग्लंडा मदें दर्यांत झूज चलतालें. जापान्यांनी एक तारपिटो (टॉर्पेडो) आमगेल्या मनवाराचेर सोडिल्लो तो आमच्या कोपितान चुकयलो. इतल्यांत आनीक एक बॉब म्हजे वाटेन येवंक लागलो. हांवें तो उदकाचे बालदेंत जिखून धरलो आनी पयस दर्यांत शेंवटून मारलो."

**"गोवा पुडिंग"**

तो पेंट्रिमेन आशिल्लो. तो बोटलेर कसो जालो काय म्हण बाकिच्या तारवट्यांक

प्रस्न पडलो. तांणी ताका बोटलेर कसो जावंक पावलो काय म्हण विचारतकूच, ताणें आपलो गूट तांकां सादेपणीं उगतो केलो : "हांवें एका दिसाक सूर हाडली आनी सुरेचें एक गोड-मोव सांदण करून कोपिताक दिलें. ताका तें एकदम बरें लागलें. हे वस्तूक कितें म्हणटात काय म्हण कोपितान म्हाका विचारलें तेन्ना हांवें ताका "गोवा पुडिंग" म्हणटात म्हण सांगलें. उपरांत कोपितान ह्या "गोवा पुंडिंगाक लागून म्हाका बोटलेर केलो". ही खबर आयकून थोड्या तारवट्यांक नसाय जालीच. आतां तांणी ताका नाटकायेन "गुवा पुडिंग" म्हण नांव दवरलें. तो बोटलेर बाबडो मेल्यार वर्सां जालीं. पूण आयज लेगून ह्याच नांवान ताच्या घरांतल्या मनशांक लोक वळखता आनी पाचारता.

**ग्रामाफोन**

ल्हान आसतना हांवें पयलेच फावट ग्रामाफोन पळयलो तो म्हजो शेजारी श्री. मातेउश वाज ह्या तारवट्यागेर. ताणें तो हाडिल्लो तेन्ना गांवांतलो लोक रिकॉर्डी आयकूंक गर्दी करतालो. आजकाल लोक शेजाऱ्यांगेर टिवी पळोवंक वतात ते परीं. त्या काळार लोक तांगेर कांतरां, संगीत आयकूंक वतालो. कोणूय एक शेजाऱ्यागेर लग्न वा दुसरो कसलोय दबाजो आसल्यार लोकांची उमेद वाडोवंक मोतेसबाबा कडेन ग्रामाफोन मागून हाडून तो चालू करतालोच. आतां रेडियो, कॅसेटी, टिवी येवन ग्रामाफोनाक लोक सामको विसरलो. म्हाका जाल्यार ग्रामाफोन एक अजापूच कशें दिसतालें. एकें ल्हान पातळ मांडींत इतलें सगलें संगीत कशें भरतात काय म्हण हांव चिंतालों आनी केन्नाय तरी एक रिकॉर्ड फोडून तातूंत भितर कितें आसा तें पळोवंक अश्रेकतालों.

**"हेय बॉय"**

मुंबय शारांत तारवट्यांचो "धि मरिटायम लेबर युनियन ऑफ इंडिया" नांवाचो एक एकवट आसलो. ह्या एकवटाचें "इंडियन सीमॅन" नांवाचें एक कोंकणी-इंगलेज मासीक भायर सरतालें. ताचो संपादपी वकील श्री लुइश मेंदिश आसलो. 1959 वर्साच्या सेतेंब्रा आंकार एक खबर आयल्या, तिचो मजकूर हांव थोडेभितर सांगतां:-

इंग्लेज लोक वेटराक "हेय बॉय" म्हण उलो मारताले. इंडियेचो मनीस आपणा परस हलको म्हूण इंग्लेज चिंतताले. भारत स्वतंत्र जातकच "बॉय" म्हूण उलो करपाची संवय नाटाक जावन गेल्ली; पूण "बी. आय" कंपनींत मात्र उरली. 'कांपाला' आगबोटीर एकलो पारसी भारतीय "पार्सर" आसलो. ताणें आमच्या एका तारवटी भावाक, देवशेच्या श्री एफ. एक्स. ग्रासियसाक "बॉय" म्हण तीन पावटी उलो केलो. ग्रासियसबाबान ताका जाप करूंक ना म्हण तो "पार्सर" तापून ताचे कान भेरे जाल्यात काय म्हण विचारूंक लागलो. ग्रासियसबाबान ताका असो जबाब दिलो : "तुमी म्हाका आपयला म्हूण हांव समजूंक ना. हांव "डे वॉचमॅन" चें काम करतां. दुसरे फावटी म्हाका "हेय बॉय" म्हणूं नाका.

तो पारसी चड रागान भरून कोपिता फुड्यांत ताची तक्रार करूंक गेलो. कोपितान श्री ग्रासियसाक आपयतकूच हाणें कोपिताक तेंच सांगलें. उपरांत त्या तारवार आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांची एक जमात जाली आनी हे फुडें "बॉय" उतर वापरिना

जावंक सगल्या ऑफिसरांक कोपितान शिटकायले.

श्री ग्रासियसान पन्नास पूण ऑफिसरांक बॉय म्हणून उलो करिना जावंक सांगलें आनी बरे मनीस आसले तांणी ही खोटी संवय सोडून दिली.

**उपकार**

खलील जिब्रान ह्या व्हड बरयणाराचें एक पुस्तक हांवें पयले फावटीं वाचलें तें 1957 आंत, आगवादाचे बंदखणींत. ''धि सिक्रेट्स ऑफ धि हार्ट'' ह्या पुस्तकान म्हाका सामको पिसो केल्लो. ताचीं हेर पुस्तकां हांव वाचूंक सोदतालों, पूण मेळनासलीं. बंदखणींतलो सुट्टकूच गांवचो तारवटी श्री कायतान रेमेदियुश फेर्नांदिशाक हांवें जिब्रानाचीं'' स्पिरिट्स रेबेलियज'' आनी ''धि प्रॉफेट'' पुस्तकां हाडूंक सांगलीं. ताणें लंडनांत थावन म्हाका हीं दोनीय पुस्तकां हाडलीं. पूण ''धि प्रॉफेट'' हें पुस्तक ''कस्टम्स'' च्या एका मनशान जबरदस्तेन फारावन आपणाक दवरलें ''तुका वाचूंक येता? व्हॉट'' काय म्हण त्या ऑफिसरान विचारलें आनी व्हड उपकार केल्ले वरी ''स्पिरिट्स रेबेलियज'' पुस्तक व्हरपाक दिलें खंय. आनी ह्या म्हज्या गांव-भावान तें पुस्तक आपली भेट कशी म्हाका फुकटूच दिलें. ताणें म्हाका सदांकाळ आपल्या उपकारांत दवरलो.

**बायलां भेसार तारवटी**

मुंबयंत धक्यार हेर तारवटी संप करून कामाक वचनासतना रावताले आनी कोण कामाक वचूंक सोदता ताका जबरदस्तेन आडावन दवरताले. तेन्ना कांय गोंयकार तारवटी कापड न्हेसून, बायलो कशो जावन नीट बंद आशिल्ले गेटींतल्यान वताले. संपार आशिल्ले ते तांकां ''वायलो'' म्हूण समजून तांचे वाटेक येनासले.

**गोंयकारांचें जैत**

दुसऱ्या विश्वझुजा काळार दक्षीण आफ्रिकेंत एक घडणी घडली. डर्बनच्या बंदरांत जायत्यो आगबोटी थांवून आसल्यो. हेर तारवट्यां भितर सुमार शंबर गोंयकार तारवटी आसले. थंय एक सिनेमाघर आसलें आनी दक्षीण आफ्रिके सरकाराच्या कायद्या प्रमाणें तातूंत गोऱ्या लोकांक भितर घेताले आनी काळयां खातीर निमाणे तीन बांक दवरिल्ले. रित्यो बसका आसल्यार लेगून गोंयकारांक भितर घेनासले.

एका दिसा सुमार पन्नास गोंयकार त्या सिनेमा घरांत भितर वचूंक सोदताले, कित्याक जायतीं कदेलां रितीं आसलीं. गोंयकारांनी तिकेटी मागल्यार तांकां तिकेटी दिना जाले. येवरोपी मॅनेजर तांकां भितर घेना जालो. श्री फ्रांक्लीन गामाच्या फुडारीपणा खाला गोंयकार विरोध प्रगट करूंक सिनेमाघराच्या अध्यक्षाक भेटूंक गेले. अध्यक्ष तांकां प्रवेश दिवंक कबूल जायना जालो. गोंयकारांनी त्या अध्यक्षाक सिनेमाघरा वयर एक तकटो आसलो तो दाखयलो. ताचेर ''Welcome to All Nations. (सगल्या राश्ट्रांक येवकार) म्हूण बरोवन आसलें, देखून सगल्या राश्ट्रांच्या नागरिकांक भितर घेवंक जाय म्हूण आग्रो करतना गोंयकार ब्रिटीश ''Subject'' नासून पुर्तुगेज नागरीक [Citizens]आसात म्हूण सांगलें. थंय आशिल्ल्या पुर्तुगेज वाणिज्य दुतानूय गोंयकारांक तेंको दिलो, कित्याक, पुर्तुगेज दक्षीण आफ्रिकेंतल्या गोऱ्या अधिकाऱ्यां वरी वर्णदुस्वास करिनात. शेवटीं गोंयकारांक येस मेळ्ळें. त्या

अध्यक्षान गोंयकारांक आनी हेर भारतीयांकूय सिनेमाघरांत वचपाक दिलें.

**कोंकणी उतरावळ**

गोंय पुर्तुगेजांचे सत्तेतळा आसलें तेन्ना गोंयकार तारवट्यां वरवीं गोंयची अर्थवेवस्था बरी घट जावंक पावली. तेच बराबर तांणीं कोंकणी उतरावळींतय जायत्या उतरांची भर घाल्या. देखीक : तारपिटो [Torpedo], मनवार [man of war], कोपीत [captain], बोटलेर [butler], पेंट्रिमेन [pantryman], बिलिफर [bill of fare, menu] तपस [पुर्तुगेज आनी भारती आवय-बापायगेर जल्मल्लो तारवटी वा संडास बी धुवपी तारवटी], नळी [C.D.C.] आदि.

तारवट्यांनी घडिल्लीं आनीकय जायतीं उतरां आसतलीं. तीं एकठांय केल्यार फायद्याचें जातलें.

**ते पदेर मेले**

साबार गोंयकार तारवटी, दुसऱ्या विश्वझुजा वेळार, आपल्यो आगबोटी सोडून आमेरिकेंत वचून थंयचे नागरीक जाले. तातुंतले जायते जाण हजारांनी रुपया सुरक्षा पगार [security payment] म्हूण घेतात. तांकां व्हडल्यो जुंट्यो नासल्यो, पूण ते सादींच कामां करताले. असलो एक अमेरिकी नागरीक जाल्लो तारवटी आतां कुंकळ्ळे आपल्या गांवघरा आसा आनी अमेरिकी सरकार ताका दर म्हयन्याक एक हजार डॉलर आनी ताचे बायलेक सुमार तिनशें डॉलर बसपगार दिता.

हांव वाडटां वाडटां म्हाका कांय तारवट्यांचे पोके भपके समजूंक लागले. केन्ना-केन्नाय हांव मसकऱ्यांनी एका-दुकल्या भपकेकार तारवट्याक विचित्र प्रस्न विचारतालों, एकदां एका भपकेकार तारवट्याक हांवें विचारलें, "तुजी आगबोट खंय-खंय पावल्या, "इंगलंड, फ्रांस, जेरमानी, इतालिया, पुर्तुगाल, येवरप, आमेरिका, रुसया, औस्त्रालिया. ...." ताणें आनिकूय कितलींशींच नांवां सांगलीं. हांवें ताका कुचिंद्रिपणान विचारलें. "तुजी आगबोट ज्योग्राफींत पावल्या?" ताणें हय म्हूण जबाब दिलो. "स्विर्जेलांडांत पावल्या?" - हांवें विचारलें. हय म्हूण ताणें नेटान जबाब दिलो. हांवें हांसून परतून विचारलें : "तुजी आगबोट स्विर्जेलांडांत कशी गेली?" सुएज कानालांतल्यान" म्हूण ताणें जाप दिली. स्विर्जेलांड दोंगरी देस आनी थंय दर्या ना म्हूण वा "ज्योग्राफी" देस न्हय म्हूण ताका बाबड्याक खबर नासली.

ते पदेर मेले आनी ते उंडे काबार जाले म्हणटात ते परीं आतां ते तारवटी गेले आनी आमकां दिश्टी पडटाले आनी आयकूंक मेळटाले ते तांचे भपकेय सोंपले. आतांचे चडशे तारवटी आपणाक गरज तेन्ना तुज्या फुड्यांत येतले. आपलें काम जाय पर्यांत ते तुका फुलां माळटले. मूय जावन साकर खातले. पूण एक फावटी आपलें काम जालें म्हणटच ते "काम जालें वयज मेलो", म्हणटात ते परीं, तुका मेळ्ळयार वळख नाशिल्ले भाशेन करून जाप लेगून दिवचे नात.

["गुलाब" - सुदारुन] ☆

# 25

किसन कामत

## 'नकळे काळाची गती, बेब्यान गिळ्ळो हती'

गोंयांत आसतना, रामान रावणाक मारलो, पांडवांनीं कौरवांचो नायनाट केलो, भीमान कीचकाक पिंजून उडयलो, पानिपतचे लडायेंत मोंगलांनीं पेशव्यांक माती खावयली (म्हजो इतिहास बरोच कच्चो आसा, क्षमस्व), हिरोशिमाचेर बाँबगुळो उडोवन अमेरिकेन शंकु लोक भस्मसात केले बी असल्यो काणयो आज्याच्या तोंडांतल्यान आयकतना हांव जितलो तन्मय जातालों, ताचेयपरस एक तूस भर चडच म्हळयार जाता, सोशेपोरबुल्या काळया माजरान दोन कोळ-हुंदीर मारले, रघुशेणैल्या धव्या माजरान अडेचशीं हुंदीर खावन जागतीक विक्रम प्रस्थापीत केलो, [पैरच शेंवतूआकाल्या कट्टऱ्या माजरान हो विक्रम मोडलो अशें आयकतां-शेंवतूआकाली क्षमा मागून] शंकू गावड्याल्या बिबट्या माजरान एका रातयांत पंदरा हुंदीर चाबडायले बी असल्यो काणयो शेंवतू वावराडेल्या तोंडांतल्यान मीठमसालो लावन सांगिल्ल्यो आयकतना म्हाका आनंद जातालो. अशो ह्यो माजरांच्या पराक्रमाच्यो काणयो आयकल्यो म्हणटकूच म्हाकां माजरांविशीं एके तरेची आपुलकी दिसताली, आनी तुमकां फट सांगना, जेवता आसतना जायते फावटीं माजराले हे एक एक पराक्रम येवजून हांवें आमगेल्या पिंगशा माजराक, म्हज्या पोटाक मारून, म्हज्या पानावयलो तळिल्ल्या नुसत्याचो कुडको खावपाक घाला [आनी तेंय आवयक लिपोवन]. माजराविशीं जितली म्हाका आपुलकी दिसताली तितलीच हुंदरांविशीं म्हाका तिडक. तशें पळोवंक गेल्यार केन्नाय म्हगेल्या पांयाच्या तळव्याची कात खावपा बगर हुंदरांनीं म्हजें स्वतःचें अशें वायट कांयच करूंक ना. ना म्हळयार हुंदरान पाख्यावयलो दुदनीचो तोरो खालो, कुंवाळयाचो वाल मोडलो अशो थोड्योशो करांदायो आवयच्या तोंडांतल्यान आयकल्यात आनी ताका लागून "तूं आसून नासून सारखें, तुका फक्त गिळपाक जाय!" अशें एक दोन फावट माजराक म्हणिल्लेंय आयकलां; पूण कितेंय जरी आसलें तरी पुर्तुगेजाल्या गोंयांत हाडून भरिल्ले फौजे परस एक शंबरेकय माजरां एकठांय जमलीं जाल्यार तीं कितेंय चड पराक्रम करूंक शकत अशें त्या वेळार म्हज्या भुरग्या मनाक दिसतालें. आतां माजरां-माजरांतय जाती आसतात, ना अशें न्हय. थोडीं नुस्तें - खायरीं तर थोडीं शिवराक. तीं नुस्त्याक आफूड लेगीत नात. इतलेंच न्हय तर एक दोन फावट हांवें एक माजर नुस्त्याक आफुडलें म्हणून उदकांत बुचकळून आयिल्लें लेगीत पळयलां. पूर्व जल्मींची भटीण बी आसुंये पापीण. [हालींच्या काळांत

भटां म्हणपाक लेगीत भंयच दिसता]. सांगपाचें तात्पर्य, म्हज्या मत्तान पराक्रमी माजरां तीं नुस्तेंखायरींच. आतांच्या राजकीय शब्दांत सांगचें जाल्यार तांकां हिंसावादी म्हणपाक जाय. असल्याच माजरांविशीं म्हाकां खूब आदर.

तशें पळोवंक गेल्यार हुंदीर हे पुर्विल्ल्या काळाक थावन विद्वाटेच. खंयच्यो वण्टी पोखरून तांकां जळीं मळीं बिळां घाल,केन्नाय चुकून माकून बोस्त्यांव पदेराले उंडे भायर उरले जाल्यार तांकां चाबडावन उडय, इतलेंच न्हय तर एका गांवांत खंय आनी इतले हुंदीर जाल्ले की मागीर एका जादुगाराक हाडून तागेल्या जादूचे पिल्लुकेन तांकां सगळयांक व्हरून न्हंयंत बुडयले. त्या दिसाच्यान तरी हुंदरांचो त्रास चुकूं ये अशें दिसतालें, पूण ना, जशी जशी विज्ञानशास्त्रांत प्रगति जायत गेली, तसो तसो प्राणिमात्रानय आपल्यांत बदल घडोवन हाडलो अशें म्हणपाक जाय.

हांव मुंबय आयल्यार आज कांय ना म्हळयार सात-आठ वर्सां जालीं. सुरवातीक मुंबय आयलों तेन्ना बोल्सांत व्हडले शे पयशे घोळनाशिल्ले, आनी ताका लागून हांव मुंबयंतले एके गल्लेंतले ल्हानशेच कुडींत पोटभाडेकरू म्हणून रावतालों. न्हिदपा-न्हावपाचें धा-बारा रुपयांभितर काम जातालें. पूण अशा म्हगेल्या रावपांत म्हाका एक मात मोठो फायदो जालो आनी तो म्हळयार म्हाका सामको लागशिल्यान हुंदरा-माजरांत घडून आयिल्लो बदल पळोवपाक मेळ्ळो. सुरवातीक म्हाका काम धंदोय कांयच नशिल्लो आनी ताका लागून हांव वरांचीं वरां, हांव रावतालों ते कुडीच्या जनेलांत उबो रावन जनेला सकयल्या गटारांत हुंदरा-माजरांची मजा पळोवपांत घालयतालों. जे मेरेन तो प्रसंग म्हजेर येवंक ना ते मेरेन हांव ताका मजाच म्हणटां. पूण तो प्रसंग फाल्यां चुकून माकून म्हजेर आयल्यार [आयल्यार कित्याक, एक दीस तो प्रसंग म्हजेर आयले बगर रावचो ना हाची म्हाका पूर्ण खात्री आसा] हांवें ताका संकश्ट म्हणचें पडटलें आनी आमकां मनीस जातीक देवान बुद्द आनी अब्रू दिल्या, देखून सरळ वचून जीव दिवपा परस म्हाका आनी दुसरो मार्ग उरचो ना. जमानो इतलो बदलला म्हणून म्हाका खबर नाशिल्लें. हुंदरा-माजरांत हो घडून आयिल्लो बदल म्हज्या दोळयांनी हांवें पळयल्ल्यान, रशियान जेन्ना अंत्राळांत अडेचो गिरो सोडलो अशें हांवें वर्तमानपत्रांत वाचलें, त्या वेळार म्हाका कांयच दिसलें ना, इतलेंच न्हय, ताचो म्हज्या मनार आतां इतलो परिणाम जाला की फाल्यां मनीस प्राणी चंद्राचेर गेलो म्हणून हांवें म्हज्या स्वतःच्या दोळयांनी पळयल्यार लेगीत म्हाका विशेश नवल दिसचें ना. आतां तुमीच पळयात आं. पयरचीच गजाल; हांव रावतालों त्या घरांतले घरकान्नीन सुमार दनपारच्या धा-साडे धा वरांचेर नुस्तें उजरावन जीं कितें नुस्त्या-बोडकां, खवळां आशिल्लीं तीं काडून रांदचेकुडींतल्या जनेलांतल्यान सकयल गटारांत भिरकटावन उडयलीं, तेन्ना थंयच लागशींच गटारांत दोन माजरां हातपांय पातळावन कुरंगुटी करून बशिल्लीं. गोंयच्या माजरां सारकीं जरी तीं पुटपुटीत नाशिल्लीं तरीय माजरां म्हणपा इतली तरी तांकां साम्यताय निश्चीत आशिल्ली. मुंबयची हवा कोणाक मानवल्या तर ती माजरांक मानवतली! वयल्यान नुस्त्याचीं खवळां, बोडकां पडना बराबर तांणी मातशे हातपांय हालयले पूण अजाप म्हळयार तीं जाग्यावयलीं कांयच एक पावल भर लेगीत हाल्लीं नात! हांवें म्हळें, अब्बा, ह्या माजरांक जालां

तरी कितें! शेजारच्या घरांत भुरग्यांनी वाचिल्लें महात्मा गांधींचें चरित्र बी ह्या माजरांनी आयकलें काय! कित्याक जाणा, महात्मा गांधींचें चरित्र वाचून अशेंच एकदां म्हगेले पयशिले एके मामेभयणीन नुस्तें खावपाचें सोडून दिल्लें [पूण मागीर वर्सा भरयान ताणें नुस्तेंच न्हय, तर कांटे लेगीत खावपाचें आडायलें, ती तरा निराळी]. हो देखाव पळोवन हांव चकासूर जालों! म्हळें, जावं, मनशांपरस अहिंसावादी धर्म माजरांकच चड कळ्ळो तर! म्हळयार खंय कितें गा! बारीक सकयल गटारांत पळय जाल्यार थंय लागशींच नुस्त्या बोडकां उडयल्यांत थंय एक बिळांत तोंड मातशें वयर काडून आनी बटबट दोळे करून एक कोळ-हुंदीर ह्या माजरां कडेन सामको तुकुतुकू करून पळयत आसा. म्हजी उत्सुकताय वाडली. हांवें बेगिबेगीन दुर्बीण हाडली आनी हांव तातुंतल्यान सकयल गटारां पळोवंक लागलों. सगळें म्हाका म्हज्या म्हऱ्यांत दिसूंक लागलें. आनी कितें सांगतलों? देवाच्यान तर, त्या हुंदरांत आनी त्या माजरांत विशेश असो फरक कांयच नाशिल्लो. फक्त हुंदराच्या जल्माक घाला म्हणून ताका हुंदीर म्हणप आनी माजराच्या जल्माक घालां म्हणून ताका माजर म्हणप. तो हुंदीर तुकू तुकू करून तांकां पळयता आनी तीं माजरां, त्या हुंदराच्या भंयान काय कोण जाणा, [हय, हुंदराच्या भंयानच, हें म्हाका रोखडेंच समजलें] त्या शेसड्यांक तोंड लेगीत लायनात. तें गटार म्हळयार तांगेलें लंगरबाग आनी त्या गटारांतल्यो सगळयो वस्ती जणू तांचे मालकीच्यो. बरो वेळ गेलो, दोगांय माजरां एकामेकांच्या तोंडाक तुकू तुकू करून पळयतात, पूण तातुंतल्या एकट्याकय त्या हुंदराच्या दोळयांक दोळो लावपाचें धाडस जायना. निमाणें पुर्वजाले पराक्रम येवजून काय कोण जाणा, तीं दोगांय एकामेकांच्या कानांत कितें तरी पुटपुटलीं आनी त्या हुंदरांक पळय नाशिल्ले भाशेन करून हळूच एके नुस्त्याचे बोडकेक पांयांनी लागीं ओडली. हांवें मनात म्हळें, वाः! वाः! मुंबयचीं माजरां जालीं तरी आजून आपलो जातीधर्म विसरलीं नात. पूण अशें हांवें येवजुपाक आनी सामको ताणशेवन चुक् चुक् करून त्या हुंदरान माजराचे शेंपडेक येवन घांस मारपाक एकच गांठ पडली. हांव थंयचे थंय शेळेलों. एका फाटल्यान एक म्हज्या मनांत विचार येवंक लागले. तें सोशेपोरवूलें काळें माजर, जाणें दोन कोळ हुंदीर मारिल्ले, तें रघुशेणैलें धवें माजर, जाणें शंबर हुंदीर खावन जागतीक विक्रम प्रस्थापीत केल्लो, आनी तें शंकू गावड्यालें चिवटें माजर, जाणें एका रातयांत पंदरा हुंदीर चाबडायल्ले! खंय तीं गोंयचीं माजरां आनी खंय हीं! हुंदरान शेपडेक घास मारिना बराबर तें माजर बोबो मारीत शेंपडी तुटसर धांवंक लागलें आनी तागेली ती गत पळोवन दुसऱ्याय माजरान पुट्ट करून दुर्गार उडी मारून पपा काडली. अशे हे प्रसंग हांवें पयरच न्हय, तर जायते फावटीं पळयल्यात. एक दीस तर आनी, तुमकां सांगल्यार फट दिसतलें, एका गटारांत कांय ना म्हळयार चारशेंकय हुंदीर जमिल्ले. सभा बी आशिल्ली दिसता पापयांची. हांवें तांचो फोटो काडून खंयच्याशा मासिकाक लेगीत धाडिल्लो आनी ताचो मोबदलो म्हणून म्हाका एक अंक आनी रुपया बक्षीस मेळिल्लो. तांगेली ही सभा पळयल्ल्यान, खुरसा मळार आमगेले गोंयकार भाव जेन्ना सभा घेतिल्ल्यो हांव पळयतां, तेन्ना तांकां वचून म्हाका आड्डू-आड्डून सांगन शें दिसता की "भावांनो आनी भयणींनो, तुमगेली ही कसली सभा! सभा

कशी घेंवची हें पळयतले जाल्यार गिरगांवांतले अक्कलकोट लेनींतल्या गटारांत चलात आनी पळयात सभा म्हणटात ती कितें तें!'' आतां म्हाका जेन्ना त्या धड्याची याद जाता, ज्या धड्यांत माजराच्या गळयांत घांट कोणें बांदची असो हुंदरांक प्रस्न पडिल्लो आसता, तेन्ना त्या बरप्याचे विचारबुद्दीची म्हाका काकुळट करीन शी दिसता. माजराच्या गळयांत घांटच कित्याक, आतांचे हुंदीर माजराच्या गळयांत मंगळसूत्र लेगीत बांदीत.

[विद्या : 1960] ☆

# 26

नागेश करमली

## मनांतलीं घुंगरां : दोन रुपां

**मुल्यांचें मोल**

पंचविशेक वर्सां आदली गजाल. गोंयची सुटका जालेउपरान्त, पयलेच फावटी हांव गोंया भायर पयस प्रवासाक गेल्लों. ह्या प्रवासांत जायत्या तरांच्या लोकांचो, वेगवेगळे भाशेचो अणभव आयलो - बरो तसो वायट! हांतली एक ल्हानशीच पूण लक्षांत उरिल्ली गजाल ह्या वेळार याद जाता. जयपुरा मेरेन वचून परतेचो प्रवास सुरू जाल्लो. प्रवास रेल्वेचो. मुंबयचे वाटेर आसलोः लागीं लागीं दोन राती रेल्वेंत काडच्यो पडटात असो हो प्रवास. बडोदें काडले उपरान्त दनपारच्या वेळार एका स्टेशनार गाडी थारिल्ली. थंय ल्हान ल्हान बोतलींनी बंद केल्लें दूद विकूंक हाडिल्लें दिसलें. म्हळें, घेवया एक बोतल. मोल विचारलें. विकतल्यान म्हळें, 'पचास पैसे' बेगिबेगीन एक बोतल घेतली आनी पियेवंक लागलों. पिता-पितांच बोल्सांत हात घालून पयशे काड जाल्यार मोडचे नात - रुपयो काडून दूद विकतल्याक दिलो आनी म्हळे, 'मोड कर.' तो म्हणूंक लागलो, 'राव, मोडचे हाडटां.' इतले मदीं हांवें रिकामी केल्ली बोतल ताणें घेतली. म्हाका दिसलें, हो उरिल्ले पन्नास पयशे म्हाका हाडून दितलो. प्रस्न सरळ वेव्हाराचो. पूण, खंय गा कितें? तो उरिल्ले पयशे घेवन आयलोच ना आनी गाडी सुटली. म्हाका हो एक नवोच अणभव कसो आशिल्लो. हांवें म्हज्या वांगडच्याक म्हळें, 'कसले लोक पळय; बुद्दीच नागवणेच्यो. पन्नास पयशांचें दूद रुपयाक पडलें.'

वांगडच्यान म्हळें, 'रुपयोच दिवन सुटलो. दोन दिल्यार दोनूय वचपाचे; पांच दिल्यार पांचय वचपाचे. मोठेच चलाख आसतात हे असले लोक. संदेचो फायदो घेतात.' आनी उपरान्त ताणें सल्ल्याचीं दोन उतरां सांगलीं. ताणें म्हळें, 'प्रवासांत, चड करून असल्या रेल्वे प्रवासांत मोडचेच पयशे वांगडा सांबाळूंक जाय. ना जाल्यार थंयचे थंयच मोड घेवंक जाय. मोड हाडटलो, दितलो असल्या भावार्थीपणाचेर रावंक फावना. गाडी स्टेशनांत येता तेन्ना गडबडेचो फायदो घेवन हे लोक प्रवाशांक अशेच नाडटात. तूं पन्नास पयशांनीच सुटलो.'

आनी त्या खिणा साकून, एक नवोच धडो शिकिल्ले भाशेन हांवें वागपाचें थारायलें. प्रवासांत, मागीर तो रेल्वेचो जावं, ना जाल्यार बशीचो जावं - कोणाक म्हूण पातयेवपाचें ना. अनवळखी मनशा कडेन, तो प्रामाणिक काय फटींग हाचो अदमास

घेनासतना सगळयां कडेन एकाच मापान वागप. भायल्यान फटकिरो दिसपी एकाद्रो एक भितल्यान तसो नासूंय येता आनी भायल्यान उजू चलणुकेचो दिसपी, भितल्ल्यान सामको नाड बुद्दीचोय आसूं येता. कितेंय जावं, परके कडेन, परक्या कडेन ओगीच रिस्क कित्याक घेवंक जाय? आपूण आपलो जागृत रावप बरें.

... आनी, ते उपरान्त, जायते फावटीं गोंया भायर पयस प्रवासाक गेलों तेन्ना तेन्ना हांवें म्हजी हेच भाशेन चलणूक दवरली-कोणाकूच म्हणून पातयेवप ना. बशींत सामान आसलें जाल्यार, बस जेवणाक वा च्याक बी वाटेर खंयय थांबता तेन्ना, परत-परत सामानाचेर नदर मारप. बस ड्रायव्हर वा कंडक्टराक विचारप, सामानाक कोणूय हात बी लावचो ना मूं? सामान बशीच्या टॉपार आसलें तर बस जंय जंय थांबता तेन्ना तेन्ना तकली भायर घालून कोण कितें बशीचे वयल्यान सकयल देंवयता तें पळोवप. कोणेंय दुसऱ्याले वस्तू बरोबर म्हगेलेंय सामान लाटलें तर? बेठोच दुगदुगो नाका.

अशाच एका दक्षिणेच्या प्रवासांत म्हजी ही वर्तणूक पळोवन, वांगडच्या एका इश्टान म्हाका म्हळें, 'कितें जीव सोडटा रे तूं? कोण व्हरता रे तुगेलें सामान? इतले लोक नात? सगळें सोडून तुगेलेंच कोण व्हरतलो?

'समज, कर्म धर्म संयोगान म्हगेलेंच सामान व्हेलें जाल्यार मागीर कोणाक धरतलों?' हांवें ताका प्रतिप्रस्न केलो. आनी एके फावटीं पुण्याक वतना, बस जेवणाक थांबिल्ले कडेन, म्हज्याच सामाना वांगडा आशिल्ली, म्हज्या वांगडच्याची सूटकेस कशी ना जाली तें हांवें ताका सांगलें.

तरीय पूण म्हज्या इश्टान आपणालें म्हणणें सोडलें ना. तो म्हणूंक लागलो, 'अशें घडटाच. ताका उपाय ना. पूण मनशान, खंय तरी, कोणाचेर तरी, थोडो पूण विस्वास दवरपाक शिकूंकच जाय. आजकाल आमी सामकेच परस्पर अविश्वासाच्या रोगान पोखरत चल्ल्यात. आनी हाका लागून कसल्याच मुल्याचें मोल कळनाशें जालां.

इश्टाचें हें म्हणणें ना पटपाक तशें कारणच नाशिल्लें. कारण अविश्वासान अविश्वासच वाडत वता. संवसारांत हरशींय जाल्यार नागवण, फटवण जाताच. प्रवासांतच ती जाता अशी ना. खरें म्हळयार हांव हे भाशेन, म्हजे म्हाकाच खूबदां समजावापचो यत्न करतां. जिवीत - मुल्यांचो सोद घेवपाचो यत्न करतां. तरी पूण एकाद्रो एक वायट अणभव आयलो म्हणटकूच मनय समजावन घेवंक फाटीं-फुडें करता.

**एकेकाची ओड**

हो एक सामको वेगळेच तरेचो अणभव

कांय दिसां आदीं म्हज्या एक कवी इश्टाक, हांवें म्हजी एक कविता वाचून दाखयली. अपेक्षे प्रमाण, कविता वाचून जातकीच, तो कितें म्हणटा हें जाणा जावंक हांवें ताच्या तोंडा कडेन पळयलें. तो म्हणूंक लागलो, 'तुजे हे कवितेंत बरेच कडेन, वेगवेगळया रुपांत उदकाचो उल्लेख आयला.' आनी, मात्सो थांबून ताणें फुडें म्हळें, 'हीच कविता न्हय. तुगेल्या आनीकय कांय कवितांनी 'उदक' वेगवेगळया तरांनी येता. उदकाची तुका बरीच ओड दिसता....' हांवें हाचेर विशेष कांय जाप दिली

ना. फक्त इतलेंच म्हळें, 'जायत, घडटा जायत अशें, 'आनी मागीर आमी एका वेगळयाच विषयाचेर उलयत रावले. पूण, म्हज्या मनांत मात त्या कवी मित्राचें म्हणणें एकसारकें घोळत रावलें.

हांव विचार करूंक लागलों. खरेंच म्हाका उदकाची इतली ओड आसा काय कितें? हांव म्हजे म्हाकाच हो प्रस्न परत परत विचारूंक लागलों. आनी ताच्यो थोड्यो-थोड्यो, हय न्हयश्यो जापोय म्हाका मेळूंक लागल्यो. म्हाका कळूंक लागतसून, उदकाचो म्हाका केन्नाच भंय असो दिसलो ना. कांय जाण उदकाक बेठेच भियेतात. ताचे पासून ते पयस रावतात.हांवें म्हज्या भुरगेपणांत पयलेच फावटीं दर्या पळयिल्लो तेन्ना म्हजें मन खऱ्यांनीच एकदम उचंबळून आयिल्लें. ल्हारांचो नाच पळोवन हांव खुशाल जाल्लों. वेळेर आपटून फुटपी ल्हाराचो स्पर्श पळोवपाक पावल दर्या उदकांत भिजयन भिजयन अशें मनाक दिशिल्लें. पूण तेन्ना, बरोबरच्या जाणट्या मनशान, धपकावणेच्या सुरांत म्हाका दर्यांत पांय, दवरपा पासून मना केल्लो.

पूण, मागीरच्या जिवितांत, तरणे पिरायेर मात, दर्यावांगडा हांवें खूब लागसारचो संबंद सादलो. दर्याच्या ल्हारां वांगडा खेळटना, सैमाचें एक वेगळेंच संगीत आयकून मन तृप्त जाल्ल्याचो अणभव घेतलो. चान्न्या उजवाडांत मांडवी-जुवारेच्या दर्या - मिलनाची विशालकाय पळोवन हांव जायते खेपे म्हज्यो खंती-हुस्केय घडिभर विसरून गेलां. घोग्यांनी सांवाराचो पावस पडटा. दर्याची उचंबळाय शिमे भायर पावल्या. तेन्नाचें तें निसर्गाचें रुद्ररूप पळयतना हांवें वरांची वरां खर्चिल्यांत. पावशी दिसांत उपाट भरून व्हांवपी ल्हानसान न्हंयो आनी व्हाळांतल्यान गळोभर उदकांतल्यान आलतड-पलतड पार करून वचपाचेय प्रसंग हांवें अणभवल्यात. एके फावटीं तर, पांय थारनासतना, उदकाच्या झोता वांगडा कांय धेंपां व्हांवनय गेलां. साळावलेचें धरण जाता. ह्या धरणामुळा, म्हजे सारक्याच्या दोळयां मुखावयलीं आनी पांयांनी माडयिल्लीं जीं गांवां बुडटलीं आनी उदकाचो एक विशाल दर्याच कसो धर्तरेच्या गोपांत निर्माण जाल्लो दिसतलो, ताची एक पिशी कल्पना करपाचो लेगीत जो एक आनंद आसा, तोय हांव जायतेदां अणभवतां.

सांगपाचें म्हळयार, म्हजे हांवें, मनांतल्या मनांतच म्हळें. आसा, म्हज्या मना-काळजांत खंय तरी उदका विशींची उपाट ओड आसा, हातूंत दुबाव ना. ही ओड केन्ना केन्ना तरी बरपांत वा कवितेंतल्यान प्रगट जायत रावता जावंक जाय. म्हजे एके कवितेंत हांवें म्हळां,

'एक पावसच जालो म्हजे जिणेचो<br>झडलीं म्हजीं सगळीं झाडां<br>त्या थंयच्या रानां,'

उदका विशींचे सुप्त ओडीनच घडये अशीं वेगळेच मोडींची उतरां बरोवन जाल्यांत जायत. आनीक एके कवितेंत,

'म्हाळच्या पावसांत<br>हांव भिजलों .... सांजेपारा<br>तेन्नाच्यान

ओलसाणेच्याच
सुरांचें कवीत शिकलों’!

अशीं उतरां हांवें बरयल्यांत. उदकाची वेगळी अशी ओडच अशे रचनेक कारणेस्त जाल्या जावंये. सुरांची ओलसाण काळजांत सुवात करून रावल्या जायत.

कोणाकोणाक कसली आनी कित्याकित्याची म्हणून ओड आसत सांगूं नज. मनशाक भायल्यान जें कितें मानवल्लें दिसता, ताचे परस, मनशाच्या मनांतली ओड वेगळीच आसता आनी ती सदांच भायल्यान देखपी मनशाक दिसताच अशें ना. म्हजे वळखीचो एक जाणटो मनीस आसा. पिराय ऐंशांक पावल्या. घरादारांत कामधंदो करपी, जोडपी, शेतभाट पळोवपी आनी घरदार चलोवपी सगळे आसात. ह्या जाणट्या मनशान खरें म्हळयार थंड बरें घरांत बसून रावपाचें. तसो तो रावताय बी. पूण केन्ना केन्ना ताचें मन ताका ओगी बसूंक दिना. तो सकाळीं फांत्यार उठ्ठा. घरापसून पयस शेतांत वता आनी आपले परीं म्हणून कितें तरी काम करता. थंय शेतांतले मातयेंत हात पांय रेबडावन घेता. घरांतल्यांनी जर ताका हें कित्याक करता काय म्हणून विचारीत तर तो जाप दिता, ‘मातयेची ओड!’ हांगा मातयेची ओड म्हळयार किंवाट्यान वा बेजारून दिल्ली जाप न्हय, तर खऱ्या अर्थान माती म्हळयार जमनी कडेन आशिल्ली भावनीक ओड, हो अर्थ!

खरेंच, ओडीचें बळगें वेगळेंच. ती नकळटनाच मनशाक आपणा कडेन ओडून व्हरता आनी आपणाल्या सुरांनी उलोवंकय लायता.

[अक्षय : दिवाळी 1987] 

# 27

**चंद्रकांत केणी**

## नैनीताल : जंय एक याद गोटेली

कौसानीच्या डाक बंगल्यांत रावन हिमशिखरांच्या दर्शनाचो आनंद अणभवले उपरांत हिमालयांत भोंवडेन निसर्गाचो सांगात आमी सोंपयलो आनी अलमोडा सावन नैनीतालाक वचूंक भायर सरले. वाटेर आलमोड्याक आमकां एक रात रावचें पडलें. थंयच आमकां मार्था मेळ्ळी. ही वीस बावीस वर्सांची अमेरिकन चली, योगाचो अभ्यास करूंक म्हणून हिदुस्थानांत आयिल्ली आनी साधना करपाक ऋषींच्या मार्गदर्शनाची आस्त धरून हिमालयांत राविल्ली. पिठोरागडाक भारतीय लश्कराचो सुरक्षित विभाग सुरू जाता. म्हणून तिका फुडें वचूंक मेळ्ळें ना. आनी ती अलमोड्याक येवन राविल्ली. त्या वाठारार इंग्लेज उलोवपी लोक सोंपेपणी मेळनात आनी मार्थाक इंग्लेज सोडून हेर कसलीच भास येना. देखून एक सांजवेळ आमच्या सांगातान तिणें आनंदान सारली. तिगेल्या दुभाशाचें काम हांवें खोश्शेन केलें. तिका जाय आशिल्लो तो फकत जेवणा-खाणाची ऑर्डर दिवपी दुभाशी न्हय, जाल्यार ह्या पैस परंतराक दोन उतरां उलोवपी एक सांगाती तिका जाय आसलो.

राती कडेन तिका जेन्ना कळ्ळें की सकाळीं आमी नैनीतालाक वतले, तेन्ना तिणें आमचे बरोबर येवं काय म्हणून म्हाका विचारलें.

हें लचांड गळयाक बांदून हांव खंय भोंवतलों, अशें येवजून हांवें म्हळें, 'तूं जी साधना करूंक सोदता, ती ह्या शारांनी कशी करूंक पावतली? ही गिरेस्तांली भोग-भूंय आनी पहाडी लोकांची जोड-भूंय.'

त्या उतराक तिणें म्हळें, 'ह्या शारांनी जो लोक कश्ट करता, तो आपले परीन जिणेची तपश्चर्याच करता न्हय?'

म्हाका एक नवी नदर मेळ्ळी. पूण तिका बरोबर घेवन वचपाक म्हजें मन तयार नासलें. राती कडेन तिणें म्हाका तरातरांचे प्रस्न विचारून बेजार हाडलो. जे प्रस्न आमकां केन्ना येवजले नात आनी ज्या प्रस्नांक आमचे कडेन जापो नात, असले तिजे प्रस्न आसले. देवदार आनी चिडाचीं झाडां हीं एकाद्र्या मुनी भशेन ध्यानस्त बसल्यांत अशी ओपार मारून तिणें अशें कित्याक असो म्हाका प्रस्न केलो. हांव माथें खरपूंक लागलों. तें बरोबर ती हांस हांस हांसली. हांसतकच तिज्या दोळयांतल्यान मोतयां येदीं दुकां गळूंक लागलीं. आपल्या लेंसान तिणें तीं पुसलीं आनी म्हळें, 'तूं रागार जावं नाका. अमेरिकेक म्हजो एक इश्ट आसा. तोय कांय येवजना जातकच असोच

तुजे भशेन माथें खरंपिता.'

'तूं म्हजे बरोबर नैनीतालाक आयली जाल्यार तुका रावन रावन तुज्या इश्टाची याद येतली आनी देहान हिमालयाचे कुशींत रावनय मनान तूं अमेरिकेक उरतली... अशें जावंक फावना.'

म्हजें म्हणणें मार्थाक पटलें. तिणें म्हळें, 'हय, तेच खातीर हांवें फ्रेंडाक (त्या इश्टाक) म्हज्या सांगातान येवं नाका म्हळें.'

दुसऱ्या दिसा मार्थाक अल्मोड्याक सोडून आमी नैनीतालाक गेले. नैनीतालाचे दक्षिणेक अक्रोडाच्या रुखातळा बसून आमी तळयाची मौज पळयताले. तळयाचे धडेर लोक चाट आनी चणे खाताले. तें पळोवन म्हाका ह्या लोकांचें अजाप दिसलें. चाट आनी चणे खावंक ना जाल्यार सिनेमा पळोवंक नैनीतालाक कित्याक येवंक जाय? शारांनी हाज्याच्याकय बरें चाट मेळटा. हिमालयाचे कुशींत येतकच निसर्गाची सोबीतकाय दोळयांनी पोटभर पियेवंची, ना जाल्यार दोळे धांपून ध्यान करून मनाचो थाव घेवचो हें ह्या लोकांक कशें समजना?

नैनीतालांत सगळयांत वयलें शिखर साडे आठ हजार फूट उंचायेचें. पयलीं हाका चायना पीक ना जाल्यार चीना पीक म्हणटाले. 1962 वर्सा चीनान भारताचेर विस्वासघातान घुरी घाली तेन्नाच्यान हाका नैन पीक म्हण्टात. नैनीताल हें शार हिमालयाचे कुशींत साडे स हजार फूट उंचायेचेर वसलां. ह्या वाटाराचे पूर्व, उत्तर आनी दक्षिणेक दोंगराच्यो रांगो आनी तांचे मदीं हरिनाथ ताल. पश्चिमेक आसा नैनादेवीचे मंदिर. उपरान्त खेळाचें मैदान, मागीर शारांतलीं घरां आनी बाजार आनी तांचें मदीं कळस कसो नैना पीक. नैनीतालाचो उल्लेख पुराणांत मेळटा. तीन ऋषी अत्री, पुलस्त्य आनी पुलइ हिमालयाची यात्रा करतना हांगा पावले. तेन्ना तांकां तान लागली. त्या वेळार तांणी मंत्रशक्तीच्या आधारान दोंगरांत फोंड खणून मानस सरोवराचें उदक हांगा हाडलें. ऋशींची तान भागली, पूण तांची पुण्याय तळयाच्या रुपान हांगा सासणाची उरली. नैनादेवीन आपल्याक रावंक हो जागो पसंत केलो.

ऋषींचे तपश्चर्येक लागून आसूं, ना जाल्यार निसर्गाचे रचनेक लागून आसूं, ह्या दोंगरांच्या माथ्यार साडे स हजार फूट उंचायेर केन्नाच सुकना असो हो तलाव हांगा उरला. ह्या तलावाक लागूनच ह्या शाराक नैनीताल म्हणटात.

मनीस जातीक हो तलाव हालींच होलमलो. हांगाच्या पहाडी लोकांक तो खबर आसलो आनी ऋषिमुनी चुकून माकून हांगा पावताले. पूण जेन्ना इंग्रजांनी लोकांल्या उलोवपांतल्यान ह्या सोबीत तलावाची खबर आयकली, तेन्ना ते तो सोदून काडूंक भायर सरले. ही गजाल 19 व्या शेंकड्याच्या मध्याची.

तलाव सोदूंक भायर सरिल्ल्या इंग्लेजांक हांगाच्या लोकांनी सारकी वाट दाखयली ना. निमाणे कडेन एका इंग्रज अधिकाऱ्यान एक मांडणी सोदून काडली. ताणें एका पहाडी मनशाक धरून ताच्या माथ्यार सयशीं रात वजनाचें एक तळप दवरलें आनी ताका मुखार चलूंक सांगून तो ताचे फाटल्यान वचूंक लागलो. जे मेरेन नैनी तलावाची वाट सांगना, ते मेरेन तें तळप सकयल उडोवंक मेळचें ना आनी ताणें तें सकयल उडयलें जाल्यार ताका जिवानिशीं मारतलों असो भंय घालो. ही मांडणी फळाक

आयली. इंग्लेज लेखक जीम कॉर्बेट हाणें बरोवन दवरलां की आपणें जेन्ना हें तळप पळयलें, तेन्ना आपूण अजाप भरीत जालों. तागेलें हें अजाप पळोवन ताचे बरोबर भोंवतल्या पहाडी मनशान म्हळें, तोंडांत बोटां घालता कित्याक? हें तळप जड आसलें तरी आमच्या जाणटेल्यांची शक्त उणी नासली.

हांवें तें तळप खूब सोदलें. पूण म्हाका तें पळोवंक मेळें ना. तशीं ह्या वाटारार पावला कणकणीं तळपां आसात. पूण ज्या तळपान इतिहास घडयला, तें खंयचें हें सोदून काडप तरी कशें?

नैनीचें देऊळ पळोवंक वतना तीन मैल चडून वचचें पडलें. पांयांत गुळे आयले आनी जीव खरशेलो. भंगूं तें, देवतेक हांगच्यानच नमस्कार करचो अशें म्हाका दिसलें. पूण मनान म्हळें, हे जिणेंत पर्थून तूं सोपेपणी हांगा पावचो ना; आनी इतले लागीं येवनय देवतेचें दर्शन घेतले बगर गेलो हाची खंत जिवीतभर उरतली. तितलीच उमेद. ते उर्बेन चलूंक लागलों आनी जेन्ना देवळाच्या दारांत पावलों तेन्ना जल्माची तान भागिल्ल्याचें समाधान अणभवलें. स्रमाचें सार्थक जालें. हांगा पावतकच तानभूक न्हिवली. नदर वचत थंय निसर्गाची भव्यताय आनी वर्णूक नज इतली सोबीतकाय. दोळयांनी ती पियेवन धन्यताय भोगली. सकयल व्हांवता कोसी न्हंय, पलतडीन दोंगरांच्यो गंगो आनी दोंगराचे कुशींत ल्हान ल्हान गांव. राणीखेत आनी अल्मोडा हीं हिमालयांतलीं शारां हांगा सावन नदरेच्या थावांत येतात. म्हाका वाट दाखोवंक आयिल्ल्या पहाडी मनशान सांगलें, 'तो सामकार दिसता तो मुकंवल पर्वत. ताची उंचाय चौदा हजार फूट.' पूण ताचे पलतडीन हिमालयाचीं हिमाच्छादित शिखरां आशिल्ल्यान हो पर्वत नदरेक ल्हान दिसूंक लागता. हांगा सावन त्रिशूळ शिखराचें दर्शन घडटा. त्रिशूळाचे पश्चिमेक गंगोत्री, केदार - बद्री उपरांत कामेज. गौरीशंकराचें दर्शन हांगाच्यान घडटा. पूण नंदादेवी सोंपेपणीं दिसता. कैलासाक वता आसतना पांडवांनी पांच रांदनी ज्या शिखरांचेर रचल्यो अशी अख्यायिका आसा, तांकां पंचचुळी शिखर म्हणटात. मळब निवळ आसल्यार तेंय दिश्टी पडटा.

चित्रकार रंगांत रंग भरसून नवो रंग तयार करता हें आमी जायते फावटीं पळयलां. पूण नैनी शिखरा वयलो सूर्योदय आनी सूर्यास्त हांगा खिणाखिणाक नवे नवे रंग उक्तायता. निळया रंगाचेर नदर थीर जावचे आदींच थंय गुलाबी रंग दिश्टी पडूंक लागता आनी मागीर सूर्य वयर येवचे आदींच सगल्याक उजवाड फांकता. देवाचें चित्र रंगयतना चित्रकार तेजोवलय दाखयता तशें तेजोवलय ह्या हिमशिखरा भोंवतणी हांगा दिसता. आद्य चित्रकारान तेजोवलयाची कल्पना हांगाच घेतली आसुंये. सूर्य माथ्यार आयलो तरी आंगांतलो कुडकुडो उणो जायना. उरफाटो वाऱ्याच्या झोता सरशीं तो वाडटा. सूर्यास्ताच्या वेळार सगळो पर्वत भांगराचो जाता. स्वर्गलोक म्हळयार सुवर्णनगरी अशी कल्पना ज्या कवीन मुळांत केली, तो सूर्यास्ता वेळार नैनी शिखराचेर पाविल्लो आसूंक जाय.

संस्कृत भाशेंत पर्वताक नग म्हणटात. जो 'न गच्छति' - जी चलना, थीर आसता तो नग आनी ह्या नगांचो राजा तो नगाधिराज. संवसार चलता, जग बदलत वता; पूण अजून हिमालय बदलूंक ना. देवांचें थंय घर आसा असो आमचेर संस्कार

जाल्ल्यान कुबेराचें धन फिकें उडोवपी ह्या हिमालया कडेन फाट फिरोवपाचो वेळ आयलो तेन्ना नकळटां हांवें हात जोडून मान बागयली आनी नगाधिराजाक नमस्कार केलो.

नैनी पीक देंवता आसतना मनीस जातीच्या संवसारा कडेन नदर पावली. आनी देवान नदर मुखार दिल्या ती मुखार आशिल्ल्या पोटाचेर थिरावन पावलां उबारतल्या लोकांच्या संवसाराचें - हांवय तांच्यांतलोच एक आस्तनाय- म्हाका अजाप दिसलें.

ल्हवू ल्हवू पावलां उबारीत हांव नैनी शिखर देंवलों. आनी जेन्ना गिरेस्तांचे भोगभुंयेंत पावलों, तेन्ना म्हाका मार्थाचो उगडास आयलो.... आजून जेन्ना जेन्ना हांव नैनीतालचो उगडास काडटां, तेन्ना तेन्ना, हांसतां हांसतां मोतयां गळोवपी मार्थाचो उगडास येता.

(कुळागर : जा. 1984) ☆

28

**गोविंद मुद्रस**

# जांवय हीच गोंयची संस्कृताय

गोंयची, जावं गोंयकारांची, वेगळी संस्कृताय कित्यांत आसा, अशें म्हाका कोणूय विचारीत जाल्यार, मात् लेगीत थांबिनासतना हांव जाप दितलों, "जांवय हे संस्थेंत वा व्यक्तींत!" इतलेंच न्हंय, तर म्हाका अशें सामकें दिसता कि गोंयचे झोपाळे, गोंयच्यो तुळशी आनी गोंयच्या कांय पंगडांचें राजकारण ह्या गजालींचें भारतांतल्या असल्याच गजालींकडेन सारकेपण आसत, पूण गोंयच्या जांवयपणाक लागपी सारकेपण भारतांतल्या खंयच्याच प्रांतांत मेळत काय कितें हाजो म्हाका सदांच दुबाव येता.

हय, जांवय हेंच गोंयचे संस्कृतायेचें वेगळेपण आनी हीच गोंयची संस्कृताय!

गोंयची आनी महाराष्ट्राची तुळा करची पडत जाल्यार, अशें म्हणचें पडटा की गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत जांवयाचे बाबतींत भूंय मळबाचें अंतर आसा. महाराष्ट्रांत जांवय, मांव, मांयो, मावोडें ह्यो संस्था म्हणचे फकाणांचे आनी बकच्छायांचे विशय. सगलें मराठी विनोदी, वाङ्मय म्हळयार हांचेर फकाणांनी आनी तुच्छतायेन बरयल्लें बरप. खंयचेंय मराठी मासीक उकतें करून पळयल्यार तुमकां अशेंच दिसून येतलें की तांतलो विनोद, मांव आनी जांवय हांचेरूच केला. खंय मांव घरदार घेवन जांवयागेरूच तळ ठोकून रावलो, तर खंय जांवय मावागेरसून आपणाल्या घरा वचपाची खबरूच करिना. हीच गजाल इंग्लेज साइत्याची.

गोंयांत जांवयाक वागयतात ताचे वयल्यान पळयत जाल्यार, गोंयचे संरकृतायेचें व्हडपण कळून येता. लग्न जाले बराबर मांय आनी मांव धूव दिवन पूत जोडलो अशें म्हणटात. हातूंत इल्ली लेगीत अतिताय आसा अशें म्हणूं नज. खाशेलो पूत आवय बापयाक लेखिना, पूण जांवय लग्न जायना फुडें सगल्या मावोडेच्या कुटुंबाचो भार उबारता. एक आनी दोन न्हय, अशीं शेंकड्यांनी उदाहरणां दिवंक मेळटलीं. खंय आपणाल्या मेवण्याची शिकपाची मांडणी कर; खंय आपणाले मेवणेचें लग्न कर; खंय आपणाल्या मांवाची वखदापाण्याची मांडणी कर. लग्नां जुळोवचे आदीं हुंडो दिवपा खातीर रीण काडपाचो, वस्ती घाण दवरून दुडू काडपाचो जायतेदां चलये बापायचेर प्रसंग येता खरो; पूण लग्न जाले उपरान्त काडिल्लें रीण जांवयाकूच निमाणें फारीक करचें पडलां, हाचीं उदाहरणां थोडीं नात.

गोंयांत जण एकल्याक आपूण अमक्यालो चलो म्हणून सांगचे परस आपूण अमक्यालो जांवय अशें सांगपांत खूब व्हडपण दिसता. नातरांकार जालो, पूण आपूण

अमक्यालो जांवय अशें म्हूण गोंयकार जेन्ना सांगता, तेन्ना परक्याक प्रस्न पडटा की गोंय ही फकत जांवयाचीच भूंय काय कितें? अशे म्हणटात की गोंयांत कोणाकूय एकाद्रो मनीस आयतारा दिसा जाय आसत जाल्यार ताका मावोड्या सोदचो.

जांवयपणाची ही उमेद, ह्या विसाव्या शेंकड्यांत आनी मोग करून लग्न जावपाच्या काळांत लेगीत इल्लीय उणी जावंक ना. चलयेक येरांसाचो वांटो गोंयांत मेळटा आनी ते खातीर खरें पळोवंक वचत तर मांव आनी जांवय हांचे भितर व्हड वांदे येवंक जाये आशिल्ले. पूण तशें गोंयांत घडना. धुवेक आपणालो वांटो सोड म्हणून सांगपाचो बापायचेर प्रसंग येना आनी मांवा कडेन वांटो मागपाचें जांवयाच्या मनांत येना. मोगान कायदो कसो करूं येता ताजी उत्तम देख गोंयकारांनी ह्या निमतान घालून दिल्या. जण एका ब्राह्मणाच्या भुरग्याचो जल्म दोन फावटीं जाता म्हणटात. तेच भशेन गोंयच्या भुरग्याचो, कोंकणो वा किरिस्तांव, दोन फावटीं जल्म जाता. लग्ना वेळार ताचो दुसरो जल्म जाता अशें म्हणूं येता.

आपूण गरीब आवय-बापायगेर जल्माक आयिल्ल्याचें दूख जर कोणें भोगलें आसत जाल्यार ताणें गिरेस्त मनान जांवय जावन ह्या दुःखांतसून मेकळो जावं येता. ते खातीर ताणें इल्लो शिकूंक जाय. म्हळयार इंजनेर वा दोतोर जावपाक जाय. गोंयांत मीन पिकना फुडेंच भाटकार फाटीं पडले; मीनकार फुडें आयले. ही जात सरना फुडें गोयंच्या जांवयाक बरे दीस आयले. खंयचोय एक गरीब भुरगो इंजनेर वा दोतोर जालो रे जालो, ताका मिनेरान आपणालो जांवय म्हणून उबाल्लोच! जशी मिनाचीं मानिफेस्तां करपाक सर्त लागिल्ली, तशीच असलो जांवय सोदपाक लेगीत सर्त लागिल्ली.

एक गजाल सांगतात, ती खरी वा फट हांव नकळं.

एका गरीब मनशालो भुरगो बरो व्हड दोतोर जालो. दोगां मिनेरांचो ताचेर दोळो गेलो. एकान ताका एक लाख केलो तर दुसऱ्यान ताका एक लाख आनी वयर एक मोटार घेवन दितां अशें सागलें. पयल्यान ताका मुंबय हॉस्पिटल बांदून दितां म्हळें. अशे तरेन लग्न थारावपा खातीर तो भुरगो येवपाक भायर सरलो. ह्या दोगांकूय ही खबर लागना फुडें ते दोगूय विमानतळार पावले. जालें कितें, तर एकल्याक फेरीबोट चुकली आनी तो बाबडो फाटीं उरलो. आनी हो आमचो दोतोर ज्या मिनेराची बेगीन मोटार पाविल्ली, ताचो जांवय जावन बसलो. हे गजालींत सत्याचो वांटो कितलो आसा तें सागूं नज. पूण एक खरें की हें जाल्ल्यान गोंयांत जांवयाचें म्हात्म्य मात कळून येता. म्हजो एक गोंया भायलो आमीग म्हाका सदांच म्हणटा की मनशान गोंयांत जल्माक येवचें आनी ताणें एक गजाल सदांच करची. ती म्हळयार गोंयांत लग्न जावचें. मनीस म्हूण जावंक नाशिल्ल्यो तोखणायो जांवय जातकूच गोंयांत अवश्य जातात.

आयचे म्हारगायेच्या काळांत जांवयाच्यो बाजारा भशेन दरो जाल्यात. इंजनेर, दोतोर ह्या लोकांक सगले कडेन मागण्यो आशिल्ल्यान तांचो दर वाडला. हांचे फाटल्यान येंप्रेगाद, मुंबयकार बी येतात. धा वर्सां फाटल्यान मुंबयकारांक खूब मोल आशिल्लें, पूण तुर्ताक तांची सुवात फॉरेन रिटर्न्ड मनशान घेतल्या. पुर्तुगेजा काळार

येंप्रेगाद, प्रोफसोर हांकां दर आशिल्ली; पूण ते आतां फाटीं पडल्यात.

आमच्यांत एक सदांच म्हणपाची चाल आसा. आवय-बापूय म्हणटात, ''पूत बरो आशिल्लो; पूण लग्न जावन पेडुयार जालो.'' हाचो अर्थ इतलोच की लग्न जालो म्हटकूच भुरगो मावोडेच्याच लोकाक सोंपलो.

निमाणें, गजाली मर्यादे भायर गेल्यो म्हणटकीर कितें जाता तें फुडली काणी वाचतकीर समजतलें.

एका सादारण परिस्थितींत आशिल्ल्या मनशान आपणाल्या भुरग्याचें लग्न केलें. लग्न जावन चलो पयलेच फावट मावोड्या गेलो. मांवान आग्रो करुकरून जांवयाक दवरून घेतलो. आशिल्ले - नाशिल्ले पैशे मोडून नुस्तें आनी गोडशें करून घालें. दिसान दीस नवीं नवीं पक्वान्नां जांवयाक मेळूंक लागलीं. तो ह्या खाणाक संवकलो. जांवय हालपाचीं चिन्नां कशींच दिसनात. अशे परिस्थितींत म्हयने गेले. मांवाचेर घराचे नळे विकपाचो वेळ आयलो. एक दीस ताचेर अशी परिस्थिती आयली की पसरकार उधार दिनात आनी शेजारी पातयेनात! निमाणें ताणें जांवयाक बुद्द शिकोवपाचें थारायलें. जांवया पोराक त्या दिसा ताणें शीत आनी सोलांचें फुटें उदक वाडलें. जांवयान तेच सांजे आपणाली बिटकी कवळी.

देखून, नवो जांवय पयलेच फावट मावोड्या वतना ताका उपदेश करपाची आमच्यांत चाल आसा - ''मांय तिवळ घालीसर मावोड्या रावं नाका.''



(नवें गोंय : आ. 1965)

## 29

### रामकृष्ण जुवारकार

# म्हजो वेवसाय

गोंयांत जावं भारतांत, हेर खंयूय बसींत प्रवास करतना हांव वर्तमान पत्र वाचूंक जेन्ना सोदतां, तेन्ना म्हाका म्हजें वर्तमानपत्र केन्नाच वाचूंक मेळना.

एक फावट हांवें फोंड्यां बस स्टॅण्डार वर्तमान पत्र विकतें घेतलें आनी बसींत हांव चडलों मात, म्हजे कडल्यान तें कोणेंतरी मागून घेतलें. ताणें वाचले उपरान्त ताचे कडल्यान दुसऱ्यान कोणें तरी घेतलें आनी म्हाका म्हजें पत्र परतें पणजे स्टॅण्डार देंवतना मेळ्ळें. परतो हांव आगशीचे बसींत चडले उपरांत तें परतें कोणें तरी मागून घेतलें. आनी म्हाका त्या स्टॉपाचेर देंवता आसतना परतें मेळ्ळें.

बसींत प्रवास करतना अशे कोण तरी येवन वर्तमान पत्र मागून व्हरतात, ना जाल्यार चडशे ते मांडये वयलें वर्तमान पत्र ओडटात आनी अशे नदरेन पळयतात की तें दिना जाल्यार व्हड कुन्नाटेपण जावपाचें. बसींत कोणेंय वर्तमान पत्राचेर नदर दवरले बराबर तें ताका दिवंकूच जाय. तें वर्तमान पत्र विकतें घेतलां म्हूण तुजें जायत, पूण वाचपाक सगळयांचें! म्हाका दिसता की कसलीच अपेक्षा करी नासतना सगल्याक दान दिवची ही वज फकत आमच्या देशाची. दुसऱ्या वांगडा वांटले बराबर खंयची वस्त वाडटा ती म्हळयार ज्ञान, अशें आमच्या देसांतल्या जाणकारांनी म्हळां.

एक फावट हांव बसींत बसलां आसतना एका हिप्पीन म्हजो पेपर घेतलो. तो हिप्पी काय कितें तो हांव नकळ. भायल्या देसांतलो कोणूय आमच्या गोंयांत दिसत जाल्यार ताका आमी हिप्पी म्हणटात. म्हणून ताका हांवें हिप्पी म्हळा. आतां हांवें ह्या हिप्पीक म्हजो पेपर दिलो. आनी एका मिनटा भितर ताणें म्हाका वाचून तो परतो दिलो. त्या वेळार आपणें ताचे परस बेगीन म्हजो पेपर म्हाका परतो दिलो ना हाची खंत ताचे नदरेंत म्हाका दिसताली. म्हज्या देसभावांक म्हज्या ज्ञानांत वांटेकार जावंक हांव केन्नाच अनमनूं ना. पूण म्हाका म्हजो वांटो सारको दिनासले म्हूण म्हाका वायट दिसतालें. कितले फावट हांवें बसींत वर्तमान पत्र वाचपाचो प्रयत्न केलो. पूण मदीं कोण ना कोण तें म्हजे कडल्यान घेवन वतालो आनी देंवता आसतना तें व्हरपाक हांव तांचो मानाय जाल्ले भशेन म्हाका परतें दितालो. हांव उबगून मागीर बसला थंयचो उठून सामको पेल्या सिटार वचून बसतालों; कित्याक तर देंवता आसतना हांव तांकां सांपडचो न्हय आनी ताणें म्हाका पेपर परतो दिवचो न्हय! पूण हे वाचपी सामके प्रामाणीक! ते देंवतना तुका सोदून काडून तुजो पेपर तुका परतो दितात.

एक फावट हांवें कुठ्ठाळे स्टॅण्डाचेर पेपर विकतो घेतलो आनी हांव फेरीबोटींत भितर सरलों. फेरीबोटीचेर पेपर वाचूंक बरें दिसता. पूण फेरीबोटींतल्या बांकार हांव बसला मात, इतल्यांत एकल्याची नदर म्हज्या पेपराचेर गेल्ली हांवें पळयली. हांवें म्हजो पेपर लिपोवचे खातीर कुशीक दवरलो. पूण ताका बाबड्याक दिसलें की म्हाका पेपर वाचपाचो ना. ताणें म्हजे कडल्यान पेपर मागून घेतलो आनी वाचून फेरीबोटींतल्यान देंवता आसतना ताणें म्हाका तो परतो दिलो. आगशी परतो जेन्ना हांव बसीर बसलों तेन्ना तोय ते बसींत म्हज्या फुडल्या सिटाचेर आसलो. ताणें म्हजो पेपर परतो मागून घेतलो. देंवता आसतना हांव ताका सांपडचो न्हय म्हूण हांवें जागो बदल्लो आनी पैस सिटाचेर वचून बसलों. पूण त्या प्रामाणिक मनशान म्हाका सोदून काडून पणजे देंवता आसतना म्हजो पेपर म्हाका परतो दिलो.

खंयचेच मोटारींत बसून पेपर वाचतना संवसार फुडें गेलो ना तरी संवसार फुडें वता अशें म्हाका दिसता. पूण जेन्ना म्हाका असो प्रवास करतना कोणूय पेपर वाचूंक दिना जालो, तेन्ना हांवें पेपर घेवचो बंद केलो. पेपर वाचूंक जाय तरी कित्याक? हांव तत्त्वगिन्यानी कसो चितूंक लागलों. कितें अर्थ आसा वर्तमान पत्रांनी! तातूंत सगलें खरें छापून येता अशें ना. आनी सत्य आयलेंच जाल्यार तातूंत भरशिल्लें आनीक जायतें आसता. वर्तमान पत्राच्या धनयांक बरें पडटा तें सत्य; जावं, वाचतल्याक सांगूंक तोय तितलेंच सत्य छापून हाडटा.

हें सत्य हांव सारकें जाणां आसलों. कित्याक तर कांय काळ हांव एका वर्तमान पत्रांत उपसंपादक म्हूण काम करतालों. आमचो जो मुखेल संपादपी आसलो तो खरोच मोटो शिटूक आसलो. आमच्या वर्तमान पत्राचो मालक आमच्या देशांतलो व्हड उद्योगपती आसलो. गोंयाक स्वातंत्र्य मेळत पसून आमचे व्हड भांडवलदार, स्वतःक उद्योगपती म्हणूंक लागिल्ले, तांचे मदलो तो आशिल्लो. आमच्या ह्या संपादकाक पगार राजाच्या तनख्या भशेन आसलो, तरी आमकां उपसंपादकांक आनी बातमीदारांक फॅक्टरींतल्या खंयच्याय कमी पगाराच्या कामदारा सारको पगार मेळटालो. आमचो संपादक आपल्या उद्योगपतीची बरी सेवा करतालो. ही सेवा सोडली जाल्यार तो गरिबांक लागून खूब बरयतालो. आमच्या देसांतल्या जायत्या वर्तमान पत्रांनी काम करून तो गोंयांत आयिल्लो. जंय गेला थंय ताणें खालत्या लोकांची खूब सेवा केली. पूण एकदां एक गांव सोडून तो दुसऱ्या गांवांत गेलो की पयलींच्या प्रदेशाचीं सगलीं सुख-दुखां विसरून तो नव्या प्रदेशाच्या सुखः-दुःखांनी मग्न जातालो. जंय तो वतालो थंय तो असो फाटलें सगलें विसरून मोगांत पडटालो. पूण आमी जे तांचे लागीं काम करताले तांकां हो ताचो गरिबांचो मोग सारको खबर आसलो. पैशाचो ताका खरो मोग आसलो आनी ताच्या पगाराच्या मानान पसून पळयलें जाल्यार ताणें माया खूब करून दवरिल्ली. ताचें बरोवप सारकें अशें दिसतालें की हो आसासर संवसारांत अन्यायाक माथें वयर करूंक जावचें ना. पूण तो पयलीं न्याय खंयचे वाटेन करचो तें पळयतालो आनी मागीर त्या न्यायाक कितेंय करूंक तयार जातालो. वेळ पडल्यार खूनी मनशाचो पसून पाखो घेतालो आनी मागीर अशे लेख रंगयतालो, लोकांक दिसचें की हो खुनी खरोच भावार्थी आनी ताका सारको न्याय मेळना. ताका जें सत्य म्हूण

सिद्ध जाल्लें आसलें, त्या सत्या खातीर तो प्राणपणान झुजतालो! तो खांपो झुजारी, पूण आमच्या ह्या संपादकाक आनी ताच्या बरोवपाक मान दिवनूय सांगचें पडटा की ह्या संपादप्या वयल्यान म्हाका सदांच आमच्या गांवांतले एके आलवांतिणी प्रमाण मानिल्ले एके बायलेची याद येताली. हे जाणटेले बायलेक गांवच्यो सगल्यो राटावळी लागताल्यो. जांचेर ती चाळवता ताका व्हडा व्हडान ती गाळी घालताली. जांचेर ती कांय दीस बरी जाताली तांची व्हड ताळयान तुस्त करताली. गांवच्या लोकांच्या घरांनी वचून थंय जेवणा-खाणाक रावन घरच्या भुरग्यांक लागीं करताली. पूण इतलेंय जावन गांवचे लोक तिका लागीं करूंक भिताले आनी ती आपल्या घरा येना जाल्यार पुरो म्हूण मागताले. ती घरांत आयलीच जाल्यार तिचे पसून पयस पयस रावताले आनी भुरग्यांक लिपयताले; कित्याक तर तिच्या मनांत दडिल्ली खंयची तरी खोटी वान्सा आपल्याक आनी चड करून आपल्या भुरग्यांक बादता असो तांचो समज आसलो. खंयच्याय घराचें दार तिका सारकें उक्तें मेळटालें तें त्या घरांत कोणूय मरतकूच. कुटुंबांतलो कोणूय मरतकूच तांचें खरें दुःख त्या कुटुंबांतल्या लोकाकूच खरें कळटा. शेजाऱ्यांक आनी सोयऱ्यांक दुःख जाताच, पूण तांणी येवन त्या कुटुंबांतल्या लोकांचें सांत्वन करचेलें! पूण अशा वेळार ही बायल त्या घरांत तरतरीत भितर सरताली. मोठ्यामोठ्यान विलापूंक लागताली, जमनीचेर लोळटाली आनी हुयेल्यांनी रडूंक लागताली. ते तिचे विलाप आयकून हेर जमिल्ल्यांक त्या कुटुंबांतल्या मनशांक थातारपाचें सोडून हिका येवन थातारचें पडटालें आनी तिका सांगचें पडटालें, की त्या कुटुंबाचें दुःख थोडो वेळ विसरून मातशी ओगी राव म्हूण. पूण ती सारकें सवंग करून दाखयताली. आनी तसोच आमचो हो संपादपी! आपलें सवंग तो सारकें सोबयतालो.

आमचो संपादपी आमच्या कामांत धवळ करी नासलो. आपल्या पालवी संपादकाक कांय विशेष खबरांबद्दल जावं लेखांबद्दल तो सुचोवण्यो दिवन वतालो. आमच्या हेर खबरो दिवपाच्या कामांत ताचो व्हडलो सो सबंद येनासलो. आमच्या गोंयच्या सगल्या वर्तमान पत्रांतल्या खबरेकारांची खबरो दिवची तराय एकसारकी आसली. सरकारान आपल्या सचिवालयांत आमकां खबरेकारांक एक कूड दिल्ली, थंय आमी सकाळचे एकठांय जाताले. पयलीं आमी त्या दिसा खंय-खंय आमंत्रणां आसात तीं पळयताले. मागीर आमी तांचो क्रम थारायताले. जे पत्रपरिषदेंत जावं क्लबाचे मिटिंगेंत आसकां पार्टी बरी मेळची शक्यताय दिसत, तांचो क्रम आमी पयलीं लायताले आनी त्यो केन्नाच चुकयनासले. बरे गिरेस्त क्लब जावं गिरेस्त फुडारी आमकां ह्यो पार्ट्यो दिताले. आनी हाच्यो खबरो दुसऱ्या दिसा आमच्या सगल्या वर्तमानपत्रांनी बरे भशेन येताल्यो. जायते फावट तांच्यो ज्यो सभा आसताल्यो तातूंत विशय व्हडले म्हत्त्वाचे नासताले, जावं उलोवपीय सारके उलयनासले. पूण तांच्यो खबरो बऱ्यो जाय तश्यो येताल्यो. केन्नाय जाय त्यो पार्ट्यो एकाच वेळार जाताल्यो तेन्ना तातुंतली व्हडली आमी स्विकारताले. त्या वेळार कितलीय म्हत्त्वाची सभा हेर कडेन आसली जाल्यार, आनी केदेय व्हड उलोवपी थंय आसले जाल्यार लेगीत त्यो सभा आमकां सोडच्यो पडटाल्यो.

हाचे भायर आमकां मंत्र्यांच्या कार्यक्रमाक वचचेंच पडटालें. मंत्री कितेंय उलोवं आनी दिसाक कितलेय फावट उलोवं. तांचें प्रत्येक भाषण आमकां वेदवाक्य कशें छापून हाडचें पडटालें. अर्थात आमकां ह्या कार्यावळींक वचूंक सरकारी गाडयो आसताल्यो. जायते फावट व्हडली मजा ना जाल्यार आमी ह्या कार्यक्रमांक वचनासले. पूण ताका लागून कांय अडनासलें. रातच्या वेळार सरकारी माहिती खात्या कडल्यान मत्र्यांचीं भाशणां आनी कार्यक्रमाची सायक्लोस्टाइल केल्लीं पत्रकां मेळटालीं तीं आमी आमच्या वर्तमान पत्रांनी छापताले. हीं पत्रकां आमकां बऱ्याक पडटालीं, कित्याक तर मंत्री सारको उलयलोनाय जाल्यार त्या सरकारी पत्रकांचेर मंत्र्याचें उलोवप विशयाक धरून आनी सारकें आसतालें.

अपघात, चोरी, मारामारी जावं खून हांच्यो खबरो घेवची आमची सोपी रीत आसली. ह्यो दुर्देवी घडणुको घडटात थंय आमी केन्ना वचनासले. तांचे खातीर आमी पुलिसे कडेन संबंद दवरिल्लो. सद्दां रातचे आमकां ते ह्यो खबरो दिताले. मागीर सगल्या पेपरांनी एक सारख्यो ह्यो सगल्यो खबरो छापून येताल्यो. हरशीं कांय तपशील आमी दिलो ना तरी त्या अपघाताची, जावं खुनाची, जावं चोरयेची चवकशी कोण करता त्या पुलीस अधिकाऱ्याचें नांव मात आमी न चुकतां छापपाचें! घडये आमी अपघातांत मेल्ल्याचें नांव छापूंक विसरताले; कित्याक तर मेल्लो गेलो. दुसऱ्या दिसा खबरो दिवंक जाय आसल्यो त्यो पुलिसेन!

कांय वेळार आमी आमच्या राज्याच्या मंत्र्या कडेन ताचीं जायत्या विशयांचेर मत्तां मागूंक वताले. तोच जावन केन्नाय आमकां आपोवन पत्रकार परिशद म्हणटात ती घेतालो. हो मंत्री तसो आमकां बरो आसलो आनी आमकां ताच्यो पार्ट्यो वऱ्यो आसताल्यो. पूण ताका एक वायट खोड आसली, ती म्हळयार आपणें सांगिल्लें रोखडेंच ना म्हणचेलें. पयल्या दिसा तो एक सांगतालो आनी तें छापले बराबर दुसऱ्या दिसा तो आमकां आपोवन हाडून आपणें तशें म्हणुंकूच ना म्हूण सांगतालो. मागीर आमकां परतें छापचें पडटालें की पयल्या दिसा कांय वर्तमान पत्रांनीं आमच्या मंत्र्याचें विधान म्हूण छापून आयलां तें फट म्हूण! एक फावट आमी आमच्या ह्या मंत्र्याचें एक विधान छापलें. ताका मागीर दिसलें की आपणें ते विधान करूंक जायनासलें. ते प्रमाण दुसऱ्या दिसा ताणें आमकां आपोवन हाडून तें नाकारले. आमी दुसऱ्या दिसा ताचो हो नकार छापून हाडटकूच ताका परतें दिसलें की आपणें जें पयलीं सांगिल्लें, तेंच बरें आसलें. ताणें आमकां आपोवन हाडून सांगलें की ताणें आपलें पयलींचे सांगप केन्नाच नाकारूंक नासलें. मागीर आमी परतें छापून हाडलें की कांय वर्तमान पत्रांनी आमच्या मंत्र्यान पयलीं जें सांगिल्लें तें नाकारलां म्हूण छापून आयलां तें फट आसून पयलींचें जें ताणें सांगिल्लें म्हूण छापून आयलां, तेंच खरें!

कांय म्हयन्यांनी हांव ह्या वर्तमानपत्रांतलो भायर सरून गेलों. एक तर हांव वर्तमानपत्रांचेर उबगल्लों आनी दुसरें म्हळयार हांव ते मेरेन फाविल्ल्या वेळार कायद्याचो अभ्यास करतालों.

[परमळ, जाने. 1978] ☆

## 30

**अ. ना. म्हांबरो**

# रात थोडी सवंगां चड

आमच्या गांवांत शिगमो जाता. शिगम्याक लोक शबय घालतात.
रोमटां जातात
धुमटां वाजतात
धुळवड करतात
खेळ खेळटात
पूण बरीं जातात ती नाटकां.
भावका देवतेच्या देवळा भायर
माटव पडटा.
माटवांत एक स्टेज येता
स्टेजीर त्या नाटकां जातात.
दर वर्सा तीन नाटकां
दर वर्सा वेगळीं नाटकां
सामाजीक, इतिहासीक, पौराणीक
सगलीं रंगीत
सगलीं संगीत.



पयलें नाटक
धा सवंगां
दुसरें नाटक
पंदरा सवंगां
तिसरें नाटक
वीस सवंगां
सवंगां बाबडीं वाडत वतात
मनशां मात तितलींच उरतात.
एक मनीस दोन सवंगां
दोन मनीस तीन सवंगां

तीन मनीस पांच सवंगां.
सवंगांच्यो पावण्यो जातात
एक सवंग पांच रुपया
पांच सवंगां पंचवीस रुपया
शिपायक जाय, धा रुपया
हुजऱ्या जाय, पंदरा रुपया
कमाविसदार, मुकादम वीस वीस रुपया
प्रधान पंचवीस
राणी तीस
राजा पन्नास रुपया.

❊

बोडको फट्टू, थोंटो रामा
सोनू, शाणू
दांतरो गिरी
सगले पावणेक उबे रावतात
सगले सवंगां विकतीं घेतात
‘दी सवंग, घे पैशे.’

❊

अगरसाळेंत
बोवाळ सुरू जाता.
मास्तर येता
तालमी घेता
पाटू, तिटू गायत रावतात
मास्तर बाबडो पेटी वाजयता
साथ धरतां धरतां
चाली लायता.
भुरगीं बाबडीं
आयकत रावतात.


211

❊

धर्म जाला सोनू
राणू जाला ‘हर्जुण’
पाटू, शाणू दोगूय हुजऱ्या.
सगले नेमान तालमींक येतात

तालो सरांटून आड्डतातः
“बेस्टाच गडबड करूं नकोस...
समगलोय मरे?”
“संभाझी, खामोश! तिथेंच उबा राव!”
“घेई मम वचण हेंऽऽऽ”
“खबरदार, तुजा जीव काडल्याबगर मी रावणार न्हाई”

❊

तालमी सोंपल्यो
नाटकां सुरू जालीं
पयलो दीस ....
नाटक सुरू धांक
लोक येवन बसला
सातांक
बायलां ... भुरगीं... म्हातारीं
तन्नीं ... थोटीं.... कोतारीं
तातूंत थोडीं कुड्डींय बी.

❊

भुरगीं घालतात बोवाळ
करतात शबय
एक भुरगें वाजयता पेंपारें
दुसरें म्हणटाः “म्हाका तसलें जायें”
बायलो करतात गजालीः
“केन्ना आयली गे व्हनीबाय...?
उष्ण्याक म्हयनो खयचो तर?
..शालिचें गर्भादान जावंकूच ना हय तर?”
शेर्कुल्याच्या फळीसपना पसून
नर्बद्याच्या दुवाळयां मेरेन
माजराचे सटये पसून
कुकुडशाच्या बारशा मेरेन
सगले विशय
सगले धवळे.

❊

फाटल्यान येतात दादले
मांड धांपून, आंबील खावन
विडी ओडीत, पानां खायत
सायकलींचेर बसून.



माटवा भायर जाता बोवाळ
चणेकारांचो, खाजेकारांचो
सोर्तिचो, गडगड्याचो
तीन पैशांक चार आणे
इस्कुदाक धा आणे
'कित्यारूय लायात.. फुट्टाच फुट्टा'
'कचांयच् ..कच्
कचांयच् ... कच्'
सोदकार बाबडो सोदां फोडटा.
चुडटांच्या खांचींतल्यान
मल्लांच्या बुराकांतल्यान
तवनास भुरगे
पळयतात सवंगां :
हो शिवाजी
तो तानाजी
हो तो बालाजी
ही रे कोण?
हो जिजाई
ती रे कोण?
तो राजाई
ही ती रे कोण?
तो तेगेली आई.



खण् खण् खणाण्
अकरा जालीं
पयली घांट.
खण् खण् खणाण्
साडे अकरा जालीं
दुसरी घांट.

खण् खण् खणाण्
पावणे बारांक
तिसरी घांट जाता
आनी पड्डो वयर सरता.



मर्तो कांसार स्टेजीर येता
सुत्रधार जावन
सुत्रधाराची पावणी ताणें घेतल्या
वगडावन आपल्या बोल्सांतले
पाउणशें रुपया
पांच उष्णे घेवन
शेजाऱ्याकडले.



-"मर्तो बाये बरो दिसता, न्हूं गो उष्णया?"
-माटवांतलो एक सादो आवाज
"हय"-दुसरो एक मोव आवाज
"नाटक आयकूंक पुणी दियात गो"
-दिसरो एक रांकट आवाज
"कित्याक येतात हीं नाटकाक म्हणून को ऽ ऽ ण जाणा!"
-चौथो एक वाजेल्लो आवाज
सुत्रधार
नटयेक उलो मारून म्हणटाः
"म्हाजी पिर्या खोटें हाये?"
आनी तितल्यांत
सकाळींच तुकतुकीत
खाड काडिल्ली
चकचकीत तोंडाची पिर्या
"नांथ म्हला भोलावलंत?"
म्हणत भायर येता.
सुत्रधार तिका जाप दिवंक
तोंड उगडटा
इतल्यांत
माटवांत एक भुरगें रडटा
नाटक सोसूं नज जावन.

सुत्रधार भाशण सोडून
भुरग्याक पळयता
नटी किरवंटीचो लेंस काडून
तोंडाची खाज पुसता.
तितल्यांत (माटवांत)
"वोगी राव गो पापणी"
-एक धेंकणो
परतून रडें
मागीर एक थापट
आनी (स्टेजीर)
प्रॉँप्टराची भितरसून
एक शिटकावणी :
"फुडें उलय मरे पापया...
... विसोल्लोय रे?"
... आनी सुत्रधाराचो प्रवेश सोंपता.



मर्दी वतात कांय खीण..
कारण येदोळची नटी
आतां न्हेसता भितर
हुजऱ्याचें न्हेसण.
....स्टेजी वयलें अटांगें रान
आनी झोंपाळयार बशिल्लीं
राधा, कृष्ण
ल्हवू ल्हवू कवळत वतात
(पड्डो वयर सरता)
आनी फाटल्यान दिसूंक लागता
दुर्योधनाचो महाल
सोनू, मर्तो, मष्णो, फोंडो
सगले जाल्यात खाडांमिशांकार
आनी बसल्यात राजांच्या भेसांत.



सगले बसल्यात
फोटोंतल्या मनशांवरी.
'हर्जुण' उलयता

आपलें "भासण"
शकुनी तोखेता
आपलें न्हेसण
दुर्योधन पिळटा
आपली मिशी
भीम पळयता
आपल्यो वस्ती.
सगले मनांतल्या मनांत
खोशी जातात
सपनांत लेगीत
पळोवंक नाशिल्ल्यो गजाली
मेळयो म्हणून स्टेजीर.



दुर्योधन तावातावान
उलयता
बाकीचे ताका
जापो दितात.
सगल्यांचीं उतरां
आदळत आसात
आपटत आसात
खडखडत आसात
घडघडत आसात.
तितल्यांत
स्टेजीर येता गांधारी
तारवटलेल्या दोळयांनी
आनी उलयता
आडवे जिबेन आनी
आडखळिल्ल्या उतरांनी
(बाबडी निकतीच न्हिदून उठिल्ली दिसता)
"दुलग्याचो घोव न्हूं गो हो?"
-एक प्रस्न
"न्हूं सो दिसता"
-एकूच जाप.
स्टेजीर दुर्योधन मोट्यामोट्यान
झगडिल्ले वरी गायत सुट्टा.

ताचें गाणें सोंपता
आनी
“नाराऽयण... नाराऽयण” करीत
कळीचो नारद स्टेजीर येता.
माटवांतली एक म्हातारी
ताका देव समजून
पांयां पडटा... आनी
पयलो आंक सोंपता.



माटवांत
परतून बोवाळ सुरू जाता.
भुरगीं रडटात
दादले चकाटां मारतात
बायलां झगडटातः
“सारकें बोसोंक येना गो तुकां?”
“आवऽऽय गे म्हाजे, पांय दिलो म्हाजेर”
“दोळे फुटल्या हय गो तुजे?”
“बरें कितें करता-”



तींच बायलां
तेच आवाज
माटवा भायर
परतून गर्दी जाता.
सोदां फुट्टात
गडगडो रंगता
मत्तां झडटातः
“मर्त्यान घडघडायलें”
“शाणून फरफरायलें”
“राणून विटयलें”
तीग जाणांचीं तीन मत्तां
धा जाणांचीं पंदरा मत्तां.
खण् खण् खणाण्
दुसरो आंक सुरू जाता
भुरगीं आतां न्हिदेंत

सपनेतात
झेमेवंक लागतात अर्दी बायलां
"फुलू, तूं म्हाका फाल्यां
काणी सांग गो यादीन"
"सांगता हांव, न्हीद तूं"
-तेच आवाज.



स्टेजीर
नटी जाल्लो नट
बाबडो रडटा
"लग्न होईना..." म्हणून.
माटवांत
एके चलयेची आवय
दोळयांक पदर लायता
आनी मनांत म्हणटाः
"खरें गे सायबिणी तुजें"
तेन्नाच
स्टेजी वयले ते दादले-नटयेक
बोट दाखोवन एक चली
आपले आवयक विचारताः
"हें गुलाबी मावशेलें चेडूं कशें दिसता,
न्हूं गे आई?"
आनी ती 'आई'
न्हिदेंतूच
"हय" म्हणटा.



राजाच्या भेसांतलो
कोणतरी एक नट
ते नटयेक माळ घालता.
"खरी नटी काय कितें रे ही?"
माटवांतलो एक तोपयेकार
उठून उबो रावता.
"आरे तोपयेकारा, मात्सो बस"
-दुसरो आवाज

"म्हातारो बरोच चळ्ळा मरे-"
-एक तवनास भुरगो.
.. दुसरो आंक सोंपता...
तिसरो, चौथो सोंपता...
पांचवो आंक सुरू जाता...
सोदकार भरिल्ल्या बोल्सांनी
घरा वतात
गडगड्या कडले लोक रित्या हातांनी
कूस मारतात
"कितें पळयतलो नाटक?
समगल्लें आसा कितें करतले ते -"
-गडगड्यांत पैशे घालयल्लो
एक मनीस पिंर्जळटा
"हेंकां नाटक करूंक येता?"
-दुसरो मनीस ताका जोडणी दिता
माटवांतलीं सगलीं बायलां
न्हिदेच्या राज्यांत पांय दवरतात
कांय भुरगीं
दुसरे न्हिदेचो राग आळयतात.
...नाटक आतां सोंपत येता.
भीम, दुर्योधन झगडटात
मुंडाशेकार म्हातारे
आनी तन्ने भुरगे
तांकां माटवांतल्यान चेव दितात
"फोर्स ... फोर्स!"
"फुलऽ ऽ य! !"
"भिमा, चलय तुजें धनुश्य!"
"दुर्योधना, हेका तूं भीक घालता?"
आनी चुकून
दुर्योधन भिमाचेर
एक सणसणीत थापट मारता
(मर्तो सोनूचेर राग काडटा
फारीक करूंक नाशिल्ल्या
रिणाचो).
आनी भीम जमनीर पडटा
दुर्योधन ताच्या पोटार बसता
आनी नाटक सोंपता -.

स्टेजीर 'वंदे मातरम्' सुरू जाता..
माटवांतल्या दादल्यांक
निकतो दोळो लागता
बायलां बाबडीं घोरेवंक लागतात
भुरग्यांक
तिसरे न्हिदेंतल्यान
मात्शी शी जाग येता.
कांय भुरगीं आवयांक उठयतातः
"चल मगे आवय, घरा वोचों या आमी"
"राव मगो, नाटक सोंपों दी तरी"
-आवयो वाजेतात.



दुसरे वटेन
आवयो भुरग्यांक उठयतातः
"उठ मगो सोभना, नाटक सोंपलें"
"म्हाका हाण्डीर धर, नाजाल्यार
हांव ना उठचें"
"अवदिसा खंयचे कडली!"
स्टेजी वयलें 'वंदे मातरम्' सोंपता
भायर कोंबो साद घालता
"कोऽकोंऽच् कोंऽऽ"
आनी झिळमिळट्यार
लोक घरा वतात
नाटकां करतल्यांक गाळी घालीत
झेमेत झेमेत
रातराणयेच्या फुलांचो वास घेत... घेत...

(कोंकणी : दिवाळी 1962) ☆

31

## कल्पना कामत

# सोर्तिकार

पुर्तुगेज गेलो, पूण वता आसतना ताणें आपणालीं अशीं म्हूण जीं कांय वैशिष्ट्यां आपले फाटल्यान दवरलीं, तातुंतलेंच एक वैशिष्ट्य म्हळयार सोर्तिकार. देमांद, सेलाद फोल, ताश-मिलितार आनी सोरो हीं ताजीं भावंडां. हांचो एक फावट नाद लागलो म्हणटकच सुटपाक कठीण. सोर्तिकाराक वळखना असो गोंयांत एकूय मनीस मेळचो ना. ब्रिटिशांनी जगार सगळे कडेन वचून आपणालें वर्चस्व प्रस्थापीत केल्लें अशें इतिहास सांगता; पूण सोर्तिकारान गोंयच्या गांवा-शारांनी आनी दोंगरां- रानांनी लेगीत रावतल्या लोकांल्या मनांनी आनी अंतस्कर्णांनी रिगून जो पळय आपणालो तांच्या मनाचेर पगडो बसयला, तो पळयतकूच ब्रिटीश तांचेमुखार ''किस पेडकी पत्ती'' अशें म्हणचें पडटा. गोंयच्या सोर्तिकाराची ओड गोंयकारांकूच न्हय, तर गोंया भायल्यांक लेगीत लागले बगर रावंक ना. ''मला एक सॉर्त पाठवावी,'' अशें बरयल्ली एक चीट दर आबेर्तुराक म्हगेल्या एका वळखीच्या सोर्तिकाराक मुंबयच्यान येताली ती म्हाका खबर आसा.

विकपाची कला सोर्तिकाराक जितली सादल्या, तितली ती आनी कोणाकूच सादल्या शी दिसना. 'सॉर्त दिवं?'' हीं उतरां तो इतले खुबयेन म्हणटा की केदोय निगरगट्ट मनीस लेगीत तागेल्या वाचस्पतीन विरगळळे बगर रावना.'' ''एकूच कुडको उरला, तुमचेच खातीर देवान दवरला, नुम्र फुटले बगर रावचो ना, ''अशें तो गिरायकाक इतल्या आत्मविस्वासान सांगता की दरेकाक दिसता की ही सॉर्त आपल्याक दिवपाक परमेश्वरच हो बारावो अवतार घेवन सोर्तिकाराच्या रुपान आपणा मुखार अवतरला. कशे तरेन सोर्त गिरायकाच्या गळयांत बांदची आनी कोण सोर्त घेवंये, हें ह्या सोर्तिकाराक जिस्त खबर आसता. जंय सोर्त खपपाचो चान्स ना अशें ताका दिसता, थंय तो आपणालें भांगरा मोलाचें उतर केन्नाच वगडावपाचो ना. पूण जंय खात्री आसा, ताज्या गळयांत मात तो एक कावतेल जावं, एक तरी कुडको बांदले बगर सोडचो ना.

सोर्तिकार जावप काम सादें न्हय! दिसता तितलें आनी कोणाकय जमपा इतलें सोपेंय न्हय! मनीस जल्मजात्याच सोर्तिकार जावचो पडटा! कावळयाची आनी सोर्तिकाराची जात एकच! तुमी केन्नाच कावळो आपूण जावन मेल्लो पळयला? सोर्तिकाराचीय तीच गत! हांव हरशीं खूब सोर्तिकारांक वळखतां, पूण हांवें केन्नाच

तातुंतल्या एकल्याय सोर्तिकाराक मेल्लो पळोवंक ना वा आयकूंक ना आनी तांकां पळयत जाल्यार हे मुस्तींत तरी ते मरत शे दिसनात. कावळो काळो तशे सोर्तिकारय काळे. वतांत हेडुहेडून तांच्या आंगार त्या रंगाचीं पुटां चडटात, पूण ह्या काळपणाच्या दुःखाची इल्लीय छटा ताज्या तोंडार दिसना. कावळयां इतलेच सोर्तिकारय धूर्त आसतात आनी हाचो पुरावो ते गिऱायकाक गिळटात तेन्ना कळटा. सोर्त हरशीं हजारांत एकट्याकच फुट्टा. पूण हे सोर्तिकार सोर्त विकता आसतना दरेकल्याक अशे तरेन भुलयतात की आबेर्तुरा दिसा सगळेच जाण आपणाक पयलो प्रॅम फुट्टलो हे आशेर आसतात. बरें, पयलो प्रॅम फुटलो ना म्हणूनय तांचो सोर्तिकाराचेर केन्ना राग नासता. आपलेंच नशीब फुटकें, ताका सोर्तिकार बावडो कितें करतलो, अशें म्हणून, आपलें खापर आपल्याच माथ्यार फोडून ते ओगी बसतात.

एके रातयांत हो सोर्तिकार गरिबाक गिरेस्त आनी गिरेस्ताक अदीक गिरेस्त करता खरो; पूण आपूण मात आसा तसोच आसता. तसो दिसपाक खंयचोच सोर्तिकार मोटो सुंदर वा देखणो नासता. तसो आंगापांगानय तो चारचौगां सारकोच. पूण आरोग्य मात ताका दिलां तितलें देवान आनी कोणाकूच दिवंक ना. एक पुडवें, ताजेर ज्युदी आनी माथ्याक एक खंवटेल्ल्या वासाची तोपी वा खाकी कल्सांव आनी ताजेर भुजांर पिंजिल्लें खोमीस, ह्या भेसा बगर दुसरो खंयचोच भेस तुमकां सोर्तिकाराल्या आंगांत दिसचो ना. मोटार-स्टॅंड आनी तिटो हे तागेले हुकमी जागे.

दुसऱ्याक जरी ताणें सोर्तीचे कितलेय फायदे सांगले, तरी ह्या फुकेसवाय आनी कश्टां विरयत मेळिल्ल्या पैशांचेर ताजो स्वताचो केन्नाच विस्वास नासता. कितलींय आबेरतुरां जावं, तो आपले खातीर एकूय सोर्तीचो कुडको दवरचो ना. सोर्ती फाटल्यान जो कितें आणो सुट्टा, ताजेरूच तो खोशी आसता.

सोर्तिकार मनाचो मोटो मानी. आपणाल्या खंयच्याच गिरायकाक केदोय प्रॅम लागूं, ताच्या मुखार तो पैशां खातीर केन्नाच लेंगें लेंगें करचो ना. गरीब-गिरेस्त, जाणटो-नेणटो, दादलो-बायल, सगल्या तरांच्या आनी सगल्या जातीच्या लोकां कडेन हाचो संबंद येता, पूण सोर्तिकारा विशीं कोंणेंच वायट ब्र काडिल्लें तुमी केन्ना आयकलां? पुरयतालें जें आपणाल्या येजमाना कडेन नातें, तेंच नातें सोर्तिकारालें गिरायका कडेन आसता.

दर एका मनशालो आपणालो असो सोर्तिकार सर्वसादारण थारिल्लो आसता. तो ताचे कडल्यानूच सोर्त घेतलो. आतां केन्नाय उतराक बळी पडून दुसऱ्या सोर्तिकारा कडल्यान एकाद्रो कुडको घेवं; पूण आपणाल्या पुरयत सोर्तिकाराक तो केन्नाच विसरचो ना. तांचे भितल्लें नातें आगळेंच!

सोर्तिकाराक सोर्त विकपाक काळवेळ कांयच लागना. दिसाच्या सगल्या काळावेळांचो तो आपणाले वेपारी कले खातीर उपाट उपेग करून घेता. सकाळ आसली जाल्यार तो म्हणटलो : "बाब, तुमच्या हातान बोंडी जावं दी!" दनपारचीं तागेलीं उतरां वेगळीं. "भरिल्ल्या दिसा, बाब एक सोर्ती-कुडको काडात; सांगतां, तुमगेलें घर भरले बगर रावचें ना." आनी तीनसांजच्या वेळार कितलींय गिरायकां येवं, ताचे कडेन एकूच कुडको आसता. "बाब, एकूच कुडको उरला. देवान तुमचे

खातीर दवरला. तिनसांजची कातर आसा. प्रॅम फुटले बगर रावचो ना,'' हीं उतरां तो दर एकल्याक सांगून खिणा भितर कांय ना म्हळयार विशेक तरी सोर्ती खपयता. आनी जसो जसो आबेर्तूर लागीं पावता, तशी तशी तागेल्या ह्या उतरांक चड चड धार चडटा.

सोर्तीक लागून देमांद खूब जाल्यात. सोर्तीचेर जोडिल्लो सगलो पैसो देमांदाक काबार करपी लेगीत लोक हांवें पळयल्यात. पूण ह्या सगल्या देमांदाक कारण आसून लेगीत खंयच्याच सोर्तिकाराक तेश्तिमूञ्य म्हूण त्रिबुनालाचें सपण चडिल्लो हांवेंच न्हय, तर खंयच्याच जुविजान लेगीत पळयल्लो ना.

पूण हालींच गोंयाक स्वतंत्रताय मेळळे उपरांत गोंयच्या सरकारान अकस्मात एक ऑर्द काडून सोर्तीची संस्थाच बंद केली आनी त्या खिणाच्यान सोर्तिकार इतिहास जमा जालो. आतां हाचे फुडें मोटार-स्टँडार, जावं तिट्यार, काल्याक, जावं जात्रेक, होळयेक, जावं शिगम्याक, फामाक, जावं फेस्ताक, ''बाब, सोर्त दिवं?'' हीं मायेस्त आनी काळजाक हात घालपी उतरां आयकन दिसल्यार लेगीन सोर्तिकार दिसचो ना. गोंयच्या इतिहासांत सोर्तिकाराक खरीच खंय तरी एक मानाची सुवात आसा आनी ती सुवात ताका खऱ्या अर्थान मेळटली जाल्यार, ते फिरंगी गेले आनी ते उंडेय गेले हे म्हणी वांगडाच आनीक एक म्हण लोकां मजगतीं रूढ जावंक जाय- 'तो फिरंगी गेलो आनी तो सोर्तिकारूय गेलो.'

[कोंकणी : 1962] ☆

## 32

**लक्ष्मीनारायण पारज**

# वाश्कीत

वाश्कीत हो एक मिस्तीस! मिस्तीस म्हळ्यार बापूय पुर्तुगेज पांखलो आनी गोंयकान्न आवय हांकां जल्मल्ली जमात.

गोंयकाराचेर ते बेठेच गरज नासतना जळटाले आनी नाका तीं आंवटेपणां करताले. कोणाच्यो कोंबयो धरून व्हरप, दुकर मारून खावप, अशे आफोर्साद दुर्बळांक नागयताले. हांव एक फावट नुस्त्या गांथन घेवन घरा येतालों. इतल्यांत सायकलीन एक मिस्तीस आयलो आनी हातांतली गांथनच घेवन गेलो. वयल्यान ह्यॉ ह्यॉ... करून हांसूंक लागलो. चोर खंयचो! ताका लागून बायलां बी एकटीं दुकटीं भोंवनासलीं.

केन्ना केन्ना दयानंद बांदोडकारा सारके थोडे तरनाटे असल्या मिस्तिसांक सामके निर्णेसर मारताले, पूण चड करून मिस्तिसूच लोकांक पिडटाले. ते दिसपाक पांखल्यां भाशेन गोरेपिट्ट दिस, तरी काळजांतल्यान खांपऱ्यां भाशेन काळेकिट्ट आसताले.

चड करून ते पुर्तुगेजांचे सिर्विसेक आसताले. पोलिसेंत, मिलिटरींत, फॉरेस्टांत, कस्टमांत अशा घुर्घुरसाणेच्या जाग्यांचेर आसताले. ताका लागून लोकांक पिडपाक तांकां आनीक फोर्स मेळटालो. माकडा हातांत कोलती दिल्ले भाशेन जातालें!

आतां म्हापशेंच्या बाजारांत जशे जळामळा हिप्पी दिसतात, तशे गोंयचे स्वतंत्रताये पयलीं वता थंय मिस्तीसच मिस्तीस दिश्टी पडटाले.

बरे भाशेन पुस्तक वाचतना, ना जाल्यार सभेंत उलोवप करतना हांवें खंयच्याच मिस्तिसाक केन्ना पळोवंक ना. तांचे भितर कसलीच संस्कृताय म्हाका दिसली ना. सोरो पियेवप, सिगारार सिगारां फुस्कावप, मास खावप आनी लोकांक बेठेच पिडप, असलींच कर्तुबां करतना ते दिश्टी पडटाले. कितेंय चिंतूंक तांकां तकली आसताली अशें म्हाका दिसना. जो तांचो खड्डो दिश्टी पडटालो तो चेपें घालपाक, केंस वळोवपाक, ओक्ल लावपाक - असल्याच कामांक उपकरतालो.

'जयहिंद' म्हळ्यार ते सामके बेजारताले. आनी थर्त भियेताले. कोणाक घाम फुट्टालो, कोणाचीं काल्सांवा ओलीं जातालीं. पूण जयहिंद म्हळ्यार खरेलेंच कितें हें कोणूच मिस्तीस नकळ आसलो.

थोडे मिस्तीस 'जयहिंद' म्हळ्यार 'इंदियान पिश्तॉल' अशें समजताले. कोणाक 'जयहिंद' म्हळ्यार फारार फार मारपाची ऑटोमेटीक बंदूक अशें दिसतालें. थोड्यांक 'जयहिंद' हो हातबॉम्ब, ना जाल्यार गर्नाल काय कितें असो दुबाव मारतालो. थोडीं

पुस्तकां शिकिल्ल्या मिस्तिसांक 'जयहिंद' म्हळयार एक स्फोटक साहित्याचो प्रकार अशें दिस.

आयज जयहिंदवाल्यांनी पोलीस स्टेशन लुटलें. केन्ना पूल उडयलो, केन्ना पांखल्यांची जीप उमथायली. अशो खबरो मात आतऱ्या पयऱ्यान पेपरार येताल्यो. त्यो वाचून तांचे मजगतीं गजाली जाताल्यो.

'कितें? बेतीचें पोश्त फोडलें? कोणें फोडलें'?

'ये लाद्रांव जयहिंजस! !

'ऑऽऽ दियाब्लु ! ! ओशें कोशें जालें? कितले आसले जयहिंजस?

'तेग.'

'आनी आमचे पुलीस कितले आसले?

'वीस.'

'मालांद्र! पुलिसां लागीं मेत्रादोर नासलोले?'

'आसलोले, पूण दुस्माना लागीं जयहिंजस आसले.'

'कितें अँ? जयहिंजस? वॉडलो मेत्रादोर ओ वॉडलो बॉम? आमसो पुर्तुगेज आमकां जयहिंजस कित्याक दिना? कुयताद! ! '

वाश्कीत हे जमातींतलो चड शिरफिरो मनीस. काणकोण पोळेचे पुर्तुगेज शिमेर ताची सिर्वीस. ताचो थंय हुद्दो कितें आसलो हांव नकळं, पूण तो आपूणच थंयचो राजा कसो वावुरतालो!

तांबडी पुर्तुगेज आनी अळणी तिखट कोंकणी अशी मिश्कीताची भास. आमचीं भारतीय मनशांचीं नांवां घेवपाक ताका चड कुस्तार जातालें. तातुंतल्यान लाडू, शिवा, रामा अशीं सादीं जोडाक्षरां नाशिल्लीं नांवां ताका उलोवपाक, बरोवपाक जमतालीं. पूण त्रिविक्रम, मश्चेन्द्रनाथ, विश्वनाथ, त्र्यंबकेश्वर, शत्रुघ्न अशीं नांवां आयल्यार ताची दैना-दैना जाताली! खरें म्हळयार हीं नांवां आमच्याच थोडे-भोव लोकांक जमनात. त्या वाश्कीताक फॉरेन नांवां सट् करून येतालीं आनी भारतीय नांवांची कायलोळी जाताली!

गोंयचे स्वतंत्रताये पयलींची गजाल. गोंयच्यो सगल्यो शिमो बंद आशिल्ल्यो. गोंयकारांक भारतांत वचपाक तशेंच भारतांत सावन गोंयां येवपाक काणकोण, पोळें, माजाळी, कारवार अशे पयशिल्ले वाटेन वचचें पडटालें. पेडण्यां सावन सावंतवाडी वतल्याक लेगीत कारवार सावन वचचें पडटालें.

पुर्तुगेज खंय पयलो गोंयां आयलो तो पुर्तुगाला सावन आफ्रिकेच्या 'केप ऑफ गूड होप'क वॉल्त मारून, द्राविडी प्राणयाम करून आयलो. तशें आमकां पणजे सावन पासापोर्त घेवन पोळयां 'केप होप वाश्कीत' हाका वॉल्त मारून बेळगांव, मुंबय वचचें पडटालें.

हांव बेळगांवां कॉलेजींत शिकता आसतनाची गजाल. एक फावट हांव सुटयेंत गोंयां येतालों. पासापोर्त तपासपाक पोळयां मेटार आमकां लायनींत उबे केले. म्हजे मुखार एक पगडीवालो मनीस उबो आसलो. म्हेळें धोतर, वयर ताचे परस म्हेळें खोमीस, कानांत दोन-तीन कडेन बिकबाळीं. तकलेक पगडी, ओंठार शंखासुरा भाशेन

मिशो, असो ताचो भेस.

हो मनीस पासपोर्ट तपासपाक वाश्कीता तोंडांत सांपडलो.

'नांव कितें रे तुजें?'

'कृष्णदेव रायप्पा मुंडणचंडी' ताणें आपलें पुराय नांव सट् करून सांगलें, पूण वाश्कीताक कितें जालें कांय कळ्ळेंच ना.

'नांव कितें रे तुजें?' ताणें हेवटेन-तेवटेन पळोवन आवाज मातसो चडयलो. 'कृष्णदेव रायप्पा मुंडणचंडी.' हें आयकून वाश्कीत सामको बेजार जालो आनी तापलो.

'सुसेगादीन सांग रे. बोबाट किद्याक मात्ता? ताणें मुंडणचंडीक बरो खडसायलो.

'पोत्तून नांव सांग.'

'कृष्ण देव रायप्पा...'

'राव मातसो.' वाश्कीत ताजें नांव रजिस्टराचेर बरोवंक लागलो.

'किऽ ऽ स्ना ... मागीर कितें?'

'देव रायप्पा...'

'देऽऽव राऽऽयोऽप्पा' अशें करून वाश्कीतान खरशेत ताजें पयलें नांव बरयलें.

'आनी मागीर कितें?'

'तिरूमुंडप्पा...'

'तिऽऽरूऽमुंऽडऽप्पा' इतलें बरयतकच वाश्कीताक दिसलें, हाजें पुराय नांव आपणें बरयलें. ताणें पेन कुशीक दवरलें, एक सेर्वेज मागयली आनी मोर्तालीचें सिगार वळूंक लागलो.

इतल्यांत मुंडणचंडीन आपलें निमाणें उरिल्लें आडनांव 'मुंडणचंडी' अशें म्हळें. 'कितें?' वाश्कीत आडूडलो.

'मुंडणचंडी.'

'शेंडी? शेंडी कितें कोत्ता? काडटां तुजी शेंडी.' अशें म्हणून वाश्कीतान मुंडणचंडीची पगडी उखल्ली. पासपोर्ट आनी हेर पेपर्स ताजे पगडेंत भितर लोटले आनी ताका भुजाक धरून गोंयचे शिमे भायर शेंवटायलो.

'व्हासीमोर! ! तूं नाका गोंयां. वॉस इंदीयेन.' अशें म्हणून वाश्कीत परतलो आनी व्हडान हांसलो... 'हॅऽऽहॅऽऽ असो वाश्कीत हांसतना रेल्वे डबे शण्टींग करतना येता तसो आवाज येतालो. रोमटांमेळ रावण तसोच हांसता.

मागीर आपल्या कदेलाचेर बसून ताणें एक सिगार फुसकायलें. उपरांत त्या मुंडणचंडीचें कितें जालें तें हांव नकळं.

आतां मुंडणचंडी फाटल्यान म्हजो नंबर आसलो. म्हाका कितें करप कांयच समजलें ना. म्हजेंय नांव मातशें कुस्तारच!

वाश्कीत सगलें काम सोंपिल्ले भाशेन सेर्वेज मारतालो. हांव ताच्या तोंडाक पळयत उबो आशिल्लों.

मनांतल्या मनांत हांव वाश्कीताची तकली ते सेर्वेजीन हून जातली काय थंड जातली हाचो नियाळ करतालों. ताणें सेर्वेज सोंपयली. सिगाराचें पॉंत पांया पोंदा चिड्डिलें आनी 'नांव कितें रे तुजें?' अशें म्हणून म्हजेर एक धेंकणो घालो.

‘लक्ष्मी - नारायण...’ हांवें म्हजें सगलें नांव एकदम सांगलेंना. हांव भियेलों. कोण जाणा! मुंडणचंडी भाशेन म्हजीय पोटली माजाळी शिमेर उडयल्यार करता कितें?’

‘सगलें नांव सांग.’ वाश्कीतान परतो म्हजेर धेंकणो घालो. हांव हाच्याच बऱ्याक नांव विंगड-विंगड करून सांगतालों. दुकर खंय मारूंक व्हेल्यार बोब मारता, आनी पोसूंकय व्हेल्यार बोब मारता! तसो हो देंवचार. नांव सोपें केल्यार आड्डता आनी कुस्तारय केल्यार आड्डता. पाड पडूं म्हण हांवें सगलें नांव सांगलें.

‘लोक्सीमी नारायण क्रिस्ना सिनाय पारोज!’ तांतलें तातूंत हांवें म्हज्या नांवाक मातसो पुर्तुगेज कोर दिलो. ताका मातशें आपलेपण दिसचें हो हेत.

वाश्कीत म्हजी पासापोर्त हातांत घेवन बरो वगत पळयतच रावलो. उपरांत मेजार दवरली आनी एक सिगार फुसकायलें. म्हजेर नदर जोखून हेडमास्तर कसो दोनय हात कमरार धरून आड्डलो.

‘चिकानां कोत्ताय इंगा?’

देवा हें आनी कितें जालें? म्हाका कांय कळ्ळें ना, हांवें म्हळें, ‘ना सायबा, हांवें कांयच चिकानां करूंक नात. हांव बाँ रापाझ!’ ताका थंडावपाक मातशी पुर्तुगेज उतरांय लोटलीं.

‘ॲं कितें शिकान?’ अशें म्हणून ताणें पासपोर्ट म्हजे मुखार धरलो.

पासपोर्टाचेर म्हजो नंबर कातरून दुसरो बरयल्लो आशिल्लो. तो कोणें कातरलो आनी कित्याक हांव नकळं. आतां हें दुसरेंच लचाण उपराशिल्लें. हांवें काकुळटेक येवन म्हळें, ‘हांवें कातरूंक ना तो नोंबोर. म्हाका तसोच दिला तो.’

‘तोहोच दिला तो?’

ताणें म्हजो पासपोर्ट मेजार मारलो आनी म्हाका भुजाक धरून कचकचीत हालयलो. म्हाका रडूंक येना जालें. रडल्यार एकाद्रो सुट्टलों आशिल्लों. हांव ताका परतून परतून सांगतालों, ‘हांवें कातरूंक ना, हांवें कातरूंक ना, तें’. पूण बरो वेळ तो म्हाका कचाकच हालयता आनी हांव एकूच उतर घोळयतां. मागीर हांव नेर्व्होज जावन कितें उलयतालों हें हांवच नकळं.

मॅट्रिकेचे परिक्षेक पयल्या पेपराक जी आवतिकाय जाल्ली, ताचे पाश्ट आवतिकाय हांगा जाल्ली. अर्जुनाक खंय कुरुक्षेत्राचेर अशेंच जातालें. पूण ताचो सांबाळ करपाक प्रत्यक्ष श्रीकृष्णच ताच्या म्हऱ्यांत कुरुक्षेत्राचेर आशिल्लो; आनी म्हजो बापूय कृष्ण घरा कडेन आसलो, काय भाटांत पाडेपण करपाक गेल्लो देव जाणा! पूण म्हज्या दोळयां मुखार त्या वेळार आशिल्लो तो कृष्ण म्हळयार काळोख!

‘सेर्वेज घेवन वाश्कीत मातसो थंड जातलो अशें दिशिल्लें. पूण हें नाका तें जालें. निमाणें नेट करून हांवें म्हळें, ‘तें व्हेरिफिकार कर.’

अशें म्हणटकच वाश्कीत मातसो उबो रावलो, ताणें धरून म्हाका एके देगेक व्हेलो.

‘पोणजे रादयाचेर व्हेरिफिकार कोत्तां, आनी मागीर काडटां तुजीं आंतां.’ अशें म्हणून ताणें म्हज्या दोनूय भुजांक धरून म्हाका थंयच चिड्डिलो. मागीर वाश्कीत म्हजो पासपोर्ट घेवन ते गर्देंत सावन भितर खंय तरी गेलो आनी थोड्या वेळान परतो

येवन कदेलीचेर बसलो.

मागीर उरिल्ल्या लोकाक आवियार करपाक लागलो. म्हजे फाटल्यान आसलो जुझे पेरैर...

'नांव कितें रे तुजें?' वाश्कीतान ताचेर धेंकणो घालो,

'जुझे पेरैर.'

'कोमिश्ता? बोरो आहाय? खंय सावन आयलोय?' जुझे पेरैरा लागीं वाश्कीत मनशा भाशेन उलयतालो. सेर्वेजीची थंडाय आत्तां ताचे बोंबले लागीं पाविल्ली जावंये.

'बेंगलूर'

'बेंगलूर? तिंगा कोण कोण जयहिंजस् कोत्ता?'

'हांव नोकों. हांव रोपा इंदुस्त्रीन काम कोत्तां. हांव मॅतॅर जायना तांचे लागीं.' अशी जुझे पेरेरान ताका फुलां माळ्ळीं.

'आंऽऽ नांव मेत. मुयतु बँ ! ! चॉल वॉस.' अशें म्हणून वाश्कीतान जुझे पेरैराक रोखडोच आवियार केलो.

हांव जाणा आसलों, हो जुझे पेरैर आमच्या वांगडा बेळगांव सावन आयला. तो बेळगांवां आसलो, पूण बेंगलूर सावन आयला अशी ताणें फट मारिल्ली. ताच्या बॅगेंत जायतीं भारतीय बनेरां आनी स्वतंत्रताय चळवळीचीं पोस्टरां बी आशिल्लीं, पूण तो नाड वाश्कीताक शिंगां लावन सड्सडीत आवियार जालो आनी म्हाका मात बेठे शेळया आंगार फुगांव आयले.

मुंडणचंडी बाबड्याचें तरी बरें जालें. तो वाश्कीता तोंडांतल्यान तरी सुटलो. तो भारताचे स्वतंत्र भुंयेर सुसेगाद आसा. पोळयां शिमेर पुर्तुगेजाचें मॅट आशिल्लें, देखून म्हाका वाश्कीतान उबो केल्लो थंय सावन मुंडणचंडी दिश्टी पडटालो. तो आनी दोग-तीन पगडीकार सुरी रुखापोंदा बसून भाकरी खाताले. ह्या लोकांचें एक बरें! रेल्वे स्टेशनार रेल्वेक कळाव आसा जाल्यार वा बस स्टॅण्डार बस सुटली आनी चुकली जाल्यार तांकां खंत ना. ते आपली भुती सोडोवन तातुंतल्यो भाकऱ्यो आनी कुंवळ ना जाल्यार चटणी रगडूंक लागतात. वाश्कीतान मुंडणचंडीक धांवडावन घालो, पूण ताची कसलीच परवाय नासतना तो सुसेगाद सुरी रुखा पोंदा आवोन्ताद आशिल्लो.

हांव मात सकाळच्यान उदका थेंबो लेगीत नासतना लायनींत उबो राविल्लों. पासपोर्ट लायनी पयलीं इंजेसांवांची लायन आशिल्ली. दर एकल्याक गोंयां येवचे पयलीं इंजेसांव करून घेवचें पडटालें. ते दोतोर मनशांचे काय गोरवांचे, कोण जाणा! ते दाबण कशी एकूच सूय सगल्यांक तोपताले. म्हजो इंजेसांव केल्लो हात सणसणटालो आनी वाश्कीतान मेल्ल्यान तोच हालोवन जाम करून उडयल्लो.

म्हज्या पोटांत उजो! हात सणसणटा आनी तकलेंत यम असो हांव कडकडत त्या कोनशाक उबो आशिल्लों. म्हजे फाटल्यान लायनीक उबे आशिल्ले म्हजे कडेन काकुळटेन पळयताले. तांचे नंबर येतकच ते वाश्कीता तोंडांत पडटाले. कोण जुझे परैरा भाशेन सुट्टालो; दुसरो त्रासांत पडटालो. वाश्कीत पयलीं ताजेर धेकणो घालतालो. मागीर ताच्या बॅगाचेर खोंट मारतालो. बेगोबेग सामान उसोवंक लायतालो.

'कितें कितें आळ्ळां? फूंय आहा जयहिंजस? दाकोय.' अशें म्हणून खडसायत ताच्या सामानाच्यो तिसत्यो-वादऱ्यो करतालो. ताका दुबाव येत ताचें तो कितें करीत हें सांगूं नज आसलें.

लायनीक एका हळडुव्या वस्त्राचो साधू आशिल्लो. ताणें तकलेचेर जटा बांदिल्ली. आंगाक भस्म बी लायिल्लें. वाश्कीताक ताचे लागीं जयहिंजस आसा असो दुबाव मारलो. ताणें ताका वयर सकला उजरावन काडलो. ताचो कमंडलू, जटा, झोळी पिसडून काडली आनी इतलेंय करून ताका दुसऱ्या एका मिस्तिसा सुवादीन केलो. ताणें त्या साधूक भितर व्हेलो. मागीर त्या साधूचें कितें जालें हांव नकळ.

आनीक एका लागीं पितुळचें पीप आशिल्लें, तातूंत थोडे मोटे लाडू आशिल्ले. अर्द्या किलाचे एकेक जावंये, पूण वाश्कीताचेर जयहिंजसाचो म्हारू बशिल्लो. ताणें त्या मनशाक तें पीप पयस एका रूखा पोंदा दवरूंक लायलें. एका सोल्दादाक तें तपासूंक सांगलें.

तो सोल्दाद एक व्हडलो दांडो घेवन आयलो. ताणें त्या दांडयान पीप आडवें केले आनी पिपांतले लाडू धोंगशी-धोंगशी घोंगशिले. लागीं लागीं पंदरा मिनटां धोंगसुपाचो आनी लाडू फोडपाचो प्रोग्राम चलतालो. सगले सरकारी वावुरपी आपलीं कामां सोडून हो खेळ पळयताले. म्हाका भितल्ल्यान हांसूंक येतालें, पूण हांसो भायर फुटनाशिल्लो.

गोंयांसावन भारतांत वताले तांचे कडेन वाश्कीत असो वांस्वेला भाशेन वागनाशिल्लो, मनशा भाशेन वागतालो. तांचें सामान बी कांयच उस्तिनाशिल्लो.

'फूंय वेताय तूं?'

'बॉमांय.'

अशें त्या मनशान जाप दितकच, 'वॉस. नेरूशा गांवां वोयता? वॉस..' अशें म्हणून तांच्या सामानाचेर खडू ओडटालो.

'नेरूक मुझो रेकाद दी.' हॅऽऽ हॅऽऽ' अशें रेल्वे शण्टींग केल्ले भाशेन हांसतालो. तांचे कडल्यान नेहरूक तो आपलो रेकाद धाडटालो.

'त्या नेरूक सांग, सालाझारा लागीं चॉड मेतेर जावं नाका. तो बोऱ्याक सान्त आनी रागाक झुदेव! मुळ्यार एकदम वायट. तूं वेता ती बॉमांय पुर्तुगेझाची. जाणाय मुरे तूं? नेरून चॉड आबूझ केल्यार आमी बॉमांय पोत्ती गेतोले, देकून नेरूक सांग - तूं सालाझाराक दिमी मार... हॅऽऽ हॅऽऽ'

अशा मदांध वाश्कीताची छिंदडीशी करची दिसताली, पूण कितें करतलो? हांवच ताच्या तोंडांत सांपडिल्लों. तोच म्हजी किस्मूर करता काय च्योरिसां करता कांयच समजनाशिल्लें. आतां म्हाका देवाची प्रार्थना केले बगर आनीक कांयच उपाय नाशिल्लो.

इतल्यांत आनीक एक सोल्दाद म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी मोटमोट्यान तापोवंक लागलो, 'तूं हांगा कित्याक उबो? वॉस कुशीक.'

'म्हाका त्या सिंयोरान उबो केला हांगा. तूं ताका विचार.' अशें म्हणून ताका काकुळटेन सांगलें.

'ना. इंगा उबे रावपाशें ना.' अशें म्हणून ताणें आपल्या आर्माच्या दस्त्यान म्हाका दुसऱ्या कोनशाक मारलो.

मागीर म्हाका त्या दुसऱ्या कोनशाक उबें रावचेंच पडलें. मनांतल्या मनांत हांवें नेटान देवाची भाकणूक चालू दवरली. म्हाका दिशिल्लें, वाश्कीत हो एकलोच म्हारू. तो थंड जाल्यार म्हाका आनीक हुस्को उरचो ना, पूण हांगा पळयल्यार एक देंवचार, दोग देंवचार, तीग देंवचार. देंवचारच देंवचार, देंवचारांची जात्राच जात्रा!

म्हज्या दोळयां मुखार काजुले दिसूंक लागले. इतल्यांत वाश्कीत हातांत पासपोर्ट घेवन म्हाका ताणें उबो केल्लो त्या जाग्यार येवन आड्डुपाक लागलो. 'आँदे आकेल रापाझ? आँदे आकेल रापाझ?' तो त्या जाग्यार येवन म्हाका सोदतालो.

हांव हेवटेन मनांतल्या मनांत म्हणटालों.

माता रामो मत् पिता रामचंद्रः।

स्वामी रामो मत् सखा रामचंद्रः।।

म्हजो बोवाळ आयकून वाश्कीताची नदर म्हजेर गेली. देवा, आतां कितें जातलें? म्हाका फुडली रामरक्षा येवजना जाली.

'धांव पावरे गोविंदा ।

हाती घेवोनिया गदा ।

करी ह्यांचा चेंदामेंदा ।'

कितें येवजत तें म्हणपाक लागलों. 'सुखकर्ता दुःखहर्ता वार्ता विघ्नाची...' वाश्कीत म्हऱ्यांत पावतां पावतां म्हज्या कानशिलांतल्यान उजो भायर सरपाक लागलो, काल्सांव भिजून ओलें जालें. पयलीं दोळयां मुखार काजुले दिसताले, आतां जोगलावणें दिसलें आनी गडगड आयकूंक आयलो.

'तुका राव मुळो इंगा? तूं गेलो तिंगा. मालांद्र'! अशें म्हणून वाश्कीतान म्हाका तडकायलो, पूण तो हांव येवजिता तितलो फुर्योज दिसलो ना. घडये सेर्वेजीची थंडाय आजून बोंबले कडेन रिगिल्ली जावं ये, देखून म्हाका मातसो नेट आयलो.

हावें ताका म्हळें, 'तो सोल्दाद तापलो म्हजेर. ताणें धुकल्लो म्हाका हांगा.'

'तापपाशें ना इंगां.' अशें म्हणून वाश्कीत परतो म्हजेर तापलो.

'फूंय तुजें सामान, दाकोय.'

हावें थंयचें म्हजें सामान पुंजायलें आनी बॅगां उक्तीं करूंक लागलों.

'नाका... नाका..ओ। आसूं. ' अशें म्हणन ताणें रजिस्टराचेर म्हजें नांव बरयलें. 'उसे रापाझ!'

हांवें उलो मारिल्लो खंयचो देव म्हाका पावलो तेंच हांव नकळ, पूण आतां म्हजो देवा वयलो विस्वास खूबच वाडला! !

☆

33

**सुहास दलाल**

# मोर्तो

मोर्तो हें म्हज्या आज्याच्या चाकरमान्याचें नांव. हांव जावचे पयलीं कितलींशींच वरसां आदीं तो म्हगेल्या आजोळा वावराक आशिल्लो. तागेलो भेस सामको सादो आसचो. भेंडा भोंवतणी रेवडायल्लो एक म्हेळको वालो आनी वयर एक वाल्याक सोबसारकें बोनकरें खोमीस. खोमसाक बुतांव नासतालेच. खंयूय भायल्या कामाक वचचें आसलें जाल्यार तो खोमसाच्या काजांक सूत बांदतालो. वावर करतना तो तांबड्या रंगाची लेंसाची काश्टी मारतालो.

मोर्त्याचो एक दोळो मातसो तिरसो आशिल्ल्यान एक दोळो बिटबिटायत ताणें उलोवचें. माथ्याक खूट कशे बोटभर केंस वाडिल्ले आसताले. दाव्या हातान दीसभर केंस खाजोवप हो ताजो आवडीचो छंद. हालीं हालीं तर ताच्या माथ्यार दिसान दीस धवे केंस आपणालें माथें वयर काडटाले. खाडाचीय तीच गजाल. तागेल्या दाव्या कानार एक विडये पोंतेर सदांच दिसतालें. तो विडयांचें चेपटें लात आनी एक 'फसक' दवरतालो. विडये भायर ताका आनीक एकूच व्यसन आसलें सोऱ्याचें. ताचे दोळे सदांच सोंशाच्या दोळयांवरी तांबडे गुंज दिसताले.

जेन्ना बरो ऽ 'धरकू' जावन तो मार्गावयल्यान चलतालो, तेन्ना ताची चाल पळोवपा सारकी जाताली. सर्कशींत सरयेचेर कसरत करपी खेळगड्यावरी तो दिसतालो. इतलो सोरो तो पियेतालो, पूण खळयेंत पडिल्लो ताका हांवें केन्नाच पळोवंक ना आनी आयकुंकूय ना; हातुंतूच ताचें खरें कसब आशिल्लें.

ताचे कुडीचो नदरेंत भरसारको भाग म्हळयार ताचें पोट. पोट म्हळयार बद्द धोलारो. केदेय लांबायेचें खोमीस घाल्यार लेगीत ताज्या पोटाचो आकार लिपून उरनाशिल्लो.

म्हाका याद जाता, एक फावट म्हगेल्या आज्यान ताका पोरणी ज्युदी आनी खोमीस दिलें. ताका भोव उमेद जाली. त्या दिसा हो सगळो सरंजाम आंगार चडोवन आनी माथ्याक एक धवो रुमाल रेवडावन आमगेल्या मोर्त्याची सुवारी नुस्तें हाडूंक बाजारांत गेली. मोर्त्याचो नवो अवतार पळोवन लोकांक अजाप जालें. तो दोनूय हात मार नेटान झेलयत चलतालो. हड्डें फुडें काडटलो जाल्यार फाटल्यान लकून चलचें पडटा आनी अशें केल्ल्यान पोट आपाप फुडें येता. आज तागेलें पोट सदांपरस अदीक फुडें आयिल्लें. भर बाजारांत मोर्त्याक ह्या नव्या अवतारांत पळोवन लोक

ओगी कशे रावत? 'आज मोर्तो बद्द न्हवरो कसो दिसता मरे!' एकल्यान सुरवात केली. मोर्त्याक भितरयां खातकुतल्यो जाल्यो. पूण ह्या खातकुतल्यांची भरती आटचे पयलीं दुसरो पडिल्लो दांत कसो मदीं आयलो, 'शिगम्यांतलो न्हवरो मरे!' तिसऱ्यान 'आज बद्द दौलतराव कसो दिसता मरे, मोर्त्या ...' अशें म्हळें. तेदुसच्यान मोर्त्याक 'दौलतराव' हें बिरूद मेळ्ळें. सुरवेक मोर्त्याचें दौलतराव हें नांव आयकून उमेदीन हड्डें फुडें सरचें; पूण फुडें फुडें, इल्लीं इल्लीं पोरांटीं लेगीत ताका मेळत तेन्ना 'दौलतराव, दौलतराव' म्हणून चाळोवंक लागलीं तेन्ना मोर्त्याक राग येवंक लागलो.

हांवें ताका एक दीस म्हळें, 'मोर्तो' ह्या अशुभ नांवापरस 'दौलतराव' हें नांव सोबीत दिसता मरे!' हांव ताचीं फकाणां मारूंक सोदतां हें ताका कळळें. मातसो तिडकुनूच ताणें जाप दिली. 'म्हाका मोर्तो हेंच नांव बरें दिसता. म्हगेले आयेन थेयलां तें म्हाका!'

'काय बरीं देवाधर्माचीं नांवां सोडून तिणें तुका मोर्तो हें नांव शें रे कित्याक दवरलें?' हांवें प्रस्न केलो.

मोर्त्यान जाप दिली, 'तिगेलीं जाल्लीं भुरगीं मरतालीं; देखून हांव जायना फुडें तिणें म्हाका दुसरेले व्हटयेंत घालो आनी म्हाका 'मोर्तो' नांव थेयलें. वायट नांवां थेयल्यार यम भुरग्यांक व्हरना अशें म्हणटात...'

एक दीस शाळेंत गेल्ले कडेन हांवें आयकलें की विठोबा देवळा कडेन पाणट्यार वचपाच्या सपणांचेर कोणें तरी 'म्हारू' पळयलो. भुतांखेतांच्यो गजाली आमी आयकताले; पूण खऱ्यांचो म्हारू कोणेंय केन्ना पळयल्लो आमकां खबर नशिल्ली. त्या दिसा शाळेंत अभ्यासापरस म्हारवाच्यो खबरोच आमच्या दोळयांफुडें घुंवताल्यो. खरो म्हारू आसा हाजेविशीं आमकां इल्लोय दुबाव उरलो ना. शाळा सुट्टकीर घरा येवन हांवें म्हारवाची गजाल सगळयांक सांगली. इतल्यांत मोर्तो आयलो. हांवें मोर्त्याक प्रस्न केलो. 'मोर्त्या, तुवें म्हारवाक पळयला रे? रातीं देवळा पाणट्यार म्हारू भोंवतालो खंय मरे!'

मोर्तो मातसो विचारांत पडिल्लेवरी जालो. ताणें म्हाका विचारलें, 'रातीं? केन्ना सो?'

'बारा वरां उपरान्त...'

हें आयकना फुडें मोर्तो मुमुरखो जावन हांसलो. 'म्हारू बिरू कोण न्हय. रातीं हांवूच पाणट्यार गेल्लों...' ताणें सांगलें.

मोर्त्याक केन्नाय काम सांगलें आनी ताणें तें सट्ट करून केलें अशें केन्नाच घडलें ना. गायचें दूद काडूंक लेगीत तो पिरंगतालो. पानवेलीचीं खावचीं पानां काडप म्हळयार ताच्या जिवार येवचें. पणसार चडून पणस देंवय म्हळयार तो कपलार मिरयो घालतालो. वावर करिनासतना आपूण कामांत आसां अशें दाखोवपाची मांडणी ताका भोव बरी जमताली.

आमगेर चड करून तो चवथीचें वजें घेवन येतालो. म्हजे आवयक ताणें 'बाय' म्हणचें. कुळारचो मनीस, मागीर तो मानाय जायना, गोंयच्या बायलांक ताका खंय दवरूं, खंय नाका अशें जाता. आमगेर ताचो मानपान बरो जातालो. आजोळा

परततकीर ताका 'आरे, तूं चार दीस कसो रावलो रे?' म्हळयार तो जाप दितालो, 'बायचो आग्रो कसो मोडूं?'

'चवथीक हांगाच राव' अशें म्हगेले आवयन सांगलें जाल्यार ताणें म्हणचें, 'हांव हांगा रावल्यार थंय माटोळी कोण बांदतलो?' खरें म्हळयार माटोळेचे फळावळीक सुतली बांदपा वेळार मोर्तो खंय कूस मारतालो देवाक खबर!

आजोळच्यान घरा परतताना मोटारी कडेन म्हजें सामान मोर्त्यान हाडून दिवचें. हांव मोटारींत बसतकीर 'बायक विचाल्लां म्हणून सांग. दोन पोतयो आसात आनी दोन पणस. विसर नासतना काड...' ताणें सांगचें. कांय वेळान बोड खरपीत, 'बाब, विडयांक चार आणे दी...' ताणें म्हणचें. हांवें विचारचें, विडयांक?' 'विडयांक, देवाच्यान तर!'

'म्हजो सोपूत दी पळोवया -

मोर्त्यान अनमनचें. देवाचो सोपूत घेवपी मोर्तो म्हजो सोपूत घेवंक अनमनचो. मोटार सुरू जातकीर म्हजेकडसून पडिल्ले पयशे घेवन मोर्त्यान बद्द पियेदादीचे गादयेर वचचें.

फुडें फुडें मोर्त्यालें सोऱ्याचें व्यसन हाता भायर गेलें आनी ताका वावराक दवरप कुस्तार जालें.

आतां मोर्तो आजोळा ना. पूण मामाल्या घराचो सोंपो पळयतकीर ताणें सांगिल्ल्या अर्जुन-सुभद्रेच्या काणयांची याद येता आनी चुकिल्लेवरी दिसता. आयजवेर हांवें जायते मनीस -सभाव पळयले, पूण वायट बऱ्या गुणांचो मेळ मोर्त्या बगर आनीक खंयच दिसूंक ना. देखुनूच हांव ताका विसरूंक पावना..

(नवें गोंय, वर्स 2, अंक 12) ☆

34

**हरिश्चंद्र तु. नागवेंकार**

# गोंय-सुटकेची फांतोड

फांतोडेचीं चार वो साडेचार जाल्लीं. पणजे शार शिंयांत कुडकुडटालें. सूर्य उदे मेरेन तकले वयल्यान पांगरुण घेवन न्हिदपाचे हे दीस. पूण, परिक्षा तीन म्हयन्यांचेर आयिल्ल्यान आमी जागे आशिल्ले. हांव आनी म्हजो इश्ट रावताले त्या हॉटेलाच्या पयल्या मजल्या वयल्या जनेलांतल्यान नदर अचकित भायर गेली आनी सैमाचें मनभुलोवणें रूप पळोवन नदर घायाळ जाल्लेवरी दिसलें. मळबांत चारी बाजूंनी दिव्यांच्यो रांगो लागिल्ल्यो. हें दृश्य पळोवपांत म्हजी तनरी लागिल्ली. पूण अकस्मात तिचो भंग जालो. आगशी वचपी रस्त्याचे दिशेक मळबांत खूब पयस एक तारो सवका सवका उदेंतेकडच्यान अस्तंतेकडेन वता, अशें दृश्य म्हजे नदरेक पडलें. म्हणटा म्हणसर म्हज्या ध्यानांत आयलें की, तो तारो नासलो तर तें आसलें एक विमान आनी तें दाबोली विमानतळाचे दिशेन वतालें.

हें दृश्य पळयना फुडें विचारांचीं ल्हारां एका फाटल्यान एक अशीं म्हज्या मनाचे वेळेर आपटूंक लागलीं. फिरंग्यांक फकत बळाचीच भास समजता, हाची जाणीव जाल्ल्यान भारत सरकारान शिमेर फौजो जमोवपाक सुरवात केल्ली. हें पळोवन पोर्तुगेज सरकार पुराय शिंवाळिल्लें. पोर्तुगेज-धार्जिण्यांचेर जाल्यार एकच आकांत आयिल्लो. हे फाटभुंयेचेर ह्या अज्ञात विमानाचें उड्डाण म्हाका एक बरो शकून अशें दिसलें. हे पवित्र भुंयेक फिरंग्यांच्या तापांतल्यान मेकळी करपा खातीर भारत सरकारान आयचो दीस निश्चित केला काय कितें? हो विचार तकलेंत येनाफुडें आंगार सुखाचे रोमांच आयले. पूण, दुसरे वटेन आंग भिरांतेन शिरशिरलें. गोंय नानपाट जायसर आपूण लडटलों, अशी सालाझारान धमकी दिल्या, तांचें कितें? अशे कितलेशेच विचार मनांत रिगूंक लागले. पूण, ह्या बऱ्या वायट विचारांतल्यान वाट काडीत एक विचार-जोत मुखार आयली : 'आमी स्वतंत्र जातलेच. फिरंगी सत्ता नानपाट करतलेच.' मळबांतले विजे भशेन ही जोत कडकडली.

फांतोडेच्या चार-साडेचार वरांचेर हांवें पळयिल्लें तें विमान होच संदेश घेवन आयिल्लें .आसुंये. म्हजे जिणेंत अठरा देझेंब्र एकोणीसशें एकसष्ठ हो दीस उजवाडलो तो असो.

मांडवीचे कुशींत शांतपणान न्हिदिल्ल्या पणजे शाराक आपणाले वेंगेंत घेवपा खातीर उषादेवता ल्हवूच क्षितिजा पलतडच्यान आयली आनी शाराचो सगळो वाठार उजवाडान

भरून गेलो. च्या घेवपा खातीर भायर सरलों, तर वाटेंत कोणें तरी सांगलें की, मध्यान रातीं भारतीय फौज गोंय, दामांव आनी दीव ह्या तीनय प्रदेशांत भितर सरल्या. पणजेंत जाल्यार ही बातमी वाऱ्या सारकी पातळळी आनी सगळे कडेन ह्याच विशयाचेर भासाभास चलताली. पोस्ट ऑफीस आनी पालासी लागीं फुटपाथाचेर कांय लोक जमिल्ले दिसताले. दर एकल्याच्या तोंडार आनंद आनी भिरांत ह्या दोनय भावनांचें मिश्रण दिश्टी पडटालें.

सकाळचीं सात वो आठ जाल्लीं आसतलीं. आमी कांय जाण आमी रावताले त्या हॉटेलाच्या दारांत (आतांचें भारत लॉज) आसले. आनी इतल्यांत, ढुडूम, ढुडूम अशे एका फाटल्यान एक आवाज कानांच्या पड्ड्यांचेर मारूंक लागले. कितें जाता तें कळपाक एक खीण गेलो. आगशीचे दिशेन मळबांत खूब वयर एक अपूर्व अशें नाट्य चालू आसलें. हें नाट्य पळोवपा खातीर सगल्यांनी आपआपणाल्या व्हारांदाचेर आनी जनेलां कडेन गर्दी केल्ली. मळबांत जें कितें दिश्टी पडटालें तें चित्र आयज म्हज्या मनाच्या पड्डयार कोरांतून उरलां. एकदम ताज्नें- आयज घडिल्लेवरी... भारतीय हवाई दलाचीं विमानां हवेंत उड्डाणां मारीत जमनी वयल्या आपणाल्या लक्ष्याक टिपतालीं. विमानांतल्यान सवकासायेन सकयल झेंप घेवप बाँबांचेर सूर्यकिर्णां पडिल्ल्यान भांगरा-गुळयांचोच पावस पडिल्लेवरी दिसतालें. पणजे लागशिल्ल्या बांबोळी हे दोंगुल्लेचेर आशिल्ल्या बिनतारी प्रक्षेपण केंद्राचेर बाँब पडटालो हें कळपाक वेळ लागलो ना. पोर्तुगेजांनी खूब शक्तिशाली असो ट्रान्समिटर हे सुवातेर दवरिल्ले. हांगासल्ल्यानच ते पोर्तुगाला कडेन संपर्क सादताले. पणजे रेडियो केंद्राचो ट्रान्समिटरय हेच दोंगुल्लेचेर आशिल्लो.

बांबोळी दोंगुल्लेचेर कितें घडटा आसतलें, हाचें चित्र हांव कल्पनेन दोळयां सामखार हाडूंक लागलों. थंयच्यो बिल्डिंगो कोसळटात आनी प्रक्षेपण - केंद्र काबार जाता, अशें म्हाका म्हज्या मन-दोळयां मुखार दिसूंक लागलें. ह्या प्रक्षेपण केंद्राच्या रुपान पोर्तुगेज वसाहतवादाची इमारत जळटा, असो म्हाका भास जालो.

वत चडूंक लागलें, तश्यो बातम्यो आनी अफवा ह्योय रंगार येवंक लागल्यो. शिमेचेर आकांताची लडाय चलता - कोण तरी ल्हवूच म्हणटना आयकूंक येतालें. ''मुरगांव बंदरांतय पोर्तुगेज फौजो आनी भारतीय फौजो हांचे भितर युद्ध चालू आसा.'' - दुसरो आवाज.

''पोर्तुगेज गोव्हेर्नादोर आनी हेर वरीश्ठ अधिकारी विमानांतल्यान कराचीक पळून गेले'' - खंयच्यान तरी उतरां उडत कानार आदळ्ळीं.

''भारतीय हवाई दलाचें एक विमान पोर्तुगेजांनी तोफो लावन जुवारी न्हयेंत उडयलें.'' आनीक एक आवाज. दर एकलो आपणाक ''रेडियो'' च समजून उलयतालो.

अश्यो कितल्यो बातम्यो आनी अफवो कानार पडल्यो, कोणाक खबर! पूण एक बातमी हवेंतल्यान उफेत आयली, ती मात विश्वास दवरपा सारकी दिसली. फिरंग्यांनी बोरी, भाणस्तारी, केपें इत्यादी पूल सुरुंग लावन नश्ट केले, अशी ही बातमी आसली. पूल नश्ट करून भारतीय फौजांची मुसंडी आडावन दवरपाचो पोर्तुगेज सरकाराचो

विचार आसुंये. हाचो अर्थ ज्या जुंव्यार पणजे शार आसा, तो कसोच भारतीय फौजांच्या हातांत दिवप ना, असो पोर्तुगेज सरकारान निर्धार केला, असोच धरपाचो काय कितें? हो प्रस्न म्हज्या मनांत नाचूंक लागलो. पूण, हेय परिस्थितींत फिरंग्यांचे अकलेची काकुळट दिसली. भारत आनी गोंय हांच्या एकचाराचे "पूल" हजारांनी वर्सां सावन घट्ट उबे आसतना, हे पूल मोडून पोर्तुगेज सरकार कितें सादतलें आसलें? पोर्तुगेज स्वता गोंयांत निमणो स्वास घेता, हाची म्हाका आतां खात्रीच दिसूंक लागली.

पालासी [आतांचें सचिवालय] लागसारचें म्हज्या इश्टाचें च्याचें हॉटेल.... सामखार मांडवीचें उदक संथपणान व्हांवतालें. हॉटेलाच्या जनेलांतल्यान आदिलशहाचो एका वेळावयलो राजवाडो आशिल्ले हे पालासीचेर नदर मारली. इकरा जावन गेल्लीं. पालास सुर्यकिर्णांनी न्हावन बसल्ल्यावरी दिसताली. हे पालासीन इतिहासांतले सगळे बरेवायट अणभव घेतिल्ले. धर्माच्या नांवान पोर्तुगेजांनी केल्ले अत्याचार ताणें असहायपणान पळयिल्ले. "इन्क्विझिशन" ह्या नांवाखाला गोंयकारांची- विशेश करून, कॅथॉलिकांची जी कत्तल जाताली, ती हे पालासीन असहायपणान सोंशिल्ली. 1510 ह्या वर्सा गोंय परतें जिंकतकीर स्वाभिमानी गोंयकारांनी जे जे उठाव केल्ले, त्या सगल्यांची नोंद करून दवरतना हे पालासीची छाती अभिमानान तायट जाल्ली. स्वातंत्र्यदेवतेचे वेदीर सुटके झुजाऱ्यांनी ओंपिल्लें रगत पळयता आसतना ताका खूब वेदना जाल्ल्यो.

आदिलशहाच्या राजवाड्यांत आतां ह्या वेळार कितें घडटा आसतलें, हाची हांव कल्पना करूंक लागलों. कितें घडटा तें कळपाक मार्ग नासलो. रस्त्यार पोर्तुगेज लश्कराची गाडी क्वचितच दिस. चडश्यो रेडक्रॉसचें चिन्न लायिल्ल्योच गाडयो दिसताल्यो. पणजेंतली खाजगी गाडयांची आनी बसींची येरादारी बंद जाल्ली. सरकारी ऑफिसां आनी दुकानां तर बंदच आशिल्लीं. म्हज्या इश्टाच्या हॉटेलांत आमच्या सगल्यांच्यो खबरो रंगार आयिल्ल्यो. युद्ध एका दिसांत सोंपतलें काय खूब दीस लांबतलें, हे विशींचो वाद सोपून सोंपनाशिल्लो. इतल्यांत आझाद गोमंतक दलाचो एक थळावो कार्यकर्तो आमचे चर्चेत सामील जालो आनी ताच्या खबऱ्यांनी वातावरण आनिकूय उल्हासित जालें. ताच्या बोल्सांतल्या पिस्तोलान आमकां सगल्यांक धीरय हाडलो.

लडायेचो निकाल भारताचे बाजून लागतलो, हाची दर एकल्याक खात्री आसली तरी पोर्तुगेज फौजो गोंय काबार करून उडयनां मू, अशी भिरांतीची पाल आमच्या मनांत चुकचुकताली. पणजेंत दर एकल्याची हीच भावना जाल्ली, हें लोक उलयताले ताचे वयल्यान कळटालें. पूण पोर्तुगेज धार्जिण्यांची भिवन गुळी जाल्ली. भारत फौजो धाडटा, ही बातमी कळ्ळी त्या दिसा सावन तांचें आड्डप चालू आसलें. पोर्तुगेज वर्तमानपत्रांनी चलयल्ली आरड पळोवन मनाची रिझवण जाताली.

पालासी लागीं सकाळच्या इकरांक सदांच येरादारी आनी लोकांची गर्दी आसता. पूण आयज रस्त्यार खूब उणे लोक दिसताले. ना म्हणपाक हातांत बडी घेतिल्लो पिसो असो एक थोंटो पालासी फाटल्यानच्या रस्त्या वयल्यान बडबडत येतना दिसलो. बोटी-धक्या मुखावयल्या गार्डनांत तो पासयो मारीत कितेंतरी बडबडटालो. पणजे

शारांतल्यान पोलीस गुप्त जाल्ल्यान ह्या पिश्याचीं आडांगीपणां थांबोवंक कोणूच नासलो. "तो पिसो, पूण सामको पोर्तुगेज-धार्जिणो" कोणतरी उलयतना आयकूंक येतालें. "ताका मार दिवंक जाय"! --दुसरो एक आवाज. हावें मनांत म्हळें, भारतीय फौजो गोंयांत भितर सरतकीरच पोर्तुगेज-धार्जिण्यांक मार दिवपाचो विचार हांचे तकलेंत आयलो. फौजो गोंयांत भितर सरचे आदीं न्हय.

म्हजे बराबर लिसेव शिकपी कांय उच्च वर्णीय ख्रिश्चन विद्यार्थी आपापल्या गांवाक वचपा खातीर फाटीर आनी हातांत सामान घेवन बसस्टॉपा कडेन वतना दिसताले. तांच्या तोंडार उमाशेचो काळोख पडबिंबीत जाल्लेवरी दिसतालो. येरादारीच बंद जाल्ल्यान तांकां बस मेळपाचो प्रस्नच नासलो. पोर्तुगेजांनी चारशें - साडेचारशें वर्सां केल्ल्या संस्कारांक लागून लिसेवा वयले हे भुरगे आपणाक पोर्तुगेज मानताले. गोंयच्या इतिहासान घेतिल्लें हें दुर्देवी मोण्ण आसलें.

आमच्या माथ्या वयल्यान विमानाची घरघर आनी उपरान्त, उडत उडत सकयल देंवपी पत्रकां ... हीं पत्रकां पोर्तुगेज भाशेंतय आसलीं. "भारताक पुराय तेंको दियात. भिवपाचें मातय कारण ना", असो उलो ह्या पत्रकांतल्यान भारत सरकारान मारिल्लो. पूण, हो उलो, पोर्तुगेज धार्जिणे अश्या तरनाटे उच्च वर्णीय ख्रिश्चन पिळगे मेरेन पावपाची शक्यताय खूब उणी आसली. म्हजो हो अदमास खरो थरलो. चार-पांच दिसांनी लिसेवाचे वर्ग परते सुरू जातकीर हे विद्यार्थी आपापणाल्या खोमसांचेर वो बुशकोटांचेर काळीं फितां लावन आयले, तेन्ना पोर्तुगेजांनी केल्ले संस्कार खूब खोल गेल्यात हाची प्रचिती आयली.

वत देंवपाक लागलें, तसो पोर्तुगेज वसाहतवादा वयलो सूर्यय देंवपाक लागलो. भारतीय फौजो उत्तर, दक्षिण आनी हेर सगल्या बाजूंनी पणजे कडेन आगेकूच करताल्यो. म्हापशें शार मुक्त करून भारतीय पायदळ बेतींचे दिशेन मुखार सरता, ही बातमी पणजेंत पातळळी. सांजेचीं स जालीं तेन्ना बेतींचे दोंगुल्लेचेर फौजांच्यो आनी चिलखती गाडयांच्यो हालचाली दिसूंक लागल्यो. भारताच्यो जैतिवंत फौजो पणजेचे सामक्यो लागीं पावल्यो हो अणभव सगल्या आंगाक आनंदाची शिरशिरी दिवन गेलो. मांडवीचे पलतडीं बेतींचे दोंगुल्लेर पाविल्ले भारतीय जवान दिश्टी पडटात काय कितें हें पळोवपा खातीर आमी सगळे इश्ट मांडवीचे देगेर धांवत गेले. दावे बाजूक पालासी कडेन नदर गेली. आदिलशहाचो हो राजवाडो मुमुरखो हांसता, असो म्हाका भास जालो. कारण ध्यानांत येवपाक वेळ लागलो ना. राजवाड्या मुखावयल्या ध्वज-स्तंभार शरणांगतीचो धवो फुल्ल बावटो फडफडटालो.

18 देझेंब्राक जेन्ना सूर्य अस्तंतेक गेलो, तेन्ना भारतांतल्या पोर्तुगेज वसाहतवादाचोय अस्त जाल्लो.

मांडवीचे देगेर रावन बेतींचे दिकेन पळयता आसतनाच खंयच्यान तरी फार जाल्ल्याचो आवाज आयलो. तकले वयल्यान गुळयो गेल्ले भशेन दिसलें. कितें घडटा, तें कळचे पयलींच मांडवीचे देगेर लाँचींच्या धक्या कडेन जमिल्ले आमी सगले जाण धांवत सुटले. फाजेंदा लागशिल्ल्या, म्हज्या इश्टाच्या हॉटेलाचे दिशेन आमी पावले, तेन्ना वेगळेंच संकट उबें रावलें. बेतींचे दिशेन आर्म जोखून दोन पोर्तुगेज सोल्दाद

उबे आशिल्ले. तांच्या फुड्यांतल्यानच आमी धांवतच आमच्या लॉजार आयले. ह्या दोनूय पांखल्यांनी आमकां कांयच केलें ना. एक गजाल मात आमकां केन्नाच कळ्ळी ना, ती म्हळयार हे दोगूय थंय कशे पावले आनी बेतीं पाविल्ल्या भारतीय फौजांचे दिशेन तांणी फार मारपाचें कारण कितें? म्हाका मात पांयांक पांखां कशीं फुट्टात, तें त्या दिसा पयलेच खेपे कळ्ळें.

सांज-उजवाड काळखांत बुडून गेलो, तसो गोमंत-भुंयच्या क्षितिजाचेर स्वातंत्र्याचो सूर्य चकचकयाळ किर्णां फांकारूंक लागलो. पोर्तुगेजांनी शरणांगती दिल्ल्यान पणजेंत सगले कडेन आनंद-सुवाळो चलिल्लो. पणजेंतले लोक रस्त्यार चोम्यांनी भोंवताले. पोर्तुगेज फौजांनी आपआपणाल्या तळार स्वताक कोंडून घेतिल्लें. एका हातांत शस्त्र आनी दुसऱ्या हातांत खुरीस घेवन आयिल्लो वास्को-द-गामाचे वंशज स्वता जावन निःशस्त्र जाल्ले. "भारतमाता की जय", "जयहिन्द" इत्यादी घोशणांनी वातावरण भरून वतालें. ह्यो घोशणा पलतडच्या आग्वाद आनी रेयश मागुशच्या किल्ल्यांच्या तटांचेर आदळटात आनी हे दोनूय किल्ले, आपणें जांकां आलाशिरो दिल्लो त्या सुटके-झुजाऱ्यांचें सपन फळाक आयलें, हें आनंदभरीत नदरेन पळोवन "झंडा उंचा रहे हमारा" हें गीत गायतात, असो म्हाका भास जालो. आमी कांय इश्टय चोमो करून पणजेच्या रस्त्यां वयल्यान भोंवपाक लागले. पालासी कडेन जेन्ना आमी पावले, तेन्ना पालासी भितर हजारांनी कागदपत्रां जळटात तें आमकां दिश्टी पडलें. पोर्तुगेजांनी आपणाल्या म्हत्त्वाच्या कागदपत्रांक उजो घाल्लो आनी हे बराबरच आपणाले प्रतिश्ठेचीय होळी केल्ली.

पोर्तुगेज फौजांनी रस्त्यांचेर सोडून दिल्ल्यो लश्करी गाडयो, विशेश करुन ट्रक्स पळयना फुडें आमी थारायलें की, जैताचो सुवाळो ह्या गाडयांतल्यानच भोंवन करप आनी ते प्रमाण पणजे आनी भोंवतणच्या वाठारांतल्यान भोंवन आमी रातचे बारा-साडेबारा मेरेन "जयहिन्द" च्या घोशणांनी सगलो वाठार भरलो. ही रात आसा, अशें आमकां दिसलेंच ना. आमचे जिणेंत पयलेच खेपे फांतोड आयिल्ली आनी हे फातोंडेंत आमी सगळे जाण पुराय भिजून गेल्ले. पणजेच्या रस्त्यां वयल्यान आमचे ट्रक भोंवतना आमी ते पोलिस - स्टेशनचे दिशेन व्हेले. कांय पोर्तुगेज सोल्दाद हात पांगरून शून्य नदरेन आमच्या आनंदोत्सवा कडेन पळयताले. गोमंत भुंये वयलें तांचें मोल खऱ्यांनीच शून्य जाल्लें.

एकोणीस देझेंब्राची फांतोड उदेली ती स्वातंत्र्याचो उषःकाल ‧घेवनच. पणजे शाराच्या आंगांत जैताचो उन्माद संचारिल्लो. फांतोडेच्या संक सावन लोक घरा भायर पडपाक लागिल्ले. मुक्त गोंयचे राजधानयेचें दर्शन घेवपा खातीर आनी मुक्तिवीर भारतीय जवान, तशेच गोंयचे सुटके झुजारी हांकां उर्बेभरीत येवकार दिवपा खातीर भोंवतणचे लोकय पणजेचे दिशेन वाट चलताले. मांडवीचे पलतडीं आशिल्ले जवान जशे जशे आलतडीं पावंक लागले, तशें त्या जवानांचें उत्साहभरीत लोक, जयजयकार करून, स्वागत करताले. लोकांचो हो उत्साह मांडवी न्हयेंत भरभरुन व्हांवता, असो म्हाका भास जालो.

भाणस्तारीचो पूल फिरंग्यांनी सुरींग लावन फोडून उडयिल्ल्यान भारतीय जवान

पुलाचे पलतडीन अडकून पडल्यात, ही बातमी पणजेंतल्या लोकांक कळना फुडें लोकांचे चोमे मोटार गाडयो, ट्रक, कार्रेरी इत्यादि मेळटा तें सादन घेवन भाणस्तारीक वचपाक लागले आनी जवानांक घेवन पणजे परते येवपाक लागले. गोंयकारांच्या काळजांत मावना आशिल्लो हो उत्साह आनी तांणी दिल्लो येवकार पळोवन, पुरो जावन आयिल्ल्या सैनिकांच्या तोंडार हांसो फुलिल्लो दिसतालो.

कार्रेरींतल्यान आमी कांय जाण भाणस्तारीच्या मार्गाक लागले. पूल मदीं कोसळून पडिल्लो. सुरींगांच्या स्फोटान लागींच आशिल्ल्या, पोर्तुगेज फौजांच्या इमारतींचोय विध्वंस जाल्ले. लॉचींतल्यान भारतीय सैनिक आलतडीं येताले. सगळें वातावरण जवानमय जाल्लें. आमी कार्रेरींतल्यानच कांय जवानांक घेवन पणजे परते येवंक लागले. सैनिकांनी आपणा बराबर व्हडलीं व्हडलीं आयदनां घेतिल्लीं. एका व्हड आयदनांत दाट भाकऱ्यो आशिल्ल्यो. "फौजो पोटाचेर चलतात," ह्या नेपोलियनच्या वाक्याची म्हाका ह्या वेळार याद आयली. आमचे कार्रेरी फुडें आनी फाटीं अश्यो कितल्योश्योच मोटारी, ट्रक आनी कार्रेरी आमचे बराबरच पणजे वताल्यो. गाडयांनी लांबची लांब, अशी एक व्हडली रांग दिसताली. दर एका मोटारींत जवान दिसताले. लडायेर वचपी गाडयांची रांग, हाचे परस आनी वेगळी आसची ना, अशें हांवें मनांत म्हळें. आमीच लडायेर वतात, अशें म्हाका दिसलें.

दनपारां लागीं लागीं साडेबारा वरांचेर आमचो "कारवाँ" पणजे पावलो. राजधानीक एके जात्रेचें रुप आयिल्लें. पालासी कडेन जाल्यार लोकांचे चोमे भारताचो जयजयकार करतना दिसताले. पालासीचेर सैनिकांचो पहारो आशिल्लो. वायरलेस मशिनांचेर जवान उलयताले. लश्करी अधिकाऱ्यांचें येवप-वचप चालू आशिल्लें. इतल्यांत, लश्करी कारवायेचें नियंत्रण करपी कांय वरीश्ठ लश्करी अधिकारी पालासीच्या परिसरांत येतना दिसले आनी लोकांनी ताळयांचो कडकड करुन आपलो संतोश परगट केलो. पोर्तुगेज सरकारच्या आमंत्रणा वयल्यान गोंयांत आयिल्ले कांय परदेशी पत्रकार हें सगळें पळोवन अजापभरीत जाल्यार अजाप तें कसलें? लोकांच्या चोम्यांतल्यान वाट काडीत ते अजापाभरीत नदरेन भोंवतना दिसताले. तातुंतल्या कांय जाणांनी भारतीय लश्कराच्या वरीश्ठ अधिकाऱ्यांक मेळपाचो येत्न केलो. पूण, ह्या अधिकाऱ्यांनी तांचे कडेन नदर देखून मारली ना. हें सगळें पळयतना आमची सगल्यांची बरीच करमणूक जाली. परदेशी पत्रकारां मदीं ब्राझिलियन आनी पाकिस्तानी पत्रकारय आसले. हे सगळे आयिल्ले गोंयची परिस्थिती नदरे खाला घालपा खातीर. पूण, गोंयचे मुक्तीचो सुवाळो पळोवपाचो प्रसंग तांचेर आयलो. पाकिस्तानी पत्रकार सुतकी चेरो करून आपणाल्या हॉटेलांतच रावले. भायर सरपाचें तांकां धाडसच जालें ना अशेंय आमकां कळ्ळें.

एकोणीस देझेंब्राची सांजवेळ. पणजेचो उत्साह मिनटा कणकणी वाडटालो. ह्या सुवाळयांत पोर्तुगेज भाशेंतलीं दिसाळींय सामील जाल्लीं. "व्हीव्हा पोर्तुगाल" च्या जाग्यार "व्हीव्हा ईंदिया" असो माथाळो दरेकल्या पोर्तुगेज दिसाळयाच्या पयल्या पानार वाचून आमच्या सगल्यांची अपूर्व अशी मनरिझवण जाली. पणजे त्या दिसा रात मेरेन स्वातंत्र्याचो हो सुवाळो चलतालो. पोर्तुगेज धार्जिण्यांच्या घरांत मात सुतक

सुरू जाल्लें. सबंद दीस भोंविल्ल्यान आमकां रातची सुस्त न्हीद आयली. म्हाका जाल्यार अशें दिसलें की, दर एकलो स्वाभिमानी आनी स्वातंत्र्यमोगी गोंयकार आयज पयलेच खेपे शांत न्हीद घेता आसतलो.

दुसऱ्या दिसा पालासीचेर "विजयी विश्व तिरंगा प्यारा" लावपाचो सुंवाळो थारायिल्लो. ज्या खिणाचो गोंयकार साडे-चारशें वर्सां वाट पळयताले, तो खीण घेवन वीस देझेंब्र उजवाडलो. आपले भोंवतणी लोकांची गर्दी पळोवन पालास तायट मानेन आनी हड्डें फुडें काडून आमकां सगल्यांक पळयता, अशें म्हाका दिसलें. थारयल्ल्या वेळा प्रमाण, भारताचो तीनरंगी झेंडो ध्वजस्तंभार चडलो आनी ताळयांच्या गजराबराबर आमच्या सगल्यांच्या तोंडांतल्यान "जयहिन्द" चो घोष सुरू जालो. गोंयच्या स्वातंत्र्या खातीर जांणी आपले प्राण दिल्ले, ते सगळे हुतात्मे सर्गांतल्यान तिरंगी झेंड्याचेर फुलां-पावस घालतात असो म्हाका भास जालो आनी म्हज्या तोंडांतल्यान आपशींच उतरां भायर पडलीं,

"विजयी विश्व तिरंगा प्यारा
झंडा उंचा रहे हमारा"



35

### तानाजी हळर्णकार

## थोडें म्हजें, थोडें तुमचें

आतां मेरेनच्या राजकारभाराचो बरो वायट अणभव घेत आमी लोकशायेच्या दारांत पावले. फाटल्या सगळया कारभारा परस लोकशाय हो 'सिव्हिलायज्ड' जगाक सोब सारखो राजकारभार. बऱ्याच वर्सां फाटीं आमी 'अनसिव्हिलायज्ड' म्हळयार रानवटी आसले. त्या वेळार बळी तो कान पिळी हो कायदो आसलो. आमचे सगळे प्रस्न आमी ह्याच कायद्यान आनी ह्याच कारभारांत सोडयताले. त्या कारभारांत दर एकल्याक वांटो आसनासलो. दुबळयांक तर नाच ना. लोकशायेन दर एकल्याक मत दिलें. मतान वांटो दिलो. वांट्यान हक्क दिलो. 'सिव्हिलायझेशन' ची ही कुरू.

पृथ्वीय वाटकुळी, पृथ्वीची चालूय वाटकुळी, असो एक समज आसा. जंय आमी एका तेपार उबे आसले, थंय आमी पर्थून वचपाक लागतात. असो हो वाटकुळे चालीचो वाटकुळो प्रवास. लोकशायेच्या संदर्भांत आमची सद्याची चाल पळयल्यार हो समज व्हडलो सो चुकला अशें दिसना. हातांनी प्रस्न सोडोवप ही रीत रानवट्यांची म्हणून आमी 'सिव्हिलायज्ड' लोकांनी मतांनी प्रस्न सोडोवपाक लोकशाय आपणायली. हातांत तोणको घेवन रस्त्यार उबो रावप आमकां सोब ना म्हणून आमी चार वणटीं भितरली विधान सभा, राज्य सभा, आनी लोकसभा वांदून घेतली. ह्यो वास्तू बांदून घेतना आमी आमचीं रानवटीपणां ह्या बांदांवळी पोंदा चिड्डून उडोवपाक विसरले शे दिसता. लोकशायेच्या ह्या मंदिरांनी आमी सद्याक जी शबय घालतात ती पळयल्यार आमचे रानवटी अवस्थेंत आमचे प्रस्न सोडोवपाक जें मारामारीचें माध्यम आपणायताले, ताचीच आधुनिक आवृत्ती आमी आतां आपणायल्या. खुर्च्यो ओडप, पेपरवेट शेंवटावप, माईक मोडप बी हुपून आतां आमी एकामेकांच्यो गच्यो धरपा मेरेन मजल मारल्या. अट्टल गुंडांच्या खोमसाक धरून पुलीस जशे तांकां मारीत आमडीत रस्त्या वयल्यान व्हरता, तशें चित्र आतां विधानसभां मुखार लोक प्रतिनिधींचे बाबतींत नित्याचें जावपाक लागलां.

लोकशायेंत दर एकल्याक मत आसता. तेय परस तें मत उक्तेपणान मांडपाची मेकळीक आसता. पूण आमी वाटकुळया प्रवासाचे प्रवासी. कांय शेकड्यां फाटीं जंय आसले थंय वचपाक भायर सरल्यात. आमी तशी मेकळीक दितात. मतदाराचेर बळजबरी करून वो बळजबरीन मतांच्यो पेटयो उखलून आमी लोकशायेची तिरडी उखलूंक लागतात. माजरा-पिलां उबारचीं तशे आमी लोक प्रतिनिधीक उभारून

व्हरतात. गरज पडल्यार तांकां खंय तरी बंद करूनय दवरतात. लागता तेन्ना भायर काडटात. लागना तेन्ना धांपून दवरतात.

आमी अंदू शाळेचें गॅदरींग न करपाचो निर्णय घेतला, अशें एका हेड मास्तरान सांगलें तेन्ना म्हाका अजाप दिसलें. खूब वायटूय दिसलें. शालेय जिवितांत गॅदरींग म्हणजे केदो व्हड 'उत्सव' हाचो अणभव घेतिल्ल्या दर एकल्याक वायट दिसतलें. गॅदरिंगांत कांय भुरग्यां कडसून जो धागड धिंगो घालप जाता तो सोसूं नज जावन हो कडू निर्णय आपणें घेतला म्हणपाचें हेड मास्तरान सांगलें. म्हयनो दोन म्हयने तयारी करून उबो केल्लो गॅदरिंगाचो उत्सव कांय रानवटी भुरग्यां कडसून कसो भूंय-भरवण जाता आनी निमंत्रितां मुखार तकली सकयल घालपाचो प्रसंग येता, हेंय हेड मास्तरान सांगलें.

जाणटे राजकीय सभाघरांनी, तर भुरगे शाळा घरांनी रानवटी जातात. जाणट्यांची देख घेवन भुरगे अशे वागतात काय भुरग्यांची देख घेवन जाणटे, हाका म्हज्या मतान कांय म्हत्त्व ना. आमचें वागप इल्लें इल्लें आनी दर एके गजालींत रानवटी कित्याक जायत चल्लां, हाका म्हत्त्व आसा.

एकविसाव्या शेंकड्याक तोंड दाखोवपाच्या जाग्यार आमी ताका फाट दाखोवन वाटकुळया प्रवासाक लागल्यात. कशें जावचें त्या बाबड्या एकविसाव्या शेंकड्याचें!

(सुनापरान्त : 1988) ☆

36

**डॉ. ओलिव्हीय्यु गोमिश**

# बसींतल्यान

कोणाचेंच वायट करचें न्हय, सगळयांचें बरें जावचे, सगळयांक खोशी दवरचें म्हणपाचो आदर्श उद्देश बाळगितल्या ह्या आमच्या सुखेस्त, सुसेगाद गोंयच्या राज्यांत, भौशीक बसींनी भोंवचें म्हळयार जीव सामको हातांत धरून थरथरून वचचें म्हणून कोणेंय सांगल्यार अतिताय जावची ना.

कितें तर ती गर्दी, केदी लुटा-फेटी! बसींत जागो मेळपाचे हे सर्तीत, जशी किते खंयच्याय वेवसायीक प्रशिक्षणा खातीर संस्थेंत सुवात आडावपाक तोंडी पडटा. हे सर्तींत कोण उडी मारता, कोण धुकलता, कोण लोटून उडयता, कोण कोंपर मारता, कोण पांय माड्डिता, कोण गुड्डायता, कोण घाम सुटलेलो, वास मारतलो, कोण म्हेळो घशटता, कोण तुकलायता म्हणून सांगूं नज. कोण पडटा आनी कोण सोंसता, ताचेर कोणाचें ध्यान वचना आनी गेल्यारूय कोण एक जाप काडिना, न्हय म्हणून कोण हुज्जत घालूंक फुडें सरना.

पूण सगळयांचें बोड तर तापिल्लें आसता. चडशे तर संयम पाळटात, कित्याक बेश्टीं केस्तांवां, अशें म्हणून येवजून जरी आपलो राग आनी शीण आळाबंदा दवरपाक तांकां थोडें भोगना. पूण तांतले तातूंत कोणूय एक दुकलो असो अवचित उसळटा. सगळयांकूच तर आप-आपल्या काम-धंद्याक वेळार पावपाक जाय, सगळयांकूच ताकीत आसा दिसता. मागीर, कोणें बसका धरची, कोणें उबो रावचो, हाचेर थारावणी फकत जण-एकल्याची ताकत आनी हुशारकाय फावो करून दिता. आनी हे भरतीच्याच न्हय, पूण खतखतीत ओतो येवच्या वेळार, हेच मोखीचेर सगळयांचें ध्यान-मन एकसारकें केंद्रीत जाल्लें दिसता.

ती बस कशी सामकी ओतसर भरून घेवची ताची करामत किलिण्डर भोव बरे भशेन जाणा. कोणाक फुडें वचात म्हणून बसींत उबे आशिल्ल्यांक तो नेटान सांगता, कोणाक पातरांव म्हणून मानान उबो धरून विनंती करता; कोणाक बाब म्हणून वा बाय करून लाय-लोसणी उतरांनी आपयता आनी बसींत बसपाक जागो नासल्यार सदळ उबो रावपाक सुवात करून दिता. पूण चडश्या लोकांक तो धपकायता-दाटायता, खंयचो फुडो आनी खंयची फाट म्हणून ध्यानांत नाशिल्ले भशेन, बसीचे फुडें उबे आशिल्ल्यांक फाटीं ओडटा आनी फाटीं आशिल्ल्यांक फुडें धुकळटा. ही कसरत डोंबाऱ्या भशेन व्हडा कुशळतायेन कशी करची म्हणपाच्या क्षेत्रांत तो मोटो लापीट. ती यशस्वी रीतीन

तडीक व्हरपाच्या ताच्या कामांत तो कितेंय करपाक तयार आसा; म्होंवाळ वा पोजडीं दिसतलीं उतरां लेगीत ताच्या तोंडांतल्यान सुळसुळीत व्हांवतात. आपले बसींत येतल्या सदांच्या वा दिसपट्टे वचपी-येवपी प्रवाशांक तो चुकनासतना वळखता आनी तांकां फावो तो आदरमान मेळटा. पूण हेरांक खडबडीत, केन्ना केन्ना तोंडार मारपी उणीं उतरां आयकुचींची पडटात. ताचे कडेन हुज्जत घालप म्हळयार रेब्यांत रोंबिल्ले भशेन जावप, इतले म्हेळें. तांकत तितले लोक एके ट्रिपींत मेळूंक जाय, हीच ताची एक मोख आसता आनी ती जोडून घेवचे पासत तो जीव मारून खरशेता.

ताचेरच ताचो फायदो आदारता न्हय गा! कित्याक, सरकारी कदंब बसी सोडल्यो जाल्यार गोंयांतल्यो खंयच्योच बसी तिकेट दिनात. देखून बसीच्या धनयाक आपणाले बसीचे येणावळी संबंदान कांयच निश्चीत कळूंक पावना. असो ताका सुमार मेळनाशिल्ल्यान, बस-धनी ड्रायवरा आनी किलिंडरा कडेन एक करार करता म्हणपाची सगळयांक खबर आसतलीच. तो गूठ म्हणपाचो आतां उरलो ना. बऱ्या तेंपार, म्हळयार वर्सांतले णव म्हयने, बसीचो धनी वा पातरांव आपल्याक दिसाक अमकेच दुडू दिवचे म्हणून किलिंडर-ड्रायवरा कडेन थारायता आनी तांकां थारावीक पाग दिवचे दिवन, करारान थारायल्ल्या दुडवां परस चड जोड भितर येता ती ते दोगूय, ड्रायवर-किलींडर मेळून, भागांनी वांटून घेतात. पावसाळयाच्या तीन म्हयन्यांक ही दर इल्ली उणी आसता. अशें थारायल्लें आसतना पातरांवांचे गाडयेचे भलायकेचें कोणाक पडलां गा! ड्रायवराक आनी चड करून किलिण्डराक तांकत तितलो फायदो मेळळयार पुरो.

देखून ते भरतात, भरीत रावतात. केन्ना सुवात ना म्हणून ना. बारीक जायात म्हणटलो, कुशीक सरात, एके कुशीन रावात, मातशे अशे सरात आनी मातशे तशे वचात, अशें म्हणून ते भरतात आनी तांचें माप केन्नाच भरून सोंपना. तेन्ना कोणाचें आंग-पांग कोणाक दसता, कोणाचे कुले कोणाक तेकतात कोणाची फाट कोणाक लागता, कोणाचो फुडो कोणाक धमकायता! हें सगळें सोंसून व्हरून, बाबडे पयणारी (प्रवासी), देवा आमकां पाव म्हणून ओगी रावन आपलो प्रवास करतात. दादले, बायलो, भुरगीं जाणटीं-म्हातारीं, गुरवार, भुरगीं खांकेक आशिल्यो आवयो म्हणून भेद करी नासतना, तांची चिरंगट कशी जाता ती आमच्या देखरेखप्यांनी दोळे भरून पळोंवचीः ताल्लो लातांत चिड्डावन भरिल्ले भशेन, लोकांक उस्वास घेवपाक कठीण जाता, तोल साबाळूंक नाका शेवट जाता.

खरें म्हळयार, तोल सांवाळूंक जाचे लागीं जाता तो आमच्या गोंयांतल्या बसींतल्यान भोंवपी भोव येशस्वी प्रवासी. कित्याक चडशे फावटीं बसींत बसूंक सुवात मेळनाशिल्ल्यान ताका वा तिका उब्यांनी वचचें पडटा. तेन्ना की सगळी मौज पळोवपाची. पावला कणकणीं नेटान वचून बस अवचित व्हडा तोलान ब्रेक मारता आनी बस हादरून घडघडटा. जतनायेन सांबाळिल्लो तोल सट्ट करून सुटून उतारू एकामेकाचेर आपटतात वा कोंसळून पडटात आनी हात वयर दांडयेक वा बसके फाटल्यानच्या कण्याक घट्ट धरूंक नासत जाल्यार, जींट मारून शेंवटून पडपाचो संभव पयस नासता.

तेन्ना कोण कोणाचेर पडत म्हणपाचें सांगूंक येना. हें जाता तें कोणाक बरे दिसता? कोणाक म्हारग आनी मारकूय पडटा आनी कोणाच्या फायद्याकूय पडटा जायत. ह्यो वेगळयो वेगळयो प्रतिक्रिया आसतात, खंयच्या नदरे-कोनांतल्यान पळयतल्याक दिश्टी पडटा ते प्रमाण. ह्या प्रवासांत, हात तशे पांय घटमूट आसचे पडटात आनी उब्यां प्रवास करतल्याक बरो व्यायाम फावो जाता, हातूंत दुबाव ना.. अशें आसून कोणाचो जागो रितो जाता काय म्हूण उबे रावन वळवळटले, दोळयांत तेल घालून पळयत आसतात. आनी तो जागो रिकामो जावपाची शक्यताय नदरेक पडना फुडें झुजून-झगडून, धुकलून करून तो आपणाचो कुलो कसो तेकोवन कसो भरून काडचो, हातूंत कांय पयणारी (प्रवासी) निपूण जाल्ले आसात. कित्याक, हे बसींनी उब्यां वचचें म्हळयार एक व्हडांतलें प्रथित जावन आसा, जें खाजगी-सरकारी गाडयांनी भोंवतल्या गृहस्थांक कळून येवचें ना, कित्याक, तांकां हे गजालीचो प्रत्यक्ष अणभव फावो जालो ना.

पूण ड्रायवर-किलिण्डरांनी मेळून ते बसींचें निसंतान करून उडयलां. ती बस भौन-भौन अकस्मात ब्रेक मारून, कशाय कशीं गियरां बदलून डाफरायत चलोवन हिस्पा भायर लोक भरून, कितल्याय वजनाचो माल हाड-व्हर करून, बसीची जीण सामकी उणायतात, तिका गळमणावन खिळखिळी करून उडयतात. पूण तांकां कितें पडलां! कितेंय जालें जाल्यार पातरांवान भोगपाचें! पूण पातरांवाचे देखरेखी खाला चलतल्या बसींची तरी दशा बरी आसा म्हणूंक जाता व्हय गा! खणखणीत बरे सुब्रे आयिल्ले तांकां जाय आशिल्ल्यान बसीचे भलायकेचें तांकां भोव पडलां! वाटेर मोडून पडटकूच आनी ती अडचून पडले उपरांत तो खीण-भर तांच्या ध्याना-मनांत उजवाडटा. पूण तें तोंच खीण-भर. तरीय तांची आस तांची फाट सोडी ना आनी हे गजालींत निर्णय घेवच्या वेळार, तांकां बसींन आनीक आनी अदीक लोक घेयन दिसता आनी ते घेत रावतात. अशें आसून केन्नाय बस रस्त्यार मदींच बंद पडटा, फॅनबॅल्ट तूट्टा आनी केन्नाय टायराक फूर पडटा वा चाकूच धील जावन घडघडटा. कंदब बसींकूय हें दुयेंस जाता. आनी प्रवाशांचें किते करचें, हाचेर कोण आसा येवजितलो? दिल्ले पयशे परते मागल्यार, अर्दे दितात, दिलेच जाल्यार. पूण तांचे लागीं टिका करपाक गेल्यार, केद्या कास्ताचीं उणीं उतरां म्हणून बरीं आयकूचीं पडटात. आमची सभ्यताय, संस्कृताय मातये-भरवण करून उडयतात.

ह्या पोन्न्या बसींचेर जैत व्हरून आतां गांवांनी सावन शारांक येतल्यो-वतल्यो मिनी-बसी वा पोट-बसी अळंब्या भशेन राशींनी उपजल्यात. हातूंत भरपाच्या लोकांची मर्यादा घाल्ली नासता. जितलो चिड्डूंक जाता तितलो लोक तातूंत चिड्डून आसता. लोक भायल्यान लांबता, सपणांचेर धोलता वा भितर दांडयेक उमकळटा, कोणाक कोणाची पर्वा आसा? मागीर चलयता ती (गीयर) सट्ट करून ड्रायवराच्या हातांत सुटून आयली जाल्यार, वो चडटेर गाडी चडना जाली आनी फाटीं फाटीं देंवंक लागली जाल्यार, कोणाचो म्हणून गुन्यांव करचो सायबा! पॅसेजरांनीं बावड्यांनी हे सगळे गुन्यांव आनी फुगासांव सोंसून व्हरपाचें आनी आपले भितल्ले-भितर फणफणचें; ना जाल्यार कांय जाणांनी तरी गुणगुणावन गाळी घालच्यो. पूण पातरांवाची वा ताच्या

प्रतिनिधींची कात तर चामड्या परस दाट जाल्ल्यान, तें तांकां कांयच लागना. पूण उमथ्या कळश्यार उदक घाल्ले भशेन ते अर्थहीन जावन ना-नपश्यात जाता.

तरीय आसतना दुसरो उपाय नासून, असले बसींनी धांवन, लोटून बसूंक जागो मेळ्ळो जाल्यार आप-आपले त्या दिसापुरतें तरी भाग्य फळ्ळें म्हणून मानचें. आनी ती बसका जनेला कडेन मेळ्ळी जाल्यार, त्या खिणयाव्व्या सुखाचे तेंगशेर पावलो म्हणपाचें कोणेंय समजल्यार ताका दूशण दिवचें न्हय. पूण तो जनेला कुशीचो जागो जो गिमाच्या आनी साधारणपणीं गरमेच्या दिसांनी भोवूच शितळ आनी सुवादीक लागता, मोवाळ वारे व्हांविल्ल्यान, तो पावसाळयाक म्हारग पडटा, जेन्ना चड पावस पडटा, तेन्ना चड करून, हें सांगपाची गरज ना. तेन्ना पावसाची वावझड भितर येता म्हणून जनेलां धांपचीं पडटात आनी इल्लें फुगासांव भोगता. पूण त्या फुगासांवा परस वायट आनी मारक म्हळयार जेन्ना त्या जनेलाच्या खांचींतल्यान उदक झिरझिरीत पाझरता आनी शिंवर पडना जाल्यार थेंब्यार थेबे तर थंय बसतल्याचेर पडून ताका थंड किरांव करून उडयता. तेन्ना ताका बाबड्याक थंयचो उठुनूय वचचें पडटा आनी येदी मोलादीक कश्टान जोडिल्ली बसका दुसरो उपाय नासून सोडून दिवची पडटा. ताचे परस चड भयंकर वायट उपाय म्हळयार जनेलाचे कांचेचे खाचींत बसयल्ली रबराची पट्टी जी पावसान ओली बुडबुडीत जाल्ली आसता, ती सुकतकूच कांच हालतना आपलो कोळसो सोडटा आनी रानांतली साळ आपलीं विखाळीं कांटयारीं पाखां सोडिल्ले भशेन, काळीं किट्ट कोळश्या खतां ताच्या आंगाचेर पितारता. तीं खतां सोंपेपणीं वचनात. हें चड करून कदंबा बसींचेर घडटा. पूण हें संबंदितांचे नदरेक हाडुनूय हे विशीं कोण उपाय घेत म्हणपाची लोकांनी आस्त सोडल्या शी दिसता. कित्याक, तशे सांगल्यार, कंडक्टराची वाचा धरल्या असो भास जाता.

वाचा धरपाचें प्रकरण तर ह्या कारभारांत नवें न्हय. कोणेंय कित्याय विशीं तक्रार केल्यार कोण आयकता, आपलो इंतेरेस नासल्यार, वा आयकल्यार लेगीत कोण काना-मनार घेता आनी ताचेर उपाय सोदता वा कितेंय गरजेचें करुन घेता? कित्याक, जे संबंदीत महाशय आसात तांकां हे त्रास लागनात, आफडून पसून वचनात! ते आपल्या खाशेल्या खाजगी ना जाल्यार सरकारान आमच्या करां खुस्तार विकत्यो घेतिल्ल्या आनी तांकां पुरयल्ल्या गाडयांनी तर सुसंगीत आनी हुसक्या मेकळे भोंवतात न्हय! चलयतलो सरकारान दिल्लो ड्रायवर तर तांचे खातीर आसाच! बसींतल्या प्रवाशां कडेन इल्ले चड तीख नदरेन पळोवन तांची दशा निवळावपाक परिणामकारक रितीन येरादारी खात्या-अधिकाऱ्यांनी झपझपीत उपाय घेवं येताले. लोक तांच्या भोव उपकारी रिणांत उरतलो आसलो.

ह्या प्रस्नाचे आटे-विटे सोडोवपाक चड बसी कित्याक घालिनात काय म्हणटां! कोणेंय ते दिशेन यल केल्यार एक तर ताका परवानगी मेळना, ना जाल्यार दुसऱ्यांच्या दबावा खाला ताका फुडें मार खावचो पडटा. अशी परिस्थिती आशिल्ल्यान, सोंसचें पडटा तें बाबड्या लोकांक! आनी लोकांचें पडलां कोणाक सायबा! लोक म्हळयार गोरवां- चड करून आमच्या गोंयच्या लोकांक तसो लेखतात आनी मानतात खंय. आमच्या स्वाभिमानाक हो जबरदस्त धक्को न्हय? मतां मागपा वेळार तर लोक म्हणचे

मोलादीक वस्त. पूण कटा! ही दबाजीक घडणी पांच वर्सांनी एकदांच घडून येता. देखून लोक-प्रतिनिधी कुशीक दवरून, ते कांय करिनात जाल्यार, सदांकाळाक आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांनी तर आपल्या फुडाकारान हे गजालीचेर ताकतिकेचे उपाय घेतिल्ले जाल्यार ते लोकाचे नमळ आशिर्वाद जोडटले आसले. तांच्याच हातांत तर सत्ता आसा.

तांची पिल्लूक म्हळ्यार सगळे बसींक ओर्द न्हय गा? हे पिल्लूकेक कितलें म्हत्त्व आसा तें सांगूंक जाता! पिल्लूक मारिना फुडे जशी बस थांबता, तशीच ती फुडें चलूंक लागता आनी भलतेच रीतीन मारल्यार बस ल्हवान चमकूंक लागता. देखून हेंच पिल्लुक मारपाचें काम करपाक किलिण्डरा भायर बसीर आतां आनीक एक मनीस आसता. पिल्लुकेची खबर करतना म्हाका एक उगडास आयलो. म्हगेलो ल्हानसान पूत- आसतलीं घडये ताका तेन्ना चार-एक वर्सां- एक दीस बारीकसाणेन गाडयांक, बसींक तेळून, नियाळून म्हणूंक लागलो. 'पापा, हांव व्हडलो जातकूच पिल्लुक्कार जातलों'. हें आयकना फुडे हांव खीण-भर येवजणेंत पडलों आनी ताका विचारलें, 'म्हणचे कितें?' ताणें सट्ट करून जाप दिली. 'तो बसीचेर पिल्लूक मारता तो - वच रे म्हणटा तो... तो पिल्लुककार. होच तो किलिंण्डर वा कंडक्टर, ताच्या मतान सगल्यांत शक्तिवंत मनीस तो. पिल्लूक मारता तशी बस चलता आनी असो तो इतल्या सगळया लोकांक धांवडायता... पिल्लूककार, ह्या उतराची, ह्या अर्थान, शब्दकोश तयार करतल्यांनी विसर नासतना नोंद घेवची आनी कोंकणी उतरावळींत ही नवी घाल्ली भर म्हणून समजुचें.

पूण ह्या बसींक आनी तांच्या उणावांक लागून लोकांक कितले त्रास जातात, भोगणार जावन कुसकुसतात ताचेर वयल्यांनी गरजेचें लक्ष घालूंक जाय! चड करून आयज मडगांव शाराच्या नव्या तशेंच पोरन्या प्रासार लोकांक जायते वळवळे भोगचे पडटात. पणजे सावन येतल्यो बसी नव्या प्रासार थांबिल्ल्यान आनी फुडें शारांत वचना जाल्ल्यान, लोकांचे सामके हालहाल जातात. तांकां नव्या प्रासार देंवचें पडटा, खरशेत धांपेत धांवन दुसरे सिटी बसीर चडचें पडटा. बसून वा उबे आनी पंदरा-वीस मिनटां तरी वगडावन सिटी-बस भरसर रावचें पडटा. फाटीं सरकारी माहिती -खात्यान एक कळोवणी काडून जाहीर केल्लें की साश्टींत भितर आनी भायर सरतल्यो सगळयो बसी निमाणे कडेन पोरन्या प्रासार वतल्यो... पूण हो सरकारी हुकूम खंयचीच बस पाळटली दिसना. बसी पोरन्या प्रासार वचनात म्हणपाचेर निशेद मारून (जी नवी येरादारीची येवजण जावन आसा) शिकपी भुरग्यांनी आनी प्रवाशांनी बसींचेर फातर-गुंडे मारिल्ले. पूण पोलिसेचे सोटे-लाठी घेवन हो निशेद दामून-चेपून दवरलो. तो निशेद केन्ना परतो उसळत म्हणून सांगूंक जायना. लोक उलयतात, ओगी रावंक नात. देखून ही वेवस्था बरी आसा म्हणून कोणें समजुचें न्हय.

हे वेवस्थेक लागून लोकांचो कितलो मोलादीक वेळ पिड्ड्यार जाता आनी तांणी अदीक पैशे वगडावचे पडटात, हाचेर कोणें विचार केला व्हय? पणजे वा वास्कोच्यान येवन कोणूय साश्टींतल्या फुडल्या एका गांवांत वतलो जाल्यार ताका वा तिका ही सिटी-बस धरची पडटा. पंदरा वीस मिनटां ते अर्दवर थंय घालचें पडटा. शारांत

वचून आपलें कितें विकतें घेवपाचें आसा तें घेवन, पोरन्या प्रासार परती एक बस धरून नव्या प्रासार येवचो पडटा. तितले म्हणसर ताका आपल्या गांवांक वचपाची फुडली बस चुकता आनी ताचे उपरांतचीय बस आयल्यार, ती धरपाक ताका खूब वेळ वगडावचो पडटा. ते भायर मडगांवच्या नव्या प्रासार कसलीच सोंपेपणां नात. चीट घालतलो म्हळयार लेगीत थंय एकूय टपाल पेटी सुद्दां ना. तशी ती घालपाकूय सांगून करूनूय कोण फुडें सरना. हे आवतिकायेंत लोकांनी कितें करपाचें?

पूण, ह्या गंभीर विशयाचेर कोणें तरी येवजिलां जायत? कोणें तरी बोडार तकली आशिल्ल्या संबंदितांनी जबाबदारेचेर नियाळ केला जायत? अशें आसून वयल्यान, आतां बसींचे तिकेटीचो दर 40% वाडयतलो म्हणपाची थारावणी घेतल्या ती लोकाक कितली म्हारग पडटली? सगल्या लोकांक हे अशेच एकसारके जांवक जाय, हेंच धोरण सगळयांत बरे दिसता व्हय? सगळयाचें बरें करचे सुवातेर म्हळयार सगळयांक एक सारखी न्याय-नीत दिवचे बदला ती दिवची न्हय वा कांयच करी नासतना मौन पाळचें, हेंच प्रजेच्या बऱ्याचें, ह्या भ्रमांत सागळे बसूंक नात मूं? कोण सांगतलो!

(सुनापरान्त 27 नोव्हे. 1988) ☆

# 37

## सोतेर आर. बार्रेत

# भुरगेपणावयल्यो कांय यादी

म्हज्या भुरगेपणा वयल्यो कांय यादी म्हाका कश्योच सोडिनात. कांय गजाली अश्यो आसतात कि तांची याद जाता तातुंतूच मन केदो वेळ घुसपून उरता. गुंगी घेतिल्ल्या वखदा भशेन. आनीक त्या गजालींचो प्रभाव म्हजे चालंत आनी सदांच्या जिविताचेर पडला काय दिसता.

हांव ल्हान आसतना म्हज्या शेजाराक एक घर आसलें. ताचीं घरकारां आदल्या काळार खूब आर्म्नीक आसलीं जायत; पूण आतां कांय अर्थीक परिस्थितीक लागून तीं मातशीं गडबडिल्लीं. म्हाका तांची याद कित्याक जाता? तांच्या व्हडल्या घरा भायर दोनूय वाटांनी बाग करपाक जागो आसलो. दुरीग आशिल्लें तें अर्द मोडून पडिल्लें. त्या दुर्गांत दोन झाडां आशिल्लीं. एका कोनशाक एक सोबीत दशीण आनीक दुसऱ्या कोनश्याक एक Forget-me-not हाजें झाड. घडये त्या Forget-me-not झाडानूच म्हाका विसर पड्ंक दिवंक ना. ह्या दोनूय झाडांची एक कितली मन तळमळावन याद जाता म्हणून सांगूं? त्या दसणीच्या झाडाचो सोबीत देखावो म्हज्या दोळयां मुखार जितो-जिवो कसो उबो रावता. दुरगांत भितर सरतनाच ताजें पयलें दर्शन जातालें. म्हाका याद जाता, हांव सुमार सात-आठ वर्सांचो आसूंक जाय, तेन्ना पसून तें दसणीचें झाड बरेंच व्हड आसलें आनी कितलें सोबीत दिसतालें! रस्त्यार मदीं रावन पळयतकच ताचे वयलीं नदर काड्ंक जायनाशिल्ली. जरी ताजें आंग एकसारकें काळेंकिट्ट. तरूय ताच्या माथ्यार जें एक व्हडलें पांचव्या रंगाचे चेपें वसयिल्लें, तें सामकें मन भुलयतालें. तातुंतल्यान ताच्यो बारीक खांदयो, सोबीत केंसांच्यो विणिल्ल्यो विणयो कश्यो वयर सावन सकयल देंवताल्यो आनी तांच्या तोंकार तांबडीं गुंज फुलां आपल्यो लांव जिबल्यो भायर काडून म्हाका चाळयतात काय दिसतालीं. आनी अशीं कितलीं म्हूण फुलां!

आनी म्हाका ह्या दसणीच्या झाडाची चड याद कित्याक जाता जाणा? ताचेर सदांच सवण्यांच्यो राशी. आनीक कोणूच ना जाल्यार चिंवचिंवपी चिमण्यो पूण आसताल्यो. हांवें कितलेंच फावट पिट्टोळेचो घोंटेर ताचेर पळयिल्ल्याची म्हाका याद जाता. पिट्टोळी म्हूण कितलें नाजूक आनी सोबीत सवणें! तिणें शिळोणी घाली म्हणटकूच हांवें कान फुलोवन आनी दोळे मोठ्ठे करून तें खंय आसा तें पळोवंक बसप. केन्ना केन्नाय एक किरूय दिसतालो. घडये कोणाचेय पेरीचेर येतालो तो वाट

चुकून हे दसणीचेर पावतालो जावंये. हांवें एक फावट त्या किराची खबर शेजारच्या सुरेशाक सांगिल्ली आनी पोरान दुसऱ्याच दिसा एके खांदयेक पणसाचो पांख लावन दवरिल्लो. म्हणचे कीर येवचो, दसून उरचो आनी ह्या घातमाऱ्यान ताका पांजऱ्यांत घालचो. तो पांख पुसून काडटा म्हणसर म्हाका नाका शेवट जाल्लो. निमणें म्हाका तो वचना तो पळोवन ब्लेड घेवन घांसून काडचो पडिल्लो. आनी खांदयेची जेन्ना साल गेल्ली, तेन्ना म्हाका म्हजीच कात सोलून काडली काय दिशिल्लें.

दसणीक जर तांबडीं फुलां, जाल्यार Forget-me-not क ल्हान सोबीत निळीं फुलां आशिल्लीं. आनी तातूंत मदीं धाकटुल्या हळडुव्या फळांचे घोंस पळयतकच तो एक सर्गावेलोच देखावो कसो म्हाका दिसतालो. ह्या झाडाचेर जायते शेड्डे आसताले. म्हाका पयलीं पयलीं तांकां मारून उडोवचें शें दिसतालें. कारण म्हज्या जाणटेल्यांनी म्हाका शेड्यांविशीं एक गजाल सांगिल्ली. पायलेट ह्या राजपालान खंय जेजू ख्रिस्ताक धरून हाडपाक शिपाय धाडिल्ले. तेन्ना तो खंयचे वाटेन गेला काय म्हूण तांणी एके शिल्ले लागीं विचारिल्लें, तेन्ना तिणे तांकां फटोवपाक म्हण भलतीच वाट दाखयिल्ली खंय. आनी जेन्ना त्याच शिपायांनी शेड्यांक विचारिल्लें, तेन्ना ताणें तांकां सारकी वाट दाखयिल्ली खंय. म्हणटकच शेड्याक मारुंकूच जाय अशें म्हाका दिसतालें. पूण जेन्ना हांवें एका शेड्याक झाडाचें पान खातले किडीक गिरासतना पळयलो, तेन्ना म्हाका जाणटेल्यांचे सांगणेचो दुबाव दिसलो. तरुय बारीक नदरेन पळयल्यार शेड्याचें तेज म्हण कितलें कडक ! आपले तांबडे गाल आनी छाती फुलोवन तो उबो रावतालो तेन्ना 'दिवारां' तल्या अमिताभ बच्चनाची याद जाताली. ताका धरूंक वतालों तेन्ना तो ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडाचेर धांवतालो हें पळोवन कवतूक दिसतालें.

आनी त्या Forget-me-not चेर कितले म्हण कोंबले? तांकां सुरेश फुलपाखरां ना जाल्यार पिसोळीं म्हणटालो. थोड्यांचे पांखांटे लांब जाल्यार थोड्यांचे रुंद, थोड्यांचे सरळ जाल्यार थोड्यांचे कांतयिल्ले कशे, थोड्यांचो रंग काळो आनी ताचेर सोबीत धवे थिपके जाल्यार हेरांचो निळो, जांभळो, तांबडो, हळडुवो!!! तातूंत मदीं गांजिलूय घुसपताले. थोडे काळेकिट्ट. फकत विमाना भशेन आवाजूच करताले, पूण कूंस लायनाशिल्ले. दुसरे हळडुवे, बारीक पोटाचे पूण रोखडेच कूस लावपी.

आनीक मागीर म्हाका याद जाता ती त्या जाणटेल्याची! तो पुडवें न्हेसून आनी तांबडी तोपी घालून येतालो. ताका म्हजी जाणटेलीं गोविंद पयालो म्हणटालीं. ताच्या खांदार पुडव्याचें तोंक उडयिल्लें आसतालें. एका हातांत एक रुप्याचो फुलां घालपाचो धाकटुलो पांटलो आनी दुसऱ्या हातांत फुलां काडपाक एक बडी. पूण ताका ते बडयेची चडशी गरज पडनाशिल्ली. कित्याक, तीं फुलां चड करून हांवूच काडून दितालों. ताका त्या दोनूय झाडांचें कवतूक दिसतालें, कित्याक तांकां फुलां आसतालींच. गोविंद पयालो जाणटेलो तीं फुलां देवाक घालूंक व्हरतालो खंय. आनी घडये तो देवालागीं आपले गरजे खातीर ह्या झाडांक सदांच फुलां दी म्हूण मागतालो जावंये.

कांय तेंपान म्हज्या बापायची दुसऱ्या जाग्यार बदली जाली. म्हाका त्या दोनूय अपुरबायेच्या झाडांक सोडून वचूंक खूब त्रास जाल्ले. हांव पयस पावलों तरूय त्या झाडांची याद वचनाशिल्ली. त्या सवण्यांचो, त्या फुलांचो, त्या शेड्यांचो, त्या

गांजिलांचो, त्या पिसोळयांचो म्हाका सदांच उगडास येतालो. म्हजो बापूय जेन्ना परतो घरा आयलो तेन्ना हांवूय ल्हान उरूंक नासलों. आनीक तें दसणी झाड आनी Forget-me-not, तींय उरूंक नाशिल्लीं. म्हणचे थंय नाशिल्लींच. त्या जाग्यार एक नवो पयशेकार येवन रावंक लागिल्लो. ताणें थंय पयलीं कितें केल्लें जाल्यार तीं दोनूय झाडां कापून उडयिल्लीं. त्या गिरेस्तान थंय व्हडले वाज हाडून दवरिल्ले. आनीक तातूंत व्हडल्या पानांचीं सोरपा आंगांची झाडां घाल्लीं. तशींच मोटीं-मोटीं गुलाबां रोयिल्लीं. दुरीग वयर काडिल्लें आनी ताचेर सरयो आनी कंवच्यो घाल्ल्यो. गुलाबां नाजूक, आनी तांकां रोकडीच कीड लागता. हे किडींक आनी हेर रोगांक मारूंक जिनसांवार वखदां शिंपडावचीं पडटात. आतां ह्या झाडांचेर चुकून लेगीत एक सुकणें, एक पिसोळें, एक गांजील लेगीत दिश्टी पडनाशिल्लो, पूण म्हजे अपुरबायेचे दसणीक आनी Forget-me-not सांबाळूंक शेवणीं आनी शेड्डेच पुरो आशिल्ले.

म्हाका त्या दोनूय झाडांची याद जातकच मन इतलें उचांबळ कित्याक जाता काय? घडये तीं शेंवणीं, तीं फुलां, तीं पिसोळीं, ते गांजील, ते शेड्डे पळोवंक मेळनात म्हूण काय? काय ते दसणीच्या चेप्यांत पुरो जातच वचून बसूंक मेळना म्हूण काय? काय तीं झाडां, उदक-सारें कांयच मागनासतना वर्सूयभर आपल्यो खांदयो उबारून सगल्यांक आपलीं फुलां दितालीं म्हूण काय? हय! हीं दोनूय झाडां जीं आपशींच रुजून आयिल्लीं, तीं आपल्या सैमाच्या सादेपणान गिरेस्तकायेची बडाय येतल्या-वतल्या लोकांक कशीं दाखयतलीं आसलीं?

[कोंकणी - दिवाळी - 1972] ☆

38

पुंडलीक केळेकार

# पिरवोळ म्हजो गांव

मडगांवच्यान पणजे वचपाक भायर सरिल्ली मोटार मोट्या कश्टांनी फोंडेची घांटी चडटा आनी फर्मागुडयेर पावना फुडें सुटकेचो हुस्वास सोडून थण्डसाणेन आडवीं उबीं वळणां घेत चलूंक लागता. तेन्ना भितर बशिल्लो जण एकलो सगली थाकाय फाफुडटा आनी टवटवीत मुद्रेन दोंय दिकांनी पसवल्ले वनश्रीक पळोवन खुशालभरीत जावन भितल्ले भितर म्हण्टाः पिरवोळ तें पिरवोळ, ताची सर कोणाक येवची पडल्या!

चार दिकांनी चार सुपुल्ल्या दोगरांची सासाय दवरून मेकळे हवेंत आनी उक्त्या वातावरणांत जित्या-जिव्या सैमाचो आनन्द भोगपी हो म्हजो गांव ल्हानसान न्हय. ताचो एक एक वाडो म्हळयार सुंदरतायेचो आनी किर्तीचो एक आगरच. म्हाड्डोळच्या फुलकाराक कोण वळखना? मंगेशींच्या प्राकारांत कोण पावंक ना? आनी देवूळवाड्या वयल्या बेताळाक कोणें पळोवंक ना? आपेव्हाळ पसून कुंकळळेची शीम धरल्यार सगळें पिरवोळच. वाड्यांचीं नांवां पूण कितलीं सोबीत आनी तरेकवार. म्हाड्डोळ, मंगेशी, नगर-कुस्मळें, गांवठण, कोनें, गिड्डोक, आकार, गाळ, सांगांव, चिरपुठें, आपें, वाडें.

चार रुतूंत चार रंगरुपांनी सजयल्लो म्हजो गांव पळोवन म्हाका दिसता, सैमान आमकां कितें दिवंक ना? पिरवोळांत मनशा पसून ल्हान किडमुयेमेरेन सगलीं धादोशी दिसतात अशें म्हळयार अतिताय जावची ना. वचत थंय पाचवी चार भूंय. पावला पावलाक शेतोड आनी मड्डां. कडेक आशिल्ल्या बांदां वयल्यो उंच उंच माडांच्यो वळेरी पळोवन 'कांयच चुकना, ते थंय शेतां राखुंकूच रावल्यात' अशेंच पळयतल्याक दिसता. आनी कुळागरां तर विचारूंच नाकात. जंय उदकाचो सुकळ, थंय फळाफुलांची कसली तूट! फोंडेंचे दोन वार आनी भाणस्तारचो सुक्रार, पिरवोळचीं केळीं नाशिल्लीं जाल्यार सोबचोच नाशिल्लो. वरसाचे बाराय म्हयने केळीं आनी खावचीं पानां दिवचीं जाल्यार तीं पिरवोळानच. ते भायर त्या त्या वेळावयल्या फळांचें कितें थंय दुकळ आसा? उबाळांत चुन्नां-कारनां -चारां धरून आंबे -पणस. पावसांत घेयात तवंशीं, घोसाळीं, भेंडे, दुदी आनी हेर शाकभाज्यो. ताज्या भिण्णांची हींग-मिरसांग घालून केल्ली कडी पियेवपाची कोणाकय रूच आयल्यार कितें कोणाक पयस धाडपाची गरज ना. दारा मुखार भिरण आसताच. तेगडी काडून खांद्याक लावपाचो सुमार, कोसळळी ही रास मुळांत.

पिरवोळांतलीं घरां हीं चड करून कुळागरांच्या वा शेतोडेच्या देगांनीच आसपाचीं. मागीर तीं बामणालीं जावं, भटांलीं जावं वा कुळवाड्यांलीं. आनी जण एकले घराचे वयले वटेन आतोड आसतलेंच. आतोडांत आसतात काजी ना जाल्यार कोंडे. तांकां केन्ना कोणें वावर करचो पडला? पूण काजींक ताजो शीण आसा. मार्गशीर येता काय ना, लागल्यो त्यो चवरूंक. फुलांच्या बायलांभशेन त्यो नट्टात-थट्टात. आनी भर माघ जावचेपयलींच तांचें आवयपण दोळयांत भरता. कसल्या रंगाचे म्हणूं नाका. तांबडे, हळडुवे, किरमुजी, तरेकवार म्हुट्ळ्यांचो संवसार घेवन त्यो आयिल्ल्या गेल्ल्या वाटेवाटसुऱ्यामुखार मिरयत रावतात. आनी कोंड्यांक? तांकां आदरतिथ्य करपाक सांगूंच नाका. त्या वाटांनी भौंवतल्यांचो वचत थंय तोरण करून सत्कार केल्लो आसाच.

आनी पिरवोळेच्यो वाटो म्हण तरी कसल्यो त्यो? मंगेशीं-म्हाड्डोळ माड्डून वता तो डांबरी मार्ग, वेलंगां-सांकव काडून निर्जन दोंगरांतल्यान वाट फोडून चलूंक लागता. तो सोडल्यार उरली खरी वाट गांवांतल्यान वता ती. ती थेट फुडें वचून आपयांत केर-वेरेंचे वाटेक मेळटा. पूण ह्या वाटांनी कितें ना? सगलो परमळ! फळांफुलांचो, झाडापेडांचो, तणापाल्याचो, तांच्या दर्शनान गांवच्या लोकाक रुतूंचें दर्शन जाता अशें म्हळयार अतिताय जावची ना.

म्हाड्डोळच्या फुलकारांक गोंयांत कोण वळखना? जायां तेंपार पेडण्या पासून काणकोण मेरेन घरा कणकणीं भोंवपी हो फुलकार गोंयच्या बायलांचो वळखीचो जालो ना जाल्यारच तातूंत खरें अजाप करपाचें. वांकड्या आंगणांत लेगीत बरो नाचपी आमचो यशवंत, कृष्णा जावं बाबुसो कसलीं फुलां म्हणून रावना. दसण, शंकर, आबोलीं, अनन्त, शब्दुलीं, चार्फीं, सुरंगां, जायो, जुयो कितेंय ताका मेळना, घाल्यो ताणें फांतयो. गुंतले ताणें पोड. केल्यो ताणें व्हळयो. तितल्योच सोबीत-नाजूक-भुलसायण्यो. तांकां पळोवन केंसांत माळपाची रुच खंयचेय बायलेक जाली ना जाल्यार यशवंत सोडटा आपलो धंदो आनी जाता खाजेकार. आनी कृष्णा? तो लागता फोग करूंक.

नुस्त्या खातीर म्हाड्डोळच्या बाजाराक नांव आसा. करंजाळचे आनी कुंडयचे मानशेवयल्या नुस्त्याक गिरायक म्हाड्डोळाच. आनी ते वटेन वचपी मोटारांतलो लोक हेच नुस्तेकान्नीलें सांगता त्या आंकड्याचेर वाटवचेलें गिरायक. नाजाल्यार नुस्त्याक जीव सोडपी आमगेले बापी, दार्जी, नोनलो-सोनलो हांणी म्हळयार तिट्यार येवन दवरता थंय आसा ते पाटलेंत हात घालून गांथनी उवारून घेवन चलूंक लागपाचें. नुस्त्याक कितें फाव आनी कितें दिवंक जाय तें थारावपी जशी काय तीं कोण न्हय, तेच सगले. आनी सांतूक आनी पुतूक तरी तांचे कडेन खंय वांटपण करपाचें आसा? बाव दितलो तें फाव तितलें, हें ती जाणाच. मागीर तिसऱ्याचें थंय कितें उपकरत? ना म्हळयार पुतुलो नातू बरो नासलो तेन्ना बापीनच ताका वखदबिखद केलां आनी सांतू दम्यान घरा पडटा तेन्ना नोनलोच ताका पावला.

खंयूय कसलें कार्य जायना, कारण जायना, म्हाड्डोळा येवपाची खेप चुकना. वाजंत्री म्हळयार चौघुडो, तशें बॅंड, खाजेकार, फोग, रानपी, फुलां ते दोणे आनी शिरत्यो

लेगीत म्हाड्डोळच्यो व्हरप.

म्हाळशेचें संस्थान म्हण, म्हाड्डोळचें नांव घेतलो जाल्यार फक्त थंयचो फांतोडे वयलो आंनी तिनसांजेचो चौघुडो आयकुपाचो. म्हाजनांचो आयताराचो पालखे वेळार आनी हेर उत्सवा दिसांतलो बोवाळ वगळत जाल्यार थंय कितें आसा? म्हाळशेच्या शेजरा सांतेर ... म्हाळशेच्या रुद्र रुपाक सांतेरीन थंड करतकर बोवाळ कसलो जातलो? तरूय पूण त्या तितल्या बोवाळांत सूरलयेच्या तारतम्यान विनायकान हातांत घेतिल्ली सारंगी संसार गाजयता आनी गुरुदास मोतीरामान मारिल्ली तबल्या वयली थाप लोक लक्तुबायेन आयकूंक लागता.

पूण पांडू फुलकारान सगलें सोडून कॅमेरो कसो हातांत धरलो तेंच कुवाडें. खाशा गांवची सोबीतकाय परक्यां कडेन उक्तावपाक सादत म्हूण ताणें कॅमेरो धरलो, पिशोल घेतलें ना, अशेंच काय?

ना म्हळयार म्हाका पाट्या वयल्या रंगनाथ चामाराची याद येता. अनवाणी- पांय उक्ते घालून फिरपीच लोक तेन्ना. पूण जोतीं घालतल्यांचीं नांवां रंगनाथाले घट्ट यादींत. भाटकाराक जोत्याची याद कित्याक आनी कशी जातली? ताका जोतें केन्ना जाय तें रंगनाथान सांगचेलें. मिर्गार जावं दिवाळेक रंगनाथ घराचे भितोडेंत रावन मार्गान वतल्या भाटकाराक मोट्यान म्हणटाः "शणै, जोतें करूंक जाय, केन्ना येवं?" आनी शणै वतांवतांच ताका दीस सांगता. मागीर चल्लो रंगनाथ शणैगेर. दनपारचो जेवता-खाता आनी जोख काडून भर वत काडटकर घरा परतता. दुसरी फावट ताची जोतें जातकर. शणैलें जोतें म्हळयार केदी सरंजामी. पूण रंगनाथ इतलेंच शणैकूय समाधान. दुडू आसाच घरा म्हूण शणैन केन्ना रंगनाथाक सोडलो ना आनी शारांत फिनिस्काद मेळटात तीं जोतीं हाडून केन्ना घालीं नात.

मामूलें खरें नांव अब्दूल, रेहमान, जाफर, महमूद काय कितें तें तागेलीं घरचीं तरी जाणा जायत जाल्यार दुबाव आसा. पूण मामूक मामूच म्हण आमचे नदरेंत ताका स्थान आसा. तो पिरवोळचे हद्दी भायलो वेलंगीचो आसत. पूण ताचें जिणेतलें खरें म्हत्वाचें तास म्हाड्डोळच्या बाजारांत लकलकता. उंचउंच देहाचो हयन्हय सत्तरेचेर पाविल्लो हो म्हातारो. धवेंशुभ्र खाड, सादीच काळी तोपी, हातांत रोत ह्या थाटांत अळंग पावलां घालीत तो उजवाट्यार बाजारांत येता तो थेट वचून वाचनमंदिरांत वाचूंक बसता. ताका बेस बरी मराठी येताली आनी उर्दुतलीं चार उतरां. उबीं दोन वरां, वयर सकयल अक्षरान अक्षर वाचून जातकीर मागीर हेर कामांक ताणें भायर सरप. ताचें उलोवणें जडजड, पेजादीक राजकारणाचेर तागेलीं खासा मत्तां आशिल्लीं. फुडें इंग्लेज गेले तशें पाकिस्तान जालें. आनी मामूची तरा धपक्यांत बदलली. ताणें पयल्या फाराक तोपयेचेर हात घालो. माथ्यार गोंडो हुमकळूंक लागलो. खाडमिश्यांच्या मामून तोंडार बदल करपा खातीर मिशांचेर वांखोर भोंवडायलो. आनी मराठी सोडून म्हातारपणांत उर्दूचो ध्यास धरलो. पाकिस्तान जाली ताजी पुण्यभूंय. आनी इतलेंय आसून म्हाड्डोळच्या जीवनांत मामू तो मामूच उरलो.

म्हाड्डोळच्यान दोंय दिकांनी जायांमळयांचो येवकार घेवन फुडे चलत गेल्ली ती एका उल्याची वाट काडिना फुडें मंगेशींचो बंगलो लागता. ते सुवातेक बंगलो कित्याक

म्हणटात तें कोणूच सांगूंक नकळत. दांबरी रस्त्याक धरून मंगेशाच्या प्राकारांत वचपाक बरी अर्द मैलाची शेकानशेक पाळण आसा. तशें पळयल्यार खंयच्याय बंगल्या कडेन वचपाची शी वाट दिसता खरी. मंगेश म्हळयार बंगल्यांत रावपी एक गिरेस्तच तो. म्हाजन तरी कितले ताचे! मंगेशाक कवतूक करून घेवपाची भारी हौस. केन्नाय जावं भेटीक वचात ताचे. आनी कोणूय ना कोण आसतलोच थंय ताचें म्हात्म्य गायत.

पूण ह्या गिरेस्त देवाची सेवा करतां करतां कलेंत गिरेस्तकाय जोडली ती दिनान. पांडुमामाली सारंगी लोक विसरल्यात जायत. पूण दिनाली तान विसरूंक नात. फुडें म्हाराष्ट्रांत दिनाचो, मास्टर दिनानाथ जालो, पूण चार पदां गावन आणो वसूल करपी त्या आडसाट्या भुरग्याक कोण वळखना? मराठी माचये वयल्या संगितांत नवी क्रांत घडोवन हाडपी ह्या सुरेली गावप्यान बेगीन जिवीत सोंपयलें. पूण 'कल्पवृक्ष कन्येसाठीं, लावुनिया बाबा गेला' म्हणून किर्तीचो पर्वत चडटां चडटां लता, आशा बापायची खिणाखिणाक याद काडटात.

दिना भशेनूच मंगेशच्या कामून म्हाराष्ट्रांत लौकिक मेळयलो. हातांतल्यान उतरां आनी तानो तशाच्यो तशो आयकतलो जाल्यार कामूराव मंगेशकारालें तबलें आयक अशें म्हणपाची चालच जाल्ली.

सगलें जालें, पूण मंगेशच्या बाळुबुवालें नांव घेनासतना कशें जायत. भायले हरदास गोंयांत येतात कितले, आनी वतात कितले; पूण आपलें तें आपलें न्हय जालां? आनी दामजील्या पेटी वाजोवपांत निबर व्यासंगी वृत्ती आसपावल्या अशेंच घडये म्हणूं येत.

(पुनव - जून - 1973) ☆

# 39

**दामोदर मावजो**

## दोळ्यांसुखां दोळ्यांदुखां

आतां मेरेनच्या म्हज्या जिवितांतलें सगल्यां परस चड घटनापूर्ण वर्स म्हळयार 1984 अशें म्हणचें पडटलें. बऱ्यो आनी बास्कळ इतल्यो घटना ह्या एका वर्सा घडल्यो की एका वर्साच्या कालावधींत इतल्या घटनांचो आसपाव कसो जावं येता हाचेंच अजाप जावपाचें.

वर्स उजवाडलें तेंच एके अप्रूप गजालीन. सकाळीं उठटनाच चुकिल्ले चुकिल्लेवरी दिसूंक लागलें. रातीच्या जागरणाक दुशण दीत हांवें पसऱ्यार वचपाची तयारी केली.

आदली रात 31 डिसेंबरची. ते रातीं जेवले उपरांत दारांतल्या खांब्यावयले लाइटीच्या उजवाडांत भुरग्यां बराबर खूब खेळिल्लों, नाचिल्लों. बायले-भयणीं बराबर बॅडमिंटन, भुरग्यां वांगडा क्रिकेट, भाच्याल्या पेल्लान फुटबॉल! मदींमदीं मारगा वयल्यान पिकपी भरून लोक येतावताले - म्हातारो मरता म्हूण बोबो मारीत... त्र्यांयंशीं सोंपतलें, हे परस उदेतल्या चौऱ्यायंशीचे उमळशिकेन वातावरण भारावल्लें.

मध्यानीचेर टी.व्ही. वयली कार्यावळ पळयिल्ली, आनी दूरदर्शनान दिल्लीं नव्या वरसाचीं परबीं घेवन एक वर राती न्हिदेचे सुवादीन जाल्लों. सकाळीं ऊठ जाल्यार ही तरा! कितें तरी चुकतालें, कितें तरी घुसपतालें; पूण बोट दवरूंक मेळ नासलें. जाणवतालें, पूण उमजनासलें.

णव वरांचेर पसऱ्यार गेलों, पेपर वाचूंक घेतलो, आनी ती जाणविकाय गाड जाली. दोळे चोळळे. पर्थून तेंच; एका दोळयार साय दाटिल्लेवरी दिसलें. बेठोच दावो दोळो धांपून उजव्या दोळयान वाचून पळयलें. सट्ट करून कितेंतरी जाणवलें. पर्थून पळयलें. हय दुसऱ्या दोळयान पळयलें. हें सारकें आसा. मागीर उजव्या दोळयान असो वयर काळोख आनी सकयलें चक्क बरें दिश्टी पडटा अशें कितें?

गिरायकाच्या बोवाळांत मागीर विसर पडलो. दनपारां घरा आयलों तेन्ना पुरो जाल्लें. अशें अशें जालां म्हूण बायलेक सांगलें आनी पर्थून दावो दोळो धांपून पळयलें. तशेंच आसलें. वाचतना जी वळ वाचतालों ताचे वयर काळोख. रातीचें जागरण म्हारग पडलें अशें म्हळें आनी जेवन मातसो आड पडलों. न्हीद पडली. साडेतिनाक उठून बायलेक म्हळें, 'आज पसरो बंद दवरतां. न्हिदन शें दिसता.' बायलेन म्हळें, 'तूं न्हीद. हांव वतां पसऱ्यार. बंद कित्याक दवरूंया?' पूण हांवें तिका वचूंक दिलें ना. सांजचें दुकान बंद दवरलें. उरिल्लीं कुलपां लावपाच्या निमतान पसऱ्यार गेलों आनी कुलपां करून परततना दोतोरागेर भितर सरलों. दोतोर आयतारा सांजचो

सोपेपणी मेळना. त्या दिसाय आयतार जाल्ल्यान तो बायलेक घेवन खंय तरी गेल्लो. हांव घरा येवन आड पडलों आनी आड पडूनच मागीर टिव्हीचेर सिनेमा बी पळयलो.

आठांक सुमार दोतोरच आमगेर आयलो. ताणें ब्लड प्रेशर बी तपासलें आनी प्रेसांव उणें आशिल्ल्यान दोळयांक त्रास जावं येता अशें सांगून 'रेस्ट' फर्मायलो. रातची बरी न्हीद काडुनूय सकाळीं नदरेंत कांयच फरक दिसलो ना तेन्ना हांवें पर्थून ब्लड प्रेशर पळयलें. नॉर्मल मेळळें. मागीर दोळो निवळ्ळो ना कसो? डॉक्टरान सांगलें, ल्हवुल्हवू निवळटलो.

काळजांतलो हुसको जिबेर हाडिनासतना हांवें सडसडीत म्हगेलीं कामां केलीं. दोन आनी तीन तारखेर खरेदी सोंपयली. आनी चार तारखेर 'बेठेच दोळे दाखोवन येतां' अशें म्हूण पणजे धांव मारली. डॉ. कैसरे सरीं पेशंटांची अशी खेट आसता, ती त्या दिसा अणभवली. सकाळीं णवांक लायिल्लो नंबर दनपारां दोनांक लागलो. इतले मजगतीं हांव गुरुदास पैक मेळून आयिल्लों. तें म्हगेलें पणजेचें ठाणें. ताणें दनपारां जेवपाक आपयिल्लो. आनी डॉक्टरा सरीं दनपार जातली म्हूण हांवेंय आं म्हणिल्लें. म्हजो नंबर आयलो तेन्ना म्हाका सोदूंक आयिल्ल्या गुरुदासाक भायर दवरून हांव भितर गेलों.

अशें अशें जाता म्हण सांगतकीर डॉक्टरान रोखडें विचारलें.

'केन्नाच्यान?'

'एक तारखेच्यान.'

'हागां येवपाक दोन दीस कित्याक काडले?'

हांव शिटकवलों.

'Anything serious?'

'पळोवया.' अशें म्हूण दोतोरान दोळयांत थेंबे घालून पांच मिनटां बस म्हूण सांगलें.

'कितें सांगलां?' गुरुदासान विचारलें.

'अजून सांगूंक ना.' हांवें जाता तितले थंडसाणेन सांगलें.

गुरुदास मागीर त्या पांच मिणटांक सत्कारणी लावपा खातीर म्हाका कोंकणी भाशा मंडळाच्या कारभारा संबंदान सांगूंक लागलो. पूण म्हजे तकलेंत मात दुसरेंच वळवळटालें. ब्रेन ट्युमर जाल्यार नदरेचेर परिणाम जाता म्हणपाचें आयकल्लें. तो ट्युमर मेलीग्नण्ट आसूं येता ही भिरांतूय आशिल्ली.

पांच मिनटांनी पर्थून भितर गेलों. तपासून डॉक्टरान म्हळें - 'तूं सांगता ते प्रमाण रेटिनल डिटेचमेंट शें दिसता. केस सर्जिकल, पूण चार दिसां उपरांत तुका सारकें सांगतां. ते मेरेन तुवें नर्सिंग होमांत ॲडमीट जाल्यार बरें..आतांच.!'

हांव शेळेळों - 'पूण हांवें घराकडेन...'

'तसो तूं कंप्लीट बेडरेस्ट घेतलो जाल्यार घरा गेल्यार उपकरता. पूण याद धर, भोंवप ना, वाचप ना. कंप्लीट बेड रेस्ट!'

हांवें रोखडेंच 'आं' म्हळें. आनी चार दिसांचीं वखदां नेमान घेवपाचें उतर दिवन परतलों.

दनपारां गुरुदासागेर उरलों. रेटिनल डिटेचमेंट जालो जाल्यार ऑपरेशन करचें पडटलें म्हणपाचें डॉक्टरान सांगिल्लें. गुरुदासाकूय म्हगेल्या दोळयां-वायटाची सुलूस लागिल्ल्यान तो भाशा मंडळाच्यो गजाली आदलेवरीच, पूण अडेचो नेट काडून सांगून म्हाका विसरायेर घालूंक पळयतालो.

जेवण जातकूच गुरुदासान म्हाका बसी कडेन सोडलो आनी हांव वखदांची पोटली घेवन पांच वरांचेर घरा पावलों. पसऱ्यार बायल आशिल्ली. पुरो जाल्ल्यान वचून न्हिदतां म्हूण तिका सांगलें आनी घरा आयलों. चार दीस न्हिदून रावचें पडटलें म्हूण पयलीं न्हावन घेतलें. आनी न्हिदलों.

न्हिदप म्हाका मानवता. पूण न्हिदून वाचूंक मेळूंक जाय. न्हिदून रावप, पूण वाचप ना म्हळयार कडक ख्यास्त! पयलेच खेपेक ते रातीं हांव कांयच वाच नासतना न्हिदलों. न्हिदलों खरो, पूण न्हीद सोंपेपणी आयली ना. रातभर कुयकूय करून म्हाका चाळयत रावली.

पांच तारखेर ब्रेस्तार. पसरो बंद. शैलाय घराच उरलें.

'कोंकणी' चो कार्यकारी संपादक प्रा. नागवेंकारान कागदपत्र धाडून फाटीं सांगिल्लो लेख बेगसार धाडून दिवचो म्हूण विनंती केल्ली. वाचपच ना थंय बरोवप कशें जातलें! सट्ट करून येवजलें बायलेक विचारलें - 'हांव सांगतां - तूं बरयता?'

दुसऱ्याक 'डिक्टेट' केल्लो पयलोवयलो लेख त्या दिसा जल्माक आयलो - 'म्हजे कथेंतलें अविस्मरणीय पात्र - बिबो!'

दीस भर चलपी -भोंवपी कामाच्या मनशाक न्हिदपांत सूख आसा अशें दिसता. हांवूय तांतलोच. पूण ह्या चौऱ्यांशीच्या च्या जानेरान म्हाका येतिश्ट बुद्द शिकयली. हाचे पयलीं तसो हांव जोरान न्हिदिल्लों. पूण तेन्ना जोराची एक घुंवळ आसताली. आतांची गजाल साप वेगळी. कितें जाल्लें तें फकत दोळयांक. हरशीं कुडी-भलायकी बेस बरी आसली. आनी अशा जिवान घटमूट मनशान वाचप ना, उठप ना, भोंवप ना - फकत न्हिदून रावप - न्हिदेभायऱ्या दोळयांनी! येवजिल्यारच कांटो फुलता आंगार!

ब्रेस्तारा दिसा बायल दिसूय भर म्हऱ्यांत राविल्ल्यान दीस बरो गेलो. पूण सुक्रार मात सामको खावपाक आयलो. जानेराची सात तारीख. भुरगीं शाळेंत, बायल म्हगेलो व्याप सांबाळपाक आनी हांव न्हिदून.

एक निवळण मेळळें! एका बॅण्डाचो ट्रान्झिस्टर घेवन हांव आयकूंक लागलों. हरशीं केन्ना गोवा रेडिओच्यो कार्यावळी आयकूंक पावनासलों. आतां हो एकच विरगुंळो जाल्ल्यान रेडिओन वितरायिल्लें उतरान उतर कानांत वतालें.

दैवान कितें वाडून दवरिल्लें तें नेणार आशिल्ल्यान हांव साप गाफील आसलों. दनपारां कांदळां-ओंवळां, शिक्षणीक कार्यावळ, मनोरंजन, कर्नाटक संगीत, लोकसंगीत ह्यो सगळयो कार्यावळी आयकून सांजचें चित्रसंगीत, हिंदी पाठ, शब्दुर्ल:, युवावाणी, शेतकरी मंडळ आयकत, आयकत हांवें प्रादेशिक खबरो आयकल्यो. बंद दोळयांनी आनी उकत्या कानांनी आयकता आसतनाच अकस्मात मराठी बातम्यांतल्यान तीं उतरां कानांर पडलीं - साहित्य अकादमीचे पुरस्कार जाहीर जाल्यात.

अकस्मात हड्ड्यांत खपखपखप जावपाक लागलें. परिक्षेक बशिल्ल्या भुरग्याक निकाल जाहीर जाला म्हणपाचें कळटकीर जाता तशें! कित्याक? हांव पुरस्काराची अपेक्षा करतालों? मनाचेर धेंगसो घालून हांवें पळयलें. मन कशेंच आटापा येना जालें.

तटास जावन हांव 'सविस्तर बातम्या' आयकूंक लागलों. मराठींत माडगुळकराक हो पुरस्कार मेळिल्लो. कोंकणीचें नांव घेतलें ना. बातम्यो सोंपल्यो. हांवें म्हळें- 'काळया केंसांच्याक हो पुरस्कार दिवप बुजुर्गांक मानवना. तेन्ना हांवें अपेक्षा धरप ही चूक. आनी दुसरें म्हळयार आशा धरता ताची निराशा जाता. निराशा चुकोवपाचो बेस बरो उपाय म्हळयार आशाच धरप ना.'

तरिकूय पावणे णवांच्यो हिंदी आनी णवांच्यो इंग्लीश बातम्यो आयकल्यो. म्हणसर शैला आयलें. ताकाय सांगलें - बातमी आयकना फुडें कशें काळीज धडधडपाक लागलें तेंय सांगलें.

आनी मनांत म्हळें, 'कार्मेलिना'क मेळिल्लें जाल्यार राष्ट्रमतांतल्यान कोणूय पूण येतलो आशिल्लो.

जेवपाक हात घाल्लो. इतल्यांत हनुमंत मडगांवच्यान आयलो. आयलो तोच- 'भाई, फोटो आसा?'

'कित्याक? म्हाका मेळ्ळां?' हांवें थंडसाणेन विचारलें. एक फावट उत्तेजीत जावन न्हिविल्ल्यान आतां हांव मात उचांबळ जालों ना.

फोटो तयार नाशिल्ल्यान धाडपाचो प्रस्नच नाशिल्लो. दुसऱ्या दिसा 'राष्ट्रमतांत आयिल्लो फोटो म्हजोच म्हणपाचें जायते जाण अचूक वळखले.

शुक्राराचे रातीं न्हीद पडिल्ली जाल्यारच अजाप करपाचें. आंबो पिकिल्लो पूण देंठ तुटून होंटींत येवन पडटलो हाची सुलूस नाशिल्ली. आंकांताचो दोळयां-हुसको आनी पुरस्कार जोडिल्याची आकांताची खोशी हांच्या मिसरजान न्हिदेक विरगळावन उडयिल्ली.

शेनवारा दिसाच्यान लोकांची लाइन लागली. एक म्हळयार- पुरस्कार जोडिल्लो म्हूण. आनी दुसरें - हो वेळ मेरेन म्हज्या दोळयांच्या विकाराची खबर म्हज्या इश्टां मजगतीं पाविल्ली. परबीं दिवपाक आनी जापेक अशा दोट्टी निमतान शेनवार आनी आयतार लोक येत रावले.

हे दोन अडेच दीस पुरस्काराचे खोशेन दोळयांच्या हुसक्याचेर मात केली. आनी सोमार उदेलो. खपखप जावपी काळीज थातारीत हांव दोतोरागेर गेलों. ताणें बेगोबेग तपासलो आनी हुसक्याभरीत जावन म्हळें,

'ऑपरेशन करचेंच पडटलें.'

'खंय? मडगांवां केल्यार -'

'ना. मुंबय वचूंक जाय.'

हांवें तशी तयारी दवरिल्ली.

'आठ दिसांनी गेल्यार जाता न्हय?'

'ना. आजच वच.'

मागीर म्हजी धांवपळ. गुरूदास पै चे मार्फतीन तिकेट काडली आनी त्याच दिसा हांव मुंबय गेलों.

मंगळारा डॉ. श्रॉफ हांणी तपासलो. आनी आतां मात हांव कांचवेलों. ताणें सांगलें, 'दाव्या दोळयाचीय डिटेचमेंट जावपाक पावल्या. दोनांचेंय ऑपरेशन करचें पडटलें.'

जें संकश्ट चुकोवं येना ताका सामकार वचप हेंच योग्य अशें हांव मानतां. तरीकय मनाक उबारी दिवपा खातीर हांवें डॉक्टराक विचारलें,

'डॉक्टर, ऑपरेशन शंबर टक्के जैतिवंत जातलें न्हीं?'

'डिटेचमेंटची केस! कांय सांगू येना.'

आनी पयलेच खेपेक हांव निर्णलों. दोळे, म्हजे अपुर्बायेचे दोळे! ज्या दोळयांनी हांव ही सृश्ट पळयत आयलां, ज्या दोळयां वरवीं म्हगेले सगले वेव्हार चलयत आयलां, ज्या दोळयांनी म्हाका जाय तशी बायल सोदून काडल्या, ज्या दोळयांनी म्हज्या भुरग्यांचें हांसप-रडप, खेळप, मस्ती करप पळयत आयलां, ते म्हजे दोळे फाल्यांच्यान काळोखच सांसपीत उरतले?

कित्याक? दोळयांनी अशें कसलें पातक केल्लें? आनी मनांत लिपिल्ली दुबावाची शिल्ली पिटपिटीत वयर सरली. 1981 च्या फेब्रेराचे सोळा वेर सुर्याक पूर्ण गिराण लागिल्लें. तें सारकें पळोवपाक मेळचें म्हूण हांव मुजरत कारवारा गेल्लों. खाशा कारवारचे लोक दारां धाकून भितर राविल्ले. आनी म्हजे सारके निरीक्षक भायल्यानसून येवन कारवारच्या रस्त्यावयल्यान उमळशिकेन भोंवताले. आनी ज्युस्त दनपारच्या थारावन दिल्ल्या वेळार उजवाड मंद जायत गेलो. आसोर जाता म्हणसर आमोरी जाल्लेवरी दिसलें. आनी म्हणसर माथ्यार चार-पांच नखेत्रां घेवन फांतोडेचीं चार वरां जाल्ले वरी काळखी पातळी. काळया निगेटिव्हांतल्यान हांव पळयतालों. 'सांबाळात, उकत्या दोळयांनी पळोवं नाकात. निगेटीव्ह सारको दोळयांर धरात' आयले पयले एकामेकांक शिटकायताले.

जालें! आनीक कांय खीण! पर्थून हें पळोवपाक मेळपाचें ना! आनी एके जबर वानशेन हांव उत्तेजीत जालों. खिणांत हांवें दोळयां वयलो निगेटीव्ह कुशीन सारलो आनी अधाशा भाशेन तें पूर्ण गिराणाचें उजवाडाचें कांकण पळयत रावलों, दोळयांनीं घोंटीत रावलों. ब्रह्मरूप पळयलें, आता दोळयांचें कितें जातलें तें जावं अशें म्हणीत..

पस्तावपाचो वेळ आतां आयिल्लो. ताकाच लागून हें दोळयांचें वायट उपरासलां आसुये. त्या वेळार व्हडव्हडल्या शास्त्रज्ञांनी शिटकायिल्लें आसतनाय हांव उमळशिकेचे भकीक पडिल्लों. ताचींच हीं फळां काय?

भियेत भियेत डॉक्टराक विचारलें, 'आयकून घेवन ताणें म्हळें, ना. हाचें कारण तें जावं नज.'

'हाचें कारण कितें?'

'सांगूं येना. कितेंय जावं येता. बडीचें आसूं येता.'

डॉक्टरान सांगलें आनी आपणाक वेळ ना हें सुचोवपाक फुडलें सांगलें, 'आतां न्हिदून रावपाचें. भोंवप ना. फाल्यां जसलोकांत ॲडमिशन मेळटा जाल्यार पळय.' अशें म्हूण चीट दिली. बुधवारा जसलोकांत ॲडमीट जालों. जयप्रकाश नारायणान

ज्या हॉस्पिटलांत उपचार घेतिल्ले, त्या हॉस्पिटलांत भितर सरतना खिणयाळ्या अडे-मोटेपणान हुसक्यांचो भार लेगीत खीण भर सकयल दवरलो.

ब्रेस्तारा दिसा प्रेशर, रगत बी तपासून जालें. आतां फाल्यां ऑपरेशन!

बायलेक घरा दवरून आयिल्लों. ऑपरेशनच्या हुसक्यान तीय कुळकुळिल्ली. हांवें म्हणिल्लें - 'दोळयांची पट्टी सोडयतले त्या दिसा यो. पयलीं तुका पळयतां.'

आतां मनांतल्यान पच्छताप जावंक लागिल्लो. ती बगलेक जाय आशिल्ली. तसो म्हजो मेवणो सगलें जाय नाका पळयतालो. पूण कितलेंय जरी हांवें म्हळें की 'तसो हांव भियेना,' तरी दामून धांकून दवरिल्ल्या हुसक्यांचें प्रेशर वाडून, वाडून तेमकार पाविल्लें. आतां कोणाचो तरी ल्हवपीक हात काळजार जाय आसलो. म्हाका धीर नाका आसलो. जाय आशिल्ली फकत माया.

आनी सांगून धाडिल्ले वरी शैला आयलें. सगलें वाऱ्यार सोडून आयलें. ब्रेस्तारा रातचें पावलें. सू जालें.

शैलान येतना फाटल्या तीन दिसांत घरा कडेन आयिल्लीं पत्रां आनी तेलेग्राम हाडिल्ले. सत्तरेक आशिल्लीं पत्रां. सगलीं वाचून घेतलीं. तुस्त सगल्यांकूच प्रिय आसता. देवाक लेगीत! पूण तुस्तीचें बळगें केदें तें त्या दिसा जाणवलें. त्या तुस्तभरीत पत्रांनी आनी रास भर परब्यांनी म्हजो हुस्को, म्हजीं चिंतना वाऱ्यार हुबयलीं आनी काळीज ल्हवपीक जालें. ते रातीं हांव सुस्त न्हिदलों.

फांतोडेर वॉर्डबॉयान एनिमा घेवपाक उठयलो. पांच वरां जाल्लीं. पांच ते आठ हो काळ सरतासर कंटाळो आयलो. मागीर इंजेक्शनांनी तकली भेरेवपाक लागली. णवांक म्हाका निर्जन्तुकरण केल्ले कपडे घालून माळयेर व्हेलो. वांगडा बायलेक येवपाक दिलें. पूण लिफ्टींतसून देंवपाक मना. तेवटेन दुसरें स्टरिलाइझ्ड स्ट्रेचर आयलें. म्हाका हाचे वयल्यान ताचेर घालो. 'पर्थून केन्ना दोळे उक्ते जातले जाण कोण' अशें म्हूण हांवें बायलेक पळोवन घेतली. लिफ्ट बंद जालें. आनी म्हाका ऑपरेशन थिएटरच्या दारांत व्हरून दवरलो.

बऱ्या वेळान एक नर्स शी आयली- मागीर म्हाका कळळें ती डॉक्टर म्हूण. तिणें म्हगेल्या दोनूय दोळयां पातकड्यांचे केंस कापून उडयले. ते भेरेल्ले मनावस्थेंत लेगीत आतां म्हाका विद्रूप केलो हो विचार तकलेंत येवन गेलो.

ऑपरेशन टेबलार व्हेलो तेन्ना बराब्बर पावणे इकरा वरां जाल्लीं फुड्यांतले वणटी घडयाळीचेर हांवें पळयलीं. आनी मागीर हांवें एक, दोन, तीन, चार, पांच, स.. इतलेच आंक म्हळे.

तेन्ना दाटिल्लो काळोख तीन दीस उरलो. ऑपरेशन फसलें जाल्यार काळोख सासणाचो उरतलो अशे तरेची भिरांत म्हाका आफुडली ना. सारकी जाग आयली ती दुसऱ्या दिसा. तकली हालोवची न्हय म्हूण तकलेच्या दोशीं वटांनी रेंवेच्यो पोतयो sand bags भरून दवरिल्ल्यो. घुंवळींत हांव तकली हालयन म्हूण खंय रातभर म्हजो मेवणो, मेवणी, साडू, बायल जतनायेन राविल्लीं.

सकाळीं जाग आयली. वेगळेच तरेची जाग. हरशीं जाग येवप म्हळयार दोळे उकते करून पळोवप. ही जाग कुड्ड्याक येता तसली. तूं खंय आसा, वेळ कितलो

जाता, म्हऱ्यांत आनीक कोण आसात, हें दुसऱ्याक विचारून काडपाचें वा अदमासान ताडपाचें.

दोळयांर कापसाच्यो घडयो, ताचेर प्लास्टिकाची कट्टी, तांचेर लांबलांब गमपट्टयो. उजवाडाची मात सुलूस लागनासली. अशे तरेचें दोळयांचें कुड्डेपण. तातूंत तकली हालोवंक जायना म्हणटकीर सगलेंच आंग हालोवंक मेळना - हें बंदेपण! आयतारा उठून बसपाची परवानगी मेळ्ळी. तीन दिसांनी दाव्या दोळयां वयली पट्टी सोडली.

तीन दिसांनी उजवाड पळयलो. दिपावलों. जनेलाचे पड्डे ओडिल्ले आशिल्ले तरिकूय दिपावलों. बायल उमळशिकेन बगलेक रावन पळयताली. नदर धुंवटेल्लेवरी आसली. पूण तिचो हात धरून म्हळें, 'फर्स्ट क्लास दिश्टी पडटा.'

दुसऱ्या दिसा म्हळयार नदर निवळली. पूण एका दोळयान पळोवपाची संवय नाशिल्ल्यान दोळो वळून येतालो. चड उजवाड आजुनूय सोसूं जाय नासलो. चड वेळ बसल्यार आड पडन दिसतालें.

रातीची न्हीद पडटाली ताचें स्रय मात न्हिदे-गुळयांक दिवंक जाय. सात आठ दिसां उपरांत म्हाका दिसलें - आतां गुळयां बगर न्हीद पडटली. ओगीच कित्याक गुळयो गिळप? अशें म्हूण हांवें एके रातीं गुळीच घेतली ना. न्हीद बेस पडली. पूण बरे रातीं साडे तिनांक जाग आयली. आनी मागीर कशीच न्हीद येना जाली. उरिल्ली रात तळमळून काडली. दुसऱ्या दिसा आदली चूक करप ना म्हूण गुळी घेतली, पूण तरिकूय रातचे साडेतिनांक जाग आयलीच आनी मागीर नेमान जाग येत रावली. तळमळे काडीत रावलों.

धा दीस रावन बायल परतली. परतली म्हणचे परस हांवेंच तिका धांवडायली. व्हडले चलयेलो भरत नाट्यमचे कार्यावळींत एक नाच जावपाचो आसलो. आनी ते कार्यावळीक आमी दोगांय नासल्यार चलयेचो विरुस जातलो म्हूण हांवें तिका बळयां धाडली आनी उरिल्ले दीस एकलेपणान भोगले.

एकाक्षाची वेथा हांवें त्या दिसांनी प्रत्यक्षांत भोगली. अरबी समुद्राचेर दिकाआड वचपी सुर्या एका दोळयान पळयलो. अनमनत देंवना कसो दिसतालो. रातचीं चकचकपी नखेत्रां भिलभिलतात कशीं दिसतालीं. एक दोळयान सगलें दिश्टी पडटालें. तरी सारकें दिश्टी पडना अशी समजिकाय मनाक कोरांथत रावताली. कुड्ड्या मनशाची वेथा अशे तरेन भोगतना एकसारकी भिरांत दिसताली - हें कुड्डेपण जल्माचेंच उरना मूं? ह्या प्रस्नाक जाप एकच आसली- दुसरो दोळो सोडटकीर कळटलें!

आनी तेरा दिसांनी दोळो सोडयलो. म्हाका दिश्टी पडलें. खुश्शाल जालों.

त्या दिसा डिस्चार्ज मेळ्ळो. डॉक्टरान आठ दिसांनीं परतो आपयिल्लो आनी शिटकावणी दिल्ली. '-no jerks! उडकी मारप ना, आदळप-आपटप ना' तेभायर सोंसूं जातासर खर उजवाड घेवप ना. vibration घेवप नात.' आनीक कितलेंशेंच.

पूण ह्या बंदनांचें दुख्ख दिसलें ना. सगल्यांत चड आनंद जाल्लो तो कित्याक तें जाणात?-

ज्या वाचनान म्हाका ब्रम्हानंद दिला, तें वाचन करूंक म्हजेर कसलेंच बंदन नासलें.

आतां उरिल्ली पिराय वयर सांगिल्लीं बंदनां सांबाळीत सारपाची. पूण हो रेटिनल

डिटेचमेंट म्हजे आनी वाचनाचे मदीं आडामो जावन रावलो ना हाचे सारकें सूख ना.

(कोंकणी : वर्सुकी अंक 1984-85) ☆



## 40

**मीना सु. काकोडकार**

# टी.व्ही... थोर तुजे उपकार...!

गोंयांत टी. व्ही. येवचे पयलीं सेमानाचे सगले वार गोंयकारांचे आशिल्ले. शेनवार, आयतार तर भोव पर्वणेचे ! त्या दिसांनी तो सोयऱ्या-धायऱ्यागेर, इश्ट-मित्रागेर वतालो, ना जाल्यार बायल-भुरग्यांक घेवन पासयेक वतालो. पूण टिव्ही. आयलो आनी ताणें सगले वार कचाकच खावन उडयले. आतां गोंयकार दीस रात टिव्ही. मुखार. सोमार, मंगळाराक 'हें' सिरीयल, तर बुधवाराक 'तें' सिरियल. बिरेस्ताराक 'हो' प्रोग्राम, तर सुक्राराक 'तो' प्रोग्राम. शेनवारा मराठी सिनेमा, तर आयतारा हिंदी सिनेमा! आतां सगले वार टिव्ही. चे...!

आतां गोंयकारांक एकामेकांगेर वचूंक वेळ ना. कोण आपल्यागेर आयलो जाल्यार एका चित्तान ताचे कडेन उलोवंक वेळ ना. वेळ आसा फकत टिव्ही. पळोवंक.

ह्या टिव्ही. न लोकांक थोडें किते दिलां आनी तांचे नकळत खूब कितें व्हेलां...

वासंती वाटेर मेळिल्ले फावटीं सुशमा ताका आपल्यागेर यो म्हूण आग्रो करी. ताजो शीण नाका म्हूण वेळांत वेळ काडून वासंती शेनवारा तागेर गेलें. सुशमागेर सिनेमा रंगार आयिल्लो. आपूण न्हय त्या वेळार तागेर पावलें हें वासंतीक सुशमाच्या तोंडा वयल्यान जूस्त समजलें. आनी आपल्याक लागून ताचो विरस जावचो न्हय, म्हूण तें मोन्यानी तांच्या वांगडा सिनेमा पळोवंक बसलें.

सिनेमाच पळोवचेलो आशिल्लो जाल्यार वासंतीक सुशमागेर वचून तो पळोवचेली गरज नासली. ताच्यान आपल्या घरा बसूनय तो पळोवं येतालो. तें मुजरत आयिल्लें तें सुशमा कडेन चार गजाली उलोवंक. सुशमाक हें समजलें नासत अशेंय न्हय; पूण गजालीं परस टिव्ही. वयले प्रोग्राम जायत्या जाणांक चड म्हत्त्वाचे दिसतात आनी ते चुकोवप तांकां आवडना, हाका कोण कितें करीत?

हेर दिसांनी प्रोग्राम सांजेच्या पावणे संक सुरू जातात. पूण आयतारा दीस भर तरेकतरांचे प्रोग्राम! आनी जर काय क्रिकेट मॅच बी आसत, जाल्यार कांय विचारचेलेंच ना! हाका लागून भुरगीं अभ्यासाक हात लेगीत लायनात. जंय जेवपाची लेगीत शुद्ध ना, थंय अभ्यासाचें आनीक कोणाक पडलां!

मॅच सुरू आसतना फोर्सान भुरग्याक अभ्यासाक बसयलोच जाल्यार तो हातांत पुस्तक घेवन बसता खरो, पूण कान भायले कॉमेंट्रीची जाग घेवपांत गुल्ल आसतात. मातसो बोवाळ कानार पडलो रे पडलो, 'कितें जालां? कोणें फोर मारली? कोण

आवट जालो? कोणें सिक्सर मारली?' हें पळोवंक हातांतलें पुस्तक शेंवटून भायर धांवप. धड अभ्यासय ना आनी धड मॅचय ना.

ताच्यो त्यो भायर भितर पावठी पळोवन 'चुट्टी लागूं त्या अभ्यासाक; तूं एका चितान मॅचच पळय' अशें म्हणपाची पाळी जायत्या जाणांचेर येता.

हे असले परिस्थितींत परिक्षेक आपलो भुरगो कितें दिवे लायतलो, हाचेविशीं मातय दुबाव बाळगिनासतना आवय बापायन निश्चींत मनान कपलार हात मारून घेवचो!

टिव्ही वयल्यो जायराती तर भुरग्यांच्यो सामक्यो आवडीच्यो. कांय भुरगीं खंय फक्त जायरातीच पळयतात आनी प्रोग्राम सुरू जातकीर खेळूंक वतात. तर अश्यो ह्यो जायराती येद्याशा वेंत भर भुरग्यांक लेगीत तोंडपाठ आसतात. मागीर तीं त्यो मेळत तेन्ना, मेळत थंय म्हणटात. जे मेरेन तांचें गावप 'वॉशिंग पावडर निरमा' ना जाल्यार 'सुंदर सुहाना फ्रेश्का...' हांचे पुरतें मर्यादीत उरता, ते मेरेन सगळें सुरळीत चलता. पूण केन्ना केन्ना असले सादे विशय कुशीक सारून तीं '**adult**' विशय निरागसपणान हाताळटात (?..तोंडाळटात!) तेन्ना जाणट्यांली परिस्थिती भोव बिकट जावं येता.

फॅमिली प्लॅनिंगा विशीं दिसपट्टी टिव्ही. चेर जायराती दाखयत आसतात. आनी प्रत्येक गजाली विशीं बारीकसाण घेवन भुरगीं आडवे तिडवे प्रस्न विचारून घरच्यांक नाका जीव करून सोडटात. कांय तेपा फाटीं टिव्ही चेर एक जायरात येयी.

- पाळणा लांबवण्यासाठी तांबी वापरा.

हे जायराती संदर्भांत आमगेर जाल्ली ही प्रस्नोत्तरी पळयात.

'..पाळणा लांबवण्यासाठीं म्हळयार कितें गे?'

'... म्हळयार.... म्हळयार पाळणें, लांबोवंक .... हुमकळावंक'

'- तांबी म्हळयार कितें?'

-(कर्म म्हजें!) तांबी म्हळयार... तांब्याची सरी... पाळणें हुमकळावपाक.'

'-तांब्याचीच सरी कित्याक? दोरयेन बांदल्यार जायना?'

'-ना. तांब्या सरी घट आसता. ती कळमेना...'

इतलें स्पश्टीकरण आयकून ताचें समाधान जालें हें पळोवन म्हाका सूऽ जालें; पूण चड तेंप न्हय. कारण घरांत कितेंय हुमकळावपाचें आसल्यार तो प्रत्येकाक आगऱ्यान 'तांबी वापरा' म्हूण सांगूंक लागलो.

इतलेंच न्हय, तर आजी देवाचें पायणेल वणटीक लायता तें पळोवन - 'आज्जे, पायणेल लांबवण्यासाठीं तांबी वापरा.' अशें म्हणपा मेरेन ताची मजल गेली.

ह्या 'तांबी प्रकरणा' वयल्यान देख घेवन हांवें थारायलें की भुरग्यांच्या सगल्याच प्रस्नांक जाप दिवंक फावना. कारण जायते फावटीं खरें सांगूंक मेळना आनी फट सांगल्यार आंगलट येता, अशी अवस्था जाता.

म्हणटकीर ताणे नाका जाल्लो 'डेंजरस' प्रस्न केलो जाल्यार हांवें ताका परतो प्रस्न करचो -

'अभ्यास जालो रे तुजो? चल, घेवन यो.'

परतो परतो अभ्यास घेवन म्हजे मुखार बसचें पडटकीर ताणेंय कितें देख घेवपाची ती घेतली आनी नाका जाल्ले प्रस्न विचारपाचें बंद केलें.

म्हजो प्लॅन फळादीक जाला हें पळोवन जिवाक भोव धादोसकाय भोगली. कांय दिसांनी मुंबयच्या सोयऱ्यांक घेवन मयें लेक पळोवंक वचपाची संद मेळ्ळी. थंय जायते टुरीस्ट आयिल्ले. कांय जाण गार्डनांत बशिल्ले, तर कांय जाण बोटींनी बसून पांयांनी पेदालां मारीत बोटींग करताले. धक्यार रावन आमी तांकां पळयताले. अकस्मात आवाज आयलो-

'आमीय सुखी संवसारासाठीं निरोद वापरुंया?'

म्हजी चिनारी वचचे कडेन पावली; कारण हो उर्बेभरीत आवाज कोणाल्या दिवट्याचो, हें म्हाका समजल्लें. खीण भर वातावरण भोव 'embarrassing' जालें. पूण मागीर सगल्यांच्या चिड्डून धरिल्ल्या हांशाचो स्फोट जालो. कारण अशीं पेदालां मारीत बोट चलोवप म्हळयार 'सुखी संसारासाठीं निरोध वापरप' असो समज ताणें टिव्ही वयली जायरात पळोवन करून घेतिल्लो.

टिव्ही वयल्यो फॅमिली प्लॅनिगा विशींच्यो इतल्यो सगल्यो जायराती पळोवन लेगीत जाणट्यांक ताचो सारको अर्थ समजला काय ना असो प्रस्न देसांतली वाडटी लोकसंख्या पळोवन पडटा.

पूण जाणट्यांक समजूं ना समजूं, सरकार कितें सांगूंक सोदता हें अर्थ कळनासतना लेगीत भुरग्यांक मात बेस बरें समजलां, हाचें एक उदाहरण सांगतां.

योगेश - वय वर्सां णव- हागेर माजरान चार पिलां काडलीं. रातीं येद्दें मोटें पोट घेवन भोंवपी माजर सकाळीं उठून पळयत जाल्यार वेंगेंत चार पिलां घेवन न्हिदलां. मागीर माजरां वांगडा योगेशालें जें संभाशण जालें, तें अशें:

'-आगो, बिलू ऽ ऽऽ'

'-म्यां ऽ ऽ ऽ व'

'-कितें चल्लां हें तुजें?'

'-म्यांव?'

'-दोन पिलां मदीं कमीत कमी तीन वर्सांचें अंतर आसूंक जाय हें खबर ना गो तुका?'

'-म्याँ ऽ ऽ ऽ व!'

'-तीन वर्सांनी दुसरें पील काडपाचें सोडून तूं एके रातयांत चार चार पिलां काडटा?'

'- म्यांव ऽ ऽ ऽ म्यांव ऽ ऽ ऽ ..'

' - आगो, दो बच्चोंके बीच मे कमसे कम तीन बरस का फासला होना चाहिए!'

येद्या ल्हान वयार भुरग्यांक फॅमिली प्लॅनिंगाचें म्हत्त्व पटूंक लागलें, हें पळोवन फॅमिली प्लॅनिंगाचो आनी देसाचोय फुडार भोव पर्जळीत आसा, हाचे विशीं म्हजी पुरायेन खात्री पटली आनी 'शहाणे करोनि सोडूं सकल जनां' ह्या धोरणानुसार भुरग्यांबाळांक 'शाणे' करपाचें व्रत आपणायिल्ल्या टिव्ही क हांवें हात जोडले. इतल्यांत फॅमिली प्लॅनिंगाचेर एक नवी जायरात सुरू जाली.

'-वरमालाके साथ साथ एक और माला भी याद रखना. पहननेवाली नहीं... खानेवाली.'

हांवें कच्च करून आंग काडून हेवटेन तेवटेन पळयलें. लागसारा भुरगीं नासलीं.

आतां म्हाका टिव्ही लावंकूच भंय दिसता. कारण ती जायरात पळयतकीर 'खानेवाली माला' आपल्या टिफिनांत घाल म्हूण भुरग्यांनी सांगल्यार कितें करप?

(सुनापरान्त, 1988) 

## 41

**प्रकाश थळी**

# गोंयचे 'टेम्पो' आनी प्रवास

गोंयांतल्या गोंयांत प्रवास करतलो जाल्यार कसोय करूं येता. व्हड्यांतल्यान, गाजोलीनांतल्यान वा फेरीबोटींतल्यान, आगगाडयेंतल्यान ना जाल्यार बशींनी, टॅक्सींनी तशेंच टेंम्पोनी. त्या भायर रिक्शा आनी मोटारसायकलीय आसात. पूण एकाच वेळार प्रवासाची मजा आनी सगळे तरेचे अणभव घेवपाचे आसल्यार टेंम्पो हें प्रकरण चड म्हत्त्वाचें.

गोंयां फिरंगी वचून तिरंगी आयलो; 'ते पदेर आनी ते उंडे वचून' नवे पाव आयले; आदले कामिञ्याव वचून बशी आयल्यो आनी फाटोफाट टेंम्पो आयले.

गोंयचे प्रवासी टेंम्पो म्हळयार बस आनी टॅक्सी हांचे मदली तडजोड. जाय जाल्यार हाका 'तडजोड' म्हणचे सुवातेर कोणेंय 'तोड-जोड' म्हणचें; म्हळयार प्रवाशांकडे नातें आनी तांचीं हाडां 'तोड' आनी पैशे 'जोड' असो ताचो अर्थ.

टेम्पो हो प्रकार फाटल्या आठ-धा वर्सांसावन गोंयांत चड फामाद जाला. बस चड व्हडली जाता आनी टॅक्सी चड ल्हान जाता, अशा वेळार धा पंदरा लोकांची सोय बेस बरी करपी वाहन म्हळयार टेंम्पो. पिकनीक, पार्टी, तिर्थयात्रा, लग्नाकारणा निमतीं जावपी येरादारीक टेंम्पोची वेवस्था बरी जाता. तेभायर गांवगिऱ्या वाठारांनी अशीर रस्ते बी आशिल्ल्यान जंय बसींची वेवस्था ना थंय टेंम्पो धांवंक लागिल्ल्यान गांवांतल्या लोकांची तशी बरी सोय जाता.

टेंम्पोची आसन वेवस्था म्हळयार लोतासांव पंदरा-सोळा लोकांचें. पूण भाडीं मारपी टेंम्पो म्हणटात ते गोंयांत तरी सामके लवचीक आनी रबरावरी कितलेय ओडून ताणूं येतात. पंदरांचे सुवातेर पन्नास प्रवासी भरल्यार अजाप दिसपाचें न्हय. मागीर कंडक्टराक भितर बसपाक वा उबो रावपाक सुवात कशी उरतली? तो तें कुशीचें दार उक्तें घट धरून उबो रावता तेन्ना 'कूस फुटून उतर आयलें' ह्या कोंकणी वाक्प्रचाराची कोणाकूय याद जावंची. ताका हाची इतली संवय जाल्या की टेंम्पो रितो आसल्यार लेगीत टेंम्पोच्या कंडक्टरान 'टेम्पोची कूस फुटून' भायर हुमकळूंक जाय असो कायदोच जाल्ले वरी दिसता.

टेंम्पो भितल्ली परिस्थिती कितें वर्णुची? पंदरा सोळा लोकांक बसपाची वेवस्था आसता.पूण जांकां बसूंक मेळना, तांकां उबें रावपाची तरी संद मेळूंक जाय न्हय? ना. टेंम्पोत पर्याय दोनः एक बसपाचो ना जाल्यार तकली बागोवन उबो रावपाचो.

सहसा कोणामुखार केन्नाच तकली बागोवंक नकळ आशिल्ल्या गोंयकारांक ह्या टेंम्पोन बरी बुद्द शिकयल्या. Where the mind is without fear and the head is held high हे टागोरांचे कवितेंतलो अर्थ हांगा जुस्त उरफाटो जाल्लो दिसतलो. पावला कणकणी, वोल्तावोल्तार आनी चडटे देंवतेर the mind is constantly under fear and the head is held on the half mast

गच्च भरिल्ल्या टेंम्पोतल्यान वचपाचो प्रसंग म्हजेर येता तेन्ना म्हाका आदले मुस्तींतल्या शाळामास्तरांनी, तेन्नाचे पिळगेक, ओणवी करून मानेर फातर दवरून केल्ले ख्यास्तीची हटकून याद जाता. आयचे पिळगेक, तेन्नाच्या मास्तरांनी तेन्नाचे पिळगेचे मानेर घाल्ले जापसालकेचो प्रत्यय येवंचो अशी ही वेवस्था आनी अवस्था. थोडे लोक मागीर तांतले तातूंत 'तकली बागोंवचे ना' अशें मनांतल्या मनांत म्हणत 'ताता' केल्लेवरी आपणाल्याच खांदार आपणाली तकली दवरतात. आतां 'आपणाल्याच खांदार आपणाली तकली' अशेंय सदां म्हणूं नज. टेम्पोंतले खेटींत खांद आनी तकलीच कित्याक? खंयच्या मनशाचो खंयचो अवयव खंयच्या मनशाच्या कित्याचेर आसत हाचो भरवंसो कोणाच्यान दिवं येता? उपमाच दिवंची जाल्यार दोणांतल्या आंबल्यांची, पाटल्यांतल्या नुस्त्या बाळयांची बी आवतिकाय अशीच म्हणूं येता. मुंबयंतल्या लोकल गाडयांचे, ऑफिस सुटल्या उपरांतचे द्वितीय श्रेणीचे डबे जायते बरे. थंय ताठ मानेन उबो रावन हेरांकडेन झगडूंक तरी मेकळीक आसता. हागां टेम्पोंत तेंय ना. झगडूंक मेळना कारण 'घाईला देखील थोडा वेळ लागतोच' म्हणटात तशें, झगड्या झुजांकूय एक वेळ कारण नासल्यार जाता. पूण थोडीशी तरी सुवात जाय! टेंम्पोंत तर 'वासांत मिसळल्ले वास' आनी नाकातोंडांत घामसाणीचे, तुपसाणीचे, तेलसाणीचे आनी कसले, कसले साबार 'साणी' चे वास घोळपाक तितली सुवात आसता. 'कुणाच्या खांद्यावर कुणाचें ओझे' ह्या न्यायान कोणाचे मांडयेर दुसऱ्याच कोणें हाडिल्ल्या नुस्त्याची पोटली आसूं येता; कोणाच्या बुकाण्याक तिसऱ्याचें दोंपर धोंगशिता जाल्यार चौथ्याच्या बरगड्यांनी पांचव्याच कोणाचो तरी कोंपर रिगला आसुंयेता. हांगां सगले सम पांवड्यार. खरेलो समाजवाद हो. All are equals but some are more equal than others अशें जॉर्ज ओर्वेलाचें Animal Farm सांगता. ओणवे आशिल्ले सगले equals जाल्यार जांकां बसूंक मेळ्ळां ते मातशेशे चड equals, इतलोच फरक. दादल्या-बायलांनी, चले-चलयांनी जाणट्या-नेणट्यांनी लज, भीड बी बाळगुपाचो प्रस्नूच उप्रासना. असल्या गजालींक टेंम्पोत सुवातच ना. तातूंतच मदीं कंडक्टर जुस्त एका वोल्तार 'चुक, चुक' करून सुण्यामाजराक लेखून काडटात तसलो आवाज काडून खंयच्या तरी खांचींतल्यान पैशांखातीर हात फुडें करतलो. आतां आपले अवयव खंयचे हेंच सोदपाची सोय नासता तेन्ना पैश्यां खातीर आपणाले हात आपल्याच कल्सांव-खोमसाच्या बोल्सांत वचपाची खात्री कोणें दिवंची?

टेंम्पोंतल्यान प्रवास करतल्यान देंवतकीर आपणालीं सगळीं हाडां मातशीं तपासून घेवप गरजेचें. हालीं हालीं गोंयां स्पोंडिलायटीस काय कितें म्हणटात तें दुयेंस चड लोकांक जालां असो एक रिपोर्ट आसा. सगळे लोक मानेचो कॉलर पटो वापरिनात म्हणून तें लोकांच्या लक्षांत येवंक ना. हें दुयेंस जावपाचीं कारणां टेंम्पो प्रवास हे

वेगळें सांगूक जाय? म्हजो एक मित्र आसा. ताका सदांच फुडाराचो हुस्को. ताजो सगलो हिशोब पिळग्या पिळग्यांनी आसता. ताच्या मत्तान टेंम्पोंत तकली बागोवची पडिल्ल्यान गोंयकारांच्यो एक-दोन पिळग्यो पांग्यो (कोणाची तरी पांग ह्या अर्थान) जातल्यो असो ताका हुस्को जाता.

लोकांनी गच्च भरिल्ल्या टेंम्पोत फकत प्रवाशांचीच गैरसोय जाता अशें न्हय. ड्रायव्हराच्या सिटा भोंवतणीय तीच गत. एकाच वेळार धा-बारा म्हाल्यांनी एका मनशाचे केंस कापपाक घेवचे, तशे तरेन प्रवासी ड्रायव्हराचे कदेली फाटल्यान उबे आसतात. कांय जाण ताचे भोंवतणी मेळटा तशे, मेळटा ते सुवातेर बशिल्लेय दिसतात. 'गोरा कुंभार मांडीवरी, चोखा जिवा बरोबरी, सांवता माळी हात धरी, फुडें चाले ज्ञानेश्वर, मागें मुक्ताई सुंदर-' अशे तरेचो सो देखावो.

टेंम्पोचे फाटल्यान सामान दवरपाक म्हणून ल्हानशें बॉक्स आसता. थंय सामान नासता. चड करून लोकूच उबे आसतात. गोंयच्या बशींनी बस थांबोवपाक वा सोडपाक विजेचे बुतांव आसतात, पूण ते केन्नाच वाजनात. तांकां हात लायल्यार बेठो खंयसुनूय शॉक बी येत म्हूण खंयचोच भोंवडेकार ताका हात लायना. सरकारी कदंब बशींनी हेर कांय राज्यांतल्या बशींची कॉपी करून दोन दारांपैकीं एक कायम बंद केलां आनी दोरी ओडटकीर वाजपी एक घांट शी आसता. पूण गोंयच्या बशींर ही घांट आसल्यारूय ताका दोरीच नासता. अशा वेळार आमची मल्टिपर्पज वस्त पिल्लूक हीच कंडक्टराक चड उपयोगी पडपी वस्त. हें जालें बशींनी. टेंम्पोक पिल्लूक बिल्लूक कांय लागना. तोंडांत पिल्लूक नासली तरी बहुतेक ड्रायव्हर-कंडक्टराचे जिबेर 'मार पिल्लूक' हें पालुपद आसताच. टेंम्पोंत 'राव रे, वच रे-', हीं आमचे वळखीचीं सिनालां आसतातूच. तीं नासल्यार थापट मारून टेंम्पो आडावप वा सोडप हें शास्त्र वापरतात.

चडश्या गांवांनी टेंम्पो घोळटात. तातुंतले चडशे 'घोळटात' म्हणचे परस चड करून 'मोडटात' अशें म्हळयार जाता. सोमारा सकाळचे हे चड करून मोडिल्ले आसतात. 'काट्याच्या आणीवर वसले तीन गांव' ह्या भारूडांतलो कसो म्हजो चोडण गांव. हांगाच्या टेंम्पोची 'दोन खोटे, एक चालेचिना' अशीच अवस्था खूब फावटीं पळोवंक मेळटा.'

टेंम्पोचें मेजक्याच उतरांनी वर्णन करचें जाल्यार कशें करचें? कोण ताका Tempo (rary) incapacitators, bone breakers म्हणटात. हेर कांय जाणांक mobile mini जालियनवाला बाग सो तो दिसता. हीं जालीं इंग्लीश कातरपी टुरिस्टांनी दिल्लीं कांय नांवां. एकाच उतरांत टेंम्पो प्रवासाचें वर्णन करचें जाल्यार 'घुस्मटमार', 'कुचंबणा', 'कोंडी', हातुंतलें खंयचेंय एक घेयात.

गोंयच्या टेंम्पोचो प्रवास चडसो रोखडो सोंपपी, 'टेंम्पो' रबरी आसता म्हणून माणसुकी, ना जाल्यार कितल्याशाच गोंयकारांची पिराय उणी करपाची वा तांकां 'परमनंट' अपंग करपाचें बळगें ह्या प्रवासांत आसा.

बशींत आयकूंक येतात तशे तरेचे संवाद, तापोवणी, विनवणी, शीण, पिरंगण, तक्रारी आनी झगडीं टेंम्पोंनी आयकूंक मेळटात, बशींत वा टेंम्पोत भितर सरचेपयलीं

मनीस एकेतरेन उलयता. तोच मनीस भितर आयले उपरांन्त दुसरे तरेन उलयता. 'कितें रे बाबा, हांचें भरच ना केन्ना.' 'हांचीं पोटां सदांच गुंड्यार', 'आरे, आनीक कित्याक घेता ते? पुरो आतां.', 'आरे, तेंकां आतां खंय बसयताय, आमचे तकलेर?' 'हो टेंम्पो काय सर्कस रे!'

लोकांची गच्च चिरपूट कसो भरिल्लो टेंम्पो म्हळयार एकचाराचें प्रतीक! खतखत्या वरी तरा तरा नमुन्यांचें तें एक धांवतें कॅप्सूलच म्हळयार जाता. जांकां मुळचीच विनोदबुद्धी आसता, आनी खंयचेय परिस्थितींत जे ती शाबूत दवरतात, तांकां गोंयचो टेंम्पो प्रवास म्हळयार एक मजाच. जांच्या सदांच कपलार मिरयो आनी भोंवयां गांठी, तांकां हें एक दिव्य. म्हज्या नशिबांत, जेन्ना जेन्ना हांव गर्देच्या टेंम्पोंतल्यान खंय वतां, तेन्ना एक तरी फकाणेर मनीस म्हाका हे गर्देत भेट्टा. मदींच ह्या सगल्या फुगासांवांत तो मागीर एकाद्री गजाल, जोक वा खबर सांगता; कोणाचीं फकाणां करता वा शेरो मारता, तेन्ना सगलो शीण सरता आनी मजा येता.

कालचीच गजाल. लोटलेच्यान मडगांवां वचपाक हालोवन धोलोवन घट्ट भरिल्लो आंब्याचो कंडो कसो एक टेंम्पो आमकां घेवन वता. टेंम्पोंत बसपाक सुवात नाशिल्ल्यान एक-दोन कॉलेजींत शिकपी बिरमुट्योय हेरां वांगडा ओणव्यो आशिल्ल्यो. इतल्यांत रायच्या आंब्यार म्हणटात त्या स्टॉपार एक जाणटेलो टेंम्पोंत रिगलो. भितर सरतनाच ताचो बुटाचो पांय म्हाका दिसता एके कॉलेज बिरमुटेच्या पांयार पडलो आनी ती किळांचली : 'ओ, माय गॉड!' त्या जाणटेल्यान सोमतेंच म्हळें. : 'माय गॉड गो? तेशें जाल्यार पाय साकोर! ही तुमगे इंग्लेज भास म्हुणजे सोगलीं ओजापांच. चेडवाक म्हुणटात मिस्, मिसाक म्हुणटात मास, मासाक म्हुणटात मीट आनी मिटाक म्हुणटात सॉल्ट.' मागीर टेंम्पोंतलीं तीं कॉलेजचीं भुरगीं धरून सगलींच घे म्हणून घुस्मटून, घुस्मटून हांसपाक लागलीं. टेंम्पो मडगांवच्या प्रासार केन्ना पावलो तें कळळें लेगीत ना. वाटेर कॅसेटीचेर आल्फ्रेड रोझ इंग्लेज कातरपी अडेच्या गोंयकार इंग्लीशमनांचीं फकाणां मारीत कोंकणीच्यो व्हडविको गायत आशिल्लो.

टेंम्पोच्या प्रावासाचीं दुःखां आतां फाटीं पडलीं काय दिसता. प्रवासी टेंम्पोंचेर बंदी घालपाचें खंय सरकारान थारायलां. एका अर्थान ही बरीच गजाल. प्रवाशांक उबे रावपाक मेळत अश्यो मिनिबशी आतां घोळूंक लागल्यात. पूण ताका लागून गोंयकारांचे मिजाशीचो बावटो मातसो वेळ तरी अर्घार, ओणव्यार हाडूंक शिकोवपी हे टेंम्पो फाटीं पडूंक लागले हाचो मात हुस्को जाता.

☆

## 42

**महाबळेश्वर सैल**

# साकरआंबो

ह्या वाड्या वयल्या लोकांनी थळाची खुटी पुरचे पयलीं कुकमाआंबो लायिल्लो आसूंक जाय. घरआवयची मठी बांदचे पयलीं साकरआंबो लायिल्लो आसूंक जाय. आपल्या वाड्याची शीम थारायतना आनी थिरो पाडटना हांणी दर कोनशा कणकणी आनी दर हद्देर आंब्यारुखाच्यो हारी उब्यो केल्ल्यो आसूंक जाय. ना तर ह्या वाड्यार हो आंबो असो धाय वाठारांनी गडगंज वाडिल्लो दिश्टीक पडचो नाशिल्लो. आंगणांत पारिजात सोबचो तसो आंगणा मेरेन दाणगो-दुणगो हळदी आंबो; आंब्याच्या व्हयलार फुलांच्या सड्यावरी आंगणांत आंब्यांची खातोड.

कसल्या कसल्या जातींचो आनी कसल्या कसल्या रुचींचो म्हण आंबो! मरी बांयकुशीक पोपाये येदो राजांबो, तर सकयले वयेंत उंडीफळा येदो रतनआंबो आशिल्लो. कांय आंबे म्होंवावरी रुचीक, साकरेच्या पाखावरी गोड, तर कांय तोंडांत घालूंक शकचे नात इतले आमूस.

हांगा सुर्या उदेतालो तो आंब्यारुखाच्या अडसरांतल्यान आनी अस्तमतालो तोवय आंब्यारुखाच्या पेल्यान. पूण हाका आमराई अशें मात म्हणूं नज. कारण हे आंब्यारूख पातळिल्ले घरांचे सरभोंवतणी. पंदरा-वीस घरां आनी शें-दोनशें आंब्यारूख. आमराईंतल्या आंब्यावरी जातीचे गिरेस्त आंबेय न्हय. सुंबाळी घोंटां, आमशेलीं भजरां आनी रुचीक म्होंवाची गोली फाटीं पड्टली, असले नाना जातीच्या आंब्यांची जात्राच हांगा भरिल्ली. कांय रूख तरी कांक्र जाल्लेवरी आंगार फक्त बेनुल्ली घेवन उबे आशिल्ले.

हो वाडो, हें थळ, हो घरांबो कितलो आदलो? केन्ना येवन थिराविल्लो? हें, काय आंब्यारुखाचे पिराये वयल्यान जुस्त सोदून काडूंक येताशिल्ले. ह्या थळाचो अखबो इतिहास ह्या आंब्यारुखाच्या संशोधना वयल्यान सोदून काडूंक येतालो. हातूंत एक मुळांबो म्हण आशिल्लो. हो आंबो वाड्यावयल्या सगळया लोकांचे मालकीचो, वट राशीवयलो. हाजेवयल्यान एक सांगूं येतालें, हो आंबो ह्या घरांब्याच्या मूळ पुरुशान लायिल्लो आसूंक जाय.

खांदयेक खांदी तेकताली इतले आंब्यारुख लायले ह्या लोकांनी. पूण एक कवाथो हांणी रोयलो ना. एक केळ लायली ना. देवपूजेक एक फूल हांगा मेळनाशिल्लें. उमास-पुनवेक भटाक दिवंक एक नाल्ल हांचेसरीं उरनाशिल्लो. गोंयां वचून हां हां

करून नाल्लां-साक माथ्यार मारून घेवन येताले हे लोक. देवाल्या माथ्यार उडोवंक एक फूल जाय जाल्यार सुदिरालीं, कोमरपंतांलीं आंगणां, भितोड, भोंवन फुलां हाड्टाले. श्राद्धाक, म्हाळाक, जेवणकाराक वाडूंक केळीचें पान जाय जाल्यार हे वाणयाल्या बागांत वचून विनवणी करताले. पूण खंयूय तिठ्यार, बांदार, मेरेर आंब्याचो रोंप दिसल्यार मात तो जुस्त हुमटून हाडून वंयंत आंगणा मेरेर लायताले. पिशेच न्हय?

म्हज्या भुरगेपणाक, सुमार चाळीस वर्साफाटीं, आंब्याची ही अजापाची गिरेस्तकाय उबी आशिल्ली. म्हाका जुस्त याद आसा, गांवाच्या म्हालआकाड्याच्या दोनय कुशीक दोन रुख आशिल्ले. एक भजर आनी दुसरी फतय. भजर नावावरीच आमूस भजर. मुड्यामुड्यांनी हाका आंबें येताले. पिकलो की देठाकडल्यान तांबडो तांबडो जातालो. खावं असो, खावं असो दिसतालो. पूण पिकून सकयल पडल्यार तो तोंडांत धरूंक जायना इतलो आमूस लागतालो. गोरवां लेगीत ताका तोंड लायनाशिल्लीं. आमूस आनी वयल्यान सुंबाडो. रंग आनी परमळ मात बेस बरो. म्हाका दिस, हाका भजर म्हणचे परस फटकिरो म्हण नांव दवरुंक फाव आशिल्लें.

फतय बावडी मात सामक्की पिशेकान्न. तिका पळयलें की ती म्हाका धा-बारा पोरांची आवय कशी दिस. ताचें मूळ भोव रुंद पूण मोटवें. मुळार खूब धोंगांपोंगां आशिल्लीं आनी अख्खो रूख भुंयचे वयर वांव भराचेरच पातळिल्लो. एक ल्हान भुरगो लेगीत ताचेर चडून सगळो रूख भोंवन येवंक तांकतालो. वयल्यान भुरगीं ताचे फांदयेचो झोपाळो कसो उपेग करतालीं, आनी धोल धोल धोलतालीं. ताका, पोशांत मावचे नात येदे व्हडले आंबे येताले. पिकून सकयल पडलो की देठाकडच्यान तो हमखास फुट्टालो आनी रोस गळूंक लागतालो. आंबो भोव सुंबाळो, पूण रुचीक बरो. मायतोभर पार आनी सुंब चोखीत बसलो तरी रुच सरनाशिल्ली.

म्हारवा आंबो वाड्याचे सामके कुशीक आशिल्लो आनी तो राकेस कसो वाडिल्लो. ताचीं पानां काळींच आनी तीं भोव दाटयेन फुटिल्लीं. दिसाचो लेगीत ताच्या खांदयांनी, ताळयांनी काळोख रिगिल्लो आसतालो. सामक्के गोल गरगरीत कांड, दोन पुरुस वयर गेले उपरांत हात कशे दोन आडव्यो खांदयो फुटिल्ल्यो. उपरांत कोड आनी मातशें वयर गेल्ले आनी मगेर वयर तकलेचें तें प्रचंड शिखर. आंबो पिकून पडलो की पयलीं तातुंतल्ल्यान खूबसो दीक व्हावंक लागतालो. हो दीक आंगाक लागल्यार रूं जावंकच जाय. पूण आंब्याची चव मात ओडलायणी. एक जगा भायली खेरीतच रूच! जाणटेले सांगताले, पिकोवन हे आंबे चड खाल्यार सोऱ्यावरी घुंवळ लेगीत येता म्हण. ह्या रुखाविशीं आनीक एक वदंताय जाणटेले सांगताले. खंयचे तरी पिळगेंतली एक सून, कोंब्या-सादा पयलींच उठून, हातांत वल्ली घेवन त्या रुखा पोंदाक आंबे पुंजावंक गेली. आंबे पुंजायतना तिका सुनशा लागली, आनीक कोण्णतरी ताचे फाटल्यान आबे पुंजायता. ती बागवली की तोवय बागवता, ती उबी रावली की तोवय उबो रावता. तिणे जाप केल्यार जापच ना. फक्कत चाळ वाजिल्ल्याचो, हातांतलीं कांकणां किणकिण जाल्लो आवाज येता. फक्कत काळी काळी एक आकृती आनी खणक्खणक् आवाज. तिणें परती जाप केली आनी फाटीं वळोन पळयल्यार

ती नाच जाली. सुनेची भियेवन गुळी. दुसऱ्या दिसा तिका हुडहुडी भरून जोर! !

सुको गुडगुड-आंबो, बर्म्याचे गुडये शेजाराकच उबो आशिल्लो. हो आंबो पिकलो की हाची पार भितर गुडगुड वाजूंक लागताली. पोरांक हो आंबो मेळ्ळो, की एक खेळणें मेळिल्ल्याचो आनंद जातालो. पयलीं ते तो आंबो वाजोवन वाजोवन खेळटालीं, मगेर हो सुको आंबो बरकयेचो गरो खाल्लेवरी खाताले.

परमळ आंबो, सोबेचें झाड कसो जुस्ताजुस्त वाडिल्लो. मोटवोच आनि आकारान सोबीत सत्री फुलयिल्लेवरी. दर मोसमांत आंगार फुलां फुलिल्लेवरी हाका दर ताळयेर एकेक आंबो येतालो. मुठीयेदो, मातशी चोंच आशिल्लो सोबीत आंबो. हो पिकलो की पिंजर मारिल्लेवरी तांबडो तांबडो जातालो. हो पिकलो मागीर ताका भोव बरो परमळ सुट्टालो. आंबे पिकूंक लागले की आजूबाजूचो वाठार परमळान भरून वतालो.

कातले-आंबो, नांवावरीच भितर धवोधवो कातली कसो. हरवो लेगीत कातलेवरी तोंड आमट करी नासतना बेस बरो चाबून खावंक येतालो. पिकतकीर हाची रूच देवदुर्लभच अशी म्हणूं येताली. आयज कातले-आंबो ना. ताचे रुचीक सर करपी हेर खंयचोय आंबो संवसारांत आसत अशें म्हाका दिसना. ताचो उगडास जाल्यार म्हाका सदांच एक खंत भोगता. सैमाचें एक भोव मोलाचें देणें आमी वगडायलें!

ह्या वाड्या वयले हे लोक तशे झगडमुळेच आशिल्लें. एके तणा-काडयेचें निमित करून झगडटाले. शिरेकडेन, मेरेकडेन घाल्लो हट्टी फातर हुमटावन नाच करताले. आनी मगेर हमरी तुमरी करुन झगडटाले. पूण एक अजाप दिसतालें, तांचे शिरेंतल्या आंब्यारुखाच्या आंब्याचेर ते हक्क सांगिनासले. फक्कत मुळाचेर तांचे पुरायेन हक्क, फळाचेर न्हय. कोण केन्ना रुखार चडून आंबे काडिनासले. आंबे पिकतकीर ते झाडा-मुळाक पडटाले आनी मगेर ते मेळत तांणी पुंजावन व्हरचे. मुळांत आंब्याची खातोड आनी पुंजावंक भुरग्यांची लूट. वयल्यान म्हणप, "पोरांतांरांल्या आंवड्याक आंबो फुलता."

माजोळें गांवचो हो शेजेबाग वांटो तसो माणकुलोच, पूण सोबीत. एक घराब्याचीं वीसपंचवीस घरां. एकाच रुखाक खांद्यो - ताळयो फुटून रूख पसरचो तसो हो पसरला. ताचेर आंब्या रुखाची पाखरण. चोंय बाजूंनी इतले दाटायेन आंब्यारुख आशिल्ले की वाड्यार रिगले बगर हांगा घरां आसात, हें कळच नाशिल्लें. आंब्याचो मोसम सुरू जालो की कुळारच्यो धुवो, मामाले भाचे, आज्याले नातू, भोव ओडीन धांवन येताले. म्हयनो दोन म्हयने वाडो सामको गजबजिल्लो उरतालो. धुवो परत्यो वतना अठरा पगड जातींचे आंबे पोटली बांदून घोवाघरा व्हरताल्यो. ते भायर सोलां आनी साठ. लग्न जाल्ल्यो धुवो कुळारा पावल्यो की रुखावयले आंबे पळोवन सामक्यो भुरकुट्टाल्यो. मगेर ल्हान भुरग्यावरी म्हयनोभर रुखामुळांनी हेडत रावताल्यो.

माकडांचें भिरे दर वर्साक मांतुंकेक आयिल्लेवरी येवन, म्हयनोबर रावन वताले. कितलेय आडय, कितलेय धांवडाय, ते एका रुखावयल्यान दुसऱ्या रुखार उडक्यो मारीत आपालिपांचो खेळ खेळटाले. उडक्यो घेवंक रूख तर एकामेकांक सामके खेटून. म्हयनोभर रावले की सगळे माकड शाण्यांवरी परते वताले. चानयांची पसवण मात रुखारुखांनी घर करून आशिल्ली. दनपरां पोरांचें पोवें रुखारुखांनी भोंवंक लागलें

की तांचें लक्ष आसतालें चानयांचेर. चानी जे फांदयेर गेल्या ते फांदये पोंदाक भुरगीं एकठांय जातालीं. बरो पिकिल्लो आंबो चानयेन हात लायलो की डुबुकू करून पडटालो, मगेर दुसरो आंबो, मगेर तिसरो, चानयेन अर्दकुटो खावन हुडयिल्ल्या चानकोतराची तर भुरग्यांक चडच अपुरबाय. दुसरो वारो. वारो मातसो व्हावंक लागलो, की ताळयां खांदयांनी आंबे ढुब्ब, ढुब्ब पडूंक लागताले. पोरां आड्डतालीं.

"श्यो रे कोंब्या श्यो, यो रे वाऱ्या रो,
साकर आंब्यार आंबो पिकला ताका धोलय ल्हव"

गोळारुखाक पयलीं झरीआंबो म्हणटाले खंय. हरी-आजो एक फावट सांगतालो, आंबो कापलो की भितल्लो गर झरीवरी सुतासुतांचो आनी हळडुवोच दिसतालो. हो आंबो उबो वाडिल्लो खरो, पूण ताची एक खांदी भुंयेक वेंगावंक आयिल्लेवरी सकयक आयिल्ली. एक दीस एक पिसो भिकारी अचकीत गांवांत खंयच्यान तरी आयलो. तो दीस भर भीक मागतालो आनी रातचो झरी-आंब्या पोंदाक वचून न्हिदतालो. तो रूख वाड्या कुशीक एका बांदार एकमुळोच उबो आशिल्लो. आनी भुंयेचेर रापवे धरिल्लेवरी ताची शीतळ सांवळी पडटाली. त्या वर्सा ताका खोंटल्यांनी आंबो आयलो. मुड्या येदो एकेक घोंस. आंबे जून जावन पिकूंक लागले आनी पिसो भिकारी सामकोच भुल्लुसलो. राखणदार कसो रुखाक फेरयो मारतालो आनी नदर वयर आंब्यार लावन पडून रावतालो. ताणें भीक मागूंक वचचेंय सोडलें. पिके आंबे खातालो आनी ताचो रोस तसोच तोंडार लेपडावन घेवन बसून रावतालो. आंब्याचो मोसम आयलो आनी गेलो. आतां आंब्यारुखाची सामकी आवतिकाय! भिकारीय थतरवितर. ताचीं पिशेपणां वाडलीं. तो सामको संवसारा भायरो- शुन्यांत. एक दीस अचकीत ताणें झरीआंब्याचे खांदयेक गोळोव दिलो. तेन्ना सावन झरीआंब्याचो गोळारुख जालो. मगेर केन्नाच ताका त्या वर्सावरी पिशें लागिल्लेवरी मुड्यांनी आंबे येवंक नात.

किडांब्याचो एक आंबो शाबूत मेळनाशिल्लो. पिकूंक तेकलो की ताका कीड बादताली आनी काय बरो मासाळ आंबो कुसून झडटालो. लोक म्हणटाले, ह्या आंब्या रुखा मुळांत भांगरा दुडवांचें तपलें पुरून दवरिल्लें आसा. तें उस्तून काडले बगर झाडाक बरें मूळ येवचें ना. अशीं वर्सां गेलीं. दर वर्सा किडांब्याचें मूळ किडिल्ल्या आंब्यांनी भरतालें. एक दीस सकाळीं उठून पळय जाल्यार राती भितर कोणें तरी ताचें मूळ खोल मेरेन उस्तून दवरलां. कोणाक तें तपलें मेळ्ळें काय नकळ. त्या दिसांनी कोणय राती भितर गिरेस्त जावन भोंवपीय दिस्टी पडलो ना. रूख पुंडीले शिरेंत आशिल्लो. ताणें बऱ्यो गाळयो घाल्यो आनी मूळ आसा तशेंच परतें पुरयलें. पुरयतना ताणें एक शाणेपण केलें. वर्सभराचो एकठांय केल्लो धा-बारा बुटी गोबोर मुळांत घालून वयल्यान माती घाली. आनी अजाप म्हळयार तेन्ना सावन एक आंब्याक कीड बादूंक ना. कितेंय आसूं, आंब्याचो उद्धार जालो.

थोंट्या शाबूक भुरगीं आंब्याआजो म्हणटालीं. शाबूल्या आंगणा मेरेर एक नागेली आंबो म्हण आशिल्लो. आतां म्हातारआंबोय म्हणटाले. पयलीं ताचेर नागवेल आशिल्ली म्हण नागेलीआंबो. आनी आतां म्हातारो जाला म्हण म्हातारआंबो. तो म्हातारो जालो खरो, पूण म्हातारें हाड चिवट म्हणटात तशे ताका दर वर्साक घोंसांनी आंबे येताले.

पुरुसभर वयर कांड गेले उपरान्त ताका खांदयांचे दोन फांटे फुटिल्ले. पूण एक हात कातरून उडोंवचो तशी ताची फांदी कोणें केन्ना तरी मारून उडयिल्ली. एकच खांदी उरिल्ली आनी ती वांकडी वांकडी जावन शाबूल्या आंगणांतल्यान घरार पाविल्ली. ताका खाड येवचें तशी एक खेरीज जातीची बेनुल्ली आयिल्ली. ती अख्ख्या रुखाक वेटळावन आशिल्ली. थोटो शाबू घरांत एकटोच रावतालो. आंबे पिकूंक लागले की आंबे ताच्या आंगणांतच पडटाले. तो सक्काळीं उठून थोंटत थोंटत येवन सगळे आंबे एकठांय करतालो आनी ते वासरेर एके हारीन मांडून दवरतालो. वाड्या वयलीं पोरांतारां आयलीं की तांकां एकेक काडून दितालो. मगेर वर्सभर पोरां आंब्याआज्याचें आयकतालीं. ताणें कितेंय काम सांगल्यार ना म्हणिनासतना करतालीं.

हो सगळो सैमसंभार बेकशस्त वाडिल्लो खरो, पूण तातूंतय एक सैमीक शिस्त आसूंक जाय. फुलुआंबो सगळयांत पयलीं चंवरतालो. ताचो सुरबूस परमळ पातळटालो आनी तो सुलूस दितालो, आंब्याचो मोसम आतां येता. फुलांआंबो जितलो बरो चंवरुन ताका तोरां धरतालीं, तितलोच बरो त्या वर्साचो मोसम म्हण समजुंचो. फुलांआंबो जसो पयलीं येतालो, तसो आशाढआंबो सगळयांत शेवटाक येतालो. सैरुआज्याक, एकाद्र्या वर्साक आशाढी एकादशेक तो आंबो मेळळो ना तर ताका आपलें एकादशेचें व्रत फुकट गेलें अशें दिसतालें. आशाढ आंब्याची कात दाट, कितलोय पावस रकलो तरी तो कुसनाशिल्लो. मोसमांत कितलीय आंब्याची खातड जाली तरीय ह्या आंब्याची अपुरबायच चड.

वायंगण आंबो कार्तिकांत चंवरतालो आनी ताका तोरां धरतालीं. पूण ह्या आंब्याक कोणच पाचार नासलो. ताचें कोणाक कवतुकच ना. एक दीस सीताआवय त्या आंब्यासरीं उबी रावन म्हणटाली, ''पाडपडिल्ले आमलेक वेळकाळच ना. आंकवारपणांतच गुरवचार घेवन बसल्या''. हांव तटास! ...

फक्कत चाळीस वर्सांफाटीं ही सैमाची गिरेस्तकाय झेतान उबी आशिल्ली. शितळ सांवळेंत वाडो विसाविल्लो. दर मोसमाक पोरांतारां, जाणटे-नेणटे, आंब्यान धादोस जाताले. दर आंब्याची रूच जिबेर घोळयत मुखावयल्या मोसमाची वाट पळयताले. ल्हवुल्हवू ही गिरेस्तकाय, ही आंब्याची संस्कृताय मुळासैत नाच जावंक लागली.

आजून म्हाका सारक्की याद आसा, मळबाक वेंगोंवक पाविल्लो गडगंज साकरआंबो हाणून धरतरेर शेंवटल्लो. शिवरामदाद कस्टमांतल्यान निकतोच निवृत्त जावन आयिल्लो. ताका नळयांचें घर बांदचें आशिल्लें. साकरआंब्याचो आडसर जाता म्हण ताणें तो मारूंक एक दीस मनीस आपयले. ताची आवय काशी-आजी, हांथरुणार पडिल्ले कडल्यान वथरेताली, ''पापयांनो, पूर्वजालें दायज हें अशें मुळासैत मारूं नाकात. स्राप लागतलो.'' साकरआंब्यार घाय पडत गेले तशें तिचें वथरेवप वाडत गेलें. पूण कोणें लक्ष दिलें ना.

साकरआंब्याची सामकी अवतिकायच केली त्या लोकांनीं. कितलो म्होंव-गोड आंबो! कितलीं वर्सां ताणें तो अर्पिलो, कितले लोक धादोस जाले; पूण ताका मर्ण मात भोव वायट आयलें. पयलीं ताणें ताच्यो सगळयो खांदयो मारून ताका विद्रूप केलो. मगेर तुरी मारली आनी दोर घालून मुळासैत सकयल शेंवटिलो. त्या दिसा वाडो इज्ज

पडिल्लेवरी पडिंग कसो दिसूंक लागलो. वाड्याची रयाच गेली. ते मारुन उडयिल्ल्यो खांद्यो-ताळे, तें कांड बरोच काळ तशेंच अस्ताव्यस्त पडिल्लें दिस्टी पडटालें. पूण कितें जालें कोण जाणा, त्या जाग्यार शिवरामदादालें नळयांचें घर कांय उबें जालें ना. आयज थंय एक अर्दकुटी बांदून कोसळिल्ली बुनयाद दिस्टी पडटा.

मगेर एकेक रूख उणो जायत गेलो. कांय रूख घर बांदूंक अडसर जाता म्हूण मारले. कांय जळवाक म्हण, कांय व्हडें करूंक म्हूण, कांय नव्यान कवाथे लावंक म्हूण मारले.

आतां थंय माडांचें जंगल उबें जालां. पंप लावन लोक माड शिंपतात. मदींमदीं दुरगां उबीं करून बांदिल्लीं नळयांचीं, टेर्रसीचीं घरां आसात. ना म्हणूंक खंयखंय मानकुरादाचीं, मुसरादाचीं दोन-चार गार्फां आसात. तांचे आंबे कापून शिरो करून आवयो बशयेंत घालून भुरग्यांक दितात. भुरगींय रुचीन त्यो खातात.

पोरनो कुंकमाआंबो फक्त चुकून एके वंयेंत उरला. पूण ताका आयज कितलींशींच वर्सां जालीं, एक चंवर आयलो ना, एक फळ धरलें ना. फक्त ताचेर बेनुल्ली खांद्या-ताळयांनी मातल्या. म्हाका भोव दिसता, कुंकमाआंबो एक तरी मोसमांत चंवरचो, ताका फळ धरचें. तो पिकून झडिल्लो म्हाका मेळचो. ताचो कुंकूम कसो तांबडो-तांबडो रोस चोखून खावचो, ताची पार खंयच्या तरी तिठ्यार व्हरून पुरची आनी परतो एक वेळ कुंकमाआंबो वयर सरिल्लो म्हाका दिसचो!



43

**शीला कोळंबकार**

# नांवांत कितें आसा?

नांवांत कितें आसा?

खरेंच, नांवांत कितें आसता? नांवा वयल्यान कितें मनशाचो सभाव कळटा? ना. पूण नांव म्हळयार एक विनोदी गजाल.

एक आशिल्लो चलो. ताजे नांव ठणठणपाळ. ताका तागेलें नांव आवडनाशिल्लें. ताणें एक दीस आवयक म्हळें, आवो, म्हाका म्हजें हें नांव आवडना, म्हाका दुसरें कितेंय नांव दवर.'

आवयन म्हळें, 'पुता, तुका जर हें नांव आवडलें ना, जाल्यार तूंच सांग तुका कसलें नांव जाय तें? तूं सुचय. हांव मागीर तें नांव दवरतां तुका. तूं भायर सरून वच. चार चौगांक नांव विचार आनी तांतलें तुका खंयचें आवडटा ते सांग.' ठणठणपाळ भायर सरलो. भोंवतां भोंवतां ताका एक चली दिसली. ती शेणी थापताली. ठणठणपाळान तिका तिगेलें नांव विचारलें. तिणें तिगेलें नांव सागंलें लक्ष्मी. ठणठणपाळान चितलें, हिगेलें नांव लक्ष्मी. लक्ष्मी म्हळयार साक्षात् पैशांची देवता. आनी ही बाबडी शेणी थापता! तो मातसो मुखार गेलो. थंय एक भिकारी आशिल्लो. ताणें त्या भिकाऱ्याक नांव विचारलें. भिकाऱ्यान आपलें नांव सांगलें धनपाल. ताचें नांव आयकून ठणठणपाळ निर्शेलो. ताणें चितलें, आरे देवा! हाचें नांव धनपाल. धनपाल म्हळयार धनाचें रक्षण करपी मनीस. आनी हो मनीस तर भीक मागता!'

तो आनीक मुखार गेलो. थंय एकल्या मनशाचें प्रेत व्हरताले. ठणठणपाळान एकल्याक विचारलें, 'हो मेलो तो कोण?' तांणी सांगलें, तो अमरसिंग. नांव अमरसिंग आनी तो मेल्लो!

ठणठणपाळाक नांवाची आनी उमेद उरली ना. तो तसोच परतून घरा आयलो. आवयन ताका विचारलें, कितें रे पुता, तुका नांव मेळ्ळें? तेन्ना ताणें आवयक सांगलें,

अमरसिंग तो मर गये, भीक मागे धनपाल ।

लक्ष्मी तो गोवऱ्या बेचे, भला बिचारा ठणठणपाळ ।।

आतां ही काणी तुमकां सांगपाची गरज कितें? जाल्यार हांव म्हज्याच नांवाविशीं तुमकां कितें सांगूंक सोदतां. तशें पळोवंक गेल्यार नांव ही वस्त आपली स्वतःची आसता. एकदां नांव दवरलें काय ते चिकटून बसता. आनी हें नांव दवरता आपलो आवय-बापूय. आनी आपूण सोडून तें नांव बाकीचे लोकूच चड वापरतात. वाचप्यांक

खबर आसा म्हजें नांव. नाशिल्ल्यां खातीर सांगतां, म्हजें नांव शीला. पूण म्हजें पाळण्यांतलें नांव वेगळें. म्हजें पाळण्यांतलें नांव गोकूळ. म्हजें नांव गोकूळ, पूण म्हणटात सगळीं शीला. आतां हें गोकूळ नांव म्हाका म्हजे मावळणी वयल्यान दवरिल्लें. म्हजी एक मावळण मेल्ली. ती मेले उपरांत आई बाळांत जावन तिका चली जाली. आई आपल्या कुळारा बाळांत जाल्ली. थंयच तांणी चलयेचो बारसो केलो आनी तिगेलें नांव दवरलें शशिकला. चलयेचें नांव दुसरें दवरिल्लें आयकून म्हजे आज्रेक भयंकर राग आयलो. आनी दुसरे खेप जेन्ना आईक दीस गेले, तेन्ना आज्रेन रागान आईक कुळारा बाळांतपणाक धाडली ना. आनी दुसरी गजाल म्हळयार ते मेल्ले आतेन म्हज्या आज्याच्या सपनांत येवन सांगलें खंय, आपुण येंता म्हूण. तेन्ना आज्रेन म्हजें नांव दवरलें गोकूळ आनी मेल्ल्या मनशाचें नांव घेवं नये म्हूण म्हणपाक नांव दवरलें शीला.

खरें म्हळयार चार पांच वर्साचें हांव जायसर म्हाकाच खबर नाशिल्लें म्हजें नांव गोकूळ म्हूण. शाळेंत वचच्या वेळार म्हाका कळ्ळें, म्हजें नांव गोकूळ म्हूण. पूण आयकून म्हज्या पोटांत 'कुळ्ळ' जालें. जेन्ना म्हज्या भांवडांक म्हजें हें नांव कळ्ळें तेन्ना तींवय बीन म्हाका चाळोवंक लागलीं. शाळेंत कोणा वांगडा झगडीं जालीं काय बाकीचीं भुरगींय बीन म्हाका गोकळया म्हूण म्हणटालीं. केन्नाय कोणूय विचारताले, तुजें हें असलें कसलें नांव बाये जाणट्याचें शें! मागीर तांकां हांव म्हजें दुसरें नांव सांग. शीला नांव काय बरें मगो? गोकूळ नांव कितलें विचित्र! मागीर म्हजें नांव गोकूळ म्हूण सांगपाक म्हाका लज दिसूंक लागली म्हजें शीला नांवूच सगळयांक आवडटालें. गोकूळ नांव कोणाकूच आवडनाशिल्लें. पूण गोकूळ नांव काय बरें, अशें म्हणपी दोग लोक मेळ्ळे. एक गोदुबाय आनी दुसरे रवीन्द्रबाब. (ह्या केळेकारांक केन्ना कितें बरें दिसत सांगू नज.)

जेन्ना हांव बरोवंक लागलें तेन्ना हांवें शिला ह्या नांवान बरोवपाक सुरवात केली. तेन्ना म्हज्या एका नात्यांतल्यान म्हळें, 'आजी- आज्यान दवरिल्ल्या गोकूळ ह्या नांवान तुवें कित्याक बरयलें ना? आजी-आज्याच्या उगडासाक म्हूण तरी तुवें हें नांव बरोवंक जाय आशिल्लें.' हांवें म्हळें, 'आज्यान फकत आपले धुवेलें नांव म्हाका दवरलें. नांवा वांगडा एक भाट बेंस दवरिल्लें जाल्यार घडये तुगेले हे सुचोवणेचो विचार करूं येतालो.'

पयलीं 'शीला' हें नांव हांव 'शिला' अशें बरयतालें. कित्याक, शिला म्हळयार शिळा. फातोर, खडप हें नांव म्हाका फाव आनी सोब सारकें आसा अशें म्हाका दिस. पूण ह्या शिलाचें शीला करचें पडलें. ताचें अशें जालें, आमच्या बाबाचे एक मित्र आशिल्ले. तांचें नांव- श्री. सखाराम हरी अभिषेकी. आमी तांकां तात्या म्हण. तात्या आमकां सगळयांक बरो करी. तांतले तातूंत म्हाका चड बरें करी. कित्याक, तेन्ना हांव कॉलेज मॅगझिनांत बरयतालें म्हूण. म्हजो उल्लेख करतना ते सदांच 'कन्या' असो करी. 'कन्येन हालीं कितें बरयलें? किंवा कन्या आयली ना.' हांव बरयतां म्हूण ते म्हजेर इतले खूश आशिल्ले ती तांगेर जाल्लीं फळां पयलीं ते म्हाका हाडून दितालें. स्वतः वळवय सावन म्हजे खातीर घेवन येताले. एका कॉलेज मॅगझिनांत

म्हजी एक हिंदी कविता आयिल्ली. ती कविता अशी आशिल्लीः

बिखरी हुई अलकें
अधरोंपे मिठी मुसकान
संकुचाती शरमातीसी
आई उषारानी
जिसे देखतेही
न जाने चंचल हवा
क्या बोल उठी चुपकेसे
कि फूल खिलने लगे
पंछी चहकने लगे
सहसा उषाके कपोलोंपे उभरी लाली
पलकें झुक गयीं...
अरे! लेकिन ये क्या?
आंसू क्यों आँक गये फूलोंपर
क्या इसमें छिपा है दर्द
पलमें कुवारपन गँवाने का?...

तात्यांनी म्हजी ही कविता वाचली. तांकां हिंदी कळनाशिल्लें. तांणी म्हाकाच ते कवितेचो अर्थ विचारलो. आतां हे कवितेचो अर्थ हांव हांकां कशें सांगूं? हांवें म्हळें, 'तात्या, आपणेंच बरयल्ल्या कवितांचो अर्थ बरोवप्यांनी केन्नाच सांगूं नये. वाचप्यान आपले कुवती प्रमाण ताचो अर्थ लावपाचो आसता. तेन्ना तुमी दुसऱ्या कोणा कडल्यान तरी ताचो अर्थ समजावन घेयात.' तात्यान बरें म्हळें. म्हाका दिसलें, आपल्याक कळनाशिल्ल्या गजालींचो दुसऱ्या कडल्यान अर्थ बीन विचारून घेवपाचे उपद्व्याप कोण करतलो? पूण तात्यान ते उपद्व्याप केले. इतलें करून ते रावले नात. ते वळवय सावन मुद्दाम पणजे आमगेर आयले. ते कविते वयल्यान म्हजें कवतूक करपाक. तांणी आमगेर म्हाका येवन सांगलें, 'तूं अखंड बरयत राव. तूं अखंड वाचत राव. सुटी पडली काय आमगेर रावपाक यो.' तांचो वळवय पसरो आसा. पसऱ्या फाटल्यान कुळागर. आनी कुळागरांत तांचें घर. 'तूं कुळागरांत फिर. आनी खूब खूब बरय. पूण एक गजाल कर. तुजें नांव शिला अशें बरोवं नाका. तें शीला अशें बरय. सदांच शी दीर्घ बरय. कित्याक, सर्व गुणेने युवता सा शीला' इतलो तेंप म्हाका खबर आशिल्लें, सर्वे गुणा कांचनम् आश्रयन्ते । तात्यान नवे संदर्भ सोदून काडिल्ले. एक दीस तात्या ह्या संवसारांतल्यान उठून गेले. फाटल्यान उरली ती तांची कवतुकांची नदर आनी तांच्यो यादी. तांगेले यादीक लागून हांवें म्हजें नांव शीला अशें बरोवपाक सुरवात केली.

मागीर म्हजें लग्न थारलें. लग्ना उपरांत परतून नांव बदलपाचें. दिसलें, आतां तरी नांवाची विदर्णा जायना जाल्यार पुरो. कित्याक, आतांचे लोक बायलांचीं नांवां सट्‌कन्न बदली नात. पूण लग्नापयलींच म्हज्या भावंडांनी म्हजी मस्करी करूंक सुरवात केली. म्हज्या घोवाचें नांव तुकाराम, तेन्ना भावान म्हळें, 'तुजे नांव जिजाई दवरल्यार

पुरो.' हांवें म्हळें. 'आं. जाता म्हाका तें नांव आनी फुडलींय नांवां आयकात. चलो जालो जाल्यार ताचें नांव अभंग दवरतलें आनी चली जाल्यार ओवी.' म्हजी जाप आयकून परतून म्हजे वाटेक कोण गेले नात.

जेन्ना 'ओली सांज' छापून आयलें तेन्ना ताचेर म्हजें नांव शीला नायक आशिल्लें. हांवें केळेकारांक विचारलें, 'हें कितें? म्हजें नांव शीला नाईक न्ही? हांव सारस्वत न्ही. तुमी नायक कित्याक बरयलें? तेन्ना तांणी सांगलें, तूं बरयता. म्हणजे सरस्वतीचें उपासक. जे सरस्वतीची उपासना करतात, ते सारस्वत!' अशे तरेन 'शीला नाईक' चें हांव 'शीला नायक' जालें.

मीनालें आपलें बरें जालें. मीना लग्ना पयलीं मीना दु. गायतोंडे आशिल्लें. लग्न जातकीच मीना सु. काकोडकार जालें. ताका व्हडले त्रास जाले नात.

लग्न जालें. लग्नांत घोवान म्हजें नांव दवरलें शांतालक्ष्मी. हांवें ताका विचारलें, (थोड्या तेपान) इतलीं सगळीं नांवां सोडून तुवें म्हजें नांव शांतालक्ष्मी शें कित्याक दवरलें? तेन्ना ताणें सांगलें, हांवें शीला शब्दांतलें 'श' घेतलें आनी तुकारामांतलें 'त' घेतलें. ताचे वयल्यान शांता नांव जालें. आनी जण एका दादल्याले जिणेंत तागेली बायल लक्ष्मीच्या रुपांत येता, म्हूण शांताक लक्ष्मी शब्द जोडलो. आयकून म्हजें आयस्क्रीम जालें. आतां मेरेन अष्टलक्ष्मी खबर आशिल्ल्यो. गजान्तलक्ष्मी, धनलक्ष्मी, विजयलक्ष्मी, ऐश्वर्यलक्ष्मी, संतानलक्ष्मी, धान्यलक्ष्मी, वीरालक्ष्मी आनी आदिलक्ष्मी. आतां तातूंत आनीक एके लक्ष्मीची भर पडली, शांतालक्ष्मीची. एकेक खेप म्हाका अजाप दिसता; जर म्हज्या घोवाक म्हजें नांव गोकूळ म्हूण खबर आशिल्लें, तर तो म्हजें नांव गीतालक्ष्मी दवरपाचो काय?

नांवा वयलो सॉलीड एलू.बी.डब्ल्यु. उडयलो तो म्हगेल्या व्हडल्या चल्यान. ताचें नांव विनय. ताणें एक दीस म्हाका विचारलें, 'आई, अप्पाचें नांव तुकाराम न्ही?' हांवें म्हळें 'हय.' 'मागीर तुवें म्हजें नांव विनय कित्याक दवरलें?'

हांवें म्हळें, 'मागीर हांवें तुजें नांव कितें दवरूंक जाय आशिल्लें रे?' ताणें म्हळें, 'म्हाकाराम'.

म्हजे चले म्हाका आई म्हणटात. हांगाच्यो (मुंवयच्यो) थोड्यो बायलो विचारतात, तुवें अन्नाड्यावरी तुगेल्या भुरग्याक आई म्हणपाक कित्याक शिकयलें? ममी म्हणपाक कित्याक शिकयलें ना?

आतां आवयक ममी म्हणात, ना जाल्यावर आई, माँ म्हणात, ना जाल्यार माय म्हणात, बा म्हणात, ना जाल्यार अम्मा म्हणात. आवय ती शेवट आवयूच. आतां कितें, प्रत्येक शब्दाक ताचें स्वतःचे अर्थवलय आसता. तशी एक प्रतिमा बीन आसता. आतां ममी म्हळी काय दोळयांमुखार कसली प्रतिमा येता? ममी म्हळी काय एक बरी सोबीत, बॉबकटवाली, स्लीवलेस ब्लावज घाल्ली, लिपस्टीक लावन डियर, डार्लींग खेरीज उलयनाशिल्ली; आया, बच्चोंको दूध दिया? अशें मंजूळ आवाजान उलोवपी बायलमनीस उबी रावता. आनी हांतलें एकूय qualification म्हजेलागीं ना. आतां अम्मा हो शब्द घेयात. अम्मा म्हळें काय एक बदामी आकाराचो चेहरो दोळयां मुखार येता. जांतले दोळे हेर दोळयां परस मातशे चड्डूच मोटे, तांतल्यान काजळ भायर

ओतून भुंवयांचे रिस्केमेरेन आयिल्लें, कानांत आनी नाकाचे उजवे वटेन हिरे, कुरळ्या केंसांची सैल विणी, तिचेर गुंथून माळिल्लीं फुलां आनी कांजीवरम रुंद देगेची साडी उबी रावना? निदान म्हज्या दोळयां मुखार तरी अशी प्रतिमा उबी रावता. आतां माँ म्हळयार करारी मुखामळाची, धवी साडी न्हेशिल्ली, लांब हाताचो ब्लावज घाल्ली, काळी शाल पांगुरिल्ली, दोळयांर रुपेरी काडयेचें वक्ल आनी केंसांत मातशी हयशी, न्हयशी रुप्याची छटा आशिल्ली बायल मनीस उबी रावना? घडये हो हिंदी सिनेमाचो परिणाम आसत. आतां आई म्हळें काय तातूंत खंयचीय बायल फीट बसता. अमुकूच एक आसूंक जाय अशें ना. म्हजे पुरतें म्हाका दिसता, आयच्या मम्मी आनी डॅडी च्या काळांत आईच नांव बरें. सोपें आनी सादें.

वर्तमानपत्राचे पुरवणेंत भुरग्यांचे फोटोसयत नांवां येतात, तीं वाचूंक म्हाका खुब्ब आवडटा. देखीक, अमिताभ उर्फ रवळू फोंडू गांवकार. आमचो एक सोयरो- तागेलें नांव महाबळेश्वर. आतां येदें व्हडलें नांव घेवन उलो करूंक जड म्हूण महाबळेश्वराचें जालें म्हाबळू. व्हड जातकीर ताका त्या नांवाची लज दिसूंक लागली. तेन्ना ताणें आपलें नांव बदलून मदन करून घेतलें. पूण उरलो म्हाबळूच. हांगा म्हाका थोड्या नांवांचीं याद जाता, जीं हांवें ल्हान आसतना आयकल्लीं. देखीक, सोंसो शिरवयकार, हुंदीर नेवरेकार, शिवा फोटू पै आंग्लो, घोडो, कृष्णा कोलो बीन. केन्ना केन्नाय दिसता, ह्या लोकांक आपल्या नांवाविशीं कितें दिसतालें?

हें जालें नांवाविशीं. आतां आडनांवांविशीं बरयन जाल्यार? पूण नाका, थोडक्यांत गोडी. खेरीज आडनांवाचो वेगळो लेख जावं येता. आडनांवां तीं कशीं आयलीं बीन. पूण निमाणें एक नांव सांगले बगर रावं नज जाता. ते दीस एक देशी दारुचें दुकान कोणें तरी उगतें केलें. ताचें नांव कितें आसचें? ताचें नांव आशिल्लें, 'शांतता दारुचें दुकान.'

(कोंकण टायम्स /दिवाळी अंक, 1985) ☆

## 44

**जयमाला (चोडणेकार) दणायत.**

# केंस - एक फॅशन !

"कॉलेजींत ॲडमिशन मेळोवंक एक मुखेल अट." पेपरावयली ती हेडलायन वाचून म्हाका अजाप जालें आनी ती खबर सविस्तर वाचतकीर तर तें दोब्राद जालें. अट आशिल्ली केंसांची! केंस वाडयल्ल्या भुरग्यांक कॉलेजींत प्रवेश दिवप ना. ही अट तांणी घाल्या मात, घे खंय लागींच्या केंस कापचेल्या दुकानांनी ही गर्दी जाली भुरग्यांची! केंस बारीक करून ॲडमिशन मेळयलेंच तांणी. सगळें खरें, पूण केंस वाडोवचेली फॅशन वता? ती दिशिंमाशीं वाडत आसा. ॲडमिशन मेळोवंक केंस बारीक करून आयिल्ले भुरगे परत केंस वाडय नासतना रावतले अशें म्हाका काय दिसना. कितेंय जावं, ते तांचे अटीक लागून, त्या दिसापुरतें तरी म्हाल्यांक गिरायक फॉर्त जालें!

केंस म्हणजे सोबीतकायेचें मुखेल लक्षण! (अशें पयलीं मानताले) आनी खरेंच तें. केंसांक लागून मनशाची सोबीतकाय वाडटा. सौंदर्यप्रसाधनांत केंसांक मुखेल मान आसाच ! केंसांच्यो तरेतरेच्यो मोदी तर पयलीं सावन चलत आयल्यात. पुराणांतल्या नायिकांचीं वर्णनां तर तांच्या केंसां सावन सुरू जातालीं. केंसांचे मोठेमोठे आंबाडे आनी फातयांचे तरेकतरांचे प्रकार पयली तेपाकच पळोवचेले! शिवाय केंस हें अहेवपणाचें लक्षण! घोव मेल्ल्या बायलांचे केंस काडप आनी तांकां विद्रूप करप हें तर पयलीं आशिल्लेंच! विरहिणीचें वर्णन तर सदांच मेकळे केंस मानेर सोडिल्ली, जावं तीन पोडी फाती घाल्ली अशेंच केल्लें मेळटा. आतांय म्हणून केंसांच्यो हजार 'स्टायली' करतात बायलो. तरेकतरांचे केंसांचे घोंटेर करप म्हळयार हालींची 'हेअर-स्टायल'! "नाका परस मोतीं जड" जाल्ले आंबाडे तर पावला कणकणीं दिश्टी पडटात. हरशीं केंस पळोवशात जाल्यार सामके मेजून चार आसतले! मदीं तर तरेकतरांचे कट फामाद जाल्ले. कोण खंय साधना कट, बॉब कट, फातोर आनी गुणे! चल्यांच्या केंसांचेय भोग भोग जाल्ले - मागो काडिनासतना केंस फाटल्यान परतुवप, खंयची दिलीप कुमार स्टायल आनी देवानंद स्टायल! कोण केंसांचे कोंबे करी, तर कोण केंसांचे फुगे काडी! अशें दिसान दीस केंसांचे स्टायलींत बदल जायत आसात.

हालीं हालीं तर चलयो केंस वाडयच नात. तरेकतरांचे कट करून करून केंस खांदा मेरेन पावल्यार बरे आसात. पयलीं केंसांक कातर लावप म्हणचे पाप समजतालीं.

(आनी त्या तसल्या वातावरणांत वाडिल्ल्या म्हाका म्हज्या केंसांचो खूब अभिमान आशिल्लो. खूब लांब तशेच दाट! इतले की धड म्हाका वळोवंक येना आशिल्ले की माथ्यार न्हावंक जमनासलें; पूण आतां ताचे चौथायेन लेगीत उरले नात. केंसांचो म्हजो अभिमान त्या केंसां बरोबरच गळून पडलो.) आतां केंस वाडोवप म्हणजे पाप समजतात काय नकळों! आनी हालींच्या काळांत केंसाची दाटाय तर साप्प ना जाल्या. आतां नशीब ना, पयलीं भशेन दाट काळयाकुट्ट लांब केंसांच्यो बायलो दिश्टी पडपाक! एक तर मोडवे केंस, तेवय बी चाऽऽर! आनी तांतल्यानय मदिंमदी रुप्याच्यो सरयो कशे धवे धवे (म्हातारपणाचे) बावटे! असल्या ह्या काळांत केंस लांब, दाट, काळे-मुदयाळे हे फक्त काणयो जावं कादंबऱ्यो हातूंत वाचपाक मेळटात तितलेच! जितल्यो तेलाच्यो जायराती वाडत वतात, तितले केंस बावडे कमी जायत आसात- खंयचें शकुंतला, खंयचें रिटा, खंयचें ब्राह्मी, तर खंयचें माका! पूण उजार केल्यार सगळींत घालतात खापां! ते परस पयलींचे लोक उजार करताले तशें शुद्ध खोबरेलच केंसांक पौष्टीक आसता. जाणटी जालीं तरी पयलींच्या बायलांचो होऽऽ आंबाडो येतालो! आतां उरफाटें जायत गेलां.

हालीं तेपाक कोणेंय कितेंय करूं, ती एक फॅशनच जावन पडटा. आनी 'हालीं तीच फॅशन आसा', अशें म्हणून ती नवी फॅशन आपणावपी चले-चलयो पायलेक पंचवीस! सांगपाचो हेतू हो की, हालीं चडशो चलयो केंस कापतात आनी चले केंस वाडयतात! हिप्पी टायप मानेर लोंबकळपी ते केंस पळोवन सामकी ओंकारी येता. सारके वेवस्थीत केंस दवरचे, सोबसारकी फॅशन करची - तें ना! ते खांदामेरेन केंस, तीं भिसां, ते गाले- शीऽऽ जिवाची सामकीच सोबा करून घेतल्या आयच्या तरनाट्यांनी! ताका करून जालां कितें, तर चलयांक केंस कमी, मोडवे आनी पातळ, तर चल्यांक हाचे उरफाटे दाट आनी लांब केंस! तांच्या भेसांनी तर चले-चलयो वळखूंक येनातच, पूण चली खंयची आनी चलो खंयचो हें वेगळें दाखोवंक केंसांचो तरी फरक आसचो! तोवय मार्ग हांणी सामको बंद केला. ताका लागून चले चलयो वळखूंक मोठें कुस्तार!

हाचेर एक 'ज्योक' फामाद आसा. एका खंय नाचाच्या हॉलांत कांय जोडपीं नाच करतालीं (सदां भशेन चले-चलयो वळखूंक येना आशिल्लीं) पळोवंक उब्या राविल्ल्या लोकांपैकीं एक दादलो म्हऱ्यांत राविल्ल्या शेजाऱ्याक म्हणूंक लागलो, "मिस्टर.." ते बरोबर शेजारी गुरकेलो, "नॉनसेन्स, से मादाम..." "ओ, सॉरी. तुमच्या केंसां वयल्यान म्हजो गैरसमज जालो हां; पूण ही ती नाच करता ती तुजीच चली मूं? सुंदर नाचता हां!" ताणें परतून म्हळें, "हय नाचता सुंदर! पूण पिशा, ती म्हजी चली न्हय, तो चलो!" -हय, त्या चल्याचे केंस खांदार पडटाले! तर अशी ही परिस्थिती! आनी म्हाका दिसता, हातूंत अतिताय कांयच ना. कितलेदां बशिल्ले कडेन चले-चलयांचीं फक्त तोंडां पळोवन तो चलो काय चली हें म्हज्यान खात्रिलायक सांगूंक जायना! हें वाचून जवळ जवळ सगळे तरनाटे म्हजेर फर्र जातले हें हांव जाणां. ते म्हणटले, हांव हालींच्या फॅशनींचेर तासतां. पूण तशें न्हय! हांव कोणाचेर टिका करिना. तर सत्यस्थिती सांगतां. मनशान फॅशन करची, पूण आपणाक फाव

तशीच! केंस वाडयल्यार सगळयांच्याच तोंडाक सोबा दितात अशें ना. तर कांय वेळार ते आपलीं खुमणीं विद्रुपय करतात. प्रत्येक फॅशनीकय नेम-नियम आसतातर. तुमी म्हणटलीं - हें बरें! गोरें जायनाका आनी काजळ घालिनाका - असल्यो खबरो जाल्यो ह्यो. पूण हांव तशें म्हणी ना. फॅशन करची, पूण पळयतल्याच्या दोळयांक सुखावपी अशीच! ओगीच पळयतल्याच्या दोळयांचेर नाका जाल्लो अत्त्याचार करचो न्हय. तेन्ना उपकार करून हालींच्या तरनाट्यांनी ''कानार केंस काडिनासतना'' म्हजी सांगणी मनार घेवची!

[परमळ : श्री गणेश विशेषांक, 1974] ☆

## 45

### भरत रघुवीर नायक

# कवी

हांव कवी.
आयज काव्यशिबीर.
म्हाका आमंत्रण.
म्हज्या हातांत कवितेची डायरी.
बसींत उबो. दोन वरांची वाट.

हांव येवजितां- 'खंयची कविता वाचची? आयच्या वातावरणाक लागू पडसारकी म्हजी कविता खंयची?'

एके खारविणीन म्हजेर धोंगसो मारलो -
'हो आनी मोदेला मिस्ता. सोगोट वाट
आडायन उबो राविला! आमकां देंवच्या
नाका? बोसू इकती घेयली मिस्ता!'
'पूर जे मांय. मुनशा कोंतू ना तुका' पांटलो माथ्यार घेयत चेडवान म्हळें.
'तीन फावटीं सांगीलें. कान फुटोल्या मिस्ता. व्होडलो जाल्यारी तेगे घारा!'
दोगांय उलयत गेलीं. बस सुटली.
हांव ओगीच.
एकट्यान म्हाका हात लायलो.
-'कलसांवाक घाटल्याचो दाग लागला.'
दुसऱ्यान हात लायलो,
-'बसपाक जागो आसा.'
हांव बसलों.

एक नुस्तेकान्न म्हाका अशें म्हणटा? मात वालोर ना? येदो व्हड कवी! काव्यशिबिराक हांव कितें फकत कविता वाचूंक वचना, मार्गदर्शक म्हूण वतां. खरें म्हळयार धाकले गाडयेन वचपाचों. तुमचे बरोबर बसीन आयलां म्हूण!

पूण ती नुस्तेकान्न! तिका खंय खबर, हांव कोण कितें म्हूण. ती भोव वाचता आमच्यो कविता! तें चेडूं म्हाका वळखलां जातलें. ना जाल्यार मांयक तशें म्हणचें नासलें.

नुस्तेकान्नीक खऱ्यानीच कोणाचें कोंत ना? कित्याक? व्हड व्हड मनीस आपल्या

पांयाकडेन येवन नुस्तें मागतात म्हूण? आपल्या नुस्त्याबगर लोकांक जेवण रूचना म्हूण? इतली मिजास तिका?

हांव नुस्तेकान्न जालों.

'हांव वळखतां तुका. तूं कवी. कविता करता. मासिकांक दिता आनी दुडू घेता. पूण सांग रे! आमकां तुजी कसली गरज? पळय, समाजांत खूप तरेचे लोक आसात. आपआपलें काम करतात, दुडू घेतात. पूण ह्या सगळयांचो समाजाक फायदो आसा. दर एकाचो कसलो ना कसलो तरी उपेग जाताच. तुजो कितें उपेग? शेतकार शेत पिकयता, लोकांक तांदूळ-गोटो दिता. गंवडो घर बांदता, लोकांक आलाशिरो मेळटा. भंगी पसून समाजांतली घाण पयस करपाक वावुरता! तूं कितें करता? तुजो ह्या समाजाक फायदो कितें?'

खीण भर हांव येवजूंक पडलों. म्हजो ह्या समाजाक कांयच उपगे ना? मागीर म्हाका लोक मानतात कित्याक? म्हज्यो कविता आयकूंक झुंड्यो कित्याक करतात? काव्यशास्त्राचेर भाशणां दिवपाक म्हाका कित्याक आपयतात? म्हजें मार्गदर्शन कित्याक घेतात? म्हाका मानधन दितात तो कसलो मोबदलो म्हूण?

हांव फाटीं गेलों. खूप फाटीं आनी खूप पयस. अरबस्तानांत म्हजें नांव मेमोन बीन कैस. हांव कुड्डों, देखून लोक म्हाका 'ऐशा' म्हणटाले. त्या काळचो हांव नांवाजतो कवी. हांवें जाची तुस्त केली, ताका समाजांत व्हडवीक मेळ्ळी. हांवें जाची टिका केली, समाजान ताचो दुस्वास केलो. महम्मद पैगंबराची म्हज्या काव्यांत हांवें तुस्त केली.

एके बायलेक खूप धुवो आसल्यो. सगळयो व्हंकलो. एकटेचेंय लग्न जुळनासलें. हांवें मनार घेतलें. तांच्या गुणांची आनी सुंदरतायेचीं गितां हांवें म्हज्या काव्यांत रचलीं. तिच्या घराब्याक व्हडपण मेळोवन दिलें. आनी गिरेस्तांल्या न्हवऱ्यांनी तांकां मागण्यो घालून व्हेल्यो. वयल्यान व्हंकलेचे आवयक दुडू दिले. प्रत्येक धुवेच्या लग्ना वेळार ती म्हाका भेट म्हूण एक ऊंट धाडून दिताली.

आजय एक बायल म्हाका विचारता, म्हजो समाजाक उपेग कितें?

हांव आनीक फाटीं गेलों. ग्रीस देशांत. 'सालिमस' जुंव्या खातीर झूज चलिल्लें. अथेन्स परतून परतून हरतालें. निमाणें ताणें झुजाचो विचारूच काडून उडयलो. कोणेंच झुजाचें नांव लेगीत घेतल्यार फांशीची ख्यास्त दिवपाचें थारायलें.

अशा वेळार हांव 'सोलन'. बरो जुवेज. हार खावन ओगी बशिल्ले म्हाका सोसलें ना. हांवें कविता रचल्यो. पिशाचें सवंग घेतलें. पिंजकरीं आंगाचीं घालून तिट्यार उबो रावलों. म्हाका पळोवंक लोक एकठावलो. तांकां दिसलें, म्हाका खऱ्यानीच पिशें लागलां. मागीर हांव गावंक लागलों. काळजाक हात घालपी कवनां. म्हज्या त्या गितांचो लोकांचेर इतलो प्रभाव पडलो की कोनशाक पडिल्ल्या शस्त्रांक परतीय धार आयली. सगळे तुटून पडले, आनी हातसून गेल्लो जुंवो परत मेळयलो.

आयज ही नुस्तेकान्न....

उपरांत हांव संवसारभर भोंवलों. कवितेच्या बळग्यार कितलेशेच प्रस्न सोडयले.

1812 वर्सा हांव 'बायरन' जालों. 'चायल्ड हेरल्डस् पिलग्रीमेज' बरोवन फ्रान्सइंग्लंड

आनी रशिया हांची मदत मेळयली आनी तुर्कांक ग्रीस देशांतल्यान धांवडावन घाले.

महम्मद पैगंबर जावन कुराण रचलें. वाल्मिकी, कालिदास, टागोर, बाकीबाब सगळे म्हज्या आंगांत रिगले.

हांव कितें करूंक शकना? काव्याचीं पाखां लावन हांव भूतकाळांत आनी भविष्यकाळांत उडून वचूंक शकतां. तुमचेर उतरांचो जादू करूंक शकतां.

हांव समाज घडोवंक शकतां. राजकारण बदलूंक शकतां. भिकाऱ्याक राजा करूंक शकतां, राजाक भिकारी करूंक शकतां, हांव भूंय पेटोवंक शकतां, हांव उजो थंडावं शकतां. कारण म्हजी सत्ता तुमच्या अन्तस्कर्णाचेर चलता.'

''म्हाका तुमची वागणूक आवडली.''

कुशीक बशिल्ल्या जाणटेल्यान म्हज्या कानाकडेन आवाज केलो.

'तुमचो इतलो अपमान जालो, तरी तुमी शांत. गळयांत माळ घाल्लो, एका पुस्तकाचेर तुमचो फोटू आसा. तशेच तुमी वागले- मनाचेर ताबो दवरून.'

'हांव मुमुरखोच हांसलों.

'तुमी खंय वतात' हांवें विचारलें.

तुमच्यो कविता आयकूंक. तुमचें मार्गदर्शन मेळोवंक. तुमचें काव्यमय उलोवप आयकूंक. तुमच्यो कविता हांव वाचतां. म्हाका आवडटात. तुमचीं मनकवनां हांवें खूब फावटीं वाचल्यांत. मनाचो थाव घेवपी कवनां.

'तुमीय कविता करतात?'- हांवें विचारलें.

'ना. पूण म्हाका कविता पचोवंक आवडटा. कवनां तकलेंच घोळोवंक आवडटा. घरच्या कटकटींनी, धंद्याच्या वेव्हारांनी मन केन्नाय धुमशेण कांडटा. तेन्ना तांकां शांत करपाक हांव तुमचें तें पुस्तक वाचतां. तुमी कवी म्हळयार खरेले समाजाचे दोतोर.'

'अंतस्कर्णाचे दोतोर' - हांवें म्हळें.

(कोंकणी टायम्स, दिवाळी, 1985) ☆


211

# 46

सिरील जी. सिक्वेरा

## मंगळूरच्या कोंकणी समाजांतलीं क्रिस्तांव काजारां.

"सोड सोड न्हेसाण व्होंकले आंक्वारपणालें,
आज जालें सासाण तुका सिकेरिंगेलें ——————"
आनी आतां धोवी साडी काडून तांबडो साडो

व्हंकलेक न्हेसोवंक आयतीं जालीं बायलां. वोंवियो म्हण्तानायी तांचे मधें कचाट आमच्या सिटी बसांवरी. देराक, नंण्डेक, जावेक, मांय-मांवाक, भावाक आनी भावजेक वोत्तु दिवून वोंवियोच वोंवियो.

साडो न्हेसयलो, व्हंकलेची बाजू टायट म्हण शिंवणेगाराकयी गाळी दिल्यो.

"ए व्हंकलेगेल्या येजमान्या - - - - - - - - - - - - -"
न्हवऱ्यागेलो मिस्यांगार येजमानी, मैक नास्तां बोबाटलो.
व्हंकलेगेलो येजमानी चाप्पे जाल्लो आमल नासल्ल्या सोऱ्यावरी.
"तूं काळजाच्या गोंड्या म्हज्या" म्हण

ऑपसून दिताना व्हंकल हुस्कारत मस्त रडली. जावंयेत, तिणें मोगाचें घर सांडून वेताना तिका कठीण दुःख भोगलें जावंयेत, तिच्या दुबळया आवय-बापायन रीण काडून तिका काजार करन दिलें. तिच्या रडण्यांत खंयचेंय एक कारण आसोंक जाय.

न्हवऱ्यागेलो येजमानी हाताक "राडो" वाच बांदून रेड्यापरीं सुंयफून माटवांत हेणे-तेणे पासयो मारताना व्हंकलेगेलो येजमानी मात्यार बेजारायेचो मुडो व्हांवोवन, खंतीचो गुडो जावन, कोनश्याक एका बसोन आसता. मनशापण होगडायल्ल्या वरी ताचें तोंड चिवळोन आसता; मिटाक घाल्ल्या आंबाड्यावरी.

चेडो एक, चेडवां साडेसात.

"किर्तीक एक चेडो, आरतीक एक चेडूं" आसल्यार दुबळया घरांत संतोस आसता, समाधानयी आसता. जोड उणी, मोड चड जाल्यार दुर्बळकायेचो देंवचार असमादानाचें बीं वोंपता. डजनभर भुरगीं आसोन तांचे पयकीं चेडवांच चड आसल्यार, त्या वडिलांनी जीव आसोन मेल्लेवरीच.

ह्या काळाक चेडवांची संतत इतली वाडल्या की दर एका चेड्या फाटल्यान साडेसात चेडवांची लायन आसा म्हणतात थोडे. कुडि-अत्म्यानी फुलोन काजाराक आयतीं जाल्ल्या तर्नाट्या चेडवां मधेंय साबार वर्ग आसात.

**1. अशिक्पी चेडवां : -** तांक नासल्ल्या आवय-बापायल्यो निराधारी धुवो. दुसरी

- तिसरी शिकोन, इस्कोल सोड्न, गुड्यार शेण विंचून, गाद्यांत घोळोन वा बिडी बांदून न्हवऱ्याची वाट पळयतात.

**2. शिक्पी चलियो :-** एस. एस. एल. सी. वा पि. यु. सी. जातच थोड्यो स्वाभिमानी चलियो, पोसून ल्हान-व्हड केल्ल्या आवय-बापायक वोजें जायनाये, तांणी कष्टांनी शिक्प दिल्ल्यांक कांय पुणी जोडून घालिजाय म्हळया उद्देशान शॉर्टहॅंड टायपींग शिकोन, ऑफिसांनी वा इस्कोलांनी काम करन, दोती खातीर थोडें तरी पुंजावची आसात.

**3. टीचरां :-** टी. सी. एच. ट्रेनींग जाल्लीं टीचरां काम मेळत तर दोळे धांपून जोडतात. फाटल्या ल्हान भांवडांचें बरें फालें जाता म्हणसर, तीं आंक्वार रावोंकयी तयार. काजार सवकासायेन जावंयेत, न्हवरे मेळता म्हणसर इस्कोलांतच लोळया म्हणचीं टीचरां आंक्वारपणाचो कुरोव घेवन जीणिभर काजार जायनास्तां उरिल्लींय आसात.

**4. नरसां :-** आर्विल्ल्या वरसांनी नरसांक भारी डिमांड. गल्फगार न्हवरो रजेर गांवाक देंवत तर, पयलें पसंद करता नर्स चेडवाक. हाका कारणय आसा. गल्फांत सरकारी अस्पत्रेंत भारतीय नर्सांक कामाचो आवकास आसा. शिवाय हातभर सांबाळ म्हणताना न्हवरोय खुशी, व्हंकलय खुशी आनी कुटुंबाचीं धादोशी.

**5. ग्राज्युयेट चलियो :-** कॉलेजीचें शिकप सोंपोवन डिग्री हातीं घेतल्ल्यो चलियो बॅंकांक वा हेर उंचल्या कामांक अर्ज्यो घालतच बसतात. सांगाता न्हवऱ्याची वाटय पळेतात. ह्या चलियांक ल्हान मट्टाचि न्हवरे दोळयांक दिसनात. गल्फांतल्या वा हेर बऱ्या हुद्द्यार आसच्या न्हवऱ्यांक मात्र तीं दोळे उक्लून पळेतात.

**6. निराधारी चलियो :-** चल्यांक आकर्सुचे तसली सोभाय नासल्ल्यो, विशेश कसलींय देणीं नासल्ल्यो, त्या शिवाय दोत-देणें दिवंक तांक नासल्ल्यो चलियो, बिरमोत घरा भितर बसोन दुखां गळैतात.

नमस्कार तुका न्हवऱ्या बाबा!

सामान्य घरांत आमच्या समाजांत न्हवऱ्याचे वर्ग दोन.

1. पयलो, गांवांत कसलें तरी ल्हान काम करन आसता. ल्हानशी जिनसाची वा आंगड वा हॉटेल कुमेरिचें काम करन आसता. काम नासल्लो मात्र दीस भर गांव भोवोन, चेडवांच्यो खबरो उलयित्त, खोडी काडीत "आपूण आनिकी तर्नो, इतले वेगीं काजार कित्याक? आवसोर ना हाबा, सवकास पळेयां" म्हण सोयरिको सोदून वेळ विभाडचे आळशी येरू-दुम. तांची जोड बोव उणी वा जोड नासल्ल्यान आधुनिक रिति-रिवाजींक वेंगायल्लीं सुसंस्कृत शिकपी चेडवां तांकां ससारायेन मेळानांत. मेळयारयी ती ताच्या आवय-बापायक वा भाव-भयणींक वर्गानांत.

2. दुसऱ्या वर्गाचे न्हवरे कामा खातीर गांव सोडून गेल्ले. ते परगांवांनी शिपडोन आसतात. आदीं बोंबय तसल्या शहरांनी कामाक आसल्ल्या चल्यांक चडावत आवय-बापूय आपल्या धुवांक दोळे धांपून दितालीं. ह्या काळाक बोंबैकाराचें नशीब वांकडें घुंवलां. चलियांचें आनी तांच्या आवय बापायचें मन गल्फाच्या न्हवऱ्यां कुशीन धांवलां.

**बोंबैकार न्हवरो :**

आदीं बोंबैकार न्हवऱ्याक मान व्हड आसल्लो. आनी आतां बोंबैकार न्हवऱ्याचो मानयि ल्हान जावन आयला. बोंबय तसल्या महानगरांत कितल्यायि बऱ्या कामार आसोन, कितलीयि बरी जोड आसल्यारी हातांत कांय उरना.

कुवेयटकार, बाहरेयनकार, दुबायकार वा इतर गल्फ राष्ट्रांतल्या न्हवऱ्या मुखार बोंबैकार न्हवऱ्याचें आळूंय शिजना. गल्फाच्या न्हवऱ्या मुखार बोंबैकार न्हवऱ्याचें दर्बार आतांच्या चलियांक कांयच रुचना. उप्रांत ताणें बिर्मोत सोयरिकेच्या म्हाल्या फाटल्यान नाचचें पडता. गल्फकारांक दोळे धांपून चेडूं दिल्ल्यापरीं ह्या दिसांनी बोंबैकाराक दिनात.

तरी पूण बँकांनी, विमासंस्थानी वा हेर उंचल्या हुदद्यार आसल्ल्या शिकपी न्हवऱ्यांक बऱ्या दोती संगीं चली मेळता. ते चलियेचे गूण वरोवन-झोरोवून पळेवंक वचनात. चली व्हडां गेलो वोडो आसल्यार सय. सोभायेन चिक्के फाटीं उरों दोत इल्लीशी चड मेळता.

**उण्या सांबाळाचे न्हवरे :**

खासगी क्षेत्रांनी उण्या सांबाळाक काम करतात तरी तांचो स्वाभिमान भारी व्हड.महिन्याक सांबाळ चारशीं रुपय आसल्यार ''एयूट फिफटी'' (आट पावटीं पन्नास) म्हणतात. हे न्हवरे मात्र चलियांक विंचताना भारी अयवंत तसे दिसतात.सोनाराक भांगार पोरैल्लेवरी ते चलियेचें घराणें, गूण, कुळी, काम इत्यादि पोरैतात. चडावत कामार आसच्या चलियांक ते पसंद करतात.

**गल्फांतलो न्हवरो :**

कुवेयट, बाहरेयन, दुबाय, आबुधावी, कटार, मस्कत, सावदी अरेबिया वा हेर गल्फ राष्ट्रां थावून रजेर मायगांवाक देंवल्ल्या तर्न्या तर्न्या पुडपुडीत न्हवऱ्यांक पळेवंक भारी मजा भोगता. अरबी राष्ट्रां थावन दर्भारान मायगांवाक देवोन आपले कारभार दाखोवंक ओद्दाडच्या आंक्वार तरनाट्यांक खायूस विशेस.

पंचवीस-पन्नास हजारां उणे दोत-देणे घेतल्यार हांच्या धर्माक वा मट्टाक उणेपण भोगता. अशें आसतां, थोडे आपूण दोत घेनात. चलियेच्या आंगा-पांगार धादाशी भांगार करन घाला म्हण फर्माचेयि आसतात.

तांच्या विदेशी सुटाक आनी फॉरेन नडत्याक कोणें तरी भुला जाय आनी नाकार बट चडय जायिच. कडक्क इस्त्रेचो सूट, क्लीन शेव केल्लें वाडकुळें वदन, सेंट-पावडरांचो सम्मीश्र सुवास, पांयांक हील्ड झळजळीत मोचे, हातीं लेटेस्ट वॉच, गळयांत हेंट्यातेदी मोटी चेयून, वोठां मधें धुंवर ओंकची कींग मायज सिगरेट, दोळयांक रेबन ग्लास, वा रे वा! इतलें पळेताना चलियेच्या घरचें वातावरणच बदलता आनी तांच्या घरा विरोस तयारी चलता.

**शिकपाक मोल ना :**

चलि -चलियेच्या आवय-बापांयक न्हवरो गल्फांत आसल्यार सय. ताच्या शिकपाक महत्व दिनांत तीं. पूण गल्फाचो न्हवरो थोडे पावटीं इतलो बुदवंत आसता की आपणें हायस्कुलाचें पाकें देखोंक नासल्यारीय, आपणाक मात्र कोलेजिचें मेट गुड्डायेलेली, डिग्री जोडिल्ली, सुंदर, शेगुणांची चली जाय. चडावत तांकां तांणी आशिल्ली चली

मेळता. कित्याक पैश्यांक ह्या दिसांनी मस्तु बळ आसा.

**पोट्टु रिवाजी आनी गोड्डु संप्रदाय :**

आमचो लोक बुदवंत. आमची समाज प्रगतिपर चिंतपाची म्हण आमी गुमटां वाजयल्यांत, डब्बे बडयल्यात शिवाय, ह्या समाजीक कितें गर्जेचें, कितें गर्जेभायलें म्हण येदोळ कोणेयि वरव्‌न पळेल्लें ना. ह्या नपुंसक समाजींत साबार पोट्ट रिवाजी आनी गोड्डु संप्रदाय व्हडा रुकाच्या पाळां भाशेन रोंबोन रावल्यांत. तीं पाळां हुमटून काडची शायी वा ऊब येदोळ खंयच्याच हर्ध्यांत भरल्ली ना, कित्याक आमचीं हर्धीं, पोकोळ आमसाणेच्या उब्ब्यापरीं.

**गर्जेक आनी मर्जेक :**

गर्जेक कंट्री सोऱ्याक शेळें उदाक भरसून पियेवंचें आमी मर्जेक कसलोय कोला भरसितांव. एका काळार सिल्काचो कुतांव मर्जेचे न्हेसाण जाल्यार आज तो जागो टेरीन सुटांनी भरती केला. गांवांत मर्जेन करचीं तीन दिसांचीं काजारां [रोस, रेस्पेर, पर्तापण] बोंबय-बेंगळोर तसल्या शहरांत सक्कड एकाच दिसान तिरसितात.

**वोवियो आनी वेर्साक सासणाचो विशेव :**

आमच्या म्हालगड्यां थाव्‌न तोंडपाशीं देंवोन आयिल्ल्यो वोवियो आनी वेर्स कोंकणी दायूजांतलीं माणकां-मोतियां जाव्‌न आसात. ह्या वोवियांनी वा वेर्सांनी आमची संस्कृती आमच्या लोकांच्यो रिती-रिवाजी आटापून आसतात. असले अमूल्य दिर्वे जिवे दवरचो एक संदर्भ म्हळयार आमच्या काजारांचो माटोव. पूण ह्या दिसांनी आमच्यो चलियो कॉलेजिचें मेट चडल्यांत. तांकां बीट म्युसीक मात्र पसंद. वोवियो आनी वेर्स म्हणोंक तीं लजतात, दोडतात. तशें आसतां आमचें हें विंचणार जनपद साहित्य मोरोन येंवचें दिसता.

**गुर्कार कोन्यांत एम. सी. माटवांत :**

आर्विल्ल्या दिसांनी गुर्कारा कोन्यांत पडला. ताच्यो गाल्ला-मिशियो जांव, काच आनी नाच जांव, पोळेंवक मेळाना. बदलाक ताच्या जाग्यार आज उबो "हिरो" सारको एम. सी. वा कार्य निर्वाहक. फूल सुटार येवचे एम. सी. आज मंगळुरांत 200 थावन 300 रुपय सूम घेतात, तर खाली प्यांटा-शर्टार सुधारिल्ल्या एम. सी. क हातार घाल्लें माफ.

आदीं गुर्कार वा वाड्यांतलो मानेस्त "दोन सब्द" उलयतालो. आज ह्या दोन सब्दांक "टोस्ट" म्हणतात. आनी ह्या टोस्ट मास्टराचा "दोन उत्रांक" 50 थावन 100 रुपय बसतात.

**कॅटरींग क्रांती**

आदीं काजार म्हणताना वाडो सगळो एक जातालो. बायलां आदाळयार बसोन कुंवाळे कातरतालीं, पियांव शिंदतालीं, तांदूळ वांटतालीं, नेरायतालीं, आनी दादाले दुकोर मारची सर्बराय करताले, भाणांत उदाक तापयताले, बुयांवांतलो सोरो लकयताले.

पूण आधुनीक पिळगेक ह्यो सर्व राटावळी नाकात. न्हीद खळोन, वांवट-म्हिनत काडून घराच जेवाण तयार करून पुरासण भोगुंक मन नातल्ल्यांनी ही सगळी राटावळ "कॅटरींग" संस्थ्यांक ओप्सून दिल्या.

हांतुंय प्लेट सर्विस आनी बुफे म्हळळीं दोन थराचीं जेवणां आसात. प्लेटीक 25 थावन 50 रुपय परयांत बसता. व्हिस्की -बियरीचो खर्च वेगळो. थोडेकडेन जेवणा परस चड खर्च सोऱ्याक बसल्लो आसा.

**पेपेरे पेपे ढुं !**

क्रिस्तांव काजारांचो रंग बदलालो. शिरल्यान रंग बदलिल्ले परीं. शतमाना थावन देंवोन आयिल्लें ब्रास ब्यांडय कोन्यांत गेलें. आनी बीटग्रूप उदेले, पावसांत अळमी किरल्लले परीं. आज हॉलांनी ह्या बीट ग्रूपांच्या आवाजांत मन्याचे "हार्ट बीट" चडतात.

थोडेकडेन आन्येक थराचें फ्याशन सुरू जालां. रोसाक रातभर ब्रास ब्यांड आनी लग्ना-सत्कार कार्यावळींत "बीट ग्रूप" आयकतल्यांचे कान नीट करतात.

**व्हिडियो फिल्म**

आदीं फोटोग्राफींत तृप्ती भोगून आसल्ले आतां व्हिडियोच्या प्रभावाक ओळग जाल्यात. फोटोग्राफींत शिवाय काजाराचें हॉल, कारां वा घरां स्रिंगारवपांत कन्विनर्स, सेलेब्रेशन्स, सर्बराय, एरेंजर्स, विनोद सर्विसस् आनी हेर बरीच म्हेनत घेतात.

**तीन दिसांचीं काजारां**

काजाराचीं कार्डां छापल्ल्या दिसा थावन पर्तावण संप्ता वरेंय जांवचो तो खर्च पळेताना ह्या तीन दिसांच्या काजारां धर्मान काजार जातल्यांक वा काजार करतल्यांक तीन नाम म्हळळें खंडीत. थोडे काजाराचीं इन्विटेशनां, लोक नासतना वांटतात. रोस, रेस्पेर आनी पर्तावण म्हण जेवणां वयर जेवणां. सवायेच्या काळार जाल्यार तीन दीस न्हय तर सात दिसांचीं काजारां दवरल्यारयि कोणायकी पोटाक उजो ना. पूण ह्या म्हारगायेच्या काळार आमचीं क्रिस्तांवांचीं काजारां-थरावळ, मासां-पक्वानांनी आनी फॉरेन सोऱ्यांनी भरिल्लीं जेवणां चिक्के मीत मिरवोन जातात. गिरेस्तांक जाल्यार व्हड ना. दुबळयांच्या अभिमानार कुराड बसता.

**सामुहिक काजारां आनी स्वयंवर**

ह्या म्हारगायेच्या काळार तीन दिसांचीं मुर्जेचीं काजारां आडावन, एका दिसा भितर गरजेन तिरसुंचो एकच उपाय- सामुहिक काजारां. पूण ह्या सामुहिक काजारांक सहकार दिवंक थोड्या गिरेस्त मनशांक पुटवाना. कारण, गत-आधार नासल्ल्यांनी मात्र अशें सामुहिक थरान काजार जांवचें म्हळळें तांचें अशीर चिंतप.

आर्विल्या वरसांनी बोंबैंत सुरू जाल्ली "स्वयंवर पद्दत" आतां बेंगळोराकयि आयल्या. तरनाट्या चल्या-चलियांक एकामेका परस्पर समजोन घेवन, विंचून काडून उण्या खर्चार काजारां करची ही रीत बरीच.

सामुहिक काजारां वर्वा वायूटा परस चड बरें पण आसा. पूण काजाराच्या माटवांनी मायक नासतां बोबाटच्या गुर्कारांक मात्र सामुहिक काजारांनी मानाची बसका ना म्हळळी बेजाराय आसतली. नीट जावनीय सामुहिक काजारां म्हळयार विचित्र थराचो एक समाजीक एकवट, सांगाता मेळाप. पूण थोड्यांनी आपंवच्या जबरदस्त सैऱ्यांक, इष्टा-मित्रांक, दायजी-गोत्र्यांक आनी हेर वोवळयांक खाडु पडतेले. नाटकाचीं हात-पत्रां वांटून गेल्ले परीं काजाराचीं कार्डां वांटचें रावतेलें. पूण एके इगर्जेत, एका आल्तारीर

खरो क्रिस्तांव एकवट संतोसाच्या स्पिरितान आनी मायेमोगाच्या दबाजान भरतलो म्हळळें खंडीत.

**जागृति आनी क्रांति गरज आसा**

तीन दिसांचीं काजारां आमच्या समाजाचें एक महा कंठक. हे विशीं आमचे थंय आतां नवी जागृति जन्माजाय आनी क्रांति उटाजाय. ह्या कंठका विरोध आमी केदोळ वरीग कमर बांदून झूज मांडिनांव, तेदोळ वरीग दुबळयां-धाकट्यांक सूख ना.

आमच्या समाजांत विस्तारोन गेल्ल्यो ह्यो पोट्टु रिवाजी आनी हे गोड्डु संप्रदाय पावसांतलो तायखिळो बुडिल्लेवरी बुड्डून काडून उडोवंक मिस्यांगार, थीर, वीर, क्रांतिकारी व्हंकलांची अदीक गरज आसा. हे झूज कार्यान मांडिजाय, उत्रान न्हय.

तवळ व्हंकलेगेल्या येजमान्याच्या मात्यार बेजारायेचो मुडो आसचो ना, संतोसाचो सुर्या उदेतलो. रिणाचें वोजें आसचें ना. समाधानाचो चंद्र फुलतलो. व्होकल-न्हवरो हासोंन-खेळोन जियेतेलीं आनी तांचें काजारी जिवीत नंदन जातेलें.

"नाच नरा, नाच नारी, लग्ना दुवारीं
आज पळे बांध बांधला काळजां भंवारीं
दोन घरां एक जालीं काजारा भेसांत
दोन मनां बांदलीं सदां वज्रा बांदांत"

विल्फी रेबिंबस् [उमाळो 1989] ☆

47

**पुंडलीक नारायण नायक**

# काळजाक गरी लावन..

म्हज्या भुरगेपणांतल्यो कांय यादी उसवल्यो म्हणटकच ताज्या नुस्त्यावरी फडफडूंक लागतात. तेन्ना हांव शाळेंत वच नासतना म्हजो नुस्तें गरोवपाचो सराव करूंक लागिल्लों जाल्यार एक नामनेचो गरवली जावंक पावतलों आसलों. पूण म्हजी गरवणी आश्टे, तळीं, पोंय आनी न्हंय इतल्यां मदीं मर्यादीत उरली. सागराचे विशालकायेचें दर्शन म्हाका घडलें ना आनी ती ओड थंयच आटून गेली.

शाळेंत वतालों. आयताराची सुटी म्हळयार नुस्तें धरपा खातीर सरकारान केल्ली भुरग्यांची खासा सोय अशी समजूत आसली. बरे तरेन नुस्तें पागप्याक त्या काळार गांवांत प्रतिष्ठा आसली. चार चौगांत उलयतना 'कापाज' म्हूण ताचो गौरव जातालो.

म्हज्या बापायन आयुश्यांत नुस्त्या इतलो आनी कोणाचेरूच मोग केलो ना. आमच्या कुटुंबांत हांव नुस्तें धरपाक शिटूक, देखून बापायचो म्हजे वयलो मोग दिसान दीस वाडीक लागतालो. सुटयेंत नुस्तें धरपा शिवाय हेर कसलीं आलमपेड्ड्यारपणां केल्लीं ताका निखालस मानवनासलीं.

ताज्जें नुस्तें खावपाची रूच आनी पागपाची संवय बापायनूच लायली. बापूय जेवणाच्या वेळार, भर दनपारां जाळी घेवन भायर सरतालो. जावं सुकती, जावं भरती, जावं हुंवार. बोंबलीभर उदकांत वचून ताणें कडये पुरतें नुस्तें हाडचें. बापायन नुस्त्याक भायर सरचें आनी आवयन फातरीर मिरसांग वांटूंक बसचें, हातूंत कसलेंच अजाप नासलें.

आमगेर जाळी, काटाळी, पागेर, पोलेर, दावण, गरी असलीं निजाच्या खारव्यागेर नासतलीं तसलीं तरेकवार आयिद्दां आसलीं. शिकपाची कूड आनी नुस्त्याचीं आयिद्दां दवरपाचो कोनसो अश्यो दोन सुवाती म्हाका लागताल्यो. म्हजो चड काळजांतलो संबंद त्या कोनशाकडेनूच आसतालो. बापायची ही परंपरा पांचेक वर्सा हांवें चलयली आनी नकळटना एक दीस हांव सगळयांतलो उठून भायर सरलों.

न्हंयंतली व्हडल्या नुस्त्याची गरवणी म्हाका केन्ना मानवली ना. हातांत तावस घेवन वरांचीं वरां नुस्त्याचेर विस्वास दवरून खडपार ध्यानस्त बसप म्हज्या भुरग्या-सभावाक जमलें ना.

म्हजी गरवणी शितारेक बारीक गरी लावन. आश्ट्यांत, तळयांत आनी पोयेंत हांवें गरोवचें. तळयांतलें नुस्तें भोव शिटूक. तें गरयेक वदना. ताका मनशाची संवकळ

जाल्ली आसता. आश्ट्यांतल्या साव्या नुस्त्याची गरवणी सामकी भरवंशाची. धिकेंभर धेकळे वा घोळके एकदां फारावपाक लागल्यार गरयेक हांयस लावपाक उसरपत मेळना. तातूंत एकाद्रो वेंतभर लांबायेचो थिगूर सावलो जाल्यार मौजेंत मौज. कोंग्याचें आंत लावन सुपुल्लीं कामुल्लीं गरयतना हांव ध्येयभान विसरून वतालों. चिंचेच्या पानां येदीं कामुल्लीं गरोवन गरोवन कितलीं जमत! पूण मनांत खोशयेचो दोंगर जातालो.

पोयेंतले गरवणेक रंग चडटा तो भरतेचेर मानशेर. तेन्ना साळकाच्यो पाकळयो कशे धवेफुल्ल कांटयाळे बुरांटे फारावन वयर काडटना वतांत रुप्यावरी चकचकतात. पौडार घट बोडकेचे करकरे आनी लांब शेंपडेचीं शेतकांय गरवणेक दाद दितात. आनी सुकतेचेर भाटीर गिरगिर करून तोपे गरोवन व्हिरार गुंथपाच्या आनंदा सारको दुसरो आनंद ना.

पूण गरोवणी सदांच सुखाची वता अशें ना. केन्ना केन्ना मानशेर चार पांच वरां सारून एक आंगुळभर खरचाटे तोपो लांबयत घरा घेवन येवचो पडटा, तेन्ना निरशेणेक शीम-मेर उरना.

गरवणेक जायतीं आडमेळींय आसतात. भाटीर उदक खदळ जाल्यार गरोवप्याक नुस्तें दिसना आनी नुस्त्याक हांयस झळकना. केन्नाय खडपांक, झिलांक फारावन गरयांर गरयो तुट्टात. आनी हांयसाक कचो लागलो जाल्यार साडेसाती उदेली म्हण समजुपाची. कचो म्हळयार खावपाच्या जिनसांत आसपावना असो बोंगोसो जीव. ताजें मुख ल्हान आसता. तो हांयस कुंटायता, कोंकून खाता, पूण चडसो कसोच फारावना. फारावलो जाल्यार वयर येतकच कर्‌कर्‌ आवाज करून पेल्ला भाशेन आंग फुलयता. गरवली सगळी तिडक एकठांय करून एक फातर ताज्या टर्र जाल्ल्या आंगार घालता आनी फोगेट सारको आवाज जावन कच्याची पीडा एकदांची सोंपता. कचो निजाच्या गरोवप्याक लेगीत वाज हाडपाचें काम करता. कच्याक गाळी मारीत आनी सकाळीं फुडें कोणाचें तोंड पळयिल्लें ताचो उगडास करीत गरवल्याक आपणाली सुवात बदल्ले शिवाय दुसरो मार्ग उरना.

हिंचाण म्हळयार एक उदकांतलें जिवाणें. हें ज्युस्त हांयस गिळटा आनी फस्तीक पडटा. तें चिखलाक रोमता. गरीय तोडटा. वयर आयलें जाल्यार ताका आपटून-धोपटून एकदांचें मारून गरी काडची पडटा. कच्या खातीर गरवणी वाजेवणी, जाल्यार हिंचाणा खातीर हळशिकावणी जाता. पूण हे दोनूय प्राणी आपणाल्या बलिदानान गरवल्याच्या सोंशिकपणाची परिक्षा घेतात.

ह्या सगळया तरांच्या गरवण्यां परस पोरशेवणी सदांच भरवंशाची. हांवें सदांच पोरशेवणी पसंत करची. गरवणेंत हात हालयत परतुंचे पडल्यार नशिबाचो प्रस्न आसूं येता. पूण पोरशेवणी म्हळयार खरो कर्तुत्वाचो प्रस्न. जाळी घेवन पोरशेतना कंबरांत येता; पूण तसोच पोरशेवणेकार धडो सांसपिता, झिलां बुड्डिता आनी सगळें वेंगातले जाळयेंत हाडपाचे यत्न करता. दर एके जाळये फाटली इत्साशक्त जबर आसता. अशा वेळार तायटभर काळुंदराचो तिपरो वा वेंतभर शेंवटाळो जाळयेंत आयल्यार सगलो शीण गळून वता आनी आनंदाक मळब उणें पडटा.

पोरशेवणेंत धडांच्या धोलींनी हात घालप म्हळयार धाडसाचें काम. चड करून केचडो, हिंचाण वा कुल्ली बोटां चाबडायता. तरी पूण केन्नाय हाताक खरचाणी मेळूं येता म्हूण आशेवंत सगळें सोसता.

देड मनीस इतल्या उदकांत बुडी मारून धोलींत अचळय हात घालून दोनय हातांत दोन केंकरां वयर काडिल्ल्याचो उगडास म्हजे यादींचे गांथनीक घट बरो आसा. पूण धोलींत हात घालपाची संवय म्हाका एक फावट म्हारगय पडल्या. एकादां कोंडींत बिळांत हात घालून हांवें थिगूर समजून देड वांव लांबायेचो मातये कोराचो हयर भायर काडिल्लो. हयर म्हळयार उदकांतली चाबपी न्हय असली मोनजात. पळयता खिणाक पळयतल्याच्या आंगार हळशिकावणेन कांटो काडपी धर्तरिवयल्या दिवडाची अवतिकाय.

आमच्या गांवांत कोंड मारप म्हळयार नुस्तें मारपाचो एक व्हडलो वर्सुकी उत्साव. चैत्राच्या अदमासाक वायंगणां बी पोटराक आयलीं म्हणटकच शेतांक उदकाची गरज नासता तेन्ना ही कोंड मारप जाता. अकस्मात एक दीस कोंड मारपाची खबर फां फां करून गांवभर फांकता आनी भिऱ्या भिऱ्यांनी लोक कोंडींत देंवतात. कोण जाळयो हाडटात, कोण काटाळयो सोडटात. त्या दिसा कामदाऱ्यांक वावर-धंदो आनी भुरग्या-बाळांक शाळा बी कांय एक नासता. सगळे चडांत चड नुस्तें धरपाचे सर्तीत आसतात. उदक एकदां धोस जालें म्हणटकच मागीर सुंगटां, पटींग मिश्यो वयर काडून उफेवंक लागतात. पिट्टोळयो, खरचाण्यो स्वासा खातीर बोडकां वयर सारतात.

हातांत कसलेंच आयिद्द नाशिल्ले नवे सुनेक लेगीत तवलेक वास येवपा पुरतें नुस्तें मेळूं येता. दीस भर लागून लोकांनी मारून खावन उरिल्लें मागीर कावळे, बकीं, सवणीं आनी राती कडेन उंद्रांचे भकीक पडटा.

पोरशेतना घाल्लें नुस्तें सांवाळप मोटी कला. ना जाल्यार सगळे स्रम उदकांतूच वचपाचे. निजाचो नुस्तेंकार पोरशेवणेक पोती बी केन्नाच व्हरचो ना. काश्टेची व्हटी करतलो. काश्टेंत मनशाच्या विश्वाचें धन सुखरूप उरता, थंय नुस्तें कित्याक उरचें ना! पूण काश्टी फुक्याक पडना. सांठयिल्ल्या नुस्त्याच्यो शेंपड्यो, कांटे लागून जांगो सोल्पतात. उदकांतल्यान वयर सरतकच 'दुसरे फावट नाका' अशें म्हणपा इतले जांगांक जाळ पडटात.

पोरशेवणेंत नुसत्या खातीर निराशा जायना आनी कांय यातनांतल्यान सुटकाय जायना. झिलांत आंग-पांग खरचटचें पडटा. खडपांनी हात फोडचे पडटात. पांयांत कांटे कर्पा मोडून घेवचीं लागतात. हातपांय वातडेतात. आंगाक तोरें खोपेता. जांगो सुजतात. तेन्नाच तवलेंतलो नुस्त्याचो घमघम मठी भर पातळटा.

निजाच्या नुस्तेकाराक उदक केन्नाच बादिकाराक पडना. जावं सावें, जावं खारें, वा जावं पावसाचें. तो केन्नाच वेळाकाळाचें भान दवरचो ना. नुस्त्याची सुवात दुसऱ्याक चुकून लेगीत सांगचो ना. एक दीस नुस्त्यान चक्रायलो जाल्यार खीणभर निरशेतलो, पूण फाल्यांचेर जबर विस्वास दवरून जियेतलो. ताका मेळिल्ल्या नुस्त्याची खबर दुसऱ्याक सांगतना तो नेमाळयाच्यो खबरी केन्नाच सारकी सांगचो ना वा दुपेटीनूय सांगचो ना. तो तीन अर्देलीन सांगतलो. पालू मेळळयार पालकुटी म्हूण सांगतलो.

शिवोड मेळयार वागी म्हणटलो. किरकोळ नग मेळयार गांवांतल्यान लांबयत हाडून दु:खाचें प्रदर्शन करतलो; पूण चडशें सावल्यार सदची वाट बदलून आडवाटेंतल्यान येवन मागीलदारसून घरांत रिगतलो. रान्नीर नुस्तें चडसर आपणाली खोस धांपून दवरतलो आनी मागीर शेळयो खबरी लोकाक सांगतलो.

काळजाक गरो लागचो अशे कांय उगडास म्हाका आसात. शेताक उदक जाय म्हूण आश्टो सुकयतकच सांगून धाडिल्ले भाशेन हांव थंय पावतालों. अशाच एका आश्ट्यांत कंबर भर चिखलांत थिगूर, व्हाळयो, धेगळे असलें सावें नुस्तें धरतना हांव हिंदळां धरपाचें ताळटालों. हिंदळ म्हळयार साव्या नुस्त्यांतलें सांगटूच. सांगटा सारकोच ताचो कांटो तोपलो जाल्यार चळचळीत मुतूंक जावंकूच जाय. हिंदळांक हांवें सोडलीं खरीं, पूण तांणी म्हाका सोडलो ना. खंयच्या जल्माचें वैर सादून एकान आपणालो कांटो म्हजे जांगेत अर्दो इंचभर भितर रिगयलो. तशेंच जांगेक लांबयत न्हिन्नळत हांव वयर सरलों. हावाशिवा करून कांटो काडलो, पूण घायाचें दुखणें जावन पंधरा-एक दीस हांव हातुणार उरलों. तेन्नाच्यान हांवें आश्ट्यांत देंवपाचो दचक घेतलो आनी हिंदळाचे जातीक दुस्मान म्हूण लेखूंक लागलों.

मार्च-एप्रीलच्या अदमासाक तेन्ना कोंडींत गरवणेक बऱ्योच खरचाण्यो गावताल्यो. पावूण मुंड्या हाताच्यो लेगीत आसताल्यो. त्या दिसांनी उठसूट गरवणेक वचपा बगर हेर कसलो उद्येग म्हाका नासतालो. हांव बापायचे खासा मर्जेंतलो आसलों. जेवणाक खरचाणेचे कपेच कपे खावंक मेळटाले. म्हजे आवयची कालवणाची वेगळी पद्दत आसची. रूच काडीत जेवन जेवन दिसतालें. पूण तेन्ना कुळवाड्याच्या शेतांत पिकिल्लें आसतालें, पूण घरांत पोटभर अन्नाक मारामार जाताली. म्हजी अवतिकाय उमगून आवय हांसत उठटाली आनी शिता वांट्याचो आनीक एक खरचाणे कुडको वाटलेंत वाडटाली. शिताच्या उगडासान आयिल्लो आंवडो तेन्ना सुकोच ताळया सकयल देंवतालो.

नुस्तें चड तेंप उरना; मोव जाता- पोंवशेता. पूण नुस्त्याचो वास, ताजी रूच आनी उगडास आयुश्यभराचें धन जाता.

आज हांव भुरगेपणांतलो नुस्तेंकार तरणेपणांत लेखक जालां. ल्हानपणांत म्हजो आजो एक काणी सागंतालो तिचो उगडास जाता. एक ल्हान भुरगो खंय पाटयेर 'श्री' चिरतालो. व्हडलो जातकच ताका पुस्तक हाडलें तर पुस्तका वयलीं बारीक अक्षरां पळोवन तो आपणाली 'शिरी' भागली म्हूण हुडकेवन रडूंक लागलो.

ल्हानपणांतली म्हज्या हातांतली गरवणेची शितारी आज तरणेपणांत लिखणी जावन म्हज्या हातांत आयल्या. काळजाचे उत्कंठतायेन गरयिल्लें नुस्तें आनी तेच उत्कंठतायेन बरयिल्लीं उतरां हांच्यांत फरक नासत जाल्यार त्या भुरग्यावरी पिसो कसो हांव ओगीच कित्याक रडूं?

(कोंकणी : दिवाळी : 77) ☆

48

## तुकाराम रामा शेट

# न्हंयंतलो शिपो

खूब दीस जाले तरी हांव गांवांत आनी गांवाकडसून व्हांवतले न्हंयकडे पावना. हांव सामकोच अस्वस्थ आसां. ही म्हजी अस्वस्थताय हांव म्हज्या गांवचे न्हंयेकडेन पावना म्हूण तगून उरल्या. केन्नाकेन्ना हे अस्वस्थतायेन म्हजी तकली फोडटा. दोळयांतल्यान उजो येता आनी दोळे चुरचुरतात. म्हजे तकलेंत शारांतल्या वेव्हारांतले ताण पिकपिक करून पेट्टल्या बल्बावरी आपली जाणीव दाखयत कायमच आसतात. जेन्ना जेन्ना तकलेंत हे ताण आसतात, मन अस्वस्थ आसता वा मन उबगता तेन्ना तेन्ना म्हाका म्हजे गांवचे न्हंयची याद येताच येता.

गांवचे कुशीकच्यान मांडवी न्हंय थिरावल्लेवरी संथ व्हांवता. तिच्या कांठार पावतकूच म्हजें मन खीण भर थिरावता आनी मागीर तिचे व्हांवते संथ लयींत एकरुप जाता. पावस झडून गेल्लेवरी सगळी अस्वस्थताय खंयचेकडेन नाच्च जाता. तकलेंतले पेंच देंवतात. जिवाक सामकी थाकाय मेळटा. न्हंयच्या शीतळ आनी संथ प्रवाहांत मेळून गेल्लेवरी ही थाकाय आसता.

न्हंयची देग म्हजें विश्रांती- थळ. थंय म्हाका सामको एकान्त मेळटा. कांठार आपलेच तनरेंत धोलतल्या माडाक तेकून हांव बसतां. भाटीर येवन लोळटल्या ल्हारांच्या सुरांच्या सांगाताक, माडांच्या चुडटांच्या पाख्यापोदां म्हाका तनरी लागता. हे तनरेंत सामकी भूल पडटा. सगळें सगळें विसरतां. खऱ्या अर्थान एकान्त जाता.

हे न्हंयच्या सांगाताकूच म्हजें भुरगेंपण गेलां. हे न्हंयेंत न्हावप-पेंवप, खुबे काडपाक बुडी मारप, नुस्तें गरोवप, पनेळ ताणीत ताणीत न्हंयभर हेडप आनी हेच न्हंयचे देगेर बसून कविता करी मेरेन हिचो सांगात लाबला. न्हंयत न्हातना कोबों-कोंबी करप, एकामेकांचेर 'घूस' घालून पेंवन एकामेकांची फाट धरप, खोल खरायेक हात लावप, मदल्या प्रवाहाच्या झोतांत व्हांवन वचपी चुडटाक वा नाल्लाक हाडपाची सर्त करप, न्हंयचे पलतडीन पेंवन वचप, न्हंयच्या खोल उदकांत नांगरून दवरिल्ल्या पनेळाच्या वा व्हड्याच्या पोटाखालसून वचून वयर सरप, उदकांत बुडी मारून दम धरप, अशेतरेचे खेळ खेळून आमचे दीस गेल्यात. खाऱ्या उदकांत न्हातना आंबट तोरां खावपाची रूच वेगळीच आसताली. न्हंयच्या उदकाच्या प्रवाहांत जितलीं मस्तेपणा केलीं नात तितलीं आमी न्हंयचे कुशींत मस्तेपणा केल्यांत. तिचे हुंवारांत पेंवपाक आमकां उमेद येताली. आतां केन्नाय भरतेक पुराय उदक भरिल्लें आसता तेन्ना म्हज्या

रगताकूय अशीच भरती येता, रगत सळसळटा. हें सळसळपी रगत न्हंयच्या उदकांत उडी घेवपाक उसळटा. मागीर फाटीं फुडें न पळयतां, वांगडा न्हावपाक कोण नासले तरी, कोणूय पिसो म्हणीत हाची पर्वा न करतां एकटोच न्हंयच्या उदकांत उडी घेतां.

खूब वर्सां पयलीं गांवांतल्यान राजपाटणाक वचपी वाफोर आसलो. तेन्ना त्या वाफोरांतल्यान राजपाटणाक वचपाक म्हाका संद मेळ्ळया. वाफोर न्हंये-देगेच्या गांवच्या धक्यांक लागत, लागत, थंयचे प्रवासी घेवन राजपाटणाक पावतालो. वाफोरांतल्यान वतना पुराय न्हंयचें दर्शन घडटालें. न्हंयचेर ओणव घेतिल्ले माड, आपल्या असंख्य मुळांचेर उब्यो राविल्ल्यो हिपळी, भोंवरे कशे लोंबपी आंबट गोड चिपकांदळांचीं गच्च रानां. त्या कादळांच्या झाडांचेर नाकांतले पिलयेभाशेन आशिल्लीं कांदळां. तांचो घमघमीत परमळ. न्हंयचे कुशीकच्यो वांकड्यो तिकड्यो नुस्त्याच्यो पोंयो. पोंयांच्या शेवटाक न्हंयचे देगेकडच्यो मानसो. आनी तांचें दार उक्तें करून जाळ लायिल्लें आसलें तर मानश्यांतसून येवपी धवोफुल्ल उदकाचो झोत, नुस्तें आडावन धरपा खातीर वंय कशी लायिल्ली खुटावणी, तर न्हंयच्या मदल्या प्रवाहांच्या आड माडयो पुरून केल्ली हार, न्हंयंतले मदले हुडे, मदीं मदीं आशिल्ले ल्हान जुंवे, ह्या प्रवासांत भेट्टाले. आमच्या गांवाकडेन आशिल्लो न्हंयचो प्रवाह फुडें फुडें रूंद जायत गेला आनी राजपाटण जावन मागीर हो न्हंयचो प्रवाह अरबी दर्याच्या व्हडल्या रुपाक मेळ्ळा. वाफोरांतल्यान वतना न्हंयचीं वेगवेगळीं सोबीत रुपां पळोवंक मेळटालीं. पूण आतां तर हो वाफोर बंद जालो आनी न्हंयच्या प्रवासांतलें सूख पयस गेलें.

म्हजो गांव हेच न्हंयच्या उदकार वाडला. खुबे काडप, गरोवन, पागोवन, येणयेंत, काटाळयांनी नुस्तें मारून आनी व्हडीं चलोवन ह्या गांवचे चडशे लोक पोट भरताले; पूण आतां तर रस्त्यावयल्यान येरादारी वाडिल्ल्यान न्हयंतलें व्हडेपण बंद जालें. जे न्हंयंत रांगेंत व्हडीं, सांगडी नांगरून दवरिल्ल्यो आसताल्यो. कांय व्हडीं शिडां फाकारून भायर वचपाक सुट्टालीं वा कांय व्हडीं शिडां पालोवन बंदराक येवन लागतालीं तें चित्रूच आतां दिसना. न्हंयूच उगडी दिसता. हे उगडे न्हंयक पळोवन दुःख भोगता. कितें तरी शेणिल्याचें दुःख जाता. आनी ह्या दुःखान दोळे मेटलेबराबर फाटल्यो यादी अचळय येतात. दोळयां सामखार न्हंयत कितलींशींच व्हडीं, सांगडी, आनी ल्हान-मोटे पनेळ हालतना धोलतना दिसतात.

म्हजे वाडवडील धरून गांवचे आदले सगळे लोक हे न्हंयचे देगेर जल्मले. तांचीं हाडां हेच न्हंयचे देगेर उबी रावलीं आनी हेच न्हंयंत विसर्जीत जालीं. आदल्या कितल्याश्याच लोकांची सारी आपले होंटयेंत घेवन ही न्हंय गांवांतल्यान व्हांवत आसा.

हे न्हंयच्या कांठार आयल्यारच कितेंतरी शेणल्ल्याची आनी कितें तरी गाविल्ल्याची जाणविकाय जाता. न्हंयकडेन पावले बराबर म्हजो फाटलो काळ न्हंयच्या कांठार शेणिल्ल्याची याद जाता आनी म्हजे जिणेक सुकती आयिल्ले भाशेन जाता. मागीर फाटली सगळी याद जाता. चित्रां कशीं दोळयां सामखार फाटल्यो यादी नियाळटा. ह्या यादींनी कितें शेणलें तें गाविल्ल्याची खोस जाता. यादींनी हे खोश्येक सामकी भरती येता. म्हज्या ल्हानपणांत एक दीस म्हज्या बापायन न्हंयचे खारयेंतले खुबे जाळयेन काडले. आनी ते खुबे वेंचपाक म्हाका सांगलें. पाशाणी शेकऱ्यांतले आनी

रेंवेंतले ते खुबे वेंचतां वेंचतां त्या वेळार म्हाका आठ आणे गाविल्ले. ते आठ आणे गाविल्ल्याची जितली खोस जाल्ली, तितलीच किते तरी गाविल्ल्याची खोस हे न्हंयच्या कांठार येतकूच म्हाका जाता.

न्हंयच्या कांठार एकान्त बसतकूच एक वेगळीच तनरी लागता. न्हंयचे खरायेंत हात घालेबराबर पोसोभर काळे खुबे मेळचे तशेच यादींच्यो खणी हे तनरींत लागतात. ह्या यादींनी फाटले अणभव जागे जातात. ह्या अणभवाचो खडबडीतपणा वचून न्हंयच्या प्रवाहांतल्या शेंकऱ्यांवरी सुळसुळीत जाता. त्या अणभवांक तांची खाशेलीं तासां पडटात. आनी ते म्हजेमुखार आपलें रूप घेवन उबे रावतात.

केन्ना केन्ना हांव न्हंयच्या कांठावयल्या चित्रांत तद्रूप जातां. सकाळचो आनी सांजवेळचो देखाव तर मनभुलायणो आसता. आनी ते परस आमोरे वयलीं आनी रातीचीं चित्रां पिशें लायतात. आमोरेर न्हंयच्या कांठाक काळखाची झालर लागता. मागीर ही काळखाची झालर अदीक दाट जायत वता. वाठार काळो जाता. न्हंयूय आपलें दिसाचें पाचवें- निळशें रूप सोडून पिशें लावपी काळशे सयेचें रूप घेवन येता. ह्या रुपानूच म्हाका चड पिशें लायलां. ह्या संथ, थंड, सांवळें न्हंयच्या रुपांतल्या उदकांत मळबांतलीं नखेत्रां देंवतात. न्हंयचो प्रवाहूय नखेत्रांनी लिकलिकून वता. त्या वेळार ते काळे -सांवळे न्हंयत जीव शेंवटून उडोवचो इतलें पिशेपण येता; हांव पिसो जातां.

हे न्हंयच्या कांठार हांव म्हाका विसरून गेल्ल्यान म्हाका हांगा खूब कितें कितें सांपडटा. हेच मन भुलायणे न्हंयच्या कांठार हांव म्हाका विसरून एक वेगळेंच तादात्म्य जोडटां. मागीर ह्या तादात्म्यांतल्यान कविता जल्माक येता. म्हज्यो चडश्यो कविता न्हंयचे देगेरूच जल्माक आयल्यात. हे खातीर हांव म्हणीन, म्हज्या मनाच्या पिंडाक हेच न्हंयच्या उदकाची धार लाभल्या.

न्हंयच्या कांठार बशिल्ले कडेन कलात्मक अणभव म्हजे सामखार उबे रावल्यात. न्हंयच्या कांठा वयल्या सैमाची कलात्मक चित्रां पळयतना जिणेंतल्या अणभवांच्यो यादी घोळयतना त्या अणभवांक कलाकृतीचीं तासां येतात आनी मागीर तो कलात्मक अणभव म्हज्या मनांत गर्ब धरता, पोसवता. अणभव न्हंयतल्या शिप्यांतलो मोती कसो मनांत धरता. मनाच्या उदकाचें पानवळ मेळून तो अदीक चकचकीत जाता. आपल्या पुराय रुपाक येता. असो तो पुराय रुपाक आयिल्लो मोती कसो अणभव म्हज्या मनाच्या शिप्यांत धरून कितें गाविल्ल्याच्या समाधानांत घरा परततां.

(कोंकण टायम्स : दिवाळी 1981) ☆

## 49

**हेमा नायक**

# बायल म्हळ्यार

काल रातीं आमी नाटकाक गेल्लीं, नाटक खरें धांक आशिल्लें. पूण लोकांक वेळाचें मोलच ना. लोक सुशेगाद येत रावतात. आमी धांक पांच मिनटां आसतना भितर सरलीं. दोनचार जाण सोडल्यार संगळें थेटर रिकामें आशिल्लें. म्हाका दुबाव आयलो, नाटक रद्द बी जालें ना मू? आनी हांवें म्हज्या घोवाक विचारलें .... तो हांसलो आनी ताणें म्हळें, ''पिश्या, आतां एकेक जोडपें कशी एन्ट्री घेतलें पळय आं. दादल्यांनी आपणाक पळोवंक जाय म्हूण तुमी बायलो मुद्दाम उशीर करून दर प्रोग्रामाक वतात.'' आनी तांगेलें खरें आशिल्लें. कितलीं नटूनथटून जोडपीं भितर सरतालीं! जशीं काय सव्यार चडूंक आयिल्लेवरी दर एकली बायल नटिल्ली. पोवाचे थर थापून रंगयिल्लें तोंड, लिपस्टीक लावन तांबडे केल्ले ओंठ, कांय जाणांचे हातकापे ब्लावज तर कांय जाणांच्या ब्लावजांचे बॉबी स्लीवज्, साडयो तर उंची उंची आनी न्हेसपाच्योय तरातरांच्यो पद्दती. कोणें लांब पालव काडिल्लो, तर कोणाचो पालव भुजार लेगीत धरनासलो. म्हजेमुखार बशिल्ले बायलेची सगळी फाट आनी कमर दिसतालें. ब्लाव्ज घाल्लो तो तर फक्त नांवापुरतो.

म्हाका खूब लज दिसली. म्हजो घोव तर तटस्थ - म्हजें नाटकाचेर मातय लक्ष लागलें ना. बायलो आपल्या स्वातंत्र्याचो उपेग अशे तरेन करतात हाची म्हाका तिडक आयली. आपली कूड सजोवपापुरत्यो ह्यो बायलो स्वतंत्र जाल्यात. बाकी हेर जापसालदारक्यो तांकां खबर नात. तरातरांच्यो फॅशनी करून, आपले कुडीची पुजा करून, अर्दाअर्द भाग उकतो उडोवन दादल्यांची नदर आपणाकडेन वळोवन घेतल्या चलयांचो आनी बायलांचो म्हाका सदांच तिरस्कार दिसता. ह्या स्वतंत्र समाजांतली बायल फक्त आपले कुडीची पुजा करपाखातीरूच स्वतंत्र जावंक ना. तिका आनीक जायतीं कर्तव्यां आसात. समाजांत वावुरतना तिणें दादल्यांचीं मनां चाळोवपाचो यत्न करुंक जायना. एक मनीस ह्या नात्यान तिचो समाजाक उपेग जावंक जाय. हे खातीर स्वतःक सजोवन, नटून-थटून बावलेवरी वागपाक जायना.

तशें हांव पोरन्या चालीरितींचें न्हय. ह्या सुदारिल्ल्या संवसारांतल्यो सुदारणा म्हाकाय करीन दिसतात आनी हांव करतांय बी. पूण कुडीचे नसते लाड आनी अपुरबायो केल्ल्यो म्हाका सोंसनात. कांय जाणां आपले कातीची ल्हंव काडून उडोवपाचो उपाय करतात. कोण आपलो मुखावळो सुंदर दिसूंक जाय म्हूण उपाय करतात आनी अशें

जायतें. नाकटां वळण दी, केंसांची तोखणाय कर, अशे तरेन संवसारांतलो खूबसो वेळ ह्यो फाजील तोखणायो करपाक सारतात. ह्या मोलादीक वेळाचो उपेग आनीक जायत्या तरांनी करूं येता. पूण समाजीक स्वातंत्र्याची जाण आजून तांकां येवंक ना. आनी हाका बायलां बरोबर खूबशा प्रमाणांत दादलेय कारण आसात. बायलो म्हळयार शारिरीक उपभोग घेवपाच्यो, इतल्यापुरते दादल्यांचे विचार मर्यादीत आसात. कांय ऑफिसांनी चलयांक नोकऱ्यो मेळटात त्यो ह्याच एका कारणाक लागून. चलयांक नोकरेचें आमिश दाखोवन तांचे कडेन मोगाचे खेळ करतले कितले बॉस आसतले? जायते कडेन घडटा अशें. हें ना जावंक जाय. दादल्यांनीय आपल्यो मर्यादा वळखून वागूंक जाय.

बायलेचे कुडीचो, तिचे कुडीच्या जायत्या भागांचो उपेग चड करून जायरातदार, नाटककार, सिनेमाकार आपलो खप वाडोवपा खातीर करतात. जायराती म्हूण बायलेचे कुडीचें जाता तें प्रदर्शन. प्रत्येक वस्ती खातीर बायलेचें माध्यम धरून जायरातदार तिचे कुडीचें प्रदर्शन करता. बाजारांत दुकानानी शो केसींनी बायलेची वेगवेगळया आकारांत मूर्त तयार करून दवरतात, ते ते वस्तीची जायरात करपाक दादले मात ते वस्तीपरस तिचे निर्जीव कुडीचीच तोखणाय करतात.

''स्त्री सौंदर्याचो ॲटमबॉम्ब'' म्हणून कांय नाटकांच्यो आनी सिनेमांच्यो जायराती जातात. अभिमानी बायलेक ह्या सगळयाची तिडक येवंक जाय. बाजारांतल्यान वतना शो केसींतलीं हीं फॉर्मां पळोवन चलयांक जावं बायलांक लज दिसता; पूण त्यो तोंड धापून ओगी रावतात. जायराती, पोस्टर्सां हांचे खातीर बायलेचे कुडीचें माध्यम घेवन इतल्या हलक्या कामा खातीर उपेग करप ही आमच्या स्वातंत्र्याक बादा येवपासारकी, आमच्या अभिमानाक घाय घालपा सारकी गजाल आसा.

बायल म्हळयार फक्त तिची कूड न्हय. बायल ही एक मनीस म्हूण ह्या समाजांत वावुरता हाची जाणविकाय सगळयांकूच आसपाक जाय.



# 50

## पांडुरंग रा. फळदेसाय

# लोकमनाचो हुंकार

आमचे कलेची तोखणाय सगले कडेन जाता, ताका लागून आमी सदांच नवे उर्बेन, नवे उमेदीन कलेच्या मळार वावुरपाचो यत्न करतात. कलेचो वाठार हो खंयच्याय एका मनशाचे वेंगेंत आसपावचो ना. गोंयच्या सबंध कलेचो म्हजे तांकीप्रमाण हांव ज्या वेळार विचार करतां तेन्ना ''हांव गोंयकार'', अशें म्हणून घेवपाक उपाट अभिमान दिसता. तरेकतरेच्या कलांच्या मळार आमी मानान वावुरतात आनी कलेच्या मळार ''आमी जैतिवंत,'' अशें मनांतल्या मनांत रिगयत खोस मनयतात.

कलेच्याच तांबडे गुंज मातयेंत आमी जल्मले, हांगासल्ले तांबडे मातयेंत ल्हानपण घालयलें, तांबडे मातयेन हात-पांय माखून घेतले म्हूण केन्ना केन्ना ल्हानपणांत आवय-बापायच्या हातचो भार खालो. पूण इतलेंय आसतना तांबडे गुंज मातयेची ओड मात मनांतल्यान कणभरय कमी जाली ना. हे तांबडे मातयेच्या पाटांनी व्हांवतल्या नितळ निळया उदकांत जेन्ना हात बुडयले तेन्ना ताकाय एक ताल आनी एक नाद आसा अशें आज मेरेन सदांच दिसत आयलें, म्हूण आजूनय ज्या ज्या पाटांतल्यान उदक व्हांवता, तातूंत हात बुडयले बगर मनाक शितळकाय मेळना, खोस भोगता.

भुरगेपणाक सावन हांव कुळागरांनी वाडलों. हांव ल्हानाचो व्हड जातना म्हजेच बराबर माड, माडयो, केळी, अनशी व्हड जाताल्यो. घरावयल्या दोंगरा-तेंगशेर जेन्ना हांव उबो रावन सकयलीं कुळागरां पळयतालों, तेन्ना सगले माड, माडयो एका तालार कित्याक धोलतात हो प्रस्न म्हाका केन्नाच सुटलो ना. पावसाळयाच्या तेंपार ढुमढुमाट पावस पडटालो. आमी दोंगरांचेर कामतां रोयताले. कामताचे खोपींत उबो रावन जेन्ना हांव कुळागरां आनी शेतां पळयतालों तेन्ना पावसाच्या अटांब्यांनी केळीच्या सोपांचेर धरिल्लो ताल काना कडेन ठपठपतालो. कांबळीचीं खोळां, ना जाल्यार घुडंबे माथ्यार घेवन जेन्ना आळां शेतांत नडटालीं, तेन्ना हांव मेरेचेर वचून बसतालों, आळांक कितेंय ना कितेंय विचारत आसतालों. म्हज्या तोंडाचो पट्टो कटकटत आसतालो आनी वाजेल्ली लक्ष्मी हळूच सुबद्रेक सांगताली, ''कसता तो कसता, मेरेवयलो मात परवंता'' म्हाका परंवुवप म्हळयार कितें तें खबर आशिल्लें; पूण तेन्ना हांव खंय परवंतालों तर? तेन्ना तिणें म्हाका गाळ मारिल्ले सारखी दिसली, म्हूण हांवें आई कडेन कागाळी केल्यो आईक कितें दिसलें कोण जाणा, पूण तिणें म्हाका सांगलें, फाल्यां मेरेर बशिल्लो आसतलो तेन्ना लक्षुमीन तशें म्हळयार तूंय म्हण, ''नण्णी खंयीं पावल्यार

पावं, कण्णो मात बरो हालयात.'' तशेंच जालें, आनी म्हजीं उतरां आयकतकीच लक्षीम ओगी पडली. ताचो अर्थ म्हाका आज कळटा .पूण तांणी गावन सांगिल्ल्या काणयांचो अर्थ मात म्हाका त्या वेळार बरो कळटालो.

त्या वेळार अनंदेन सांगिल्ली चिल्लया बाळाची कथा, तिचे सूर, ताल आणि नाद आजूनय कानांत रवंरवंतात. कोतू आजेन बशिल्ले कडेन सांगिल्ली ती कुंडे कुसकुराची काणी, तें गावप, मदेंकच गद्यान सांगप - आजूनय म्हाका सारकें याद आसा.

कलेच्या हावेसाची खबर काटकीच हांव असोच भूतकाळांत वतां, म्हाकाय हाचें कारण खबर ना, पूण हे कले कडेन पळोवपाची नदर, ते कलेची आस्त, गांवगिऱ्या लोकांच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं हीं भागंरा-फुलां, अणभवाचीं उतरां आयकत रावपाक म्हाका कित्याक खोस भोगपाक लागली, हाचो विचार हांव कलेचो विशय आयलो म्हणटकीच सदांच करतां. मागीर वाट दिसपाक लागता, आंगणां दिसपाक लागतात. घुमटाच्यो सुंवाऱ्यो आयकूंक येतात. शिमेळा वयल्यो बडयो म्हाका आपयतात, कासाळयांची च्यकच्येक म्हाका कुरा करता. धोल-ताशेय उसळपाक लागतात, थोड्या वेळान शेनाय-सुर्ताच्या तालार तेय धोलपाक लागतात. आनी ल्हवूच तातूंत शेणिल्ल्या म्हाकाच हांव सोदपाक लागतां. गांवांतल्या मेळांत कपलाक कुकमा तिबो लावन आरत म्हणत मांडार खेळपाक गेल्लों तेन्नाची याद येता आनी जांभळी मुळा दिवली पेट्टना फांतोडे- पार म्हणसर ''शिवर म्हणत मांड मोडिल्ली याद येता, धालां मांडावेली'' ''तांबड्या माडांचीं शेवकां'' ''धालो माथ्यार शेणी काली हांगच्या खंच्यान गेलारे धालो'' म्हणत म्हजे फाटल्यान लागतात, पुष्य म्हयन्यांतल्या चाऱ्या रातीं धालां मांडावयल्यो रंभा, वाघ, खांपुल्लां, बसव, न्हवरो-व्हंकल, कुड्डो जयगी, म्हज्या दोळयांत धांवत येवन आफुड्यांनी खेळटात.

- आनी मागीर हांव सोदतां- म्हज्या प्रस्नांचीं उत्तरां. हांव कोण म्हूण कळनाशिल्लें, काश्टी-चड्डी म्हळयार कितें ताची जाणविकाय नाशिल्ली तेन्ना आयकले ते धोल, न्हीद येना म्हूण नातवाक न्हिदोवन घालपाक 'कुर कुर काना, म्हशी गेल्यो राना, आमुण्ण हाड रे मामा, गाय म्हशींक' म्हूण म्हणिल्ल्या आल्लयांचे सूर त्या वेळार कानांत गुणगुणले. आंगणांत खेळटना पडलों म्हूण आवयन हांडीर घेवन म्हाका हांसपाखातीर म्हणिल्लें 'मामान दिल्लें तवशें, खंयच्या खांदार घेवचें; आंगडी व्हेल्यार विकना, घरा हाडल्यार पिकना' हें बाळगीत पयलें आयकलें. चवथ आयिल्ली तेन्ना घुमटां आयकलीं, घुमटांवयल्यो फुगड्यो पळयल्यो. हें सगलें दोळयांमुखा वयल्यान सरकतनाच हांव ल्हानाचो व्हड जालों.

कार्तिक पुनवेक गांवांतलो संकासूर-कालो हांवें केन्नाच चुकयलो ना. संकासूर येवन वता ते मेरेन हांव केन्नाय न्हिदलों ना. हरशीं हांव न्हिदेक सामको थार! आजूनय म्हजे बरोबरचे वांगडी म्हजे न्हिदे वयल्यान म्हजीं फकाणां करतात. कार्तिक सोंपलो की, गांवांत नाटकां जातालीं, आजूनय जातात, पूण पयलींची उफाट ऊब आतां दिसना. उमेदीचे दीस झेमिल्ले सारके दिसतात. नाटकां दिसांनी दर एक गांवांतलें नाटक हांवें केन्नाच सोडलें ना. केन्ना नाटकांत काम करपाची संद मेळ्ळी जाल्यार ती सोडली ना. आनी फुडें फुडें संकासुराच्या काल्यांत हरदासाचें काम करपाकय

फाटीं सरलों ना. हांव चल्लिल्ले वाटेर म्हाका कांय मनशांचो मुजरत पालव जालो. म्हजीं आवय-बापूय, भावणां आनी कांय वांगडी. रामकृष्ण नांवाचो म्हजो मानिल्लो-भाव- ताणें खरें म्हळयार म्हजे मदलो कलाकार सोदलो. ताणेय म्हाका- म्हजेमदल्या कलाकाराक जाणविकायेन फाव ती, वेळावेळार शिटकावणी दिली आनी मागीर म्हाकाय कळळें, हांवें ह्या सगल्या कामांनी फुडाकार घेवंक जाय. जाल्यारच आमच्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकधनाक मुखार हाडपाक बरें जातलें.

आमचे तांबडे -गुंज मातयेंत ल्हानाच्या व्हड जाल्ल्या कुळागरांनी, भाटांबेसांनी वावर करतल्या गरीब शेतकामत्यांच्या ओंठांवयल्यान सम घेवन भायर सरिल्या उतरांचें कलेचें मोठेपण तेन्नासाकून म्हजे नदरेंत भरलें. तांतलें कवीत, जिवीत, तांतलें वर्म, मर्म, मोठेपण, म्हत्त्व आनी सगल्यांक पुरो जावन उरपासारकें ताचें अमरत्व म्हाका दिसतकीच हांव फक्त पिसो जावचों तितलो उरलों.

ल्हानपणांत पळयिल्ल्या पेन्नी जागराचें पोरनेपण आतां कळटा. ''खेळी रे खेळी रे नाथा पोगीण नाथा सरस्पती शारदा रंग्याली माया'' म्हणत सुरू जावपी पेन्नी जागरांतली संवसाराचे निर्मणेची कथा, आज तिचो अभ्यास करतकीच कळपाक लागली. ''चांग भला होर भला'', ''हो गज्या गले गज्या चांगभला च्यांग भला भैरोबाच्या नावं चांग भला'' अशें लांब, एकसुऱ्या तालांत गायत उडक्यो मारपी, गिरक्यो घेवपी धनगराच्या ''दसऱ्या नाचाचो'' संबंद आतां कळटा. काठेवाडी पोशाख करून धोलाच्या तालार, सुरपांव्याच्या अखंड सुराचेर रंगल्लो धनगराचो ''दसऱ्याचो नाच'' पळयिल्ले खूब कमी लोक आसतले. तांच्याच बायलांचो झेमाडो जांणी पळयला, तांकां आंग मोडप म्हळयार कितें ते शिकोवचें पडचें ना. संवसारांत येतकीच आंग मोडचेंच पडटा, आंग मोडल्यार दिमी मारची पडची ना हें शिक्षण, हो संदेश तांच्या झेमाड्याचो, हें आमकां कितल्या जाणांक खबर आसा?

चंद्रपूरचे राजधानीक (चांदर) हरिहराचो जय जालो म्हूण जैतिवंत हरिहराच्या नांवान नाचपी, उत्सव मनोवपी ताचे सैनिक, आज परंपरेन दर वर्साक कार्नावाल लागीं येतना धर्मान किरिस्तांव जावनय ''हो सिमा (शिबा) वो व्हिया वोंस रे गारा सातशीं जाणां होरिओरा ओ'' म्हणत नाचपी चांदरकार आमच्या खूब थोड्या गोंयकार भावांक खबर आसा.

सोंज्यांवाचें फ़ेस्त दर वर्सा मनयतात. पूण ताची चलंत आसपा खातीर हें फेस्त म्हळयार ''जांवयाची परब'' जाली. सेंट जॉन बाप्तिस्ता कोणय आसलो तरी ताचो वार्षिक दीस ही ''जांवयाची परब,'' ''मांडो'' हे किरिस्तांव भावांचें विरह गीत म्हूण ताचेकडेन बोट दाखयतात, आज लोकसंगीत म्हूण ताचे कडेन बोट दाखयतात. म्हज्या ल्हानपणांत हांवें जे मांडे आयकले, तातुंतल्यो विरहाच्यो भावना ह्यो केन्ना केन्ना म्हाका म्हज्योच शो दिसताल्यो. मिर्गा नक्षत्राचेर हातांत पिराडे घेवन पावसांत पचपच भिजत येवन दारांत उदारे उमथे लोळटले ''सोंज्यांव'' म्हजे नदरेमुखार येतात. ''देखणी'' ही मूळ हिन्दुत्वाचें मुजरत दर्शन घडोवपी नृत्याचो प्रकार किरिस्तांव भयणी णव वारी पातळ नेसून, भांगतिळो लावन, गळयांत मंगळसूत्र आनी पांयांक पांयजणां घालून देखणी नाचूंक लागतात तेन्ना तारयो खंयंय आसलो तरी ''घे घे घे घे घे, घे रे

सायबा, म्हाका नाका गो'' अशें म्हणपी आमी जावन बसतात.

घोडेमोडणी, गावड्यां जागर, रणमालें हे आमचे लोककलेचे प्रकार हांवें गांव सोडटकीच चड लक्षांत आयले. दिवचल, सरवण, पेडणें, ह्या गांवांनी शिगम्या वेळार घोडेमोडणी जाता, आमच्या वाडवडलांनी दाखयिल्ली युयुत्सु वृत्ती (झगडाळ न्हय), लडायेंतलें श्रेष्ठत्व आयज लोककलेंतल्यान दिश्टी पडटा. कोण म्हणटात राजस्थानांतल्यान घोडेमोडणी गोंयांत आयली, आनीखंयचे प्रकार आनीखंयच्यान आयले; कितेंय खंयच्यानय येवं, पूण जें आमचे कडेन आसा, ताची जतनाय आमी करूंक जाय, म्हूण आज यत्न चलल्यात, गावडया जागरांतले (आयच्या आनी पयलींच्याय) समाजाच्या नेमाळे जिणेचें चित्र स्पष्ट जाता. आमचे भोंवतणी जशे साव आसात, तशेच चोरय आसात. राजा आसा आनी गरीब शेतकामती आसा. राजा -राणीचो संवसार करपी म्हाराचें व्होर आसा तशीच मनाचो धनी दिगंता आशिल्ल्यान ताची भुल्लुसून वाट पळोवपी विरहिणीय बी आसा. लंगडो आसा, रेंदेर आसा, आमी तुमी सगळे आसात. ''रणमालें'' हो शब्द उच्चारपाक कसोसोच लागलो तरी, रामायणाचे कथेचेर आधारिल्लें नृत्यनाट्य म्हळयार रणमालें. सत्तरी आनी सांगें तालुक्यांच्या वाठारांत खूबशा गांवांनी तें दर एक वर्सा करतात. तातूंतय मदलो वेळ सादून ''धोंगा'' च्या रुपान समाजाचें दर्शन घडटा.

हें सगलें पळोवपाची नदर म्हाका दिली आमचे मातयेन, सैमान. सैमाचे इतले सोबीतकाये भितर हांव जर जल्मलों नाशिल्लों जाल्यार केन्ना फोटा खातीर घाण्याच्या बैला सारको खंय घुंवत आसता आशिल्लों कोण जाणां! मुळावें मोठेपण म्हजे गोंयचे मातयेक. ताका लागून आयज हांव मोठ्या अभिमानान म्हजे मातयेचें मोठेपण सांगतां. गोंय म्हळयार कलावंतांची भूंय अशें म्हणटात तें कितलें खरें आसा!

कलेच्या सगल्या मळांचेर आमचो गोंयकार वावुरतना दिसता. संगीत, नाटक, खेळ हांतलो गोंयकाराचो फुडाकार नदरे आड करपाक येना. पूण ह्या सगल्यांचे तुळेन जेन्ना हांव आतांच सांगिल्ले प्रमाण लोककले कडेन नदर मारतां, तेन्ना आमच्या पुर्वजांचें कलावंत मन भारतीय संस्कृतीची जतनाय लोककलेंतल्यान करतना आपली अस्मिताय आमी कशी राखल्या हें पळोवन उपाट अभिमान दिसता. उदेंत आनी अस्तमेचे संस्कृतीचो संगम आमचे भुंयेर जालो अशें म्हणपा परस उदेंत आनी अस्तमेच्यो संस्कृतीं हें भुयेर एकठांय आयिल्ल्या वेळार झगडीं पालोवप हे जाणविकायेचो भाग थंय आयलो, झगडाळ आनी बाटगे संस्कृतीचो वारसो आमी केन्नाच फुडें हाडलो ना, म्हूण जें वांट्याक आयलें ते सहिष्णु वृत्तीन लागीं करप हें आमचें ध्येय, तोच आमचो हेत आनी ताका लागून हे भुंयेचेर दोनय संस्कृत्यो हातांत हात मेळोवन वावुरल्यो, आज त्या संगमाचें एक सोबीत चित्र आकार घेत चल्लां, कोणेंय येवन आमचे फाटीर तोखणायेन हात फिरोवचो अशें; त्या वेळार आमचें कलाकार मन कृतार्थ जाले बगर रावचें ना.

जैत (कोंकणी त्रैमासिक), जानेवारी 1980 ☆

51

अभयकुमार वेलींगकार

# आनी म्हाका जोतें मेळ्ळें

अंत्रूज म्हाल हो सैमान नटिल्लो म्हाल. ब्रह्मदेवान जेन्ना सृष्ट निर्माण केली, तेन्ना ताचे शक्तीचो खरो कस लागलो, जावं ताणें तो लायलो, तो अंत्रूज म्हालांतूच. अश्या ह्या सैमान नटिल्ल्या म्हालाचें लोकांकूच न्हय, तर देवांक लेगीत पिशें लागलें आसुंये आनी देखुनूच पोर्तुगीजांक बाटाबाटीचें पिशें लावन गोंयांतल्या सगळया देवांनी त्या निमतान अंत्रुजेंत उडी मारली आसुंये.

देवांक जर ह्या सैमाचें इतलें पिशें, जाल्यार मनशांक कितें जावंक फावता तें तुमीच पळयात. आनी देखुनूच हे अंत्रुजेंत दीसपट्टे हजारांनी लोक सैमाच्या मोगान येत आसतात. जेन्ना देव ह्या म्हालांत आयले, तेन्ना तर हांगचे सोबीतकायेंत आनिकूय भर पडली. देव आयले म्हणटकूच देवळां आयलींच, आनी देवळां जालीं म्हणटकूच जात्रा, काले, किर्तनां, नाटकां हेंय आयलें. नवरात्रां, दसरे, जावंक लागले आनी हांतल्यो कांय जात्रा तर इतल्यो फामाद जाल्यो की त्यो गोंयांत आनी भारतांतूच न्हय, तर सगळया संवसारांत पावल्यो. सांगच्योच जाल्यार म्हाड्डोळची चतुर्दस आनी विजयरथ, मंगेशची जात्रा, कवळेंची जात्रा आनी कितलेशेंच कितें आनी कितें.

हें सगळें पळोवपाक खंयचे खंयचे लोक हांगा येतात म्हूण जाणात तुमी. इतलेंच न्हय, तर जांणी ह्यो जात्रा पळोवंक नात, तांका जाल्यार, तांचें अर्दे आयुश्य फुकट म्हणून सगळे पिशांत काडटात. तसो दर एकल्याचो जात्रेक जावं काल्या-किर्तनाक येवपाचो उद्देश वेगळो आसता. कांय जाण देवाक येतात. तर कांय जाण रथ ओडूंक वा नाचोवंक येतात. कांय जाण मजा करूंक येतात. मजा ह्या शब्दाक जायते अर्थ आसात. दर एकल्याची मजा वेगळी आसता; देखीक, कांय जाणांक जात्रेंतलीं दुकानां पळोवंक आवडटात, कांय जाणांक आयदनां बी घेवचीं आसतात-, कांय जाण देवापांयां कडचें खाजें बी व्हरूंक येतात, तर कांय जाण फकत गर्देंतल्यान भोंवंक आनी येतल्या वतल्यांक धक्के मारूंक येतात. तात्पर्य, दर एकल्याक आपणाक आवडटा तें मेळ्ळें की ती ताचेपुरती मजा जाता. जात्रांनी तशीं आनिकूय कांय कामां जातात. कोण हांगा चली पळोवचेलो कार्यक्रम आंखता. कोण सोयरीक जुळोवंक पळयता, तर एकाद्रो आयचो तरणाटो खंयच जमना जातकूच हांगा तरी लायन बसतली ह्या उद्देशान आयिल्लो आसता.

आनी हांव, हें सगळें म्हळयारूच जात्रा, जावं हांतलें एक कितेंय चुकलें तर ती

जात्राच न्हय अशे समजुतीन वतां. ह्या जात्रांपरस म्हाका चड आवडटात तीं किर्तनां. तातूंत नवरात्रांतल्यो णव राती तर एकसारखीं किर्तनां आयकूंक मेळटात. जाय जाल्यार दर दिसा वेगळया देवळांत वचून किर्तन आयकुचें. ह्या किर्तनांक व्हडलीशी गर्दी आसना. जालें तरी धक्का-बुक्की ना, रातभर फकत लायनी मारीत फिरप ना. देवळांत एका जाग्यार बस आनी आयक किर्तन. मदीच केन्ना तरी दोळो लागता आनी कांदे जोखप सुरू. मदींच लकणी येवन, जावं हरदासान व्हडल्यान केल्ल्या गजराक लागून आंग काडून जागें जावप आनी ल्हवूच आपणाक कोणें पळयलो बी ना मूं, ह्या दुबावान हेवटेन तेवटेन पळोवप आनी हेरांच्योय तश्योच नदरो पळोवन समाधान मानप. कांय वेळान परते कांदे जोखप सुरू.

तर हें अशें वागप आनी त्या हरदासाक पळोवप हातूंतय एक तरेचें सूख आसा. तो हरदास, ताचो तकले पासून पांयां मेरनचो झगो, माथ्यार तांबडीच पगडी, हातांत ताळ, तोंडांत पान, किर्तन सांगतनाच सगळयांच्यो नदरो चुकोवन तिरशे नदरेन ल्हवूच खंयचे तरी एके कुशीक बशिल्ल्या बायलांचेर नदर मारप, किर्तनांतल्यान केन्ना दादल्यांचेर तर केन्ना बायलांचेर, केन्ना राजकर्णाचेर तर केन्ना हेर हरदासांचेर तासप आनी लोकांनी हांसचें शें दिसलें की 'पुंडलीक वरदा हरी विठ्ठल' जावं 'हर हर म्हादेव' असो व्हडल्यान गजर करप. ह्या गजराचीच लोकांक इतली संवय की ताणें एकाद्रो गंभीर विशय घेतलो आनी तोंड वळ्ळें देखून, जावं लोकांक न्हिदेंतल्यान जागे करुंक जरी गजर केलो जाल्यार लेगीत लोक हांसूंक लागतात.

हाचेवयल्यान एक याद जाली. एके सभेंत मंत्री उलयतालो. तो कितें उलयतालो तें लोकांक कित्याक, ताका लेगीत घडये कळूंक ना जातलें. पूण ताणें उलोवंक उबो रावचे पयलीं कांय लोकांक शिकोवन दवरिल्ले; आपणें तकली वयर करून लोकांकडेन पळयलें की ताळयो मारप. एकल्यान ताळयो मारल्यो म्हणजे सगळयांनी ताळयो मारूंक लागचें, अशे तरेन ह्या मंत्र्याचें उलोवप सोपलें. उलोवन सोपलें की खरें म्हळयार ताळयो मारची प्रथा आसता; पूण हाचें उलोवप सोंपलें तरी लोकांनी ताळयो मारल्यो नात. कारण कितें जाणात, ताणें तकली वयरूच काडली ना. आनी तो जेन्ना बसलो आनी लोकांक पळोवंक लागलो, तेन्ना मात सगळयांनी ताळयो मारूंक सुरवात केली.

हाचे वयल्यान आनीक एक याद जाता ती अशीः एकदां एक प्रसिद्ध गायक आयिल्लो. कांय जाणांनी ताची मैफल दवरली. पूण तो कितें गाता हें कोणाकूच कळनाशिल्लें. संगीत जाणा जाल्लो थंय कोणूच नासलो. ताका जाय तशी दाद मेळना जाली. बाबडो गायक नर्व्हस जालो. तबलजी, जो गातल्याक साथ दितालो, ताका गावप्याची आनी लोकांची जाल्ली कुचंबणा कळ्ळी. ताणें हाचेर एक युक्त काडली. ताणें ल्हवूच लोकांक खूण केली, आपूण तबलें वाजयतना जेन्ना हात वयर करतलों, तेन्ना तुमी ताळयो मारच्यो. लोकांक ताचें म्हणणें मानलें. तबलजीन मदीं मदीं हात वयर काडचो आनी लोकांनी ताळयो मारच्यो. गावप्याक दिसलें, लोकांक आपलें गावप कळ्ळें. खोश्येन ताणें दोन सुबेजूच तानो मारल्यो. गायन सोपलें, पूण कोणेंच ताका ताळयो मारल्यो नात. ह्या लोकांच्या अजीब वागपाचो विचार करीत तो आपल्या जाग्यावयल्यान हाल्लो. लोकूय उठूंक लागले, इतल्यांत तबलजीन आपल्या सदऱ्याचो

हात सारको करूंक म्हूण आपलो हात वयर काडलो आनी लोकांनी ताळयांचो कडकडाट केलो. बड्या गावप्याक कितें म्हूण कळ्ळें ना. तबलजीन मात तकलेर हात मारलो.

कथेंत आडकथा म्हणटात त्यो अश्यो. तर हांव सांगतालों हरदासाचें. ह्या हरदासाची म्हाका इतली कित्याक ओड म्हूण कळना. घरांत बरी सुस्त न्हीद काडची सोडून हांव हरदासाक पळोवंक वतां आनी थंय लकणी काडटां. केन्ना तरी किर्तन सोपता आनी शेजारचो कोणूय बाप्पा म्हाका हात लावन उठयता. हांव जेन्ना झेमेल्ल्या दोळयांनी भायर येतां, तेन्ना म्हाका कळटा, चार-पांच दिसां पयलींच हाडिल्लें म्हजें नवें ताल्ल जोतें नाच जालां. हांव कांय वेळ हेवटेन तेवटेन ताका सोदतां आनी निमाणें हांव येना देखून वाट पळोवन एकलेंच बी घरा गेलां जातलें समजून उगड्याच पांयांनी घरा येतां. आनी घरा येवन घरच्यांची तापोवणी खातां हें सांगपाची गरज ना म्हणा.

तर अशीं कितलींशींच जोतीं हांवें ह्या किर्तनाच्या मोगांत पडून शेणयलीं. ह्या जोतीं शेणपाचो म्हजेर इतलो परिणाम जालो की सपनांत लेगीत म्हजें कितें तरी शेणटालें आनी तें कितें म्हणून पळोवंक गेल्यार जोतें आसतालें. आनी शेंणलां तें जोतें म्हूण कळना फुडें हांव न्हिदेंतल्यान सडसडीत जागो जातालों. ह्या जोतें शेणपाक लागून हांवें देवळांत वचचेलेंच सोडून दिलें. पूण मनांतलें आनी सपनांतलें हें शेणप वच नासलें. पांयाक जोतें घालचेंच न्हय अशें केन्ना केन्ना दिस. हें जोतें खिळयांनी जावं गमान पांयांक चिकटावचें म्हणजे तें काडपाचो आनी शेणपाचो प्रस्नूच येवचो नासलो. असो यत्न लेगीत केलो; पूण तें जमलें ना, कारण खिळो मारचे पयलींच पांयाक तोपलो आनी पांय दुखिल्ल्यान हो यत्न सोडचो पडलो, जाल्यार गमान जोतें कांय खिणांपुरतेंच चिकटलें आनी मागीर सुटलें. अशे तरेन दोनूय यत्न उपेगाक आयले नात तेन्ना जोत्याचो प्रस्न सोडोवचो कसो हो प्रस्न म्हजे सामखार उबो रावलो. आनी हांवें थारायलें, जोंवेर हो प्रस्न सुटना तोंवेर जात्रा, किर्तनां, काले सगलें बंद. हांव जात्रा-किर्तनांक वचना तें पळोवन लोकांक अजाप दिसूंक लागलें. लोक म्हाका खुतीखुतीव विचारूंक लागले की बाबा, तुजें जालां कितें? तूं जात्रा, काले, किर्तनांक वचपी एकदम असो बदल्लो कसो? पूण हांव फकत एकाच प्रस्नाचेर विचार करतालों आनी देखुनूच तांच्या प्रस्नांक जाप दिनासलों. जेन्ना-जेन्ना लोक म्हाका हे संबंदी प्रस्न करताले, तेन्ना म्हज्या दोळयां सामखार उबें रावतालें जोतें आनी हांव कच्च करून आंग काडटालों.

आनी अश्या ह्या गंभीर वेळार म्हाका एक मनीस देवावरी पावलो. ताचें नांव दत्तू. दत्तू म्हजो जिवाभावाचो इश्ट, बरो पयशेकार पूण एक नंबरचो हिमटो म्हूण गांवांत फाम आसलो. तसो तो हिमटो आसलोय म्हणात. तो केन्नाच ब्रश जावं पेस्टान तोंड धुय नासलो; वयल्यान म्हणटालो, तोंड धुवचे जाल्यार काजूच्या पानान. काजू पानाच्या दिखान हड्ड्यो घट जातात आनी ताका लागून दांत बेगीन पडनात. पेस्टान दांत घासल्यार बाबडे बेगीनूच पडटात. एके नदरेन ताचें म्हणणें खरेंच म्हणूंक जाय. पूण जेन्ना बाजारांत नुस्तें म्हारग आसतालें, त्याच दिसा ताका शिवराक जेवण आरोग्याक कितलें बरें आनी तें कशें हें सांगपाची बुद्द कित्याक जाताली हाचेंच

म्हाका अजाप जातालें. तो अशे तरेन उलयता देखून लोक ताका हिमटो म्हणटाले.

तर ह्या दत्तूक म्हजे वरीच काले-जात्रांचें पिशें आसलें. आनी किर्तनां तर तो केन्नाच चुकय नासलो. इतलेंय आसून ताचें नवें जावं पोन्नें जोतें केन्नाच शेणिल्ल्याचें हांवें आयकूंक नासलें. सदांच म्हाका प्रस्न पडटालो, म्हजें जोतें शेणटा आनी हाचेंच कित्याक शेणना?

जायतो विचार केलो आनी निमाणें थारायलें की ताकाच वचून हो प्रस्न विचारचो. मनांत आयलें तसो हांव तडक दत्तूगेर गेलों. दत्तू दारांतूच एक नेम मारतालो. म्हाका पळोवन ताणें काम थांबयलें आनी म्हाका उर्बेभरीत येवकार दिलो. हाका प्रस्न कसो विचारचो हाचो विचार करतनाच च्या आयलो आनी च्या घेतां-घेतां दत्तून म्हाका आपूण नेम कित्याक मारता तें सांगलें.

तें नेम केळ रोवंक आसलें. जालें, ह्या नेमाक लागून म्हाका दत्तूकडल्यान केळीं कितलीं बरीं आनी आयचे तरणाटे केळीं खायनात म्हूण अशे अशक्त, इतलेंच न्हय तर आमचें सरकार केळीं भायल्या देसांनी धाडटा देखून आमचें सरकारूय अशें डळमळीत म्हणपाचें लेक्चर आयकुचें पडलें. इतलो वेळ तो म्हजे कडेन उलयतालो, पूण ताका हांव कित्याक आयिल्लों तें सांगप म्हाका जमलें ना. च्या पियेवन जालो आनी हांव वचूंक उठलों, इतल्यांत दत्तुनूच म्हाका प्रस्न केलो.

"आरे, ह्या नवरात्रांक तूं किर्तनाक बी ना सो?" म्हाका जाय तो प्रस्न ताणें विचारिल्लो. हांवे ताका घडघडीत पाठ केल्लेवरी सगळें सांगून उडयलें आनी ताचें जोतें कशें उरता ताचें कारणूय विचारलें. दत्तून कांय खीण विचार केल्लेवरी केलें आनी उलोवंक सुरवात केली. म्हणूंक लागलो, "आरे, तुमी देवळांत वतना जोतें दवरतात आनी वतात. जोतें दवरचें आसना, उडोवचें आसता."

"म्हळयार कितें? उडोवपाचें. उजवे पांयाचें दावे वटेन आनी दाव्या पांयाचें उजवे वटेन. जेन्ना जोतें सारकें दवरतात, तेन्ना तें कोणाचेय नदरेक वता आनी पांयाक घालून वचपाक सोपें पडटा; पूण जोतें जेन्ना उडयतात, तेन्ना तें सोदूंक गा कोण बसता?"

कृष्णान जरासंधाक मारतना भिमाक जसो उपदेस केल्लो, तेचवरी आयज दत्तून म्हाका उपदेस केलो. कांय खीण दत्तू म्हाका कृष्णूच दिसलो.

आनी हांव परतो किर्तनाक वचूंक भायर सरलों. हांव देवळांत बसलों खरो, पूण म्हजें लक्ष मात भायर आसलें- जोत्याचेर. जोत्याच्या विचारान म्हाका किर्तन आयकतना मात लेगीत लकणी आयली ना हें अजाप म्हणपाचें. किर्तन सोपलें आनी भायर आयलों, तर कितें सांगचें इश्टानों, म्हजें जोतें उडयल्ल्या जाग्यार म्हजी वाट पळयत आसलें. दत्तूचो उपदेस म्हाका लागू पडिल्लो आनी जोतें मेळिल्लें.

(जागृताय : दिवाळी 1984) ☆

# 52

## तेनसिंग रोद्रीगिश

# असो म्हजो गांव

बुकल्यां पाळणीत तुमी पावल्याच आसतले. तशे गोंयांत जल्ले कमी नाशिल्ल्यान केन्ना ना केन्ना जल्ले चाबताच; आनी जल्ल्याच्या घासाचेर आनीक बरें वखद नाशिल्ल्यान, बुकल्यां पाळणींतल्या वैजागेर येवंचेंच पडटा. आज कितल्योशोच पिळग्यो जाल्यो, बुकल्यां पाळणीतल्या वैजागेलो हो सेग्रेद चलत आयला. आनी त्या निमतान गोंयचेच न्हय तर उब्या कोंकणांतले लोक हांगा पावतात.

पूण जांचेर जल्ल्यान चाबपाचो प्रसंग येवंक ना, तांचे खातीर ही थोडीशी माहिती दितां. बुकल्यां पाळण ही निखटी पाळण न्हय; तो अख्खो गांव. ताका पाळण, आनी तीय बी बुकल्यां पाळण कित्याक म्हणटात हें मात म्हाका विचारूं नाकात. कित्याक तें म्हाका खबर ना. तशें तें हांगा जाल्ल्या आनी वाडिल्ल्या भोवतेक लोकांक खबर ना. तें जाणा जावपाची आमकां केन्ना गरजच भासली ना. कित्याक, आमी गांवकार नांवाचे न्हय; आमी कर्तुपांचे गांवकार. फुडें हें कळटलेंच. पूण ह्या अप्रूप (तशें तें अप्रूप न्हय हां; बुजरुक कुड्डो, आंब्या घोल, घोलीं मोळो, आदी नांवां तुमी आयकल्यांच आसतलीं) नांवांफाटलो इतिहास जर तुमकां जाणा जावचोच आसा, जाल्यार एका बऱ्याशा संशोधकाक विचारून पळयात. ताका खबर आसपाची शक्यता आसा. सदरेर चडुंकूच नाशिल्ल्या राजाचें राज्य कितलीं वरसां चल्लें हें सांगपाची तांक इतिहास संशोधकांत आसता. पूण एक मात हांव तुमकां सांगूंक शकतां, दुसऱ्या खंयच्याय गांवापरस आमच्या गांवांत बुकले चड नात.

आमच्या गांवचे पांसश्ट टक्के लोक हिंदू; उरिल्ले किरिस्तांव. तशे थोडेशे मयरूय आसात. जाणटेल्यांच्या म्हणण्या प्रमाण एका वेळार, म्हणजे तांच्या पुर्वजांच्या वेळार, हांगा धार्मिक एकचार दिश्ट लागसारको आसलो. आनी म्हणुनूच घडये ताका दिश्ट लागलीय बी आसत. एकोणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक गांवांत धार्मिक झगडीं जावपाक सुरूवात जालीं. सुरवेक तांचेकडेन कोणें व्हडलेंशें लक्ष दिलें ना. पूण दिसान दीस तीं वाडूंक लागलीं; खुनाचेर आनी जाळ-पोळीचेर पावलीं. पुरीं पांच वरसां हें झूज चल्लें. तेन्ना म्हणसर अनेक कुटुंबां काबार जालीं; कितलींशींच घर-दार नासून उबंत पडलीं. सकयल्या वाड्यार तर एक वणत उबी उरली ना. नुकसान सगल्यांचेंच जाल्लें; पूण सुडाचे धुंदींत ह्या रक्तखेवांतल्यान वाट कोणाक दिसनाशिल्ली. अखेर देवा-दयेनच म्हणा, एक व्हड म्हात्मो ह्या गांवच्या भाग्यांत उदेलो. ताणें गांवाक वाट

दाखयली; कोणाकच दुखय नासतना, कोणाचीच बाजू घेनासतना ताणें तंटो मिटयलो. ताची वाट सोपी आशिल्ली : आतांच्यान सदांकाळ धर्म सोडून दिवप; म्हणजे हे फुडें आनीक केन्नाच असली परिस्थिती उप्रासची ना. लोकांक तांचें मत पटलें. तांणी धर्म सोडून दिलो. हिंदू, किरिस्तांव, मयर सगले एक जाले - एक धर्महीन समाज. तेन्नाच्यान बुकल्यां पाळणींतल्या दर एक मनशान सर्व तरेचो देव-धर्म परा घातलो. गांवचीं सगलीं देव-मंदिरां चिऱ्यान चिरो मोडलीं. तांची याद लेगीत उरूं नये, म्हूण तांच्या जाग्यार दुसऱ्यो इमारती बांदल्यो. देव हो शब्दूच आमच्या भाशेंतल्यान गळलो. परतीय सवस्तकाय, माया, मोग नांदूंक लागलो.

पूण कितलेय जाल्यार आमी मनीसच. जरी धर्माची सगली जाणवाय आनी तेत्तीच कोटी देवांची नांवां आमी विसरले, तरी खंय तरी आमकां देवाची उणीव भासूंक लागली. कितें तरी पुजूंक, भजूंक जायशें आमकां दिसूंक लागलें. पूण परतेंय त्याच विघ्नांत पडपा इतले आमी पिशे नासले. एकदां नानपाट केल्लो धर्म परतो किल्लुपाक कसोच दिवप ना, असो आमी निश्चेव केल्लो. ही म्हज्या आज्याच्या तेंपावयली गजाल; तांच्याच तोंडांतल्यान हांवें ती आयकल्ली. तर गांवकारांनी ह्या विशयाचेर चर्चा करपाक एक महासभा घेतली; म्हजो आजो तिचो जोड चिटणीस आशिल्लो खंय. हे सभेंत तांणी धर्म परतो उपजूंक न दिवपाचो थाराव घेतलो. पूण इतल्यान प्रस्न सुटनासलो; जनाक लागिल्ल्या देवाच्या दुवाळयांचेर उपाय काडूंक जाय आसले. ते खातीर महासभेन पांच वांगड्यांचें एक खास कोमिसांव नेमलें. कांय म्हयन्यां भितरूच तांणी आपलो अहवाल दिलो. लोकांची उमळशीक भागोवपाक गांवांत एक बिनधर्मी महामंदीर बांदचें अशें तांणी सुचयलें.

माफ करात; ही सगली भरडकथा सांगपा फाटलो हेतू इतलोच, तुमी केन्नाय बुकल्यां-पाळणींत पावले जाल्यार- पावतलेच, केन्ना तरी जल्लो चाबतलोच- दुसरे कडेन चांटे पावलाक दिसतल्यो धार्मिक कुरवो हांगा दिश्टीक पडल्यो नात म्हूण गोंदळून वंचू नये. हांगा तुमकां खुरीस, वड, पेडां, असलें कांयच दिसपाचें ना. धर्म म्हणटात ताची हांगा निशाणीच ना. फक्त तुमच्या दोळयांत भरतलें तें आमचें वरीश्ट महामंदीर. केलदेचे देंवतेर सावन ताचो घूड दिसता. थंयच्यान देंवन तुमी गांवांत येवपाचें; उबोच रस्तो, थेट महामंदीराच्या दरवट्यामेरेन वता. पूण सरळ दरवट्यांतल्यान भितर मात सरूं नाकात हां. आमच्या महामंदिराच्या प्राकारांत कोणाकूच भश्ट्यांनी भितर सरूंक मेळना. ते खातीर कांय विधी करच्यो पडटात. दरवट्या कुशीक जी आवो बसता, तिचे कडेन रुपयाचीं कालवां घेयात, दरवट्याचे उजवे बगलेक तुमकां एक धवें गुटलायल्लो तरनाटो दिसतलो, ताचे कडेन तीं दियात; तो तीं भितर व्हरून प्रसाद लायतलो. प्रसाद जालो जाल्यार तुमकां प्राकारांत भितर सरूंक मेळटलें. सवकासायेन, मानान-रेस्पेतान भितर सरात. हांगा उलोवं नये. थंयच आशिल्ल्या मानीच्या बांकड्याचेर मोन्यानी बसात. रोकडेंच तुमकां मंदिरांत वचूंक मेळचें ना. तुमचे सारकेच आनीकय लोक थंय बशिल्ले आसतले. तांचे कडेन खबरी करपाचो प्रयत्न मात करूं नाकात. हांगा कसलोच बोवाळ उपकारना. तुमकां हांगा थोडो वेळ बसचें पडटलें. पूण ते खातीर निरशेवं नाकात. अडेच दिसां वयर कोणाक रावचें पडना. एक एकटो वचून

देवाचें दर्शन घेवन येता, ते म्हणसर तुमी मनाची तयारी करात. मंदिरांत वतना व्हाणो काडच्यो पडटात; माथ्याक तोपी आसल्यार तीय काडची पडटा. एका वेळार हांगा शुद्ध धवी खादी सोडून आनीक कितेंच घालून मंदिरांत वचूंक मेळ नासलें. पूण आतां धवी खादी दुर्मीळ जाल्ल्यान कोमिसांवान ही अट सैल केल्या. आतां कसलेंय देशी कापड वापरूं येता.

तर तुमी घडये म्हणटले, इतलें सगलें आसा तर धर्म ना कसो? हें खंयच्याय शांतादुर्गेच्या, दामोदराच्या मंदिरावरीच एक मंदीर; पूण तुमी फकत मंदिराचो भायलो साज पळोवन उलयतात. ताचो आकार, आवांठ बाकीच्या नामनेच्या मंदिरासारकोच. तसोच मंडप, गर्भकूड, घुमट, सगलें तशें. पूण इतल्यान कितें मंदीर जाता? मुख्य म्हणजे देवाची मूर्त. आमचें मंदीर वेगळें तें हांगा. आमकां धर्म ना, म्हणटकूच खंयच्याच खासा धर्माच्या देवाची मूर्त आमच्या मंदिरात ना. म्हणजे आमच्या मंदिरांत मुर्तूच ना. आनी पूजतात तो जितो जिवो देव. एक बुकल्यां पाळणींतलो गांवकार.

दर पांच वर्सांनी गांवकारांची एक सभा भरता. हे सभेंत महामंदिरांतल्या आसनार बसपाक एका गांवकाराक वेंचून काडटात. फुडल्या पांच वर्सांक ताची आमी पुजा करतात. पूण एक, कोणाकूच आपूण जावन फुडें सरपाक मेळना; तशेंच दुसऱ्यांचेंय नांव सुचोवं येना. गांवकार वेंचपाक आमी एक पोरनी चाल उपकारायतात. आमचे कडेन मागाकाळार स्वयंवरां हेच चालीन जातालीं. एके वाटयेंत शेणाचें उदक करताले. न्हवऱ्यांच्या उजव्या ताळटार ताचो थेंब घालताले. तो सुकमेरेन तांणी सुर्याक फुडो करून उबें रावपाचें. जाच्या ताळटावयलो थेंब सगल्यांत निमाणो आट्टा, ताच्या गळयांत माळ पडटाली.

अशें आमच्या पांचूय खंडांमदीं कोंकणाची शान वाडोवपी बिनधर्मी महामंदीर; असो आमचो रुपान सान, पूण किर्तीन म्हान बुकल्यां पाळणीचो गांव. हांसूं नाकात; जल्लो चाबलो जाल्यार तुमकां हांगाच येवचें पडटलें.

(कोंकणी - वर्सुकी अंक 1983) ☆

## 53

### लिना विजयानंद हेदे

# “गुलमोहर”

मनीस आनी सैम हांचें नातें तशें लागींचें. एकामेकांत विणिल्ले शेनीन धुसपल्ले. मनीस सैमाचो मोगी. सैमाचे सततचे बदल मनशाचेरय जातात. भायल्या वातावरणाच्या परिणामान सैम जसो बदलत वता, तसो तो आपल्या परिणामाचो शिंवर मनीसकुळारय करता. तात्पर्य, मनशाचे आनी सैमाचे नेम खंयतरी मेळटात, जुळटात.

वर्सावळी भशेन माय तापलो तसो जूनय तापलो. वताच्या भारान घामाच्यो पावळयो व्हांवंक लागल्यो. जीव उबगेलो. नाका जावंक लागलो. सैमय उबगेवन बावंक, करपूंक लागलो. सगळें वातावरणच गंभीर जालें. अश्या तापिल्ल्या वातावरणांतय जिवाक ह्या दिसांनी एक वस्त सुखावन वता आनी ती म्हळयार जनेलांतल्यान भायर दिसपी तो रसरसून फुलिल्लो गुलमोहर. घामान भरिल्ल्या तोंडार उदक मारून भायर येतासर नदर गुलमोहराचेर पडटा. आनी तापिल्या जिवाक वेगळोच भार येता, धादोसकाय भोगता. तायट मानेन मळबा कडेन सर्त लावपी सैमा मदले उठावदार अशें ताचें व्यक्तीत्व म्हाका खूब कितें तरी सांगता, सुचयता आनी गोंदळायता. ताचे विशीं कितल्योश्योच गजाली मना तुळा करूंक लागतात.

ह्या झाडाची कितली म्हूण तोखणाय करची! कवीच्या भावनांक हो हालयता, तरेकवार रुपांनी भुलयता, हातूंत दुबाव ना. एक मात खरें, दुसऱ्याच्या दुस्वासा कडेन नदर दिनासतना तापिल्ल्या निसर्गाचो भार सोसूनय हो खोशी दिसता. कितलो ताचो उदात्त हेत! कितली उच्च सोंशीक वृत्ती! हांव भारावन वराचीं वरां ताच्या रुपाक पळयत बसतां.

मायाच्या दिसांचो ताचो घसघसो म्हळयार सैमा भायली चलणूक. घामेल्ल्या मळबाचेर ताचे फुलार नदरेची शिंपणी म्हळयार तापिल्ल्या नदरांक तृप्त करपी आलाशिरो. खऱ्यांनीच, कितली सुखघेणी, सुखदेणी हाची जीण.

ताचें व्यक्तीत्व दुसऱ्याकय देख लावन वता. तांबड्या गुंज फुलांनी न्हेशिल्लें ताचें आंग पळोवन मन सुखावता ताची उमेद झोपय मारून घेवची शी दिसता. एका तरणाट्याकय लजोवपी ताची उमेद!

ताचें हे रूप म्हळयार फुलार इंगळयांचें पेट्टें न्हाण. हो इंगळयांचो भार हो माथ्यार झेलता आनी तापिल्ल्या मायाक आनीक लजयता. तें रूप जळींमळीं दिसता. ताका लागशिल्यान तोखेवचो, तसो पैशिल्यानय एकमुळोच तोखेवचो.

ताच्या ह्या भाराचें गूढ म्हाका होलमेवपाचें पिशेंच लागलां. ताका पळयतां पळयतां

म्हाका त्या माळावयल्या 'आयडाची' याद जाता. तेंय ह्या झाडा भशेन वर्साक तीन म्हयने फुलून येता, भार दाखयता. आयडाचो घोव तारवार. तो वर्साक एकादांच येवपी. वर्साचे णव म्हयने तें चिटयेची वा घोवाची याद काडीत पिरंगता आनी बावता. तो येवपाक थोडे दीस आसतना तांबडें हळडूवें न्हेसता, ओंठ रंगयता, आनी मिरयत भोंवता. ताचो भेस पळयतकच सगळयांकच तें कळटा. त्या दिसांनी ताच्या दोळयांत एक वेगळीच उमेद फुलिल्ली नदरेक भरता.

ह्या चंवरिल्ल्या गुलमोहराक कोणें चीट बरोवंक ना मू? गुलमोहराक पयस दोंगरार एकटोच भारेल्लो पळोवन म्हजो दुबाव आनीक वाडला. प्रणय आराधनेन ती येवपाची चीट येतकच चातका भशेन व्याकूळ जाल्लो भास जाता. त्या दोगरां असवडीं ताचें संकेत-स्थळ आसूंकच जाय. ती येता आसूंकच जाय. तो तर थंय लजेन आनी तिचे यादीन तांबडोच जाला. रेवत पर्वतार सुभद्रेचें हरण करपाक ऋषीच्या रुपान भगवीं वस्त्रां घालून आयिल्या तपस्वी अर्जुनाची याद म्हाका घस्टूंक लागता. काय रुक्मिणी-हरणांतल्या कृष्णा भशेन तो एके रुक्मिणीचें हरण करूंक फुलांचो रथ घेवन बी येवना मू? असोच भास जाता.

अशे उदात्त आनी सुंदर व्यक्तित्वाचेर कोण भाळचो ना? ती भाळळी हातूंत अजाप कसलें! वाऱ्या भायर वता-कडार ताचीं लिकलिकपी पानफुला गीत गायता तें आयकीन शें दिसता.

उटंगार पावसा उपरान्त गुलमोहराच्या पांयातळा पडिल्ल्या पांकळयांची तांबडी गुंज रास पळोवन म्हाका ती एक युद्धभूंय शी दिसता. युद्धभुंयेचेर जाल्लो रक्तखेव आनी ताचें तें जितें जागतें रक्ताळ चित्र. म्हजें मन कलिंग युद्धाची याद उसपिता. त्या पराक्रमी सम्राटाचो गर्भगळीत पुरुषार्थ ह्या प्रचंड रुखातळयान वदेता. झडिल्ले पाकळे कणकणीं ते युद्धभुंयेर विरश्री मेळिल्ल्याची शिरंगणा कशी दिसूंक लागता. मनांत करूण गीत आळेता. आनी गुलमोहराच्या झाडाक दोळे फुटूंक लागतात. एका दोळयांत त्या सम्राटाच्या जैताची काणी आनी दुसऱ्या दोळयांत विरश्रीची दुखां काणी अटंगार हुंवारानी म्हजेसयत व्हांवंक लागता.

माय सोपून जून लागलो. पावसाची शेन आता मर्दीं मर्दीं झडटा. ती येवची ना अशें आतां ताका दिसूंक लागलां, काय तो पावसा शेनीन बाविल्लेवरी दिसता. तो आता आंगपांग झडोवंक लागला. ताच्याच पांयांपोदा ताची झडिल्ली उमेद पळोवन वायट दिसता. ताचें बरेपण हावें तोखेलें, पळयलें. आतां ताच्या गळसल्ल्या व्यक्तित्वाक सावरीनय दिसता. म्हजीं पावलां नकळटां थंय पावतात. झडिल्ली पाकळी हांव हळूच उरफाटी करून पळयतां. म्हाका वाचूंक येना अशी लिपी. मोगाची भास तशी गूढच जांव ये. सगळयो पाकळयान पाकळयो पुंजावन ताची काणी घडोवन वाचची शी दिसता. म्हाका तिचो राग येता. ही काणी आतां वर्सावळीचीच जाल्या. आतां ताका गळसणून गेल्लो वर्सभर पळोवचो पडटलो म्हूण मन उस्वासता. तो गळसतकच म्हज्यान ताचे नदरेक नदर दिवं नज जाता. हांव मान सकयल घालून फुडें चलूंक लागतां.

(कोंकण टायम्स- खास अंक, 1984) ☆

# लेखकांची वळख

1. **शणै गोंयबाब -वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार.** (1877-1946.)

मूळ गांव : दिवचल. मुखार ते मुंबय वचून रावले. ''कोंकणी भाशेचें जैत', ''कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ'', ''मोगाचें लग्न'', ''झिलबा राणो'', ''गोमन्तोपनिषद्'' ''भगवंतालें गीत'', ''गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक,'' ''आबे फारीय'' बी जायतीं पुस्तकां रचलीं. अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याची बुन्याद तांणी घाली.

2. **रामचंद्र शंकर नायक** (1893 - 1950.)

मूळ गांव : म्हाड्डोळ. पणजे 'इस्कॉल नॉर्माल' चे प्रोफेसर जावन गेले. तांणी हांसोवणी नाटकुलीं बरोवन कोंकणी माची गिरेस्त केली. ''चवथीचो चंद्र'', दामू कुराडो, एक हजार आनी तेईस, म्हाराज, सोनुदादालो संवसार, म्हाजो सर्गार आसल्लो घरकार, रायबाऱ्याली व्हाड्डीक हे तांचे कांय खेळ. तांणी एक शब्दकोशय बरोवन दवरला.

3. **रामचंद्र नारायण नायक** (1901 - 1982.)

मूळगांव : मोरजे. 1926 वर्सा ते तत्त्वगिन्यान हो विशय घेवन बी. ए. जाले आनी उपरांत मुंबयच्या राजा राममोहन रॉय हायस्कुलांत शिक्षक म्हूण वावुरले. महात्मा गांधींचे चळवळींत तांणी वांटो घेतलो. साबरमती आश्रमांत हरिजनांचे शाळेंत तांणी दोनेक वर्सां शिकयलें. आनी मागीर पर्थून मुंबय, खार हांगा एका हायस्कुलाचे प्राचार्य जाले. टॉलस्टॉय, खलील जिब्रान, रविंद्रनाथ टागोर, हांचें वेंचीक बरप कोंकणींत अणकारलां. साहित्य अकादमी खातीर शणै गोंयबाबाचें चरित्रमय पुस्तक बरयलां.

4. **लक्ष्मणराव सरदेसाय** (1904 - 1986.)

मूळ गांव : सावयवेरें. फोंडें आल्मैद कॉलेजींत लिसेवाचे प्रोफेसर आनी डायरेक्टर आसले. मराठींत आनी कोंकणींत लिखाण केलां. कोंकणीत ''कथाशिल्प'', ''पापडां कवळयो'', ''खबरी'', बी पुस्तकां उजवाडायल्यांत. तांच्या ''खबरी'' ह्या निबंदाच्या पुस्तका खातीर साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला.

5. **दिनकर दत्तात्रय देसाई** (1909 - 1982)

मूळ गांव : कुमट्यालागी होंडकल. बी. ए. परिक्षेंत (इतिहास) पयलो आयिल्लेबद्दल कँडी प्राईज. एम्. ए., एल एल. बी. मेरेन शिक्षण. 1935 साला ''सर्वट्स ऑफ इंडिया'' सोसायटी तर्फेन समाज कार्य. मुंबयचे नगरसेवक, उत्तर कानडा जिल्ह्यातर्फे लोकसभेचे सभासद, बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाचे विश्वस्त. कन्नड भाशेंत ल्हान-ल्हान विनोदी कवनांची वा चुटुकांची भरपूर रचना.''दिनकरन् चौपदी'' या संग्रहाक 1978 वर्साचो उत्कृष्ठ काव्यसंग्रह म्हूण कर्नाटक साहित्य अकादमी तर्फे डी. लीट. ही सर्वोच्च पदवी.

6. **बाकीबाब बोरकार** (1910-1984)

मूळ गांव : बोरी. मराठी साहित्यीक कवी म्हूण तांणी नामना जोडल्या. पद्या भायर तांणी चरित्र, निबंद आनी कादंबरी सारके गद्य बरपूय केलां. कोंकणींत तांणीं ''पांयजणां'', ''सासाय'', हीं काव्याचीं पुस्तकां; ''गिताय'' ''पैगंबर'' ''भजगोविंदम्'' बी अणकार तशेंच, भुरग्यां खातीर व्याकरणूय बरयलां. तांच्या ''सासाय'' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला.

7. **फादर एच. ओ. मास्कारेञ्यस** (जल्म : 1912)

हयुबर्ट ओलिंपियो मास्कारेञ्यस. मुंबयच्या सेंट सेबास्टियन हायस्कुलाचे प्राचार्य आसले. मुंबय विश्व विद्यालयांत भारतीय संस्कृताय हो विशय शिकयताले.

धर्म, इतिहास आनी भाशा हांचेर तांणी मोलादीक बरोवप केलां.

8. **शांताराम हेदो** (1912-1992.)

पोर्तुगेज शिक्षक, झोनल इन्स्पेक्टर म्हूण वावर केलो. "बापू", "यात्रीक", "घरपुरुस", ही पुस्तकां आनी तरेकवार विशयांचेर निबंद बरयल्यात.

तांच्या "बापू"क नेहरू पुरस्कार आनी कला अकादेमीचें इनाम फाव जालां. एका कोंकणी शब्द कोशाचोय वावर तांणी पुराय केला.

9. **पुरुषोत्तम काकोडकार** (1913, काकोडें गोंय.)

पोर्तुगेज लिसेवाचो कोर्स आनी बनारसांतल्या संस्कृत कॉलेजींतल्यान "शास्त्री" ही पदवी संपादन.

भारताचो स्वातंत्र्य लढो आनी गोंयचे सुटके झुजांत सक्रीय वांटो घेवन 1940 धरून 1961 मेरेन सुटके चळवळ चलयली. पोर्तुगालांतल्या पेनिशी किल्ल्यांतले बंदखणींत कैदेची ख्यास्त आनी लिस्बनांत नदर कैद, अशीं लागीं लागीं धा वर्सां पोर्तुगालांत हदपारीची ख्यास्त भोगली. खेरीज गोंय, दमण, दीव कॉंग्रेसचे अध्यक्ष, लोकसभा सदस्य, राज्य सभेचे वांगडी, कोंकणी अकादेमीचे पयले संस्थापक अध्यक्ष आनी जायत्या संस्थांचे मानकरी. तांचे लेख, निबंद बी मोलादीक साहित्य उजवाडाक आयलां.

10. **लुसियो रोद्रिग्स** (1915 - 1973)

कर्नाटक कॉलेज धारवाड. मुंबय युनिव्हर्सिटीच्या एलफिन्स्टन, रुईया, सिद्धार्थ, सोफिया बी कॉलेजांनी आनी उपरांत पोस्ट ग्रॅज्युयट सेंटर गोंय, धेंपे कॉलेज, पणजे; हांगा इंग्लीश भाशेचे दर्जेदार शिकोवपी प्राध्यापक. स्वातंत्र्य सैनीक. फ्रेंच, इंग्लेज भासांचो आनी कोंकणी जानपदांचो सखोल अभ्यास.

तांणी The Skyline हें नेमाळें संपादन केलें. तांचो गोंयच्या लोकवेदाचो दांडगो अभ्यास आसलो. Soil and soul and Konkani folk tales; Dekhnni The love song mando... हीं तांचीं कांय नामनेचीं पुस्तकां.

11. **निळकंठ साळकार** (1917 - 1979)

जल्मगांव नार्वे. फ्रेंच आनी इंग्लीश भाशेचे प्राध्यापक म्हूण एम्. टि. बी. कॉलेज, सुरत, आर. पी. डी. कॉलेज, बेळगांव, आनी उपरांत मुंबयच्या खालसा कॉलेज, रुपारेल कॉलेज आनी विल्सन कॉलेजांनी भाशा शिक्षक म्हूण नामना जोडली. इंग्लीश आनी कोंकणींत तांणी जायतें बरप केलां.

12. **र. वि. पंडित** (1917 - 1990)

मूळ गांव : पाळें. "आयलें तशें गायलें", "म्हजें उतर गावड्याचें", "उरतलें तें रूप धरतलें" "धतरिचें कवन", "चंद्रावळ", "रेंवेंतलीं पावलां", "नाच रे मोरा", "मोतयां", "दर्या गाजोता" बी कवितांचे झेले उजवाडाक आयल्यात. "म्हाभारत आनी रामायणांतल्यो कथा" तशेंच "गोड गोड काणयो" हे तांचे भुरग्यांखातीर बरयल्ल्या काणयांचे संग्रह.

चित्रकार आनी पत्रकार म्हणूनय नामना आसा. तांका "पद्मश्री" ही पदवी मेळळ्या "दर्या गाजोता" ह्या कवितां- पुस्तकाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळळा.


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No: 000234

13. **वि. ज. उसगांवकार** (जल्म - 1919)

मूळगांव उसगांव, गोंय. : मराठी, पोर्तुगेज-लिसेवाची पांच वसा, मुबय ।वद्य॥५०।च इंटर आर्टस आनी इंटर कॉमर्स बी, खेरीज हिन्दी, संस्कृत भाशेचो खास अभ्यास.

आदीं मुष्ठीफंड शाळा, पणजे हांगा हेडमास्तर. (1949-53) 1957 ते 1980 मेरेन मुंबय आकाशवाणीर वृत्त निवेदन. निवृत्त जाले उपरांत, कोंकणी शुद्धलेखनाचेर संशोधन.

जायतें गद्य बरप केलां. तांचे सुरबूस लेख, निबंद बी नेमाळयांनी उजवाडाक आयल्यात.

14. **दत्ताराम सुखठणकार** (जल्म - 1924)

मूळ गांव माशेल. गोंयच्या सुटके झुजांत वांटो घेतलो. गोंयां दोतोरकीची परिक्षा दिवन मागीर मुंबय स्थायीक जाले. आकाशवाणी आनी कोंकणी नेमाळयां खातीर जायतें बरयलां. तांच्या ''मान्नी पुनव'' ह्या विनोदी निबंदाच्या पुस्तकाक साहित्य अकादमी चो पुरस्कार फाव जाला.

15. **मनोहरराय सरदेसाय** (जल्म -1925)

शिक्षणांत सदांच पयल्या वर्गांत पयले येवपाचो मान तांणी एम. ए. मेरेन राखलो. फ्रान्सांतल्या सोरोबोन विद्यापिठांतल्यान पी. एच. डी. केली. मुंबयच्या विल्सन, रुईया, चौगुले कॉलेज- मडगांव, हांगा फ्रेंच विशय शिकयलो. कांय वर्सां मुंबय आनी उपरांत गोंय विद्यापिठांत फ्रेंच विभागाचे मुखेली म्हूण काम केलां. खेरीज कोंकणी विश्वकोशाचे संपादक, कोंकणी अकादमीचे उपाध्यक्ष.

आठवे कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय चे यजमान आसले. 'पिसोळी' ह्या ताच्या कविताच्या पुस्तकाक साहित्य अकदमी पुरस्कार फाव जाला.

16. **रवीन्द्र केळेकार** (जल्म - 1925)

मूळ गांव पिरवोळ. कोंकणींतले नामनेचे निबंदकार. ''कथा आनी काणयो'', ''तुळशी'', ''वेळेवयल्यो घुलो'', ''उजवाडाचे सूर'', ''नवी शाळा'', ''हिमालयांत'', ''ब्रह्मांडांतलें तांडव'', ''अनुसर्जित - महाभारत'' बी ग्रंथसंपदा तांच्या नांवार आसा. ''मीर्ग'' आनी ''गोमंतभारती'' चे संपादकय आसले. ''हिमालयांत'' ह्या तांच्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जाला.

17. **शंकर भांडारी** (1925-1988)

मूळ गांव कुंभारजुवें. कविता, लेख, निबंद अशें साहित्य बरयलां. ते एक नकसूद कोंकणी बरोवपी आनी प्रभावी उलोवपी आसले. आकाशवाणी पणजे केन्द्रार तांणी काम केलां. तांचो ''पावला कणकणी'' हो निबंद संग्रह उजवाडाक आयला.

18. **वसंत नेवरेकार** (शिकप : एम्. ए. मेरेन)

आदीं शिक्षक म्हूण आनी उपरांत विदेश मंत्रालयांत प्रसिद्धी विभागांत काम केलें. विदेशांत नेमणूक जाली. इंग्लीश आनी कोंकणींत लिखाण केलां. पत्रकार म्हणूनय नामना मेळयल्या. तुर्ताक अमेरिकेक स्थायीक जाल्यात.

19. **मो. कार्मु द सिल्व्ह** (जल्म : नायरोबी केनिया)

सुरवेचें शिकप कांसावले गोंय. उपरांत रायतूर सेमिनारींत पाद्रीपणाचें शिक्षण पुराय केलें. रोमांतल्या ग्रेगोरियन पिठांत धर्मशास्त्रांत पी. एच. डी., रोमांतूच रावन ''बिबलिकल इंस्टिट्युटांत'' पवित्र पुराणाचेर शिकप करून ''लायसनसियेट'' ही पदवी हाशील केली. रायतूर सेमिनारीचो प्रोफेसर आनी उपप्राचार्य. साळगांवचे धाकटे सेमिनारीचे प्राचार्य आनी मागीर सुमार 24 वरसां रायतूर सेमिनारीचे प्राचार्य. तुर्ताक पणजे इगर्जेचो 'विगार वार'' लिखाण ''Boletim Eclesiastico da Arqidiocese de Goa हाचो संपादक. तांणी ''Enciclopedia

Cattolica Italiana'' हाजेर ''पोर्तुगाल, गोंय आनी माकाव हांगच्यो इगर्जो हाजेर लेख बरयला. खेरीज ''Instituto Vasco da Gama'', Indian Heritage बी संस्थांचो वांगडी. गोंय विद्यापीठ पोर्तुगीज अभ्यास मंडळाचो वांगडी आनी व्हिजिटीग प्रोफेसर. तांचें खूब बरप गोंयच्या दिसाळयांनी आनी ''Revista de Cultura de Macau'' हांचेर उजवाडाक आयला.

20. **सुमंत केळेकार** (जल्म - 1927) [एम्. ए.; एम्.एड्.; एल्. एल्. बी.]

मूळ गांव : पिरवोळ. माध्यमीक शाळेंत हेडमास्तर म्हूण 1961 ते 1975 आनी टिचर्स ट्रेनींग इंस्टिट्यूटचे प्रिन्सिपॉल 1975 ते 1987 मेरेन. कोंकणी भाशेचीं पाठ्यपुस्तकां रचूंक तांचो मोलाचो वांटो आसा. तांणी बरयल्ले ''नांवाचो खेळ, सोर्त'' बी निबंद बरेच गाजल्यात. ''जाग'' प्रकाशनाचे ते वावुरपी संपादक म्हूण काम पळयतात.

21. **मनोहर पै धुंगट** (जल्म - 1930) मूळगांव वेरें बार्देस.

पयलीं गोंयां आनी उपरांत मुंबय - सिडनॅम कॉलेज, गव्हर्मेंट लॉ कॉलेज आनी बजाज इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट.

मंत्रालय, सिकॉम आनी तुर्ताक श्रॉफ टेक्स्टायलस् लिमिटेड हे कंपनींत कॉर्पोरेट ॲडवायझर म्हणून काम पळयतात. तांणी आकाशवाणी मुंबय, ''साळीक'' ''सुनापरान्त'' बी नेमाळयांनी जायते लेख, एकांकिका आनी भुरग्यां खातीर काणयो बरयल्यात.

22. **भालचंद्र उमानाथ खंबदकोण** (जल्म -1931)

एम्. ए. (इंग्लीश भाशा आनी साहित्य)

सिलोन, मंगळूर आनी मद्रास हांगाच्या विद्यापिठांनी तांचें शिक्षण जालें. इंग्लीशीचे प्रोफेसर म्हूण बी. एम. कॉलेज ऑफ कॉमर्स- पुणें, अमेरिकन कॉलेज- मदुराय, चौगुले महाविद्यालय -मडगांव गोंय हांगा शिकयलें. इंग्लीश भाशेचे ''बोर्ड ऑफ स्टडीस'' मुंबय आनी गोंय विद्यापिठाचे वांगडी आसले. तांणी चडशें बरप इंग्लिशींत केलां. मॅकमिलन इंडिया खातीर बरयल्लें Tales of Edgar Allan Poe'' हें तांचें पुस्तक पदवी परिक्षेखातीर वापरतात.

23. **अच्युत तोटेकार** (जल्म -1932)

पिरवोळ. वैदिक, संस्कृत आनी हिंदी भासांचो अभ्यास. पुजारीपण आनी बागायती हो वेवसाय. मुंबय रेडिओचेर आनी उपरांत गोंय रेडिओचेर तांच्यो कोंकणी साहित्यीक कार्यावळी गाजल्यो. गोमंतक, राष्ट्रमत दिसाळयांचे वार्ताहार म्हूण काम करतना जायते ललीत आनी कथा लेखन केलें. तांचो ''चैत्रांगण'' हो कथा संग्रह उडवाडाक आयला.

24. **फेलीसियु कार्दोज** (जल्म -1932)

मूळगांव सुरावली, साश्टी. पोर्तुगेज लिसेवाचें आनी तत्त्व गिन्यान घेवन एम्. ए. मेरेन शिक्षण. गोंयच्या सुटकेच्या झुजांत वांटो घेतलो. आग्वादचे बंदखणींत जायते कश्ट भोगले.

सुटेक उपरांत ''गोंयचो साद'', ''सत'', ''दिवटी'', ''लोकसाद'', ''नवें गोंय'', ह्या रोमी लिपींतल्या नेमाळयांचे संपादक आसले. ''तुफान'', ''निमणी इत्सा'', सिंदबाद बी काणयां- झेले उजवाडाक आयल्यात.

कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष आसले.

25. **किसन पुरुषोत्तम कामत** (जल्म -1932, मडकय)

शिकप : जी. डी. आर्ट [पेंटींग] जी. डी. आर्ट [कमर्शीयल] एम. ए.

सर. जे. जी. उपयोजित कला महाविद्यालय- मुंबय हांगा प्राध्यापक.

आकाशवाणी मुंबय हांगा 1957 ते 1961 मेरेन कोंकणी विभागांत नोकरी करतना

तरेकवार साहित्य निर्माण केलें. नाटकां, निबंद, चालू घडामोडीवयल्यो चर्चा बी. तांचें ''दोन आनी दोन'' हो एकांकिका संग्रह उजवाडाक आयला.

26. **नागेश करमली** (जल्म -1933)

केपें. गोंयचे सुटेक चळवळींत वांटो घेतलो आनी बंदखण भोगली. कोंकणींत आनी मराठींत जायते लेख आनी कविता उजवाडाक हाडल्यात. तांच्या कवितांचे ''जोरगत'' आनी ''सांवार'' अशे झेले उजवाडाक आयल्यात. ते आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर 'स्टाफ आर्टिस्ट'' म्हूण काम करताले.

27. **चंद्रकांत केणी** (जल्म -1934)

''राष्ट्रमत'' ह्या मराठी आनी 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दिसाळयांचे संपादक. कोंकणी भाशा मंडळ [गोंय] अध्यक्ष आसले. इकरावे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिषदेचे अध्यक्ष आसले. ''भूंय-चाफीं'', ''आशाढ पांवळी'', ''एकलो एकसुरो'', ''तरे तरेचीं सवंगा,'' ''अळमीं'', ''व्हंकल पावणी'' हीं तांचीं कांय उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां. खेरीज ''बिम्बां पडबिंम्बां'' हो तांगेलो ललित निबंदाचो संग्रह उजवाडाक आयला. तांच्या ''व्हंकल पावणी'' ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला.

28. **गोविंद मुद्रस** (जल्म -1934. कालापूर)

शिकप : कोंकणी, मराठी, पोर्तुगीज आनी उपरांत इंटर आर्टस मेरेन इंग्लीश.

केंद्र सरकाराच्या खात्यांत अधिकारी.

कथा, निबंद समिक्षा बी साहित्य आगळे वेगळे शैलीन उक्तायलां.

29. **रामकृष्ण जुवारकार** (जल्म 1935 मूळगांव व्हडलें गोंय.)

आदीं कांय वर्सां 'फ्रेंच' भाशेचे शिक्षक, उपरांत नेहरू युवक केंद्राचे संयोजक (गोंय फांटो). तांणी नाटकां, कथा, निबंद, स्तोत्रां, धर्म-गितां बी साहित्य प्रकारांचेर सुमार पन्नासां वयर पुस्तकां कोंकणींतल्यान उजवाडायल्यांत

30. **अ. ना. म्हांबरो** - [अरविंद नारायण म्हांबरो] जल्म - 1938.

मूळ गांव रायबंदर. : आदीं तत्त्वगिन्यानाचे प्राध्यापक, उपरांत इकॉनॉमिक कन्सल्टन्सी सर्विस टाटा हांगा नोकरी. ''गोंयची अस्मिताय'', ''घुमचे कटर घुम'' हीं पुस्तकां.

तांगेल्या ''पणजी आतां म्हातारी जाल्या'' ह्या कथा संग्रहाक साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला. ''प्रसाद फूल'' आनी स्वतंत्र गोंयांतली ''कोंकणी कथा'' हे संग्रह संपादीत केल्यात.

31. **कल्पना कामत** (जल्म - 1939, मुंबय) बी. ए. [मुंबय विद्यापीठ]

मांयभास मराठी, पूण लग्ना उपरांत कोंकणीचो सराव केलो आनी मुंबय आकाशवाणी खातीर जायतें बरप केलें. तांचे निबंद बरपांत एक वेगळी नदर आनी शैली आसता.

32. **लक्ष्मीनारायण पारज** (जल्म - 1939) फोणलें, पैंगीण-काणकोण - गोंय

स्ट्रक्चरल कन्सल्टंट आनी सरकारमान्य व्हॅल्युअर. व्ही. जे. टी. आय [मुंबय] आसतना कोंकणी विभागाचो प्रतिनिधी, गोमंतक साहित्य सेवक मंडळाचे कार्याध्यक्ष. तांच्या ''मेरेवेलो गांवकार'' ह्या पुस्तकाक कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार फाव जाला.

33. **सुहास दलाल** (जल्म - 1940)

मूळ गांव : केपें. वेवसाय वकिली. ''उमाळो'' हो कवितांचो झेलो, ''काणी काणी कोतवा'' हें भुरग्यां खातीर पुस्तक आनी ''श्री चंद्रेश्वर स्तोत्र'', ''श्री दामोदर स्तवन'', ''श्री शांतादुर्गाख्यान'', ''श्री मंगेशमहात्म्य'' हीं धर्मीक पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

''परमळ'' ह्या नेमाळयाचे ते संपादन करतात.

34. **हरिश्चंद्र नागवेंकार** (जल्म - 1941 मडगांव.)

पोर्तुगीज लिसेवाची सातव्या वर्साची परिक्षा पास जाले उपरांत मुंबय विद्यापिठाची अर्थशास्त्राची एम्. ए. ही पदवी घेतली. राष्ट्रमत आनी गोमंतक ह्या मराठी दिसाळयांनी उपसंपादक म्हूण वावुरले. मालवण सिंधुदुर्ग कॉलेजांत आनी उपरांत वास्कोच्या एम्. इ. एस. कॉलेजींत उपप्राचार्य आनी अर्थशास्त्र विभागाचे प्रमुख म्हूण आसात. कोंकणी, मराठी, इंग्लीश, पोर्तुगेज भासांनी तांणी बरप केलां. कोंकणी समिक्षेचेर ''आस्वादन'' हें तांगेले पुस्तक उजवाडाक आयलां.

35. **तानाजी दुलबा हळर्णकार** (जल्म - 1943) एम. ए., पी. एच. डी.

''गोंयचे पंचायत राज्य'' हाजेर प्रबंध बरयला. कोंकणी विश्वकोश [गोंय विद्यापीठ] ह्या खंडाचे कार्यकारी संपादक. खेरीज कोंकणी भाशा मंडळ, कोंकणी लेखक संघ, कलाघर गोंय, गोंय विद्यापीठ विद्यार्थी कल्याण विभागाचे प्रमुख - अशा कितल्याश्याच संस्थांचीं म्हत्वाचीं पदां सोबयल्यांत. दानत [नाटक] ख्यास्त [एकांकिका] कथा दोन सोशांची [भुरग्यांखातीर एकांकिका] बी पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

36. **ओलिव्हीऱ्यु गोमिश** (जल्म - 1943 जुंवें [सांतइश्तेव्हा])

समाजशास्त्रांत पी. एच. डी. ही पदवी

'सुंपुल्लो काणयां पाटुलो,' 'फ्रांसीस लुईश गोमिश,' 'जिवीत आनी वावर,' 'सुस्कारे,' 'मन ओडटा ओडना,' 'मेघदूत,' 'पुंजायिल्ल्यो पाकळयो,' 'मोनजाती घरभाट,' 'तोडिल्लीं पांखां,' 'कोंकणी सरस्पतिचो इतिहास' बी पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

1969 वर्सा आय. ए. एस जाले. गोंय विद्यापिठांत पयले कोंकणीचे पूर्ण प्रोफेसर आनी विभाग प्रमुख म्हूण जून 1987 पासून काम करतात. खेरीज साहित्य अकादेमीचे वावुरपी समितीचे मानादीक वांगडी आसले.

37. **सोतेर रेनातु एन्. द पियेदादि बार्रेतु.** (जल्म - 1944.)

पोर्तुगीज लायसियम [ पांच वर्सां] बी. ए. [बॉं. यु.]

गोंय सरकाराच्या भलायकी विभागांत काम करतात. कोंकणी भाशा मंडळाचे आदले सर चिटणीस. जायतें बरप रोमी आनी देवनागरींतल्यान उजवाडाक आयलां. कविता, निबंद, कथा हें साहित्य तांणी बरें केळयलां.

38. **पुंडलीक रामचंद्र केळेकार** (जल्म- 1944 प्रियोळ.)

मुंबय विद्यापिठाची एम्. एस्सी.

हॉस्पिसियु हॉस्पिटल, मडगांव गोंय हांगा जीव-रसायन शास्त्र विभागाचे मुखेली. साहित्य नेमाळयांनी तांच्यो कथा, निबंद बी उजवाडाक आयल्यात. खेरीज गोंय कला अकादमीचे बरो अभिनय आनी संगिता खातीर पुरस्कार जोडल्यात.

39. **दामोदर मावजो** (जल्म- 1944 माजोड्डें.)

कथा, निबंद, कादंबरी हाताळटना आपणाली खाशेली शैली सांबाळळया. कोंकणी दिसाळयांतल्या सदरांत दर्जेदार बरप केलां.

गांथन, जागरणां, रुमडफूल हे तांचे कथा झेले. ''सूड'' ही ल्हान कादंबरी. तांगेले ''कार्मेलीन'' हे कादंबरीक साहित्य अकादेमी इनाम फाव जालां.

''एका खोमसाची काणी'', ''बाबुलो'' हीं ल्हान भुरग्यां खातीर बरयल्लीं पुस्तकां.

40. **मीना (गायतोंडे) काकोडकार** (जल्म - 1944)

मूळ गांव : पाळोळें, काणकोण. मुंबयच्या विल्सन कॉलेजांतल्यान बी. एस्सी. चो शिक्षणक्रम पूर्ण करतकच त्यो गोंय सरकारच्या लेखा निर्देशालयांत कामाक लागल्यो.

सध्या त्यो मडगांव फांट्यांत डेप्युटी डायरेक्टर ऑफ अकाउन्टस च्या हुद्द्यार आसात. चित्रकला आनी नाट्याभिनयाची तांकां भोव आवड. ''दोंगर चंवल्ला'' [1976] हो तांगेलो कथा संग्रह, गोंय हायर सेंकंडरी बोर्डाच्या बारावेच्या अभ्यासक्रमांत आनी परत सद्या गोंय विद्यापिठाच्या बी. ए. च्या पयल्या वर्साच्या अभ्यासक्रमांत क्रमीक पुस्तक म्हणून ताची निवड जाल्या.

तांच्या ''सपनफुलां'' ह्या कथासंग्रहाक 1991 वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला.

41. **प्रकाश गं. थळी** (जल्म - 1945)

एम्. ए. [इंग्रजी साहित्य] एल्. एल. बी., डिप. एच. ई. [मुंबय विद्यापीठ] कथाकार, निबंदकार, नट, दिग्दर्शक, नाटककार, प्राध्यापक, समिक्षक, पत्रकार, संपादक [कुळागर आनी सा. अ. चो ''एन्सायक्लोपिडिया ऑफ इंडियन लिटरेचर ''कोंकणी विभाग''] सध्या वकिलीचो वेवसाय. - वेटींग फॉर घासलेट आणि इतर एकांकिका [मराठी 1976] तीन खेतीं शाणीं सुरतीं [सात कोंकणी एकांकिका 1987] अजिबपुरांतली कल्पकथा [1990] [हें रुपांतरीत नाटक] उजवडा आयल्यांत. ''संस्कार'' कादंबरीच्या भाशांतराखातीर तांकां साहित्य अकादमीचो 'अणकाराखातीर' पुरस्कार फाव जाला.

42. **महाबळेश्वर सैल** (जल्म - 1945)

कारवार माजाळी. शिक्षण : एस्. एस्. सी. मेरेन. भारतीय फौजेंत तांणी कांय वर्सां अणभव घेतले. तुर्ताक ते केंद्रीय सरकारी अधिकारी म्हूण काम करतात.

''पलतडचें तारू'' आनी ''तरंगां'' हे तांगेले कथा संग्रह उजवाडाक आयल्यात. तांच्या ''तरंगा' त्यो कथासंग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फाव जाला.

43. **शीला कोळंबकार** (जल्म-1945 मूळ गांव पणजे-गोंय)

तांच्या कथांक कथा स्पर्धांनी इनामां मेळ्ळयांत। तांचो ''ओली सांज'' हो कथा झेलो उजवाडाक आयला।

आदी एक शिक्षिका म्हूण काम पळयलां। तुर्ताक बँकेंत नोकरी करता.

44. **जयमाला (प्रभू चोडणेकार) दणायत** (जल्म - 1947, जांबावले.)

मुंबय विद्यापिठाच्यो बी. ए. [इकॉनॉमिक्स आनी पॉलिटीक्स], पूना युनिव्हर्सिटीची एम्. ए. [एन्टायर हिन्दी] तशें रा. भा. पंडीतची परिक्षा पास केल्या. बँक ऑफ इंडियेंत नोकरी करतनाच मुंबयच्यान रेडियो, टि. व्ही. खातीर कार्यावळी सादर केल्यो. तांचो ''कवासो'' हो कथांझेलो तेच प्रमाण ''सप्तक'' हो एकांकिका संग्रह उजवाडाक आयला.

45. **भरत रघुवीर नायक** (जल्म -1950.) उत्तम नट, कुशल दिग्दर्शक.

तांच्या ''चपलाहार'' ह्या एकांकिका संग्रहाक गोंय कला अकादमी साहित्य पुरस्कार फाव जाला. ''तिसरे माळयेर बस'' एकांकी संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार फाव जाला. खेरीज ''चामट्याक चिमटो,'' ''पड रे पावसा पड,'' ''मना-मना,'' बी पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ते कथा, कविता, बालगितां आनी भुरग्यां-काणयो नेमान बरयतात.

46. **सिक्वेरा सिरील ग्रेगरी** (जल्म - 1951)

मूळ गावं बिराव मुडबीद्री [दक्षीण का. डिस्ट्रीक्ट]

कोंकणीत जायतें बरप केलां आनी इनामां जोडल्यांत. मंगळुरासान उजवाडा येवपी ''राखणो'' ''काणीक'' बी नेमाळयांनी नेमान बरप करतात.

47. **पुंडलीक नारायक नायक** (जल्म - 1952) मूळ गांव वळवय. [सावयवेरें]

कथा, कादंबरी, नाटक, कविता, निबंद, लेख तांणी हाताळल्यात. गांवधनी गांवकार, खण खण माती, रक्तखेव, सारकीं नाटकां "अच्छेव" सारकी कादंबरी "मुठय" "अर्दूक", बी कथां झेले, "गा आमी राखणे" हो कविता झेलो ही तांची पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांच्या "चौरंग" ह्या एकांकिका झेल्याक साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाला.

48. **तुकाराम रामा शेट** (जल्म -1952. मूळ गांव वळवय-गोंय.)

अर्थशास्त्रात पदवी. मराठीचें भाशाशास्त्र, साहित्य समिक्षा ह्या विशयांसयत मराठी भाशेंत स्नातेकात्तर पदवी.

"शब्दूल", "कोंकण टायम्स" आनी "कोंकणी" खास अंक (84-85) चे संपादक. कथा, कविता, ललित लेख, एकांकी, बाल कविता बी लेखन. "पाखलो" हे कादंबरीक कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार फाव जाला.

पारंपारीक बाल साहित्याचें पुनरुज्जीवन करपा खातीर पुस्तकां, कॅसेटी, बालमेळ, शिक्षकांक प्रशिक्षण बी मोलादीक वावर करून प्राथमिक शिक्षणांत बुन्यादीचो वावर केला.

49. **हेमा पुंडलीक नायक** (जल्म - 1952. वळवय)

अर्थशास्त्र घेवन बी. ए. खेरीज, मराठी, हिन्दी, साहित्याचो अभ्यास.

गोवा अर्बन को-ऑपरेटीव्ह बँकेत नोकरी.

"चित्रंगी" ह्या बायलां खातीर आशिल्ल्या नेमाळयाच्यो संपादिका. कथा, एकांकिका, निबंद, बी साहित्याचे प्रकार कोंकणी आनी मराठींत उजवाडायल्यात.

तांगेलो "पसय" [कथासंग्रह] भायली गोडी [एकांकिका संग्रह] आनी अस्तुरमृग [निबंद] बी बरप उजवाडाक आयलां.

50. **पांडुरंग फळदेसाय.** (जल्म - 1952, मूळ गांव काणकोण.)

गोंय कला अकादमींत ते लोककला, संस्कृती आनी साहित्य ह्या विभागांत काम करतात. कविता, ललीत लिखाण आनी लोककलांचेर तांणी बरेंच बरप केलां. 'काणी काणी कोतवा,' 'गोमंतकीय संगीत' (मराठी) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

51. **अभयकुमार वेलींगकार** (मूळ गांव - वेलींग-गोंय. वेवसाय - इंजिनियर.)

तुर्ताक इंडस्ट्रीयल डेव्हेलोपमेंट कॉर्पोरेशनात काम.

'माकडाचें लग्न,' 'माणकुलीं कवनां,' 'कुमार गितां,' 'सिलास मारनर, [नाटकुले],' 'क्रांतिवीर सावरकार,' 'बर्फाचें जग,' 'रानफुलें,' 'दीस उदेतकूच यो,' 'बुरखे,' 'परीक्रमा,' 'काव्यरत्नावली,' 'पिसाय,' 'कंवच्यो,' 'लव्ह स्टोरी' - बी पुस्तकां आनी जायते निबंद उजवाडाक आयल्यात. तांच्या कथा आनी कविता संग्रहाक कों. भा. मंडळाचो साहित्य पुरस्कार फाव जाला.

52. **तेनसिंग - कार्लुस रोद्रीगिश** (जल्म - 1954 पणजे)

शिकप : एम. ए., डी. एच. इ.

वेवसाय : अर्थशास्त्राचे प्राध्यापक, एक संशोधक आनी लेखक,

53. **लीना (हेदे) कुंकळियेंकार.**

बी. कॉम मेरेन शिक्षण. कवियत्री. कविता, निबंद, ललित लेख बी जायतें बरप केलां. साहित्य सर्तींनी इनामां जोडल्यांत. रंगमाचयेर हौशी कलाकार म्हूण वांटो घेतला. खेरीज नाच, खेळ, संगीत हांची आवड.

२।।

☆

कोंकणी ललित वरपाच्या आरंभा सावन जायत्या जाणांनी निबंद केळयला. ह्या निबंदाचें शिल्परुप बदलत गेलां. आयच्या निबंदाक ललित गद्याची सोंब्र मारता. कंवळो, ल्हवपीक, गोमटो निबंद भुरळ घालता.

कोंकणींतले हे निबंद नेमाळीं आनी दिसाळ्यांच्या पानांनी दडल्यात. तांतलेच कांय वेंचीक निबंद ह्या संग्रहांत आसपायल्यात. ललित निबंदाचें मूळ आनी कूळ, कोंकणी निबंदाचे अंत:प्रवाह.... ताचें बळगें आनी दुबळेपण हाचो अंदाज हे निबंद वाचतल्याक येतलो. ललित निबंदान काळा प्रमाण घेतिल्लीं मोडणां आनी बदलत्या शैलींच्यो पती हातूंत झळकतात.

सुमार त्रेपन ललित लिखाणांचे नमुने पयलेच फावट एकठांय हाडल्यात. भुरगेपणांतल्यो यादी, खुसखुशीत खबरो, सैमाची सोबिताय, भोंवड्यांचें थ्रिल, रोमँटीक व्यक्तिचित्रणां, कलात्मक आत्मानुभव, रेखीव, घोंटीव आनी मार्मीकसाणेन खिरयल्लीं भाशेचीं मोस्त्रां, हांतल्या निबंदांतल्यान तिजून घेवंक मेळटलीं.

विशयांची आनी आशयांची विविधताय. भाशेच्यो करामती, मार्मीक शैली आनी विचारांची मांडणी अभ्यासपाची ही एक भांगरा संद. लेखकाचें व्यक्तिमत्व आनी तांचें लिखाण एकजीव कशें जाता हाच्यो घणघणीत देखी हातूंत आसपायल्यात.

गोंयचे अस्मितायेचें पडबिंब हांतल्या निबंदांच्या भिंगरांनी तेळूंक मेळटा. साहित्याच्या अभ्यासकांक हांतलो हो सुरबूस पनवार मानवतलो हातूंत दुबाव ना.

**श्यामसुंदर प्रेमानंद वेरेंकार**

श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज, मडगांव, हांगा 1968 वर्सा सावन अर्थशास्त्राचे प्राध्यापक आसात.

गोंय विद्यापिठाच्या अर्थशास्त्र अभ्यास मंडळाचे वांगडी आसले.

'कोंकणी भाशा, साहित्य आनी संस्कृती' चळवळी कडेन स्वातंत्र्यपूर्व काळा सावन एकनिष्ठ रावन वावरत आसात. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय चे सरचिटणीस आसले. लोकवेदाचो अभ्यासक म्हूण नामना जोडल्या.

Konkani Lalit Nibandh (Konkani), Rs. 100

ISBN 81-7201-965-3




22 भासांतलीं पुस्तकां उजवाडावपी साहित्य अकादेमी ही संवसारांतली सगळ्यांत व्हड संस्था